कोंकणी चळवळेचो दुसरो ग्रंथ

## कोंकणी पत्रिकोद्यमाचो पयलो वांटो

# 'जागरण'

सुर्विल्या पत्रकर्तांनी चलयिल्ली कोंकणी चळवळ. लजीश्ट आनी निद्रीश्ट जाल्ल्या कोंकणी लोकाक उठवन कोंकणी भाशेचे मान्यतेक वावरूक दिल्ल्या प्रेरणाचो विवर

पाव्लू मोरास




कोंकणी संस्थो
सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर - 575 003

कोंकणी चळवळेचो दुसरो ग्रंथ

पत्रिकोद्यमाचो पयलो वांटो

# 'जागरण'

सुर्विल्या पत्रकर्तांनी चलयिल्ली कोंकणी चळवळ. लजीश्ट आनी निद्रीश्ट जाल्ल्या कोंकणी लोकाक उठवन कोंकणी भाशेचे मान्यतेक वावरूक दिल्ल्या प्रेरणाचो विवर

बरोवपी : पाव्लू मोरास

2007

प्रकाशक

कोंकणी संस्थो

सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर - 575 003

# 'JAGARANN'

Konkani Challvoll Volume - II

Konkani Journalism Portion one

A research and study on Konkani Movement in Konkani (Devnagari script) by Paul Moras



*Publisher :*

Konkani Institute, St. Aloysius College, Mangalore -575 003

The Publisher does not take the responsibility for the views, opinions expressed in this book.

*Printed by :*

**Assisi Press**, Bejai,

Mangalore 575 003

Ph: 2492816

*DTP :*

**Shreegurukrupa Typographics**

Prasad Assoldekar

SO-28, Baboy Commerce Centre,

Margao - Goa.

Ph: 2710219

*First Edition :* **March 2007**

*Price :* **Rs. 500/-**

मांडावळ पान

## अध्याय दोन



## अध्याय तीन



## अध्याय चार

## अध्याय स
## आटवणी

## 0.1 'जागरणा'च्या नागरी आवृत्ती निमतान...

'जागरण'ची कन्नड लिपयेंतली आवृत्ती 2005 वर्सा उजवाडा आयल्या उपरांत आयज ताचीच नागरी आवृत्ती उजवाडा येवपाचो सुयोग येता. जागरणाखातीर म्हायती मेळोवंक गोंया आयिल्लो आसताना जांणी म्हाका भोव मजत केली तांचो उगडास काडलेबगर रावं नजो. देखून हीं दोन उतरां.

कोंकणी पत्रिकोद्यम हो ह्या पुस्तकाचो मुख्य विशय. ह्या विशयावेली बरीच मोलादीक म्हायती दिवपी म्हजे इश्ट स. फेलिस्यु ़कार्दोज आयज ह्या संवसारांत नात. तशेंच 'गुलाब' म्हयन्याळ्याचे संपादक स. फा. फ्रेडी द कॉश्त हांणीय गोंयांतल्या म्हयनाळ्यांविशीं बरीच म्हायती दिली तशेंच म्हयनाळें चलोवपाविशींचे अणभवूय सांगले. तांकां दोगांकूय हांव काळजाथावन अर्गां ओंपतां.

हें पुस्तक नागरींत हाडूंक म्हाका स्फूर्त आनी उर्बा दिली बाब नागेश करमली हांणी. इतलेंच न्हय तर आपणालो मोलादीक वेळ दिवन पुस्तक वाचून ताचेर गरज थंय संपादन संस्कार केले आनी मोलाच्यो सुचोवण्योय केल्यो. ते खातीर तांचे उपकार म्हाका मानूंकच जाय.

तशेंच पणजेच्या सेंट्रल लायब्ररीच्यो सेक्रेटरी श्रीमती लुर्दीस ब्रावो दा कोश्त रोद्रीगीश हांणी गरज तीं नेमाळीं, दिसाळीं आनी हेर साहित्याची पुरवण करून म्हजो वावर सोंपो केलो देखून तांचे आनी तांच्या लायब्ररींतल्या वांगड्यांचे उपकार मानतां.

कन्नड लिपयेंतल्या ह्या मूळ पुस्तकाचें देवनागरींत लिप्यंतर करपाची जापसालदारकी घेतली भौ. रमेश लाड हांणी आनी तांणी हें काम खुबूच बरे तेरन केलें देखून हांव तांकां दिनवासतां.

हें पुस्तक उजवाडावपाचे वाटेंत म्हाका भोव सहकार्य दिवपी श्री रवींद्रबाब केळेकार, श्री. उदय भेंब्रे, गोवा कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष श्री. पुंडलीक नायक, गोवा कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष श्री. तानाजी हळर्णकार, श्रीमती जयंती नायक, तशेंच 'दर म्हयन्याची रोटी' ह्या नेमाळ्याचे आदले संपादक फा. मोरीनु द सौज, 'वावराड्यांचो इश्ट' सातोळ्याचे उपसंपादपी ब्रदर

येसेबीयु मिरांद हांचोय म्हाका खूब आदार जालो देखून हांव तांचो उपकारी आसां.

हें पुस्तक सोबीत रितीन टायपसॅट करून दिवपी श्रीगुरुकृपा टायपोग्राफिक्साचे धनी प्रसाद असोळडेकार आनी अक्षर जुळणी करपी बाय दिपाली शिरोडकार हांचोय हांव उपकार आठयतां.

सुस्तेल्ल्या कोंकणी लोकांक आनी चड करून लेखकांक आनी अभ्यासकांक सुर्विल्ल्या पत्रकर्त्यांनी चलयल्ले हे तेजीस्ट चळवळीविशीं म्हायती मेळची ह्या ध्येयान, पोटतिडकेन ह्या पुस्तकाचें लेखन जालां. कोंकणी लोकांनी आनी अभ्यासकांनी हें पुस्तक विकतें घेवन ताचें परिशिलन केलें जाल्यार म्हज्या कश्टांचें सार्थक जालें अशें म्हाका दिसतलें.

ग्रंथकर्ता
पावलू मोरास

## 0.2 जाग्रुतायेच्या पर्वाचो इतिहास

कोंकणी उलोवपी समाजाक जेन्ना आपणाली भास, संस्कृताय आनी आपणाली कोंकणी अस्मिताय हे विशींची जाग आयली तेन्ना कोंकणी लोकांमदें एका नव्या पर्वाचो आरंभ जालो. वेगवेगळ्या प्रदेशांनी वेगवेगळ्या लिपयांनी जायना, कोंकणी लोक कोंकणी बरोवंक वाचूंक लागलो. कोंकणीचें मूळपीठ मानिल्ल्या गोंयांत कोंकणीच्या पुनरुत्थान वावराक जायतो विरोध जालो. गोंय तशेंच महाराष्ट्रांत मुंबय सारक्या शारांत जेन्ना कोंकणीची ही चळवळ कशी सुरु जाली तेन्ना 'कोंकणी ही भासच न्हय, ती मराठीची बोली', अशें म्हणीत महाराष्ट्रांतल्या राजकीय तशेच साहित्यीक मळावयल्या फुडाऱ्यांनी तिका खर विरोध सुरु केलो. महाराष्ट्रांतल्या ह्या विरोधाक पळोवन, त्याच महाराष्ट्री विचारांचेर पोशिल्ल्या गोंयकारांनी - विशेश करून गोंयकार हिंदु समाजांतल्या मनशांनीय कोंकणीक विरोध केलो. कोंकणी म्हळयार वेगळी भास न्हय, गोंय म्हळयार एक वेगळो प्रदेश न्हय. सांस्कृतीक, भाशीक आनी सामाजीक नदरेन तो महाराष्ट्राचोच मराठी भाग इतलेमेरेन ह्या विरोधाचें स्वरुप आसलें. हांतल्यानच, गोंय मुक्त जातकीच, तें महाराष्ट्रांत विलीन करपाचोय एक व्हड प्रयत्न जालो. 1967त जाल्ल्या ओपीनियन पोलान महाराष्ट्रासयत मराठीचो दावो गोंयकारांनी भोवमतान भायर मारलो. ते उप्रांत, आमी पळयतात, कोंकणीचो वावर आनीकय नेटान फुडें वचूंक लागलो. 1975 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीन कोंकणीक भारतांतली एक साहित्यीक भास म्हणून मान्यताय दिली. 1987 वर्सा ती गोंयची राजभास जाली. त्याच वर्सा गोंयांक पूर्ण राज्याचो मान जालो. देशांतलें हें पयले वयलें आनी एकूच कोंकणी राज्य. आनी उप्रांत 1992 वर्सा, कोंकणीक भारतीय संविधानाच्या आठव्या परिशिष्टांत स्थान मेळून, कोंकणी चळवळीचें एक म्हत्वाचें पर्व पुराय जालें.

हो सगळो इतिहास. कोंकणी मनशाचे - तो जावं गोंयकार, जावं कारवारकार, मंगळूरकार, कोचीकार वा मुंबयकार - जाग्रुतायेचो आनी कर्तुत्वाचोय इतिहास. भौ. पाव्लु मोरासान हो सगळो इतिहास 'कोंकणी चळवळ' पुस्तकाच्या

रुपान लोकांमुखार दवरली - पयली कन्नड लिपयेंत आनी उप्रांत 2003 वर्सा नागरी लिपयेंत. ह्याच इतिहास वावराचो फुडलो वांटो, 'जागरण' ह्या नांवांन भौ. मोरासान बरयलो. हातूंत कोंकणी नेमाळीं वा पत्रिकोद्यम हांचो इतिहास आयला. कोंकणीच्या वावराक ह्या नेमाळ्यांनी कसो आधार वा पालव दिलो, वेगवेगळ्या प्रश्नांचेर तांणी कशी कशी भूमिका घेतलीं तें सगळें विस्तारान भौ. मोरासान ह्या पुस्तकांत दाखोवन दिलां. हो ग्रंथ मूळ कन्नड लिपयेंत 2005 वर्सा उजवाडा आयलो. ह्या ग्रंथाची नागरी लिपयेंतली आवृत्ती आतां उजवाडाक येता ही भोवच खोशेची गजाल. इतिहास दोळ्यांमुखार लिखीत रुपांत आसप खूब गरजेचो. कारण कालची गजाल आज विसरूंक जाता. ते नदरेन 1889त "उदेन्तेचें साळक" पत्राच्या रुपान सुरु जाल्लो कोंकणी पत्रिकोद्यम आज कितलो फुडें पावला तें आमच्या समाजाक कळपाक जाय. भौ. मोरासान केल्लो वावर हे नदरेन भोव तोखणायेचो आनी खऱ्या अर्थान कोंकणी समाजाक आपणाले कर्तुत्वी शक्तीचो दिश्टावो घडोवपी.

कोंकणी समज गोंया भायर, देशाच्या दुसऱ्याय प्रदेशांनी पातळिल्लो आसा हें आमी जाणातूच. आजूय आपणाले भाशेखातीर तो दोन-तीन लिपयो वापरता. हाका लागून आमचे मदें प्रदेशांचींच अंतरां न्हय, जाल्यार लिपयांवरवीं साहित्य वा कोंकणी बरपावळीचेय जुंवे जाल्यात. आमच्या म्हालगड्यांनी हाचेर विचार करून देशांत एक समर्थ आनी तांकीवंत कोंकणी घ्रडोवपाक, "एक भास, एक लिपी, एक साहित्य" हाचो उलो दिल्लो. आजवेर आमी जायतें जोडलां. अजूनय जायतें जोडपाचें आसा. तांतलेंच एक काम म्हळ्यार आमचे मदले जुंवे ना करपाची गरज आसा. भाशेच्या आधारार कोंकणी लोकांनी एकमेकांक लागीं येवंक जाय. ते बगर आज ना जाल्यार फाल्यां, कोंकणी समाजामुखार दुसरो मार्गच ना. आमचो आजवेरचो इतिहास आमकां हे गरजेचें म्हत्व दाखोवन दिता. ते खातीरय कोंकणीविशींच्या इतिहास लेखनाक हात घाल्ल्या भौ. पाव्लु मोरासाक परबीं फावतात.

चिंबल **नागेश करमली**

रायबंदर, गोंय

## 0.3 प्रस्तावना

कोंकणी भास कोनशांतली मनशांत हाडूंक आदीं मागा थावन कोंकणी करावळीच्या जायत्या वाठारांनी 'कोंकणी चळवळ' जाताली. कोंकणी आपल्या मांय-भाशेखातीर, फुडारी, समर्थक, चळवळेकार आखाडाक देंवोन झुजताले, झरकडताले, पिसो म्हण वोलावन घेवन नांव नासताना, गांव नासताना मरताले. ही चळवळ आरावन-नेरावन ग्रंथा रुपार सुर्विल्या काळार थावन दाखल जाल्लीच ना, कारण साहित्याची चरित्रा म्हळ्ळें चिंताप आसल्लें पूण भाशेची चळवळ म्हळ्ळें चिताप लोकांच्या जिबेर तवळ आयकोंक मेळानातल्लें.

चडावत, साहित्यांत गिरेस्त आसोन, वाडोन फुलल्ल्या भाशेची चरित्रा आनी चळवळ एकच रितीची आसोन ती एकामेका थावन सुटोवंक जायना. पूण कोंकणी भाशेची चरित्रा आनी चळवळ वेगळीवेगळी आसोंक कारण, ती एका काळार पुरती कुर्वाल्ली, ती उलयतेल्यांचेर लज हाडवन, शिक्षा दिल्ली आनी ती संपूर्ण नास करूंक प्रयत्न चल्ल्यान, ती गांवार लजेली, भाटकारांच्या जिबे थावन भश्टाली, सार्वजनीक वेदीर आकमानाक बली जाली, तरी कुलकारांच्या जिबांनी जीव उरली आनी गरजेक कुजनांच्या कामेल्यांचेर रेंवोडली.

इस्कोलांच्या पाठक्रमांनी साहित्याची चरित्रा आसा, चळवळ ना. कारण इंग्लीश आनी इन्नीतर वाडावळीच्या भाशांक हे कश्ट-अन्वार नातल्ल्यान तांकां भास उरवंक चळवळ करची गरज नातल्ली. त्या देखून इंग्लीश भाशेक आनी कोंकणी भाशेक एकाच तकडेर दवरून तुकूंक जायना. कोंकणी शिकोंवच्या इस्कोलांनी चळवळेची अध्याय / पाठ-क्रम जावन वेंगोंवक आज काळ उदेला. कित्याक आज कोंकणी चळवळेचें चिंताप मानेस्त पावल मोरासान ताच्या पयल्या ग्रंथा वरवीं कोंकणी लोकाक एक बोंकेत जावन दिलां. जरी तरी ही कोंकणी चळवळ आज लोकाक वाचूंक मेळानातल्ली जाल्यार आदल्या कोंकणी चळवळेगारांचें साहस आनी पराक्रम अळवोन वेतें आसलें. इंग्लिशान एक सांगणी आसा. "One of the

most dangerous forms of human error is forgetting what one is trying to achieve."- Paul Nitze. मनशा कुळाची महानचूक कितें म्हळ्यार एकल्यान जोडल्लें जैत समाजेन विसरोंचें.

हरएका भाशिकांनी तातांच्या मांय-भाशेची चरित्रा आनी चळवळ समजोंचें. न्हय तर जालें ते ह्या संवसारांत जियेवन फायद्याक नातल्लेबरी. मायकल क्रिचटन म्हणता :- "If you don't know history, you don't know anything. You are a leaf that does not know it is a part of a tree."

मानेस्त पावलू मोरासान पयलो कोंकणी चळवळेचो ग्रंथ आमच्या हातीं दिताना उच्चारल्लें कीं आनीकय चळवळेचीं पाळां मुळां उस्तूंक आसात. दस्तान आसल्ल्या दस्तावेजांनी चळवळेचीं कुळां सोदूंक आसात आनी तातूंत आरायिल्ली चळवळ मुखल्या ग्रंथांनी लिखूंक आसा. अशें सांगताना थोडे पातयेना जालें. आत्म-विश्वास नातल्ल्यांचें उतार हें. येवजीन क्लोटिये सांगता "Jealousy arises from a lack of Confidence, not in others but in oneself." आमच्या समाजेंत दोन थरांचे मनीस आसात. थोडे जातीन आळशी आनी थोडे कातीन वावुरपी. कोंकणींत एक सांगणी आसा 'आळशांक दीस सराना, वावुरतेल्याक रात पावाना.' आळशाक आडेक भाग येता, बसोन बसोन जांगेक वास येता. हो मनीस नांवा खातीर संघ-संस्थ्यानी घुसता आनी खोडी काडुनच आसता. पूण नीज वावुरपी ताच्या कामांत मग्न जाता आनी कांय तरी समाजे खातीर वावरूंक पेचाडता. ह्या मनशाक दिसय पावाना, रातय पावाना. संसार न्हिदोन घोरेताना, तो जागो आसता आनी समाजेच्या समस्यांचेर चिंताप आटयता. ह्या दुसऱ्या पंगतींत म्हणजे वावुरपी पंगडांत आमचो संशोधक पावलू मोरास सेरवाता. ताच्या कोंकणी चळवळेच्या ग्रंथाखातीर दीस आनी रात वावुरता. समाजी खातीर वावुरचें ताचें कर्तव्य म्हण चिंतून वावुरलेल्यान आज दोन कोंकणी चळवळेचे बृहदग्रंथ समाजेक अर्पूंकतो तयार जाला. एच. एल. मेनकेन

सांगता 'If a sense of duty fortures a man, it also enables him to achieve prodigies.'

कोंकणी चळवळेच्या पयल्या ग्रंथांत 'कोंकणी-मराठी वाद-विवाद' म्हळ्ळो विशय घेवन ताणे ग्रंथाक आकार दिलो. कोंकणी चळवळेचीं दस्तावेजां आरायताना, एकच विशय घेवन बसोवंक जायना. साबार विशयांचेरय गमन दी जे पडता. कशें एक उंडी शीत काडिजाय जाल्यार पांच बोटां दोडिजायगी, तशेंच संशोधन करून एक ग्रंथ रचताना, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या ग्रंथांचेय अध्याय तयार जातात. तशें ताणे दुसऱ्या ग्रंथाक कोंकणी पत्रिकोद्यम विशय विंचलो. ह्या एक विशयान आदीं - मागा उमेद हाडवना जाल्यारय आयच्या दिसा आनी फाल्यांच्या येवजणेक उपकाराक पडचो तसलो जावन आसा. आंद्रेगीड सांगता "I call Journalism everything which will be interesting tomorrow than it is today."

ग्रंथकर्ता दुसऱ्या ग्रंथांत सांगता : अख्ख्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाची चळवळ म्हणजे - रोमी, कन्नड, देवनागरी, मलेयाळी आनी उर्दू लिपिनीं आसची पत्रिकोद्यमाची चळवळ आरावन एका ग्रंथांत आटापीजे म्हण ताचें चिंताप जावन आसल्लें, पूण 'चळवळ इतली विस्तारायेन आसागी एकल्याची जिणी पावची ना' म्हण अनभव उच्चारता. तशें तर आमच्या म्हालगड्यांनी केल्ली चळवळ कितली आसा? ती ग्रंथारुपार येदोळ कोणेंय घाल्ली ना. ऐन वेळार ऐन फुडारी येवन तांच्या तांकीच्याकय वर्ते वावरून संततीचें अंतर (Generation gap) भरून सोडतात खंय. तशेंच येदोळ कोणे करिनातल्लें, कोणेय चिंतिनातल्लें काम मानेस्त पावलू मोरासान करून दाखयलां म्हणताना समाज ताका खंडीत (खात्रेन) रुणी जावन आसा. कोंकणी संघ-संस्थ्यांच्या फुडाऱ्यांनी हें श्रेष्ठ काम ओळकोन ताका आर्थीक सहकार आनी पाठिंबो दिवंक मुखार येवंक जाय. ही जवाबदारी समाजेची. समाज थोडे पावटीं न्हिदोन पडता. समाजे खातीर वावरून जिरल्लो अंतरल्या नंतर, समाज ताका फुलां घालता. समाजेक व्हड नश्ट जालो म्हण सिसरीचीं

दुकां (crocodile tears) गळयता. आमच्या कोंकणेत एक गाद (म्हणणी) आसा - 'मेल्ल्या म्हशीक दूद चड, दिल्ल्या धुवेक गूण चड' म्हण. म्हस जिवंत आसताना दूद दिना म्हण बेतांनी सरसरीत मारचें, धुवेक सरसरीत खेंडचें आमच्या संस्कृतीची भितरली कूस. 'मोर सुंदर पूण पांय काळे.' म्हळ्ळया बरी, बऱ्या कामाक लोकांनी पुगारच्या बदलाक कांय तरी वायट उलवन बऱ्या मनाच्यांक घाय करून सोडतात. एडगर वॉटसन होवे म्हणता, "The greatest humiliation in life is to work hard on somthing from which you expect great appreciation and then fail to get." आजकाल समाजेखातीर जीव दिवन वावर करतेले उणे जावंक हेंच कारण म्हण समाजे थंय बोट जोखूंक समाजेनच अवकास करून दिल्ले बरी जाला.

आज मानेस्त पावलू मोरासान कोंकणी चळवळेचो दुसरो ग्रंथ - कोंकणी पत्रिकोद्यमाचो पयलो वांटो त्या पत्रिकोद्यमानी उठयिल्ली 'जागरण', एक बृहद ग्रंथ करून आमच्या समोर उबो केला. ह्या ग्रंथांत रोमी, कन्नडी, देवनागरी गोंयच्या सुटकेच्या पयलें चलयिल्ली कोंकणी चळवळ निरंतर व्हाळ्या रुपार विवरिल्या. ती वाचप्यांनी वाचुनच ताची रुच चाकिजे शिवाय दुसरो उपाय ना. कोंकणी पर्जा ह्या ग्रंथ कर्त्याच्या रिणांत पडल्या ताच्या साहसाक आमी सर्वांनी चेपें उखलून शाबास म्हणोंक फावो.

देव बरें करूं.

**बा. । येवजीन लोबो जे. स.**
दिरेक्तोर, कोंकणी संस्थो,
सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर

## 0.4. बरयणाराचीं भोगणां

**0.3.1 उतरां आनी भोगणां :** काल्पनीक साहित्य बरयणार 'दोन उतरां' म्हणता. पूण एक संशोधक दोन उतरांचेर तृप्ती पावाना. कोंकणी चळवळेच्या पयल्या ग्रंथाक 1997 इस्वे थावन सोदना सुरू केल्लीं म्हळ्ळें येदोळच कळीत केलां. चड उणे आठ वर्सां थावन सोदना करच्या खातीर गोयां, केरळ, मुंबय आनी कर्नाटकाच्या इतर कडेन भंवाडो मारून साहेत आनी माहेत आरावन, ग्रंथालयांत बसोन, फुडाऱ्यांक, चळवळेकारांक, दुभाशींक मेळोन तांच्या जाणवायेचें पक्वान आपणावन जाताना संशोधक / ग्रंथकर्ता जाणवायेन भरता आनी भोगणांनी पिकता. भोगणांची पिकावळ तीं उतरावंक आशेता आनी भूंय देवोंक पेचाडता. त्या वरवीं उतरां म्हणच्याकय भोगणां म्हणचेंच सारकें म्हण भोगता.

**0.3.2 दुसऱ्या ग्रंथाची सुरवात :** कोंकणी चळवळेचो पयलो ग्रंथ संपयताना, ही आखेर न्हय, सुरवात मात्र, म्हण आनी आनिकय ह्या चळवळेचेर ग्रंथ रचूंक आसतेले म्हळ्ळो इशारो दिल्लो. कोंकणी चळवळ म्हळ्यार चारूय कुशींनी मोतयां शिपडाल्लेबरी, खंयच्या कुशींतल्यान धरचीं खंयच्या कुशींतल्यान सोडचीं म्हळ्ळें कळाना. तशेंच कोंकणी चळवळेचो पयलो ग्रंथ सुरवातूंक आनी संपवंक एका सुत्राची आनी संबंदाची गरज आसल्ली. ती कोंकणी-मराठी वाद-विवादाचेर बांदून आनी शिंवोन संपयताना थोड्यांच्या खड्ड्यांत टिकेचीं बड्ड सवालां कडसरलीं. 'हो ग्रंथ अपूर्ण, तांतून तें ना, हें ना' अशें पुरतें वाचिनासतां, हांकरेवन तोंडाची शेळ सुकय लागले. 'ताणे मुकारून बरयतां म्हळां राकोन रावोन पळेयां' अशेंय म्हणाले. म्हणटेल्यांनी फाट थापुडचें सोड, चार-कास (पयशे) हातांत घालेये? ग्रंथ मोलाक घेतलेये? तेंयी नातर समाजेंत हांकां खोडी काडूंक हक्क कितें आसा? अशें म्हणतात म्हणोन दुसरो ग्रंथ रचलोय न्हय, ग्रंथा खातीर सोदना करताना धाराळ साहित्याचीं दस्तावेजां मेळतात तीं आरावन नेरायताना दरबस्त विशय वाचूंक मेळतात. त्या भायर संशोधन करूंक भायर सरल्ल्यांक मुकारसून

व्हरूकच वोडनी शिवाय अर्धार खरशेवन रावानात. अशें पयल्या ग्रंथाच्या वावरांत आसतानाच दुसऱ्या ग्रंथाक आंकरी फुटल्ली. म्हळयार अतिशय जांवचें ना.

**0.3.3 सवय अमाल आनी दुडू-अडको :** एक मनीस खंयच्या एका वस्तूचेर सवयेर पडताना तो त्या विशयाचेर मग्न जाता. उप्रांत त्या चिंतपाचेर बुडोन अमालार पडता. तवळ तो खर्चाच्या बाबतीन दुडू-अडक्याची फिकीर करिना. देखीक सांगचें जाल्यार, कोण एकलो बिडी सिगरेट वडच्या सवयेर पडता, कोण एकलो सोरो-सूर पियेंवच्या सवयेर पडोन अमालार लकता, कोण एकलो आकांतवादी जावन कोयती-पिसकाती घेवन तांडता-बेंडता. हो मनीस वेळ, दुडू खर्चूंक मुखार-पाटीं पळेना, हाचेकडेन खर्चूंक दुडू खंयचो म्हळयार जाप आसाना.

तशेंच संस्कृती / धर्मा संबंदी उलवंचे जाल्यार, कोण एकलो दीस-रात मागण्यार वेळ खर्चिता, कोण एकलो दरबार दाखवंक खाणा जेवणाचेर पयशे उडयता आनी 'ओपन-बार' उबारून वोवळ्यांक अमालान लकयता हांका लोक पुगारता शिवाय हांच्या दुडू-अडक्याच्या मुळाची खबार- गिबार कोण काडता?

त्याच परीं एक बरयणार / संशोधक ताच्या वावरांत सवयेर पडोन दुडू-गिडू पळयनासताना, दीस- रात वेळ खर्चून संशोध करता, लिखता आनी तांतूंच बुडोन जिरोन / किरोन वेता. वर्सां गटल्यान दुडू कितलो खर्चालो म्हण लेख दवरल्यार तनाव (Tension) जाता म्हणोन येदोळ थंय 'इतलो' खर्चालो म्हळयार हांकरेतेल्यांक जाप खंयची हाडची?

खंयच्याय विशयाचेर सवय जावन अमाल जाल्ल्यांक त्या 'वस्तू' थावन पयस धांवडायल्यारय तो परत्या-परत्यान त्याच 'वस्तू'चे भवंतणी रेवडता. तशेंच संशोधन कर्न सवाय जाल्लेल्यान आनी 'तूं' बरोवचें संशोधन करचें रावय म्हळयारय रावोंक परवडना म्हण सांगाचें पडता. ह्या वरवीं आनी मुखार दुडू आसों या नासों, वेळ मेळों या ना मेळों मुखले ग्रंथ रचचें काम रावंचें ना म्हळ्ळें खात्रेन सांगयेत.

**0.3.4 प्रेरण, प्रोत्साव आनी पाटिंबो :** संशोधन कितलेजण करतात. हें काम कश्टांचें. गांवां- गांवांनी भंवचें, जणां-जणांक मेळोन संदर्शन घेवचें, विविंगड भाशेंनी आसल्लें साहित्य जिरोवंक दुभाशिचे हात-पाय धरचे - असलें सर्व काम करताना मनोस्थिती कोसळा नातल्ले बरी प्रेरण - प्रोत्सावाची गरज पडता. असल्या संदर्भार प्रेरणाचीं दोन उतरां उबारच्या बदलाक 'असलीं कामां कित्याक तुका, तूं पयशे कमय आनी तुज्या बायल-भुरग्यांक बऱ्या थरान सांबाळ.' म्हण थोड्यांनी म्हळां सयत. पूण थोड्या जाणारानी प्रेरण दिलां. प्रोत्सावाचीं उतरां उलोवन पाटिंबो दिला, हाणीं हांचें नांव सांगचें नाका म्हळां.

संघ-संस्थ्यांचो मनोभाव इल्लो विचित्र आसा. ह्या संस्थ्यांत धा-मंडे धा-रितीर अड्डा-दिड्डी उलोवन घुस्पोड-गोंदोळ उबजयतात आनी अर्थीक पाटिंबो दिवंक अती 'बुदवंतकाय' खर्चून आड- पांय दिवंक ओद्दाडतात. एक संस्थ्यान अशें म्हळ्ळेंय आसा 'आमी संस्थ्यांक दुडू दिवयेत पूण वैयुक्तीक मनशांक दुडवां सहाय दिवंक जायना.' असलीं निबां कित्याक? आस्पत्रेच्या खटल्यार न्हिदोन एकाएकी बील भरूंक पयशे ना म्हणतेल्यांक तक्षण पयशे दिवंचे संस्थे कितलेय आसात. ताचेकडेन पयशे कशे ना जाले वा तो बरो जावन पाटीं समाजेक कितलें बरेपण करता? वा परत्यान कंटक जाता, अशें आलोचन करूंक संस्थ्यांच्या मानायांक फुरसत ना खंय. धा जणांचे पयशे वांटताना समाजेक पाटीं बरेपण लाबतागी ना म्हळ्ळें वरवन पळेल्यार खंयच्या संगतीक दुडवां सहाय अती गरजेचेंगी म्हण कळता. कोंकणी भाशेचेर संशोधन करचें कोंकणी समाजेक मेळचें एक 'दिर्वें' दिस-रात वांवट काडून समाजेखातीर वावुरतेल्यांक संस्थे ओळकानांत जाल्यार, समाजे थंय संस्थ्यांची जवाबदारी कसली? संस्थ्यांक कानून-कायदे आसात म्हणोन संस्थ्यांनी कानून-कायद्याची बंदिवान जावचें न्हय. संस्थ्यांनी समाजेच्या पैलूंच्या गरजांनी प्रलोभीत जावंचें बरें.

**0.3.5 वाचप विकराप आनी घेवप :** कोंकणी लोका मदें वाचचे कितले

आसात, पुस्तक, मोलाक घेवपी कितले आसात आनी पुस्तकाच्यो प्रत्यो कितल्यो विकतात हाचें लेख-पाक काडलें जाल्यार आयकातेल्यांक धक्को मारात जाय तितले वाचपी आसात म्हण सांगोक धयर पावाना. पूण बूक मोलाक घेवन वाचचे कितले? एक दीस एका दुडवा दिकाराची गुरकार्न, कोंकणी चळवळेचो ग्रंथ पळेवन 'हांव वाचून पाटीं दीजेगी?' म्हणाली. हिचेकडेन पयशांक कांय बर्गाल (दुकळ) ना, वाचूंक मन आसा पूण दुडू दिवन ग्रंथ घेवंक नाका. हीं कोंकणी संस्कृतीची लजमाडी एक कूस जाल्यार, तांच्या घरा जावंच्या फेस्ता-परबेक बोतली-बोतली 'मोलाचो' सोरो हाडून मर्जी आनी व्हडपण दाखवंक चडपडचें पळेताना कोंकणी संस्कृतीची आनी एक कूस दोळ्यांक आपटता. ग्रंथ घेतल्लो जाल्यार, घरा भितर उरचें एक दिवें, आनी व्हडपण, दुडू विबाडचें विनासाचें खंदक म्हळें परिज्ञान दुडवांदिकांच्या खड्ड्यांत दुडू आसता पर्यांत कित्याक रिगाना म्हळें सवाल धोंसता.

पुस्तक विकरापाचें परिस्थिती वेगळीच. थंय परिशद/संमेळनां, सह-मिलनां आनी शिबिरां जातात थंय बूक विकरापाचे पसरे आनी ताच्या भितर कोंकणी मोगींनी ओद्दाडचें दृश्य पळेवंक मेळता. हजारांनी कोंकणी भाशीक लोक संमेळनांक येवन भाशेचें व्हडपण उलवन गेल्यारय पसऱ्यांतलें एकय बूक खपाना 'आयिल्ल्या तसोच पाटीं वच सुब्रया' म्हळेबरी बूक हाडल्लेबरीच पाटीं व्हरतात. ही कसली संस्कृती? बूक घेवंची प्रवृत्ती कोंकणी भाशिकांनी वाडोवंक जाय. बरोवंच्या छापच्या, कामात बुडल्ल्यांक हात लासून घेवंक सोडिना जाल्यार मात्र कोंकणेचें साहित्य वाडतेलें आनी चडतेलें.

संस्थ्यांचीय गजाल तशीच. संस्थ्यांपयकी, लायिक संस्थे, धार्मीक संस्थे आनी संशोधन संस्थे म्हण विविंगड करयेत. लायिक संस्थ्याक चडावत जावन शास्वीत दफ्तरां नांत, तवळ तवळ बदलोंचे हुद्देदार तांचे बिडकी-बाजार घेवन जागो बदलिताना तांकां ग्रंथालय घुडूंक जायना. तशेंच म्हणोन पुस्तक भंडार उबारूंक मनय ना. तशें जाल्ल्यान तांकां वाचच्या, घेवंच्या आनी विक्रापाच्या लाग- वोडीची तकली फोडाफोड ना.'

आमच्या गांवांत धार्मीक संस्थे साबार आसात. आसरे, कोंवेतां, मठां, शिक्षण केंद्रां इत्यादी. ह्या संस्थ्यांक भेट दिल्ल्या वेळार पळेवंक मेळल्ली दृश्यां ह्या परीं आसात. रूंद रूंद कुडां आनी त्या कुडांनी थंय थंय कृतक झडां. एका कोनशाक ग्रंथालय, त्या ग्रंथालयांत संवसाराच्या सगळ्या भाशेचें दाटे मोटे बूक आसात पूण कोंकणेचे नांत. आसल्यारय कोनशांत एक कुशीन चेपून दवरल्ले थोडे, (तेय कोणेगी दिल्ले) झळकातीत. कोंकणी बुकांची गत अशी कशी पिड्ड्यार जाली म्हण विचारल्यार 'आमकां कोंकणी बूक घेवंक, ते सांबाळच्याक ग्रंथपाल नमयरूक निधी / अनुदान ना', म्हळ्ळीं कुंटू निबां दितात. त्या धार्मीक संस्थ्यांत वडील, शिक्षकां अभ्यर्थी इत्यादी सगळे कोंकणी भाशीक. ताणी गरजेक कोंकणी आनी मरजेक इंग्लीश भास उलवंचें खंय. त्या देखून तांच्या गरजांक जांव, शिकपाक जांव कोंकणी बूक जाय पडानात खंय.

संशोधन संस्थ्यांक भेट दिताना पळेयिल्ली गजाल अनिकय विशेश- वैभवीत प्रवेशद्वार, व्यवस्थीत पुस्तकभंडार. ह्या लिवरा भंडारांत कोंकणी बूक सोदून काडूंक 'वोक्ल' दवरिजे पडता. थोडे कडेन कोंकणी बूक वयर वयर चेपल्ल्याबरी दिसतात. धूळ फाफुडची समेत गत नातल्लेबरी आसात. ह्या ग्रंथालयांनी अकोंकणी ग्रंथपालाची अलक्षा, वडिलांची विर्लक्षा इत्यादी खुणांवरवीं अशें घडलां जावयेत.

अशें कोंकणी पुस्तकांची परिगत आसताना, संशोधन करून, ग्रंथ छापून ह्या अव्यवस्थांत बुडताना, ग्रंथकर्ताक हे अटेविटे आटापूंक कठीण मनोबल जायजे पडता. त्या देखून ग्रंथकर्ताक प्रेरण, प्रोत्साव आनी पाटिंबो अगत्य जावन गरज आसा.

**0.3.6 पुराभिलेख आनी ग्रंथालय :** मंगळुरांत साबार-शे विद्या-संस्थे शिक्षण-केंद्रां, इस्कोलां इत्यादी आसात. हांतले थोडे संस्थे शंबर वर्सां उतरल्लेय आसात. ह्या संस्थ्यानी ग्रंथालय आसात. इस्कोलाक संबंद जाल्लीं मात्र पूण कोंकणी पुस्तकां नांत. एका प्रख्यात इस्कोलांत ग्रंथपालाकडेन विचारल्ल्याक तिणे दिल्ली जाप अशी आसा : "कोंकणी बूक, पत्रिको, परने

बिल्डींग आसताना

आसल्ले, नव्या बिल्डिंगाक हाडताना कसलें पळेवंचें पुराय वाळय खान गेल्ले. हें पळेवन तें सक्कड उजो दिवन कैद केले." तशेंच आनी एक संस्थ्याच्या रावपा घराच्या एक कुडांत साबार वर्सांचे दस्तान दस्तावेज, पुस्तकां, पत्रिको आसल्ले खंय. एक दीस नवो आइल्ल्या वडिलान हें कसलें कस्ताळ म्हणोन बाटलिवालाक विकूंक सांगलें खंय. असल्यो सगळ्यो गजाली आयकाताना हांका पुराभिलेखांचें परिज्ञान ना म्हण कळीत जाता. कर्नाटक राज्याच्या मट्टार सांगचें जाल्यार मंगळूर सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यांत कोंकणी ग्रंथालय आसा म्हळ्ळी संतोसाची गजाल. पूण इतर जाग्यांनी आनी संस्थ्यांनी आसल्ल्या ग्रंथालयांनी कोंकणी कुणगो (section) मात्र पळोवंक मेळ्ळा शिवाय व्यवस्थीत कोंकणी ग्रंथालय पळोवंक ना. ह्या संस्थ्यांचे सवकर जावं नवकर जावं सगळे कोंकणी भाशीक. संस्थ्यांच्या पासायेन कोंकणी भासच उलवंची आयकोंक मेळता. तरी पूण हांचे कडेन दुडू-तांक आसल्यारय आदलीं कोंकणी दस्तावेजां कस्ताळ रुपार दास्तान आसल्लीं एक व्यवस्थीत पुराभिलेखालय (Archives) मांडून हाडूंक उमेद ना तशें दिसता. आमच्या म्हालगड्यां कोंकणी समर्थकांनी दस्तावेजां वाळय खायनासतांना सारकीं सांबाळून हाडल्लीं जाल्यार आज संशोधकांक जाय तितली साहेत आनी माहेत मेळती आसल्ली. आदल्या काळार कोंकणी चळवळ खंयच्या रुपार आसल्ली म्हळ्ळी सारकी समजोन घेवंक ह्या कारणांनिमतीं असाध्य जालां म्हळ्ळें वाचप्याक कळोवंक बेजाराय जाता पूण सांगल्या शिवाय निर्वोग ना.

**0.3.7 बरयणार प्रकटणार आनी संशोधन :** कथा, कादंबरी, कविता इत्यादी सृजनात्मक साहित्य कृत्यांचो बरयणार जावं वा साहित्याची चरित्रा, जिणी चरित्रा, संशोधन, प्रबंध निबंध लिखचो सृजनेतर आरयणार जावं, ताका धयर आत्मनिश्वास आनी मनोबल दिवंक एक तात्वीक (Academic) संस्थो जाय.

'अण्णप्पागेर न्हावचे, कुट्टप्पागेर जेंवचें, मेळल्ले थंय न्हिदचें' म्हळ्यार

जायना. संशोधनेक एक मार्गदर्शन आनी संशोधकाक एक शिस्त गरज आसा. देखून संशोधन करून एक ग्रंथ रचल्यार तो प्रकटूंक एका अनुभवी संस्थ्याचो पाटिंबो, प्रोत्साव आनी मार्गदर्शन लाबल्यार मात्र तें काम संपूर्ण म्हण जाणकारी सांगतात. एक 'फलाणो' संस्थो ग्रंथ प्रकटता म्हळ्ळयाफरा ग्रंथाच्या सगळ्या खर्चाक मातें मारलां म्हण अर्थ न्हय. थोड्यांनी चूक समजून, छाप्याच्या खर्चाक दुडू जमयताना, तो 'फलाणें' संस्थो ग्रंथ प्रकटता जाल्यार दुडू कित्याक म्हळ्ळें सवाल उडयताना थोडे शंबर रुपया दिवन एक हजार बूदबाळ सांगतात. ह्या कोंकणी चळवळेच्या ग्रंथकर्ताक सुरवेर थावन सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यान आनी संस्थ्याच्या हुद्देदारांनी प्रोत्साव आनी प्रेरण दिल्ल्यान पयलो ग्रंथ संपूर्ण जावन दुसरो ग्रंथ आतां भूंय पडोंक कारण म्हण भगल्ल्यान आनी ताणींच ग्रंथ प्रकटणार जायजे म्हण आडदोस मागल्ल्यान चूक कितें आसा? 'बातेणाच्या राशींत सूय सोदल्ल्याबरी' ग्रंथ प्रकटल्या उप्रांत चुकी सोदचे थोड्या अ-मानायांक अवकास करून दिंवच्याकय पयलेंच परिपूर्णयेचें कुशीन मेट काडल्यार बरें न्हयगी? अशें म्हण चिंतून कोंकणी भाशेच्या वावरांत अनभोव आसच्या कोंकणी संस्थ्यांक प्रकटणार जावन सांगात मागलो.

आजकाल तांच्या तांच्या कामांनी मेतेर जावन घरदार सांबाळूकच ओद्दाडचे संवकळीर आसताना, भाशेच्या संशोधनाच्या कामाक मेळचे भोव विरळ अशें म्हणोक कोणय एकलो संशोधनाच्या कामाक देंवलो जाल्यार ताच्या कामाक ओळकातोलो आनिकय विरळ. 'कापूस जोखचे कडेन, मूस उपाशीं' म्हळ्ळेबरी संशोधनाक दुडू खर्चून उपाशीं उरल्यारय, कोंकणी समर्थक म्हण गांवार भंवचोय सहाय मागताना सुको सयलाप उलवन बोलसाक बुराक म्हण हात उदारे घालता. वैयुक्तीक मोगींक सोडयां, मंगळुरांत साबार प्रख्यात दुडवांदीक कोंकणी शिक्षण केंद्रां आसात. हांचेकडेन बळ, दुडू, साहेत आनी माहेत भरपूर आसा. ह्या संस्थ्यांनी नवकरय कोंकणी सवकरय कोंकणी. 'जुजे जुजे फूंकरे उजो, फुंकतां सायबा गुलाम तुजो' म्हळ्ळे बरी केल्लेंच करतात, सांगल्लेंच सांगतात शिवाय एक नव्या चिंतपाक अवकास करून

दिनांत. ह्या संस्थ्यानी एक संशोधन संस्थो रचून कोंकणी पुराभिलेख / ग्रंथालय उभारून संशोधन करतेल्यांक आर्थीक आदार दिवंक प्रयत्न करच्या बदलाक वेदीर मानाचो उर्माल चडोवन कोंकणी भाशेची खंत उच्चारतात. कोंकणी मरोंक तेंकल्या म्हण दुकां गळयतात तरी दुडवां पोती सोडयनांत. 'त्या त्या परमाणे माथ्यार कुर्पाणो' म्हळ्ळयाबरी साहितींक, संशोधकांक, समाजेक 'दिर्वे' उबारतेल्यांक बुडोंक सोडतात शिवाय हात दिवन वांचोंवचें उणें. वांचोवंक प्रयत्न करचें सोड, एक बरें उतार, एक मान्यताय दिवंक आंवडेनांत. कोंकणी भाशेक भरमाचो उर्माल चडयजे जाल्यार ह्या संस्थ्यानी जागेवंचें बरें.

**0.3.8 मुकल्या ग्रंथांचे भविश्य :** रामायणाच्या कथा संग्रहांत, राम लक्ष्मणाक बचाव करूंक हिमालय पर्वताक वचोन संजिवनी वकता-झाड हाडूंक हनुमंताक सांगल्लें. थंय ताका हजारांनी वखता-झाडां दिसलीं. तातूंत तांतलें खंयचें संजिवनी म्हळ्ळें कळ्ळें ना. निमाणे झाडांच्या मुळाकच हात घालताना सगळो पर्वतच ताच्या हाताक आइल्लो. तशेंच कोंकणी चळवळ ग्रंथ रचताना आराइल्ल्या दस्तावेजांचो दाळो मुखल्या ग्रंथाच्या सुरवातेक पावंचे तितलो बिऱ्यांनी भरोन आयला. पयलो ग्रंथ प्रकटताना. हेर विशयांचेरय प्रेरण आनी पाटिंबो आसल्यार ग्रंथ रचतोलो म्हण भविश्य उच्चारल्लें. थोडे पातयेलेनांत. दुसरो ग्रंथ प्रकटच्या वेळार परत्यान सांगोंक अपेक्षितां कितेंगी म्हळ्यार ग्रंथकर्ताक बळ-भलायकी प्रेरण आनी आर्थीक पाटिंबो कोंकणी समर्थकां थावन आनी संघ संस्थ्या थावन लाबल्यार कोंकणी चळवळेचे मुखेल ग्रंथ बरोवन कोंकणी परजेक सर्मपितलों म्हण भरवसो उच्चारतां.

देव बरें करूं,

कोंकणे थंय तुमच्या पात्येणेचो

**पावलू मोरास.**

## 0.5 आभार आनी उपकार

कोंकणी चळवळेचो दुसरो ग्रंथ रचूंक अर्थीक आधार, प्रोत्साव आनी पाठिंबो दिल्ल्या कोंकणी समर्थकांचीं नावां ह्या परीं आसात.

मा/बा/फ्रान्सीस सेरांव जे.स.रेक्टर आनी मा/बा/येवजीन लोबो जे.स.दिरेक्तोर 'कोंकणी संस्थो' सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर; मा/बा/गॉडफ्री सालदान्या, विगार देरेबैल फिर्गज आनी देरेबैलची देवप्रजा; सुपिरियर, जनरल सिस्टर ज्योती बी.एस.बेथनी कोवेंताची वडील्न; मानेस्त फ्रांसीस फेर्नांदीश, कास्सिया, दुबय, कोंकणी नाटक बरयणार नट आनी दिग्दर्शक; पास्टर हेराल्ड रस्कीन्या, ब्याप्टीस्ट चर्च (हेरी बॉय कुलशेकर); मानेस्त एम. रघुनाथ शेट, मंगळूर, मानेस्त रोनाल्ड क्यास्तेलिनो रॉय कन्स्ट्रकशन, मंगळूर; प्रोविन्शल सुपिरियर, सिस्टर्स ऑफ चॅरिटी बेळवेदेरे मंगळूर; मा/बा/वॉल्टर डि'मेलु विगार मिलाग्रिस फिर्गज; मानेस्त ए.वी. रेगो आनी कुटाम, बेंगळूर, मानेस्त जे. आ. साल्दान्या, शारजा, यू.ए.ई; नवीनचंद्र डी. सुवर्ण, आखील भारतीय बिल्लवर युनियन मंगळूर; मानेस्त बस्ती वामन शणै, अध्यक्ष अखील भारतीय कोंकणी भाशा परिशद. कथोलीक सभा, देरेबैल घटक, मंगळूर, दाँ. बोस्को हॉल, आडळत्या समिती, मंगळूर.

मा/बा/अँड्र्यू लुवीस, विगार, उर्व फिर्गज; मा/बा/पिटर नोरोन्या, विगार, बेंदूर फिर्गज; मा/बा/ जे.पी.तुवरो, इजय फिर्गज, सुपिरियर जनरलसिस्टर डॉरिन डि'सोजा, अर्सुलायन फ्रांन्सीसकन मेळ देरळकट्टे; मा/बा/मायकल सांतुमायोर प्रिन्सिपॉल पदवा. पी.यू.कॉलेज, नंतूर; श्री. हेराल्ड गोवियस, कोंकण मरीन एजन्सीज, मंगळूर; मानेस्त गिल्बर्ट डि'सोजा, सोज हॅचरीज, मंगळूर; मानेस्त लुवी पिंटो - अध्यक्ष, मांड सोभाण; मानेस्त एम.अशोक शेट, श्वेता ज्युवेलर्स मंगळूर; श्रीमती ऑक्टोवीया आल्बुकेर्क, बोळार; मानेस्त जे. एम. पेरेयरा, पळनीर; मे/ओब्री डि'सोजा चॅरिटेबल फावंडेशन, पळनीर; मे/रूपवाणी टॉकीज, मार्केट रोड, मंगळूर, मा/बा/एरीक क्रास्ता,

संपादक 'राकणो' हप्त्याळें, मा/बा/जॉन हॅरी डि'सोजा, संपादक 'सेवक' म्हयन्याळें; मानेस्त लॉरेन्स कुयेल्यू, संपादक 'दिवो' हप्त्याळें; मानेस्त हेन्री डि'पावला, संपादक 'कुटाम' हप्त्याळें; मानेस्त मानरीस डि'सा, संपादक 'काणीक' पंद्राळें; मानेस्त लॉयड रेगो, संपादक 'मित्र' हप्त्याळें.

मा/बा/संतोश मिनेज कापुचीन, इजय; मा/बा/मार्क वाल्डर; कोंकणी कोगूळ विल्फी रेबींबस; संगीत सम्राट हेनरी डि'सोजा; डॉ. एडवर्ड नाजरेत; श्री. डोल्पी कास्सिया; श्री वल्ली वग्गा; दे/एमियार मुंबई, श्री. जेकाल्ड फेर्नांडिस, श्री ओस्वाल्ड फेर्नांडिस, बेंदूर; श्रीमती सेसिलिया गोवियस बेंदूर; बाय प्रभा कामत, केनरा कॉलेज; श्रीमती ग्लेडिस रेगो आनी बाब गोपाल गौडा, कोंकणी संस्थो, सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर ह्या सर्वांचो हांव काळजा थावन उपकार भावुडतां आनी तांकां लांब आव्क बळ-भलायकी मागतां.

हो ग्रंथ डी.टी.पी. करून छापून दिल्ल्या अस्सीसी प्रेसाचो मॅनेजर मा/बा/हेनरी व्हाज आनी ताच्या शिबंदेक, तशेंच ग्रंथांचें उद्‌घाटन कार्यें संघटन केल्ल्या कोंकणी भाशा मंडळी कर्नाटक (री), सां. लुवीस कॉलेजीचो कोंकणी संस्थो, हांका सर्वांक हांव आभारी जावन आसां.

देव बरें करूं

कोंकणे थंय तुमूचो विश्वासी

पावलु मोरास

## 0.6 भांगराची मुदी

'कोंकणी चळवळ' पयल्या ग्रंथाक मोल रु. 500/- दवरल्लेंच थोड्यांनी त्या ग्रंथाचें मोल चड जाले म्हण व्हडलो एक उद्गार काडलो. थोड्यांनी साद्या आनी दुबळ्या वाचप्यांक हो ग्रंथ घेवंक जांवचेंना म्हण भविश्य उच्चार्न पत्रांनी लिखलें. एक संशोधनेचो ग्रंथ रचिजे जाल्यार उण्यार उणे चार-पांच वर्सां गांवान गांव भंवोन साहितींक भेटोन विविंगड लिपींत आसल्ली साहेत आनी माहेत आराइजे जाल्यार खर्च कितलो बसता म्हळ्ळें, भगल्ल्याक मात्र कळीत शिवाय, सांगतेल्याक कशें कळीत जातेलें? तशेंच हो दुसरो ग्रंथ रचुंकय तीन-चार वर्सां लागल्यांत आनी तितलोच खर्च बसला म्हणताना ग्रंथाचें मोलय तितलेंच दवरिजे पडल्ल्यान, जें कितें थोडे सांगतात 'सादे आनी दुबळ्या वाचप्यां' खातीर म्हण एक योजन मांडलें. त्याखातीर दुसऱ्या ग्रंथाचो माथाळ्याचो स्पर्धो आसा केलो. जिकल्ल्यांक भांगराची मुदी आनी हरएकल्या स्पर्धिकांक एक ग्रंथय दितां म्हणोन प्रवेश दर फक्त रु. 100/- दवरलो.

ह्या स्पर्ध्या विशयांत 'राकणो', 'मित्र', 'काणीक', 'दिवो', 'कुटाम' आनी 'सेवक' पत्रार प्रकट केलें आनी हात-पत्र (Folder) घेवन स्वता दारा-दारांनी पावलों. ओळकिच्यानी, कोंकणी मोगींनी प्रोत्सावाचें स्पंदन दिवन थोड्यांनी ग्रंथाचें मोल 500/- दिले. थोड्यांनी नेमा परमाणे रु. 100/- दिवन माथाळो भरती कर्न दिलो.

छाप्याच्या खर्चाचो संपूर्ण न्हय तरी सादार्न खर्च जमवंक सहकार दिल्ल्या पयकी सुरवेर मा/बा/ येवजीन लोबो, जे.स. दिरेक्तोर कोंकणी संस्थो हार्णीं रु. 5000/- दिवन दुडू जमंवक विनंती पत्र दिलें. त्या उप्रांत दुबायचो फ्रांन्सीस फोर्नांडिस कास्सिया हार्णीं रु. 5000/- दिवन दुबायथावन दोन पावटीं उलवन प्रोत्साव दिला. बेथनी कोवेंताची सुपिरियर जनरल सिस्टर

ज्योती बी. एस. हाणीं रुपया 5000/- दिवन पत्राद्वारीं प्रोत्सावाचीं उतरां उच्चारल्यांत. पास्टर हेराल्द रस्कीन्या (हेरी बॉय कुलशेकर) हाणीं अमेरिका थावन रु. 3000/- धाडून दिल्यात. मानेस्त एम. रघुनाथ शेट मंगळूर रु. 2500/-; प्रोविन्सियल सुपिरियर बेळ्वेदेरे कोवेंत रु. 2000/-; मा/बा/ वॉल्टर डि'मेलु, विगार मिलाग्रिस फिर्गज, रु. 2000/-; मानेस्त रोनाल्ड क्यास्तेलीन, रु. 2000/-; मानेस्त ए. वी. रेगु आनी कुटाम, बेंगळूर रु. 2000/- केथोलीक सभा देरेबैल घटक रु. 2000/- हाणीं ग्रंथकर्तांचो वावर वाखाणून दुडू दिला. श्रीमती ऑक्टोवीय आल्बुकेर्क प्रायेस्त जाल्यारय, हिणें दुडू दिलो मात्र न्हय इतर दानींक न्हिदल्ल्या खटल्यार थावनच फोन कर्न सहायधन दिवंक सांगलें. गल्फांत आसल्ल्या कोंकणी समर्थकांचो विलास मेळल्ल्या पयकीं सतरा (17) मानेस्तांक पत्रा लिखल्लीं. त्या पयकी शारजाच्या मॉडर्न ग्राफिक्साचो सावकार श्री जेरोम सालदान्या हाणीं एकट्यान मात्र रु. 2000/- धाडून दिवन कोंकणी भाशेचो मोग उच्चारलो. उप्रांत कोंकणी समर्थकांच्या पयकी थोड्यांनी रु. 2000/- आनी थोड्यांनी रु. 1000/- दिवन प्रोत्साव आनी पाटिंबो दिला. ह्या पयकी विशेश जावन प्रोत्साव दिल्ल्या देरेबैल फिर्गजेचो विगार मा/बा/ गोडफ्री साल्दान्य आनी हेरां सर्वांचो काळजाथावन उपकार भावुडतां.

ग्रंथाच्या माथाळ्याक साबार नांवां आयल्यांत. त्या पयकी सुरवात केल्ली श्री. सिज्येसान. तो गल्फा थावन गांवाक आइल्लो ताच्या घरा पावल्या वेळार ताणेच दुडू दिवन सुरवात करून बरें भविश्य मागल्लें. आवयन-नातीन कोंकणी भाशेच्या मोगान माथाळ्याचीं नांवां दिल्ल्या पयकीं श्रीमती ग्लेडीस रेगु आनी तिची नात कु. डिंपल जी. फेर्नांडिस हांचो विशेश उगडास काडूंक फावो, कित्याक म्हळ्यार पांच-स कोंकणी पत्रांनी ह्या स्पर्ध्याची खबर दोळ्यांक आपटोंचेबरी प्रगटल्यारय एकल्यान मात्र 'राकणो' पत्राच्या प्रकटणेचें कडतिलाचेर रु. 100/- प्रवेश दर दिवन माथाळो धाडला. ह्या

मानेस्ताचें नांव जावन आसा श्री. आंतोनियु डि'कॉस्ता, बडेकोडी ग्राम, पेरिंजे पोस्ट, बेळतंगडी. तशें जाल्यार 'सादे आनी दुबळ्या वाचप्यां' खातीर तांकां ग्रंथ आपणांवक अवकास करच्या खातीर स्पर्धो आसा केल्यारय हे दुबळे खंय गेले? हाचो अर्थ कोंकणी बूक घेवन वाचूंक मन आसल्ले कितलो दुडू दिवन जाल्यारय घेवन वाचतात आनी मन नातल्ले धर्माक दिल्यारय घेनात म्हळ्ळें ह्या दाखल्या वरवीं स्पश्ट खळीत जाता.

ह्या स्पर्ध्यांत थोड्यांनी माथाळ्याक नांवां दिल्यांत तांचीं नांवां ह्या परीं आसात;

| | नांव | माथाळो |
|---|---|---|
| 1. | श्री. सिरील जी. सिक्वेरा | 'जाग-माग' |
| 2. | श्रीमती लिल्ली मिरांदा | 'कोंकणी मायेचो' |
| 3. | श्री. ओस्वाल्ड क्रास्ता | 'कोंकणी हातेर' |
| 4. | श्रीमती ग्लेडीस रेगु | 'कोंकणी पत्रिकोद्यम' |
| 5. | कु. डिम्पल जी फर्नांडिस | 'पत्रिकोद्यम' |
| 6. | मा. बा. सावेर लोबु, उडुपी | 'कोंकणी कूळ' |
| 7. | श्रीमती लविना पिंटो | 'पत्रिकोद्यमाद्वारीं प्रेरणा' |
| 8. | पेट्रीक मोरास | 'कोंकणी प्रेरण' |
| 9. | श्री. ॲन्टनी डि'कॉस्ता, बंळतंगडी | 'कोंकणी सुवार्ता' |
| 10. | स्त्री संघटन देरेबैल घटक | 'कोड्याळचो ताळो' |
| 11. | श्रीमती आनी श्री. आल्वीन पायस, देरेबैल | 'कोंकणेचो उलो' |

श्री. वी. एल. रेगु, श्री. टायटस नोरोन्या, मा. बा. सावेर लोबु, उडुपी, श्रीमती लविना पिंटो, श्री. मेल्वीन पेरिस हाणीं रु. 500/-; श्रीमती युनीस ब्रीटो हिणे रु. 250/-; मा./बा./ थियोफील पेरेयरा, कापुचीन, श्री. जे.एस.वोरोन्या आनी श्रीमती विनिफ्रेड रेगु हाणीं स्पर्ध्यांत भाग घेवना जाल्यारय रु. 100/- दिवन प्रोत्साव दिला. माथाळ्याच्या स्पर्धिकांनी रु.

100/- दिवन स्पर्ध्यांत पात्र घेतल्ल्याक उपकारी मनान 'देव बरें करूं' म्हणतां.

ह्या कोंकणी चळवळेच्या ग्रंथाचो माथाळो 'जागरण' जाल्लें वरवीं, हें नांव कोणेंय सारकें दिवंक नातल्ल्यान, भांगाराची मुदी कोणेंय आपणायली ना.

**- ग्रंथकर्ता.**



# अध्याय एक

## - पत्रिकोद्यमाचो प्रारंभ -

पत्रिकोद्यम म्हळ्यार वर्तमान पत्राक आनी नेमाळ्यांक प्रचलीत घडितां विशयांत बरोवन खबार कळोवंचें संपर्क माध्यम जावन आसा. लोक जल्माथावनच प्रचलीत घडितांच्यो खबरो आयकोंक आत्रेग आसल्ल्यान पत्रिकोद्यमी लोकांची बारकाय निवारता.

एक पत्रिकोद्यमी प्रत्येक जावन दोडो वावर हातीं घेता. पयलीं खबरेची बातमी बरोवची, दुसरें त्या खबरे वयर अभिप्राय दिवन फोडणीशी करची. पत्रकाराच्या बातमेंत मनोरंजन आसल्यार प्रचलीत खबरेंची योग्यताय नातल्यार बातमी बरोंवचो पत्रिकोद्यमीचें नांव आपणायना त्या देकून बातमीदार, बरयणार आनी खबरे पत्रांक, नेमाळ्यांक अंकणकार जावन वावुरतल्यांक पत्रिकोद्यमी म्हळ्ळें नांव लागू जाता.

पत्रिकोद्यमाचें बरोवप म्हळ्यार बेजबाबदारेचें बरप न्हय, बगार समाज बदलोंच्या समाकालीन घडितांचें बातमी बरोवंचें, प्रत्येक जावन वाचप्यांक तांच्या भोंवारीं घडच्या घडितांची कळोवणी दिवंचें, जावंच्या घडितांच्या वळेरींतल्या सार्वजनीक अभिप्राय एकटांवची वा अभिप्राय निर्माण करचें जावन आसा. त्या वर्वीं जातीयवादाचो दंगो, कामगारांचीं धरणीं, मोलां चडल्ल्याखातीर मोर्चा, वा गांवार चोरी, लूट जिवेशीं मारचो अपराध घडल्यार, ह्या घडितांच्या बातमे वर्वीं लोकांची अभिप्राय मोळून गांवांर, राज्यांत आनी देशांतल्या धोरणां, राजनीत बदलावण जावंची साध्यताय आसा. एक पत्रिकोद्यमी घडितांच्या घडावळीच्या सर्शीन आसल्ल्यान आनी ताच्या प्रयत्नान देशाचें आनी संवसाराचें भविश्य निर्माण करूंक सकता, कारण तो पयलो जागो जाता आनी उपरांत सकडांक जागयता.

आजकाल पत्रिकोद्यम म्हळ्ळें संपर्क माध्यम एक प्रयोजनात्मक हुमेदीची वृत्ती जाल्या. ह्या कामांत लोकांची सेवा आटपलेल्या वर्वीं ह्या कामाक मान

आनी गौरव आसा. हांचो उद्येश सामाजीक, राजकीय आनी आर्थीक शेतांतलें वायट परिणाम दाखोवन दिवचें मात्र न्हय, त्या विशयांत लोकांक जाणवाय, कळवणी आनी शिकवण दिवचेंय काम आटापता. पत्रकार सार्वजनीक अभिप्राय मोळता, निर्माण करता.

आतांच्या काळार पत्रकारांक 'चोवतें घराणें' (Fourth estate) म्हण मोलायलां, कित्याक म्हळ्यार तांची व्याप्त कितली चडल्यागी तितलीच जबाबदारीय वाडल्या. हे पत्रकार समाजेंत कशें प्रमूख पात्र खेळतातगी, तशेंच प्रजाप्रभुत्वांतयी प्रमूख पात्र खेळतात. पत्रकार अन्याय आनी जुलमी राजवटीथावन साद्या मनशांक राकतात. ते लोकांच्या हक्कांच्या आनी स्वातंत्रयेचे राकवली जावन आसात.

## 1.1 पत्रिकोद्यमाची घडावळ

पत्रिकोद्यमाची घडावळ छाप्यायंत्राच्या वाडावळीक संबंधीत आसा. छापची विद्या एक न्हय एका थरान सबार शतमानांआदीं आसल्ली म्हळ्ळयाक रुजवात आसा. बाबिलोनिया गांवांत लोक आपलीं बरपां भिजल्ल्या आवशा मातयेच्या फळयेचेर बरयतालो आनी दसकत घालताना नळा रुपाची (Cylinder) आपली दसकतेची म्होर ते फळयेचेर लोळयताले. त्या वेळार ते म्होरीचेर कांतइल्ली तांची दसकत त्या फळयेचेर पडटाली. ही जावन आसली बाबिलोनियागारांची छाप्या रीत.[1]

पुर्विल्या काळार गांवचो राय ताच्या प्रजेक समाचार कळोंवचे खातीर तुर्बेत वाजोंवची रिवाज आधारतालो.

प्राचीन रोम शहरांत व्हडल्या एका फळयेचेर त्या त्या दिसाचो प्रमूख समाचार बरोवन पासायेंत दवरताले. तांका 'दिसपोडती खबार' म्हण लोक वळखतालो.

ह्याच परमाणे चीना देशांत विशेश खबरो व्हडल्या फळयेचेर बरोवन लोक जमच्या प्रमूख जाग्यांनी दवरताले. तवोळच्या आडळतागारांनी समाचार

कळोवंक प्रकट करच्या फळयांक 'चींग पौ' (रायाळ खबार) म्हण लोक म्हणतालो. त्या काळार छाप्या यंत्र जांवदी, अक्षर खिळे जांवदी नातल्ल्या वर्वी पत्रिकेंनी करची कामां त्या काळार अशीं चलतालीं.[2]

छाप्या कलेची सोदना केल्ल्या पयकीं चायनीस पयले जावन आसात. नोवव्या आनी इकराव्या शेंकड्यामदें चिनांत चलावणेचीं अक्षरां (movable types) विकासीत केलीं, पूण युरोपांत चोवदाव्या शेंकड्या पयलें हीं चलावणेचीं अक्षरां सादर केलीं नात. कागाद सयत पयलें सोदून काडलें चिनी लोकांनीं म्हणतात.[3]

छापो केल्ल्या पुस्तकां पयकीं भोव पुरातन पुस्तक जावन आसा क्रि.श. 868 इस्वेंत चिनाच्या वांगच्हे म्हळ्ळयान तयार केल्लें पुस्तक. आपल्या आवय बापायच्या मानाक तें ताणे तयार केल्लें. ते तयार केल्ली रीत अशीः

पुस्तकाचें हर एक पान आनी तांतलीं अक्षरां एका रुकाडाच्या फळ्याक कांतयलीं. ह्या फळ्याक उपरांत तींत सारयलें आनी खाली कागद त्या फळ्याचेर दांबल्ल्या वेळार त्या अक्षरांचें प्रतिरूप वा अच्ची कागदाचेर आयली. अशे हे रितीर सक्कड पानांची अच्ची काडून जातच हीं कागदां जमो केलीं आनी एकामेका मेळोवन प्रथम छाप्या पुस्तक तयार केलें.[4]

रुकाडाच्या फळ्याचेर अक्षरां कांतवन तांची प्रती काडची आलोचन वेगींच युरोपाक पावली. हीं अक्षरां हातान बरइल्ल्या अक्षरांवरीच दिसतालीं. वाक्याच्या पयलेंच अक्षरांक हातान रंग सारवंचो आसल्लो. उपरांत चीनकारांनी आनी एक रीत सुरू केली आनी तातूंत रुकाडाच्या बदलाक आव्या मातयेचीं विविंगड आकारां तयार करताले. सुमार 100 इसवेंत अशें घडलें म्हणटात.[5]

चिनाची छाप्या कला पाश्च्यात्य देशांनी प्रसारल्ल्यान पंदराव्या शेंकड्यांत जोहान गुटेनबर्ग जर्मनीच्या मेयन्झ (Mainz, a city of Germany) शहरांतल्या सोनारान चलावणेचीं अक्षरां विकसीत करून, ताका समा पडचें तींत सोदून काडून 1456 इसवेंत बायबलाच्यो तीनशीं प्रत्यो छापल्यो.[6] ताचे उपरांत हेर देशांनीय छाप्या यंत्रां स्थापन जालीं. इटालीचें बेनीस शहर

छाप्याच्या अभिवृद्धीचें केंद्र जावन आसल्लें. तवळच्या दिसांनी सरकार आनी इगर्ज माता ह्या छाप्या कलेचे पात्रोन जावन आसल्ले.

1476 इसवेंत इंग्लंडाचो पयलो मुद्रक काक्सटन (Caxton) हाणे वेस्ट मिनिस्टरांत छापखानो स्थापन केलो.[7] ताणे इंग्लीश भाशेंत बूक छापूंक सुरू केले. ताच्याकय पयलें लातिनांत बूक छापताले. उपरांत संवसाराच्या हरएका अभिवृद्धी जाल्ल्या शेहरांनीं छापखाने स्थापन जावंक सुरू जाले.

पुर्विल्या मदल्या युगांत रायाळ प्रकटनां, खबरे पुस्तकां आनी हेर प्रचार साहेत वाणदींनी चिडकायतालीं. थोडे पावटीं, रायाळ फर्माण वा हुकूम-नामा शिला फात्रांनीं कांतयतालीं. पुरातन काळार राय राणयो तांच्या आदीन-देशा थावन वा तांच्या गुडाचारी, रायबारी थावन बरइल्ल्यो वर्द्यो हाडयतालीं. पुर्विल्ल्या काळारय खबरे पत्रांक बरोवपी आसल्ले, आनी ते तांच्या देशाच्या राजधानीथावन पयशिल्या गांवाच्या निवासींक खबर धाडून दिताले. त्या देखून खबरे पत्र भोव पुरातन काळाथावन आसल्ली एक वेवस्थीत रीत म्हणयेत. भारतांत मोगल राजवटकी वेळारय खबर बरोवंची वेवस्था आसल्ली.

सोळाच्या शेंकड्याच्या मदल्यार्धांत युरोपांत सकाळींचीं खबरेपत्रां चलावणेर आयलीं. सुरवेर व्यापार-माळयो खबरे पुस्तकां आनी उपरांत खबरे पत्रां प्रकटताल्यो. ह्या खबऱ्यांनी आर्थीक खबरो आनी सामान्य अभिरुचिच्यो खबरो आटपताल्यो. 1560 इसवेंत जर्मनीच्या आनी स्वीझरलेंडाच्या थोड्या शेहरांनी क्रम संखे आटापलेलीं खबरे कागदां येवंक सुरू जालीं. 1609 इसवेंत जर्मनी थावन 'अवीस' आनी स्ट्रासबोर्ग (Strasbourg) थावन रिलेशन्स (Avisa and Relations) सदांनीत प्रगट जावंक सुरू जालीं[8] 1618 इसवेंत हप्त्यालीं खबरे पात्रां इंग्लीश, डच आनी जर्मन भासांनीं हॉलंडाच्या ॲमस्टरडॅम थावन उदेवन येवंक सुरू जालीं.

1621 इसवेंत इंग्लीश मुद्रकांनी तांचींच खबरे पत्रां प्रगटूंक सुरू केलीं. त्याच वर्सा थावन 'कोरांटो' म्हळ्ळया एका पानाचें खबरे पत्र इंग्लंडा थावन प्रकटून आयलें. 1660 इसवेंत इंग्लंडांत खबरेपत्रांचीं हप्त्याळीं प्रकटनां

सारकीं स्थापन जालीं. 1665 इसवेंत 'ऑक्सफोर्ड गॅझेट' (Oxford Gazette) सुरू जावन उपरांत लंडन गॅझेट (London Gazatte) म्हण नांवादीक जालें.[9] हें खबरेपत्र हप्त्यांत दोन पावटीं नियतकालीक जावन प्रकटतालें. पूण पयलें दिसाळें 'द डेली कुरांत' (The daily Courant) म्हळ्ळें खबरे पत्र इंग्लंडांत 1702 इसवेंत सुरू जालें.[10] हें हर एक रितीन म्हळ्ळेपरीं खबरे पत्र जावनासल्लें. अमेरिकाचे (USA) पयलें खबरे पत्र "पब्लीक ओकरन्सीस बोथ फोरेन ॲण्ड डोमेस्टीक" (Public occurrences Both Foreign and Domestic) म्हळ्ळें चाली जालें.[11] इंग्लंडा थावन पळून वचून अमेरिकांत निवासान्तर जाल्लो ब्रिटीश पत्रिकोद्यमी बेंजामीन हेरीस हाणे हें पत्र सुरू केल्लें. 1704 इसवेंत अमेरिकाच्या जॉन केंपबेल (John Campbell) म्हळ्ळयान, "बोस्टन न्यूजलेटर" (Boston Newsletter) प्रकट केलें. 1783 इतवेंत 'पेन्सिल्वानियां'त (Pennsylvania) अमेरिकाचें पयलें खबरे पत्र उदेलें. चड उणे 1703 इसवेंत रशियाचें पयलें नेमाळें सुरू जालां आसतलें म्हण पात्येणी आसा.[12]

## 1.2 भारतांत छापो (Press)

भारताच्या चरित्रेंत गोयांत पयलो युरोपाचो अधिकार स्थापन जाल्लो आनी अशें पयलो छापखानो गोयांत स्थापीत जालो.

गोयांत छापखानो स्थापन जाल्ल्याय विशयांत एक स्वारस्यभरीत घडीत आयकोंक मेळटा. 1556 इसवेंत मेयाचें तीस तारकेर फा. । गस्फार कॉलेजान सां. इग्नेसियस लॉयोलाक बरयल्ल्या पत्रा प्रकार पोर्तुगाल थावन अबिसिनियाक नेमक केल्ल्या पात्रियार्काच्या ताबेन छाप्यायंत्र दिल्लें. पूण ती पात्मारी 'केप ऑफ गुड होप' हाका भोंवाडो मारून गोंयांक पावली आनी अबिसिनिया गांवांक मुकासुर्न गेली. पूण तो पात्रियार्क गोयांत रावलो आनी ताच्या सांगाता छाप्यायंत्रय उरलें. छापोवावर 1556 इसवेंत गोंयांत सुरू जालो. सुरवेर पोर्तुगेज भाशेंत धार्मीक बूक प्रगटची विलेवारी आसल्ल्यान 1557

इसवेंत सां. फ्रांसीस सावेराचो पयलो बूक दोत्रीना क्रिस्ती छापलो. ताच्यो प्रत्यो आतां पळोवंक मेळानांत.[13]

ह्या छापखान्याचो पयलो मुद्रक जावन आसा जुवान बुस्तामांती, स्पानीश गांवचो. हो भारताच्या छाप्या कलेचो मूळ व्यक्ती. 1563 इसवेंत हाचें नांव जुवांव पोद्रीगिश म्हण बदलिलें. एका मुळा प्रकार पोर्तुगलाच्या रायान एकल्या भारतीय मनशाक छापखानो स्थापन करच्याक बुस्तामांतेक कुमोक करूंक धाडल्लें म्हणतात. पूण हाचें नांव खंययी सांगलें ना.[14]

रोद्रिगिश 1588 इसवेंत आगोस्ताच्या 23 तारकेर अंतरल्या उपरांत जुंवांव गोंसालवीस म्हळ्ळो आनी एकलो स्पानीश गांवचो आयलो. हाणे भारतीय लिपिचो (भाशा तज्ञ हेनरीक हेनरीकुश हाणें तमिळांत भाशांतर केल्लो सां. सावेराचो दोत्रिना क्रिस्ती बूक) पयलो पुस्तक छापून काडलो.

भारतांत पत्रिकोद्यम स्थापन जावंक गोरे फिरंगीच कारण म्हण चरित्रेंत दाखल जाल्लें एक सत. सतराव्या शतमानाच्या काळार ईस्ट इंडिया कंपनीच्या अधिकारींक आडळत्यां थंय अतृप्ती उबजाल्ली. एकल्यान एकलो दाक्षेण नासताना खेंडूंक, प्रारंभ करिलागलो. तवोळ 'विलियम बोल्टस्' म्हळ्ळो डच गांवचो ईस्ट इंडिया कंपनींत अधिकारी जावन आसलो. सरकाराचीं थोडीं कर्तुपां ताका समा दिसलीं नांत. 'कंपनी सरकाराक' तो ठिका करतालो. ताच्यो चटुवटिक्यो चड जावच्यो पळेवन इंग्लीश सरकारान ताका तडीपार करूक निर्धरिसिलें. ताका इंडिया थावन भायर काडूंक पातमारी तयार जावन रावल्लीच. सकडांनी अजाप पांवचेबरी कलकत्ताच्या प्रमूख जाग्यांनीं आनी गवर्नर जनरल कावन्सील हॉलांत नोटीस चिडकाइल्लें पळेवंक दिसलें. हें चडउणें सप्टेंबर 1768 इसवेंत घडलें.

त्या नोटिसांत ह्या परीं बरवन आसल्लें.

*"महाजणांनो,*

*मिस्टर बोल्टस् ह्या मुखांत्र कळवंक अपेक्षिता कितें म्हळयार, छाप्या यंत्र नातल्ल्या वरवीं ह्या शहरांत व्हडलें अनान्कूल जावन कामां-कार्यीं चलवंक*

*आनी समुदायेक विविध विशय कळवंक साध्य जायना. छाप्या यंत्र विशयांत आनी अक्षर खिळे जोडूंक कळल्ले कोणीय आसल्यार पूर्ण सहकार दिवंक तो तयार आसा. ह्याच वेळार तो सर्वांक कळवंक अपेक्षिता कितें म्हळ्यार ताचे कडेन अनेक गरजेचीं हातप्रतीं रुपांत प्रजेन अगत्य जावन समजोंक जाय आसल्ले विशय आसोन, तुमकां कोणायकी समजोंवक आतुराय आसल्यार तसले मिस्टर बोल्टस् हाच्या घरा येवन त्यो हातप्रतियो वाचयेता वा ताच्यो प्रतियो वोरयेता. सकाळीं धा थावन बारा वोरां पर्यांत हर एकल्याक ह्या भेटेक अवकास आसा."*

ह्या वेळार बोल्टस् भारतांत नातल्लो. पूण तें नोटीसमात्र भारतियांच्या मनांत पत्रिकोद्यमाचें बीं वोंपच्यांत अत्यंत यशस्वी जालां म्हणयेत.

विलियम बोल्टस् हाणीं प्रारंभ केल्ली पत्रिकोद्यमाची चळवळ फिलीप फांन्सीस म्हळ्ळयान मुंदरली. तवोळच्या गवर्नर जनरल वारन हेस्टींगसच्या आडळताक ठिका केल्ल्या वरवीं ताकाय तडीपार शिक्षा फावो जाली. पूण ताचो मित्र जावन आसल्लो जेम्स अगस्टस हिक्की हाणें भारताचें प्रथम 'द बेंगाल गॅझेट' म्हळ्ळया नांवांचें खबरेपत्र 1780 इसवेंत जानेर 29 तारकेर प्रकटून चरित्रा रचली.[15]

ह्या खबरे पत्राक दोन पानां मात्र आसल्लीं. ह्या पत्रांत ईस्ट इंडिया कंपनिच्या सेवकांच्यो खाशेल्यो काणयो प्रकट करच्या विशयांत चडतीक गमन दिताले. मेस्सींक आनी रीड (Messink and Reed) हाणे 'इंडिया गॅझेट' आनी एक वर्तमानपत्र सुरू करून थोडी बदलावण केली.

हिक्कीच्या गॅझेटांत म्हालगड्या इंग्लीश अधिकारींची वैयुक्तीक विशय प्रकट जाल्ल्यान आनी इंग्लीश सरकारान 'इंडिया गॅझेटा'क प्रोत्साह दिल्ल्यान हिक्कीन आनिकय चड सरकारा वयर राग दाखयल्लो. त्या देखून इंग्लीश सरकारान ताका एक वर्स जेल शिक्षा आनी दोन हजार रुपया जुल्मान फरमायलें. तो जेलान आसतना ताचें छाप्यायंत्र जप्ती करून स्वाधीन केल्ल्यान भारताच्या ह्या पयल्या खबरे पत्रान निमणो उसवास सोडलो.[15a]

हिक्कीचे प्रारंभीक प्रयत्न अशे आकेर जाल्या उपरांत सवकासायेन सरकाराक पाटिंबो दिवचीं थोडीं पत्रां जल्मालीं. तीं पत्रांय ब्रिटिशच चलयताले; अशें 1784 इसवेंत प्रत्येक 'कलकत्ता गॅझेट' सुरू केल्या उपरांत 1785 इसवेंत रिचर्ड जॉनसन म्हळ्ळयान 'मड्रास कुरियर' म्हळ्ळें नेमाळें मद्रासथावन प्रकट केलें. 1789 इसवेंत 'बाँबे हेराल्ड' (Bombay Herald) म्हळ्ळें खबरेपत्र बोंबय थावन पयलें प्रकट जावंक सुरू जालें.[16]

इंग्लीश खबरेपत्रां प्रकट जांवचें पळेवन पत्र म्हळ्ळें कसलें बळीश्ट माध्यम म्हण कळ्ळ्लेंच साबार भारतीयांनी पत्रिका प्रकटणेच्या साहसाक हात घालो. इंग्लीश सरकाराचें दुराडळीत, (वायट शासन) इंग्लीश अधिकारींचें अन्यायाचें नडतें (चलणूक) सोसूंक भारतियांक जालें ना. देशांत सवकास इंग्लिशांच्या विरोध चळवळ प्रारंभ जाताना भोगणांच्या विनिमयाक आनी इंग्लिशांच्या विरोध भारतीय साद्या कश्टी लोकांक उठोवंक पत्रांची गरज पडली.

बेंगालांत सरकाराक फुडोकरचें व्हडलें कार्यें तवोळ सुरू जाल्लें. विद्यावंत युवाजनांक सरकाराचें खंयचेच नडतें सारकें दिसलें ना. भारतीय लोकांमदें इंग्लिशांक काडून उडोवंन स्वतंत्र जावंक जाय म्हण स्वतंत्रतायेची आशा आकांक्षा उब्जाली. तवोळ साबार ब्रिटिशच सरकारा विरोध पत्रिकेंनी बरोंवचें पळेवन भारतियांक धैर्य उब्जालें. बंगाली, गुजराथी, मराठी भासांनी पत्रां जल्मोन आयलीं. अशें सरकाराक ठिका करचें क्रांतिकारी साहित्य प्रकट जावंक सुरू जालें.

भारताक छाप्या यंत्र येवचेंच इंग्लीश सरकाराक मन नासलें. तांच्याच जनानीं पत्रां प्रकटन तांकांच ठिका करचें सरकाराक सोंसूंक जालें ना. तवोळ पत्र म्हळ्ळें हातेर (हत्यार) भारतियांनीं हातांत घेतल्लें पळेवन सरकार तापलो. सरकारान साबार कानून क्रमां जारयेक हाडलीं. थोडीं पत्रिकालय दफ्तरां आनी छाप्यायत्रां इंग्लीश आडळत्यादारांनीं नास केलीं. भारतीय संपादकांक आनी प्रकाशकांक जेलाक आंबोडलें आनी दग्दिलें.

बंदूक धरून रावल्ल्या भारतीय भांवडांनी ही काटकाय फूड केली. ह्या महान जणांनी तांचें धैर्य, साहस दाखोवन निस्वार्थ सेवा केल्ल्यान आजभारतीय पत्रिकोद्यम बळीश्ट जावन पाळां रोंबोवन, वाडून आनी प्रकाशीत जावंक एक चारित्रीक कारण म्हणयेत.[16a]

अशें भारतांतल्या सुर्विल्या वर्तमान पत्रां पयकीं 1832 सांत बोंबय थावन इंग्लिशांत प्रकट जांवचें 'बॉम्बे समाचार', 1838 सांत बोंबय थावन इंग्लिशांत प्रकट जांवचें 'टायम्स् ऑफ इंडिया', 1885 शांत लकनो थावन इंग्लिशांतलें 'पायोनियर' (Pioneer) 1868 आंत कलकत्ता थावन 'अमृत बाजार पत्रिका' (Amrit Bazaar Patrika) हीं प्रमूख जावन आसात. भारताच्या जनसंख्या बळाच्या मुखार ह्या पत्रांचो प्रसार उणें दिसोंक कारण तवळ भारतांत सिकपी चड नातल्लें. 1971 च्या कामेस्मारी (खानेसुमारी) लेका प्रमाण (Census) 29.45 टक्के मात्र भारतांत शिकपी आसल्ले.[17]

1843 इसवेंत जुलयाच्या एक तारकेर मंगळुरांत कन्नडाचें प्रथम पत्र 'मंगलीर समाचार' जल्मालें. जर्मनी थावन मंगळुराक बासेल इवांजेलिकल सोसायटी (बासेल मिशन) पाद्रींनी मंगळूरच्या बल्मठांत तांचें केंद्रस्थान करून धार्मीक आनी सामाजीक चटुवटिकेंनी कार्यनिरत जाले. ह्या पंगडांत आसल्ल्या रेवरंड हर्मन मोगलींग हाणें 1843 इसवेंत 'मंगळूर समाचार' म्हळ्ळें पत्र सुरू केल्या उपरांत मंगळुरांत कन्नड पत्रिकोद्यम सुरू जालें म्हणयेत.[18]

मोगलींग हाणे सुरू केल्लें 'मंगळूर समाचार' एक पाक्षीक पत्र जावन आसलें. फात्रा अच्चेंत मुद्रण जांवच्या ह्या पत्रांत चार पानां आसोन 'डेमी वन फोर' आकाराचेर प्रकाशीत जाताले. पत्रिकेचें मोल टपाल खर्च सेरवोन एक दुड्डू (आतांच्या काळाचे दोन पयशे) जातालो

मोगलींग 'मंगळूर समाचार' पत्र सुरू करताना ताच्या पयल्या अंकांत (जुलय 1, 1843) पत्राचो उद्देश अशें सांगता.

*'हो देश म्हळ्ळ्या घरांत रांवच्या मनशांक भायल्या देशाचें समाचार*

*कळनातल्ल्यान जनेल नातल्ल्या घरांत रावल्ले बरीं जालां. त्या देखून विदेशाची खबार दिवंक आनी आमच्या घराभितर थोडो उजवाड दिवंक जाय म्हळ्ळया उद्देशान पत्र प्रकटूंक सुरू केलां."*[19]

## 1.3 गोंयांय पत्रिकोद्यम

गोंयांक छाप्या यंत्र आयल्या उपरांत गोंयच्या सां. पावल कालेजींत पयलो छापखानो स्थापीत केलो. देवनागरी लिपीचीं छाप्याक्षरां 1577 रांत तयार जालीं जाल्यारय पयलो मुद्रक सरल्या उपरांत देवनागरी लिपींत छापची आलोचन ताणीं सोडून सोडली. ह्याकारणाक लागोन 'क्रिस्त पुराण' रोमी लिपींत राशोल कॉलेजींत 1616 आनी 1649 इसवेंत आनी 1654 त सां. पावल कॉलेजींत छापलो. फा. तोमास एस्तेवांवाक ताचें 'क्रिस्त पुराण' देवनागरी लिपींत छापची इत्सा आसल्यारय फळादीक जावंक ना. मिशोनरीं पयकीं साबारांक देवनागरी लिपीची माहेत आसल्यारय छाप्याक्षर मांडूक आनी कोंकणी उच्चारण करच्यात सुलभ म्हण रोमी लिपीनच छापूंक सुरू केलें. ह्या खातीर फा. एस्तेवांवन उच्चारण नियम (Phonetic System) बरइल्लें जाल्यारय रोमी लिपींत मूळ उच्चारणाचे सब्द सारकें जायनाशें विद्रूप उच्चारणां निमतीं फिरग्यांक कोंकणी सब्द उच्चारणाचे कश्ट जाले. ह्या वरवीं रोमी लिपी छापूंक उपकारल्यारय फिरग्यांनी कोंकणी भाशेक हेर भारतीय भाशें थावन एकसुरें केलें.[20]

अख्या एशिया खंडाच्या देशां पयकीं गोंयांत पयलो छापखानो सुरू जाल्यारय पोर्तुगिजांनी भारताचें पयलें वर्तमान पत्र प्रकट केलें ना. गोंयचें पयलें "गॅझेट दे गोआ" 1821 इसवेंच्या डिसेंबर 22 तारकेर प्रकट जालें, पूण हाच्याकय पयलें "बेंगाल गॅझेट" 1780 इसवेंतच सुरू जाल्लें. दो. आंतोनीयु जुजे दुलीम लेयतांव 'गॅझेट दे गोवा' ह्या पोर्तुगीज हप्त्याळ्याचो संपादक जावन आसलो.[21] ह्या हप्त्याळ्या पत्रांत सरकारी खबरो, आदाय, खर्चापटी आनी हेर देशी आनी अंतर्राष्ट्रीय खबर प्रकटताले.

पोर्तुगेज वसणुकाच्या आख्या साम्राज्यांचें पयलें पोर्तुगीज वर्तमान पत्र 1900 इसवेच्या जनवरी 22 तारकेर गोंयांत प्रकटलें. जाचें नांव 'ऊ हेराल्दु'. हें पत्र प्रो. मेसायस गोम्स हाणें सुरू केल्लें. 1987 इसवेंत हें वर्तमानपत्र इंग्लीश भशेंत येवंक सुरू जालें. [22]

## 1.4 कोंकणी भाशेचो मोग आनी खर्ग

"झांकून झांकून गांवकार जाता, बरोवन बरोवन शेणै जाता" म्हळ्ळ्या गादीबरी (म्हण) 1610 इसवेंत राशोलांत आसा केल्ल्या 'इस्कोल द लींग्वा कानारी' म्हळ्ळ्या कॉलेजींत फा. आलेक्सांद्रु वल्ली ग्लानोन दिल्ल्या आदेशासवें कोंकणी भाशेचो मूळ वावर जेज्वितांनी गोंयांत सुरू केल्लो.[23] संवसाराच्या हेर भासांच्या वाडावळी बरीच कोंकणी भाशेचो इतिहास आनी वाडावळ धार्मीक साहित्या मुखात्रच जाली. जे रितीन फ्रान्सीस्कन पाद्रिंनी बारदेसांत कोंकणीच्या वाडवळीचो वावर आपल्या शाळा आनी धार्मीक साहित्याद्वारीं केलो , तेच रितीन जेज्वेतांनी सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांनी सालसेतांत आपल्या कोंकणी शाळा वा शिक्षा केंद्रांवरवीं आनी धार्मीक साहित्य रचून कोंकणी भाशेची वाडावळ मुकारून व्हेल्ली.[24]

भारतांत आइल्ल्यां पयकीं पयलो ब्रिटीश मिशनरी जावन आसचो फा. तोमास एस्तेवांवान 'ओवी' चरणांक मार्रमीक शैलेर 'क्रिशत पुराण' रचून आनी हेर धार्मीक साहित्य लिखून कोंकणी क्रिस्तांव साहित्याचो बापूय म्हण नांवाडलो. 'आर्ति दे लींग्वा कानारी' म्हळ्ळ्या कोंकणी भाशेच्या व्याकरणाक, आधुनीक भारतीय भासांचें पयलें छापल्ल्या व्याकरणांपयलीं एक म्हळ्ळो गौरव लाभलो.[25] अशं कोंकणी भाशेचें अदृश्ट फुलोन येतानाच 1560 इसवेंत भिरांकूळ परिणाम उब्जाइल्ली इंक्विझिसांव कोर्ट, गोंयांत स्थापित जाली आनी ही ख्यास्त 1812 इसवी पर्यांत उरली. स्वार्थी अतिरेकी आनी कपटी थोड्या मुखेलींच्या हातांत क्रूर हिंसा, अन्याय, फारीकपण आनी लबाडपण चडोन, कोंकणी भाशेचो लोक सत्यानास जालो. कनवेडतर

जाल्ले (धर्मांतर जाल्ले) परतून हिन्दू धार्मीक साहित्य वाचून भश्ट जातीत म्हळ्ळ्या भंयान भरतीयकरण दुस्पटावंक इंक्विझिसांव कोर्टान पाश्चात्तिकरणाचें वादाळ उठइल्ल्यान, लोकान उलोवंची म्होवाळ, रोसाळ कोंकणी भास कश्टोन, चिरडोन, आपटोन दपटोन कंगाल जाली. ह्या पोर्तुगालाच्या धर्मांतरण राजनिती वरवीं हेर भारतीय भासां थावन आनी सांस्कजतीक संप्रदाया थावन कोंकणीक एकसुरें केलें आनी ह्या कारणावरवीं गोंयांत दोन पंगड उदेले. तेच ते क्रिस्तांव आनी हिन्दू कोंकणी लोक, आनी ह्या वरवीं हांचे मदें आजुनय भाशीक वेत्यास (फरक) जिवो उरोंक कारण जालें.

इंक्विझिसांवाच्या दग्दवणे वरवीं दुकोळ, सुकीधाड संक्रामीक (संक्रमीक) फेस्त-पिडे वरवीं गोंयांतलो कोंकणी लोक व्हडा संख्येन तांचो मांयगांव सोडून 1710 इसवेंत सुलकार राजांचो आसरो मागोन चडावत जावन गोंयांवरीच जियेंवची परिगत आनी हवागूण आसल्ल्या मंगळूरच्या भोंवारीं आनी केरळ गांवांनी वचोन रावले.[26]

चारित्रेंतच कुख्यात जाल्ल्या इंक्विझिसांवाची आनी एक कूस जावन आसली - साहित्याचें परिशिलन, कात्राप आनी आडवारलेलीं ग्रंथां वाचतेल्यांक वा तीं प्रचार करतेल्यांक हेरेतिकांची शिक्षा, ग्रंथालयाचेर धाड घालून कोंकणी, मराठी आनी संस्कृत भाशेचीं मोलादीक दिर्वी बोंब्यापुजा (मुर्तीपुजा) आटापचीं दस्तावेजां म्हळ्ळ्या दुबावान इंक्विझासांवाच्या अधिकारींनी फाटीं फुडें पळयनासतां हुलपाइल्ल्यान, कलाइ साहित्य, विज्ञान आसल्ल्या अपरूप आनी अगणीत मोलाच्या ग्रंथा सयत नास जालीं म्हणच्याक सक्यताय आसा.[27]

सुर्वेर पोर्तुगिजांनी क्रिस्तांव समोडतीक कनवेडतर (धर्मांतर) करच्याक कोंकणी भास शिकची आनी ती सुदरांवची कितली गरज म्हण चिंतल्लेंगी तितल्याच कठिणायेन तांणी कनवेडतर (धर्मांतर) क्रिस्तांवांक मराठ्यांच्या सैनीक धाडे थावन एकसुरें दवरच्या आनी तांचें 'ईश्तादु दे ईंदिया' सपान जारी करच्या खातीर कोंकणी भास दुस्पटायली.

"मूय जाशी साकर खाशी, वाग जाशी लाकडां खाशी" म्हळ्ळया गादी (म्हण) बरीं बुदवंक कोंकणी भाटकारांनी तांची मांय भास पोर्तुगीज म्हूण नाचले. कोंकणी तांचे आवयक नेगार केलें, बनायलें. तांची भारतीय संप्रदाय बदलायली. व्हडांगेल्या भाटकारांनी पोर्चुगीज उलोवचें एक भाग म्हण चितताना साद्यांची, शेतकारांची, कुळकारांची म्होवाळ, रोसाळ, संगीतमय कोंकणी भास लजे- भियान घराभितर लिपली, बोटलेरांच्या तोंडांतल्यान कुजनांत पुसपुसली आनी शिकपी म्हणतेल्यांच्या आडेबगेच्या बडायगारांच्या उतवार सुकली. गोंयांत कोकंणी उलयतेल्या साद्यांक 'मालक्रियाद' म्हण पोर्चुगीज इरमांवांनी हल्के करूंक सुरू केलें. अशें कोंकणी भास दुस्पटावन संपूर्ण नास करचें विनाशक कार्यक्रम मांडून हाडल्ल्यान गोंयांत सतराव्या आनी अठराव्या शतमाना पर्यांत कोंकणी भाशेचेर खर्ग आयलें. ह्या वरवीं कोंकणी भास कुर्वाली, भश्टली, लजेली आनी गाड न्हिदेंत झेमेली.

## 1.5 कोंकणी पत्रिकोद्यमाची सुरवात - रोमी लिपींत पत्रिकोद्यम

### 1.5.1 उदेंतिचें साळक (1889)

एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या अवधेंत गोंयचे क्रिस्तांव लोक शिकाप काम इत्यादी कारणां खातीर भारताच्या विविंगड शेहरांक चड जावन मुंबय, पुना शेहरांक पयण करूंक लागले. तवळ ह्या पयणारांक सांगाता हाडून एकामेकांक ओळखोंक अपूट कोंकणी पत्राची गरज पडली. गोंयकार क्रिस्तांव गोंयांत मूळ शिकप पोर्तुगीत भाशेंत जातच फुडल्या बऱ्यापणाक गोंयां भायर पावताना इंग्लीश भास शिकची गरज पडली. तवळ तांकां तांच्याच कोंकणी मांय भाशेन तांची आशा अपेक्षा उच्चारूंक आनी वाचूंक कोंकणी पत्र - साहित्याची गरज म्हण दिसली. तें समजाल्ल्या पुनाच्या एडवर्ड जुजे ब्रुनु द सोझा (1836-1905) हाणें 1889 इसवे फेब्रुवारीच्या दोन तारकेर 'उदेंतिचें

साळक' म्हळ्ळें पयलें कोंकणी पंदराळें रोमी लिपींत वर्तमानपत्र काडून कोंकणी सृजनात्मक साहित्याची सुरवात केली. हें पत्र सुरवेर म्हयनाळें आसोन उपरांत पंदराळें जालें. ह्या पत्रांत कोंकणी आनी पोर्तुगीज भाशेचो प्रयोग जातालो. उपरांत हें पत्र मुंबय थावन प्रगट जालें. ह्या पयल्या कोंकणी नेमाळ्यान दोन शतमानाच्या कोंकणी लोकांची गाड न्हीद, लज आनी आळसाय सुटयली.[28]

उदेंतिचें साळक वर्तमान पत्रार कोंकणी लोकांक संबंध जाल्लें सामाजीक, धार्मीक, सांस्कृतीक आनी कोंकणी भाशे संबंधीत विशयाचेर संपादक हात चरयतालो. उदेंतिचें साळक वर्तमान पत्राच्या पयल्या संपादकीय अग्रलेखांत तो अशें सांगता -

*"कशें शांत निर्मळ तळया उदकांत सोबीत साळकां फुलतातगी आनी सुगंध परमळ प्रसारतातगी, तशेंच आमच्या लोकांमदें उदेंतिचें साळक उदेता. ही बरी खबार आमकां खंडीत (खात्रेन) संतोस दिवंचे तसली. कोण सांगात हाचो रुपकार कितलो, हाचो सुगंध, परमळ खंय पावात, मनशान ताच्या शक्तेन कितेंय केल्यार ताका सांगात नासताना तो जियेना, आनी खंचोय सांगात भाशे विणे फुलाना."*

*"कशें आवय तिच्या भुरग्याच्या काळजांत भाशेचो मोग रोंबयता तशेंच भयण ताच्या पाळण्यांत खेळच्या भावाक आनी भाव ताच्या सांगाता खेळगड्यांकडेन. तुजें काम आनी सूख तुजे थावन मोडून व्हेल्यारय हो भाशेचो मोग हुमटूंक जावचो ना. भाशेमुखांत्र प्रवचनगार आयकातेल्यांचीं काळजां जिखतागी तशेंच निरर्गळ भाशेंत उलोवंचो चड आनी चड इश्टांक आपयता. एका मनशाक इश्ट उणे. एका प्रदेशाची भास एक जावंक पूरो. पूण एकामेका उलोवंक हर एकल्याक हर एका काळार सांगाता येवंक जावचें ना. ते एकामेका पयसा पयस जियेतात म्हण न्हय, बगार ते एका भाशेचे उलवपी. हें पुरा घडता एकच भास उलवंच्या मनशामदें आमी जे सांगाता जियेतात वा केन्ना केन्ना सांगाता मेळटात. पूण विविंगड पंगड*

*जावन वांटे वांटे जाल्यात एका कुशीन शिकप्यांचो पंगड आनी एका कुशीन अशिकप्यांचो. एका पंगडाच्याक आनी एका पंगडांत कितें जाता म्हण कळीत ना आनी तशेंच एकामेका पूण एका भाशेंत बरइल्लें जाल्यार, तें पत्र जिल्ल्याच्या एका कोनशा थावन आनी एका कोनशा पर्यांत वाचूं येता. तें पत्र रायाच्या आस्थानातय वाचूं येता, दुबळ्याच्या खोपट्यांतय वाचूं येता. अशें व्हडलो मनीस दुबळयां-धाकट्यांलागीं उलोवंक शकता आनी दुबळे-धाकटे व्हडा-मंतना लागीं, विदेशी गांवांत आसल्ल्यांक, घरच्यांलागीं, मेल्ल्यांक जिवंत आसल्ले कडेन, हाच्याकी एका भाशेन बरयतना ती दिसान दीस सुधारता आनी एकल्याक आनी एकाभाशेचे विज्ञानाचे पुस्तक भाशांतर करूंयेत आनी तशेंच तरेकवार उद्योगाचें'*[29]

अशें सुर्विलें संपादकी. बरोवन एदुआर्दु ब्रूनु दे सौझा कोंकणी पुनर्जिवंतपणाच्या उदेंतिचें साळकच जावंक पावलो.

हें उदेंतिचें साळक कोंकणी पंदराळें पुना थावन 'मेरियन' रोमन लिपी उपयोग करून प्रगट जाल्लेलें, साबारशा कोंकणी लोकांच्यो साहित्यीक गरजो तिरसून, थोड्याशा कोंकणी बरोवप्यांक उत्येजन दिवन 1894 इसवेंत बंद पडलें.

## एदुआर्दु जुजे ब्रूनु दे सौझा :

एदुआर्द जुजे ब्रूनु दे सौझा : 1836 इसवेंत ऑक्टोबराच्या सात तारकेर गोंयच्या अस्नोडा म्हळ्ळें हळ्ळेंत जल्मालो. तो राशोल सेमिनारीचो विद्यार्थी जाल्यार ताच्या घाकट्या भावाच्याकय (इस्तानिस्लोव दे सौझा) उंचलो वर्ग आपणावंक जालें ना देखून ताणें सेमिनारी सोडली. मुंबय वचून दाबुलांत (Dabul) सोंसियेदादि दे सांतीस्सिमु साक्रामेंतु (Sociedade do Sacramento) Society of Holy Sacrament - म्हळ्ळया नांवाची सभा घडली. एदुआर्द पोर्तुगीज, इंग्लीश, कोंकणी आनी थोड्यो भारतीय भासो सारक्यो जाणा आसलो. तो "ऊ हेराल्दु" पोर्चुगीज वर्तमानपत्राक

"Ejobudeza" म्हळ्ळ्या लिखणे नांवाखाला लेखनां बरयतालो. ताणें बरयल्ल्या पुस्तकां पयकीं "क्रिस्तावांची दोतोर्न गोंयचे भाशेन" 1897; "इला आनी मोरी" - 1899: "पियेदाद सायबिणिचीं आनी दुसरीं साबार गायनां" - 1901; "मरियन लिपिचें पयलें पुस्तक" - 1905 (Primeira Cartilla do Alphabeto Mariano); मोंति सायबिणिचीं आनी साबार दुसरीं गायनां; कोंकणीचें पुनर्जिवंतपण "Ressurraçao do Concani" प्रमुख जावन आसात. आनी त्या शिवाय कोंकणी भाशे विशयांत सांखळे रुपान ऊ हेराल्दाचेर लेखनां बरयतालो.[30]

ताणे बरयल्ल्या पुस्तकां पयकी "खुशालपणाचो घराबो आनी पंचवीस कुंवरी' आनी 'क्रिस्तांव घराबो" - 1905 ताच्या मरणा उपरांत म्हणजे 1911 इसवेंत प्रकट जालीं. ताणे 'उदेंतिचें साळक' पत्रार 1894 इसवे परयांत बारदेशी बासपुटाचें व्याकरण परगट केलां.

'क्रिस्तांव घराबो' म्हळ्ळ्या कादंबरींत कोंकणी भाशेच्या म्हत्वाच्या विशयांत आनी तिच्या वाडावळीच्या गरजे विशयांत विमर्शात्मक भासाभास केल्या. त्या कादंबरीचो पांचवो अवस्वर ("आमचे भाशेची सुधारणी गरजेची") आनी सातवो अवस्वर ("आमचे भाशेची दोतोर्नीची शिकोवोण") ह्या विशयाचेर भासाभास चलइल्ली रीत ह्या परीं आसा -

*विगार आनी जानी, कोंकणी भाशे विशयांत -*

*"भोव थोड्यांक सोडल्यार आमच्या सेर्मावांच्या शिकोवणेंत तिनांत एक वांटो पोर्चुगीज सब्द वापारतात आनी व्याकरणय पोर्चुगीज. सांग म्हाका आमच्या पाद्र्यांबां पयकी कोणाक आमच्या भाशेचें व्याकरण सारकें कळीत आसा? आख्या गोंयांत एकलोई आसचो हांव पातयेंना."*

*"पाद्र्यांबां पयकीं कित्याक? हेरां थंयी नांत. त्या भायर हांव आयकातां आमच्या भाशेक व्याकरण ना म्हण!"*

*"ही शुद्द फट. आफ्रिकाक आनी अमेरिकाक गेल्या मिशोनरींनी त्या त्या गांवच्या आदिवासी निवासींचें व्याकरण आनी शब्दकोश रचल्यात. त्या*

*आदिवासीच्यांकी आमी उणेंगी? आमची भास संस्कृत भाशेची अपूट धूव आनी आमचे भाशेचें व्याकरण सुधारण जाल्ल्या भाशेंच्याकी वरतें जावन आसा."*

*"विगार पाद्र्याबा तुवें सांगचें सारकें हांवें तें पयलें चितूंक नातल्लें."*[31]

ह्या कादंबरीच्या प्रस्तावनेत रोमन लिपींत कोंकणी बरोवंक वैज्ञानीक ध्वनी विज्ञानाची गरज विवरून तो सांगता.

*"सगळ्या संवसाराचे भासो शिकचे विदेशी भाशे तज्ञ आमी 25 अक्षरांनी आमची भास बरवचें पळेवन आमकां हांसतात. कित्याक म्हळयार आमची भास संस्कृत म्हळ्ळया गिरेस्त आवयथावन जल्मल्ल्यान ही भास बरोवंक चडीत अक्षरांची गरज आसा. संस्कृत भाशेंत 800 अक्षरां आसात जाल्ल्यान 25 अक्षरांनी ती कशी बरोवंची?"*[32]

ब्रुनोन निर्माण केल्ल्या मेरियन ल्पीच्या ध्वनी विज्ञानाच्या प्रकाराच ही 'क्रिस्तांव घराबो' रचल्या उपरांत 'अगनूस देई' म्हळ्ळें कोंकणी म्हयनाळें पत्रय ह्या ध्वनी विज्ञानाच्या प्रकार छापून येतालें.[33]

## 1.5.2 'ऊ कोंकणी'

ह्या पत्रा विशयांत आदल्या थोड्या कोंकणी लेखकांनी थोडो गोंदोळ उब्जायला. हें पत्र कोंकणीचें सुर्विलें पत्र म्हणोन तांच्या लेखनांनी सांगोंक पेचाडल्यात. हाका कारणां साबार आसूं येता. ह्या पत्राच्या संपादकाकय सुर्विलें पत्र 'उदेंतीचें साळक' म्हळ्ळें कळीत ना शें दिसता. उदेंतीचें साळक जल्मोन बंद पडल्या वगता 'ऊ कोंकणीं'त एक लेखन प्रकट जालां. तें ह्या परीं आसा.

*"O Concanim" Bombaim 7.12.1893 - 'A Lingua concanim.'*

*"आज साबार शेंकडे वर्सां बलांडलीं, आनी जितलो तेंप पाशार जालो, तितलें उतरां आमचीं भाशेचीं विसोर पडोन लिपते जिणेक पावलींत."*

*आनी कोण जानो एकानो आमी विसरोंक पावतें जाल्यार ही आमची मोगाची भास.*

*आज ही विसोर पोडलोली भासेन जीव घेतला. आनी तो जीव तिका मेवलो म्हणतां. जरी ही आमची चूक न्हय जाल्यार हें पत्र रोचलां तिर्तुन. जें वर्तोवलें पयलें कोंकणी भाशेन.*

*हे वरवीं म्हणतां आमी मर्यादीर आड वचानासतना, साबार आमच्या भावाच्या नदरेमुखार वस्तू दिसोन आयल्यो ज्यो सदांकाळ तांका लिपोन आसत्यो.*

*म्हणतां आमी त्यो वस्तू लिपोन आसल्यो म्हणोन शिकानासलेल्यांक वो थोडें शिकलेल्यांक*

*साबार आमचे भाव आतां हे पत्रा वरवीं कांय तोरी वाचूंक, बरोवंक सिकल्यांत, जांका आपले एस्तादा परमाणें तांक नासली शिकोंक.*

*म्हणतां आमी किं हें पासोत चड मान आमकां फावो म्हणोन, पूण चिंतून आमकां आयलें आनी अदीक चुरचुरे आमकां भोगले पळोवन आजून आमचे गोंयांत चड मोटें बरेपण आनी कुड्डेपण गुवातलां तें हे भाशे वयर.*

*बरेपण, कित्याक आजून आमचे गोंयांत कोणाक तांक जाली ना आमचे उल्लास आयकोन कांयतोरी उपाय करच्याक ही आमची मोगाची भास थंय शिकोंवच्याक*

*आनी कुड्डेंपण कित्याक कोणेच आजून आपली नोदोर भोंवडांवक ना हे भाशे वयर तिची वळोक घेवन तिची फावो ती आपुरबाय करच्याक.*

*जोरी राजवोटाचे मुकत्यार हे आमचे मोगाचे भाशेक विचारिनात, जाल्यार जोल्म पूत पर्यान तिका देसपारेजार करतात आनी कित्याक काय?*

*दिसता आमकां किं तेंकां चार पोरकी आनी फिरंगी उतरां तोत-मोत कापूंक गोमतात देकून शें, जोसो एक पार्वोचो कोंबो मोर जावंक सोदी ताचीं पाकां आपणाक लावन.*

*साबार पावटीं आमी सांगलां सोगळे गोंयांत लोक आसा म्हणोन 495*

*हजार.*

*तोर ह्या लोकामदें दिसोन येता आसात म्हणोन*

| | |
|---|---|
| *क्रिस्तांव* | *3,61,550* |
| *हिंदू* | *1,30,845* |
| *मुसोलमान* | *2,605* |
| | *4,95,000* |

*आतां गोडयेक ओगळो उणो जाला जायत पूण तोरी आसतां जोडशी अंतोर आसची ना. आतां पळेवन ह्या पिर्गी कोशी अनीत कोरताती क्रिस्तांव लोका थंय तांचे मुदोळ भाशे वयर.*

*जरीय सुमार 131 हजार कोंकणो लोक सोगळे गोंयांत तांका इसकोलां रचल्यांत. सरकारान तांची भास शिकोवंक, पूण 361550, क्रिस्तांव लोकांक आपली मुदोळ भास शिकोंवक कित्याक रचूंक पावोनात?*

*दिसोना आमचे वाचप्यांक ही अनीत म्हणोन?*

*थोड्या लोका पासोन देसपेज कोरोन इसकोलां रोचता आनी चोड लोकाक जावोनात?*

*जोरी पोर्तुगीज भास शिकोवंक इसकोलां आसात, जाल्यार तांचो कांय पाय दोनां चोड शिकलेलें रोकडेंच विसोरतात, पूण आपले मुदोळ भाशेचें कांय तोरी शिंकलेलें सोपेपोणी विसोरचेनांत, पूण जायतें उपकारतेलें मुकल्या संवसाराक.*

*मागतांव आमी आमचे गोंयचे राजवोट लागूंय आमचो दोळे एकायनें दांपल्यात ते उगते करून एक नोदोर बोंवडांवच्याक दुर्बोळ लोका पासोन.*

*कित्याक चोड दुबलो लोक आसा ताचे सोंसथीक हें शिकोप चड उपकारतेलें.*

*आनी गिरेस्तां कित्याक उपकारचें नां? सगळ्यांक उपकारतेलें दुसऱ्यो आनी पोरक्यो भाशो सेंपेपणीं समजोंक."*

पूण त्याच पत्रांत, दोन म्हयन्या उपरांत म्हणजे 1894 इसवे फेब्रुवारी 25 तारकेर (voros III अंक 113) 'उप्रोगेस्सु द लींग्वा कोंकणी' म्हळ्ळ्या

माथाळ्या खाल पोर्तुगीज भाशेन एक लेखन प्रकट करून, पयलेंच्या लेखनात आसल्ली चूक सारकी केली. त्या पोर्तुगीज लेखनाचो भाशांतर- सारांश ह्या परीं आसा.

*'उप्रोगेस्सुद लींग्वा कोंकणी'*

*कोंकणी भास कितल्यागी शेकड्यांनी पात्रा इड्यांत सगळी जेपून आसल्ली ती आपल्या पुता कडेन वयर काडपाक आदार मागताली. जे पूत उलयताले कोंकणीन पूण तिचेकडेन दुर्लक्ष करताले. आतां काळ बदललो. कोणीय चिंतिनातल्ले भाशेन तिका जीव हाडपी लोक फुडें सरले. तिचे उले तिणे आयकाले आनी हे भाशेक वयर काडपाक वावुरले. ह्या खातीर पयलें पत्र कोंकणीत आयलें. 'उदेंतीचें साळक' ताच्या पाटल्यान 'ऊ कोंकणी'.*

## 1.5.3 'ऊ पोवु गोआनु' ('O Povo Goano')

(Anno III - Bombaim, Sabbado, 21 Setembro de 1895)

ह्या अंकांत प्रकट जाल्लें लेखन हांगासर दिलां.

*'कोंकणी भास - चड गोरोज आसा.'*

*"सगळें आमचें कारबार चलवंक पोकोत आमचे काशा भाशेंत, पोरक्यां भाशांची गोरोज नासताना आनी कोरूंक तिचो उकोल तिच्या चालत्या किरकोळपणांत थावन, दीवंक आमकां सुटका गुलामपणांतली!"*

*"सैंबाची भास उगती कोरता वाट*
*जिची युवजिल्या हांवें करूंक सुटवाट,*
*तशें जाल्यार तिच्या सांगाताक राबोन,*
*बोगोंक हांवे जिवीत वो मोर्नां!*
*ह्या सैंबाचे भाशे! गोडवें तुजे,*
*घोटयदी झुजोंक कुडीर म्हजे;*
*दोनपून तुजी सोंपोन, गांवचे कुळवेन*
*एकवोट घेंवदी उकलांवक तुका वेंगें;*

*तुजो पोय बेपारवो ताणीं केलोलो,*
*तेज्या पासोत मार तेंच्या काळजाक भालो,*
*मोग तेंका रिगोय तुका करूंक नोमोस्कार*
*वोगडायलेल्या काळाची दिशी बाकी सबार."*

(ग्रंथालयाच्या पुराभिलेखांत (Archies) सांबाळून दवरलेलीं थोडीं पत्रां सारकें वाचूंक साध्य जायनांत. कारण पत्रां शंबर वर्सां आदलीं जाल्ल्यान पानां पिटो-पिटो जाल्यांत त्या देखून चडतीक विवर आरांवक साध्य जावंना. फुडें आनी कांय वेवस्था लाबली तर मुकल्या ग्रथांनी विवर लांबोवंक प्रयत्न आसतलो.)

## 1.5.4 पत्रांची झर

'रोमी लिपींत वर्तमान पत्रां' म्हळ्ळ्या माथाळ्या खाल मानेस्त फेलिसियो कार्दोज हाणीं बरयल्ल्या लेखनाप्रकार 1891 वर्सा मुंबय शेहरांत श्री आलेक्सीयु कायतानु जुजे फ्रांसीस्कु हाणीं 'O Luso Concani' (ऊ लूजु कोंकानी) हें कोंकणी पोर्तुगेज सातोळें सुरू केलें. उपरांत 1892 थावन 1897 पर्यांत हीं पोर्तुगेज कोंकणी साताळी भायर सरलीं. "O Concani" (ऊ कोंकानी) "O Povo Goano" (ऊ पोवु गोआनु) "A Luz" (आ लूज) "O Eco" (ऊ इको) "O Intransgente" (ऊ इंत्रासिजेंति) "A Opiniao Nacional" (आ ओपिनियांवु नासिओनाल) 1907 वर्सा मुंबयंत पुराय कोंकणीत वर्तमानपत्र श्री बेर्नादु फ्रांसीस्कु काब्राल हाणीं उजवाडाक हाडलें तें "Sanjechem Noketr" (सांजेचें नोकेत्र) हें नेमाळें ल्हान आकाराचें दिसाळें जावन थोड्या काळान बंद पडलें. त्याच वर्सा श्री रोल्दांव नोरोन्या हाणीं "Catholic Sovostkai" (कातोलीक सोवोस्तकाय) हें कोंकणी म्हयनाळें सुरू केलें. उपरांत ते पंदराळें केलें. 1908 वर्सा मुंबयंत 'O Goano' (ऊ गोआनु) हें साताळें श्री ओनोरातु फुर्तादु आनी श्री फ्रान्सीस्कु शावियेर हाणीं प्रसिद्ध केलें. हातूंत कोंकणी

पोर्तुगेज आनी इंग्लीश अशे तीन विभाग आसले, 1912 वर्सा मुबयंत 'Konkan Magazine' (कोंकण मेगझीन) हें म्हयनाळें श्री ज्योकीं इग्नासियु कांपोस हाणीं सुरू केलें. त्याच वर्सा "St. Anne's Temperance Magazine" (सां. ॲन्स टेंपरन्स मेगाझीन) हें कोंकणी इग्लीश म्हयनाळें पुर्वींत सी डायस हाणीं पर्गट केलें.[34]

### 1.5.5 दर म्हयन्याची रोटी (1915)
(Dor Mhoineachi Rotti)

'दर म्हयन्याची रोटी' म्हळ्ळया नांवाचें म्हयन्याळें कोंकणी पत्र रोमी लिपींत कराचींत (आतां पाकिस्तानाचें एक शेहर - तवळ ब्रिटीश - इंडियाच्या आडळताखाल आसल्लें.) 1915 इसवेंत प्रारंभ जालें. दिसपोडत्या ग्रासा खातीर कराचीक स्थळांतर केल्ल्या कथोलीक गोंयकारांच्या आत्मीक गरजांखातीर ह्या पत्रान जल्म घेतल्लो. ह्या पत्राक तवळ गोयांतय वाचपी आसल्ले.

फा. विन्सेंट लोबो ह्या पत्राचो स्थापक आनी सुर्विलो संपादक जावन आसल्लो. हो 1880 इसवे ऑगस्टाच्या 8 तारकेर कराचींत जल्मालो. ताचीं आवय बापूय गोंयच्या बारदेस गांवची जावन आसल्लीं. ताणे 1899 इसवेंत बी.ए. शिकाप आखेर करून 1901 इसवेंत वकील वृत्ती आपणाइल्ली. 1902 इसवेंत देवाच्या आपोवण्याक ताणे पाळो दिल्ल्यान 1907 इसवेंत तो सासेर्दोत जालो. 1908 इसवेंत कराचीच्या सां. पॅट्रीक इंगर्जेंत सहायक फिर्गज पाद्री जावन ताका नेमक केलो. तो ल्हान-व्हड जाल्लो गांव कराचीच जाल्ल्यान ताका कराचींत आसल्ल्या गोंयच्या कोंकणी कथोलीक लोकांची आत्मीक गरज तवळच कळीत आसल्ली. त्या देखून ताणे 1915 इसवेंत 'दर म्हयन्याची रोटी' म्हळ्ळें कोंकणी पत्र सुरू केलें.

ह्या पत्राक ताणे 'रोटी' म्हण नांव दिवंक साबार काराणा आसूं येत. 'रोटी' म्हळ्ळो सब्द तवळ गोयांत प्रचलीत नातल्लो. ह्या सब्दाक गोयांत समानार्थ जावन भाकोर/भाक्री वा उंडो म्हळ्ळो सब्द प्रचलीत आसल्लो.

कराचींत 'रोटी' म्हळ्ळो सब्द घोळटालो जाल्ल्यान (म्हयन्याची रोटी - म्हयन्याळे खाण) तो सब्द ताणे वापरूक काराण जालें जावं येत.

फा. विन्सेंट लोबोक सारकी कोंकणी भास कळीत नातल्ली जाल्यारय ताच्या मरणा पर्यांत (1922 इसवे नोव्हेंबर 11) चड उणे सात वर्सां हें पत्र ताणे चलयलें. उपरांत फा. आंतोनीयु उडोवीकु पेरेयरा पत्राचो संपादक जालो. ताणे हें पत्र ताच्या मरणा परयांत (1936 इसवे जून 26) म्हणजे चड उणे 14 वर्सां चलोवन व्हेलें. हो संपादक एक साहिती जावन आसल्लो हाणे 28 धार्मीक पुस्तिकां (Booklets) आनी 18 पत्रिकां (leaflets) बरयल्यांत. फा. पेरेयरीच्या मरणा उपरांत फा. आतानासीयु मोनीज हाणे 1936 इसवे थावन ह्या पत्राचो संपादक जावन 1915 इसवे परयांत म्हणजे 17 वर्सां हें पत्र चलोवन व्हेलें. ह्या काळार ह्या पत्राच्यो 8000 प्रत्यो खपताल्यो म्हळ्ळें साबार बरयणारां थावन आयकोंक मेळता.

1947 इसवेंत पाकिस्तान विंगड राश्ट्र जावन उदेल्या उपरांत हे पत्र कराचींत छापून भारताच्या वाचप्यांक धाडचें त्रासाचें जालें. त्या भायर भारताच्या वाचप्यांनी ह्या पत्राक कराचीक वर्गणी धाडून दिवंकय वांदे जाले. ह्या संदिग्ध परिस्थितींत कार्डिनल वालेरियान ग्रासीयस हाणीं (हो कराचीचो भुरगो) हें पत्र मुंबय हाडूंक प्रेरण दिल्ल्यान तवळ संपादकाक सहाय्य करून आसल्लो. फा. एलियस डि'सौझा ह्या पत्राची आस्त-वास्त घेवन मुंबय भायखळांत बिडार जालो. तवळ फा. एलियस पत्र चलयतालो जाल्यार ताका पाकिस्तानी पासपोर्ट आसल्ल्यान भायखळा फिर्गज पाद्री मो / ओर्फिनो डि'साचें नांव अधिकृत संपादक म्हण छापून येतालें. 1959 इसवेंत फा. एलियसाक वर्गावण जाल्ल्यान 1960 इसवेंत हें पत्र बंद पडलें.

उपरांत 1964 इसवेंत फा. चार्लस् गोम्स जेज्वेत (तवळचो गोंयचो प्रोविन्सियल) (होय कराचीचो भुरगो) हाणीं बोम्बयच्या कार्डिनलाच्या परवानगेन गोंयच्या बों-जीजस बासिलिकाक (Basilica of Bom Jesus - Old Goa, Goa) हाडून फा. मोरीनु द'सौजा जेज्वेत हांकां संपादक करून

परत जिवाळ केलें. हे पत्र आजुनय हांच्या संपादकपणाखाल, गोंयच्या जेज्वेत प्रोवेन्सियालाच्या नांवान (On behalf of Provincial Superior, Society of Jesus, Goa) प्रगटून आसा. कोंकणी लोकां मदें जेजूच्या भोव पवीत्र काळजाची भक्त विस्तारच्याक आनी कथोलीक धर्माची ओळोक कोंकणीतल्यान दिवचें ह्या पत्राचो शेवोट जावन आसा, म्हण हें पत्र कळयता.[35]

### 1.5.6 पत्रांचो व्हाळो

1916 वर्सा श्री सेबस्त्यांव शावियोर व्हाज हाणी 'O Amigo do Povo' (ऊ आमीगु दु पोवु) हें कोंकणी-इंग्लेज सातोळें सुरू केलें. 1919 वर्सां 'O Goano' आनी 'O Amigo do Povo' एकवटान 'O Amigo do Povo Goano' (ऊ आमीगु दु पोवु गोआनु) हें कोंकणी इंग्लेज सातोळें चालू केलें. श्री मानुयेल ए. फोर्नांदिश ताचो संपादक जावन आसलो. 1926 सांत हें नेमाळें बंद जालें.

1919 वर्सा मुंबयंत पटापट तीन नेमाळीं चालू जालीं. Ave Maria (आवे मारीया) Goa Mail (गोआ मेल) आनी Popular Magazine (पॉप्युलर मेगझीन) श्री आंतोनीयु विसेंत द क्रूज 'आवे मारीया' सातोळ्याचें संपादन करतालो आनी तें पत्र कोंकणी, पोर्तुगेज आनी इंग्लेज ह्या तीन भासांनी भायर सरतालें. 'गोआ मेल' हें कोंकणी आनी इंग्लेज ह्या दोन भासांनी परगट जातालें. ताचो पयलो संपादक दो. वास्को द गाम आनी मागीर श्री. एफ. एक्स. आफोंसो. कांय काळान हीं दोनय साताळीं फकत कोंकणींत भायर सरोंक लागलीं.

'पोप्युलर मेगझीन' सुरवातेक म्हयनाळें आसलें. मागीर तें पंदराळें जालें. ताचें संपादन श्री. ज्योकीं जुजे सिल्वेस्टर द सौजा हाणीं केलां. हें नेमाळें थोड्या काळान बंद पडलें.

'आवे मारिया' पत्रांत "सोताचो उजवाड फांकारून" म्हळ्ळो ध्येय दवरून

श्री ए. वी. द क्रूज पत्र चलयतालो. 1951 इसवे उपरांत कुमारी ज्युलिएट मारी द क्रूज पत्र चलयताली. हिणे हें पत्र 1973 इसवे मेरेन चलयल्या उपरांत कुमारी एलविरा द क्रूज हिणे हें पत्र 1975 इसवे परयांत चलयलें. ह्या पत्राच्यो प्रत्यो गोंयच्या केंद्रीय ग्रंथालयांत सांबाळून दवरलेल्यो पळोवंक मेळटात. हाणीं तिगांनी मेळोन चड उणे 57 वर्सां गोंयच्या कोंकणी समुदायेक ह्या पत्रा द्वारीं सेवा दिल्या म्हळ्ळें हें पत्र पळयताना कळोन येता. त्या भायर श्री. ए. वी. द क्रुजान 1932 व्या वर्सा 'आवे मारिया' सातोळ्या सांगाता दिसाळें 'कोंकणी बुलेटीन' पत्र काडुनय चारित्र्या रचल्या. ह्या दिसाळ्या पत्राचो थोडो संग्रह गोंयच्या केंद्रीय ग्रंथालयांत आसा. त्या पत्रांत अशें बरोवन आसा.

*"Konkani daily News Bulletin - The first and only konkani daily in whole of India. Edited, printed and Published by A.V.D'cruz at the Ave Maria Press New Sonapur Marine Lines Bombay - Anno - XIV Bomboi I - li Janerachi 1946 Mol 1 Anno"*

हें पत्र सुमार तेरा वर्सां चललें अशें बरयता श्री. फेलिसियु कारदोज.

1924 वर्सा श्री. जुआंव लाजारस द सौजा हाणीं (Gulistan) (गुलिस्तान) (defensor do Povo Goano) हें कोंकणी पोर्तुगेज म्हयनाळें चालू केलें. पयलें ताचो संपादक पुर्वित अलरिकु पेरैरा आसलो, मागीर ज्योकीं फेलीक्स पेरैरा हाणे तें सुमार 13 वर्सां चलयलें. पूण तें 1943 वर्सा थांबलें, त्याच वर्सा श्री रेसपीसियु आफोंसो आनी श्री. रॉक ए. पेरैरा हाणीं 'द गोआ टायम्स' (The Goa Times) हें कोंकणी इंग्लीश सातोळें सुरू केलें. उपरांत तें फकत कोंकणीत भायर सरतालें आनी श्री. रॉक पेरैरा मरतच सिमांव सी फेर्नांदिश त्या पत्राचो संपादक जालो. तेदोळ परयांत दो. फेर्नांद 'गोआ मेल' पत्राचो संपादक आसल्लो. दो. फेर्नांद मरण पावल्या उपरांत श्री फावूस्तु द कॉस्तान तें पत्र थोडो काळ सांबाळ्ळें. पूण

आर्थिक परिस्थितीक लागोन 1989 वर्सा तें अवचीत बंद पडलें.

1933 इसवेंत जुआंव लाझारस दे'सौजा हाणें "गोअन ऑब्जरवर" ('Goan Observer') हें कोंकणी इंग्लीश दिसाळें सुरू केलें. हें जावन आसलें मुंबयंतलें तिसरें दिसाळें. पूण तें चड तेंप उरलें ना. 1934 इसवेंत मुंबयत 'इमिग्रंट' (Emigrant) सातोळें श्री इनासियु कायतानु कारवाल्यु हाणीं सुरू केलें. उपरांत तें दिसाळें केलें. पूण तें चड काळ चलोंक ना.

गोंयांत 1930 इसवेंत 'आमचो गांव' सातोळें श्री लुईस द मिनेझिस हाणे उजवाडाक हाडलें, 1932 इसवेंत गोंयांत दोन कोंकणी पोर्तुगेज नेमाळीं भायर सरलीं (1) "परजेचो आधार" हें कोंकणी पोर्तुगेज सातोळें वकील जुजे बातीस्ता वाज हाणे म्हापशां सुरूर केलें. ते सुमार तीस वर्सां चललें. [(VII)शीर पळे] आनी (2) "वेनेरावेल पाद्रि जुजे वाज" हें म्हयनाळें कोंग फ्रांसीस्कु शावियेर द कॉस्ता हाणे चालू केलें. ताचें जिवीत थोड्याच काळाचें जालें.

एका वर्सा उपरांत 1933सांत "वावराड्यांचो ईश्ट" हें सातोळें प्रकाशीत जावंक लागलें. (ह्या पत्राविशयांत तपशील विवर उपरांत आसा.)

1936 थावन 1950 पर्यांत मुंबयंत 'Mhojem Magazine' (म्हजें मेगझीन), 'Aspirant' (आस्पिरांत), 'Catholic India) (कॅथोलीक इंडिया), 'Amcho Sonvsar' (आमचो संवसार), 'Novem Jivit' (नवें जिवीत), 'Goenkarancho Ixtt' (गोंयकारांचो इश्ट), 'Goemchim Jasmin Fulam' (गोंयचीं जास्मीन फुलां), 'Gomantak' (गोमन्तक), 'Porjecho Ulhas' (प्रजेचो उल्हास), 'Goa' (गोआ), 'Konkan Times' (कोंकण टायम्स), 'O Heraldo' (ऊ हेराल्द), कराचींच 'Concani Journal' (कोंकणी जर्नल), पुणेंत 'Tujem Raj Amkam Eum' (तुजें राज आमकां येवं), हीं नेमाळीं थोडो काळ चलोन बंद पडलीं.

पन्नासांतल्या वर्सांनी मुंबयंत 'Udentechem Neketr' (उदेंतीचें

नेकेत्र), 'New Goa' (न्यू गोवा), 'Jai Gomantak' (जय गोमन्तक), 'Gomant Bharati' (गोमन्त भारती), 'Voice of Goa' (व्हॉयस् ऑफ गोआ), 'Soth Uloi' (सत उलय), 'Azad Goem' (आझाद गोंय), 'Projecho Avaz' (प्रजेचो आवाज), 'Ghe Ujwadd' (घे उजवाड), हीं नेमाळीं चलतालीं. गोंयांत 'A Vanguarda' (अ वेंगार्द) आनी आफ्रिकांत 'Uzvadd' (उजवाड) हीं नेमाळीं उजवाडाक येतालीं.[35a]

### 1.5.7 परजेचो आधार ('Porjecho Adar') (समनाचें पत्र)

**दिरेक्तोर** - दो. लोरेटो डी'सौजा

**स्थापणार आनी धनी** - जुजे बातीस्त कायतान व्हाज

(Anno - No.3 Nova Goa - 16 de Janeirode 1930)

ह्या पत्रांत कोंकणी विशयांत आइल्लें कवन हांगासर दिलां.

***'Soimbachi Bhas' (सयंबाची भास)***

*(उतरां आमच्या वाचप्यांच्या नियाळाक)*

*सयंबाचे भाशे पुरतें*
*संवसारांत आनीक आसा कितें?*
*दिवंच्याक आमच्या भोंवतीं*
*जाणवायेन भोरलेलें मातें?*

*भास आमची तोर सयंबाची*
*सयंबाच्यो वोस्तू उलोवंची*
*पयलीं उतरां उचारचीं*
*आपुरबायेन उलोवंक शिकोवंचीं*

*भास व्होड वोर्तोवता तोवो*
*जोबोर उल्लास येवंच्याक पावो*
*आयकोन खाशा भाशेचे तावो*

*पेकोयता काळजाचो घावो*

*ज्या वेळार नियाळ म्हाका येता*

*भाशेक किरकोळ केलाय मेवता*

*मोटी खोंत म्हाका भोगता*

*काळीज म्हजें तोर कोन्सोवता*

*जायते काळ तोर आतां जालो*

*सबार बेपार्वा आनी केलो*

*उगडाया आतां पुणि दोळो*

*फुलयसो आमचे भाशेचो मोळो*

*म्हज्या गोंयच्या कुळा*

*शिकोप दियात भुरग्या बाळाक*

*काशा भाशेन वेळाच्या वेळा*

*भाशेक वाडयशी काळाच्या काळाक*

*जायतें सांगतात दिसता कोरें*

*मुदलान शिकोप दिल्यार बोरें*

*काशा भाशेन भुरग्यांक सारें*

*जोशें झाडांक उदाक वारें*

*सुदारुया आमी आमची भास*

*मायच्या दुदाचो आयचो उगडास*

*होच वोर्तोवयता म्हजो व्होड उलास*

*भागोय तोर, धोनया, ही म्हजी आस.*

*S. T. D'Souza Gomanta*[35b]

## 1.5.8 'वावराड्यांचो इश्ट'

1932 वर्सा डिसेंबराचे 13वेर 'वावराड्यांचो इश्ट' सातोळें पत्र जल्मालें. पूण कांय अडवोणेक लागोन एक वर्सभर बंद उरलें. उपरांत 1933 वर्सा डिसेंब्राच्या 20वेर तें परतून उजवाडावंक सुरू जालें.

मडगांवां आकें वाड्याच्या सां. सेबस्त्यांव कपेलांत सर्गेस्त पुलवीत आर्सेनीस लुसीयु फेर्नांदीश हांच्या हातांतल्यान 'वावराड्यांचो इश्ट' पत्र तयार जातालें.

कित्याक उजवाडायलें : त्या काळर गोयांत साम्यवाद ही कम्युनिश्टांची वांकडी शिकवोण गोंयांत भितर सरली आनी वावराड्यां आनी धनयांमदीं फुटीचें वातावरण निर्माण जावंक लागलें. अशें घडूंक पावचें न्हय म्हण आनी वावराड्यांमदें समजिकाय आनी एकवोट सांबाळूंक वावुरचें म्हण 'वावराड्यांचो इश्ट' पत्र उजवाडा येवन खूब वावुरलें. क्रिस्ती धर्माच्या तत्वाचेर आड जावंक तेन्ना जायते जाण उठले. तेन्ना वावराड्यांचो इश्ट पत्र उजवाडाक आयलें.

जें कितें समाजाक बरेपण जाय तें म्हळ्यार समाजीक नितीची शिकवोण हेरा आमच्या भावां-भयणींक दिवपाचें भरपूर काम वावराड्यांच्या इश्टान केलें म्हणच्याक दुबाव ना. हें सातोळें पत्र आजमेरेन जिवें उरोन, ताणें गोंयच्या आनी कोंकणी पोरजेक नितीच्या आऩी सताच्या मार्गार चलोंक मार्गदर्शन दिलां आनी असलेंच धोरण आनी हेतू घेवन पिलार संस्थो आज मेरेन हें जबाबदारेचें काम चलयत आयल्यां.

वावराड्यांचो इश्ट पत्र छापसूंची अडचोण आसली. पूण त्या काळार मडगांवची, डी. लूसिय ई लीमा ही 'धूव, पती आनी मांय' (फील्या, एसपोजा ई मांय) म्हळ्ळ्या नांवांचें मासीक उजवाडायताली, आनी मडगांवां लार्गु पाद्रि जुजे व्हाज ह्या जाग्यार तिचो छापखानो आसल्लो थंय बा इश्ट पत्र दर सातोळेक छापून भायर सरतालें. अशें 1933 इसवे डिसेंबर 20वेर थावन हें पत्र नियमीत उजवाडाक येवंक लागलें. तेन्ना ताका चारच पानां आसल्लीं.

अशें सात वर्सां चलयल्या उपरांत कांय आडवोणेक लागोन वावराड्यांचो इश्ट थोडोकाळ बंद उरलो. 1946 वर्सा ऑगस्टाच्या 25वर हें पत्र रायतूरच्या सेमिनारींत उजवाडा हाडूंक सुरू केलें. मडगांवां थावन 1940 वर्सा रायतूरच्या सेमिनारींत व्हेलें, थंय सेमिनरीचो प्रोफेसर आनी कोंकणीचो जाणकार पुर्वीत

ग्रासियानु मोराइश संपादपी जालो.

इगर्जेच्या वडिलांनी ह्या पत्राविशीं फिकीर घेतली. गोंयच्या डॉ. तियोतोनियु मानुयेल रिबेयरू वियेरा दे कास्त्रु आनी ताचो आधारी बीस्प मानुयेल मारियु परैरा द सिल्वा हांणी खेरीत हुसको दाखयलो. कांय फांकिवंत लौकीक दो. सालिस वेगा कुतीन्यु आनी दो. मिंगेल द मिरांदा आनी पुर्वीत आलेक्स क्वाद्रुश तशेंच फेलीक्स वेल्युश रोद्रीगीश फुडें सरोन वावराड्यांचो इश्ट उजावाडा हाडूंक पोट तिडकेन वावुरले. कोंकणी आनी पोर्तुगेज भासांनी ते बरयताले. बरी खबार नैतीक तशी संवसारी खबरो वावराड्यांच्या वावराडी समाजाक पावयताले. पुर्वीत आरसेनीयु लूसियु फेर्नांदिश कारभारी हांणी जायतीं वर्सां वावराड्यांच्या इश्टाचो जतनेन वावर केलो. उपरांत अर्थीक अडचण्यो आयल्यो आनी हें पत्र उजवाडा हाडूंक अवघड जावंक लागलें.

खंयचेंय एक पत्र वर्सान वर्स जिवें दवरूंक सोपें न्हय. पूण हें पत्र आजून पर्यांत उरोंक म्हणजे 70 वर्सां सोंपोवन एक कारण आसा. हें पत्र सदांच जिवें उरोंक डी. जुजे द कॉस्ता न्यूनिस पात्रियार्कान सपटेंबराचे 13वेर 1943 वर्सा आपलें प्रसिद्ध परिपत्र जाहीर करून रायतूरचे सेमिनरीचो रैतोर मो. अगापीतु लोवरेन्सु हाचे येजमानकेखाल दो. पेरेग्रीनु द कॉस्ता, बारोनीयु मोंतेयरु आनी दो. मिंगेल द मिरांद हांची एक समिती नेमली.

1939 वर्सा पिलारची संस्था नवे मांडावळीर घाल्ली पळेवन, ह्या संस्थेकडे वावराड्यांचो इश्ट पत्र दिल्यार तें तगतलें म्हण भरवसो धरून डी. जुजे द क कॉस्ता न्यूनिस पात्रियारकान सपटेंबराचे 15वेर 1944 वर्सा डिक्री (अंक 87/44) जाहीर करून वावराड्यांचो इश्ट पत्र पिलार संस्थेच्या ताबेंत दिलें. अशें 1944 वर्सा ऑक्टोबराचे तिसरेर बाळका जेजूच्या सां. तेरेजींचे परबे दिसा थावन तें पिलार छापूंक सुरू केलें. वावराड्यांचो इश्ट सातोळ्याचो मूळ हेतू सांबाळून, संस्थेची आनी मान्यवंत आग्नेलाची भक्ती विस्तूरपाचो आनी प्रचार करपाचो हो एक व्हडलो उपाय कसो जालो, त्याच बरोबर कुपेरादोर सावेरीयन आनी आत्मीक भाव भयणांच्या एकवटाचे

संबंध लोकामेरेन पावोंक सुलभ जालें. हांगासर थावन वावराड्यांच्या इश्टाची दुसरी सांखळ सुरू जाली. तेमेरेन थावन पिलारची संस्था उमेदीन आनी नेटान वावराड्यांचो इश्ट चलयत आसा.

ह्या पत्राचे संपादपी आनी उपसंपादपी ह्या परीं आसात - पुर्वीत आरसेनीयु लूसीयु फेरनांदीश आनी पुर्वीत जुआंव फ्रान्सीस्कु फेरनांदिश 1933-38, पुर्वीत ग्रासियानु मोराइश, 1938-44, पुर्वीत कोंसेसांव रोद्रीगिश, 3-10-1944 थावन 1954, पुर्वीत जेरोनीमु पेरेयरा 1954-69, पुर्वीत लेकतांसीयु आलमेयदा 1969 थावन 4-3-1983, रुल्रीत लीनु प्लोरींदु 11-6-1983 थावन 7-6-1986, पुर्वीत केरियेल डि सोवझा 21-6-1986 थावन 29-7-1989, पुर्वीत आंद्रु फरनांदीश 5-8-1989 थावन 28-11-1991, पुर्वीत सेर्जिओ मास्करेन्यस 5-12- 1991 थावन 3-10-2001 आनी पुर्वीत पीटर रापोजु 3-10-2001 थावन आज पर्यांत. ह्या शिवाय पिलारचे सेमिनारीस्त एक एक वर्स रजेंत आसतना वावराड्यांच्या इश्टाखातीर वावुरल्यात. त्या शिवाय आधारी संपादपी आसल्ल्या सर्व पाद्री तिबुरसीयु फेरांव, विसेंति फेरनांदिश, बेरलांदु रोद्रीगिश, उबाल्दु फेरनांदिश, गाल्दीनु मोन्तेयरु, कॉज्मी कॉस्ता, सर्गेस्त दियोनिझियु सुवारिश, लूसियु मास्करेन्यश, लुसियानु फेरनांदिश, आलकांत्रा ग्रासीयश, आर. मिस्कीता आनी कायतानु कास्तेलीनु, राहुल फेरनांदिश आनी आतां ब्रदर येसेबीयु मिरांदा उपसंपादकाचें काम चलयता.

गोंयचो पयलो छापखानो सप्टेंबराच्या 6वेर 1556 वर्सा पावलो. बरें वाचाप विस्तारूक छापखानो एक मोलादीक साधन हें मनांत धरून 'वावराड्यांचो इश्ट' पिलार हाडतांच पिलारचे संस्थेन छापखान्याच्या तांत्रिकतेचें (Printing Technology) शिकोप दिवंक छापखानो सुरू केलो. 1944 वर्सा पिलारच्या इगर्जेची साक्रिस्ती फाटल्यान आसलेल्या मठाच्या भागांतल्या सुवातेर हातान छापचीं यंत्रां बसयलीं आनी थंय थावन वावराड्यांचो इश्ट छापून काडटाले. हें पत्र उजवाडाक हाडूक जायते त्रास पडटाले. म्हणोन ब्रदर येसेबीयु मिरांद कळयता. संपादपी आनी वावराडी उर्बेन आनी उमेदीन

कामां करताले. कांय भक्तांनी आनी आपखुश्येच्या वावुरप्यांनी वावराड्यांच्या इश्टाक जायतो आदार दिलो. पिलारचे संस्थेन छापचो वावर शिकोवंक एक घर बांदलें आनी भारताचो प्रधानमंत्री सग्रेस्त जवाहरलाल नेहरू हाणीं मेयाचे 23वेर 1963 वर्सा त्या घराचें उगतावण केलें. कांय वर्सांनी छापखान्यांत मोट्यो अडवण्यो उपरासल्यो आनी वावराड्यांच्या इश्टाक थंयसर थावन भायर सरोन दुसऱ्या छापखान्याक व्हेलें. फाटलीं वर्सां पिलारच छापताले जाल्यार तो छापखानो बंद जालोल्यान थोडो काळ वावराड्यांचो इश्ट बेळगांव छापून हाडटाले. उपरांत गोमांतक छापखान्यात आनी आतां मेर्सेस राहूल ऑफसेट छापखान्यात वावराड्यांचो इश्ट छापून उजवाडाक येता.

सुरवातेक साम्यवादाचे शिकोवणेचेर आनी तिचेरआड झुजोंक तशेंत गोंयचे वावराडी समाजाक समाजीक शिकवोण दिवंक वावराड्यांचो ईश्ट पत्र उजवाडाक आइल्लें, जाल्यार ताणे गोंयाचे सुटकेखातीर कशें तरी आपलें पावल उबारलें. हेखातीर पोर्तुगेज कायद्या परमाणे तेन्नाच्या गोंयच्या राज्यपाल जनरल वासालु इ सील्वा हाणे आपलो हुकूम जाहीर करून तीन म्हयने वावराड्यांचो ईश्ट पत्र ऑगस्टाच्या 12 वेर 1961 मेरेन तातपुरतें स्थगीत केलें (Suspend) नोव्हेंबराचे 12 वेर मेरेन वावराड्यांचो ईश्ट बंद उरलें. (पोर्तुगेज काळार Censura म्हणजे सरकारी अधिकारी पत्र छापचे आदीं तपासताले) उपरांत डिसेंबर 19 वेर गोंयची सुटका जाली.

सुरवातेक वावराड्यांचो इश्ट पत्र कोंकणी आनी पोर्तुगेज ह्या दोन भासांनी उजवाडायताले. पूण गोंयचे सुटके उपरांत गोंयांत इंग्लेजं वारें मारूंक लागलेल्यान 1962 वर्सा वावराड्यांच्या इश्टाचेर पोर्तुगेज विभागाचे बदलेक इंग्लेज विभाग सुरू केलो. जर सुरवातेक चार पानां आसलीं उपरांत बारा आनी सोळा पर्यांत जालीं जाल्यार 1962 वर्सा छाप्याच्या कागदाचो भाव (price) वाडलो आनी इल्ले इल्ले कामगारांचेय प्रस्न उब्जोले तेन्ना पत्राचीं पानां देंवून 8 पानां मात्र उरलीं.

आतां लोक संपर्काचीं साधना वाडोन गेल्यांत आनी जायते सोपेपण

आयलां. कंप्यूटर, वेबसायट आनी अंतरजाळ (Internet) साधनां आयल्यांत. त्याच परमाणे हो उपाय वावराड्यांचो इश्ट पत्रान घेतला आनी 2000 वर्सा तावन वावराड्यांचो इश्ट पत्र अंतरजाळाभितर सरलां. पिलार संस्थेच्या आधारान आनी सहकारान हें सातोळें आजून जिविताची वाट चलत आयलां.[35c]

वावराड्यांचो इश्ट 2002 इसवी ऑक्टोबर 5वी आनी 12वी वार्शीक खास अंक्यार झीतु आलमेयदा हाणीं बरयल्लें लेखन ह्या परीं आसा -

***'एकवटाइली भास आमची कोंकणी'***

*वावराड्यांच्या इस्टान सदांच कोंकणीची सेवा केल्या आनी ती भास गोंयकारांच्या एकवटाची आनी एकताराची भास म्हण दाखयल्या. गोंयकारांक, जांवते हिन्दू क्रिस्तांव वा मुसलमान सगळ्यांक भावपणाच्या एकवटान ती सांबाळटा. तिनूय समाजांक एकवटीत दवरता ती आमची कोंकणी भास. कसल्याय सुवाळ्यांक आनी दुसऱ्यां जाग्यांचेर जातात तेन्ना कोंकणी भास उलयतात तें पळेवन आमचें काळीज खुशालकायेन भरता. पूण जायतो आमचो क्रिस्तांव लोक एकठांय जातात तेन्ना परक्यो भासो उलयतात. ह्या लोकाक आदली खासदार श्रीमती वायोलेट आळवान 1963 वर्सा डिसेंबराचे पयलेर मडगांव कोंकणीतल्यान उलोवप केलें -*

*"तुमी गोंयकारां जावन आनी कोंकणी जाणा जावन कोंकणी समजाना म्हणपाक तुमकां लज दिसाना? गोंयकारांची भास कोंकणी, संस्कृताय कोंकणी. पूण हांव दुसऱ्या राज्यांतली जावन, कोंकणी शिकोन उलयतां. जाल्यार तुमकां कोंकणी उलोवंक येना? हांव तुमकां कोंकणीतल्यान उलोवन दाखयतां. जो गोंयकार कोंकणी उलोवंक नोको म्हणटा तो गोंयकार म्हणोंक जायना."*



# अध्याय दोन
# केनरा कोंकणी क्रिस्तांवांचे साधन कन्नड लिपींत पत्रिकोद्यम 'कोंकणी दिर्वें'

## 2.1 मंगळुरांत कोंकणेची परिगत

गोंयच्या इंक्विझासांवाची कटकाय, करंदाय विराराये वरवीं आनी मराठ्या सैनिकांची निरंतर धाड, संक्रमीक फेस्त-पिडा, बोंळनीग, सिर्शिरी, नितम, दुकोळ आनी सुकी धाड (1570, 1682) पोर्चुगीज प्रांत्यांत आइल्ले वरवीं, हिन्दी आनी क्रिस्तांव व्हडा संख्यान तांचो मांयगांव सांडून तीन प्रदान पाटापाट ल्हारांनी (1710, 1712, 1729) सुलकार राजांचो आसरो मागोन चडावन जावन गोंयाबर्रांच जियेवंची परिगत आनी हवागूण आसल्ल्या मंगळूरच्या भोंवारीं आनी केरळा गांवांनी वचोन रावले.

अशें सतराव्या शतमानाच्या अखेरी भितर केनरांत कोंकणी लोक वाडोन शांती रितीन जियेवन आसताना 1784 इसवेंत म्हैसूरचो वाग टिपू सुलतानान दिल्ल्या हुकमे परमाणे केनरा कोंकणी क्रिस्तावांची निष्ठूर बंधड जाली. त्या वरवीं आमचे पुर्वज सेरींगपटणांत (श्रीरंगपट्टणांत) सुमार 15 वर्सां म्हणासर म्हणजे 1799 इसवे मे 4 तारकेर टिपू सुल्तान लडायेंत पडाव जावन ताचेगांव इंग्लिशाच्या हातांत पडटा पर्यांत कश्टोन, दगदोन निश्ठूर इजा भोगून आनी उपरांत वांचोन उरल्ले कोड्याळाक पाटीं येवन पावले.

केनरा जिल्ल्यांत थारो करून रावल्लो कोंकणी क्रिस्तांव लोक व्यापारान, कयगारिकेन आनी सागवाळेन हुशार जालो जाल्यारय, सुर्वेर हांगासर आइल्लीं कुटमां चडावत दुबळीं सागवाळेगारां, हिंदू रायांखाल आनी हिन्दू धनयांखाल ते बेसाय करताले. ह्या वेळार तांकां बरपाक चीत दिवंक उपाय नातल्ले वरवीं नवीं कोंकणी लिखितां बरइल्लीं कांय आमकां दिसानांत. पूण ताणीं गोंयां थावन हाडल्लीं पुराणां, कंतिगो, दोतोर्न, पदां-गायाना इत्यादी जोगासणेन दवरून तांचे पयकी शिकप आसल्ल्यानी कानड्या

अक्षरांनी आनी छापखानो नातल्लो जाल्यारय पोरणीं लिखितां ताणीं कश्टांनी बचाव केलीं म्हळ्ळेंच व्हड अजाप. टिपू सुलतानान ह्या क्रिस्तांवांक धरून सेरींगपटणांक व्हरताना पाप बावड्यांनी जिवाच्या आकलासाक तांचें आस्तबदीक सोडून वेताना परयांत पोरण्यो थोड्यो कोंकणी कडतिल्यो बगलेक काण्घेल्यो खंय, आनी ते बंदींत आसताना 'पुराण' वाचून ते भुजावण भोगताले खंय. त्या भोगोस्तळ्यांत कितलीं मोलादीक लिखितां नास जालींगी म्हण कोणाच्यान सांगोंक जायना. टिपूच्या पासांतलें सुटोन पाटीं गांवांक येतांच अपरूप एकेका घरा मेळ्ळेल्या लिखितांचीं नकलां परतून काडून आमच्या पुर्वजांनी जायत्यो कोंकणी कंतिगो आनी पुराणां इत्यादी उरयलीं. उपरांत इंग्लेज राजवटके खाला गांवार समाधान जातच सवकासायेन आमचो लोक परतून हळ्ळयानी चडोन इगर्जोबी बांदून तकली उखलून आयलो. संयंबानच शिकपाचो मोग आसल्लो आमचो लोक इल्लें इल्लें कानडें बराप आनी इंग्लेज उलोवंक शिकले आनी मतीक आनीकय उजवाड मेळतच तांकां आनीकय शिकपाची तान चडोन आयली.

## 2.2 फा. / माफे जेज्वेत आनी कोंकणी

मंगळुरांत चडीत शिकपाचीं इस्कोलां प्रारंभ करच्याक, मंगळूरगार कोंकणी कथोलिकांनी बिस्प मिंगेलीच्या काळार म्हणजे 1858 इसवे थावन रोमाक मनव्यो धाडूंक सुरू केल्यो. मंगळूरगारांक उंचल्या शिकपाची चड गरज आसा. आमकां एक कॉलेज जाय जाय, बोंबय, कलकत्ता आनी मधुरेंत जेज्वेतांनी करचें तें बरेपण आमकांय लाभाजाय म्हळ्ळी आशा विशेश जाली. पूण ती आशा भागोंक वीस वर्सां लागलीं. त्या वीस वर्सांनी आमच्या म्हालगड्यांनी काडिल्ली ती वावट आनी म्हिनत विशेश जावन आसा.

अशें शिकपाची चळवळ जोरान सुरू जाताना 1878 इसवेच्या सप्टेंबर 27 तारकेर तेराव्या लियांव पापसायबान दिल्ले हुकमे प्रकार दक्षीण कन्नडाचें मिसांव वेनीस प्रांताच्या जेज्वेतां अधीन केलें.

1875 इसवे नोव्हेंबर 18 तारकेर स जाण जेज्वेत - चौग पाद्री आनी

दोग ब्रदर नेपल्स थावन इंडियाक भायर सरले. हे जावन आसात. फादर आंजेल मुत्ती, आंजेल माफेय, आगुस्तूस मुल्लर, क्विंतीनुस सानी, आनी ब्रदर फ्रान्सीस जांबोनी आनी मातेव मेनेगेत्ती. डिसेंबराचे 19 तारकेर ते बोंबय पावले. बोंबयंत फादर उरबान स्टेन आनी ओठो आर्ल तांकां सांगता मेळ्ळे आनी हे आठय जाण सांगता तार्वार गोंयांक आयले. थंयसर त्या वर्सा सां. फ्रान्सीस साविथेराची कूड भायर दवरलेली. पयलोच गोंया आइल्लो फादर पागानी (कन्नड प्रांत्याचो प्रो. विगार आपोस्तलीक) थंयसर तांकां मेळ्ळो. त्या शिवाय सुमार तीनशीं जाण मंगळूरगारय गोंयां गेल्ले तसले नव्या जेज्वेतांक स्वागत करूंक पावले. बंदरार सोबीत एक माटोव घाल्लो आनी जायतो लोक एकठांय जाल्लो, थोडे हिंदू भावय हाजर आसल्ले. श्री आलसेन व्हाज म्हळ्ळेल्यांन जेज्वेतांक सन्मानपत्र वाचलें आनी पागानी बापान जाप दिली[36].

जेज्वीत आइल्लेंच कामाक लागले. जेज्वितांक हाड्इल्लें प्रमुख जावन उंचल्या शिकपाखातीर जाल्ल्यान, येवन एकाच वर्सा भितर कॉलेजीचें मजबूत आनी सोबीत बांदाप सुरू केलें. मानेस्त लोरेन्स लोबो प्रभून सुवात दान दिली आनी मंगळूरच्या कथोलिकांनी साबार दुडवां सहाय दिली. मंगळूर आइल्ल्या जेज्वेतां पयकी आंजेलो फ्रान्सीस शावियेर माफे बापान मंगळूरी कोंकणीच्या वावराक आपलें काळीज आनी आत्मो समर्पिलो. तवळ मंगळूरगार घरा घरांनी कोंकणी भास उलयताले तरी बरपिनिशीं तांकां व्याकरण या वाक्सर नातल्लो. बाप माफेक नव्यो भासो शिकचें देणेंय देवान लाबइल्लें. तो कठीण शिस्तेचो मनीस जाल्ल्यान मंगळुराक पावोन तीनच वर्सांनी कोंकणी आनी इतर भासो शिकलो. कोंकणी एक सुंदर म्होंवाळ, रोसाळ भास म्हण बाप माफे जाणा जालो. ताच्याच उतरांनी सांगचें तर *"कोंकणी भास युरोप खंडाच्या भासांक लागू करून घेतल्यार, त्या भासां वरवीं ग्रेस्त, सुंदर, तेजस्वी आनी चड सोंपी. बेजारायेची संगत म्हळ्यार हांगाच्या कोंकणी भाशिकांनी तिच्या उदरगतेक केल्लें कांयच दिसना आनी*

*अशें ही इतली गिरेस्त भास तरी भोव दुबळी, असकत आनी अधीर जावन उरल्या '*[37]

गोंयां साश्टिकार कोंकणी उलोवपी चडावत जावन नॉर्थ केनरांत बिडार जाले जाल्यारय मंगळुरांत येवन बिडार जाल्ल्या पयकी अठराव्या शेंकड्यांतले गोंयचे बारदेशी उलवपी लोक जावन आसल्लो.[38] त्या लोकांची भाशेची वाडावळ, टिपू सुलतानाच्या बंदडे थावन सुटका लाबल्ल्या उपरांत फिरंग्यांच्या उत्तेजना थावन सुरू जाली म्हणूं येत. ह्या बारदेशी बास्पूट उलोवंच्या केनरा क्रिस्तांवांच्या भाशेचें अध्ययन इटालीच्या कार्मेलींत राफायेल पासेट्टी वा फ्रान्सीस्कु सावेरीयु द सांता ऍना (1771-1844) हांणी सास्टींत उबजल्ल्या नॉर्थ कॅनराच्या भाशेचें आदर्श घेवन कोंकणी शब्दकोश रचलो. 1838 इसवेंत पासेट्टीन थोड्यांक पाद्रिपणाची ऑर्द दिली. ह्या पाद्री पयकीं पीयु नोरोन्या (Pio Noronha - 1810 - 1883) एकलो. हाणें प्रमाण मंगळुरी भाशेंचें पयलें व्याकरण रचयलें. हाका व्याकरण रचूंक रिवारान प्रकट केल्ल्या फा. एस्तेवांवाचें व्याकरणा मुखांत्र उत्तेजन मेळ्ळें म्हण तो सांगता. पीयु नोरोन्यान पयलें पोर्तुगीज भाशेंत बरइल्लें (1858) पूण तें रिवारांक प्रकट केलें ना. उपरांत 1875 इसवेंत इंग्लिशान 553 पोलियोनी बरइल्लेंय संस्कृत जाणारी आर्थर कोर बर्नेल हाणेंय पर्कट केलें ना.[39] जेज्वेत मंगळुराक देवताना, स्वागत करच्या समितेंत नोरोन्याय आसल्लो. तवळ नोरोन्हा मापेक मेळोन ताची कोंकणीची उमेद आनी आतुराय कळयल्या आसतेली म्हणटा जुजे पेरेयरा ताच्या 'लिटररी कोंकणी' संक्षिप्त चरित्रेंत.

'कोंकणी दिर्व्यांत' जे. जे. रेगोन सांगच्या प्रकार फादर मापेय येवंच्या साबार वर्सां आदीं फादर ज्योकीं मास्करेन्यश म्हळ्ळया आमच्याच एकल्या सेकुलार पाद्रीन कोंकणी भाशेचें एकलाराक व्याकरण बरयलें. ह्या व्याकरणाच्यो प्रक्यो हांगासर खंयी दिसनात जाल्यर ताची एक प्रत लंडन वस्तूसंग्रहालयांत (Museum) आतांय जगोवन दवरल्या म्हण कोंकणी दिर्व्यांत वाचूंक मेळटा.

फादर माफेय नांवाडदीक विद्वान विचित्र छातयेचो मनीस जाल्ल्यान मंगळुरगारांची कोंकणी लोकांची ग्रेस्त संस्कृती पळेवन कोंकणी भाशे थंय आकर्शांत जालो. प्रमुख जावन संभ्रम-सैरिकेची रीत- रिवाज, रेस्पेराच्या आदल्या दिसा 'रोस' पुसचें, दुसऱ्या दिसा रेस्पेर, 'व्होर' होंकलेक साडी न्हेसोवन सर्पोळी, पिड्डूक नग आनी फुलांनी नटोवचें, 'ओपसून' दिवचें, येया-येणीन पानपोड-इडो आदली-बदली करचें, 'पोर्तेंपण' इत्याद, कार्यक्रमा वेळी गांवचो, भाशेची ग्रेस्तकाय पाचारचो, ओवयो आनी वेर्स आयकोन, माफें पुलकीत जालो. कोंकणी लोकाक भाशेचेर आसल्ली निर्लक्षा सुटोन ताची ग्रेस्ताकाय पाटीं हाडूंक ताणें कमर बांदलें. हाचो फळ जावन बा. माफेन रोमन आनी कानडी लिपीन 1883 इसवेंत 'इंग्लीश - कोंकणी' वाकसरी आनी 1885 इसवेंत 'कोंकणी - इंग्लीश' वाकसरी बरोवन प्रकट केल्यो.

बा.। माफे कोंकणी भाशेचेर गोडायेन अध्ययन करताना असो मोगान पडलो किं, ताणें बरइल्ल्या कोंकणी व्याकरणाक *'कोंकणी रानांतलो सोबीत सुंदर ताळो'* म्हण गौरवान ओलावनच सोडलें.

ह्या चरित्रीक पुस्तकाच्या प्रस्तावनेंत ताणें कोंकणी भाशेचें भविश्य अशें उच्चारलें. *"कोंकणी जनांग, इतलो हुशार बुदवंत तांच्या मायभशेची जाणवाय चाकोंक तांचें दिर्वे-दायज ओळकोंक एक दीस जागो जातलो आनी ह्या सुंदर भाशेचें संस्करण करतलो जशें सुद्राल्ल्या देशांनी जाता तशें कोंकणीचेंय सुदराप जातेलें.*[40]

बा.। माफेची जाणवाय पारखून, तवोळच्या सरकारान ताका मद्रास विद्यापिठाचो गौरव सांदो आनी चरित्रा विभागाचो मौल्यमापक जावन नेमक केलो. (Nominated fellow of University of Madras and examiner of History) तितलेंच न्हय आसतां ताणें बरइल्लें कोंकणी भाशेचें व्याकरण आनी कोंकणी वाकसरी कृत्योय प्रकट करून दिल्यो.[40a]

बाप आंजेलो माफे इटालींतल्या तिरोल प्रांतांतल्या पिन्झोलो (Pinzolo) म्हळ्ळे कडे 1844 सांत जल्मलो. 1871 इसवेंत सप्टेंबराच्या 27 तारकेर तो जेज्वेत जावंक भरती जालो. तेन्ना ताची पिराय 27 वर्सां. सेमिनरीस्त जावन आतां रोमाच्या ग्रेगोरियन विश्वविद्यालय थावन तत्वशास्त्र आनी देवशास्त्रांत ताणें दोतोराची (Doctorate) सनद जोडली.[40b]

फ्राद माफे मंगळुराच्या मिसावांत आसताना 1891 इसवेंत कोलेजीचो प्रिन्सिपल आनी थोड्याच म्हयन्यांनी रेक्टर जालो. हे हुद्दे 1896 अखेर पर्यांत ताणें सांबाळ्ळे उपरांत हे हुद्दे सोडून नेल्लिकुंजेंत मिशोनरी वावर करून आसताना फ्राद. माफेक ताचो कातेकीस्त आनी रांदपी अशें तेगां जाणाक 1899 इसवेंत सांगाताकच ताप सुरू जालो. मेयाच्या 28 तारकेर ताणें त्या चाकरांक बैलांचे एके गाडयेर कंकनाडी फ्राद. मुल्लराचे आस्पत्रेक धाडले. तीन दीस त्या एकसूर गुडसुलांत दोगूच जाण उरले. मरणाच्या हांतुळणार आसल्लो फादर माफे आनी ताचे कुमकेक रावल्लो एकलो हेड नाडकार मे 31 तारकेर कोंकणीक पुनर्जीव दिल्ल्या फ्राद. माफे विद्वांवसान आपलो आत्मो सर्वेस्पराक ओंपसून दिलो.[41]

1930 जानेर 15 तारकेर, सां. लुवीस कॉलेजीच्या सुवर्णोत्सवाच्या संदर्भार फ्राज. माफेचीं हाडां कासरगाड इगर्जेंत आसल्लीं तीं सन्मानान हाडून कॉलेजीच्या म्हाल आलतारीच्या मेटां सकयल मातयेक पायलीं.

फ्रा./माफे मंगळुराक आइल्लो इंग्लेज आनी येरोपी शिकपाच्या मिसांवाक तरी ताणें आमची भास कोंकरणीक कोनशांत थावन मनशांत हाडली. मंगळुरगारांच्या कोंकणी भाशेचें संशोधनकरून कोकंणी भाशेक एक धनादीक बुनयाद ताणें आपल्या व्याकरण आनी वाक्सरे द्वारीं दिली.

धीर बापा, कोंकणी लिखितगार आनी भाशाभिमानी सासणाक तुका वर्णून आर्गां दितात कोंकणी भाशाभिमानी!

## 2.3 कोडियालबैल छापखानो

जेज्वेतांनी मंगळुराक आइल्लेंच धार्मीक आनी सामाजीक चटुवटिकेंनी

मेतेर जावन, सां. जुजेचें वर्कशोप, फादर मुल्लराचीं आस्पत्र, सां. लुईस कॉलेज आनी कोडियांळबैल प्रेस इत्यादी संस्थे उगडले.

कोडियाळबैल प्रेस सुरू करूंक थोडीं कारणां आसल्लीं. मंगळुरांत प्रोतेस्तांतांचें एक प्रेस त्या वेळार आसल्लें आनी जेज्वेतांक गरज आसल्लें सक्कड त्याच प्रेसांत छापूंक जाय आसल्लें. पास्तोरलां आनी सर्क्युलरां, आडळत्याच्यो आनी हेर संगती छापूंक थंयसर वेची गरज आसा म्हण जेज्वेतांक भोगतालें. त्या शिवाय प्रोतेस्तांत, कथोलीक इगर्जे विरोध कडतिल्यो आनी हातपत्रां फायस करून वांटताले.[42] आनी ह्या अपप्रचारा विरोध झुजोंक कथोलिकांक वाट नातल्ली. ही गरज समजाल्ल्या जेज्वेतांनी आपलेंच एक प्रेस आसा करूंक चिंतलें आनी 1882 इसवेंत मंगळूर मिसांवाचो प्रोक्युरेटर जावन आसल्ल्या फादर आंजेलो मुट्टी जे. स. हाणें कोडियाळबैल प्रेस सुरू केलें आनी सां जुजेक समर्पून दिलें. सां. जुजेचें प्रेस म्हण सुरवेर ताका आपयताले तरी सांतानाचें वा धार्मीक नांव दिल्यार प्रेसाचे अभिवृद्धीक आडखळ जायत म्हण चिंतून सां. लुईस कॉलेज आसल्ल्या जाग्यार प्रेस सुरू केल्ल्यान, ह्या जाग्याचें नांवच प्रेसाक दिलें.[43]

उपरां कोडयाळांत मानेस्त आलबर्ट अलेक्झांडर सोजान हंपन कट्ट्यार कोहिनूर प्रेस सुरू केलें. ह्या प्रेसांत 'समाजीचो दिलो' पत्र, 'उजवाड' आनी इन्नीतर साहित्याचीं पत्रां, कडतील्यो छापताले. त्या वेळार कोडयाळांत चड उणे पांच छापखाने आसल्ले. ते म्हळ्यार बेसील मिशीन, कोडयाळबैल छापखानो, सिटी प्रेस, शारदा प्रेस आनी कोहिनूर प्रेस.

## 2.4 इंग्लीश शिकप आनी कोंकणी चळवळ

आधुनीक समाजेत शिक्षण व्यक्तींक समजीक प्रतिश्ठा आनी उंच मट्टाक वाट खणून दिता जाल्ल्यान आपणाचें आडळतें शाबीत उरवंक ब्रिटिशांनी शिक्षण एक युक्त हातेर (हत्यार) जावन घेतलें आनी अशें ह्या इंग्लीश इस्कोलां सुरू करूंक प्रोत्साह दिलो. आनी अशें ह्या इंग्लीश इस्कोलांनी जेंटलमन क्लार्क ब्रिटिशांच्या आडळत्यांत उन्नत हुद्द्यांत पावले. ह्या लोकांचेर

कशें ब्रिटिशांनी मौल्यां उबारलींगी तशेंच ह्या शिकपी मनशांनी ह्या दौलते वरवीं साद्या मनशां वयर घोड्या सवारी केली. इंग्लीश भाशेक, न्हेसपाक, वस्तूंक गौरव चडलो. इंग्लीश शिक्षण जोडिल्ले चडावत व्यक्ती इंग्लीश लोकांचे आटनेट अनुकरण करूंक आयते जाले. ह्या सबंध कारणा निमतीं तवळ मंगळूरच्या मातबाऱ्या घरांनी चडावत इंग्लीश उलयताले जाल्ल्यान, कोंकणी तांची मायभास उलवंक लजेले आनी अशें कोंकणी अशिकपी जावन आसच्या चाकरांनी वापरूंची भास जाली. ह्या आडेबागेच्या शिकपी लोकांनी ह्या तांच्या मायभाशेक वेगीं फातोर घालून लगाड काडचें बरें अशें चिंतताले. पूण हळ्ळयांनी आमचो नाडकार लोक कोंकणी मायभासच उलइल्ल्यान ही भास नास करूंक तांकां जालें ना.

जेज्वेतांनी 1880 शींत सां. लुईस शिक्षण संस्थो प्रारंभ केल्लोच आपोस्तालीक कार्मेल धार्मीक भयणींनी बोळारांत सांत ॲन चलयांचें प्रथम इंग्लीश इस्कॉल उगतें केलें. अशें ह्या वरवीं कोंकणी क्रिस्तांवांक इंग्लीश शिकपाची ओड उब्जाली. पूण कोंकणीचे नशिबय त्याच वेळार फुलोन आयलें. जेज्वेतांनी 1882 इसवेंत कोडियाळबैल छापखानो स्थापन करतांच, सुरवेर ल्हान ल्हान कडतिल्यो रोमन अक्षरांनी छापताले. कन्नड छाप्याक्षर त्या वेळार ह्या छापखान्यांत नातल्ल्यान रोमन अक्षरांनी छापताले. सुरवेच्या पंचवीस वर्सांन कोडियाळबैल छापखान्यांत छापल्लीं चडावत पुस्तकां आनी कडतिल्यो शास्त्राक आनी भक्तीपणाक संबंध जाल्ल्यो जाल्यारय क्रमेणा कानड्या अक्षरांनी पुस्तकां छापूंक सुरू केलीं. फ्राद माफेयीची वाक्सरी आनी व्याकरण 1883 इसवेंत पयलेंच बासेल मिशनाच्या छापखान्यांत छापल्लीं. 1884 इसवेंत बेंगळूर थावन कन्नड छाप्याक्षरां हाडवन कन्नड लिपिचो प्रथम कोंकणी बूक फायस केलो आनी ते जावन आसा सबार वर्सां प्रयोगांत आसल्लो 'क्रिस्तांव दोतोरनीचो कातेकीझ्म.'[44]

रचनात्मक धा साहित्यां पयकी 'क्रिस्तांव पुराणा'क उपरांत दुसरो मान फावो जाता. 'रिगलो जेजू' म्हळ्ळया प्रख्यात कंतिगेक हैदर अलीच्या

काळार परिंगपेट अर्कोळ गुरू म्हण नांव व्हेल्ल्या फा. ज्योकीं मानुयेल द मिरांदा हाणीं ती कंतीक घडल्ली.[45]

कोंकणी लिखितां पासून वावुरललो विलायती कोंकणी अभिमानी प्रख्यात जेज्वेत फादर पोलेसे जावन आसा. हाणें बरइल्लो 'दिस पडतो सांगाती' म्हळें मागण्यांचें पुस्तक मिसाराचो बूक (मिसार वाचचो) म्हळ्ळया नांवाखाल सगळ्या दियेसेजींत विस्तरलो. 'नोव्या तेस्तामेंताच्यो मुख्य संगती म्हळ्ळें फादर पोलेसेचें आनी एक पुस्तक. त्या शिवाय 'जेजू क्रिस्ताची देख काण्घेवच्या विशयांत' म्हळ्ळया लांब नांवाखाल पांयशी वर्सां थावन सगळ्या क्रिस्तांव संवसारार प्रख्यात जाल्ल्या 'इमिटेशन ऑफ क्रायस्ट' म्हळ्ळया पुस्तकाचो हाणे तजुर्मो केलो.[46] तवळ कोंकणी भाशेचो वावर करून आसल्ल्या फादर ग्रेगोर कुवेलीन 'मरी म्हजी माय', 'पवित्र काळजाचो म्हयनो' पुस्तकां प्रगट केली. ह्या शिवाय थोडीं गितां गायानां ताणें घडलीं. त्या पयकीं 'मरियेक होगोळसियां', 'मरिये पोर्तीय आमचेर' आनी 'ये मरिये तुजें नांव' प्रत्येक सोबायेचीं.[47]

विसावें शतमान उदेवच्या वेळीं कोंकणी भाशेच्या मोगान भरल्लें, दुर्बळ्या कोंकणी लोकाक कोंकणी वाचूंक आनी बरवंक शिकवंक जाय म्हण उर्बल्ले दोग सेकुलार पाद्री भायर सरले. एकलो जावन आसा मोंसिन्योर मिंगेल प्लासीड कुलास आनी एकलो मोंसिन्योर रायमूंदु मास्करेन्हस. दोगय जिवान दिंडे तशे तकलेन हुशार. दोगांयनी मंगळूर दियेसेजीर आलंकार हाडचे जैत संस्थे स्थापन केले. पयल्यान सांत आंतोनीचो आसरो; आनी दुसऱ्यान बेथनी भयणींचो (माद्रींचो) मेळ. दोगांयनी कोंकणी नवीच शिकतेल्यां खातीर सादे पाठ-बूक बरयलें.[48]

मोंसिन्योर कुलासाचीं पुस्तकां 'जेजूचो मोग' कोंकणी भाशेचें 'प्रथम पुस्तक' आनी 'बाळकांची मेटां' ह्या शिवाय साबार गितां ताणें बरयल्यांत. ह्या पयलीं ताचें 'खुर्सा मुळी दुखी माता' आनी 'गुपीत म्हज्या देवा तुका नमस्कार' प्रत्येक सोबायेचीं जावन आसात.[49]

मोंसिन्योर रायमूंदु मास्करेन्यस हांणी केल्ली कोंकणी भाशेची सेवा विशेश जावन आसा. इस्कोलाक वचानासतां घराच वाचूंक शितकेल्यां खातीर ताणें 'पयलें पुस्तक' बरयलें. हांतलो हर एक पाठ भाशेशिवाय बरी चाल शिकयता. त्या पयकीं 'नमान आकवार मरिये' 'सक्कड सांगाता मेळया' 'देवा दयाळ काकुळतिच्या' म्हळ्ळीं लोका मोगाळ गितां प्रख्यात जावन आसात.[50] पूण मो. मास्करेन्यसाची जैत कोंकणी कृती जावन आसा सगळ्या नोव्या तेस्तामेंताचो तजुर्मो. त्या शिवाय सायबिणीचो ल्हान ओफिस आनी मेल्ल्यांचो ओफीस ताणे भाशांतर केल्यात.

हे दोग मोंसिन्योरांचो ह्या परीं कोंकणीचो वावर चलोन आसतां, पोंपय सायबिणीचो भक्त म्हण नावाडल्लो फादर लुईस सोझ आनी एका वाटेन मायभाशेक लब्दालो. कोंकणी भाशेंतल्यो गादी (म्हण्यो), उमिण्यो, पदां, होवयो आनी वेर्स इत्यादी बरपार नासतां गांवार चालू आसल्ल्यो सक्कड जायते वांवटीन एकठांय करून एका पुस्तका रुपार फायस करून कोंकणी चळवळीची समय पेटयली.[51]

## 2.5 'कोंकणी दिर्वें' स्थापन



कोंकणी भाशेपासून प्रत्येक म्हिनत काणघेल्ल्या पाद्रीं पयकीं जेजूच्या सभेचो फादर बाझील रुझार प्रमूख जावन आसा. ताणे कोंकणी भास गुंडायेन शिकोन भाशे विशयांत चडताव माहेत फावो ते परीं दिवंक विशेश म्हिनत काडली. ताची लिखितां पयकी ताचो नावाडदीक लिव्र 'जेजूचो कुरोव' भारी नावाडदीक जालो. क्रमेणा कॉलेजींत हाणे भुरग्यां थंय ओंपल्लें कोंकणी

लिखितांचें बीं किर्लोक सुरू जालें. तरणाट्यां मदें उमेद उब्जाली, सुरू करूक एक वर्तमान पत्र. तेवीस चोवीस वर्सां प्रायेचे दोग तरणाटे सांगाती 1912 इसवेंत मे म्हयन्याच्या सुर्वेर कदळे पदवार भोंवोंक गेल्ले पाटीं येताना, तांचे पयकीं एकल्यान म्हळें :

*"आमच्या नाड्यार नेणारी लोका खातीर आमी कांय पुणि करीजे, म्हाका मन आसा एक कोंकणी भाशेचें मासीक पत्र सुरू करीजे म्हण. पूण करचें कितें? पयशे नात."* तक्षणा ताचो सांगाती म्हणा लागलो. *"तशें जाल्यार हांव आसां. म्हाका कोंकणी भास येना, म्हज्यान बरवंक नजो. तूं बरयताय जाल्यार हांव छापसूंचें आनी वांटचें पळेतां."* तेच घडये आलोचन घट जावन 1912 माय म्हयन्याच्या पयल्या सुक्रारा कोंकणी दिर्व्यांचो पयलो आंको भायर सरलो. हें नोवेसांव पळेवन गांवार एक गलाटोसो जालो. कित्याकगी म्हळ्यार हें जावन आसलें पयलें कोंकणी पत्र आमच्या जिल्ह्यांत प्रगटिल्लें. ते दोग तरणाटे जावन आसात आमच्या समाजीचे शास्वीत कृतज्ञता फावो जाल्ले श्री लुईस मास्कनेन्य, कोंकणी दिर्व्यांचो स्थापक संपादक आनी श्री लुईस कण्णप्प, पयशांनी आदार दिल्लो कोंकणी नेणासल्लो कोंकणी भक्त. कण्णप्पा त्यावेळार कॉलेजींत मेस्त्री जावन आसल्लो. उपरांत बेळ्ळारी जिल्ल्याचो विद्या इलाखेचो ऑफिसर जावंक पावलो.[52]

1912 इसवे माय म्हयन्यात कोंकणी दिर्वें पत्र सुरू जाताना त्या सुर्विल्या आंक्यांत सुरवातेचेंलेखन ह्या परीं आसा :-

***'माय म्हयनो 1912'***

***(i) 'माय म्हयन्याच्यो खुशालायो'***

*'आयलो माय म्हयनो आनी सांगाताच ताचे दुलोब सांगाती संतोस, जे आमचें मोन उल्लास करतात. इस्कोलाच्या भुरग्यांची, परिक्षा जाली, आनी ते आतां सुडाळ भोंवतात, आतां काजूच्या रुकाचे तकलेर थावन सकयल आसच्या आपल्या भावंडांक काजूचो पावस धाडूंक, आत्तां आंब्या रुखा मुळांत कांय आंबो पडतागी पळेवंत आन्येके घडयेन बोसले फाळूंक व्होडलीं*

*व्होडलीं पोणसाचीं शेडां. हे जिनसीं भोगतात भुरगे माय म्हयन्याचे संतोस. पूण व्होडांक कितें? तेवय तांच्या बायले भुरग्यां सांगात खुशालाय भोगतात. थोडे दीस नाडांत भुंयकडे, थोडेदीस रैलार गांव पोळेवंक आनी शेहरांत उरल्यार थंय हांगा काजाराच्या माटवांनी आनी सैऱ्यांगेर भोंवड्यो मार्न. पूण व्होड जांव ल्हान जांव, ग्रेस्त जावं, दुबळे जांव, माय म्हयनो कांयच पक्षपात करनासताना हे तीन संतोस समेस्तांक वांटता. सकाळीं फुडें तें सुकण्यांचें रंगीत गायान आनी फूल फळांनीं नेटल्ल्या रुकां झाडांची दीश्ट आनी त्याभितर सोबीत आनी आपुरबायेचें भक्तिपोण माय म्होयन्याचें आमच्या काळजांनी थंडाय हाडूंक. सांजेर पुरो जावन घरा वेताना नानांत्या रंगाचें मोवाळ मोळाब, आमचे मोतीक सौकासाय दिवंक. आनी निमाणे, दिसामोदें फुर्सत मेळ्ळयार बोरे जिनसीं वेळ खर्चूंक हें आपुरबायेचें पुस्तक "कोंकणी दिवें"*

ह्या सुरवातेच्या लेखना उपरांत संपादकाचीं उतरां प्रकट जाल्लीं हांगासर आसात तशीं दिल्यांत :-

### *(ii) 'दोन उतरां म्होजीं'*

*"सायबा म्होज्या! कशीय सुटका जाली अब्बा! कितलो काळ थावन राकोन मेल्लों कोण पुणीय पुनेकेल्लो एक मासीक पत्र सुरू करीत गाय म्होण. हें आमकां भारी गरजेचें पोळेया."*

*"... वर्तमानपत्रां निमतीं जायतो उपकार आसा म्होळ्ळयाक कांयच दुबाव ना. वाचाप जावन आसा आमचे मोतीचो उजवाड आनी खाण. तेंच नाजाल्यार मोनीस कित्या? आमच्या गुडसुलां भायर सगळ्या संवसाराच्या माथ्यार कितें सक्कड चलता म्हण कळजाय जाल्यार आमी वाचीजाय आतांच्या काळांत सर्व जातीकातींचो लोक विद्यानी आनी वावर उद्योगानी अभिवृद्ध जावन नोवी नोवी यंत्रां आनी सोदना करतासतना आमच्या लोकान आपल्यो मोती कुत्तारेंत धांकून घाल्ल्याबरी दोवोरजायगी? नाडकार बावडे कितलें आशेतातगी कांय पुणीय कोंकणे भाशेचें वाचूंक मेळतागी म्होण,*

थोड्या प्रार्थन्या पुस्तकां सिवाय, बिर्मोत तांकां कसलें वाचूंक मेळता? तांच्यो मोती वाचपाची शेळ नासताना थंयच सुकोन गेल्यात. ते सुकोन मोरताना कोडयाळगारांनी इंग्लेज गाजेट्यो वाचून खुशाल रावचेंगी? तांचो मायामोग आमका आसाजाय. ते हुशार जावन, पाल्यां पोरवां तांची हुशाराय कार्याक घालतीत जाल्यार, न्हयगी आमकांच संतोस आमचो लोक वृद्धी जालो म्होण."

"हैरांची गजाल आसों : एक वर्तमानपत्र नासताना म्हाका भोगल्ले कळवळ तुमी आयका :- तुमी जाणात एका रुकाक येथेश्ट फोळ जावन कोणीय व्होरतोलो ना जाल्यार थंयच पोडोन तें कुसता. हीच गत जाल्या म्होजे मोतीची, खळानासताना नोव्यो नोव्यो आलोचेन्यो आनी भारी भारी चिंतना म्हाका येतात. हांचे पयकी लोकाक आनी आमच्या गांवाक उपकाराक पोडचीं जायतीं आसात, लोकाक परगट कर्न तांचो फोळ काडयेन म्होळ्यार कांय उपाय आसावे? ना पाद्रीबरी पुलपुत्रार चडोन लोकाक शिकयन म्होळ्यार, रोब घाल्या शिवाय थंय रीग दिनांत. बोरोवन पुणीय मोत हाळू करीन म्होळयार, फायस करतेलेच नांत. पुस्तकां बोरोवन विकीन म्होळयार, कोड्याळचें ग्रायक कितें म्होणचें! एक पुस्तोक एकलो व्होरात जाल्यार तेंच धा जाणाकय पावता. तेदाळा बाकीच्यो प्रत्यो हांवें लोणच्याक घाली जाय. अशें कर्न खंयच्यानय वाट मेळनास्ताना, येदोळ पर्यांत फुगार जावन मेल्लों. आतां व्होड न्हय सुटका जाली. तुमकां बोऱ्यो बोऱ्यो गजाली सांगान म्होण म्हाका बोरें धैर आसा. पूण चत्राय आसोंदी जणांपुरती कोंकणी दिर्व्याची एकेक प्रती काण्घेल्या खरीत रावोनाकात. पाप बावड्या म्हालिकाचो छापसिल्यो खर्च पुणीय भोरासो करया, नाजाल्यार तो दुसऱ्या म्होयन्याक छापयना जायत. तेदाळ म्होज्या पोटार पांय आयले आनी तुमी उकळशां पोडल्यात."

(पांचाली)

संपादकाचीं दोन उतरां जाल्या उपरांत कोंकणी दिर्व्याच्या पयल्या आंक्यार 'पत्रकर्ताची लखणीक' म्हळ्ळी एक मनवी प्रकट जाल्ली ह्या परीं आसा.

## (iii) 'पत्रकर्ताची लखणीक'

*'आमच्या वाचप्या पयकी थोड्यांक कळीत आसोंक पुरो, कि असलें एक पत्र सुरू करची आलोचन सुमार देड दोन वोर्सां थावन थोड्या जणांच्या तकलेंत घुंवताली. पूण कोणय मुखार सरोंक ना, एकादवेळा फावो त्यो बरोवणक्यो मेळनासतना वांवटीर पडोंक जायत, या लोक पत्राची खायस करनासताना नश्ट पोडात म्हळ्ळया भियान. हें भियें आसचें वाजबी, आनी सहज जावन आमच्या काळजांतय तोच धको आसा. पूण सांगाताच पातयणी आमकां आसा आमचो लोक बोऱ्या कामाक वावुरच्यांक आमकां सोडन घालीसो ना म्होळ्ळी. हे पातयणेर आमी धैर कर्न, कांयच आधार नासताना हें जवाबदारीचें काम आमच्या मात्यार काण्घेलां. ह्या कामात आमी नोवेच जाल्ले वरवीं आमकां गरज आसा समेसतांनी सुधारसून व्होरची, मानादीक पाद्रिनी आनी विद्यार्थिनी तांच्यो विंचणार बरवणक्यो धाडन आनी ह्या पत्रा संबंधीं तांकां बोरीं दिसचीं सुचनां सांगून आनी हेरा लोकान तांकता तितल्यो प्रत्यो विकासारकें कर्न आनी आमचे पाडतीन आमी समेस्तांक मानवोंवक तांकता तितली म्हिनत घेतेल्यांव."*

*"ह्या पत्रा विशयांत आमची आलोचन व्होडली आसा. न्हयच म्हयन्यावार बगार तांक जाल्यार सुमानावार करूंकय आमी प्रयत्न करतेल्यांव. पूण सगळें रोमा शहर एका दिसान बांदूंक नातलें खंय. तशें सुर्वेरच संपूर्ण जावंक आमच्यान नोजो. ह्या म्होयन्यार आमच्याच खर्चार आमी छापून प्रत्यो विकूंक म्होण केल्यात. पूण कोणय घेतेल्याक म्होयन्या म्होयन्याक देड आणो दिवन मोलाक घेवंच्याकय सगळया वोर्साक इतलीच वंतिगी म्होण दिवन, मोयन्यान म्होयनो छापसिल्ल्या तक्षण एक प्रती आपल्या पांयाकडे येशे करचें भोव बरें. ह्या पासून आमी सगळया वोर्साक म्होणजे बारा प्रत्यांक एकच रुपोय वंतिगी दोवोरल्या. शहरा भायल्या लोकाक मात्र टप्पला खर्च चार आणे चडीत पोडतेले. वोर्सावदी या स म्होयन्याक वंतिगेदार जावंक खुशी आसल्ल्यांनी केदाळाय तांचीं नांवां आनी परिपूर्ण मोल विळास बोरोवन*

*सकयल दिल्ल्या नांवाक धाड्न दिवयेत."*

*'पत्रकर्ताचो विळास.'*

*'लुईस मास्करेन्य'*
*'सां फ्रान्स्काच्या कोपेला बागलांत*
*ईजै, मंगळूर शहर"*

कोंकणी दिर्व्याचो पयलो आंको पळेवन आनी वाचून लोक विज्मीत जालो. ह्या विशयांत ह्याच पत्राच्या दुसऱ्या आंक्यार (पान 47) पत्रकर्ताची लखणीक आनी वाचप्याचें पत्र प्रकट जाल्लीं हांगासर दिल्यांत :-

***(iv) कोंकणी दिर्वे आंको - 2 'पत्रकर्ताची लखणीक'***

*"आमच्या पोयल्या आंक्यान लोकान केल्ली खाय्स पळेवन आमी भोव संतोस पावल्यांव, आनी समेस्तांचो उपकार मांदतांव. जायत्याजाणांनी चड कर्न पाद्रीनीं बरयल्लीं शिपारासेचीं कागदां वाचून, गेले ते पावटी उच्चारलेलें आमचें भियें मुक्कल वास उणे जालां मोणा जाय. जागो आसल्लो जाल्यार, इतलें धैर उब्जोवचीं हीं सक्कड कागदां छापसितेल्यांक, पूण जाग्याची जाल्या अडचणी. देखून मोटवेशें एक मात्र विंचून, नमुन्याखातीर हांगा प्रगट करतांव"*

*'सां लुइसाचें विद्यामंदीर, मंगळूर'*
*माय म्हयन्याची 5 तारीक*

*'मोगाच्या पत्रकर्तांनो,*

*तुमी भोव चड मोगान घाडलेली कोंकणी दिर्व्याची पयली प्रती वाचून वोर्तो संतोस पावलों. देखून देव तुमकां जायतें बरें करूं. हांव तें पत्र चड होगळसुंची गरजच ना. साबार काळ थावन साबार जाणांनी साबार आलोचेन कर्न सद्याक सोड्ण सोडल्लें. हें 'दिर्वे' तुमी धैरान उगतें कर्न सकटांक वांटलें आनी ह्या परीं व्हडे उर्बेन लालेवन आसल्ल्यांची आशा भागयली. राणयेची नात जावन आसची आमची सुंदर कोंकणी भास ह्या तुमच्या पत्राद्वारीं वृद्धी*

*जावन येतली म्हण पातयेवंक आमकां सकटांक काराण आसा. हें तुमचें उत्तीम पत्र आमचे मोतींत उजवाड फांकोंवदी, आतम्याक सर्गींची शिकोण दिवंदी आनी आमची चाल चड आनी चड बरी करूंदी म्हण मागतां-'*

*तुमचो हितचिंतक*

*बाजील रुजार जे.स.*

***(कोंकणी दिर्वें आंको 11वो - नवेंबर 7, 1913)***

***(v) पत्रकर्तांची लखणीक***

*'हें मासीक पत्र वर्तमानपत्रा नमुन्यार करी जाय म्होण, तोंडपाशीं वा टपाला द्वारीं अपेक्षिल्ल्या आमच्या सम्स्त वाचकांका आनी मुख्य जावन हीच अपेक्षा एका प्रास चड पावटी उच्चारलेल्या आमच्या बिस्पच्चा सायबांक फुडल्या पुटावयलें परगटणें वाचून. वोर्ती खोशी भोगतेली म्होण आमी निश्चय जाणांव. आनी आमीच सुर्वेक थावन लोकाक दाखयल्ली ही आशा पुर्ती न्हय तरी तात्कालाचे तांकी प्रमाणे पुणी जारी करूंक वेतांव म्हळ्ळो संतोस आमकांच भोगता. पूण ते गोडसाणे लागोनच आमकां भितरल्यान एक करंदायेचें कंतोवणें आसा. गांवांतल्या हेर वर्तमानपत्रांबरी प्रत्येक खासकी छापखानो आमकां नासताना, या हेरां संपादकांबरी परिपूर्ण ह्याच कामार तकली खर्चूंक जावं, सहरयक मेळासारको जांन अनकूल नासताना, आमच्या दिसपोडत्या कामा वोर्त हें काम कशें चलोवचें म्हण चिंतून तकलीशी घुंवता. जाल्यारी, कसो सुर्वेर तसोच आतांय आमचो सगळो भरवसो पोयलो देवाचेर आनी उपरांत आमच्या क्रिस्तांव भांवडाचे दयेचेर दोवोर्न धयरान मुखार सरतांव आनी एक मेट काडूंक... "*

अशें कोंकणी दिर्वे जानेर 2, 1914 इस्वे थावन मंगळुरचें 'अर्धमासीक' कोंकणीपत्र जालें. ह्या पत्राची त्या वेळार म्हालीक मंडळींच्या सांद्यांचीं नांवां हीं जावन आसात.

सीं. यू. काण्णप्पा एम. ए., एल. एल. बी.

सीं. आलेक्स पायस बी.ए. एल. एल. बी.

सीं. वेनेन्शस पी कुयेल्यु, बी. ए. (आडळतेदार)

सीं. येलोयशस आय. मास्करेन्यस (संपादक)

संपादकाक सहायक जावन सीं. पी. जे. डि'सोवझा आनी सीं. जे. जे. रेगु हांकां दोगांक नमियारलेले.

**(कोंकणी दिर्वे पुस्तक तिसरें - दशेंबर 2, 1914)**

***(vi) 'संपादकाचे शरे'***

*'जानेरांत 'दिर्वे' हप्त्यावार करच्या विशयांतली आमची आलोचन कित्तून पावली म्होण आयकोंक वर्गणीदार आनी वाचपी आतूर आसतेले म्हळ्ळया खातीर वर्साच्या आखेरेच्या ह्या म्होयन्यांत पुणी ह्या विशयांत दोन शब्द आमी सांगा जाय. मोतींत घट जावंच्या आदींच ही आलोचन वाचप्या मुखार आमी घाल्ली. फकत ह्या विशयांत तांची बोरी वायट अभिप्राय मेळच्याखातीर थोडे उमेदवोंत तरनाटे खबार आयकोनच खुशी पावले आनी अभिनंदनाचीं कागदां सयत तांणी आमकां बरयलीं.*

*मद्दीम प्रायेच्या गूंड तकल्यानी, तांचे स्वाभावीक बारीकसाणे प्रमाणे, झूज मुग्दाता म्हणासर समाधान काण्घेया म्होळ्ळी बूद सांगल्या. पत्रकर्ताचें काम कर्न न्हय जाल्यार पळेवन पुणी माहेत आसल्ले बाकी थोडे, आमकां भोव चड भोर पडात म्होळ्ळया सहभावीक भियान, फावो ते सहायक मेळता म्होणासर हप्त्यावार करची आलोचन सोडया म्हळ्ळी बूद सांगतात. इतल्याच कारणाखातीर जाल्यार आमी पाटीं करतेनांव; कित्याकगी म्होळयार कामाक भियानच पोयस रावल्लो मनीस कसलेंच महाकार्यें करूंक पावना म्होळ्ळें अनभोवान आमकां शिकयलां. दुसऱ्योच तीन संगती आमचे आलोचनेक आड येतात. पोयले सुवातेर स्वंत छापखानो नासताना, आतां आमी छापसूंच्या छापखान्याचेर उशें केल्यार पत्र वेळार येत म्होळ्ळी आशा सोडीजाय. दुसऱ्या सुवातेर एकादेवेळा तांतूं पुरो पोडल्यारी, दशंब्राभितर मुगदात म्होण केल्लें झूज लांबाल्ल्या वरवीं छापखान्यांत आतां आसचें कागाद हप्त्यावार*

*पत्राक तीन म्हयने येशेंना म्हण आयकतांव. तिसऱ्या सुवातेर हप्त्यावार केल्ल्या वेळार वर्गणी थोडी पुणी चडय जाय पोडतेली. लोक झुजानिमतीं आडचणेंत आसताना, हें आमकां बरोबर दिसाना जाल्लेखातीर येवंचें सगळें वर्स, आमचें पत्र सदांचेयबरीच पाक्षीक जावन आसतेलें. झूज मुगदल्याक्षण, हप्त्यावार करची आलोचन पोरतून आमी मोतींत काण्घेतेल्यांव.'*

व्हडा उर्बेन आनी उमेदीन 1912 इसवेच्या माय म्हयन्यांत स्थापन केल्लें कोंकणी दिर्वें, एक वर्स संपयताना संपादकाचीं उतरां अशीं आसलीं. *"ह्या म्हयन्याथावन आमच्या मासीक पत्राक दुसरें वर्स लागलें. पोरूं ह्या वेळार कोणायची कसलीच कुमोक नासताना आवचीत उजवाडाक आइल्लें हें पत्र. पुरतें एक वर्स काडीत म्हळ्ळें धयर आमकां नातल्लें. जाल्यारी आमी भरवसो दवरलेल्या प्रमाणें आमच्या लोकान आमकां सोड्न घालूंक ना."*

म्हणजे पत्राच्या म्हालिकांक पत्र कशें चलात, लोक हें नवें अजाप कशें स्वीकार करीत म्हळ्ळी सुरवेर कावजेणी आसल्ली. हें पत्र दुसऱ्या वर्साक पांय तेंकताना म्हणजे जानेर 2, 1914 इसवेंत तें अर्धमासीक जालें. अशें पत्रकर्तांक आनीकय इल्लेंशें धयर आयलें. म्हणयेत. अशें तांच्या आलोचेने प्रमाणें हें पत्र तांकां हप्त्यावार करूंक भारी मन आनी उमेद आसल्ली. पूण तवळचें पयल्या म्हाझुजाचें (First world war) भिरांतेचें वातावरण आसल्ले वरवीं ताच्या उर्बेक आनी उमेदीक एक खाडूं घालून बांदून घाल्लेवरी जावन तांकां फुगासांव भोगतालें. तरी ताणीं धयर सांडलें ना. कोंकणी भाशेक मान्यताय मेळचेखातीर सांबाळ-बातें नासताना दीस रात पत्रकर्ते वावुरले आनी 'कोंकणी दिर्वें' चुकानासताना धैरान प्रकट जाते आयलें.

## 2.6 कोंकणी दिर्व्याचो उत्सव

### (i) कोंकणी दिर्व्याचें फेस्त

**(पुस्तक 5वें जानेराचो पयलो आंको 1916)**

*'कोंकणी दिर्व्याचें फेस्त - आमचें पत्र सुरू कर्न साडेतीन वोर्सां जालीं जाल्यारी, ह्या पत्राखातीर वावुरतेल्यांक एक पावटीं सांगाता मेळचो संद्राप*

*येदोळि मेळोंक नातल्लो. आवचीत सीं.आलेक्स पायस आनी सी. यू. कण्णप्पा मंगळूर आइल्ले पळेवन, उद्दारपोणी कश्टतेल्या मालीक मंडळीच्या आनी संपादकी सभेच्या सर्वांक सांगाता मेळोवन, ल्हानशें एक गद्दळ करूंक गेल्या त्या 29 तारकेर एक संद्राप जायशें केलें. कोंकणी दिर्व्याच्या मेनेजरान ताच्या घरांत ह्या कार्याची तयाराय नाजुकायेन मांडून हाडल्ली. नेमशिल्ल्या घंट्यार येवंचे आसल्ले सात जाण सांगाता मेळतच सीं. कुयेलीन तयार केल्ल्या मेजाक फावो ती मर्याद जाली, पत्र आरंभसिल्ल्या सी. यू. कण्णप्पा आनी सीं. मास्करेन्याक सीं. पी. जे. डि'सोवजान होळगसून तें आतांच्या स्थितीक पावाशें कश्ट घेतल्ल्या सीं. आलेक्स पायसाक आनी सी. कुयेलीकय मेळोवन भलायकी केली. सीं. जे जे. रेगान घरच्या येजमान - येजमान्याची भलायकी करतच, सीं. कण्णप्पान संपादकी सभेचो उपकार मानलो. चिल्लर हातांनी सुरू केल्लें हें काम सकडांच्या कुमकेन वृद्धेक येवन समेस्तांक मेचवाशें जांवदी आनी आमच्या जिल्ल्याच्या हर एका कथोलिकाच्या हातांत तें पावोन समाजीक स्थितेच्या वृद्धिपोणाक काराण जाय सारकें लांब आव्क ताका मेळोंदी म्होळ्ळेंच आमचें मागणें. सीं. इरनीस लोबान संपादकी कामाच्यो एक वांटो खुशेन वयसून घेतल्ल्याक ताचो उपकार मानतांव.'*

अशें कोंकणी दिर्व्याचें फेस्त जाल्या उपरांत 1917 इसवे माय म्हयन्याच्या दुसऱ्या अंक्या उपरांत मालीक मंडळींत बदलावण घडली. ती बदलावण कोंकणी दिर्वें छापल्ल्याबरीच हांगासर दिल्या.

***'नोव्या वर्साचें बदलाप'***

*'ह्याच म्हयन्या थावन आमच्या ह्या पत्राक पांच वर्सां भोरोन सोवें वर्स सुरू जालां. येदोळ म्हणासर ह्या पत्राच्या वृद्दिपोणाक सर्व म्हिनतेन वापुरलेल्या येडिटरानी भोलायके संबंधी थोड्या तेंपाची सुटका अपेक्षिल्ल्या वरवीं आनी मेनेजरांक एल. टी. तरबेतेक मद्रासाक वोचोंक पोडल्ल्या निमतीं ह्या दोनीय कामांची बदलावणी कर्न पत्राची मालीक-मंडळी अशी घडल्या :-*

*सीं. आलेक्स ए. पायस, बी.ए.एल.एल.बी. एडीटर आनी पब्लीशर*

*सीं. ज्योसेफ जे. रेगो, मेनेजर*

*सीं. येलॉशियस आय. मास्करेन्यस*

*सीं. वेनेन्शस पी. कुयेल्यु, बी.ए.*

*सीं. पीटर जे. डि'सोवजा*

**(ii) कोंकणी दिर्व्याचो उत्सव**

**(कोंकणी दिर्वे मे म्हयन्याचो दुसरो आंको)**

1917 इसवेंत पर्गट जाल्ल्या बातमे प्रकार :-

*'कोंकणी दिर्व्याचो उत्सोव - ह्याच मे म्हयन्याच्या सुरवेर, मेनेजर सीं. ए. पो. कुवेलीगेर मेळल्ल्या कोंकणी दिर्व्याच्या मालीक मंडळाच्या आनी संपादकी सभेच्या दुसऱ्या सभेंत सीं. पी.जे. डि'सोवजान केल्लें भाशण :'*

*'मोगाच्या इश्टांनो, आज आमी कोंकणी दिर्व्याची दुसऱ्या पावटीची पर्वण आनी पांचव्या वर्साचो उत्सव करतास्ताना, सहज जावन मोजीं चिंतना पाटीं वेतात. 1912 इसवेच्या माय म्हयन्याच्या पोयले तारकेक. त्या दीस सगळें मंगळूर विज्मित पावलें, काण्घेलें म्होण धयर मंगळूरच्या एका तरनाट्यान, फायसकरूंक 'कोंकणी दिर्वे' म्होळ्ळया नांवांचें एक कोंकणी भाशेचें पत्र. सीं. लुईस मास्करेन्य ह्या पत्राचो कर्ता म्होण दिर्व्याच्या पोयल्या आंक्यांत, आनी ताचो अधिकारी सीं. यू कण्णप्पा म्हण ताच्या तिसऱ्या अंक्यांत दिसोन आयलें. पत्रकर्तांच्या ज्ञानाच्या सामर्थेवरवीं आनी पत्राधिकाऱ्यांच्या दुडवा सहायेवरवीं उब्जल्ल्या, ह्या पत्राक वर्गणीदार जावन आनी लेखना बरोवन हेरानीय कुमोक केल्ल्या वरवीं, हें पत्र वेगींत उर्जीत स्थितीक पावलें म्हळ्ळी संगत तुमकां कळीत आसा.*

*कोंकणी भाशेचें एक पत्र मंगळुराक गरज आसल्लें म्होण आनी तें सुरू करूंक जायत्यो आलोचन्यो पोल्यो जाल्ल्यो म्होण तुमी आयकालां जावयेत. पत्राची गरज आसल्ली; कित्याक? त्या वेळार शेहरांतले थोडे इंग्लेज जाणारी मनीस आमची भास विसरोन येताले. थोडे ती उलोवंक लजताले, आनी विसरांक प्रयत्न करताले; न्हयच इतलें, सभेंत उलोंवंच्या वेळार सयत*

तांकता तितले इंग्लेज सब्द भोर्सुंचे म्होळ्ळी क्वोडा मर्यादेची संगत म्होण चिंतताले. दिर्व्याचो पोयलो आंको वाचून पोळेवन, ही भास आमकां सोमजाना म्हण कितल्या जाणानी म्होळां! पूण आतां हा! कसल्या धादोसकायेची गजाल! कोंकणी भाशेचो मोग शिकपी मनशांच्या काळजांत रिगला, आनी वर्गणीदारां पयकी अर्दा आर्द मनीस पुणी, शिकपी मनीसच जावन आसात.

पत्र करूंक जायत्यो आलोचन्यो चलताल्यो म्होण हांवें तुमकां सांगलें. पूण सुरू करूंक कोणाकच धयर मेळोंक ना. कित्याक? पत्र सुरू करचें ससार, पूण मुंदरसूंचे ससार न्हय. पूण ह्या पत्रा खातीर पांच वर्सां सावन आमी माहितीन जाणांव. हें पत्र चलोवंचे मनीस भोगतात ते कश्ट जर तर ते पोयले जाणा आसल्ले, हें पत्र ते सुरू करूंक पावतेगी म्होळ्ळी संगत भोव दुबावाची जावन आसा. सीं. कण्णप्पान मद्रास प्रेसिडेन्सी कॉलेजींत लातीन भास शिकोवंचो मानादीक हुद्दो स्वीकार करतच, पत्राधिकाऱ्याचें काम सीं. बेनेन्सीयस कुयेलीन वैसून काण्घेलें. भोव ससार तें काम म्होण आमी ताका दाखयलें; आनी नीज जावन त्या वेळार ससार आसल्लें जावंक पुरो. पूण क्रमेणा पत्र द्वि-मासीक जालें, वर्गणीदार चडले, वर्गणीवसुली करोवंचें, वर्गणिदारांक कागदां बरोवंचें, आनी म्हयन्यात उणे म्हळ्यार 1200 एड्रेस आपणेच या आपल्या घरच्या मनशांकरना बरोवंचें उचीत काम ताच्या माथ्यार पडलें. इतलेंचगी? झूज सुरू जाल्या उपरांत कागदाचें मोल चडलें. हेणे पत्र लोकाक दी जाय - तेणे वर्गणी चड करूंक उपाय ना. छापखान्याचीं बिलां तमा भारादीक जावन आयलीं. ह्या वेळार सीं. अलेक्झांडर पायस कुमोक करूंक भायर सरलो, पत्राच्या मोगा पासत बोंबयंत आनी मंगळूर एका इश्टाचें पुणी घर सोडनासतना वंतिगी जमावन रिणाचें वोजें जायतें हाळू केलें. पूण बांदून दिल्ली भुती कित्तून मोणासर पुरो? ईश्ट मंत्र कितलें म्होण कुमोक करतीत? गेले त्या दशेंब्र -जनवरींत भियान आनी थरथऱ्यान पत्राधिकाऱ्यांकडे तवोळ तवोळ दिर्वें कित्तून चलात म्होण हांव विचारताना, वेगींच दिर्वें बंद करची गरज पडतेली म्हण ताची जवाब मेळताली. जाल्यारी

*सीं. कुवेल गडबडना, ताच्या मतीची समाधान पाड करिना. आपणाच्यान हें काम चलोवंक नोजो म्हणाना. पूण उदार काळजान कोंकणी भाशेच्या मोगा खातीर भरवासो ना म्हण दिसल्ल्या वेळारीय वावुरता, आनी ताच्या थिरासाणेक इनाम मेळनासतना रावाना. सीं. ए. पायस दिर्वे छापसूंक कागदां बोंबयथावन धाडून दिता आनी दिर्व्याच्या रिणाचें वोजें म्हयन्याक सरीसुमार वीस रुपयां लेकान देंवता आनी दिर्व्याक पोरतून जीव मेळता.*

*सीं. मास्करेन्य भलायके संबंधीं पत्रकर्तापणांतली थोड्या तेंपाची सुटका मागता जाल्ल्यान आनी सीं. कुयेल्य वेगींच मद्रासाक वेता देखून, दिर्व्याच्या कामांतलें तांका निवृत्ती करची आसची गरज. ते आमचे मदले वेतात म्हणतासतना आमचो एकेक पाकाटो उसळ्ळेल्या बरी भोग्ता. जाल्यारी एक भुजावण आमकां आसा. हें दिर्वे वाटेर पोडानाशें तांचीं वोजीं सीं. पायस आनी सीं. रेग मातें मारतात आनी तीं भारादीक वोजीं हे कशें वावयतीत म्होळ्ळें ताणीं येदोळ पर्यांत दिर्व्या थंय दाखयल्ल्या उर्बेस्त कुमके वोरवीं आमकां रुजू जाता. देखून सर्वेस्वोर देव आमचेथावन वेच्या पत्रकर्तांक आनी पत्राधिकाऱ्यांक आनी तांच्या कुटमाक बरी भलायकी आनी सर्व बेसांवां दिवन दिवन तांकां सांबाळुंदी आनी नोव्यांकतांचीं वोजीं फळादीक थरान वावोवंक बळ आनी कुमोक दिवंदी!*

*आनी एकच संगत उलोवन हांव काबार करतां. दिर्व्याचीं लेखना आनिकी वृद्धी करची गरज आसा. पोरूं आमकां सीं. इर्नीस लोबु मेळोन जायतो उपकार आनी आधार जालो. ओंदूं सीं. एस. नाजरेत मेळ्ळा. ह्याच प्रमाण लेखक चडयल्यार दिर्वे वृद्धी जातेलें, वर्गणीदार चडतेले, आनी आमच्या कोंकणी मातेचें आवक आनी आनंद दिसान दीस चडतोलो."*

## 2.7 - कोंकणी दिर्व्याचो रुप्योत्सव

कोंकणी दिर्वे रुप्योत्सव आंक्यार प्रकट जाल्ल्या प्रकार :-

## '1912 - रुप्योत्सवाचो आंको - 1937'
## 'पंचवीस वोर्सां'

*'दिवें म्होळ्ळें हें अस्कत तारू कोंकणी लिखितांच्या उदकाचेर उफेवंक सोड्न आतां पंचवीस वोर्सां जालीं. हें नोवें पत्र कशें चलातगी म्होळ्ळें धयर नातल्ले वा दुबाव उलोवंचे मनीस साबारजण आसल्लें. आनी संवसाराची माहेत नातल्ल्या ह्या दोगां तरनाट्यांची ही एक पिशी आलोचन म्हण ते लेखताले. पूण देवाच्या बेंसावान आनी आमच्या पाद्रींच्या, चड जावन त्या उदार आनी विशाल ह्रदयाच्या बिसपान, पावल पेरिनीन दाखयल्ल्या बोऱ्या मनानिमतीं, सुर्वेच्या बेपरव्याच्या सुकतेंतलें आनी उपरांत विरोधपोणाच्या कठीण वादाळांतलें बचाव जालें आनी आतां रुप्योत्सवाचो संतोस भोगूंक पावलां. पोयलीं, देकून, आमचीं आर्गां फावो देवाक, दुसरीं आमच्या आत्मीक वोडिलांक आनी तिसरें आमच्या बोऱ्यालोकाक, ताणी आपले सहायेन ह्या आपल्या ल्हानशा तारवाक आदारसून आनी सुदारसून व्हेल्ल्याक."*

*उत्सवाच्या वेळार सहज जावन आमकां उडास येता पाटल्या वोर्सांचो. पंचवीस वोर्सां आदीं आमच्या कोंकणी वाचकांक पाद्रीनी बोरयल्लीं थोडीं देवासपोणाचीं पुस्तकां शिवाय दुसरें वाचाप कांयच नातल्लें. हें पोळोवन 1912 इसवेंत बेंदूर फिर्गजेच्या दोगां तरणाट्यांच्या मोतींत एक लोकोपकारी आलोचन आयली. मि. लुईस मास्करेन्य, जो आतां परोपकारी कामांनिमतीं समेस्तांक मोगाचो जावन आसा. आनी मि. यू. कण्णप्पा जो त्या वेळार कॉलेजींत मेस्त्री जावन आसल्लो आनी आतां बेळ्ळारी जिल्ल्यांत विद्या इलाख्याचो ऑफिसर जावंक पावला, हाणीं दोगांयनी आवचीत केल्ली आलोचेन फक्कर्न जारी केली. पयल्यान वहिसून घेलें बोरोवंचें (पत्रकर्ताचें) काम आनी दुसऱ्यान काण्घेली पत्राक संबंध जाल्ली सर्व हेर राटावळ. न्हय पोयल्यांच्या बगार लोकांच्या मोगान ताणी हें काम सुरू केल्लें. तांचो इरादो जावन आसलो शहरांतल्या आनी नाडांतल्या, इंग्लेज नेणासच्या कोंकणी लोकाक फावो तें वाचाप वदगायसून दिवंचो. ह्यो शेवोट कित्तून जारी*

जालागी म्हळ्ळो अंदाज करचें काम जावन आसा वाचकांचें.

हें पत्र उब्जलल्या लागायत आमच्या गांवांत जाल्लीं साबार विशेश बदलापां आमी पोळेलीं. आमच्या माय भाशेच्या आनी मायदेशाच्या मोगा थावन पोयस सरोन चड आनी चड विदेशीपोण पांगरूंक पेचाडच्या आमच्या समाजी थंय राष्ट्रीय वोडनी उब्जाली आनी वाडोन आयली. राजाडळत्या संगतीनी मात्र न्हय बगार क्रिस्तांव समाजीक संबंध जाल्ल्या सर्व राटावळींनी स्वदेशी उमेद वाडोन आयल्या. कोंकणी भास वाचतेले आनी बोरयतले आतां चडल्यात आनी परजेचीं मिटिंगां आनी समाजीक कार्यीं सक्कड आमच्या मायभाशेनच चलतात. इगर्ज मातेचो हर एक हुद्दो गांवच्या पाद्रीच्या हातांत आयला. आमचो बिस्प, विगार जेराल, कॉलेजीचो रेक्टर, माद्रींच्यो व्हडील्न, सक्कडींय गांवचींच. शहरांतल्या आनी नाडांतल्या चालती लोकाक अभिवृद्धी म्हिनत दिसां दीस चडोन येता. पंचवीस वर्सां आदीं हें बदलाप कोणेयी चिंतयेतेंगी? ह्या वाटेन एका पत्रान कित्तून आनी कितलें करयेतगी तितलें गोवजेविणे साद्या थरान करूंक दिर्वें पेचाडलां म्हण सांगोंक आमकां भोगता वोर्तीं धादोसकाय.

ल्हानपोणी आपले बोळवोंत धिगे जावन आसल्ल्यां पयकी दिर्वें प्रत्येक थरान कृतज्ञ जावन आसा. कोणाकगी म्होळयार, सुर्वेच्या पत्रकर्ताक आनी आडळतेदाराक शिवाय, जेजूच्या सभेच्या मानादिक पाद्री बाजील रुजारीक आनी मारियान कुलासाक आनी मि. पेद्रु जुआंव सोजाक, हाणी फुरसत कर्न कश्टानी लेखना बोरोवन आदारसिल्ल्याक; मि. वेनान्सस कुयेल्य आनी ग्रेगोर मिनेजाक, हाणीं आडळतें चलोवंच्यांत चुक्यां मुक्यां दिल्ल्या सहायेक. भोलायके या कामा संबंधी सुरवेचे मनीस एक एकलोच निवृत्ती जाताना, पत्राचें सगळें वोजें देवलें दोगां कुव्या सारक्या मानायांचेर, आनी हाणी मारिल्लो खांद येदोळय सोदूंक ना. ह्या उत्सवाच्या समयार दिर्वें प्रत्येक थरान उपकार मानता मि. जुजे रेगाचो. पत्रकर्ता झेमेवंदी, बरपेली निदोंदीत या वर्गणीदार आपालिपा खेळोंदीत, दिर्वें येदोळच्याक चुकानासताना भायर

सरलां जाल्यार दुबावाविरयत मि. रेगान दीसरात काडल्ल्या वावंटीन.

क्रमेणा हेरां बोरपेल्यानी लेखना धाडून एकल्यादोगानी गरजेच्या वेळार दुडवा-सहाय दिवन आनी छापखान्यातल्यानीं वेळार छापूंक कुमोक कर्न, दिर्वे चलोवन व्हेल्ल्याक आमी उपकारी जावन आसांव. हाचीं सकटांचीं नांवां लांगोक पुरो पडची गजाल न्हय जाल्यारी, मुख्य थोडीं. पूण ह्या समयार आमकां सागूंक सोडिजाय. पाद्रीं पयकीं मा. ।पाद्र कायतान गोंसाल, डेनीस आल्बुकेर्क, ए. आंब्रुज्जी, एल. प्रोझेरपीयु, ग्रेगोर सिकेयरा, विलियम सिकेयरा लुईस मास्करेन्यस, डब्ल्यू पिकार्दु, जेज्वेत पोर्दीश (पोड्दिचे) आनी सिल्वेस्टर मिनेझिस, जेम्स सिकेयरा, राफायेल पींतु, साल्वादोर सोवझा, रुझारियु सिकेयरा, जॉन रोद्रीगिश, फ्रान्सीस नाझरेत, पी. कर्नल, एफ, पीरिश, एल. बोथेल्यु, सी. सुआरिश, ए. माशादु, जॉन मिरांद, मानुयेल माथाइश, सिप्रियानु सोवझा, जॉन कास्तेलीन, ए.बी. पींतु आनी हेर सेक्युलार. संवसारी मनशां पयकी विलिय सिकेयरा, इर्नीस लोबु, जे. बीतोलिस, एस. नाझरेत, जे. एम रोद्रीगिश. एम. मार्तीश, पी.जे. सिकेयरा, एम. एम. पीरिश, फेलीक्स नोरोन्या, ज्योसलीनु रेगु, राव साहेब दात्तेर बोनावेंतूर कुलासु, ए.सी. सिकेयरा. जे. एस. सिकेयरा, ग्रेगोरीयु मिनेझिस, जेरोम सालदान्या, मार्सेलु सोवझा, इलारियु कॉस्ता, जेमी रेगु, कायतातु लोबु, सेवेरीनु सील्वा, कोतबर्ट सोवझा, रुडोल्फु रुजारियु, इजिदोरु कुयेल्यु, ए.व्ही. आंद्रादि, लोरेन्स इ. मिनेझिस आनी सिमांव, सिकेयरा. हांकां आनी हेरां सकटांक देव फावो तें इनाम दिवं दी म्होण दिर्वे उपकारी मनान मागता.'

सुरुलागायत हें पत्र लाभाखातीर वावरूंक ना. इतल्या लेखकांनी कश्टानीं बरयलां जाल्यार मोगा खातीर ताणी बरयलां शिवाय पयशांखातीर न्हय. हें बोऱ्या वाचपाचें 'दिर्वें' धनान सदांच रिणपेस्त आनी स्पश्ट उलोवंचें जाल्यार, छापखान्याच्यानी आमी भोगी जाय म्हण चिंतची तितली बेजाराय आमकां ना. कित्याकगी म्होळ्यार आमच्या लोका मोदें जर ह्या पत्रान कोंकणी वाचपाचो मोग उब्जासो केला, आनी आमच्या बोरपेल्यांक लेखना बरोवंची

*रूच लागयल्या आनी कोंकणी लोकाक बोरें नितळ मर्यादेचें आनी जाणवायेचें वाचप मेळाशें केलां, तर तेंच भाग जावन आसा आमचें पोरतें इनाम.'*

*'आखेर करच्या आदीं आमकां सांगोंक रजा दी जाय आमच्या पत्राचो स्वभाव सुर्वेर 1912 माय म्हयन्यांत कसो आसल्लो गी तसोच आतांय वर्तवता. गरज पडल्ल्या वेळार लौकीक संस्थ्यांक टिक करूंक आमी पाटीं सरोंकनांव. कोणायचे दया-दाक्षिणेन या भेश्टावण्याक भियेवन आमी ओगे रावोंकनांव. पूण सांगाताच कोणाय एकल्यान आमकां वांकूड केलां म्होण चिंतून आमी मेळ्ळेल्या सकटांत येटूंक वोचानांव. प्रत्येक थरान आमच्या शास्त्रीक वोडिलां विशयांत उलयताना आमी फावो त्या मर्यादिन आनी दुसऱ्यांक पाड देख दिनाशें उलोंवचो आमचो स्वभाव. तांच्या भियान म्होण न्हय (कित्याकगी म्होळ्यार ते आमचेच कुडयेचे आनी रगताचे जावन आसात.) बगार देवाच्या भियान, जो आपल्या म्होणयारां, विशयांत ससार कर्न उलयल्ल्यांक आनी तांची निंदा केल्ल्यांक कठीण शिक्षा लायता म्होळ्ळें दाखल्यांनी आमी जाणांव.*

*आमकां येदोळ म्हणासर बेसांव दिवन चलोवन व्हेल्ल्या त्याच देवाच्या नांवान, आमी आखेर करतांव आमचीं पंचवीस वोर्सां. ओट्टार पोळोवंक गेल्यार मनीस कितलो पोदवेदार आनी नावाडदीक जाल्यारय व्होड न्हय. पूण देव आमकां व्होड. सुर्वेक आनी आखैरेक आमकां जाय देवाचें बेसांव. हें जरतर आमकां आसा, सक्कड आसल्ल्या बरी; आनी तें ना जाल्यार, बाकी कितलें आसल्यारय नातल्ल्याबरी. देवाच्या वेसांवान आमी पंचवीस वोर्सां काडलीं. तोच हात सदांच आमकां आनी आमच्या सांगाता वावुरतेल्यांक सांबाळून व्हरोंदी म्होळ्ळें जावन आसा आमचें मागणें. हें आमचें अंतस्कर्नीक मागणे सर्वेश्वराच्या सिंहासना जवळ सदांच उरोंक आमच्या मोगाळ बिस्प सायबान उत्सवाच्या दिसांनी मिसां सांगोन, ते देवूम गायान कर्न, रोमाक तेलेग्राम मार्न पापसायबाचें आशिर्वाद आमकां हाड्न दिल्ल्याक ताची अपरिमीत कृपा.'*

फा.। सिल्वेस्टर मिनेझिस हाणीं कोंकणी दिर्व्याच्या रुप्योत्सव अंक्यार कोंकणी दिर्व्यची चरित्र बरयल्ली हांगासर आसा तशी दिल्याः-

*"दिर्व्याची चरित्रा"*

*- लेखक - फा. सिल्वेस्टर मिनेज*

*"कोंकणी भाशेच्या अभिवृद्धे पास्वन, पाद्री न्हय जाल्ल्या आमच्यालोकिक क्रिस्तावांनी केल्ल्या म्हिनते विशयांत एक लेखन बोरयजाय म्होण म्होजेगडे उपकार मागल्लो. पूण आलोचेन कर्न पोळेतासताना चडावत सक्कड लोकीक म्हिनत दिर्व्याच्या पंचवीस वोर्सांच्या सुताचेर गुथून काडयेत म्हण दिसल्ल्या वोरवीं, ह्या लेखनाक 'दिर्व्याची चरित्रा' म्होण नांव दिवंक काराण.*

*मि. जेरोम सालदान्य कोंकणी भाशेपास्वन वावुरला म्होण सांगल्यार कोणायकी नोवेंचशें दिसातगाय? कोंकणीन ताणे बोरयल्लें कितें आसागी म्होण कोणी विचारीत. कोंकणीन ताणे कांयपुणी बोरयल्लें हांवीय नेणा. पूण आमची माय भास वृद्धी करची उर्बा आमच्या समाजेमोदें आसा करूंक ताणीं जायतें प्रयत्न केलां. 'मेंगलोर मेगजी'नात ताणे सुरवेर थावन कोंकणी भाशे विशयांत बोरयल्लीं लेखना, कोंकणी पुस्तकां बोरयतेल्यांक ताणे दिल्लें उत्येजन, कोंकणी दिर्व्याच्या कामात ताणे दाखयल्ली उमेद - ह्यो सर्व जावन आसात रुजवाती आमच्या भाशेथंय ताका आसच्या खऱ्या ओडणेचो.*

*क्रिस्तांव पुराणाची वोळोक विस्तारच्यांत मि. जेरोम सालदान्य आदीं वावुरला आनी आतांय वावुरता. पुराणाविशयांत लेखना बोरोवन आनी भाशणां दिवन तें व्होड पुस्तक आमच्या समाजेन छापून फायस करूंक तो एक मुख्य काराण.*

*पुराणा विशयांत उलयताना आपापींच उडास येता, त्या आनेका सालदान्याचो विद्यासंपन्न आनी कवी जुजे सालदान्याचो तो तर न्हय, क्रिस्तांव पुराण आमी फायस करचेंच न्हय आसल्लें ताची विचीत्र छाती, ताची भासांची जाणवाय, ताचें कवितांचें देणे-हें जावन आसा एक विशेस आशिर्वाद देवान आमच्या समाजीक दिल्लें.*

पुराणां पास्वन मि. जुजे सालदान्यान काडल्ली वांवट साबारांक कळीत आसची गजाल. पूण शंबोर कंतिगांचो बूक संपूर्ण करच्यांतय तो वावुरला म्होण चडावोत कळीत ना. आमी त्याच बुकाचे आखरेक आसचे 'व्होड आव्क आमच्या पापा सायबाक' म्होळ्ळे उत्तीम श्लोक, इंग्लेंडांत सयत नांव व्हेल्ल्या ह्या कवेश्वरान बोरयलें म्होण सांगल्यार, आमचो लोक ते श्लोक आनी मुकार पुणी गायान करूंक सुरू करतीतगाय?

क्रिस्तांव पुराण फायस करूंक दुडवां-कुमोक दिल्लो आनेक लोकीक मनीस मि. सिमांव आल्वरीस, आनी पुराण छापून तयार करच्या कामात मि. जुजे रेगु जायतो वावुरला म्होण मि. जुजे सालदान्य आपल्या सुर्विल्या सोब्दांत रुजवात दिता.

आमचो आतांचो दोतोर्नीचो बूक एकल्या पाद्रीन आनी दोगांलोकीक क्रिस्तांवानी मेळोन तर्जुमो केल्लो म्होण सांगल्लें हावें आयकालां. शेंबोर कंतिगांतल्यो साबार कंतिगो लोका पयकी थोड्यानी घडल्ल्यो जायजाय. साबार आमचीं पोदां, पवीत्र पुस्तकांतल्या संगतीक संबंद जाल्लीं, पाद्रिनीं न्हय, लोकान घडयल्लीं म्होळ्ळ्याक दुबाव ना.

तें कशेंय जांव, "रुचीक अमृत" म्होळ्ळें पुस्तक तुमी जाणात. काव्या रुपार बोरयल्ली जेजू क्रिस्ताची जिणी ती. तांतलो पाशांवाचो भाग आमचो लोक करेज्मांत गायान करता. हें आपुरबायेचें बोरयल्लें पाद्रीन न्हय, बगर लोकीक क्रिस्तांवान; मि.लोरेन्स वाजान.

आतां आमी आमच्याच दिसांची खबार सुरू करयेत. 'दिर्वें' आसा करच्या थोड्या वोर्सां आदीं आमकां एक पत्र जायजाय, कोंकणी भाशेन एकय पत्र ना. कित्याक म्होण कितलेशेजाण उलयताले. पूण उलयताले शिवाय, एकलोय मुकार सरनातल्लो. आखरेक 1912 इसवेच्या मेयाच्या पोयले तारकेर, दोगजाण तरनाटे, "आनिकय उलोंवचेंचगी, कांय करचें आसा, आमी दोगानी मुकार सरल्यार कशें? जाल्यार जाता, जायना जाल्यार जायना म्होण जालें; खंच्याकय कर्न पोळेजाय न्हयवे? जायना, कोळणाम्होण

चिंतून करीच ना जाल्यार, जातागी?" म्होण आपणा इतल्याक म्होणोन देवाचेर पातयेवन मुकार सरले आनी तीनचार दिसां भितर, म्हयन्याच्या पोयल्या सुक्रारा, कोंकणी दिर्व्याची पोयली प्रती फायस जाली. हे दोग तरनाटे जावन आसात, आमच्या समाजीचे शाश्वीत कृतज्ञता फावो जाल्लें. मि. लुईस मास्करेन्य आनी मि. लुईस कण्णप्पा.

थोड्याच तेंपा भितर मि. आलेस पायस, आनी ताच्या सांगाता मि. वेनान्सीयस कुयेल्यु आनी मि. जुजे रेगु आपली उमेद आनी छाती घेवन दिर्व्याच्या कामाक आधार जाले. पाद्रीं आनी लोकां पयकी साबार जाणानी दिर्व्याक लेखना बरोवंक सुरू केलीं हांचे पयकी सुख्य मि. पेद्रु जुआंव सोवझा आनी मि. जुजे रेगु.

मि. लुईस मास्करेन्यान पांच वोर्सां दिर्व्याचें संपादकपोण पोळेलें. पोयलें देडवर्स पुस्तका रुपार म्हयन्यावार फायस जाल्लें 'दिर्वें' 1914 इसवे थावन पत्रा रुपार अर्दमासीक जालें. दिर्वें तयार करच्यांत मि. मास्करेन्याची छाती विशेश. ताची जाणवाय आनी विद्या, ताची गुंडाय आनी बारीकसाण, ताचे भाशेचो अलंकार आनी शैलेची सुडाळाय - हें सर्व इतलें नाजूक आनी विंचनार ताचीं लेखना वाचल्लीं तितलीं वाचयां म्होण जातात. कोणाक जरतर कोंकणी भास बोरोवंक सिकाजाय म्होण आसा, तो तीं पोयल्या पांच वोर्सांचीं दिर्वी वाचून पोळेवंदी आयल्यावार दिर्व्याक आनी आंज्याक बोरयतेल्या थोड्यांची भास पोळेताना, बोरोंवच्या आदीं मोन्सिन्योर मिंगेल कुलासाचीं पुस्तकां आनी मि. लुईस मास्करेन्याची दिर्वीं वाचून शिका म्होण हांकां सांगया शें जाता.

मि. लुईस मास्करेन्य एक कवी. कविताचें सैमीक देणें आसचो खरो कवी. ताच्या तेंपाचीं दिर्वीं वाचून पोळेया आनी तांतू मेळतेलीं थोडीं काव्यां, उत्तीम कवितांचीं 'मनीस म्होणजे कितें?' म्होळ्ळें ताचें एक ल्हानशें काव्यें मि. जुजे सालदान्यान इंग्लेज कवेश्वर मिल्टनाच्या कवनाक सरी केल्लें.

मि. मास्करेन्याक कोंकणी लिखितां पास्वन खर्चूक वेळ मेळना म्होळ्ळी

व्होड पश्चातापाची गजाल. "इजाकाचें होम." म्होळ्यार आब्रांवन इजाकाचो भेटयल्ल्या साक्रिफिसा विशयांत मि. मास्करेन्यान काव्यारुपार एक भोव लायेक नाटक बोरोवन आनी बिस्प सायबान मंजूर कर्न आतां चोवदा वोर्सां जालीं जाल्यारय तें येदोळय फासय करूंक वाट जावंकना म्होळ्ळेंच पुरो, कोंकणी लिखितां आमचो लोक कितलीं आदारसितागी म्होण सोमजोंक, बोरोंवच्याच कामाक पोडल्यार जेवंक खंय वेचें? मोलाक घेतेले नातल्यार छापसून फायसकरचें कशें? देखून आमच्या लोका मोदें वाचपाची रूच आनी ओडनी चडोवंक आमी हर प्रयत्न करूंक फावो.

मि. पेद्रु जुआंव सोवजाचें नांव आमी काडलें. हाणे सां. लुईस कॉलेजेंत मेस्त्री जावन आसतां दिर्व्याक लेखना आनी काणयो बोरोवंक सुरू केल्यो. मि. मास्करेन्या उपरांत दिर्व्याचें संपादकपोण थोडीं वोर्सां ताणे चलोवन व्हेलें. ह्या सर्वा परास चड ताचें काम खंयचेंगी म्होळ्यार कोंकणी भाशेन ताणे बोरयल्लें काणयांचे बूक. पोयले कॅनन स्मिथाचे बूक ताणे तर्जुमो केलें. 'गुलोबाचें झाड', 'पार्वो', 'आव्र' आनी सगळ्यान नावाडलोलो तो 'जेनेबीव'. ताचे उपरांत शेक्सपियराच्यो आनी हेर काणयो आनसरसून बोरोवंक ताणे धरल्यो. हांचे पयकी चड नावाडदीक 'चोड कोत्रु' आनी 'फिलूची भोंवडी'. ह्या काणयो 'कोंकणी कथा' म्होळ्ळ्या कडतिल्यानी ताणे जमो कर्न फायस केल्यो. त्या शिवाय 'केंपांचो फुगदोर' म्होळ्ळी काणी आनी 'तकलेंतलें सुकणे' आनी 'नावाडदीक वोयज' म्होळ्ळीं हांसतीं नाटकां ताणे बोरयल्यांत. इतलेंच न्हय, सांत अल्फोंन्स लिगोरीच्या दोन भक्तिच्या पुस्तकांचो तर्जुमो आनी 'मान मर्यादीच्यो चाली' म्होळ्ळें चड उपकाराक पोडचें एक पुस्तक ताणे फायस केलें. मि. पेद्रु जुआंव सोवझाची भास सादी आनी सोंपी, मंगळुरगारांची कोंकणी भासती. गरजेविणे भायल्या भासांचे आनी कश्टांचे सोब्द तांतूं मेळानांत. कोंकणी बोरोंवक शिकतेल्यानी ताचीं पुस्तकां पोयलीं वाचून पोळेल्यार बरें. पूण तीं पुस्तकां मेळचीं खंय? पोयले छापे विकून काबार जाताच दुसरो छापो करूंक मुखार सरतोलो कोण

आसा? हाय, आमच्या भाशेची गत जाल्यागी, म्होणतां!

मि. पेद्रु जुआंव सोवझा उपरांत दिर्व्याच्या वोज्याक माथें मारलें मि. आलेस पायसान, आनी आजुनी तोच तें वोजें वावयता. ताच्या कामा संबंदीं ताणें बोंबय आसची गरज देखून, मंगळूर दिर्व्यांचें काम चलोवन व्होरच्यांत कितलेशा वोर्सां थावन मि. पायसाक वोर्ती कुमोक दिल्या मि. जुजे रेगान. हाची म्हिनत न्हय जाल्ली जाल्यार दिर्वे येदोळ उरतें म्होण हांव पातयेना. मि. पायसान काडल्लीती वांव्ट विशेश. बोंबय रावोन मंगळूर काम चलोवंचें तितलें ससार न्हय. त्या शिवाय, सुरवेर कोंकणी भास बोरोवन ताका माहेत नातल्ली, बोंबयंत कोंकणी भास आयकोंक मेळची उणी. जाल्यारय कोंकणी बोरोवंक तो जायतो पेंचाडला. ताचीं लेखना दुसऱ्यांगडें तिदवूंक दिवन तांची तिदवोणी चत्रायेन शिकोन, ताणे काडल्ल्या म्हिनतेचो पोळ जावन आज सुढाल कोंकणीभास तो बोरोंवक शिकला. ताजे भासेंत थोडे पावटी इल्ली मराठी भरसोन आसता खरी. चड जावन सां. रिताचे, जिणेंत पूण उदकांतली माणकी उदाक पियेनासताना रावात वे? ताणे छापुल्ले दुसरे बूक. सां. फिलोमेनाचें नोवेन, सां. ज्यूद तादेयुसाचें नोवेन, सां. रिताचें नोवेन आनी निळशें बगदाळ.

मि. पायसान आपली वांव्ट मात्र न्हय, आपली जोडय साक्रिफीस भेटयल्या कोंकणी भाशेच्या आलतारीर. हाच्या आदीं दिर्व्या पास्वन आपणाचो खर्चाल्लो दुडू चार हजार रुपयांक मिकवाला म्होण ताणे दिर्व्यांतच आमकां कळयलां. आतांय जाल्यार दिर्व्या पास्वन प्रेसाक सुमार पांयशीं रुपय देवो जाता म्होण आमी आयकातांव. सुरू थावन दिर्व्याची चरित्रा अशीच. दिर्व्या पास्वन वावुरतेल्यांक दिर्वे मेळाना. ह्या लोकांत पुणी मेळच्याबरी ना. बोरयतेल्यांक कसलोच प्रतिपोळ लाभाना मात्र न्हय, संपादक सायबाक सदांच रिणाची करंदाय. पूण मि. पायसाचें धयर चुकात म्होळ्ळें भियें ना, 'मेल्यारय पिलिकुमेरी सोडची ना.' म्होळ्ळया बरी मि. पायस दिर्व्याक ताणे मार्न धरल्या ती मूठ केदींच सोडच्याबरी ना. परोपकारी जिणी ताची - फादर देनीस फेर्नांदाच्या

*शिक्षणाचो फोळ!*

*दिर्व्याची स्थिती अशी आसल्यार, इतले साबार तरणाटे दिर्व्याक लेखना बोरोवंक मुखार सरतात ते पोळेताना, आमच्या कोंकणी भाशे पास्वन आमी भियेंवची गरज ना म्होण दिसता. फाटल्या वोर्सांनी मि. पायस आनी मि. रेग सोडल्यार हेर साबारजाण दिर्व्याक बोरोवन आयल्यात. मेसर्स कायतान लोबु विलियम सिकेर, ग्रेगोर मिनेज, इरेनिस लोब, 'अरण्यवासी' जे. एम. रुद्रीग, एस. नाजरेत, फेलीक्स नोरोन्य, आग्रारगार आनी हेर. हे समेस्त ह्या मुखारय अशेच दिर्व्याक आनी आमच्या मायभाशेक आधार दितेले म्होळ्ळी आमची पातयेणी. सांगाताच आमच्याय कोंकणी क्रिस्तांव समाजीचे सांदे दिर्व्याचे वर्गणीदार जावन आनी आमच्या माय भाशेचे हितचिंतक दिर्व्याक ल्हानशीं पुणी दिर्वी धाडून दिवन, हें आमचें पत्र पुश्टी जावन हप्त्यावार करचें साधन चलोवंदी म्होळ्ळें आमचें मागणें. आमचे हिंदूभाव पांच स पत्रां चलयतास्तना आमच्यान एक सांबाळन व्होरोंक जायना म्होण सांगोंक आमकां कशें पुटवात?"*

कोंकणी दिर्वे कवी लुईस नास्करेन्यासान स्थापन करून सुर्वेचीं पांच वर्सां मात्र चलयले म्हण कळोन येता. इतल्या उमेदीन आनी उर्बेन आसल्लो मास्करेन्य एक्काचाणे भलायकेचें नीब दिवन संपादकपोण सोडून दिवचें पळेताना, पत्राच्या आडळत्या मंडळीच्या सांद्यां मदें कांयतरी राजकारण चल्लां म्हणोंक दुबाव जाता.

कशेंय जांव, थोड्या तेंपां उपरांत संपादकपोण वहीसल्या मानेस्त आलेस पायसान ताची जोड ह्या पत्राखातीर मोडून पत्र पंचवीस वर्सां पर्यांत आपणे बोंबय काम करून आसतानाच चलोन व्हेलें म्हळ्ळेंच एक व्हडलें अजाप. असलें एक श्रेश्ट आनी चारित्रीक प्रयत्न कोंकणी भाशेखातीर केल्लें आयकातान, आनी ह्याच संतोसान पत्रान रुप्योत्सव आचारसिल्लो पळेताना काळीज संतोसान उमाळता. पंचवीस वर्सांनी ह्या पत्रावरवीं जाल्ली बदलावण मे-2, 1936 इसवेच्या कोंकणी दिर्व्याच्या संपादकीय पत्रांत ह्या परीं उल्लेख

जाता :-

*"कोंकणी दिर्वे स्थापनाच्या काळार कोडयाळांत आमचे शिकपी आनी विद्वांवस कोंकणी भाशेक हुंगानातल्ले. इंग्लेज कातरचे मात्र शिकपी म्हण चिंचताले. कोंकणी उलंवचे पुरा नाडकार म्हण लेकताले. कोंकणी शेरमांव आयकोंचे म्हळ्यार भुजां हालयताले. कोंकणी भास उलयताना एक शब्दाक दोन चार इंग्लेज कुडसिल्यार तांचो मान चडता म्हण चिंतताले.*

*ही भास कसली? कोंकणी लोकाक म्हण दिल्ली आपुरबायेची भास ही न्हय, ही फिरंगी न्हय, देशी न्हय, ही गुस्पोड गोंदोळाची कुळी नातल्ली भास आपणाक सयत समजाना म्हण सर्वेश्वर देव म्हणता म्हळ्ळेबरी चिंतार आसल्लें. कोंकणी दिर्वे उदेल्लेंच त्या आमच्या मनोरंजीक मांय भाशेक जीव भरोन आयलो. फिर्गजे इगर्जांच्या पुलपुत्रांनी मात्र न्हय बगार तरी अपूट, सुंदर शब्दांनी गुंतून वोळल्ली भास, जमातेनी आनी सभेंनी सयत आयकोंक सुरू जाली. संस्त्यांच्यो वर्द्यो कोंकणी भाशेन बरंवक लागले. बिस्पाचें पास्तोराल सयत कोंकणी लोकाक कोंकणी भाशेन कोडयालबैल थावन भायर सरलें."*



## अध्याय तीन
# पत्रिकोद्यमाच्या वाडावळींत बांदपास

### 3.1 कोंकणी दिर्व्यांत इंग्लीश जोडली.

कोंकणी दिर्वें 1912 इसवेथावन अपूट कोंकणी आसल्लें, 1919 इसवे फेब्रुवरीच्या दोन तारके थाव ताच्या सांगात इंग्लीश जोडली. (Supplement) घेवन भायर आयलें. हाचो अर्थ इंग्लीश उलयतेले समेत हें पत्र वाचूंक आशेले आनी हें पत्र तितलेंय लोकामोगाळ जाल्लो प्रतिफळ तो म्हण खंडीत सांगयेत. त्या सुर्विल्या जोडणीत ह्या परीं ताची गरज विवरिल्या -

*"To the Reader - With this issue the Konkani Dirvem enters on a new phase of its career, the main purpose of this supplement is to discuss the questions affecting the interests of our community that do not lend themselves to being discussed in Konkani... The Dirvem will always retain its Konkani character...*



*Not very long ago a newspaper did start in mangalore which rejoiced in the title of the "Mangalore Advertiser"...*

*After several issues it died a natural death "unwept, unhonoured and unsung" but not without having done one signal service to the Konkani Dirven it popularised Dirven. The Dirven may congratulate itself if it has succeeded in educating a taste for newspaper reading among catholics, if it has taught many among the poorer class to read & write, who would otherwise have gone through life without these advantages... At last in its seventh year it be thought itself of adding a little supplement in English."*

कोंकणी दिर्व्यार इंग्लीश जोडली आसल्ल्यान थोड्यांनी ताका 'कोंकणी-आंगलो' म्हण शीण उच्चारलो. ह्या बाबतीन 1936 इस्वेच्या मे 2 तारकेच्या दिर्व्यार इंग्लेजान आइल्लें पत्र ह्यापरीं आसा.

**"Konkani Dirven - A Konkani - Anglo half - monthly".**

*- "The Konkani Dirven of 2nd May onwards comes out with the above adjunct, if it is really a Konkani-Anglo half mothly, why not call it be in the title itself? Why fight shy of 'Anglo', when English is the language of the world and is replacing French as 'lingua franca' or as an international language and our patriotism for konkani does not*

*prevent us from making English our language for our higher studies, and for our use at public meetings, and even in our homes and for prayers at our Men's Sodality meetings etc? The popular use Konkani Dirven does not convey the idea that it has an English supplement, of the existence of which many of our community are ignorant, and open public announcement of which in the title itself will attract many of them as subscribers.*

*Besides why give prominence to any language at all in the name of the paper? We have thousands of papers in the world without reference to its language, e.g. 'Navayuga' and 'Kanteerava', in Mangalore - which are Kanarese weeklies, the 'Examiner', the 'Catholic Leader', the 'Times of India', 'Hindu', 'Madras Mail', 'Stateseman' and others elsewhere in India. Why the qualification 'Konkani' was used with 'Dirven' is a wonder to me. I could call it simply 'Driven'. But if the linguistic qualification is to be insisted upon I would suggest that it be titled "Konkani-Anglo-Dirven" instead of merely 'Konkani Dirven' which suggests that it is purely Konkani paper - with possibly an occasional English supplement, I am humbly of opinion that the popularity of the Dirven among Anglo-Konkani Catholics, whose number is large and daily*

*increasing, depends upon the charge I suggest"*

*- "Jerome A Saldanha"*

ह्या लेखना उप्रांत कोंकणी दिर्वें म्हळ्ळ्या शिरो नांवांतलो कोंकणी शब्द इंग्लेजगारांनी झडयले आनी 1938 इस्वेथावन 'दिर्वें' म्हळ्ळें तकले नांव मात्र दवरलें.

Registered M. No. 1010.

English

DIR VEN

ST. JOSEPH PROTECT US

EDITOR: ALEX A. PAIS. B.A., LL.B.

Vol. XXVIII

1939

FIRST THURSDAY, SEPTEMBER 7, 1939.

No. 16.

## 3.2 'Mangalore' पत्राचो कोंकणी उपभाग

मंगळुरांत 1914 इस्वेंत प्रारंभ जाल्ल्या कोंकणी कथोलीक समुदायाचें (Catholic Association of South Kanara 'CASK') अधिकृत प्रकटन जावन 'Mangalore' (मेंगलोर) पत्र जुलय 1927 इस्वेथावन तांच्या स्थापनेच्या उगडासाखातीर हरएका 19 तारकेर प्रकट जावंक सुरू जालें. हें पत्र मंगळुरांत कथोलीक कुटमाचें आनी कथोलीक संस्थाचें मुखपत्र जावन आसतेलें म्हण सुर्विल्या संपादकियांत कळयलां.

# Mangalore 

Organ of the Catholic Assn. of S. Kanara 

*"('Mangalore' thus stands for everything in Mangalore and abroad in which all Mangalorean catholics are interested'... we hope, therefore, that this organ will be welcomed in every catholic home not only in Mangalore, but also in distant places like Bombay, Karachi and Madras and still far off Basrah and Baghdad, Uganda and Somaliland, where the sons of our community have carried its glorious traditions and shown the torch of their culture to the nations around. We invite from them correspondence and news on various matters and problems in which Mangalorean Catholics are, or at any rate ought to be, intersted)..."*

ह्या पत्रान 1933 इसवेंत, कोंकणींतलें 'उटा उटा प्रणिया' आनी 'आयका क्रिस्तांवजन', म्हळ्ळीं कांतारां क्रु.। मेरी आग्नेस साल्दान्यान इंग्लिशाक भाशांतर केल्लीं प्रकट करून आनी राव बहादूर सी.डी.जे. पिंटो बी.ए.बी.एल हाणीं *'Improvement of Konkani Literature'* (कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची वाडावळ) म्हळ्ळें लेखन बरोवन कोंकणी भाशेची व्हडविकाय पाचारली. त्या लेखनांत तो म्हणताः- *"It should be a duty and a pleasure to those who look upon konkani as their mother tongue to build up in it a literature not*

*inferior to that of the more fortunate but not more worthy sister languages."*

*There are many reasons to urge us to this course, which I may describe comprehensively as its Venerable old age, its former greatness, its excellences and capabilities. Not withstanding its present desperate condition... Konkani was apparently the language spoken in Konkan proper, and understood, if not spoken, in the rest of Sapta Konkan, just as English, the language of Great Britain, is understood throughout Bristish India."*

*"Among the most distinguished sons of Konkan were the Peshwas who belonged to the Chitpavan class of Brahmans, also known as Konkanasth Brahmans from their motherland. Starting as Prime Ministers the Peshwas eventually became Rulers of Maharashtra. Conquering Rome was, as they say, herself conquered by Greece. So conquering Maharashtra was in a way conquered by Konkan through the Peshwas. But like the statesmen they were, they adopted the Maharashtra Country and its language, just as the Norman - French sovereigns of England adopted England and its language. Thus Mahratti rose and Konkani fell."*

*'... we have a collection called "Hundred Konkani canticles"* (शेंबोर कंतिगो) *only take two of them entitled*

*'Uta Uta Praniya'* (उटा उटा प्राणिया) *and 'Aika Christao Jan'* (आयका क्रिस्तांव जन) *they are sufficient to convince us of the capabilities of our language...'*

**कंतिगेचो पयलो वेर्स कोंकणीत**

**आनी तांचें इंग्लिशान भाशांतर**

**(i) उटा उटा प्राणिया**

| | |
|---|---|
| उटा उटा प्राणिया | *Awake, Arise and turn your face* |
| सांडा सांडा संवसारा माया | *upon each wordly thing* |
| पाटी करोनि थेया | *Bow down before the Lord, adore* |
| वोळका जेजू राया | *The christ, your heavenly king.* |

***(ii)* आयका क्रिस्तांव जन**

| | |
|---|---|
| आयका क्रिस्तांव जन | *O! Christians hearken with a heeding ear* |
| लक्ष लावुनी ध्याना | *Infirm the world, and fleeting all its glow* |
| ऐसें अथीरपण | *Its treasures vanish void its earthly show!* |
| संसाराचें संसाराचें | |

*'Turning to secular fields, Konkani is famous for its songs, There is a small volume issued by the Kohinoor Press called* **"Hundred Konkani Songs"** *said to have been collected by the late Marian Vas of the Naik Vas family. There must be thousand more which remain to be published.'*

*'As for folklore..., I remember two charming stories*

*which I heard as a little boy, one entitled "The Maiden with the golden hair whom the moon wedded", and the other "The seven Brothers, and their only Sister." There must be a great many more which only await the labour of collection. Rao Saheb Dr Chavan says "The folklore is preserved intact and it is interesting to hear the oldest lady of the house telling stories to her grand children, for days together, stories which are full of mirth, curiosity, fun and pleasure."*

*'The "Anj" (....) or Konkani Messenger of the Sacred Heart and the "Konkani Dirven" will bear witness to the suitability of our language for Journalistic purposes, the works of Messrs Peter J. D'Souza and Alexander Pais, for purpose of fiction, the compositions of Mr. Cajetan Lobo for dramtic purposes...'*

***'Konkani is no less fitted for the platform and the social gathering than for the pulpit, it is equally adapted to persuade, to entertain and to Console...'***

*'The formation of a Sabha should be our first step. There are already two such or kindred institutions viz, The Konkani Literature society of which Mr. J. J. Rego is the Secretary and the Konkani Puranic Society, Bajpe of which Fr. Leander Saldanha is the President. Whether an additional institution is required or the existing ones should be encouraged is*

*a question.'*

*'In the way of the original work we may start at once the Compilation of a Konkani - English, and English. and English - Konkani Dictionary. Fr. Maffei's valuable Dictionary published half a century ago has considerably cleared the ground...'*

*'We should also know exactly where we are, what has been achieved in the past in the way of Konkani literature. For this purpose a specimen of everything that has been written or printed whether, original work or translation everything that has been handed down from past generations in the way of song, story, folklore proverb etc. should be collected and critically examined and the result codified in a sketch or, to use a more ambitious word, history of Konkani literature. Such a compilation would form a valuable guide book to prospective workers in the field of Konkani literature. The search for specimens should be carried on wherever the Konkani language is spoken, including Goa, the Kanaras, Coorg, Cochin and other Colonies of Konkani desa...'*

ह्या लेखना उप्रांत इंग्लीश आपणायलेल्यांचें मन बदलोन कोंकणी भाशे थंय आकर्शण आयलें. कोंकणी भाशे थंय आसल्लें उणेंपण गिळून, व्हडविकाय पाचारूक प्रयत्न करिलागले. ह्या प्रयत्नाचो फळ जावन 1936 इस्वेच्या एप्रील म्हयन्याथावन ह्या Mangalore पत्रार 'कोंकणी उपभाग' प्रारंभ जालो. ह्या कोंकणी उपभागांत 'संपादकांचे शरे' म्हणोन कोंकणी भागाचो

उद्देश ह्या परीं विवरिला -

**'मंगळूर पत्राचो कोंकणी उपभाग'**

**संपादकांचे शरे 12 एप्रील 1936**

'ह्या कोंकणी भागाचो उद्देश कितें?'

'सबार वर्सां थावन 'मंगळूर' म्होळ्ळें हें पत्र म्हयन्या म्हयन्याक फायस जावन आयलां. आमच्या दियेसेजीच्या काथोलिकां पासून, आमच्या समाजीच्या अभिवृद्धे पासून तें वावुरता. पूण इंग्लिशांत तें बरयतात जाल्ले वोरवीं इंग्लीश नेणारी कोंकणी लोकाक तें उपकाराना. अशें हळ्ळेंतल्या आमच्या सबार भावांक ताचें बोरेपण लाबाना. शरांतल्या लोकाक वाचाप कांय उणेना. तांका इंग्लीस कळता आनी मोन केल्यार जाय जाल्लें आनी जाय तितलें ताणी वाच्येत. पूण हळ्ळेंतल्या दुबळ्यांनी कोंकणी भाशेन बरयल्लें मात्र वाचिजाय. तें आसचेंच भोव थोडें आनी तेंय मोलाक घेंवक तांचेकडे दुडू ना. देखून तांची बिर्मोत चिंतून आमी ही नवी आलोचन केल्या. तांकां उपकारचो तसलो विंचणार, संगती आनी वार्ता म्हयन्या म्हयन्याक आमी फायस करतेल्यांव. तांकां खुशी जातेली म्हण पात्येतांव, आनी त्या विशयांत तांची अभिप्राय कितेंगी म्हण आयकोंक आमी राकोन आसांव.'

'मंगळूर' पत्राचो कोंकणी उपभाग प्रारंभ जाल्या उप्रांत ह्या कोंकणी पत्रा विशयांत, 1936 इस्वे जुलय म्हयन्यांत प्रकट जाल्ली प्रतीक्रिया ह्या परीं आसा :-

*'Our Konkani Supplement'*

*"Very Rev. Fr. Aranha, Viar vera Bantwal writes:- "Many thanks for the pamplets for circulations! they will do good to the people. They say that in Japan there are three such publications a day! Such literature diffuses useful instruction for the uplift of the people. God bless the endeavour and give fruit*

*abundantly for our people for their enlightenment."*

***Rev. Fr. D. Sequeira, Puttur, writes :-*** *"I hasten to thank you for the number of copies of the Konkani supplement of Mangalore you were pleased to send me for circulation. It is an excellent idea brought to fruition. By wide diffusion of Konkani literature, you contribute your share to rural reconstruction and to Catholic Action in the words of the Sovereign Pontiff. May your attempt be blessed with success!"*

***Rev. Fr. D.S. Coelho, Coondapoor, writes :-*** *"On the 21st June we had a special meeting of the Teachers- and members of Young Men's Sodality of the Parish - and there I explained to them (about 30 persons) the contents of your post card and of the Supplement and the interest that our Catholic Association is intending to take for the uplift of our poor brotheren of the villages. All unanimously and gratefully appreciated this benign action of the Catholic Association and promised earnest co-operation in the work.*

*The copies were distributed among the members with instruction to have them properly circulated.* ***We have lately started a Catholic*** *Reading Club here.*

*I pray to God to bless your excellent efforts to better our community."*

## 'मंगळूर' पत्राचो कोंकणी उपभाग
## 'संपादकांचे शरे' - 12 सप्टेंबर 1936

*'सोव्या म्हयन्यांत'*

*'आयच्या दिसा सोव्या पावटी हो आमचो कोंकणी उपभाग शहरांत थावन भायर सर्न वेता चडावत जावन हळ्ळेंतल्या लोकाक उपकाराची शिकोण दिवंक. हो आमचो उद्देश सुर्वेरच आमी कळइल्लो. हळ्ळेंतल्या लोकाक शारांतल्या लोकाबरी जाय जाल्लें वाचूंक मेळाना. इंग्लीश ते नेणांत आनी पत्रां मोलाक घेवन तांकां दुडवांची तांक ना. हें सक्कड चिंतून आमच्या कथोलीक एसोसियेशनान हें बोरें काम सुरू केल्लें.*

*'पाटल्या पांच म्हयन्यानी आमी फायस केल्लें वाचप्यांनी खायस केलां म्होळ्ळयाक आमका रुजवात आसा 'मंगळूर' पत्राच्या प्रत्यानी शेर्सून येवचीं पुटां शिवाय हेर 500 प्रत्यो मेकळ्यो छापसून हळ्ळेंतल्या फिर्गजांनी फुंक्याक वाटूंक आमी धाड्न दिताल्यांव. कशें जाता म्होण पोळेसर पोंद्रा फिर्गजो मात्र विंचून काडल्ल्यो. पूण साबारकडें थावन प्रत्यो पावानांत, चडीत धाडी जाय म्होण मागल्ल्या निमतीं आतां मेकळ्यो प्रत्योच एक हजार छापसितात. चडीत थोड्या फिर्गजांक आतां धाडूंक सुरू केलां. संद्राप जाल्यार सक्कडय फिर्गजांक धाडीजाय म्होण आमचें मोन.*

*'वोय, संद्राप जाल्यार. कित्याक काम बोरें जाल्यारय खर्चाविणें तें जायना. थोड्या धर्मिश्टांच्या उदार मोनान एक वोर्स पर्यांत हें कर्न पोळेंवचें म्होण येदोळच्याक आलोचेन. उपरांत तें मुंदरसुंचें आनिकय चड फिर्गजांक धाडचें, असकत आसल्ले पुश्टी करचें - हें सक्कड आमच्या वाचप्यांकडे आसा. हळ्ळेंतल्या दुर्बळां पासून आमी काडची ही म्हिनत सांबळन व्होरोंक फावो म्होण तांका दिसल्यार ते आमकां आधारसितेले म्हळ्ळी खंडीत पातयेणी आमकां आसा. ह्या संबंदी कांयीं पुणी सुचना दिवंची आसल्यार कोणेय दिवयेत. उपकारी मनान आमी घेतेल्यांव. ह्या शिवाय हळ्ळेंतल्या लोकाक उपकारचीं तसलीं, शिकपां-शिक्षणाक, आरोग्य शास्त्राक, आचार*

*विचाराक संबंद जाल्लीं मोटवीं लेखनां आमकां बरोवन धाडतेल्यांक आतांच आमची मनःपूर्वक कृतज्ञता.'*

'मंगळूर' पत्राचो कोंकणी उपभाग धर्मार्थ मेळताना, 'कोंकणी दिर्वें' पत्र, वर्साक दोन रुपय वर्गणी फारीक कर्न पत्र वाचतेले उणें जाले जावंक पुरो. ह्या वर्वीं कोंकणी दिर्व्याच्या वाडावळीक बांदपास जाल्यात म्हणच्याक 1936 इसवेंत मेयाच्या 2 तारकेर कोंकणी दिर्व्यार प्रकट जाल्ली एक वाचप्यांची अभिप्राय ह्या पर्रीं आसा :-

पत्र एक - ***'नोवें कोंकणी पत्र'***

*"मंगळूर' पत्राक आनी तें पत्र चलोंवच्या अधिकाऱ्यांक उल्लास! कोंकणी पत्रां चडोंदीत आनी वाडेंदीत! आमच्या समाजींत इंग्लेज नेणारी लोक जायतो आसा. काथोलीक चाली, काथोलीक सतां, काथोलीक राजांवां, कोंकणी पत्रां मुखांत्र हांच्या समजणेक हाडची अदीक गरज. कोंकणी दिर्वें, आंज आनी मंगळूर पत्राचो कोंकणी भाग आमच्या समाजींत कोंकणी भास वाचूंक जाणा जाल्ल्या हरएकल्याच्या हातांत पावोंदी."*

*"मंगळूर पत्रांत' कोंकणी भाग आसा केल्ल्यान कोंकणी दिर्व्याक मार पोडतागी म्हण थोडे आमचे हितचिंतक विचारतात. मंगळूर पत्रा पाटल्यान द.क.काथोलीक एसोसियेशन संस्थो आसा तसो कोंकणी दिर्व्याक आदार ना. छापखान्याक दुडू केदाळा पावात, वर्गणीदारांची वर्गणी कंय येत म्होळ्ळो हुसको मंगळूर पत्र चलोंवच्या श्रीमंताक ना. दुडू आसल्ल्यांक तें फुंक्याक वेता, दुडू नातल्ल्यांनी वर्गणी फारीक कर्न तें व्होराजाय. पूण ताका वर्गणीदार आसोदी वा ना जांवदी एसोसिएशनाच्या बलत्कारान तें चलता..."*

ह्या 'Mangalore' पत्रार सुरू जाल्लो कोंकणी उपभाग थोड्या तेंपा उपरांत तो कसो आनी कित्या बंद पडलो म्हळ्ळें कळीत जायना. हो कोंकणी उपभाग 'कोंकणी दिर्व्याक' अगळीक जावनगी? वा मुखारीं स्थापन जांवच्या पत्रा खातीर समिक्षागी? म्हळ्ळें स्पश्ट कळाना. इंग्लीश ग्रेस्तांक दुबळ्यांखातीर उब्जल्लो कोंकणीचो मोग काळजांत रोंबनासताना थोड्याच

काळांन मायाग जाल्लो नीज जावन एक बेजारसायेची गजाल.

### 3.3 जेजूच्या पवीत्र काळजाचो 'आंज'



*'जेजूच्या काळजाचो आंज'*

'कोंकणी दिर्वें' सुरू केल्ल्या वेळार म्हणजे 1912 इसवे जून म्हयन्याथावन जेजूच्या पवित्र काळजाचें देवासांव म्हयन्यावार जेजूच्या सभेचो बाप बझील रुजार बरयतालो.[53] थोडो काळ अशें चल्ल्या उपरांत मंगळूरचो भोव मानादीक बीस्प पावल पेरिनीच्या हुकमेन जानेर 1918 इसवेंत 'जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज' म्हळ्ळें म्हयनाळें भक्तीक पत्र सुरू जालें. हें पत्र कोडयाळबैल छापखान्यंत जुजे मानुयेल सुवारिसान छापसिल्लें आनी पाद्र कायतान पेद्रु गोसालान परगट केल्लें. (Editor Rev. C. R. Gonsalves S.J. St. Joseph's Seminary, Kankanady) ह्या पत्राक वर्साक एक रुपय वर्गणी. चुंगडी प्रतेक एक आणो आसल्लो. ह्या पत्राच्या सुरविल्या संपादकियांत ह्या भक्तीक पत्राविशीं ह्या परी उल्लेख आसाः

*"ह्या पत्राक 'पवीत्र काळजाचो आंज' म्हळ्ळें नांव दिलां. इंग्लेजान ताका साधारण जावन 'मेसेंजर' म्हणतात; म्हळयार खबर दिवंक धाडल्लो तसलो एक जण म्हण. 'आंज' म्हळ्ळया सब्दाचो मुली- अर्थय तोच. मनशांक कसलीय खबर कळोवंक देवान धाडल्ल्या स्पिरिताक देवाचो आंज म्हण पवित्र पुस्तकीं नांव दिलां. हेंवय पत्र जेजूच्या काळजान धाड्न दिल्ल्या एका जणा बरी ताच्या मोगाची, शिणाची, अत्रेगाची खबर तुमकां हाड्न येता. देकून 'पवित्र काळजाचो आंज' म्हळ्ळे आपूरबायेचें नांव ताका फावो म्हण*

*म्हाका दिसता. दूत म्हणयारी म्हळ्ळे दुसरेय सब्द आसात. पूण ते खंयचेय ह्या नांवां तितले म्हाका मोनाक लागोंक नात."*




ह्या पत्रांत पवीत्र काळजाच्या भक्तिपणा विशयांत आनी समडतीक संबंद जाल्ल्या हेर संगती विशयेंत जांव, सवालां विचारच्याक 'आंजाचें तप्पाल' म्हळ्ळें अंकण आसल्लें भक्तीक खबरो दिवंक पवित्र काळजाचें 'सूख-दूक' अंकण आसल्लें. पवित्र काळजाच्या भक्तिपणा विशयांत म्हयन्यावार जेराल तेसांवां, आर्गांस कंतिगो सांताच्यो जिणे कथा आनी भुरग्यां पंगत आनी इन्नीर कोंकणी कथोलिकांक संबंद जाल्ल्यो वर्द्यो प्रगट जातल्यो.

1966 इसवेंत मा./बा/ जॉन एम. मिनेझीस हाच्या काळार हो 'आंज' रोजार मायेचो आशरो मडबिद्री हांगा थावन छापून येतालो. 1966 इसवेंत (पुस्तक 50 - आंको 12) आंजाच्या सुवर्णोत्सवाच्या अंक्यार 'आंज उलयतां' म्हळ्ळया एक संपादकीय लेखनात 'आंज' पत्र पन्नास वर्सां चलोन आइल्ली कथा दिल्या.

***'जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज'***

*1966 इसवे, पुस्तक 50, आंको 12*

***'आंज उलयता'***

*"पन्नास वर्सां आदीं नतालांच्या फेस्ताच्या म्हयन्यात जेजूच्या काळजाच्या आंजान मंगळूर जियेसेजीक हाडल्ले उल्लस ह्या भागी वर्सा पर्त्यान तोच आंज तुमकां हाडता. भोव साद्या थरान कश्टां नश्टां मदें हो आंज ह्या पन्नास वर्सां मदें जियेला आनी वावुरला. कशें जेजूचे खरे पाटलावी थोडेचगी तशें ह्या आंजाचे वर्गणीदार वाचपी आनी बरयणार थोडेच जावन आसात. पत्रांच्या सालांत कोंकणी आज पर्जळोंक ना जाल्यारई थोड्यापुणी घराण्यानी आनी थोड्या मनशांच्या काळजानी ह्या आंजान पवीत्र काळजाची भुजवण*

हाडल्या, ताची वर्दी प्रगटसिल्या, ताची भक्त वाडयल्या. होच जावन आसा आज आंजाचो संतोस.

आंजाची दुर्बळकाय सर्वांक जाणा आसली गजाल. देवाच्या मांडावळींत जायजाय, ह्या पन्नास वर्सांनी आंजान दुर्बळो जावन, कश्टां आवगडांक आनी मोरच्या रिस्केर सयत पावोन वांचोन उराजाय पडलां. सुर्वेर थावन आंज पत्राक व्होडिलांनी नमियारल्ले संपादक सबार हेर राटावळींचे आनी जबाबदारींचे मनीस जावन आसले. पयलो संपादक जावन आसलो देवादीन जेज्वीत, मानादीक कायतान गोसालबाप. जायतीं जबाबदारेचीं आनी राटावळींचीं वोजीं ताच्या माथ्यार आसल्यारय त्या तेंपाच्या बीस्प सायबान अदीक मानादीक पावल पेरिनीन कोंकणी भाशेन पवित्र काळजाचो आंज उगडचें काम ताच्या खांदार घालें. संपादकी वावर तो करताना संचालकाचें काम जेज्वेत ब्रदर डोनेडा करतालो. गोसाल बापा उपरांत देवादीन बीस्प वितोर फेर्नांद आंजाचो संपादक जालो. ह्या वेळार तो भीस्प न्हय आसलो जाल्यारय, दियेसेजीचो प्रोकुरादोर, कोडियालबैल प्रेसाचो मेनेजर- दिरेक्तोर, दियेसेजीक मागण्याच्या आपोस्तलादीचो दिरेक्तोर जावन आसलो. ह्या सर्व राटावळीं मदें आंजाचें संपादकपण तो चलोवन व्होरतालो. वितोर फैर्नांद बाप दियोसेजीचो जेराल विगार जातच, आंजाचें संपादकपण, पवीत्र काळजाचो उर्बेस्त भक्तिवंत जावन आसल्ल्या मानादीक एमानुयेल मथायसाचेर देंवलें. होयी बाबडो हजार राटावळींचो मनीस. दियेसेजीचो चेन्सलर आनी मिलार इस्कोलाचो मेनेजर आनी हेर जायत्यो जबाबदाऱ्यो आसोन मोती बाप आंजाचें काम उर्बेन चलयतालो. हाणे मंगळूर दियेसेजींत जेजूच्या काळजाक रायपाठ बांदचें भक्तीपण वाडयलां आनी जेजू मोगाचो राय म्हळ्ळें व्हडलें पुस्तक बरोवन प्रगटसिलां.

मानादीक एमानुयेल माथायस रुजाय फिर्गजेचो विगार जावन गेलो. त्या वेळार मानादीक मॅथ्यू पींतु बापाक आंजाचो संपादक संचालक नमियारलो. हो सुर्वेर भिस्प फेर्नांदाचो कार्यदर्शी जावन आसलो. उपरांत दियेसेजीचो प्रोकुरादो जालो. ह्या जवबदारे शिवाय हाका आसल्ल्यो हेर साबार राटावळी

आनी ह्या सर्व राटावळी मदें आंज पत्राचें वोजें ताणें स्विकारलें. ह्या सर्व संपादकांक जायते बरयणार आंजाची सेवा करताले. हांचे पयकीं तेगां चवगांची नांवां हांगा काणसिल्यार आमची चूक जावंची ना? भोव मानादीक मोन्सियोर सिल्वेस्टर मिनेझिस बाप, देवादीन श्री लुईस मास्करेन्यस, देवादीन मानादीक जॉन कासतेलीन बाप आनी मानादीक लुईस पींतु बाप. हेरां जायत्या पाद्रीनी आनी लायकानीं गुपीत आंजाक बोरीं लेखना धाडल्यांत आनी आतांय ते धाडतात. देवादीन जाल्ल्यांचो उपकारी उगडास आमी काडतांव आनी जिवंत आसल्ल्यांचो मनपुर्वकीं उपकार भावुडतांव.

मोन्सियोर मेथ्यू पींतु भिस्पाच्या घराथावन रुजाय काथेद्रालचो फिगर्ज पाद्री जावन गेल्या उप्रांतई फिर्गजेच्या राटावळीं मदें आंजाचें संचालक-संपादकपण चलोवन व्होरतालो. आदल्या वर्गणीदारंचेर पातयेवन आंजाचें संचालकपण ताणी मुंदरसून व्हेल्लें. वर्गणीदार आपली वर्गणी आज दितले, फाल्यां दितले म्हण चिंतून फारीक करिनातिल्ल्यांचीं नांवां वर्गणीदारांच्या पट्टेंतलीं काड्न घालिनासताना तांच्या बोऱ्या मनाचेर मोन्सिन्योरान दवरल्लो भरवंसो निर्फळ जालो आनी आंजाक लागीं लागीं दोन हजारांचें रीण बसलें.

अशें म्हणताना... मोन्सिन्योर पींतु अस्वस्थ जालो. थोडे दीस कंकनाड आस्पत्रेंत रावतच आपल्या पिडे संबंदी बोंबय वेची ताका गरज पडली. संचालकपण रुजाय सोड्न, आंज भायर काडच्या कामांत आपणाक थोडो तेंप कुमक करिजाय म्हण विचारूंक आवचीत एकदीस दनपारां, जायती पुरासण भोगून तो मूडबिद्री आयलो. त्या दिसा मागण्याच्या आपोस्तलादीचो दियेसेजीचो दिरेक्तोर, 'राकण्यांचो संपादक आनी 'आमच्या मायेंचो' संपादक जावन आसल्लो मूडबिद्र्यां रोजार मायेच्या आशऱ्यांचो दिरक्तोर मा. जॉन मिनेज बाप मंगळूर गेल्ल्या वरवीं मोन्सिन्योराक भेटोंक ना. आपली विनंती आनी मूडबिद्र्यां आइल्लो इरादो तिळसून एक मयपासी पत्र बरोवन दवर्न तो पाटीं गेलो. तें पत्र आतांय आमच्या मुखार आसा आनी तें वाचप्यांच्या धादोसकायेखातीर आमी हांगा दितांव :-

*मोगाच्या फादर जॉन,*

*जायत्या कामाचीं भारादीक वोजीं तूं वावयताय म्हण हांव जाणा. जाल्यारय तुज्या राटावळीं मदें आदीं थावन आंजाक कुमक करून आयलाय. हांव बोरो ना. त्या निमतीं बोंबय वोचोंक म्हाका सांगलां. ह्या म्होज्या गरजेंत तूं आंजाच्या कामांत म्हाका कुमोक करतोलोय म्हण पातयेतां. म्होजे लागीं आसल्लीं तीन लेखना हांवें तुज्या मेजार सोडल्यांत. देवाचें आशिर्वाद तुका. "*

'तुजो मोगाचो',

'M. Pinto.'

*'ह्या पत्राक मोन्सिन्योराक जरूर भुजवणेची जाप आमी धाडली.'*

*"मोगाच्या भोव मानादीक मोन्सिनियोर,*

*आंज कितलो तो तुमचो गी, तितलोच तो म्होजो. मागण्याच्या आपोस्तलादीचें आनी खुर्सा सैनाचें हातेर आंज जावन आसा. तशें जाल्ल्यान म्होजो संपूर्ण सहकार आंजाक आस म्हण तुमी पातयेंवयेत. समाधानान तुमी बोंबय वोचोन येया. आंज भायर हाडच्या कामांत कितें करूंक आसा तें सर्व हांव खुश्येन करतां. तुमी कांय बेजाराय मोतींत दोवरी नाकात."*

'तुमचो मोगाचो',

('फा.) जॉन.'

*'बोंबय गेल्लो मोन्सिन्योर आपली पिडा गूण जांवची न्हय म्हण समजोन पाटीं आयलो. कंकनाडी आस्पत्रेंत थोडो तेंप आसोन डिसेंबराच्या तीन तारकेर 1961 इसवेंत समाधानान तो देवादीन जालो.'*

*"ह्यो ल्हान पूण तपशील संगती आमी ह्या पानानी लिखतांव दाखोवंक आमच्या वाचप्यांक कशें आंजाच्या संपादकानी तांच्या साबार राटावळीं मदीं हें पत्र कश्टांनी येदोळ पर्यांत वांचयलां आनी चलोवन व्हेलांगी म्हण, हो प्रस्ताप आमी मुंदरसूंक आपेक्षितांव."*

मा/बा/जॉन एम. मिनेझिस, 1970 इसवेंत कास्सिया फिर्गजेक वर्ग

जावन येताना, तवळ कास्सिया फिर्गजेंत विगार जावन आसल्ल्या मा./बा./वाल्दाराक हो आंज चलोवंक दिलो. फा./मार्क वाल्दाराच्या काळारय पत्राचो पर्गटणार बाप जॉन मारियान मिनेज जावन आसोन मूडबिद्री रुजार मायेच्या आसऱ्या थावनच आंज पत्र टपालाक धाडताले.

आंजाचें संपादकपण बा./मार्क वाल्दारान चलयताना तांतल्या बरपांनी धार्मीक, समाजीक, लितुरजीक आनी वातिकान विश्वसभेन जारयेक हाडल्लें नविकरण, सुधारण इत्यादी विशयांवयर लेखना बरवन परगटलीं. तेदना आंजाक वाचपी आनी वर्गणीदार चड नासल्ले. जाहिरातांय नातल्लीं. बा./मार्क वाल्दारान हो आंज एप्रील 1971 पर्यांत चलोवन व्हेलो. त्या उप्रांत तांकां एम.ए. परिक्षा दिवंक आसल्ल्यान 'आंजा'चें काम मुंदरसूंक जालें ना. ताणी हें पत्र चलवंक आडदोस मागल्यारय कोण मुखार येनातल्यान 55 वर्सां चलल्लें हें पत्र गायतालो नासताना, रडतलो नासताना पत्रिकोद्यम पडद्याथावन नपंयच जालें.[54]

गोंयांत 'दर म्हयन्याची रोटी' पत्र चलयल्ल्या बरी, ह्या पत्राची जतन घेवन अजून पर्यांत चलंवक विलेवारी केल्ली जाल्यार, आनी थोड्याच तेंपान ह्या पत्रान शंबर वर्सां आचरण करचो भागी दीस उदेतो. पूण तशें जालें ना.

'आंज' पत्र आसल्ल्यान 'कोंकणी दिर्व्यांक' मार पडतागी म्हळ्ळें भंय आसल्लें. ऑक्टोबर 1927 इसवेंत आंजाचो वर्गणीदारांचो संखो 1035क पावलो. म्हण आंजाच्या 'विविध विशयां'च्या पंगतीर कळयलां. तशेंच आंजाक जेजूच्या पवीत्र काळजाच्या भक्तिपणाचे भक्त वर्गणीदार दानय दिताले. फेब्रेर 1931 इसवेंत 'आंजाक दान' म्हळ्ळया पानार ह्या परीं उल्लेख आसा. - *"हें वर्स आमच्या इश्टांनी, आंजाक दान धाड्न बरें कर्न सुरू केलां. या म्हयन्यात 27 रुपया 6 आणे जुम्ल दान जाता. आन्येका म्हयन्यात तें तिदोडें जावंक कोण मुखार सरात! आनीकी 372 रुपाय आदले लेख कोडियालबैल छापखान्याक फारीक करूंक आसा. (ए.आ.)"*

तशें म्हणताच त्या वेळार 'आंज' पत्र नावाडदीक आसल्लें. ह्या वरवीं

कोंकणी दिर्व्याच्या वाचकांक आसल्लें, भंय निवरांवक मे 2, 1936 इसवेंत संपादकाक आइल्लें पत्र हांगासर दिलांः-

*"कोंकणी दिर्वे सुरू केल्ल्या वेळार पवीत्र हृदयाच्या मेळाचीं तेसांवां महिन्यावार तांतूं एकलो पाद्री बरयतालो. थोडो काळ अशें चलल्याउप्रांत भोव मानादीक भिस्पाच्या हुकमेन आंज स्थापन जालो. कोंकणी दिर्व्याक मार पोडलो म्होण उलोवंक लागले. आंज ताचें मिसांव चलयता. दिर्वें ताचो उद्येश चलोवन व्होरता. दिर्व्या वरवींच सगळो संवसार उजवाडा जाय म्होण आमी म्हणानांव. कोंकणी दिर्वें आसल्ल्या वरवीं दुसरीं कोंकणी पत्रां उब्जा नये म्होळ्ळीं चिंतनां आमकां नांत. एक फूल सोबोंक जायत्या नमुन्याचे रंग नाजुकायेन सांगाता मेळाजाय. तशेंच आमची समाज उत्कृश्टेक येवन कथोलीक इगर्ज मातेच्या मुकुटांत ती सोबा जाय जाल्यार ना ना त्या रंगाचीं, ना ना त्या विद्यांची प्रत्येक नमुन्यांच्या उद्देशांची पत्रां आमचें थंय उटोन कोंकणी कथोलीक समाजीचे सर्व इसवे देवाक मानवाशें खुशालभरीत करची गरज. देवान सर्व मनशांक एकाच नमुन्यांचें ज्ञान दिवंक ना. कथोलीक सतां बदलनांत पूण ताचो जीव अदल बदल करिनास्तना एकेकलो त्या ताच्या ज्ञानाप्रमाणे रंगोन विवरसिता."*

ह्या वरवीं 'आंज' पत्राक जेजूच्या काळजाच्या भक्तीपणाचो आदार आसल्लो आनी दानय मेळतालें म्हळ्ळें समजयेता. पूण 'कोंकणी दिर्व्याक' वर्गणीदारांचो आदार मात्र आसल्लो जाल्ल्यान ह्या पत्राच्या वाडावळीक बांदपास आसल्ले म्हळ्ळें ह्या वयर कळइल्ल्या उल्लेखा वरवीं कळोन येता.

## 3.4 'समाजीचो दिवो' पत्राचे कळवळे

मंगळुरांत 1937 इसवेच्या एप्रील म्हयन्याच्या 10 तारकेर 'समाजीचो दिवो' म्हळ्ळें कोंकणी- इंग्लीश नवें पाक्षीक वर्तमान पत्र सुरू जालें.

ह्या पत्राक *'दुकयलां या खोडी काडल्या शिवाय कोणेय कसलेंच बरें करूंक नजो.'* म्हळ्ळया कार्डिनल न्यूमेन हाचो ध्येय. आसल्लो म्हण पत्राच्या

संपादकियांत (पत्रकर्ताची वाक) वाचूंक मेळता *'(One cannot do good without giving offence and incurring* criticism'). *ह्या पत्रांत - खंय वेतात कोंकणी कथोलिकांनो? '(Qua vadis Konkani Catholics?)'* म्हळ्ळया माथाळ्या खाल कोंकणी क्रिस्तांवांक बूदबाळ सांगताना 'आमच्या जिल्ल्याचें वारें' म्हळ्ळया शिरोनांवा खाल 'विमानगार' म्हळ्ळो गुपीत मनीस कोडयाळच्या सुत्तुरांत भोंवडी मारून अन्याय जुल्मेच्यो खबरो आरायतालो आनी पत्रार तपशील पातळायतालो.

ಸಮಾಜಿಚೊ ದಿವೊ
SAMAJITCHO DIVO

EDITOR & MANAGER: Mr. J. B. Machado.

ವರ್ಸ: 1 | ಮಂಗಳೂರ್, 10 ಫೆಬ್ರುವರಿ 1938 | ಅಂಕೊ: 21




One cannot do good without giving offence and incurring criticism.
(Cardinal Newman)

ह्या पत्राक संपादक आनी व्यवस्थापक श्री. जी. बी. माशादु जावन आसोन चार जाणांची सलहा मंडळी (Advisory Board) आसल्ली. सलहा मंडळीचे सांदे श्री. जे.पी. रेगु - नळ्या सावकार, श्री जे.ए. सालदान्या - बी.ए.एल.एल.सी. एडवोकेट, श्री. आर.बी.सी.डी आंद्राद - व्यापारी, श्री. जे.एम. सिक्वेयरा. एम.ए.एम.एल. वकील हें जावन आसल्लें.




ह्या पत्रांत 1937 इसवे जुलाय 10 तारकेर (वर्स 1, अंको - 7) प्रगट जाल्ल्या पत्रकर्ताची वाक ह्या परीं आसा - *'एप्रील म्हयन्याच्या*

धावेर दिर्व्याचें सांसवा वर्नी ल्हान बीं शेळो मांडल्ल्या आमच्या समाज गाद्यांत आमी वोंपुल्लें. ताका आतां तीन म्हयने जाले मात्र. तें किर्लालां पूण आजुनी ताका दोळ्यांक दिश्टी पोडची अंकर फुटोंक ना. शेळया पोंदा कुसड माती आसा म्हण आमी जाणा आसल्ल्यान आनी ती मायामोगान काडोंवच्या इराद्यान एलिसांव पंद्याटांत एकामेकाचेर थिंपी उडयल्यांगडे "समाधानेच्यो वाटो "सोदा म्हण पयल्या अंक्यांतच पोरातलें पूण, ती आमची विनंती तेल नासतां सुकुल्ल्या कानांक उदकाविणे आसोन धाळी दाकोंवच्या गाद्यांक - वोतान सुकुल्ल्या गुड्याक-पावोंक ना. कुदोळ आनी खोरें त्या पास्वत आमीच काण्घेलें आनी हाळवायेन आनी चत्रायेन खोंडलें. इतली हाळवाय आनी मोसोर रिगोवन मोटो जाल्ल्या - पयस रावोन हेरांच्या खुस्तार वाडुल्ल्या, अभिमानान फुगुल्ल्या - स्वार्थपोणान कुड्डो जाल्ल्या - चड शिकपाच्या हंकारार उणे शिकच्यांक, आनी प्रत्येक जावन "तेंच अपमानाचें हातेर आपणाचेर चलोवंक या कानून कायद्या मारफात सहज फारीकपोण घेवंक ताका असाध्य "म्हळ्ळया दृढ समजाणेंत पुस्कळ अमाल घेवन मतिभ्रश्ट जाल्ल्या - गांयदोळांक दुकलें. आतां ते गांयदोळ तांची चिकलाची माती आमचेर आनी आमच्या अस्वार्थ लेखकांचेर उडोंवक प्रयत्न करतात. असल्याक आमी सदांच तयार.

ह्या गांयडोळांक एकेकल्याकच विंचून काड्न गांवच्या रिंग्यांच्या आनी बोंबय साबांच्या उदकान धुवन नितळ करीजाईच; पूण असल्या गरजेच्या कामाक दरवड करिनाये. सवकासायेन आपूरबायेन आनी सूक्ष्मरितीन तशें करिजाय. त्या पास्वन आमच्या मिलावाचें पिकास बोडोवन ताची धोमोस गूंड तोपासारकी करतांव.

त्या परीं 'रुकाचें' मूळ एका कुशीन खोंडून वेताना तों 'रुक' बावांनाये म्होण आमची आशा; देकून सांगाताच बरी माती आनी फावो तो ईट दी जाय म्हण आमचें मन, अशें केल्यार, गलिजाय क्रमेणा उणी जावन नोव्या ईटा वोरवीं नोवीं पाळां फुटोन, त्या पाळांच्या पुस्कळ आधारान रूक बरो

*विस्तार जावन, हर एका फांट्याचेर आपुरबायेचीं सुवादीक फुलां फुलोन रुचीक फोळां पिकतेलीं.*

*ती बरी माती कसली आनी फावोतो ईट खंयचो? माती आनी ईट कोणागडे आसा? आमच्या समाजींत थोड्या जाणांचेंच धन जावन आसाती माती; आनी तांची छाती आनी शामर्ती जावन आसा तो ईट. आतां त्या धनाचो, छातयेचो आनी सामर्ते चो वायट प्रयोग मात्र जाता... लोकांचें मन आनी उर्बा खऱ्या फुडाऱ्यां तर्फेन आसतां, लोकीक दणसोण्याक हाणी कित्याक भियेजायी? हांकां दणसिलां, दणसितात, मान काडला या काडतात, म्हण चिंतून, त्या पास्वत एद्रींक पडाव करिजाय आनी फारीकपोण काण्घेजाय म्हण हांची खुशी व्हय जाल्यार, त्या खुशेक हें पत्र ताळो दिना, बगार तांचेकडे मागताः मानेस्तानो! त्या हट्ट आनी पंथाच्या चिल्लर गरज नातल्ल्या कार्यांक देवोन, तुमचें धन पाड आनी छाती निर्पोळ करिनाकात, तें धन आनी ती छाती नोव्यो नोव्यो ल्हान ल्हान कैगारिक्यो स्थापनांत खर्चिया आनी समाजींतली दुर्बोळकाय उणी करूंक प्रयत्निसिया..."*

वर्सः 1, 10 आगोस्त, 1937, अंको - 9 - पत्रकर्तांची वाक - ह्या परी आसा - *"वाचप्या! सोमोडतिचेर विरोध हें पत्र." अशी बदलाम थोड्यांची... वाचप्या! खंयच्या लेखनांत सामोडतिचेर वांकूड तुवें वाचलेंय? ...दया कर्न सांग; चुकी आसल्यार तिदवूंक आमी तयार आसांव म्हण पयल्या अंक्यांतच आमी तिळसिलां. तीच तिळसोणी आमी पुनर दितांव. खोडी काडतेले कित्याक तर वोगेच आसात? ...थंय हांगा कोणा एकल्याचें इगर्जे संबंधी लोकीक आडळतें पर्जेच्या हिताचें न्हय म्हण उगतें सांगल्यार पाद्रींक विरोध जातागी? तांच्या खाजगी जिणे वयलो पडदो आमी उकलनांव. तें आमचें काम न्हय... पूण खासगी जिणे आनी सता आनी सोमोडती भायल्या संगतींनी म्हणजे धा दाणांक लागू जाल्ल्या संगतींनी लोकाची हेळकी भायर सांगोंक नोजो म्हण खंच्या उपदेसांत सांगलां? राजांव सयत आडवार्तागी?*

*जेराल पाद्रींची ह्या पत्रान निंदा केल्यागी? ना केदींकच ना. सताच्या*

आनी समाजीच्या बऱ्याक पडच्या संगतीनी हें पत्र तांच्या पक्षेन रावतेलेंच. पूण तें अहीत संगतीनी हात घाल्न जेराल समाजीक हीन हाडचीं कामा करताना दुबळ्या धाकट्यांक कश्टिताना दया दाक्षेणेविणे तांची अनितीचीं कार्यी पिंत्रायतेले. असलीं कामा करचीं न्हय जाल्यार पत्रां कित्याक? सदांच शिफारस उलयल्यार आनी सुको सैलाप केल्यार बरोगी?

आमच्या समाजींत दीस आनी रात लोकापासत पेचाडतेले पाद्री कितलेशे आसात? सर्व होगळाप तांकां फोवो... लोका पासातच कश्टोंवचे पाद्री जायते आसात. हांकां आमी भोव वरत्या खोशेन मान दिला, दितांव आनी दितेल्यांव. पूण सांगाताच धा जाणांक संबंध जाल्ली हांची कसलीय चूक आमकां दिसल्यार, ती मात्र आमी लिपोवन सयलापजोडचो आमचो हेत न्हय.

पाद्रींची पदवी विशेश आनी ती पदवी ते अहीत रितीन चलयताना ताचे वरवीं जावचें अनाहूत व्हर्तें. राजांव आनी नीज स्थिती अशी जाल्यार पाप लोका पाडतीन रावोन त्यो चुकी दाखोवन दिवन, तिदवूंक अरत केल्यार "पाद्रींक विरोध" जातागी? वाचप्या बरें कर्न चींत आनी तुजी हेळकी दी.

तर, आनी कोणाचेर हें पत्र विरोध? दुबळ्यांक वकलांक आनी वावराड्यांक दणसुच्या अधिकांचेर आनी हांच्या सांगाता अनितीच्या संगतींनी सयत रावुल्ल्या थोड्या-भोव थोड्या-पाद्रींचेर (तांच्या हुद्याचेर वा त्या भेसाचेर न्हय) म्हणजे तांच्या कर्तुपांचेर हें पत्र बद्द विरोध. धनिकांतय कितलेशे खऱ्या क्रिस्तांव समजोणेंत जियेवन तांच्या वक्लांक या चाकरांक भोव मोगान पळेंवचे आसात. हांकां आमी खुशेन उल्लासितांव पूण चड आनी चड धना मोगान वकलांक आनी चाकरांक हेर नमुन्यार कश्टोंवच्या धनयांचेर आनी तांच्या सहायकांचेर मात्र ह्या पत्राचें झूज.

ए तूं इस्कोल मेस्त्री! कोंकणी भास इतल्या वर्सां थावन छाप्यापत्रां मारीफात चालू आसा. कुटमाच्या मनशाक तुका वनवासी कर्न धाडच्या विशयांत तुजी बोब लोका हुजरीं घालता कोण? ए तूं धनयाक तुवें आडंबरान

*चलय जाय आनी ताच्या शिवाय बाकी जाल्ल्या गेणीक  12 1/2 लेकान वाड दी जाय. हे तुजे संकश्ट उगते उच्चारता कोण? ए तूं वावराड्या! धनयाक तुजें थंय आसचो कायदो उगडापें करूंक सुरू करता कोण? ही जवाबदारी 'समाजीच्या दिव्यान' वहिसल्या आनी तें पत्र ताचो कायदो करता. तर तुमीय ह्या पत्राचेर विरोधगी? तुमकांय हें पत्र रुचानागी? दुसरे तुमची सोबाय पळेवन, कोल बांदताना हें पत्र मात्र धरयान तुमच्या पाडतीन मुखार निंदेचे सोवे आनी शिराप, हें तुमी पसंद करतातगी?"*

ह्या पत्राक कोंकणी भाशे विशयांत आसल्ली उमेद 1937 इसवे एप्रील 25 तारकेच्या 'पत्रकर्ताची वाक' संपादकियांत वाचूंक मेळता.

## *"आमची समाज आनी तिचो संघ"*
## *(Our Community and its Association)*

*"- आमच्या समाजीक जायत्यो गरजो आसुल्ल्यो, आसात आनी आसतोल्यो; देकून समाजीच्या पाडतीन सर्व हालहवाल सरकारा हुजरीं घालचे जण आसा जाय. ह्या पास्वतच आमच्या समाजीच्या थोड्या हितचिंतकांनी एकवटोन एक संघ घडलो. हाचें नांव 'केथोलीक एसोसियेशन' - कथोलीक संघ." हाचो आतांचो अध्यक्ष म्हणजे यजमानी आमचो जेरेल विगार. अध्यक्षाक पाटावळ चड आसुल्ल्यान, एक बदली अध्यक्ष दोवरला. आतां ह्या संघाचो बदली येजमानी आमचो मोगाचो दाक्तेर लोर्सू फेर्नांद.*

*हो संघ स्थापन कर्न साबार वर्सां जालीं. सर्दार वार्की, श्रीकण्णप्पा, आल्बप्ट मोंतेर, आनी शाबा शिकेर, वकील पास्कल सोवझ, आनी लईस पायस आनी थोडे त्या संघांत आसोन मेल खबरदारी पोळेंवच्या वेळार त्या संघान थंय हांगा इल्लेशें बोरेपोण केलां...*

*मनशाक कशी उलोंवक जीब जायगी तशेंच समाजीक ताचे हाल हवाल भायर तिळसूंक एक जीब गरज. ह्या कथोलीक संघाची जीब जावन आसा तें इंग्लेजान म्हयन्यावार कडतिले नमुन्याचें 'मंगळूर' (Mangalore) पत्र.*

*कोंकणी भास जावन आसा आमच्या समाजीची मां वाक. आमच्या आवयच्या उस्क्यारच ती आमी शिकतांव. इंग्लेज समाथरान कळीत आसुल्ले भोवच थोडे. हळ्ळयांनी इंग्लेज कितें म्हण लोक नेणा. कितलेशांक कोंकणी भास अक्षरां रुपार कागदार घालूंक या वाचुंकच कळाना. स्थिती अशी आसल्यारय ती समाजीची जीब इंग्लेज भाशेनच लुसू लुसू कर्न हालयली. कोंकणी भास वृद्धी करूंक ह्या संघान पेचाडिजाय आसल्लें. त्या कोंकणी शिक्षणांत तें "कोंकणी दिर्वें" मात्र वद्दाडलां आनी 7-8 कोंकणी कडतिल्यो लिखिप्यार हाका सहायक जाल्यात. ह्या संघाक आनी तो चलोंवच्या संघाच्या खांब्यांक सहज समाजीचो मोग असुल्लो जाल्यार, वर्साक 3-4 कोंकणी कडतिल्यो पूण छापूक लावन उण्या दरीर हर एका कथोलीक बिडारांत रिगाशें करयेतें. तें सक्कड कांयच ना... सस्माचें कुतांव, जरीचीं पुडवीं, उंची लुगटाचे सूट बूट घाल्न मिटिंगां केल्यार पावाना. कथोलीक म्हिनत कितें म्हण हाणी समजोंची गरज."*

## 'समाजीच्या दिव्याक' विरोधपण.

**(i) 'कोंकणी दिर्वें' पत्रार (जुलाय 16, 1937)** 'कोंकणी दिर्व्याच्या संपादकांक' म्हण 'समाजीचोच हितचिंतक' म्हळ्ळयान संपादकाक बरइल्लें पत्र ह्या परीं आसाः-

***'कोंकणी दिर्व्याच्या संपादकांक'***

*'संपादकानो "समाजीचो दिवो" फायस जावन तीन म्हयने जाले. दिवो फायस जावच्या पोयलें संपादकानी फायस जाता म्हण कळीत केल्लें. 'समाजीचो दिवो' म्हळ्ळें आपूरबायेचें नांव आयकातानाच हांव पिसवाल्लों आनी दिवो पावटी पावटी उजवाड हाड्न समाजींत जायतें बोरेपोण करतोलो म्हण पातयेवन आसुल्लो. पूण आतां कितें पोळयतोलो! सरी सुमार सक्कड प्रत्यो हांवें पळयल्यो आनी वाचल्यो. म्हाका उबगोण आयल्या म्हण सांगोंगी? आकमान जायत. सत्त सांगाजाय जाल्यार न्हय उबगोण पूण म्हाका कांटाळो आयलो.'*

*1. समाजीच्या दिव्याचो एडिटर या एडिटोरियल बोर्डाचे मेंबर सक्कड बोरे, नांव व्हेल्ले, आपवोंत क्रिस्तांव, कॉलेजींत शिकल्लें; सोडेलिटींत आदीं आसल्ले आनी आतां आसचे, कितें म्होण अशें बोरयतात म्होळ्ळें म्हाका समजाना. आमची सोमोझ आमकां शिकयता, कॉलेजींत आमकां शिकयलां, सोडेलिटींत शिकयतात, गोवळ्या आनी म्होणयारां विशयांत खोडी काडिनाये म्होण. देवाच्या म्होणयारानी चुकोन पोडयेता; सर्गीं थावन देवल्ले आंज बोडवे न्हय ते. पूण आपणाक अन्याय केलो म्हण भोगुल्ल्या वेळार, फावोत्या वडिलांगडे वोचोन ताणी मनवी करयेता आनी ताच्या तिर्पाक खालती मान घालूंक क्रिस्तांव सोमोड्तच आमकां शिकयता. अशें आसतो फिर्गजेच्या वोडिलांची आनी चड जावन मुख्य गोवळ्याची दर्याप्ती करची, ताका सगळ्या सभेमुखार गुन्यांवकार करचो, ताणी केल्ली चूक, आपूण समा म्हण सगळ्या संवसाराक दाकोंवचें हाच्याकय व्होर्तो अन्याय आसागी? नेणारी लोक आनी हिंदू... हें वाचून कितें म्होणतात? ही येदी व्होडली जवाब्दारी कोण मात्यार व्हावोयत? हें चिंतताना म्होजें काळीज धडधडता. कोन्पेसोरागडे विचारल्यार अशें बरोंवचें म्हा पाताक म्हण तो म्हणता. हाच्या वोर्तें कितें? कशें पेल्याचो म्हाल काडुल्लो पार्टी दी जायगी, तशेंच पेल्याचो आनी व्हडिलांचो मान काडुल्लो भोर्न दिवंचो वोर्तो कायदो. हांतूं सुटका आसागी?*

*होच दिवो सोबीत सुंदर उजवाड दीसो करयेत. कितलींशीं लेखना समोड्ती विशयांत, चरित्रे विशयांत, कैगारिके विशयांत, कृशी विशयांत आनी शंबोर हजार हेर वस्तूं विशयांत बोरोवयेता आनी आमच्या समोड्तीक आनी समाजीक अलंकार हाडयेता. हाच्या बदलात व्हडिलांचे मोन कित्याक दुकोंवचें आनी देवाचो शिराप कित्याक मागोन काण्घेंवचो?'*

*'समाजीचो खरोच हितचिंतक'*

**(ii) जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज - (पुस्तक - 20 सप्टेंबर 1937 - अंको - 9)** ह्या पत्रार श्री पी. बी. साल्दान्य, सेक्रेतार, कथोलीक म्हिनत

मेळान 'आंजच्या' संपादकाक धाडल्ल्या निर्णयाचो सारांश ह्या परीं आसा :-

*"समाजीचो दिवो" पत्राची अक्रिस्तांव चाल चमकाण कथोलीक म्हिनतेचो मेळ, आगोस्ताच्या 9 तारकेर आपल्या सभेंत, नापसंद करता आनी ती चाल चमकण बदलूंक त्या पत्राच्या एडिटराक मनवी करता.*

*पी. बी. साल्दान्य* — *डब्ल्यू. ई. मास्करेन्य*

*सेक्रेतार* — *प्रेसिडेंट, कथोलीक म्हिनत मेळाचो*

## समाजीचो दिवो - सप्टेंबर-10, 1937

"समाजीचो दिवो" पत्रा विशयांत म्हैसूरच्या

**'पवित्र हृदयाच्या दूताची अभिप्राई'**

दूताचो पत्रकर्ताः मा/पाद्र आय.एच.लोब

***'कोंकणी "दिर्वें" आनी "दिवो" पत्राचो वाग्वाद'***

*"मंगळूरचें 'दिर्वें' पत्र 'दिवो' पत्रागडे तर्क आरंभकर्न रणरंगाक देंवलां. 'दिवो' पत्र झुजाक भियेनास्तां पेंकाड बांदून मुखार आयलां. समाजोद्धार आशेंवच्या ह्या दोन पत्रांनी व्यर्थ तर्क रावोवन समाधानेन सभेक उचीत जाल्लीं लेखना प्रचार केल्यार. बरें जायत न्हयगी? आमी पंचवीस वर्सां थावन कोंकणी दिर्वें पत्राचे वर्गणीदार आनी नव्या वर्गणीदारांक सयत, वदगसून दिल्ले हितचिंतक, त्याच परीं आमीं 'दिवो' पत्राचे हितचिंतक जाल्यार दिर्वें पत्राक कितें नश्ट? ह्या पत्रांच्या तर्कांत प्रवेश जांवचें बरें न्हय म्हण दिसता. पूण दिर्व्यान आमच्या दुताक काराण नासतां तर्कांत वोड्ण काण्घेल्लें वाज्बी न्हय. दिर्व्याक आपल्या अभिप्रायेचेर कितलें हक्क आनी स्वातंत्र आसागी, तितलेंच (हक्क आनी स्वातंत्र) दुताक ताच्या अभिप्रायेचेर आसा. तशें जाल्ल्यान 'दिवो' पत्राक फावो तें मोल बांदचें सामर्थ दुताच्या संपादकांक ना म्हण दिर्व्याच्या 2-8-37 अंक्यांत एकल्या स्वार्त, हंकारी, आयुक्त, बोंबय वर्गणीदारांची अभिप्राई, शाबास! ए साल्मांव बुदवोंता, तुज्या जाणवायेचो इल्लोसो वांटो दुताच्या संपादकाक दया कर्न दिशीगी? पूण तुजें*

*काळें वोक्ल उडोवन 'दिवो' पत्र खंय चुकलां म्हण धैरान सांग. 'दिवो' पत्रान भावाड्ताक आनी बो-या नडत्याक विरोध जाल्लें खंयचेंच एक लेखन येदोळ पर्यांत फायस करूक ना म्हण धैरान सांगतांव. 'दिवो' पत्र पाद्री मांडाचे विरोधी न्हय म्हण घट्ट सांगतांव. ह्या उजवाडाचेर कित्याक संताप? कित्याक हे व्यर्थ कळवळे? कित्याक तें यमकोंडाचें कूप? कित्याक क्रोधभरीत रूप? कित्याक तें अनावश्यक म्हा पातक?..."*

*(तर्जुमो) (दूत, सप्टेंबर 1937)*

**समाजीच्या दिव्याक आडवारोण फर्माण :**

**I) 'कोंकणी दिर्वें' - डिसेंबर 16, 1937.**

***'बिस्पाचें फर्माण'***

*'दिवो आडवारला'*

*"आट म्हयन्यां हेवशीन थावन आमच्या मंगळूर शरांत "समाजीचो दिवो" म्होळ्ळया नांवाखाला एक पक्ष - मासीक पत्र फायस जाता. तातूंत बोरयल्ल्यो संगती आक्षेपाच्यो. तें सगळें पत्र वाचतेल्या आनी आयकातेल्या ख-या कथोलिकांक कांटाळ्याचें. कित्याक मुख्यजावन नमियारलेल्या इगर्ज मातेच्या वडिलांचो अधिकार तें पत्र नास करता. या पास्वत आमी सांगल्ली बापाळ बूद उपकाराक पोटोंक ना. आमच्या दियेसेजी थावन हें वायट निवरांवक आमी सकटांक तिळसितांव 'समाजीचो दिवो' हें पत्र वाचूंक आनी वाचल्लें आयकोंक आमी आडवारतांव. हें पत्र वाचल्ल्या आनी आयकाल्ल्या वरवीं आमच्या ख-या कथोलीक आनी भक्तीक लोकाच्या आत्म्यांक वायटाक मात्र पोडतेलें."*

*'वी. आर. फेर्नांद',*
*'मंगळूरचो भीस्प.'*

## II) Supplement to the 'Konkani Dirvem' 16th Dec 1937

*Bishop's proclamation*

***'Divo Proscribed'***

*"Since the last eight months a fortnightly paper is being published in our town of Mangalore, bearing the title of 'Samajitcho Devo'. Its contents are objectionable, its general tone is offensive to pious ears, chiefly because the authority of the lawful superiors is impugned Our paternal admonitions have been of no avail, our efforts to remove this evil from our Diocese have failed. Wherefore we hereby inform all concerned that we forbid the faithful to read that paper and to hear it read, as it can only do harm to the souls of our loyal and devout children in Christ."*

*'V.R.Fernandes',*

*'Bishop of Mangalore'*

## III) जेजूच्या पवीत्र काळजातो आंज

पुस्तक 21 जानेर 1938 अंको - 1

***'आमचीं दोन उतरां'***

*संपादकीय - "गेले त्या डिसेंबराच्या 5 तारकेर आयतारा मंगळूर दियेसेजेच्या हर एक इगर्जेंत, हर एका मिसाच्या वेळार वाचून सांगल्लें आमच्या बिस्प सायबाचें, फर्माण - समाजीचो दिवो वाचूंक नोजो आनी वाचल्लो आयकोंक नोजो म्होळ्ळें, तुमी आयकालां" सगळयांच्या तिळुवळकेक तेंच फर्माण इंग्लेज भाशेन आनी कोंकणी भाशेन आमी हांगासर पोरत्यान दितांव.*

***"Since the last eight months..........................***

*............................ devont children in Christ"*

*'V.R.Fernandes'*

*'Bishop of Mangalore'*

***"आठ म्हयन्या येवशीन आमच्या मंगळूर शहरांत....................***

***...................... अत्म्यांक वायटाक मात्र पोडतेलें."***

***'वी. आर. फेर्नांद',***

***'मंगळूरचो भीस्प.'***

*"आमचो बिस्पसायब व्हडा चतुरायेन आनी खंतीन पोळेता, ह्या आठ म्हयन्या हेवशीन फायस जावच्या 'समाजीचो दिवो' म्हळ्ळ्या पत्रावरवीं आत्म्यांक जाल्लें आनी जांवचें वायट. कित्याक, हें पत्र मुख्य जावन नमियारलेल्या इगर्ज मातेच्या वडिलांच्या अधिकाराची निंदा कर्न उलयता आनी तो अधिकार नाश करूंक प्रयत्न करता. साबार उपाय तो काण्घेता हें वायट आमच्या दियेसेजींतलें निवडूंक. पूण सगळी ताची म्हिनत निर्फोळ जावंक पावता. देखून शेकीं, आपलो कठीण कायदो वोळखून हो 'समाजीचो दिवो' वाचूंक आनी वाचल्लो आयकोंक तो आडवारता."*

*"अशें आडवारूंक भीस्प सायबाक पदवी आसा. ही पदवी तोच्च इगर्ज मातेचो "कॅनन लॉ"ताका दिता. कानून 1395/1 परमाणे न्हयच पापसायबाक, बगार भीस्पसायबाक सयत आपल्या दियेसेजींत फावो त्या कारणा पास्वत पुस्तकां आडवारूंक हक्क आनी कायदो आसा. न्हयच पुस्तकां, बगार पत्रां, कड्तिल्यो आनी हेर बरपां पर्यात ताणे आडवारयेत म्हण कानून 1384/2 सांगता. कानून 2344 सांगता, कोण पत्रां या शेरमांवां या कड्तिल्यांवरवीं आपल्या भिस्पाक आकमान करता या ताच्या करण्याचेर, हुकमाचेर आनी तिर्पांचेर विरोधपोण उब्जायता या आड वचाशें करता, तसल्यांक इगर्जमातेची शिक्षा पर्यांत लावन ताणी फारीकपोण दिशें करी जाय आनी तांच्या गुन्यांवा आनी तांणी दिंवच्या स्कांदला तेकीत हेर कठीण शिक्षा तांकां लायजायी म्होण - इगर्जमातेची शिक्षा म्होळ्यार, एक्स़कोमुन्यांव, इंतरदीक्त आनी*

*(पाद्रींक) सस्पेन्शन. खंयसर ह्या थरान चलचें, इगर्जमातेची शिक्षा फावो जांवचें तसलें एक महापातक जावन आसा, तसलें पत्र आडवारूंक बीस्प सायबाक पावो तें काराण आसा."*

*"... 'समाजीच्या दिव्या' विशयांत उलयताना बीस्प सायब ताची अभिप्राय स्पश्ट उच्चारता, ताची खुशी आमकां कळयता. तितलेंच न्हय, ताच्याकय चड तो कायदो घालता आनी तें पत्र वाचूंक आनी आयकोंक आडवारता. हें तो आडवारता महा पातकाखाल. कित्याक तें पत्र आमच्या आत्म्याक मोसाचें जावन आसा. ह्या ताच्या आडवारण्याक विरोध जावन कोण हें पत्र वाचता या आयकाता, तो महा पातक आदारता... तितलेंच न्हय... कानून 1398/1 परमाणे एक पुस्तक या पत्र आडवारलेल्या वेळार, तें न्हयच वाचूंक नोजो आनी वाचल्ले आयकोंक नोजो, बगार तें छापूंक या फायस करूंक या दोवरूंक, या विकूंक या खंच्यायी भाशेंत तर्जुमो करूंक, या खंच्यायी थरान दुसऱ्यांक दिवंक नोजो. आनी हें सर्व आडवारलां पातकाखाल."*

*"त्या शिवाय कोण वर्गणी धाड्न या दान दिवन या तांतूं आपली इस्तिहारां फायस कर्न, या आडवारलेल्या पत्राक कुमोक करता... तो देवामुखार गुन्यांवकार जाता..."*

### (iv) समाजीचो दिवो डिसेंबर 10, 1937

## *'THE BAN ON THE 'DIVO' '*

*"Last Sunday (5-12-37) a letter from the Bishop of Mangalore announcing that he has forbidden the Catholics of Mangalore Diocese to read the 'Divo' was read out in the churches at the time of Mass. The people are now sufficiently aware of the contents of that letter. I understand that the translation of the letter will be reproduced in the next issue for the benefit of the Konkany reading subcribers. The reading*

*of the letter in the Churches was followed by a discourse by the priests saying Mass.*

*2. The wording of this letter is peculiar, and betrays a lack of correct appreciation of the situation, and the discourses (sermons, if you like) given on this letter in the several churches, if collected and compared would appear really competitive, considering the different 'minds and talents' that zealously handled the subject. In the church which I attended, the parallels of Luther and Henry the Eighth were quoted. The priest in question is a Professor, and no wonder his discourse reached that pitch. The Catholics of Mangalore and for that matter, of any other place, can rest assured that the "Divo," its supporters and well-wishers do not propose to produce either a Luther or a Henry the Eighth. Those who say so grossly mislead the people, and those who fear so throw needless strain on their nerves.*

*3. The letter says that (I) the contents of the "Divo" are objectionable and (2) that the authority of the Lawful Ecclesiastical Superiors is impugned. The first statement is merely ex-Cathedra. Nobody has shown or tried to show what is objectionable - whether the Divo publishers things which are not true or that they don't exist (that they should not be brought to light, is quite another matter, my dears!)*

*The second satement is patent rhetoric, "Impugn"*

*means "oppose" or "contradict." Is there a grain of sense in saying that the "Divo" opposes or contradicts the authority of the lawful Ecclesiastical Superiors?" Does the Divo say that the Bishop is not the Bishop or that the Parish Priest is not the Parish Priest? And that either or both of them should be flouted? Does the Divo say that people should not follow, or respect or obey the ministers of the Church when they discharge their lawful duties - well and truly? Does it preach rebellion against the foundation or the authority of the Church against its ministers? If so, please show us, where how, and when, my learned friends! Surely, words are not to be misused like this when issuing orders by an authority!*

*4. "Our efforts to remove this evil from our Diocese have failed." Lamentations!! There are many other evils in the Diocese, and of greater concern, and I am afraid they are not diminishing. But, of course, none is so blind as one who will not see; The Divo is out to eradicate them and to make the "lawful ecclesiastical superiors" confine themselves to their appointed sphere and discharge their duties properly within that sphere. There are many cases where this boundary is being over-stepped."*

*'समाजीचो दिवो' डिसेंबर 25, 1937*

*"बिस्पाचें आडवारोण पत्र"*

*"समाजीचो दिवो म्हळ्ळया नांवाखाल एक पाक्षीक पत्र ह्या आठ म्हयन्यां थावन आमच्या मंगळुरांत फायस जाता. तांतूं बरयल्लें आक्षेपाचे; मुख्य जावन समोड्तिच्या वडिलांच्या न्यायाच्या अधिकाराचेर तें आड जाल्ल्यान ताचो ताळो भक्तिपणाच्या कानांक असह्य. बापाय सारकें आमचें उद्बोधन. निश्प्रयोजन जालें हें वायट आमच्या दियोसेजींतलें काडूंक आमची प्रयत्न निर्फळ जाली."*

*"क्रिस्ता थंय आमच्या नंबिकेच्या आनी दृढ भक्तीच्या भुरग्यांच्या आत्म्याक हें पत्र पाड करता देखून तें भावडत्यांनी वाचूंक या वाचुल्लें आयकोंक आमी आडवारतांव."*

*"ह्या वयल्या आडवारोणांत बिस्पान 5 बदलामी 'दिवो' पत्राचेर मांडल्यात, त्यो:*

*1) तांतू बरयल्लें आक्षेपाचें.*

*2) समोड्तिच्या वडिलांच्या न्यायाच्या अधिकाराचेर आड वेता.*

*3) बापाय सारकी बूद बाळ काण्घेंवक ना.*

*4) तें वायट काड्ण उडोंवक केल्लें प्रयत्न सुफळ जावंक ना.*

*5) भावाड्त्यांच्या आत्म्यांक पाड करता."*

*"आतां ह्या वयल्या बदलामीक फावोत्या थरान राजांवी आनी नितीच्यो जापी दी जाय जाल्यार आनी वाचकांच्या मतींत सहज संगत सुसताजाय जाल्यार, बीस्प आनी आमचें मदें चलुल्लें सर्व लोकाक कळाजाये. त्या विवोराण्यांतच थोड्यो जापी होंदोन आसात.*

*दिवो पत्र 1937 एप्रील 10 तारकेर पयले पावटी फायस जालें. त्याच 22 तारकेर बिस्पाक आमी एक पत्र धाडलें तें अशें:-"*

*"भोव मानादीक बिस्पानो"*

*"आमच्या 'समाजीचो दिवो' पत्राची एक प्रती तुमकां खालतेपोणी पाटयतांव*

*आनी आमच्या साहसाचेर तुमचें बेसांव मागतांव. आमचें पत्र भागेवंत इगर्ज मातेक खाल जावन आसोन पियूस इकराव्याच्या 'क्वाद्राजेस्सीमु आनु' विस्तार पत्राक अनुसर्सून दुबळयांच्या हकां पास्वत झगडतेलें म्हण तुमकां दृढ सांगतांव."*

**'बिस्पाची जाप'**

*1937 एप्रील 27*

*'मि. माशाद,*

*तुजें कागाद आनी 'दिवो' पत्राच्या पयल्या अंक्याची प्रती मेळ्ळी. तुजें पत्र समोड्तीच्या गोपांत आसोन, आमच्या भागेवंत बापान ताच्या 'क्वाद्राजेस्सीमु आनु' पत्रांत आपेक्षिल्या प्रमाणे दुबळयांच्या हक्कां पस्वत झगडतेलें म्हण तुवें दिल्ल्या दृढ भाशेक हांव संतोस पावतां.*

*क्रिस्तांव दयाळपोणान आनी दोनी पाड्तींच्या अभिप्रायेंक फावो ती वजान दिवन, तुज्या भासावणेचो आक्रेचो वांटो तूं जारी करतोलोय म्हण हांव चिंततां."*

बिस्पाच्या आडवारोण पत्राक - श्री जेरोम ॲन्थनी सल्दान्या बी.ए.एल.एल.बी. एडवोकेट (Member, Madras Legislative Council, Retired joint District and Additional Sessions Judge, Author of civil Ecclestastical Law with notes on Canon Law by Rev. Father Macry S.J. and high appresiation of the Delegate Apostolic to India and Bishop of Mangalore) हांचे थावन जापः-
('समाजीचो दिवो डिसेंबर' 25, 1937)

JEROME ANTONY SALDANHA, B.A., LL.B., ADVOCATE
*Member, Madras Legislative Council*

*...Joint District and*
*...Sessions Judge*

*Ex-President of the*
*Anthropological Society*
*of Bombay*



*Author of*
*Civil-Ecclesiastical Law*
*with notes on Canon Law*
*by Rev. Fr. [illegible], S. J.*
*and high appreciation of the*
*Delegate Apostolic in India*
*and Bishop of Mangalore.*

THE DIVO AND THE BISHOP

...ign of ultra clerical Tyranny and Terror

BY MR. JEROME A. SALDANHA, M. L. C.
(whose photo appears above)

## *"THE DIVO AND THE BISHOP"*

*"Rein of ultra clerical Tyranny and Terror*

*by Mr. Jerome S Saldanha, M.L.C*

*"In regard to the controversy that has been raging in the Divo and Dirven on the ban of the former by His Lordship the Bishop. I may quote here the relevant provisions of Canon Law:-*

*(vi) Canon 1935 (1). "The right and the duty to forbid books for a just cause belongs not only to the Supreme ecclessiastical authority for the whole church, but for their own subjects, to particular councils and to the ordinaries."*

*Canon 1384 (2) Declares that "What is stated regarding 'looks' applies equally to journals, newspapers, periodicals, pamphlets and other*

*writings."*

*Canon 1395 (2) Against such prohibition there lies an appeal to the Holy see, but not "in suspensivo."*

*Canon 1399 enumerates twelve kinds of books and other publications prohibited among which only clauses (3) and (6) may possibly to the case of the Divo. They are quoted below (with notes by very Rev. H. A. Ayrinhac printed within brackets.)*

*Books which attack religon or good morals, Systematically and deliberately. (An incidental remark, even though malicious in itself, would not suffice to bring a book under this condemnation).*

*Religion means here not only the Catholic faith but also the natural religion and Divine worship in general, as attacked in atheistic or materialistic books, pamphlets or periodicals. Morality includes all that pertains to right living particularly purity. Pornographic literature of works advocating practices contrary to the precepts of the moral code would fall under this law.*

*6. Books which attack or ridicule any of the Catholic dogmas; which defend errors condemned by the Holy See, (that is, the Pope or Roman Congregations, chiefly the Holy Office and the Biblical Commission, such as errors prescribed in the Syllabus and in the decree Lamentabili of Pius X); books*

*which desparage divine worship, (that is, worship paid to God, to the Saints, to relics, to holy images) which tend to undermine ecclesiastical discipline (fostering discontent, encouraging disobedience to laws, questioning their legitimacy without sufficient reason in order to destroy their authority), books which deliberately use opprobrious language in speaking of the ecclesiastical hierarchy or the clerical and religious state, (not simply of one individual cleric or religious order).*

*Note. (The general legislation against dangerous books strikes by far the largest number of them and practically all; but for some of them it may not appear clearly that they come under one of its provisions, hence the necessity of singling them out and condemning them individually by special decree as a warning to the faithful who might not realize their perniciousness, at least not to its full extent).*

*I shall add here the note of Rev. Augustin, O.S.B. in this commentary... Page 473.*

*Canon 1399 (6) (d) Books which seek to undermine ecclesiastical discipline: To this class belong writings directed against the canon Law and the divine liturgy. Ecclesiastical discipline comprises all the measures taken by the Church to preserve and develop the society founded by Christ. The term*

*include the holy seasons, the sacred liturgy, the duties and privileges of clergy and laymen, (however, this must be understood, not of single canons or rubrics, but of the law and liturgy as a whole, or atleast some compact part there of) etc.*

*(e) Books which of set purpose insult the ecclesiastical hierarchy or the clerical or religious state: The term insult is liable to be a more or less subjective interpretation. Essentially it means an underserved affront or indignity offered to one's self respect. The insult, to bring a book within the prohibited class, must strike at the hierarchy as such not at single persons. The same is true of the clerical or religious state. Therefore an insult hurled against a clergyman, or several clergymen, or against a religions, or one house or congregation of religious, or even a whole order could not be called an affront against the religious state (Thus the commentators generally: see i.c.p. 123)*

*Canon 2344.: "Whosoever either by public newspapers, discourses, pamphlets, is guilty of personal injury against his own Ordinary either directly or indirectly; or also creates disaffection or hatred against the Ordinary's acts, decrees, decisions shall be compelled to make reparation, even by ecclesiastical censures, and be punished by other suitable penalties*

*in proportion to the gravity of the fault and grievousness of the scandal."*

*The term "injury" used in C. 2344 is defined by Anson in his "Elements of Law" as an infringement of one or other of those rights which relate to property, or personal security or reputation, or as defined in section 44 I.P. Code, denotes any harm whatever illegally caused to any person in body, mind reputation or property. "Personal injury" is any harm illegally caused by infringement of the right of person, e.g. right to a just estimation of others as to his moral or intellectual character or social position. In case of an Ordinary of the Diocese, there is his position as an ecclesiastic or an administrator, or a judge, or a land-lord, or a money-lender or other-wise.*

*The question is whether fair criticism of his actions or omissions in a capacity is not permissible in the Press or whether it is not open to anybody concerned to defend himself in the Press against unjust aggression on his rights. Such criticism or defence would be open to an action of the Ordinary or his agent in a court of justice. Why not then in the Press where the civic rights are concerned? Surely fair criticism of any authorities concerned would not be "illegally" causing harm. In any case, there has never been a single attack on the sacred person of this Bishop. If there were*

*complaints published against individual priests, they were well founded so far as the Editor could verify. None of the attacks at any rate, in my humble opinion, fall under any of the prohibited publications mentiones above.*

*When the Editor of the Divo with his adivisers were called to the first conference, His Lordship, when asked in which articles or correspondence, there had been wrongful attacks on the clergy, could not point any such criticism.*

*At the conclusion of the second conference, (i.e. on 12-11-1937) after a desultary talk, an agreement was drafted by myself ar rhe instance of the Bishop and his Secretary (but not signed by the Editor and his advisory Board Members and by the Bishop) to the effect that no complaints against priests should be published unless they were in the first instance referred to the Bishop for enquiry and redress within a reasonable time. There was no other understanding, not any advice as to avoid on. There followed then the issue of the Divo dated 25th November in which such complaints were studiously avoided. His Lordship wrote on 28-11-37 to the Editor expressing his disappointment at the allegation. It is remarkable that no charge is made in the ban itself as to any writings against the Faith and Morals. The Charge*

*that the writings offended "pious ears" especially because the authority of the lawful ecclesiastical superiors is impugned, is blissfully vague. Nowhere in the several issues of the Divo is anything said by way of undemining ecclesiastical discipline. It may in fine be safely asserted without fear of contradiction that there is absolutely nothing in any of the issues of the Divo that may be brought among the prohibited publications enumerated above. This challange is thrown to the Dirven or others concerned to take up.*

*In any case the Editor having not been put on his defence by framing a charge against him in respect to specific objectionable articles as required by law and equity, the ban fell like bombshell upon the readers of the Divo as well as on its Editor. It was therefore, in my humble opinion extremely hasty, panicky, and rash step. It is further, I venture to add, alo unjust, illegal and void. The readers of the public except the few pious or rather pietists, resent the ban as an unauthorized challenge of the Liberty of the Press and would support the heroic efforts of the Editor in meeting the challenge with such noble self-sacrificing courage in spite of the denounciation of the so called Catholic Action League a very epitome of the forces of Re-Action in these days of intolerable reign of clerical tyranny and terror. The immunity from*

*criticism claimed by the clergy more than the civil authorities is a clerical weapon which has never been recognized as legitimate in civilized Catholic countries. St. Jerome freely criticized his Bishop openly and the called him even name (see page 80 of St. Jerome in Early Years)*

*I may refer here a passage from Cardinal Newman in the Dirven of the 16th December, 1937 which bears on my argument:*

*Scandals within the Church: Men not Angels, ministers of the Gospel says Card. Newman. People confuse the Church with the clergy. They are not unimpeachable. St. Bernard blazed forth against abuses in monastaries, and at the Roman Curia. No good Catholic was scandlised at it. St. Catherine of Sienna condemned scandalous clergy. The Pope did not take offence. She said stronger charges than Luther. St. Philip Neri one of the gentlest of saints, honoured the potrait of savanorala. The honest indignation of a saint who aims to save the Church from the effects of scandal, need not cause offence to anyone.*

*The lay people have natural and fundamental rights, the infringment of which by priests is as much a sin as a civil wrong and criminal offence. To stress people's sin for disobeying an unjust and invalid clerical ban while ignoring the clerical sin, is*

*preposterous. Further to claim immunity from fair criticism for clerical offences in the Press is to seek to revive medieval privilege exploded in all civilized Catholic countries and possible only in a completely Denationalized, Romanized and Emasculated Catholic India. Happily we have proved at the recent elections that we can stand against such clerical domination. The result of this awakening is the Divo- Long Live and Thrive the Divo, as National Divo, Porjecho Divo - not merely as - samajicho Divo - with a border nation - building constructive policy - No more communal petty politics."*

*(Sd) Jerome A Saldanha, M.L.C.*

*Mangalore*

*18-12-1937*

बिस्पाच्या आडवारोण फर्माणावरवीं, समाजीच्या दिव्याचें वर्गणेदार, वाचपी उणे जाले आनी निमाणे 1838 इसवे जुलय 25 तारकेर 'दिवो लिपोन प्रकाश फांकतालो म्हळ्ळया संपादकीय बरोवन बंद पडलो. तें संपादकीय मटवान ह्या परीं आसां :-

"दिवो" पत्र कसल्या उद्देशान सुरु केल्लें कितल्यार पावलें आनी कितें सक्कड घडलें म्हण आमचे वाचपी जाणात. त्या पत्रार मा. बिस्पान पाटइल्ली आडवारोण कितल्या नितीची आनी कॅनन कायद्यांक कशी विरोधाची म्हण आमी हाच्या पयलेंच विवर्सिलां. जाणवाय आनी समजोणी आसल्लो हर एकलोय त्या आडवारोणेक इनकार करता. ती नितिरहीत म्हण ते ओपतात. सांगाताच तांच्या पयकी थोडे आमचेर दुसऱ्या थरान बलत्कार चलयतात - म्हणजे "कितेंय जांव एक पावटीक दिवो रावयजाय" - मर्याद आमच्या

वडिलांची वेता म्हण आमकां बूद बाळ सांगतात... समादान आशेतेल्यांचें काम कितें? दिवो तत्कालाक रावयल्ल्या कूडले चळवळ बंद जातेली म्हण कोणेच चिंतचें नाका... पत्र बंद करूंक ना. तत्कालाक रावयलां मात्र. समादान आशेतेल्यांचो खरो उद्देश आमी पळेवनच आसतेल्यांव. जर ते पोरतून निद्रेस्त जातीत पत्र खाली 'दिवो' नमुन्यार न्हय, गार कठीण उजो' जावन फायस जातेलेंच...

**"आतां सद्याक आदेव्श"**

अशें कोंकणी भाशेखातीर आनी दुबळ्यांच्या हक्कां पास्वत वावरूक आयतें जाल्लें पत्र एकाच वर्सा भितर बंद पडलें.

## 3.5 दिर्व्याच्या आदेवसाचो काळ

1912 इसवेंत लाइकांनी उमेदीन आनी आतुरायेन कोंकणी भाशे खातीर सुरू केल्लें 'कोंकणी दिर्वें' पत्र साबार काराणा निमतीं संवसारा थावन आदेव्श मागोंक पावलें. पयल्या सुवातेर धार्मीक वडिलांक लाइकांनी चलोंवच्या पत्रांचेर आसल्ली पातयेणी 'समाजीचो दिवो' पत्रान खदवळाइल्ल्यान आनी माज्या भिरांत उठयल्ल्यान कोंकणी दिर्वें पत्राचेरय दुबावाचें मोड मांडून आयलें. त्या वरवीं दियेसेजीक तांचेच एक पत्र चलोवंक आलोचन आयली म्हणयेत. कारण खबरे पत्रां समाजेच्या चिंतपाचेर कशें नियंत्रणांची मूट मारूंक सकतात म्हळ्ळें दाखवन दिलें. अशें कोंकणी दिर्वें पत्राच्या आदेव्शाच्या कारणां पयकी तोडीं हांगासर दिल्यांत.

### 3.5.1 राकणो पत्राचो जल्म

'समाजीचो दिवो' कोंकणी पत्रान 'दुकयल्या या खोडी काडल्या शिवाय कोणेंय कसलेंय बोरेंपण करूंक नजो म्हळ्ळया ध्येय वाक्याखाल समाजेचें म्हेळें उस्तून, माज्या (Media) भिरांत उटयल्ल्यान पत्रगारिकेच्या स्वातंत्र्याचेर आसल्लें पातयेणेचें प्रशांत वातावरण खदवळ्ळें. ह्या वादाळांत धार्मीक

वडील जागे जाले. 1937 इसवे डिसेंबराच्या 16 तारकेर 'समाजीच्या दिव्या'चेर मंगळूरचो बीस्प वितोर फेर्नांदान आडवरण फर्माण प्रगट करून ताच्या दुसऱ्या वर्सा म्हणजे 1938-त डिसेंबर म्हयन्याच्या आखरेक मंगळुरांत चलल्ल्या येवकरीस्त कोंग्रेसाच्या वेळार ह्याच बीस्प वितोर फेर्नांदाच्या म्हालगडपणार 'सत उलय धयर चलय' म्हळ्ळया ध्येय वाक्याखाल 'राकणो' म्हळ्ळें कोंकणी सातोळें पत्र प्रारंभ जालें.

ह्या राकणो पत्राविशीं डिसेंबर 2, 1938 इसवेंत 'दिर्वें' पत्रार प्रगट जाल्लीं पत्रां तीं आसा. तसीं हांगा दिल्यांत.

**पत्र - 1**

***"दिर्वें आनी राकणो"*** *- आमच्या मानादीक बीस्प सायबान 'राकणो' नांवाखाल एक नोवें पत्र सुरू करची आलोचन केल्या म्होळ्ळी खबार पायस जाल्ले तवोळ तावन दिर्व्याच्या वाचकांचीं आमकां कागदां येतात. हांचीं कागदां दिर्व्यांत छापूक पावट ना. तांकां हर एकल्याक जवाबो बरोवंकय आमकां फुरसत ना. दिर्व्याच्या इस्टां-मोंत्रांक, वाचकांक आनी इतरांक आमचे थंय जायते सुख-दूख आसा म्होणच्याक ह्यो एक ऐन दाखलो. दिर्वे लगाड काडिजाय म्होळ्ळे हेतून हें नोवें पत्र बीस्प सायब आसा करता म्होण थोडे आभिप्राय करतात जाल्यार आमी तें पातयेनांव. कित्याक? बीस्प सायब आसा आमच्या बोऱ्यापणाक, आमच्या विळापाक न्हय. ताणे चिंतचें हर एकल्याचें बोरेपण. ताच्या पदवीचो शेगूण तो. दियेसेजीच्यो संगती विचार करचें तसलें एक दियेसेजीचें पत्र मंगळुरांत आसा जाय म्होळ्ळी उर्बा बीस्प पेरिनाच्या काळा थावन चलतात्या बिस्पान हे उर्बेक पाळो दिवंक ना. बीस्प वालेरीन सोवझाक सयत हीच आलोचन आसल्ली. अद्या आण्याक वा ताचे वोर्नी उण्या मोलाची पत्रां हर एक काथोलीक घराक पांवची तसली आतांच्या बिस्पाच्या मोतींत ही आलोचन घुंवताली म्होळ्ळें आमी नेणा आसल्ल्यांव. पूण हें पत्र सुरू करना म्होण 'अंजां'त फायस केल्लें वाचून हाकाई तीच उर्बा आसल्ली म्होळ्ळें नक्की जाता. दियेसेजींत जांवच्या*

*संगतीचो मत आयल्यावार बिगडोवनसो दाकोंवच्यांक सत संगती राकच्यापास्वत "राकणो" नांवांचें पत्र भायर काडतात जावयेत."*

**पत्र - 2**

*'**राकणो**' पत्राचो हेतू कसलोगी म्हण येदोळ पर्यांत नक्की फायस जावंक ना. कसलीं लेखनां तांतूं येतेलीं म्हाळ्ळेंय आमी नेणांव. लेखना कोंकणी, कानडी, तुळू मलयाळी आनी इंग्लेज भासांनीं फायस जातेलीं म्होण 'आंज' तिळसिता. ह्या संबंदीं एक गजालमात्र आमी खंडीत जाणांव. दिर्व्याचो मोग ताका आसल्लो बीस्प सायबान सांडूंक ना; सांडल्लो जाल्यार आमकां कळयतो. गेले त्या डिसेंबरांत दिर्व्याचे रुप्योत्सवाचे परबे दिवसीं मिसां सांगोन, तेदेवूम गायान कर्न, सर्वेस्पराक आमचीं आर्गां ताणे भेटयलीं. पापसायबाक आमचे तर्फेन तेलेग्राम धाड्न ताचें पवीत्र आशिर्वाद आमकां आनी आमच्या मंडळीक ताणे पावीत केल्लें हाचे शिवाय दिर्वें सुवर्णोत्सवच न्हय बगार वज्रोत्सव पोळोवच्या भागाक आनी ह्या वर्सांनी परजेची सेवा येकिनिपमान करूंक, पावाजाय म्होण ताणेच बोरपिनिशीं धाडल्ली शुभवार्ता ज्युबिली अंक्यांत आमी फायस केल्या. जुलय म्हयन्यात ज्युबिली अंक्याच्यो प्रत्यो इंदियाच्या देलेगात आपोस्तलिका मार्फत पाप सायबाक आनी थोड्या कार्दिनालांक ताणेच धाडल्ल्यो, आमची शाभासगी रोमांत पर्यांत ताचेवरवीं पावल्या."*

**पत्र - 3**

*"इतलें उत्येजन दिल्लो मोगापात्र बीस्प दिर्व्याक नाश करूंक भायर सरला म्होण कोणेयी चिंतचें नाका. कोणेयी सांगल्यार आमी सत मानिनांव. 'राकणो' पत्राचो पत्र कर्ता पाद्र सिल्वेस्टर मिनेझ. दिर्वे सुरू केल्ल्या तवोळथावन आमच्या पत्राक ताणे केल्ली मजत आमी विसरोंकनांव. फुडां विसरचें नांव. दिर्व्याक कसलोच आपाद जायनाशें तो ताचें पत्र चलयतलो म्हण सांगोंक आमकां कसलीच अडकळ मारिना. 'राकणो' पत्रार बरोंवचे पाद्री आमचे*

मित्र, दिर्व्यांचे मोगापत्र, आमच्या पत्रांत छापूंक लेखना धाडचे तसले. मित्रां मदें द्वेश ना. दिर्व्याचो हारबार आमकां कितलो आसागी तितलोच तांकांयी आसा. 'राकणो' पत्रा वोरवीं दिर्व्याक सरसरी मार पोडतोलो, तें चड तेंप चलचें ना, वेगींच तें बंद जातेलें, ताकाताचे पाकाटे फुलोवंक सोडचे नात म्हण उलोंवच्यांक कसलेंच आधार ना.

**पत्र - 4**

दिर्वें आपले तांकी तितलें इगर्ज मातेची आनी समाजेची सेवा करताना, फुडां हाचे वोर्नी चड करूंक पेचाडताना दियेसेजेक आनी एक पत्र कित्याक? 'आंज' आसा, मंगळूर पत्र आसा. हांतूं दियेसेजीच्यो खबरो सगळ्यो येतात. चडताव कांय गरज आसा जाल्यार आंजांत त्या पास्वतच एक भाग उगतो करयेत, सिलोनांत तशें करतात. सिलोन मेसेंजर पत्र पोळयात, राकणों पत्र कित्याक चडताव? दिर्व्यान तेंयी काम आटापून व्होरोंक नजो वे? अशें थडे वर्गणिदार विचारतात. दियेसेजीचें कसलेंय काम करूंक आमी तयार आसांव. आदी तयार आसल्ल्यांव. आतां आसांव, आनी मुखार आसतेल्यांव आमची ही तयारी बीस्प सायब खंडीत जाणा. पाद्रीय जाणात. खंयच्या वेळार कसलो संस्थो वा संघ इत्यादी घडिजाय म्होण तोच जाणा. आमी सांगतांव म्हण तो सुरू करिना. आमचो विचार तो घेना. आमकां लेख दी जाय म्हण बिस्पाक कांय ना. ताचें स्वातंत्र्यच वेगळें. इगर्ज मातेंत तीन वर्ग आसात. बीस्प, पाद्री आनी संवसारीक. बिस्पाक पाप सायब नेमता आनी त्या वरवीं तो आपोस्तलांच्या पदविचेर बसता. आपोस्तलांचो पाटलावी जाता. पाद्रींक अधिकार बिस्पान दिल्लो. आमी सर्व संवसारीक. हे तिनी वर्ग एकामेका गुंतून आसल्यारय तांकां तातांचीं स्वताचीं कामां निरनिराळीं आसात. आमी संवसारिकांनी बिस्पाच्या आनी पाद्रींच्या प्रत्येक कामांनी मेतेर जावन घुस्पड गोंदोळ उब्जोंवच्याबदलाक आमच्या भेसाक फावो जाल्लें काम धर्न मुंदरसियां."

**जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज**

पुस्तक 21 नोव्हेंबर 1938 अंको 11

*संपादकीय - "आमच्या दियेसेजींत येता त्या जानेरा थावन 'सत' (Truth) म्हळ्ळें, एक नवें हप्त्यावार पत्र सुरू जातेलें म्हण आयकोंक आमकां वोतो संतोस भोगता. भागेवोंत बापाची खुशी जावन आसा, कथोलीक छाप्या मुखांत्र म्हणजे पुस्तकां आनी पत्रां मुखांत्र आमी सोमोड्त विस्तारा जाय आनी भावाडत्यांक वांकड्या आनी मोसाच्या वाचपा थावन बचाव करिजाय म्हण. हें नोवें पत्र भागेवंत बापाच्या इराद्यां पोरमाणें चलतेलें म्हळ्ळयाक दुबाव ना. ह्या पत्राचें नांवच हाची रुजवात जावन आसा. ह्या पत्रांत दियेसेजींत रुढ जावन आसल्ल्या सर्व भासांनी म्हणजे कोंकणी, इंग्लेज कांदडी, तुळू, मळयाळम आनी लातीं भासानीं गरजे परमाणे लेखना आसतेलीं. ह्या पत्राचो एडिटर जावन बीस्प सायबान, मा./फा./ सिल्वेस्टर मिनेजीक नमियारला. ह्या पत्राक सर्व जीक आमी मागतांव."*

**जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज**

पुस्तक - 21 डिसेबर 1938 अंको - 12

***'आमचीं दोन उतरां' - संपादकीय***

*"नोवें पत्र. दियेसेजीचें एक नोवें पत्र वेगीं फायस जावचें आसा म्होण आदल्या अंक्यांत आमी तिळसिल्लें. त्या पत्राचें नांव 'सत' म्होण आमी म्होळ्ळें. पूण ताका 'राकणो' म्होण नांव दिलां. देवाचीं आनी ताच्या भागेवोंत इगर्जेचीं हक्कां आनी आमच्या समाजीचें बरेपण राकोन व्होरोंक जावन आसतोलो ह्या पत्राचो मुख्य उद्देश.*

*हप्त्या हप्त्या आयताराचें हें पत्र फायस जातेलें. ताचो पयलो अंको येंवच्या जानेरा दिसा फायस जावंचो जाल्यार, ह्याच डिसेंबराच्या 18 तारकेर एक मुखलो अंको फायस करचो म्हण केला. त्या अंक्यांत ह्या पत्राची मांडावळ आनी विलेवारी तपशील बरोवन आसतेली. सांगाताच आमच्या येवकरिस्तीक महा-सभे विशयांत थोडो विवोर तातूं वाचूंक मेळतोलो.*

हें पत्र मुख्य जावन दोन भासांनी बोरयतेलें: कोंकणीन आनी इंग्लेजान. थोडे पावटीं कांदडी लेखना तातूं आसतेलीं. त्या शिवाय ह्या दियेसेजीच्या इतर भासांनी लेखना फायस करिजाय म्होण मोन. पूण हें सर्व बरोवन धाडतेल्याचेर वोंदोन आसा.

लेखनांची आनी चड कर्न फिर्गजांतल्या खबरांची गरज आसा. हर एका फिर्गजेंत थावन वेळार खबार बरोवन, धाडतोलो एकलो पूण मेळतालो म्हळ्ळो आमचो भरवासो. फिर्गजेचे विगार ह्या विशयांत म्हिनत घेतेले म्होण आमी जाणांव. लोका पयकी थोड्यानी मुखार सरल्या शिवाय एका पत्राचें काम पोंताक पावोंक असाध्य.

पत्राक वोर्साच्या वर्गणी रु. 2.8.0 चुंगडी प्रत्येक, टपालार वोरोंवची जाल्यार एक आणो, खासगी वोर्ची जाल्यार अर्दो आणो. सर्व फिर्गजांनी आयताराचें. इगर्जे बागलार हें पत्र विकंक विलेवारी करची आलोचन आसा. ह्या कामाक उर्बेन म्हिनत घेतेले जाय पोडल्यात. ह्या संबंधी चडीत समजोंक खुशी आसल्ल्यानी पत्राच्या मेनेजराक बरोवन पळोवयेत. कितल्यो प्रत्यो जाय पोडतीत म्हळ्ळें जाणा जावची गरज.

आमचे आंज्याचे वाचक आंज्या सांगाता हें नोवें पत्रय आधारसितेले आनी आपणाक आनी हेरांक ह्या बोऱ्या कामाचो फोळ लाभासो करतेले म्होळी आमची थीर पातयेणी. ह्या पत्राक वोर्ती जीख मेळों, दियेसे जींत आनी दियेसेजी भायर तें विस्तारों, आनी सर्वांक जायतें बोरेपोण करों म्होळ्ळें जावन आसा आमचें खालतें मागणें."

नवें 'राकणो' हप्त्याळें पत्र दियेसेजी थावन भायर सरल्लेंच कोंकणी दिर्वे पत्रसवकास आळ्वोन आयलें म्हणच्याक कोंकणी दिर्व्यार छापल्लीं लेखकांचीं पत्रांच रुजवात दितात म्हण सांगयेत."

## 3.5.2 पायस बोम्बयक आदेव्स करता



The farewell function in honour of Mr. Alex A. Pais at Nathsson Hall, Margaon

आलेक्स ए. पायस बोम्बयच्या गांवांत वकालत चलोवन आसतानांच, मंगळूर, कोडियाळबैल छापखान्यात छापून प्रगट जांवच्या 'कोंकणी दिर्व्याचें' संपादकपण चलयतालो. डिसेंबरांत मंगळुरांत 'राकणो' पत्र स्थापन जाल्लेंच, कोंकणी दिर्वे आनिकय घट करिजाय, ताणे वज्रोत्सव पळेवंक पावाजाय म्हण पायस सप्नेलो. त्या देखून बोम्बंयत ताणे चलोंवचे वकालतपण सोडून कोंकणी भाशेखातीर, 'कोंकणी दिर्वे' पत्राखातीर आपलो जीव समर्पूक तो तयार जालो.

ताणे कोंकणी पत्राखातीर केल्ल्या साक्रिफिसाचो रुजवात जावन 'दिर्वे' पत्र डिसेंबर 2, 1938 ह्या अंक्यांत प्रगट जाल्लीं दोन पत्रां हांगा दिल्यात.

**पत्र-1**

*'दिर्वे घट जायजाय, बीस्प सायबाच्या अनुमते परमाणे ताणे वज्रोत्सव पळोवंक पावाजाय. हाका सर्वांची गरज. जायतो दुडू ह्या कामाक गरज. आमच्या वर्गणीदारांनी तांची वर्गणी पाटीं घालिनासताना धाडल्यार, ताचे*

सांगाता नातलांचो कुस्वार म्होणोन रुप्योत्सवाचो अंको छापूंक खर्च पडल्लो पुरा फारीक जावंक एक दोन रुपय वा चड दान धाडल्यार, आमचें वोजें हाळू जाता, दिर्व्याक बाळवी चडता. दिर्वे-सरग चला जाय. ताच्यो प्रत्यो म्हयन्याक तीन पावटी, मागीर हप्त्याक एक पावटी भायर सरची विलेवारी करिजाय. हाचे पोयलें छापखान्याचें देवें वेगींच पावीत जायजाय. छापखान्यान आमकां ताकीद धाडता पर्यांत देवें फारीक करिनात जाल्यार दिर्वे छापूंक अडकळ जातेली म्होण तिळसुंच्या पर्यांत रावचें समा न्हय. हांगा आमकां वर्गणिदारांचो, इश्टामोंत्रांचो सहकार गरज. चार आणे दिल्ल्या वर्गणिदारांक जुब्लेवाचें पत्र खुशेन धाड्न दिजाय म्होण आमचो मेनेजर विनंती करता. प्रेसाचें बील आइल्लें पोळोवन तो शिरीं सुकला. दिर्व्याक खंच्यान किडो कांतयतायगी म्हळ्ळी संगत तो स्पश्ट जाणा. ही कांतोणी रावाजाय जाल्यार, दिर्व्यान, सुवर्णोत्सव पोळोवंक वांचाजाय जाल्यार, मेनेजराच्या विनंतेक तुर्तान पाळो दिया."

**पत्र-2**

"आमच्या लोकाच्या धर्मीश्ट मनाचेर धैर दोवोर्न दिर्वे इतलीं वर्सां चल्लें. आमचें रगात सगळें ताचेर व्हाळ्ळां. ताका आतां तशेंच सोडल्यार जायना. दिर्व्यांचें रूपच बदली जाय. ताचें सूख दूख सर्वांनी वांटून घेशें करिजाय. चड पानां तांतूं शेरवूंक म्हिनत घेजाय. तातूं बरोवंक फावो जाल्ल्या मनशांक एकटांय करिजाय. जिल्ल्यांत जाल्ल्या संगतींच्यो सर्व खबरो तांतूं फायस जांवची गरज. समाजीच्यो गरजो वित्यार्थ कर्न सरकारा आनी इतर अधिकारां मुखार घालूंक तांकच्या शिकप्यांक उठय जाय. आमच्या शिकप्यांनी कोंकणी लोका पास्वत बूक बरयले. कोड्याळबैल प्रेसांत सुकतात. समोडतिचेच न्हय, इतर विद्यांचें, सूख संतोस हाडचे बूक बरय जाय. इंग्लेजांत कांदड्यांत आनी इतर भासांनी तसले बूक आसात. आमच्या कोंकणी भाशेंत मात्र नांत. असले आनी दुसरेबूक सगळयान, हळ्ळयांनी ग्रामांनी, कथोलीक वस्त्यांनी पावाशें करिजाय. ह्या सर्व कामाक जाण गर्ज शिकपी गर्ज.

*आमच्या शिकपी तरनाट्यांक गांवांत कामां मेळानांत. हांकां तोड्यांक वर्तमानगारांच्या कामांत तर्बेत कर्न जीवन मेळाशें करयेत. हाका दुडू गरज. दिर्वे घट केल्यार ताचे मार्फात जाय तितलो दुडू ह्या कामार बटवाटे जातोलो. बोम्बय सोड्न, जानेरा थावन आमीच दिर्व्याच्या कामार पोडोन फिर्गजांनी, वाड्यानी येवन वर्गणिदार चडोवची विलेवारी चलयतेल्यांव. ह्या पास्वत सर्वांचो सहकार आमी खात्रेन मागतांव."*

अशें सांगोन आलेक्स पायस बोम्बयक आदेव्स करता. ह्या विशयांत कोंकणी दिर्वे मे 16, 1939 इस्वेंत प्रगट जाल्ली बातमी हांगासर दिल्या.

**'आलेक्स ए. पायस बोम्बयक आदेव्स करता -'**

*"1939 इस्वे फेब्रुवारीच्या 25 तारकेर शनवारा सांजेर 5 वोरार माजगांव निकोलसन सालांत श्री. आलेक्स ए. पायसाक आदेव्स करचें कार्यें भोव संभ्रमान जालें. ह्या कार्याक बोम्बंयतले साबार जाती कातीचें महंत आनी म्हातभारी हाजर आसल्ले... ह्या सभेचें अध्यक्षपण काणघेल्ल्या वी.एम.एल. आरान्यान ह्या कार्या विशयांत आइल्ल्यो वर्द्यो वाचून सांगल्यो..."*

'मद्रासच्या 'दि न्यू लीडर' पत्राचो एडीटर मोन्सिन्योर पी. थोमस अशें बोरयता.'

*"...लाग्गीं लाग्गीं 25 वर्सां थावन बोम्बंयत काथोलीक म्हिनत परगट करूंक ताणे केल्लें काम हावें आयकालां. आतां तो ताच्या मांय-गांवाक पाटीं वेताना बोम्बयच्या सक्कड कोथोलिकांनी ताका संभ्रमान धाडचो वाज्बी जावन आसा. 25 वर्सां हेवशीन 'कोंकणी दिर्वे' म्होळ्ळें पत्र तो म्हिनतेन आनी कश्टानी चलयतालो. काथोलीक पत्र चलोंवचें काम कितलें तोंद्रांचें म्होण हांव (त्रासांचें) स्वंत अनभोगान जाणां. तर 25 वर्सां थावन चलोवन व्होरच्या काथोलीक छाप्या आपोस्तलादीक, मि. पायसाक सर्व होगळीक फावो."*

मद्रासच्या विद्या इलाख्याचो मंत्री सरदार वार्कीन अशी वर्दी पाटयल्या - "आपणाचो स्वंत मोग सोड्न लोकामोगाच्या कामान, बोम्बयच्या कन्नड

काथोलीक समाजीच्या अभिवृद्धे खातीर वावरून आमी सांगाताच कोंकणी दिर्व्यां मारिफात, कोंकणी भास आनी लिखितां ऊंच स्थितेक पावयल्लो मि. आलेक्स पायस आतां बोम्बयक आदेव्स कर्न आपल्या माय-गांवाक पाटीं वेता म्होळ्ळें आयकोन हांव भोव चड संतोस पावतां. सगळया हिन्दुस्थानाच्या संमेळनाखातीर ताणे काडल्ली वांव्ट विशेश जावन आसा. मंगळुरांतय हें ताचें काम तो मुंदरसितोलो म्हण म्होजी पातयेणी."

"ह्यो आनी हेर साबार होगळीक - वर्द्यो, मि. पायसान इतली वर्सां बोम्बयंत केल्ल्या कामाचो मोटवो विवर अध्यक्षान दिलो. "कीळ जाती खातीर ताणे केल्लें काम वोर्तें जावन आसा. त्या खातीर बोम्बयच्या मुनिसिपालिटीन एक रस्त्याक 'पायस स्ट्रीट' म्होण नांव दिलां. आमच्या समाजीच्या हर एका संस्थ्यानी एकूच वायस प्रेसिडेंत जावन या सेक्रेटरी जावन या कमिटी मेंबर जावन तो भोरसोन आसल्लो. सत्तावीस वर्सां तो वैशंतीक भाव जावन आनीं 15 वर्सां सांत आन्न कॉन्फरन्स सभेचो तो अध्यक्ष आसल्लो. मद्रासांत बोम्बंयत आनी गोयांत जाल्ल्या सगळया इंदियाची काथोलीक कॉन्फरन्स सभेक तो सेक्रेटरी जावन ताच्या म्हिनतेन आतां आसच्या सगळया इंदियाच्या काथोलीक काँग्रेसाक बुन्याद घाल्ली. ताचें काम सगळें दुबळ्यांक आनी कीळ जातींक उन्नतेक हाडच्यांत होंदोन आसल्लें."

"ह्या शिवाय आयलेवारच रुप्योत्सव केल्ल्या कोंकणी दिर्व्यां विशयांत आमी जाणांव, आनी त्या वेळार सास्त्रीक आनी संवसारीक, ल्हान आनी व्होडांनी दिल्ली शिफारस जावंक पावता एक दृढ साक्स मि. पायसान करच्या समाजीच्या सेवेक. मि. पायस जावन आसा ऊंच स्वभावाचो आनी आनी आलोचेन्यांचो. ह्या उतरांनी अध्यक्षान सकटांचे पाडतीन मि. पायसाचो उपकार बावुडलो, ताका आदेव्स मागलो आनी ताच्या मांय-गांवांत ताणे फुडां करच्या कामांक जीख आनी दैवीक बेसांव आपेक्षिलें. उप्रांत समेस्त सभिकांच्या नांव मि. पायसाक एक भांगराचें मेडल, तोपलें आनी 500 रुपयांची थैली काणीक दिली."

निमाणे मि. पायस उलयलो "म्हाका आदेव्स करूक आनी म्होजे थंय तुमची कृतज्ञता दाखोंवक तुमी तयारसिल्लें हें कार्यें पोळेवन म्होजें हृदय संतोसान उमळता. एकोणतीस वर्सां आदीं हांव बोम्बय आइल्ल्या वेळार, पाट कर्न गांवांक वेताना इतली सरबराय म्हाका मेळात म्होण हांवें चिंतूंक ना. हांव सुरवेर बोम्बय वेताना म्होज्या अज्येन दिल्ले 50 रुपया मात्र हाड्न आइल्लों, आतां हांव पाटीं वेताना 500 रुपयांची थैली घेवन वेतां. कोडियाळ सां. लुवीस कॉलेजींत म्होजो मेस्त्री जावन आसल्ल्या देवादीन जाल्ल्या जेजूच्या सभेच्या मा. फा. डेनीस फेर्नांदाच्या बोऱ्या शिकवोणेन आनी बुदीन हांवें इतलें काम बोम्बयंत केलें. बोम्बंयतल्या कॉर्परेशनाच्या चुनावणे वेळार कितल्या कश्टांनी हांव जिकलों म्होण तुमीच जाणात... फावो तें काथोलीक शिकाप विस्तारोंक हांवें म्हिनत केल्ली कित्यागी म्होळयार हांव कॉलेजीच्या उतर वर्गांनी फुंक्याक शिकल्लों ह्या उपकाराचो प्रतिफळ जावन शिकाप नातल्ल्यांक गरजेची जाणवाय 'मेळाशी दिर्व्यां' मार्फत हांवें प्रयत्न केली. 25 वर्सां थावन हें काम हावें चलोवन व्हेलें. उप्रांतल्या म्होज्या कामाचेर तुमच्या सहकारा आनी कुमके वरवीं देवाचें बेसांव म्होजेर पोडाशें तुमी सक्कड मागा." ह्या उतरांनी मि. पायसान सभिकांक आदेव्स केलो.

### 3.5.3 आदेव्स कोडयाळबैलाक!

'कोंकणी दिर्वें' पत्र कोडयाळबैल छापकान्याक आदेव्स करता. ह्या विशयांत कोंकणी दिर्व्यांत 1939 सप्टेंबर 7 तारकेर आइल्ली वर्दी आसा तशी दिल्या.

**'आदेव्स कोडयाळबैलाक!'**

सव्वीस वर्सां पर्यांत कोड्याळबैलांत आसल्लें 'दिर्वें' गेल्या त्या अंक्याथावन केनरा प्रिंटींग वर्क्सांत कित्याक छापसितात म्होण थोडे वाचक अजाप जावंक पुरो. छापसूंची बदलावणी कित्याक आनी कशी केल्या म्होळ्ळें आदल्या अंक्यांत आमी इंग्लेजांत बोरयलें; पूण कोंकणी भाशेन थोडीं उतरां

बोरयतेल्यांव म्होळ्ळयार उपाय जालो ना. निमाणे घडये एका छापखान्याथावन आनी एका छापखान्याक वेताना भोगचें तोंदरें (त्रास); आनी नोव्याच मनशांक कोंकणी भाशेच्या अक्षरां- घडावळीची सोवोय नासताना जांवची गळाय, ताच्या इडयांत सोव्वीस वर्सां लागायत खळा नासताना वेळार येंवचें दिर्वें पाटीं पोडलें म्होळ्ळो हुसको आनी चडीत बरोंवक गेल्यार आनीकय सुस्ती जायत म्होळ्ळें भंय; ओट्टु एक जावन आमकां बाकी घालिजाय पोडली. तितल्या भितर थोड्या हुळहुळया जिबांनी - "दिर्वेंय कितें वांकडें घुंवतागी?" - म्होळ्ळो दुबाव उलोवंक सुरु केला म्होण आमच्या कानांत पोडलां. कोणेय चूक समजानये आनी दुबाव करिनाये म्होळ्ळया खातीर, संगती कितेंगी म्होण थोड्या उतरांनी सांगची गरज दिसता."

'दिर्वें' सुरु करच्या वेळार आलोचेन विचारलेल्यां पयकीं एकलो जावन आसल्लो लोकामोगाचो भोव मानादीक पाद्र फ्राकेत्ती. हो विशाल मतीचो आनी उदार हृदयाचो जेज्वेत आमच्या गांवांत येवन, आमच्या लोकाची सळावळ कर्न, लोकाक तो तितलो वोळकातालो कि कोणय ताका परगांवी म्होण लेखिनातल्ले. आमच्या पाद्रींकतो बोरें वोळखतालो जाल्ल्यान बीस्प खावादिनी आसताना, आमची दियेसेज गांवटी पाद्रींक दिंवयेत म्होण पयलें सूचन दिल्लें. तो जेज्वीत मिसांवाचो सुपिरियर आनी मंगळूर दियेसेजीचो विगार जेराल जावन आसताना ताणे आमकां सांगल्लीं हीं उतरां. "इगर्ज माता आपल्या भुरग्यांक मोस्त सुढाळाय दिता. केदाळाय इगर्ज मातेच्या गोपाभितर रावा आनी स्वातंत्रीक जावन चलां." ह्या बापाय सारक्या बूदबाळीक पाळो दिवन, सदांच इगर्ज मातेच्या गोपाभितर रावोन, आमच्या बिस्पाक आनी शास्त्रीक व्होडिलांक खाल जावन चलचो स्वभाव जावन आसतालो आमचो, कसो आदीं तसो आतां आनी ह्या फुडांय. पूण हाका संबंद नातल्ल्यो थोड्यो चालत्यो संगती आमकां छापसिजाय म्होण आमकां दिसल्यार कोडयाळबैलांत, आमकां धरलें बांदलेंशें जातालें. साबार काळ थावन अशें भोगल्यार आमी आमच्या बीस्प सायबाच्या पाया मुळांतलें वचाशें नांव म्होण

घट्ट रावल्यांत. पूण बोरें करून चिंतून पोळेलें आनी निमाणें आगोस्त 18 तारखेर 4 घंट्यार, युकरिस्तीक कॉंग्रेस जाल्ल्या मैदानार चलतात ही बदलावणी करची गरज म्हण आमकां भोगलें आनी तक्षणच दुसरी विलेवारी करूं सुरू केली. आसली गरज आमकां पोडली म्होळ्ळी भोव पश्चातापाची गजाल. आमी सव्वीस वर्सां लागायत 'दिर्वें' कोडयाळबैलांत व्हड जाल्ल्यान आमका दूख दिसता 'आदेव्स' म्हणोंक कोडयाळबैलाक.

कोडयाळबैल आदेव्स म्हळें म्हण आमचे मदलो आनी बीस्प सायबामदलो माया मोगाचो बांद जावं, बरें मन जावं, कुस्कूट हालात म्हण कोणेय चिंतचेंय नाका, भियेंवचेंय नाका. इगर्ज मातेच्या व्होडिलांक कशें येदोळ तशें सदांच खाल जावन आमी मान दिवन आमचें पत्र चलतेलें. ल्हान थावन आमी आमच्या सां. लुवीस कोलेज-मातेच्या उसक्यार शिकल्ली ती देवभक्त आनी गुरुभक्त विसरनासतना सदांच थीर रावतल्यांव म्हळ्ळो आमचो खरो इरादो आनी भरवासो. ह्या भरवाशा प्रमाणे चलोंक देव आमकां आधार दींव दी आनी शास्त्रीक व्होडील चलोवन व्होरोंदीत!

ह्यो संगती बोरयताना आमकां उगडास येता लंडनच्या काड्दियाळ हिन्सलीनचो. इंग्लंडांतल्या काथोलीक पत्रकरतांनी आनी इगर्ज मातेच्या व्होडिलांनी काथोलीक पत्रां संबंदी म्होण सांगल्ल्यायगी कशें चलाज्या उतरांचो "भावार्थ आनी बऱ्या चालीक संबंद जाल्ल्या संगतींनी ह्या गांवचीं काथोलीक वर्तमानपत्रां इगर्ज मातेच्या व्होडिलांचे जराल मेल खबरदारेखाल आसात. हाचे वोर्त इगर्ज मातेचे व्होडील जबाबदार न्हय. राजकी संगतींनी कोशेड्ता प्रमाणे नितिच्यो आनी फळाक पीडच्यो तसल्यो वाटो आधारूक हर एका पत्राक सुढाळाय आसा!!!..

"लांब आव्क आमच्या दिर्व्याक!"

### 3.5.4 झुजावरवीं कागदाचो अभाव

1939 इसवेंत दुसरें म्हाझूज चलतालें. तवळ पत्र छापूंक कागद सुलभायेन मेळानतल्लें. कोंकणी दिर्वें हरशेंच बरी वेळार भायर सरोंक तांणी काडल्ली

म्हिनत, 1939 इस्वेंत ऑक्टोबर 19 तारखेर कोंकणी दिर्व्यार आइल्ल्या वर्देवरवीं कळटा. ती वर्दी ह्या परी आसा.

## 'आमचें स्वंत'

सद्या गरज आसा तितलें कागद बोम्बय मोलाक घेतलां. तें येदोळ पर्यांत मंगळुराक पावोंक नातल्ल्यान मद्रास थावन थोडें कागज हाडून ही प्रती फायस केल्या. आमकां कितलेंइ कश्ट पडल्यार दिर्वें वेळार हरशांचे बरी भायर सरोंक आनी तें सुरू केल्लो उद्देश जारेक हाडूंक आमी सर्व विलेवारी केल्या. ह्या विशयांत आमच्या वर्गणिदारांनी कसलोच पश्चाताप पावची गरज ना. आमच्या मेनेजरान सर्वांक म्होळ्यार येदोळपर्यांत लेकपाक फारीक करूंक नातल्ल्या वर्गणीदारांक जागवणी धाडल्या. हें जागवणी धाडचें काम भोव पुरसाणेचें. पूण आमच्या साबार वर्गणिदारांनी देवो दुडू फारीक करूंक पाटीं घाल्ली गजाल विचित्र. आमकां सर्व खर्च मुंगड फारीक करूंक पडता म्होळ्ळी गजाल कळितच नातल्ल्या बरी हे चलतात. दिर्याच्या घराच उजो पेटोन ताचो धुंवोर पोळोवंक राकोन रावल्ल्याबरी थोड्या वर्गणिदारांची चाल. अशें करिनास्ताना वेगी वर्गणी धाडून हाताळात जावन, दिर्व्याक सहकार दिया म्होळ्ळी आमची विनंती."

"पावाश्शिले दीस काबार जाले. दिर्वे सदांचेबरी भायर सरोंक आमच्या आतांच्या छापन्यायाची कसलीच आडकळ ना. देकून आमी आतां जिल्ल्यांत आनी फिर्गजांनी भोवून नोवे वर्गणिदार करूंक वेतेल्यांव. खंयच्याय एका घरांत एकलो दोन दिर्वे वाचचे आसल्यार आमी ह्या घरांक वर्साक दोन रुपये फारीक करूंक तांक आसल्यार तांणी वर्गणिदार जायशें आमच्या हितचिंतकांची आनी आतांच्या वर्गणिदारांची कुमोक मागतांव. प्रजा उन्नतेचें जायतें काम करूंक आसा. ह्या कामाक आधार जावंक आमी बोम्बय आमच्या जिवनाची वकालत सोडून मंगळुराक आयल्यांव. मंगळुरांत वकालत करूंक न्हय, बगार दिर्व्या मुकांत्र जांवचें, प्रोजेच्या बोऱ्यापणाचें हें काम मुंदरसून व्होरोंक झुजा वोरवीं उब्जल्ल्या आनी उब्जोंच्या कनीश्ट काळार आमकां सर्वांचो

सहकार आवश्यक, दुडवाचो आनी म्हिनतीचो. हो सहकार आमकां मेळनासताना रांवचो ना म्होण आमी आजुनी पात्येणी सोडूंक ना."

### 3.5.5 विनंती आनी आदेव्स

**(कोंकणी दिर्वें 1939 नवेंबर 16 - पुस्तक 28)**

**"विनंती"**

*(An appeal for co-operation)*

"दिर्वें छापच्या कागदाक ह्या दिसांनी मोल भोव विप्रीत. तें कागाद इंडियांत ना, युरोपाथावन ये जाय. झुजापुर्वी मुम्बय कागदाच्या रिमाक रु. 1-14-0 मोल, आतां ताका रुपया 5-8-0. झूज चड तेंप चलात जाल्यार कागदाचें मोल उणें जांवचें दिसाना. इतलें विप्रीत मोल कागदाक जाला जाल्यारय आमी सद्याक गरज आसा तितलें कागाद बोम्बय मोलाक घेवन नळ्यांच्या पातमारींत घाल्न, भोव कश्टांनी हाडलां. कन्नडाच्या कोंकणी काथोलीक संवसारिकांचो एक ताळो पंचवीस वर्सां थावन सांभाळ्न हाडल्लो उरजायच्च न्हय, ताच्याच कामार पडोन हिन्दुस्तानांत ह्या राजकी चळवळेच्या तेंपार काथोलीक संवसारिकांचें हातेर बळीश्ट दोवोरिजाय म्होळ्ळ्या इराद्यान आमी बोम्बय सोड्न मंगळुराक आयल्यांव. एक वर्तमानपत्र चलोन व्होराजाय जाल्यार जायतो दुडू गरज. मंगळूर मासीस पत्राक द.क. काथोलीक एसोसिएशनाचो दुडू आसा. राकण्या पत्राक दियेसेजेच्या दुडवाचो आधार आसा, खर्च उणो करूंक तांचेंच छापखाणे आसा. आंजाक पवीत्र हृदयाच्या भक्तिपणाचो आधार. दिर्वें चलाजाय वर्गणिदारांनी दिल्ल्या वर्गणिच्या सहकारान. कागदाक दुडू मुंगड फारीक करूंक पोडताच न्हय. बगार छापखाण्याचो खर्च, तपालाचो खर्च, दिर्वीं मंगळुरांत बटवाड करचो खर्च आसा. हो सर्व खर्च आमी जरतर त्या दिसा मुंगड फारीक करिनांव, दिर्वें भायर सरोंक मुश्कल. आज वर्गणी येवंक ना, फाल्यां पोर्वां येतली, थोडे दीस रावा म्होळ्ळ्यार कोणी आयकाना. तातांचें जिवण त्या त्या वेळार तांकां पावाना जाल्यार तांचे दीस वोचानात. असल्या आसंद्रपाच्या काळार आनी आमच्या

मित्रांचो सहकार आमकां चडीत गरज आसल्या काळार वर्गणिदार तातांची देवी वर्गणी वेळार धाड्न दिनासताना रावल्यार दिर्व्यांचेर आनी आमचेर कश्टांचेर कश्ट देंवतात. आमचे वर्गणिदार आमचो आधार जांवच्या सुवातेर खरी स्थिती सक्षीत चिंतिनास्ताना आमचे दुस्मान जाल्ल्या नमुन्यार वागतीत जाल्यार दिर्वें चलोन व्होरोंक असाध्य. ह्याच दिसानी कितलींसीं वर्तमानपत्रां बंद जाल्यांत. कराचींत काथोलिकांचीं दोन पत्रां गेलीं. बोम्बयतय तशेंच जालां. आमचें जिवण दिर्व्यांचेर चलाना जाल्ल्यान दिर्वें उरलां. दिर्व्याक कागाद हाडा, छापखाण्याचो खर्च दिया, दिर्वें टपालार घाला, आमी बोसोन सुशेग वाचतांव म्हण आमचे सबार वर्गणिदार चलतीत जाल्यार दिर्व्यांची सयत पाळी वेगींच येनास्ताना रावची ना. इतलीं वर्सां आमी काडल्ली म्हिनत व्यर्थ. इतलीं वर्सां इंग्लेज नेणारी लोकाक वाचूंक एक संवसारीक काथोलिकांचें पत्र आसा जाय म्हण वावरलेलें व्यर्थ. ह्या विशेश अभिप्राये मुखार कोणाचेय पांय बांदतात, कोणाकय मुखार सरोंक धैर पावना. आमकांय जाता तशें. दिर्व्यांच्या खर्चाक दुडू जमो करिजाय, सांगाताच हर एका पत्येंत नवीन, रुचीक, घनीश्ट, लोकाची मना खुशी करचीं लेखना बोरय जाय! वर्गणिदार, तांचो सहकार आमकां दिनांत जाल्यार आमी हें काम कशें चलोवचें?"

"आमच्या मेनेजरान ह्या दिसानी पांयशां वयर जागवण्यो धाडल्यात. ह्या जागवण्याक अनसर्सून देव्यों, वर्गण्यो सरग गळाय करिनासताना धाडा. वर्गणी धाडताना इल्लें कुसरी, कुसवारसो (कुस्वार्सो) म्होणोन कुडसिल्यार कागदाच्या मोलाचो एक वांटो सर्वानी वांटून घेतल्ल्याबरी जायत. हाताक हात लावन एकामेका सहकार दिवन, एकवोटान चलोन आमी सर्व दिर्व्या मार्फत आमच्या समाजीची सेवा करयां."

"आमच्या संवसारी काथोलिकांनी आमच्या गावांत शाश्वत केल्लें खंचें तें, चार दीस करतात, मागीर कोणाक कोण ना म्होणोन तुमीच म्होणतात. आतांच्या दिसानी तसलें कसलेंयी शास्वीत उरयनाये म्होळ्ळी संस्कृती

चलता. तर तुमचे पाड्तिची सहाय कितें? तूर्त करा."

'पत्रकर्ता'

'दिर्वें कोंकणी पत्र 1940 इसवेंत बंद पडताना बरइल्ल्या आदेव्स पत्रांत ह्या परीं उल्लेख आसा.'

"आदेव्स!"

"1912 वर्साच्या मे म्हयन्यांत हें पत्र जल्मलें. इतली लांब बाळवी ताका लाबात म्होळ्ळें त्या काळार भोव थोड्यांनी चिंतल्लेंगी कोण्णा. लोकान ताका दिल्ल्या आदाराच्या कुमकेन इतले काळ तें उरलें. ताचेखातीरच वावुरचो तसलो एक जण अलाहीद दोवरूक संद्राप आसताना ह्या पत्राची जीण सदांच कश्टांची जावन ताचे जिणेक एक खात्री स्थिरपूर्ण जोडूंक ताका बोगेंवक ना. आनी आतां पत्र चलोवन व्हरची हकीकत आनी चडावत जावन आमची भोलायकी सारकी नातल्ल्यान हें पत्र आनीक चलोवन व्होरोंक आमकां असाध्य. ह्या वोर्वी हो आंको दिर्व्याचो निमाणों जावंक पावला.



*The Konkani Dirven, 1937, with Editors of Mangalorean Catholic Periodicals.*

*SEATED:* *Alex A. Pais, B.A., LL.B., Editor, Rev. Fr. Sylvester Menezes, Correspondent of Fides Service. A.U. Kunnappa, M.A.,n L.T., Founder and the First Manager, Rev Fr. B. Rosario, S.J., Our First Contributor, Rev. Fr. B.D'Souza, S.J., Rector, St. Aloysius College, Rev. Fr. Sylvester, O.M. Cap., Editor, "The Voice of St. Francis of Assisi," Dr. L.P. Fernandes, B.A., L.M.&S., Editor, "Mangalore," A.I. Mascarenhas, Founder and the First Editor.*

*MIDDLE ROW:* *Rev. Fr. D. Albuquerque, S.J., Editor, "The Aloysian," Rev. Fr. M. Pinto, Editor, "The Ange." J.J. Rego, Assistant Editor, Rev. Fr. E.L. Mathias, Ex-editor, "The Ange." Rev. Fr. J. Siqueira, S.J. Editor, "St. Aloysius College Annual," Rev. Fr. A. B. Pinto, Contributor, L.X. Rego, Ex-Editor, The Mangalorean Review, Bombay, Rev. Fr. Frank Perez, Contributor.*

*BACK ROW:* *Gregory Menezes, B.A., L.T., Irenaeus Lobo, William Sequeira, B.A., P.I. Pais, Manager, G.E. Menezes, J.B. J.V. Rego, S. Nazareth.*



*Konkani Dirven in 1917*

*seated: Dr B Colaco — Alex A Pais — A. C Kannuppa — J.A Saldanha — V.P. Coelho*
*Middle row: J.S Sequeira — A.I Mascarenhas — J.J Rego — P.J.D'Souza — James J. Rego*
*Back row: Iraeneus Lobo — S.R. Nazareth — Joseph Castelino — Joseph Castelino — J.M. Rodrigues*

हें आमचें तीर्प प्रगट उच्चारूंक आमकां वोर्तो खंत भोगता. पत्र आनीक उरोंवक कांय पूण वाट मेळल्ली तर खुश्येन आमी ती धरत्यांव. पूण ज्यारेक हाडयेत तसलो उपाव खंयचोच दिसानातल्ल्यान आनी अदीक कर्न झुजानिमतीं उब्जलल्या रगळ्यां धर्मान पत्र बंद करिजाईच पोडलें..."

**'आदेव्स आनी आदेव्स समेस्तांक!'**

अशें लाइकांनी भारी उमेदीन आनी उत्सवान कोंकणी भाशेच्या मोगान, इंग्लीश उलोवपी लोकांमदें धरयान पेंकाड बांदून सुरू केल्लें कानडी लिपींतलें पयलेंच्या पयलें 'कोंकणी दिर्वें' म्हळ्ळें चारित्रीक कोंकणी पत्र कोंकणी लोकांचें दिर्वेंच जावन पर्जळताना थोड्या हितासक्तेच्यांनी वांचोंवक सोडलें ना. भोऱ्या वयर भोरकुटी म्हळ्ळे परीं दुसऱ्या महाझुजा निमतीं उब्जाल्ल्या रगळ्यांनी पत्राक पुरतें चिरडुनंच सोडलें. पूण पत्र आदेव्स म्हणोन पालवोंच्या पयलें कोंकणी चळवळेचें बीं वोंपुनच गेल्लें . ह्या वरवीं कोंकणी पत्रिकोद्यमाची चळवळ मंगळुरांत सुरू जाली म्हण खरोखर सांग्येत.



## अध्याय चार
# कोंकणी दिर्व्याची कोंकणी चळवळ

### 4.1 कोंकणी भाशेचें रुदान आनी भुजोण

1912 इसवेच्या माय म्हयन्याच्या पयल्या सुक्रारा कोंकणी दिर्व्याचो पयलो आंको भायर सरतानांच दिर्व्याचो प्रथम संपादक, श्रेश्ट कवी लुईस इनास मास्करेन्यासान, कोंकणी भाशेच्या अपूट मोगान भरोन पत्राच्या पयल्या अंक्याचेरच कोंकणी लोकाक तांचे मायभाशे थंय जागवोंच्या खातीर 'माते कोंकणी भाशेचें रुदान' म्हळ्ळी एक चारित्रीक कविता प्रगट केली. ती कविता ह्या परीं आसा.

**'माते कोंकणी भाशेचें रुदान'**

'कितलो काळ थावन रडटां बसोन
इतले म्हजे भुरगे आसोन
ना म्हण उर्बेन म्हजे पासून
वावुरतलो कोण एक
म्हज्या उसक्यार म्हजे चले
हासोन खेळोन जाणते जाले
पूण हा! सक्कड भुलोन गेले
परकी सुंदर कन्येक
सुरूप बया इंग्लेज नाडटा
म्हज्या पोरांक लागीं वोडटा
तांच्या काळजांत पालवोन सोडटा
मोग आपले मायेचो.
म्हाका पोसचे म्हजे बाळ
दितात आपले मतीचो फळ

मानवोक तिका करोनि गोळ
म्हज्या म्हातारेचो.

स्वाम्या म्हज्या, कशें भोगूं
म्हजे कळवळ कोणाक सागों?
कोणा कडेन वचोन मागूं
करूंक म्हजें जीवन.

नासतां पोशण अशी भागलीं
रडोन रडोन मांद्रेक लागलीं
तरी पुतांक येदोळ राखलीं
येतीत म्हण धांवोन

विसरोन गेल्यात, ना'त ते येदोळ
खंयरे पावल्यांत बाळां सुफळ
पुसोंक म्हज्या दुकांचे व्हाळ
नातगी कोणय म्हजे?

मरोंक तेंकल्या, आतांपुणी
म्हज्या बाळां, तुमी कोणी
पावनांतगी सोडूंक पाणी
मरचे आवयक तुमचे!"

- **लुईस मास्करेन्यस**

हें काव्यें वाचून तवळ सेमिनरीस्त (मा.बा.) सिला मिनेजाक कठीण दूक भोगलें. ताणे त्याच वर्साच्या जुलय म्हयन्यात त्या कवनाक प्रत्युत्तर जावन "माते कोंकणी भाशेक भुजोण" म्हळ्ळें कवन लिखलें तें कवन अशें आसा-

**'माते कोंकणे भाशेक भुजोण'**

आयकोन, माये, तुजें रुदान
भोरलीं आमचीं काळजां दुकान
चुकल्यांव, माते, चुकल्यांव आजून

भुरगीं अनुपकारी
दुकाक तुज्या आमी कारण
सांडलें आमी तुजें चरण
विसरल्यांत गे तुजें स्मरण
माते भोव सुंदर
आमी बाळां तुका लजल्यांव
तुजे सर्सीलीं पयस सरल्यांव
गुन्यांवकारी आमी जाल्यांव
वेंचीक पुत्राबरी
भास तुजी तरी सोबीत
सोबाय तुजी उरल्या गुपीत
नाका, माये, जावंच्याक कुपीत
तुज्या भुरग्यांवेरि
असले दशेक पावोन आसतां
मोर्नां तानेन वोळवोळटासतां
भुरग्यांक उलो मारीत आसतां
सोडच्याक घोट पाणयाचो
वेचीक बाळां धावोन येतांव
मांद्रे भोंवार उबी रावतांव
निचेव धर्न, भोगसून मागतांव
रडोन गुन्यांव आमचो.
पोळेवन माते, आमची चूक
काळजांत भोगता वोर्ती दूक
फुडां आमी तितलेच चुरूक
भोरूक तुजो मान.
तुजे पासून वावुरतेल्यांव

'दिर्वे' तुजे आशेतेल्यांव
दुबळ्या धाकट्यांक तें वांटतेल्यांव
व्होड आतुरतायेन

- शील मिनेज

मा. भावशील मिनेजाचें हें प्रथम काव्य वाचून ताचे व्हडील चकचकीत जाले. शीला मिनेजा थंय शक्त आनी विद्वांसीक हुरूप तांणी देखलो. हें काव्यें बरवन कोंकणेच्या मेचवाणेक तो पात्र जालो. ह्या उप्रांत ताची लिखणी हातांतून सकयल विश्रांत घेवंक आयकना जाली. पोर्नो सोल्लो, नोवो सोल्लो म्हळ्ळी पुस्तकां सेमिनारीच्या आवदेंत कोंकणी समाजेंत पर्जळ देकोंक सकलीं 'बरइल्लें उतर चडचतुरायेन वाचीजे, बरलेलें जबाबदारेन बरय जे,' ही ताची सांगणी जावन आसली, आनी तशेंच तो कार्या रुपान सांबाळूंक तो साधन करतालो जाल्लयान तवोळच्या बिस्पान ताच्या बरपांक होगळीक पाटइल्ली.[54a]

1938 इसवें मंगळूर दियेसेजीच्या येवकरिस्तीक काँग्रेस समितीन बीस्प वितोर रुजार फेर्नांदाच्या अध्यक्षपणार ह्याच नांवाडदीक प्रसंगार, बुदवंत साहिती याजक मा. सिल्वेस्टर मिनेज बापांक 'राकणो' पत्राचो प्रथम संपादक जावन नेमक केल्लो.

अशें कोंकणी दिर्वे पत्रान मौन रितीन कोडयाळांत केनरांत आनी बोम्बयांत कोंकणी चळवळीची धर वोतली आनी निद्रेश्ट, लजीस्ट कोंकणी लोकांक जागयलें.

## 4.2 विश्व सम्मेळनाची तयाराय

पयलें कोंकणी कथोलीक विश्व सम्मेळनाचें प्रयत्न कोंकणी दिर्व्याच्या 1917 इसवे जुलय म्हयन्याच्या पयल्या अंक्यांत प्रकट जाल्ले वाचूंक मेळता. ही महासभा आपवंक कारणां साबार आसल्लीं. 1799 इसवेंत टिपू सुलतान पाडाव जाल्ल्या उप्रांत कोंकणी करावळ ब्रिटीश राजाडाळताखाल (राजाचे राजवटकेखाल) आयली. त्या उप्रांत कोंकणांत कोंकणी लोक

पुनर येवन स्थीर जाताना सरकारी आडळत्याखाल कोंकणी जिल्लोच 1862 इसवेंक ब्रिटिशांनी दोन वांट्यांनी विभागसिलो. आनी अशें दक्षीण कोंकण मद्रास सरकारखाल आसताना उत्तर कोंकण बोम्बय सरकाराखाल दवरलें. धार्मीक आडळतेंतय तशेंच (administration) चडावत कोंकणी कथोलीक लोक मंगळूरच्या बिस्पाखाल आसताना, थोडो गोंयांच्या आर्चबिशपाखाल आसल्लो. दुसऱ्या सुवातेर जाये तो लोक परगांवांनी म्हणजे हिन्दुस्तानाच्या भायल्या गांवांनी जेज्वेताखाल शिकाप विस्तारल्यान, आनी स्टिमरां आनी रेयलां निमतीं पयण ससार जाल्ल्यान कामांखातीर सिलोन, बर्मा, आफ्रिका, बसरा, मेझोपोटेमिया, इंग्लड इत्यादी पयशिल्ल्या गांवांक विस्तारले. ह्या महासभेची आलोचन कितेंगी म्हळयार नतालांच्या फेस्तावेळार कोंकणी कथोलीक समाजीच्या समेस्त स्थापन्याथावन आनी परगावांत आसच्या समेस्त ठाण्या थावन नेमसिल्या प्रतिनिधीनी मंगळुरांत मेळोन एक महासभा करची आनी ह्या सभेंत एक एकवटाचो संघ घडचो आनी मुख्य जावन आख्ख्या समाजेचें एक वर्तमान पत्र प्रगट करचें म्हण विलेवारी आसल्ली. पूण तवळ पयलें महाझूज चलतालें जाल्ल्यान तें सुफळ जालें ना म्हण सांगयेत.[55]

ह्या विशयांत कोंकणी दिवें 1917 इसवी जुलाय म्हयन्याचो पयलो अंको पान 123 - प्रकट जाल्ली बातमी आसा तशी दिल्या.

**"सोमेस्त कोंकणी कथोलीक समाजिच्यांक"**

"आमच्या समाजीक संम्मुंद जाल्ल्या थोड्याभोव गरजेच्या संगती विशयांत हें कागाद तुमकां आमी बोरयतांव आनी त्यो संगती तुमी बोऱ्यो करून चिंतून पोळे जाय म्हण उपकार मागतांव.

मुख्य जावन कन्नडा जिल्ल्यांत ह्या दक्षीण कोंकण गांवांत येवन रावल्ली आमची समाज कुळयेन एकच्च जावन आसा, आनी ह्या एकपोणा नितीं आमच्यो वोडण्यो आनी उद्दीश एकच्च वर्ततात. पूण हो आमचो सम्मुंद तिक्केशे पोयस सरोंक साबार कारणां आसात. पोयल्या सुवातेर, सरकारी

आडळत्याखातीर कन्नडा जिल्लोच दोन वांट्यांनी विभागसिला आनी अशें अर्दे मद्रास सरकाराखाल आसताना, बाकी अर्द्यांनी बोम्बय सरकाराखाल रावाजाय पोडलां. शास्त्रीक आडळतेंतय तशेंच चडावत आमचो लोक मंगळूरच्या विस्पाखाल आसताना, थोडो गोंयच्या आर्चबिस्पाखाल आसा.

दुसऱ्या सुवातेर, आमचो जायतो लोक एकदाळ परगांवांनी आनी हिन्दुस्ताना भायल्या गांवानी सयत वेता. हाका मुख्य काराणां खंचीगी म्होळयार, आमच्या गांवांत काम उणे, जेज्वेतांखाल शिकाप विस्तारलां, आनी स्टिमरां आनी रेयलां निमतीं पयण ससार. अशें जावन आमच्या समाजीचे फांटे सिलोन, बर्मा, आफ्रिका, बसरा, मेझोपोटेमिया, इंग्लंड इत्यादी पोयशिल्ल्या गांवांनी विस्तारल्यात. पुर्विल्ल्या ग्रेक लोकाबरी आमी नोव्या नोव्या परगांवांनी वोचोन न्हयच आमचे सयंबाचे गूण म्होणजे, व्होडिलांक मान दिवचो आनी हेर दस्तुऱ्या परकी लोका मोदें व्हेल्यात, बगार प्रत्येक नमुन्यांच्यो रिवाजी आधारच्या परकी लोकांमदें सयत तांचे प्रकार चलचो विशेस स्वभाव आमी दाखयला.

आमच्या काळजांत मायदेशाचो मोग पालवोन वोचोंक ना. पूण जायतो काळ बदल समाजी मोदें भोरसोन आसोन तिक्केशे उणो जाला जावयेत. देखून दुसरे दुसरेकडेन विस्तारल्ल्या समेस्त फांट्यांच्यो वोडन्यो, इरादे आनी कामां एकच जायशीं सगळ्या समाजीक सांगाता धरच्या पास्वत कांय पुणि उपाय काण्घेल्ल्याखरीत आमची समाज सगळी एकवोटपणात हाडूंक असाध्य जातेलें.

पोयस पोयस फासळोन गेल्ल्या वोरवीं उब्जोंवचो मोस निवरावंक आनी समाजीचो एकवोट आनी बोरेपोण वाडोवंच्या पास्वत समाजीच्या सोमेस्तांनी मेळोन एक पावटी पंचेत्की करिजाय म्होळ्ळी अपेक्षा मुख्य जावन बोम्बयतल्या मंगळूरगारांमोदें दिसान दीस चडोन येता. गांवांत आसल्ले आनी भायर चार गांव भोंवोन या शिकपावोरवीं मतीचो उजवाड वाडयल्ले ओट्टू सांगाता मेळोन, उगत्या मनान पंचेत्ती केल्यार आमच्या समाजीच्या बोरेपोणाक कांय

पुणि करयेत म्होळ्ळें सक्कड वोपतात.

एकवोटावोरवीं न्हयच आमच्या समाजी भितर बोरेपोण करयेत,बगार आमच्या समाजीच्या फांट्यांक दुसऱ्या समाजीकडे जांव, सरकाराकडे जांव या शास्त्रीक व्होडिलांकडे जांव आसचो संबंद उंच हाडयेत. इतलेंच न्हय, दुसऱ्यो समाजी सक्कड आपापली वृद्धी करूंक आनी शिंपोडलेल्यांक सांगाता हाडूंक पोळेताना, आमी मात्र पाटीं रावचें समाशें दिसाना.

ह्या थरान फासाळल्ल्या मोदें आनी घरा आसल्ल्या मोदें एकवोट पण दोवरूंक कितें उपाय करचोगी म्होण आलोचन करूंक गेल्या त्या मार्च 25 तारकेर बोम्वंयन ओनरेबल दात्तेर सी. फेर्नांदिसागेर कॅनरा कथोलीक एसोसियेशन आनी मंगळुरगारांचे कोऑपरेटीव सोसायटीच्या मेनेजीगं कमिटींची एकसभा कुडसाल्ली ह्या सभेंत सक्कड वोपणे आमच्या समाजीच्या सक्कड फांट्यांनी सांगाता मेळोन एक महासभा केल्यार खंचेय निर्णय करयेत म्होण.

आतां असल्या महासभेक जायजाल्ली गरजेची विलेवारी करूंक ह्या कागदाक सकयल दसकत केल्ल्या आमकां आठ जाणांक, वोयर सांगल्ल्या सभेंत नेमसिल्यात; आनी देखून ही संगत आरोंब करचें काम आमचेर पोडलां. पूण हो आरोंब करताना, आमकां जांव या आमकां नेमसिल्ल्या सभेक जांव खंच्याय थराची पोदवी आपलेतल्याक वोड्न काण्घेवची खुशी ना.

सगळ्या समाजीची जेराल अभिप्राय मेळच्या पास्वत तर्काक एक बुनयादशी जावन आमची आलोचन आमी हांगासर उच्चारतांव. हरएकल्यान ह्या विशयांत आपली खरी अभिप्राय आनी सूचन आमकां पाटयजाय, आनी आमची आलोचन तांच्या मनाक वोपल्यार, ताणी ह्या आलोचनेक हात दी जाय म्होण आमी उपकार मागतांव. सांगाताच कितें तब्दिली करयेत म्होळ्ळया विशयांत तपशील सूचना आमकां बोरयल्यार, तीं सक्कड सूचना आधार्ने फावो त्यो तब्दिल्यो कर्न, तांचें नक्कल काड्न सगळ्या समाजी मुखार आमी घालतेल्यांव.

**आमची आलोचन कितेंगी म्होळयार :**

a) येंवच्या नतालांच्या फोस्ताच्यावेळार, फुडां निर्णयसुंच्या खंच्या एका तारकेर, कोंकणी कथोलीक समाजीच्या सोमेस्त स्थापन्यां थावन आनी परगांवांत आसच्या सोमेस्त ठाण्याथावन विंचून काडच्या या नेमसुंच्या प्रतिनिधिंनी मंगळुरांत मेळोन एक महासभा करची.

b) ह्या महासभेंत करच्या निर्णयांक सगळ्या समाजी मोदें भार आसच्या पास्वत, महासभेक येंवच्या सर्व प्रतिनिधींक थंयच्या थंयच्या लोकान विंचून काडिजाय या नेमसि जाय.

c) प्रतिनिधी खंयचे कुडसा जायगी म्होळयार:

I. **फिर्गजो आनी ठाणे -**

1. उत्तर दक्षीण कन्नडांतल्या प्रती एका फिर्गजेचे.
2. बोम्बय आनी भोंवारीचे.
3. उत्तर बोम्बय, काठेवाड आनी येडनाचे.
4. मध्य बोम्बय संस्थानाचे.
5. कन्नडा जिल्ल्याक बडगा आसच्या दक्षीण बोम्बयचे.
6. सिंध आनी बलुचिस्थानांतले
7. मैसूरचे
8. कोडगू सिमेंतले.
9. मद्रासच्या आसपासचे
10. कोयंबतूर, सेलम, आरकोड आनी पोंडिचेरीचे
11. मदुराय, तिरुचिनापळ्ळी, तंजाऊर, रायनाड आनी तिन्नेवेलींतले
12. गोदावरी, कृष्णा, गुंटूर आनी नेल्लुरांतले.
13. बेळ्ळारी, कडपा आनी कर्नूलचे
14. मलबार आनी माहेंतले
15. तिरुवांकोड आनी कोच्चींचे
16. पंजाब, युनायटेड प्रोव्हिन्स आनी देल्लीचे

17. सेंट्रल प्रोव्हीन्सेस आनी मध्य हिन्दुस्तानांतले
18. बंगाल, बिहार आनी ओरिसांतले.
19. बर्मा आनी सिंगापूरचे.
20. सिलोनांतले
21. आफ्रिकांतले
22. बसरा, मेझोपोटेमिया आनी पर्शियाचे

## II स्थापनी आनी संघ

i) मंगळुरांत - 1) दियेसेजीचे जेज्वेत 2) दियेसेजींतले सेकुलार 3) दियेसेजींतल्यो माद्री 4) द.क. कथोलीक एसोसिएशन 5) सां. लुवीसाची कॉलेज 6) सांत आन सायबिणीचो कोवेंत 7) जेप्पू सेमिनरी 8) सां. जुजेचो आसरो 9) सां. आंतोनीचो आसरो 10) पाद्र मुल्लराची आसपत्र. 11) कोडयाळबैल जेंटल्मेन सोडेलिटी 12) क्रिस्तांव आवयांची सोडेलिटी 13) कथोलीक युनियन क्लब 14) म.क.को.क्रेडीट सोसायटी 15) रो.क. प्रोविडेण्ट फंड 16) कोंकणी दिर्वे 17) ट्रंपेट कोल.

ii) कल्ल्याणपुरांत - कोऑपरेटीव क्रेडीट सोसायटी

iii) सुरत्कलांत - कोऑपरेटीव क्रेडीट सोसायटी

iv) बोम्बंयत -

1) केनरा कथोलीक असोसिएशन
2) मंगळुरगारांची कोऑपरेटीव क्रेडीट सोसायटी
3) मंगळुरगारांची घरहितलांची कोऑपरेटीव सोसायटी
4) मंगळूरगारांची एड्युकेशनल कोऑपरेटीव सोसायटी

v) होनावरांत - 1) फिर्गजे इस्कोल

vi) उत्तर कन्नडांत आसचें गोंयच्या आर्चदियेसेजीचे पाद्री

vii) बोम्बय, दामांव आनी पुना दियेसेजीनी आसचे मंगळुरगार पाद्री.

viii) मैसूर दियेसेजींत आमचे मंगळूरगार पाद्री

एकेका ठाण्याथावन लोक कितले प्रतिनिधी पाटय जाय म्होण आपेक्षितागी

तितले धाडच्याक कांय अड्डी ना.

d) सभेंत कसल्यो संगती चर्चे करिजायगी म्होण हांगासर सांगतांव. पूण हांतूं खुशी आसातें तब्दील करयेत या कुडसुयेत :-

1) फुडल्यो महासभा कशो घडच्यो आनी कितल्या वर्सां एक पावटी करच्यो.
2) सगळ्या समाजीक एक एकवोटाचें संघ गरजेचें जाल्यार तें खंयच्या नमुन्यार घडचें. आसल्ल्या संघां मोदेंयीं एकवोट करचो.
3) आमच्या समाजीक नांव कितें आनी ह्या समाजीचे प्रत्येक गूण बोऱ्या थरान सांबाळचे कशे.
4) सगळ्या समाजीचें बोरें वायट सांगूंक समाजिचेंच एक वर्तमानपत्र फायस करचें.
5) कोऑपरेटीव संघ, जॉयंट स्टॉक कंपनी आनी हेर वाटानी समाजीचें बोरेपोण वाडोंवचें.
6) 'डेक्कन एड्युकेशन सोसायटी' या 'सर्वंट्स् ऑफ इंडिया सोसायटीं'बरी समाजीच्या बोरेपोणा खातिरच वापुर्चीं एक सोसायटी घडची.
7) शिकाप a) प्राथमिक b) उंचलें c) वात्र उद्योग शिकोंवचें d) चलयांचें
8) सागवळी या कारखान्या कामांनी अभिवृद्धी करची
9) समाजींच्या सांद्यांभितर व्यापारीपोणांत अभिवृद्धी
10) आतांच्या संततीची अस्कताय वोचोन जिवांत घटमूट जावन वाडोंक कितें उपाय करचे.
11) पियोवणे उणेकरूंक प्रयत्न
12) काजार आनी हेर समाजीक दस्तुऱ्यांची तब्दिली
13) जिल्ल्यांतले भायर वेच्या लोका विशयांत.

e) ह्या संगती विशयांत कोणे बोरी माहेत कर्न काण्घेल्यागी या तांच्या

ह्युद्या वा अनभोवान तांची अभिप्राय उच्चारूंक फावो म्होण दिस्तातगी तांकां विंचून काडल्ल्या खंच्या एका विशयाचेर भाशण दिंवक आपोंवचे.

f) ह्या भाशणांचीं नकलां पोयलींच प्रतिनिधींक पाटावन त्या विशयांत तर्क कर्न सभेचे अभिप्राय निर्णयसुंचे.

g) सभेंत जाल्ले निर्णय आनी सगळ्या कार्यांची तपशील छापसून समाजीच्या सांद्यांमोदें वांटची आनी ताचे मोदें अभिप्राय उब्जोंवची.

h) सभेच्या खर्चाची विलेवारी कशीगी म्होळ्यार :-

1) खंयचें प्रतिनिधी लोकांचे पाडतीन सभेक येतात थंयच्या लोकान ताचो खर्च पोळेजाय.

2) कोण भाशण दितागी ताणेंच तें छापसूंचो खर्च पोळेजाय. पूण प्रतिनिधींक आनी मागीर वांटूंक जाय तितल्या प्रत्यांचें खरीद मोल मात्र सभेन पोळोंवचें.

3) मंगळुरांत मेळच्या सभेक खर्च वंतिगेन या दानान जमायसुंचो.

4) सभेक येंवच्या हर एकल्या प्रतिनिधीन कांयपुणी, म्हणजे चार पांच रुपोयपुणी खर्चाक फारीक करी जाय.

5) सभा पोळेंवक येतेल्यांनी हर एका जुंताक आठ आणे या सक्कड जुंतांक एक रुपोय पुणी दी जाय.

i) सागवळीची उत्पत्ती, नमुन्यावार वावराच्यो वस्तू इत्यादी दाखोंवकय होच संदर्भ लायेकसो दिसता.

j) सभा कुडसोंच्या आदीं जायतें तयारायेचें काम आसतेलें. ह्या पास्वत सक्कड ठाण्यांत एकामेका मेळाशें करची गरज आनी थंय थंय स्थळीक कमिटी आनी एक मुख्य कमिटी घडी जाय. हें कागाद बोरयलां फकत आमची आलोचन सकडांक ओपतागी नांगी पोळोंवक आनी ओप्पना जाल्यार कितें तब्दिली करीजाय म्होळ्ळें समजोंक. देखून तुमची अभिप्राय आनी आधार पाटयल्यार भोव चड उपकार जायत.

सी. फेर्नांद, ई.आल्वरीस, एफ.एल.सील्वा, आलेक्स ए. पायस, सिरील

रेबेल, जेरोम सालदान्य, जे.पी.रेगु, एम.एस.नोरोन्य.

चीत दिया : ह्या संबंदी सर्व पत्र व्यवहार सी.आलेक्स ए. पायस बी.ए. एल.एल.बी, नेसपीट रोड, माजगांव बोम्बय हाच्या विळासाक धाडि जाय."

ह्या पयल्या कथोलीक जागतीक महासभेची तपशील तयाराय पळेताना विस्मीत जाता. अशी तयाराय करीजाय जाल्यार, कितलेशे दीस आनी रात पुरासाण आनी वांव्ट लेकिनासताना नीद कळन ताणी कोंकणी लोकाक एकटांय करचे पासोत वावर केला आसतोलो. पयलें महाझूज चलोंक नातल्लें जाल्यार, त्या वेळार आपुरबायेन कोंकणी लोकांची महासभा जावन कोंकणी कथोलिकांक साबार बोरेपण जांवचे साध्यताय आसल्ली. तांची तपशील महा सभेची तयाराय आनी दूरदृश्टी मेचवोंची तसली जावन आसा.

## 4.3 कोंकणी काथोलीक सत-सभा

(The Konkani Catholic Truth Society, Mangalore.)

अखील भारत कथोलीक सत-सभा त्रिचिनोपोलींत स्थापन जाल्लेंच ताचो एक मातृ-भाशेचो फांटो चडउणे 1919 इसवेच्या ऑक्टोबर म्हयन्यात अ.मा.बीस्पसायब पावलपेरिनी जेज्वेत हांच्या अध्यक्षपणार चडावत उमेदवंत उदेंती कोंकणी बरयणारांची एकसभा जमली. ह्या सभेक मंगळुरची कोंकणी कथोलीक सत-सभा म्हण वोलांवक निर्णय जालो. ह्या सभेक बीस्पसायब पात्रोन आसोन मा.बा.सी.पी.गोसाल जेज्वेत हांकां अध्यक्ष म्हण नेमलो.[56]

त्याच वर्सांच्या डिसेंबर तीन तारकेर सां. सावेराच्या फेस्ता दिसा मिलाग्रीस इगर्जे मुखार ही सभा स्थापन जाली. आनी ह्या सभेचो ध्येय आनी उद्देश मा./बा./मास्करेन्यान. विवरसिलो.

**i) ह्या विशयांत 'मंगळूर' पत्रार आइल्लें लेखन हांगासर दिलां.**

('Mangalore', Vol.1, January 1982, No 7)

*'The Konkani Catholic Truth Society, Mangalore.'*

*'Soon after the establishment of Indian Catholic*

*Truth Society in Trichinopoly it was felt desirable that a vernacular branch of it be started for the Mangalore Diocese. Early in October 1919, a meeting of a goodly nember of prospective writers was convened and presided over by His Lordship the Bishop of Mangalore. It was resolved that those present form themselves into the Konkani Catholic Truth Society of Mangalore with His Lordship as Patron and the Rev. Fr. C.P. Gonsalves, S.J. as President.*

*On december 3rd of the same year, at the St. Xavier's Day Celebration in front of the Milagres Church, the Society was formaly established, and its scope and purpose were fully explained by Fr. Mascarenhas. Printed pamphlets explaining the same were sold at a nominal price, the surplus cost being met by a generous donation from our ever liberal Knight, Sir S.L. Mathias, K.S.G.*

*The Society has lived these eight years though it cannot be said to have has a vigorous life. Each year it has been issuing four tracts in Konkani, though not always punctual to the date of issue. But those conversant with the production of literature and those in the know of the many difficulties that have come in the way of this Society find that, though much remains yet to achieved, it has done enough to be thankful for to Providence.*

*Up-to date the K.C.T.S. has secured 9 Benefactors, each contributing Rs. 25; and 14 Life-Members, with a contribution of Rs. 15 each. Two of the former class and one of the latter are laymen. Of the ordinary members the Secretary said he did not feel like giving out the number, so few they were. When further questioned about the present financial condition of the Society, he would only say: "We are in debts." But we suspect the debts are rather heavy. The K.C.T.S. has no capital. Benefactors and Life-members are so very few. The tracts have been sold, at times, even below the cost price. Many of the copies remain unsold. The conclusion is evident.*

*Yet, nothing daunted, the Society is thinking of launching out new schemes. So far it has been publishing only Konkani Tracts, and those too, mostly on religious subjects. It is intended to widen the range of subjects, provided the Society can find writers and the writers can find time.*

*Furthermore, it is very much desired that this Society begins to publish small pamphlets and Leaflets in Canarese and Tulu, explaining the various tenets of our Holy Religion for the enlightenment of our non-Catholic brethren. It is pity, and a wonder too, that the Catholic Press of Mangalore has done next to nothing in this direction. These tracts and leaflets*

*will have to be broadcasted gratis and will therefore require special funds. The idea would be feasible if benefactors could be found to defray the cost of production of, say, one tract or one leaflet. In the event of this scheme being materialized, we shall have not so much a Konkani as a Vernacular Catholic Truth Society.*

*We have yet another scheme, but for want of space we withhold it for the present. There is, indeed, no lack of schemes and ideas! But the funds to materialize them? There's the rub! Would the Press Sunday be helpful in infusing new life and vigour into our Konkani Catholic Truth Society!*

ह्या सभेची पयली कड्तील-पाद्र मास्करेन्यान बरयली. 'जेजू वोयज' - ही कोडयाळबैल छापखान्यात छापल्ली. ह्या कड्तिलेचें मोल एक आणो. ह्याच कडतिलेच्या पाटल्यान सभेच्यो मुख्य रेग्रो छापून काडल्यात.[57]

ह्या सभेची दुसरी कड्तील, पाद्र मानवेल मथायसान बरयल्ली जुलय म्हयन्यांत प्रगट जाली. ह्या कड्तिलेचें नांव "काथोलीक शिकाप" ह्या कड्तिलेचें मोलय एक आणो.[58]

**ii) कोंकणी भाशेंत धार्मीक कड्तिल्यो प्रगटिल्ल्या विशयांत 'मंगळूर' पत्रार अशी एक वर्दी आसा.**

ही सभा अशें वर्साक चार कडतिल्यो छापसिताली. कडतिल्यो छापूंक खर्च चड पडतालो जाल्यारी सकटांनीत्यो काण्घेवन वाचिसारक्यो तांकां मोल उणे दवरलेलें, छापखान्यांत येवन व्होरतेल्यांक त्यो साधार्ण जावन एकेका आण्याक मेळताल्यो. त्यो घरा पावीत जाय जाय जाल्ल्यांक वर्साक स आणे वर्गणी दवोरलेली.[59]

ह्यो कडतिलो विकूंक फिर्गजेनी तर्नाटे मुखार आयले. त्या पयकी कोर्डेलगार तरनाटे पयलांचे पयले. 1920 इसवे ऑक्टोबर म्हयन्याच्या तीन तारकेर विगारांनी आदल्या आयतारा दिल्ल्या शिकोणे परमाणे वाचपी पयशे हाड्न आइल्ले. मीस बी जाताच एकेका दरवाट्या कडेन एकेक भुरगो कडतिल्यो काण्घेवन रावुल्लो, आनी अशें शेंबोर कडतिल्यो घडयेभितर विकून गेल्यो. सांजेर आइल्लो लोक आनिकी कडतिल्यो, विचारतालो खंय.[60]

**iii) ह्या विशयांत 'जेजूच्या काळजाचो आंज' पत्र नवेंबर 1920 पान 251 - आइल्ली वर्दी.**

**'कोंकणी काथोलीक सत सभा.'**

'Konkani Catholic Truth Society.'

"काथोलीक सत आमच्या कोंकणी लोकामदें विस्तारच्या खातीर एक कोंकणीसभा कोडयाळांत घडल्या म्हळ्ळें सकटांनी आयकालां जावयेत. ही सभा वर्सांक चार कडतिल्यो छापसिता; आनी हांकां खर्च पडता जाल्यारय, सकटांनी त्यो काण्घेवन वाचिसारक्यो तांकां मोल भोव उणे दोवोरलां. छापखान्यात येवन व्होरतेल्यांक त्यो साधार्ण जावन एकेकाक आण्याक मेळतात. त्यो घरा पावीत जाय जाय जाल्ल्यांक वर्सांक स आणे वर्गणी दोवोरल्या.

पूण मोल इतलें उणें जाल्यारय, येदोळच्याक विकल्ले बूक भोवच थोडे म्हणाजाय. हाचें काराण वाचपी उणे या पोयशे तांचेकडें नांत या वाचचें तांकां मोन ना म्हळ्ळें न्हय. पूण ह्या सभेची खबार मात तांच्या तिळवळकेक येदोळय सारकी येवंक ना. हें खंचार दिसतागी म्हळयार, ह्याच दिसांनी कोर्डेल फिर्गजेंत थोड्या उर्बेवोंत तरनाट्यांनी मेळोन हीं कोंकणी पुस्तकां विकच्या खातीर घडल्ल्या 'कम्टे' वोरवीं स्पश्ट जाता."

**'कोर्डेलगारांची कमिटी'**

*"येता त्या आयतारा आमचे थोडे उर्बेवंत तरनाटे काथोलीक सत सभेचे बूक हाड्न इगरजेच्या बागलांत मिसा उप्रांत विकूंक दोवारतेले. वाचूंक*

कळतेल्यानी तांच्या तांकी परमणे हे बूक काण्घेजाय आनी घरा सकटांनी मेळोन ते वाचून तांचो फोळ काडिजाय म्हण विगारानी एका आयतारा फायस केले, आनी भक्तिपोणाच्या वाचपा विशयांत एक बोरी शिकवोण दिली.

सांगल्ल्या आयतारा ऑक्टोबराच्या तीन तारकेर मिसा आदीं सां. फ्रांन्सीस्क शावेराचें एक पायनेल दारवाट्याकडे उमकाळायलें आनी हाच्या सकला अशें बोरोवन आसल्लें, "कोर्डेलच्या म्हज्या मोगाच्या भुरग्यानो, चलया म्हजें काम तुमचे मदें ह्या नव्या उपायान, काथोलीक सत सभेन, काण्घेया वाचा, आनी वांटां ह्यो ल्हान कड्तिल्यो...

विगारानी आदल्या आयतारा दिल्ली शिकवोण निर्फोळ जांवकना. मिसाक आइल्ल्या पयकी साबार वाचपी पयशे हाड्न आइल्ले. मीस बी जातच, एकेका दार्वाट्याकडे एकेक भुरगो कड्तिल्यो काण्घेवन रावलो, आनी शेंबोर कड्तिल्यो घडयेभितर विकोन गेल्यो. सांजेर आइल्लो लोक आनिकय कड्तिल्यो विचारतालो.

ही लोकाची उर्बा पळोवन त्याच सांजे ह्या तरनाट्यानी काथोलीक सत सभेचे बूक विकच्या खातीर म्हण एक कम्टी घडली. हाका साबार वाड्यां वाड्यांच्या भुरग्यांनी नांव दिलां. हांचें काम कितेंगी म्हळयार, छापखान्यात थावन येंवचे बूक आयताराचें विकचे विकून उरल्ले घरांघरानी व्हो‌र्न विकूंक पळोंवचें. अशें इतल्या भितरच साबार कड्तिल्यो खर्चल्यो...

ही कोर्डेल फिर्गजेच्या तरनाट्यांची देख हेरा फिर्गजेच्या तरनाट्यानी काण्घेल्या पक्षेक कोंकणी, काथोलीक सतसभा सगळयानच वेगीं वेगीं विस्तारतेली म्हळ्ळयाक दुबाव ना. ह्यो कड्तिल्यो बरयतेल्यांची उर्बा चडतेली, बोऱ्यो बोऱ्यो नोव्यो कड्तिल्यो फायस जातेल्यो, आनी वाचप्यांक रुचीक भक्तिपणाचें वाचाप तवोळ तवोळ मेळतलें, असल्यो कम्ट्यो फिर्गजानी घडूंक तरनाट्यानी विगार सांगोदीत म्हण राकोन रावानाये. ताणी जावन पयले मुकार सराजाय, तेदाळा तांची उर्बा पळोवन, विगार तांकां जाय

*जाल्ली कुमोक संतोसान दितेले आनी हे बोरें काम सुडसुडीत चलतेलें."*
*(प्रेसिडेण्ट)*

ह्या सभेन वर्साक चार कड्तिलो परगट करीत्त आइल्ल्या पयकी 'भा. तेरेजाची,' 'जेजूच्या ल्हान फुलांची मोट्टी जिणी;' 'जेजूची कथा;' 'आदांव, एव आनी बुड्तुगल;' 'एलियास प्रोफेत;' 'तोबियास आनी जोब' इत्यादी प्रमूख जावन आसात.[61]

1921 इसवेथावन 'आंज' पत्रान ताची वर्गणी आनी ह्या सभेची कड्तिलेची वर्गणी ओट्टु वसूल करूंक निर्णयीसलें. वर्साची वर्गणी 'आंज' एक रुपय आनी सत-सभेक स आणे अशें 1 रु. 6 आणे[62] अशें फिर्गजेच्या वाड्या वाड्यानी वर्गणी वसूल केल्ल्यान लोकांक कोंकणी कड्तिलो वाचूंक उमेद चडली, कोंकणी वाचपी चडले. पूण 1930 इसवेत ह्या सत सभेची, 40 वी कड्तील - जेज्वेत पाद्री 'भागेवंत क्लॉड दे.ला.कोलुंबिये' हाची जिणेची कडतील परगट जाली.[63] उप्रांत ह्या सत सभेची वर्दी वाचूंक मेळनातल्ल्यान ही सत सभा कशी बंद पडली म्हण कळना. पूण थोड्या तेंपान कोंकणी दिर्व्यांन दिल्ल्या उल्या प्रकार कोंकणी लिखीत सभा अस्तित्वाक आयली.

## 4.4. आमच्या माय भाशेची अभिवृद्धी

सां. लुवीस कॉलेजींत स्थापन जाल्ल्या 'केथोलीक सोशल स्टडी क्लबांत' लुवीस मास्करेन्यसान 1923 इसवे, जानेर 28 तारकेर 'आमच्या मायभाशेची अभिवृद्धी' म्हळ्ळया विशयांचेर इंग्लेजांत दिल्ल्या भाशणाचो तर्जुमो कोंकणी दिर्वे पत्रार 1923 इसवे मार्च 2 तारकेर प्रगट जालां. तें भाशण ह्या परीं आसा:

"ऊंच वर्गाच्या मनशांक सांगल्ली भास इंग्लेज जावन आसा म्होण लोकान लेकच्या ह्या दिसांनी सकटांनी कांटाळोन चाकरांक उलोवंक फावो जाल्ली म्होणच्या कोंकणी भाशेक कशी वोयर काडची-गी म्होळ्ळया विशयांत उलोवंक आज आमी हांगासर मेळल्ली एक म्हा-व्होड पिसाय म्होण कितले

जाण चिंततात कोण्णा. मोरोंक लागीं पावल्ल्या कोंकणी भाशेक वेग्गी लगाड काड्न, इंग्लेज आमची भास कर्न घेवंक पेचाडच्या बदलाक, आनिकी कोंकणेचें आव्क वाडोंवच्यांत वेळ पाड करतेल्यांक आमकां, दुसरो कांय वावर ना म्होण लेकचे उणे नांत. गांधीच्या उचांबळाये उप्रांत सगळयानच स्वदेशी वस्तूंची उर्बा उब्जोन आमच्या माय देशाचो आनी मायभाशेचो मोग हिन्दुस्तानाच्या लोका थंय जळताना आनी अन्यदेशी वस्तू इन्कार करच्या ह्या दिसांनी हावें उलोंवचें उलोवणे सतगी म्हण थोडे जण दुबावतीत. खरेंच जावन हिन्दुस्तानाच्या हेर जातीं थंय स्व-परजेचें धन सांबाळची उमेद उब्जाल्या म्होळ्ळयाक दुबाव ना; पूण आमी कोंकणी क्रिस्तांव हिन्दुस्तानाचे न्हयशें सर्व स्वदेशपण हल्कें करतांव; आनी फकत इंग्लेज वस्तूंक आनी इंग्लेज भाशेक झाक मारतांव म्होळ्ळें सत हांव अड्डिनासताना सांगान, आमच्या गांवकारां परसचड संबंद इंग्लेजांक आनी आमकां आसल्ल्याबरी आमी चलतांव. हिन्दुस्तानाच्या सर्व जातीं कातीं मोदें इंग्लीशमेना सांगता ससारायेन भोरसोंक सोमजोंचें आमीच म्होळ्ळी दोवलोत आमचे थंय आसा. आमचे तरनाटे परिपूर्ण इंग्लीशमेन जांवच्या, उर्बेन आपल्या पोर्तुगेज आल्कुंन्यांच्यो दोडीमोडी कर्न आतां साल्दान्य आसल्ले 'सेल्डन', पींतु आसल्ले 'पायंटर' आनी लोबु आसल्ले 'लायन्स' जातात. चारशीं वर्सां आदीं आमी कोंकणे ब्राह्मण आसल्ले क्रिस्तांव जाताना आमकां आल्कुंन्या सांडून पुर्वीं हजार वर्सां थावन आमकां लागोन आसल्लीं परोब, कामत, शेणय, शेट, नायक इत्यादी पयक नांवां पाटीं हाडूंक पेचाडतेल्या थोड्या शिकप्यांक, अर्द्या शिकपाचे सोवाय बुदवोंत हासतात. कसलेंच गांवटी आमचे थंय आसों नाये म्होळ्ळें हांचें साधनशें दिसता. ना जाल्यार, मैसूरच्या नावाड्दीक फ्रेंचमेन फादर ताबार्दाक 'राजसभा भूशण' म्होळ्ळी हिन्दू पदवी काण्घेवंक लज दिसानातल्ल्या वेळार, आमी कित्या म्हालगड्यांचें 'राजमन राजश्री' काडोवन 'मिस्टर' आनी 'एसक्वायर' जाय जाय म्होण मागोन काण्घेलां? आमच्या भुरग्यां थंय सयत गांवठी म्होळ्ळें कद्दीम आनी इंग्लेज म्होळ्ळें उत्तीम अशी

अभिप्राय रोंबोन घेल्या. कानड्यांत दड्डो आनी इंग्लेजांत हुशार म्होळ्ळ्यार भुरग्यांक भारी खुशी. कितलींशीं माद्रीं गेलीं भुरगीं, कानडें आनी कोंकणी भास आमकां वाचूंक आनी बोरोवंक येना म्होण लजच्या बदलाक ती एक दौलोतशी चिंतून खुशालायेन वोंवची हांवें पोळेल्यांत. इंग्लेजांत ल्हानशी एक चूक जाल्याप इस्कोलांत भुरगे कुट्टून लगाड काडतीत; पूण कानड्यांत या कोंकणीत व्होडल्यो व्होडल्यो चुकी केल्यार गुमान ना. एक उतरान ह्या व्होडा ल्हानाक ह्या इंग्लेज पिडेचो वोसो तितलो लागोन गेला-कि घरच्या चाल- चमकणांत, रिवाजींत, खाणा जेवणात, आनी न्हेसणांत मात्र न्हय, बगार चिंतनानी उलोवण्यांत आनी करण्यानी सयत इंग्लिशमेनाचे नक्कल काडचें म्होळ्यार आमकां खुशी. अशें आसतां आमच्या म्होंवा सारक्या मधूर माय भाशेक, भासो जाणार विलायती सयत मांदताना, तिच्याच भुरग्यांक इतली कोडू आनी कांटाळ्याची जांवची व्होड एक अजापगी?"

"आमचोच लोक कोंकणी भाशेक कितलो उब्गातागी म्होळ्ळें हांवें विवरसिलां. हें आयकाल्या उप्रांतय माय-भाशेच्या मोगान जळचीं काळजां आमचे मोदें उरल्यांत जाल्यार, ताणी आपले भाशेक ऊंच काडूंक पोयल्या सुवातेर पेचाडिजाय हुमटून उडोवंक आमच्या तरनाट्यां थंय रिगल्या ती चूक अभिप्राय, आपल्या देशा आनी भाशे विशयांतली. दिसानदीस तांचे मोदें चडोन येता तें परदेसपोण धांवडावन, स्वदेश, स्व-पर्जा आनी स्व-भाशेचो मोग ताचे थंय रोंबयजाय. ह्या कामाक फावो जाल्ले इस्कोल-मेस्त्रीं इतले योग्य मनीस दुसरे कोणय मेळतीत म्होण हांव चिंतिना. कित्याक-गी म्होळ्यार, ते वर्तवतात सागवळीगार भुरग्यांच्या मतींचे आनी आयचे भुरगे जांवक पावतेले फाल्यांचे खांबे आमच्या समाजींत. ह्या पास्वत मेस्त्रींनी पोयल्या सुवातेर शिकपांत आनी शिकोणेंत खरे गांवटी जांवची गरज. चार इंग्लेज पुस्तकां वाचून, येत आनी तेत तेंच झरोंवचे शिवाय, आमच्या हिन्दू पुर्वजांनी कितली सक्कड बुदवोंतकाय बोरोवन घाल्या म्होळ्ळें गोत्तु नाजाल्यार, त्या मेस्त्रीखाल शिकल्ले भुरगे कितें जाणा जातीत. तांची मोतीय मेस्त्रीचे मोतीबरी

विलायती वाऱ्यांत वाडता. कोणाचे तकलेंत आपल्या गांवचें आनी गांवकारांचें धन रिगलांगी, तो सहज तें उलयतोलो आनी भुरग्यांक तांतूंच वाडयतोलो. विद्याइलाख्याच्या रुली प्रमाणे 'शेक्सपियर', 'मिल्टन', 'दांते', 'होमर', 'वर्जील' इत्यादी विलायती कवीं विशयांत शिकोंवक आसयेत. पूण गांवटी कवींचीं ग्रंथां वाचल्लो शिकपी, हे विलायती कवी जाल्मोंच्या हजार वर्सां आदले आमचे 'वाल्मिकी', 'व्यास', 'कालिदास' आनी हेर कवी विशयांतय दोन सोब्द इड्यांत घालूंक विसर्सोना. 'रामायण' आनी 'महाभारत' इतल्या श्लोकांची आनी सोबायेचीं कवितां सगळ्यां संवसारार खंच्यायी गांवच्या कविनी बोरयल्यांतगी? चींत इंग्लीश ग्रामर शिकोवंक आसा म्होण, आनी त्या मेस्त्रीन जरतर 'पाणिनी' म्होळ्ळया नावाड्दीक संस्कृत व्याकरणगाराचें ग्रंथ वाचलां, तोवोळ तो सांगानासताना रावातगी इंग्लेजलोक वाचूंक बोरोंवक शिकच्या आदीं आनी संवसारार कोणेच व्याकरण बोरोवंच्या कितलेशा काळा पोयलें आमच्या गांवच्या पानिनीन न्हयच संस्कृत व्याकरण घडलें, बगार तें बायपाठ शिकासारकें थोड्या सुत्रांचेर गुंतूंन सोडली म्होळ्ळी विचित्र खबार, ह्याच थरान (economics) अर्थशास्त्र शिकयताना 'कौटिल्य', (Philosophy) तत्वशास्त्र शिकयताना 'न्याय', 'संख्या', 'वेदान्त' इत्यादी शास्त्रां घडल्ले तत्वज्ञानी आनी अशें प्रतिएका विद्यांत आमच्या पुर्वजांची वोळख भुरग्यांक मेस्त्रींनी सांगासारके जाल्यार, सहज तांचेथंय उर्बाजाता ह्या विद्वांसानी बोरयल्ली संस्कृत भास शिकोंक आनी सहजच कॉलेजींत फ्रेंच आनी लातें शिकच्या इतल्या भुरग्यांभितर थोडेपुणी संस्कृत भास शिकतेले. संस्कृत भास आमचे भाशेची खाशा आवोय जाल्ल्या निमतीं आमचे भाशेक हो एक व्होडलो आधार जायत. मंगळुरगारांमोदें इग्लेज कवी म्होण नांव व्हेल्लो एकलोच एकलो संस्कृत बी.ए. एक पावटी मोजेगडें उलयताना, संस्कृत मराठी आनी हेर गांवटी कवीं थंय मेळता ती कविता सोबाय, विलायती कवीं थंय मेळाना, पूण आमचे तरनाटे ह्यो भासो शिकानातल्ल्यान तांकां तें सोमजाना म्होण दुर्सातालो."

"आमच्या गांवकार ग्रंथकर्ताचे महत्व आमचे मेस्त्री सारके सोमजाल्ले जाल्यार, तांचेखाल शिकल्ले भुरगे आमचें भाशेक ह्या गतीक पायतेनांत आनी हिंदुस्थानात जल्मोन विलायत्यांबरीं चलते नांत. थोड्या तेंपा आदीं ह्याच कॉलेजींत 'इंटरमिडियट' पास जावन आतां बोम्बय दात्तेरी कॉलेजींत आखयरेचें वर्स काबार करच्या आमच्याच एकल्या तरणाट्यागडेन कितेंगी हिन्दू तत्वशास्त्राची खबार उलयताना, तो आमचे पुर्वज नेणारी हिन्दू, तांकां 'फिलोसोफी' खंयची गोत्तुगी म्होण हासोन म्हाका पातयेवंक नासो दिसलो. ह्या शिकप्याचें नेणारपोण पोळेवन हांव मोजेतल्याक अजाप. जरतर ताका कळता त्या इंग्लेज आनी फ्रेंच भासां इतलें. संस्कृत कळल्लें, तक्षणच हांव ताच्या हातांत घालतों क्रि.पू. तीनशीं, चारशीं वर्सां आदीं म्हणजे दोन हजार वर्सां फुडें, आमच्याच कुळयेच्या 'सुश्रूत' आनी 'चरक' म्होळळया नावाड्दीक संस्कृत दात्तेरांनी बोरोवन घाल्लीं वयजाळीं ग्रंथां. तोवोळ तो पश्चिमात्य वोयज 'हिपोक्रातेस', 'एसकुलापीयुस', 'गालेन' आनी आयलेवारचे हेर दात्तेर जल्मोंच्या कितल्या काळा आदीं हे हिन्दू प्रोफेसर (Anatomy) मनशाच्या आंगाच्या घडावळीच्या विद्यांत इतले इतले प्रवीण कशे जाले आनी शस्त्र पिरयोग (Surgery) हे खंय शिकले म्होण अजाप पावतो. कॉलेजींत मेस्त्रींनी जर तर आमच्या गांवटी ग्रंथकर्तांची हाका कांयपुणी इल्लीशी रूच दाखयल्ली तोवोळ तो फ्रेंच शिकला तसोच इल्लें संस्कृत शिकयां म्होण पेचाडतो. ह्याच प्रमाणे, आतां मद्रास, बोम्बय युनिव्हरसिटी आसल्ल्याबरीच आदीं हिन्दुस्थानांत 'नळंद' आनी 'तक्षील' म्होळळया विश्वविद्यालयानी परगांवी सयत येवन शिकताले म्होळळें आनी ह्या 'कॉलेजिनी' संस्कृत भाशेंत पंडीत 'लेक्चर' दिताले आनी ह्याच संस्कृत भाशेची खाशा धूव आमची कोंकणी भास म्होळळी गजाल तोवोळ तोवोळ संद्राप मेळल्ल्या प्रमाणे भुरग्यांचे मतींत घाल्यार सहज तांकां कोंकणी भाशेचो मोग येतोलो. हाचेय उप्रांत रजेच्या वेळार या इस्कोल सोडतच कांयपुणी कोंकणी भाशेन बोरोवन अभ्यास करिजाय म्होण भुरग्यांक धैर दिल्यार आनीकी इल्लो चड

आधार जायत. इंग्लंडांत 'च्योसर' थावन आज म्होणासर कितलेशा तरनाट्यांनी भाशेखातीर तांची जिणी खर्चिल्ल्या निमतीं आज इंग्लेज भास इतली व्होड जावंक पावली; तशेंच आमच्या शिकपी तरनाट्यांनी खऱ्या आनी मोगाच्या बाळांबरी आपल्या माय भाशेखातीर थोडोपुणी वेळ खर्चिल्यार आमची भास, तिच्या हेर भयणी मराठी, बंगाली, हिदवी, गुजराती, भासांबरी उत्कृश्ट स्थितीक वेगीं पावात म्होळ्ळें तर्नाट्यांच्या मतींत, पाव्ट पोडल्ल्या प्रमाणे मेस्त्रींनी खंचयल्यार, आमचे भाशेच्या अभिवृद्धेक वाट उगती केल्ल्याबरी जायत."

"इस्कोलांतल्या मेस्त्रींच्या प्रयत्नाक सरी जावन घरांत आवय बापायनी आमचे भाशे थंय वोडनी दाखयजाय. शुद्ध कोंकणी भाशे भायर हेर भास घरांत उलोवंक नोजो म्होण भुरग्यांक ताकीद दिल्यार, इग्लेजाक आसल्ल्या बरी कोंकणे भाशेकी तिची मर्याद आसा म्होण तांकां कळतेलें, आनी आतां उलयतात तशें एका वाक्यांत सरासर इंग्लेज सोब्द घाल्न उलयचीं नात. इंग्लेज भुरगीं तांच्या गांवांत फ्रेंच आनी जर्मन शिकतात जाल्यारय घरांत तांच्या स्वंत इंग्लेजिशिवाय दुसरी उलयतातगी पोळेया. तशेंच फ्रेंचमेन इल्लें इंग्लेज शिकतात जाल्यारय, घरांत उलयताना या बोरयताना, आपले फ्रेंच भाशेमुकार इंग्लेज कांयच न्हय म्होण चिंततात आनी इंग्लेजाक गुमानंच करिनांत. विलायती हरएके प्रजेक आसा मोग स्व-भाशेचो आनी स्व-देशाचो. गरजेखातीर, मात्र ताणी शेजारी गांवांच्यो भाशो शिकच्यो शिवाय सदांच आपलीच भास मेल म्होळ्ळें घन तांकां आसा. तवोळ पुर्विल्या महा-रुशींच्या भाशेची धूव जावन आसचे आमचे भाशेक सोड्न, घरांत पोरची आडेची इंग्लेज भास आधारची म्होळयार आमचे कसलें पिशेपोण? थोड्या वर्सां आदीं तिरुवांकोडचो एकलो शिकपी मलेयाळी आपल्या आनी एका शिकपी सयऱ्याकडे मलेयाळीच उलोंवचें पोळेवन, हावें विचारलें तुमी सक्कड बी.ए.गार तुमचे मोदें इंग्लेज उलयनासताना मलेयाळी उलयतात-गी, आमच्या गांवांत सबार उण्या शिकपाचे सयत घरांत इंग्लेजा शिवाय कोंकणी उलयनांत.

ताका ताणे "आमी भाव भयणी सक्कड एम.ए. आनी बी.ए. पास जाल्यांव. तरीगी घरांत आमची खरी मायभास मलेयाळीच शिवाय परजातींची इंग्लेज केदीं उलयनांव. इंग्लेज कुटमां आमची भास उलयतात वोय? तर आमकां आमची भास आसताना, तांची भास कित्या उलय जाय? गरजेखातीर मात्र शिकतांव." म्होळ्ळी बुदवोंत जाप दिली. आमकां मंगळूरगारांक हाचो कालवास वांटो पुणि, आमचे आवयचो मोग ना म्होळ्ळी दुख्ख आनी लज म्हाका भोगता. आवयबापुयच घरांत इंग्लेज उलोंवची देख दितीत जाल्यार, आनी भुरगीं 'नयवोय' म्होणच्या बदलाक 'नियें' म्होणताना या कोंकणी म्होणताना या कोंकणी सोब्दा बदलाक इंग्लेज सोब्द घालताना चुकी तिदविनांत जाल्यार आमचे मोंदें आपूट कोंकणी भास वाडची सोड्न वांची कशी?"

"हीं म्होजीं उतरां इंग्लेज नमुन्याच्या आवय बापांयक रुचचीनांत, आनी 'कोंकणी भाशेन कितें जांवचें आसा, इंग्लेज जाल्यार शिकपाक गरजेचें' म्होण म्होणतेले म्होण हांव जाणां. आनी हें म्होजें सुचन कांयच प्रयोजनाक पोडचें ना म्होळ्ळें म्हाका पोयलेंच कळीत आसा. देखून हांव म्होणतां कोंकणी भास इस्कोलांच्या लिसांवानी हाडल्याखरीत घरा आवय बापय ताका लक्षा दिशेनांत. इस्कोलानी आमचे भाशेनंच शिकोंवची पद्धत केल्यार, सहज आवय बापांयकच घरा कोंकणी भाशेक चत्राय दिंवची गरज पोडतेली."

"आमचो कोंकणी लोक ह्या कन्नड जिल्ल्यांत येवन पोडल्ल्या निमतीं आनी ह्या गांवची मुख्य भास कांदडी जाल्ल्यान सरकारी आनी मुनिसिपल इस्कोलांनी तत्कालक कोंकणी भाशेन शिकाप दिंवची आशा सोडिजाय. फिर्गजेच्या इस्कोलांनी चडावत कोंकणी क्रिस्तांव या कोंकणी हिन्दू भुरगीं आसतात देखून, ह्या इस्कोलांनी कोंकणी शिकाप दिल्ल्यान, तांकां सोमजोंक कितलें ससार; आनी ह्याच पस्वत विद्या इलख्याचे गांवटी भासानी शिकाप दिंवच्याखातीर कितल्या प्रयत्नार आसात म्होळ्ळें, म्हज्या प्रास आदीक कर्न तुमकां मेस्त्रींकच कळीत आसा. ह्या विशयांत, देखून, हांवें चड उलोंवची गरज ना. मैसुरांत, बंगाळांत आनी इतर कडेन थोड्या इस्कोलांनी ऊंचल्या

वर्गांनी सयत कांदड्यां आनी बंगाली भाशेन शिकाप दितात म्होण हांव आयकातां. आमच्यां गांवांत सद्याक चोवती या पांचवी क्लास म्हणासर कोंकणी भाशेचें सिकाप कित्याक दिवंक नजो? कोंकणी भाशेचीं प्रथम पुस्तकां आसात, आनी आमचे भाशेचे मेस्त्रीय आसात. परवडी (मग्गी) पुस्तकां, भुगोळ शास्त्र, व्याकरण, इत्यादी देवनागरी अक्षरांची उत्तर कन्नडांत कोंकणेत या मराठींत मेळतात. तीं कांदड्या अक्षरांनी बोरोंवचीं जाल्यार व्होड वेळ ना. मात्र तीं कांदडी अक्षरांनी घालचीं समा-गी, देवनागरी अक्षरांच आमच्या भाशेची अक्षरां जाल्ल्यान तींच भुरगांक वाचूंक शिकोंवचे बोरें-गी म्होळ्ळें एक सवाल येता. ह्या सवालाक जापदिवंक वेताना, आमचे भाशेचे अभिवृद्धेखातीर हांवें आज सांगूक वेच्या मुख्य आनी प्रथम सूचनाक हांव येवन पावतां."

"फ्रेंच आनी जर्मन भासां मोदें आसच्या तफावती प्रास चड भेद कांदड्यां आनी कोंकणी भासां मोदें आसा जाल्यारय, कोंकण म्होळ्ळो आमचो मायदेश सांडून, तेन्नाच्या ह्या कर्नाटक जिल्ल्यांतल्या द्रावीड लोकामोदें येवन वस्ती करची गरज आमकां येवन संभवल्ल्यानिमतीं कर्नाटकी अक्षरां आमचे भाशेक आधारची सोवोय जावन गेल्या. गोमांतक (गोंया) राष्ट्रांत पोर्तुगीज भास सरकारी भास म्होणोन, थंयचो कोंकणी क्रिस्तांव लोक आमचे भाशेक रोमन अक्षर माळा उपयोगिस्ता. पोर्तुगेज फ्रेंच रोमन इत्यादी विलायती लोक आमचेबरीच आर्यकुळये जाल्ल्यावोरवीं आनी आमच्यो भासो एकाच कुटमाच्यो जाल्ल्यान, गोंयकारांनी रोमन अक्षरां उपयोगसुंचीं पुणि व्होडली चूक जायशीना. पूण अन्य कुळयेच्या द्रावीड भाशेचीं अक्षरां आमचे भाशेक घाल्ल्या वेळार, गोऱ्याक आनी खापऱ्यांक व्हार्डीक केल्ल्याबरी म्होजे मतींत भोगता. कोंकणेच्यो माय भासो आनी भयण भासो जावन आसच्यो प्राकृत, संस्कृत आनी मराठी आनी हिन्दी ह्या सक्कड भासांनी उपयोगसुंचीच्च जावन आसा कोंकणे भाशेच्या हक्काची अक्षरमाळा म्होणजे - देवनागरी. तिच्या ब्राह्मण संयम्बाची न्हेसोण काड्न उडोवन, आमी आमचे भाशेक सुदरांवची न्हेसोण दींव

जाल्यार, आवयक आमी अकमान केल्ल्याबरी न्हय-गी? कोंकणी भाशेक तिचीच खास्की न्हेसोण शिवाय परकी योग्य न्हय देखून, हांवें म्होणचें देवनागरीच अक्षरां तिका उपयोगसुंच्यांत आसा म्होण सोबाय. ह्या शिवाय सगळ्या हिन्दुस्थानाक एकच हिन्दी भास करची आलोचेन आसताना, तेय भाशेकी नागरीच अक्षरां जाल्लेवोर्वी फुडां आमकां भोव चड आदाय मेळतोलो. संस्कृत बाशेचीं ग्रंथां वाचूंकी वाट सरग जातेली."

"मात्र ह्या जिल्ल्यांत सरकारी भास कांदडी जाल्ल्यान, इस्कोलांनी शिकोंवच्या कांदड्यां अक्षरांहोर्त देवनागरीय अक्षर-माळा चडताव शिकोंवची म्होळ्यार भुरग्यांक चड प्रयास. असल्या वेळार दोन वायटां भितर, म्होजे मतीक दिसता, उणे वायट जावन आसा रोमन अक्षरांच आमचे भाशेक गरजेखातीर आधारचीं गूण म्होण. हर एकलो इस्कोलाचो भुरगो इंग्लेज वाचूंक शिकता आनी इंग्लेजानय आधारल्यांत तींच 26 लातीं या रोमन अक्षरां. तोवोळ न्हयच भुरग्यांक ससार जातेलें बगार गोंयकारांचीं पुस्तकां आमकां आनी आमचीं गोंयकारांक पावोन, भाशेचो आनी लोकाचो एकवोट वाडतोलो. इंग्लेज अक्षरां वाचूंक येंवच्या संवसारांतल्या परकी परजांक सयत कोंकणी भाशेची वोळक करूंक सुलभ उपाय. हे आलोचेनेक राश्ट्रीय पक्षेचे स्वदेशीगार आक्षेप काडूंक पुरो. पूण विलायत्यांक आनी आमकां आसा तितली सयरीक आमच्या शेजाऱ्यां द्रावीड (कांदड्या, तुळुव्या, मलेयाळी इत्यादी) लोकाक ना म्होळ्ळें बोरें कर्न ते सोमजतीत जाल्यार, ताचो आक्षेप नपंयच जातोलो."

"ओट्टार म्होजी अभिप्राय जावन आसा कोंकणी भास बोरोंवची रीत सगळ्यान एकच जाता म्होणासर तिचे अभिवृद्धेक भारी आडकळ आसा. ह्या पास्वत गोंयच्या आनी कर्नाटकांतल्या क्रिस्तांव आनी हिन्दू कोंकणी बोरपेल्यानी एक जावन, खंयच्याय एका ओप्पंदाक येंवचें बोरें, भाशेच्या मुख्य प्रवर्तकांची एक सभा आपोवन, कोंकणेक देवनागरी-गी रोमन अक्षरां आनी रोमन जाल्यार लिपसियसाचे पद्धतीप्रमाणे-गी सर विलियम्स ज्योन्साचे रिती प्रकार बोरोंवचें बोरें म्होळ्ळें तर्क कर्न वेग्गी तिरसिल्यार पसंद जायत.

इतली बुन्याद एक पावटी घट जायत जाल्यार, पोयली बांदावळ वेग्गी वाडतेली आनी चडतेली म्होळ्ळो खंडीत भरवासो म्हाका आसा."

"येदोळ हांवें सांगोन दिल्लीं सुचनां हेच घडये जारयेक हाडच्या जिनसाचीं न्हय आनी बोरपा विशयांत निर्णय करच्या पास्वत सभागिभा आपोंवचें काम सकटांवोर्वीं जायशें ना. देखून चालत्या लोकान आपले मायभाशेखातीर कितें करयेत म्होळ्ळया विशयांत, आतांच जारी कारयेत तसलीं दोन ल्हानशीं चडीत सुचनां बाकी उरल्यांत. पोयल्या सुवातेर आमचे भाशेचीं वर्तमानपत्रां आनी पुस्तकां बोरयतेल्यांक आधार आनी धयर दिंवयेत; आनी ह्या पास्वत खंयच्या एका विशयाचेर बोरें एक उपन्यास बोरयतेल्यांक अमकें इनाम दितेल्यांव आनी तें उपन्यास दिव्यांत फायस करतेल्यांव म्होण भासायल्यार कोंकणी बरवणके थंय उर्बा चडतेली. दुसरें नाडांतगिडांत आसल्ल्या म्हातान्यांनी, आतांच्या बोरप शिकच्या तरनाट्यांक धर्न, पुर्वील्ल्यो 'दांगेमार राय', 'अभींगराय' इत्यादी आज्जी कथा सांगोन बोरपीं घालोवयेत. आमच्या म्हालगड्यां थावन देवोन आइल्ल्यो ह्यो काणयो, आतांच्या इंग्लेज नोवेल्सां धर्मान न्हयच पुरत्यो कोनशाक पोडल्यात, बगार आनी थोड्या वर्सां भितर पुरत्यो विसरोन वेतीत म्होळ्ळें भियें आसा. आदलीं पदां, उमिण्यो, कांतेगो इत्यादी कोंकणी भाशेच्या थोड्या भुरग्यांच्या म्हिनतीवोरवीं छापसून बचाव जाल्यांत. तशोच ह्योय पुर्विल्ल्यो काणयोय आमी बचाव करूं जाल्यार, न्हयच तांतली सोबीत भास आमच्या संततीक उरतेली, बगार ह्या काणयानी कांय पुर्विल्ल्या रायांच्या चरित्रेक संबंध जाल्लें मेळता-गी म्होण पारकूंक फुडल्या विद्यार्थीक संद्राप जातेलें. ल्हान आसताना हावें आयकाल्ल्या एके काणयेंत :-

"घांटावयलो भींगराय देंवलो अंगडी,
केळीं उंडो पोळोवन बावडो, पोट रगडी."

म्होळ्ळो श्लोक येदोळी म्हाका रुचता आनी तांतूं सांगल्लो "भींगराय" म्होळ्ळो निजाकी घाटावयलो आदलो कोणी अभींग म्होळ्ळो तुंडू राय जावयेत-गी आनी 'अंगडी' म्होळ्यार 'बेळतंगडी' देवल्ली खबार तांतूं सांगल्यार-

गी म्होण कितलेशे पावटी म्हाका दुबाव येता. पूण हें सगळे वित्यार्थ करतोलों म्होळयार, हे काणयेचो बाकीचोवांटो म्हाका उडासच ना कोणायकय गोत्तू आसल्ल्यानी ह्यो काणयो बरपीं घाल्यार कितल्या उपकाराक पडतीत."

"आनेक कितें-गी म्होळयार, फिर्गजांनी फंडांत, एसोसिएशनांत आनी गांवार जांवच्या जुंतांचेर इंग्लेजा बदलाक आमचे भाशेनंच तर्कां चलोवयेत आनी वर्द्यो कोंकणी भाशेनंच छापसूं येत. जायते कडेन नाटकां आनी सभा कुडसाल्ल्या वेळार आयलेवार अध्यक्षानी आमचे भाशेनंच प्रसंगां करूंक सुरू केल्यांत तीं पोळेंवक एक धादोसकायच सय. तोवोळ तोवोळ नाडांत इगर्जे भायर उगत्या सुवात्यानी हिंद्वां मोदें "हरी कथा" सांगचेबरीं कोणी थोड्या शिकप्यांनी आमचे भाशेन भाशणां दिवंक कितें हरकत? पाटल्या दिसानी गवर्नमेंट कॉलेजीच्या श्रीयुत वेंकटरायान 'संसारांत सुख मेळयेत-गी?' म्होळ्ळया विशयांत ब्राम्हणांक दिल्लें कांदडें एक भाशण आयकोन, हांव तितलो पिसवालों, कि आमचे भाशेनी आसल्ली क्रिस्तांव कालक्षेपां कित्या करूं नोजो-गी म्होण मतींत आयलें. आयकातेल्यांक कांयच उबगण येनाशी ताळ आनी तबल्याचेर थंय थंय मराठी आनी हिंद्वी, कर्नाटकी आनी इंग्लेज नावाड्दीक कवींचे श्लोक गायन कर्न भोव तमाशांच्या उतरांनी, गंभीर जाणवाय त्या अनभावाडत्यांक ताणे सांगली. शास्त्रीक संगती सक्कड पाद्रींक सोड्न, लौकीक संगती विशयांत जाणट्या जाणाऱ्यांच्यो सांगण्यो-बी आमच्या नाडकार लोकांक कळोंवक, आमचे भाशेचीं प्रसंगां इस्कोलमेस्त्रींनी आनी हेरां शिकप्यांनी कित्या करूंक नोजो? नोवासांव म्होळ्ळयाफरा आंग काडच्या आमच्याय लोकाक एकाचफरा भाशणां सुरू करूंक भियें दिसता जाल्यार, तत्कालाक आमची आदली क्रिस्तांव पुराण वाचून विवसुंची रिवाज पुणि पोर्तुन सुरू करयेत-मू. चाळीस पन्नास वर्सां आदीं एका घरा मोर्न जाल्यार, कोणय एकलो प्रायवंत सगळी रात क्रिस्तांव पुराणांतली जुजेची आनी हेर कथा लोकाक वाचून विर्वसिताना, कसी अपुर्बाय दिसताली. आदीं पुराणाच्यो प्रत्यो मेळोंक कश्ट आसल्ले. आतां कोडियाळबैल छापखान्यांत

सलिसायेन मेळताना कित्या कोणय पुराण वाचची म्हालगड्यांची रिवाज पाटीं हाडिनांत? मोर्नांच्या रानी मात्र न्हय, आयतारा आयतारा क्रिस्तांव घरांनी या उगत्या मैदानारशें नाडांत आनी शहरांत लोकाक पुराण सांगचें आत्म्याकभोव आदायाचें आनी भाशेक भोव आधाराचें जायत. तांतूं उंची भाशेन, कविता रुपार पाद्र एस्तेवांव म्होळ्ळया जेज्वेतान पोर्न्या आनी नोव्या तेस्तामेंतांतल्यो मुख्य संगती गुंतून हिंद्वांच्या पुराणाबरी क्रिस्तांवाचें एक पुराण केलां, आनी थंय थंय क्रिस्तांव सतां वा दोतोर्न सेर्शिल्या. सगळ्या पुराणाची मांडावळ आनी भास तितली सोबीत आनी रुचीक, ती आयकाल्ली तितली कोणाकय पुरो जायशें ना. हिन्दू पुराणांबरीच ताळोकाड्न तें वाचयेता या 'उटाट उटा प्राणिया' च्या ताळ्यानय म्होण येता. एक श्लोक वाचून जातच ताचो अर्थ विवर्सून लोकाक सांगची गरज. कश्ट सोब्दांचो अर्थ पुराणाचे आखयरेक इंग्लेजान बोरयला. तत्कालाक पुराण वाचप पुणि आमच्या घरानी पाटी हाडूंक आमी पेचाडूं जाल्यार आमचे भाशेचे अभिवृद्धेक बोरी कुमोक करूं, आनी ह्या म्होज्या भाशणाचो प्रतिफळ म्हाका मेळ्ळो म्होण हांव लेकीन. आनी ह्या संबंधी कोणाकय म्होजी अल्पी कुमोक उपकाराक पोडात जाल्यार, ती तांकां दिवंक हांव तयार आसां."

*"आतां म्होजें काम तिर्सालें. सांगचे आसल्लें हांव उलयलों. शेकीं माते कोंकणेच्या एकल्या खऱ्या बाळाबरी तिचे थंय म्हाका आसल्ल्या मोगाखाल दुसऱ्यांथंय त्या मोगाची एक कीट उब्जोंवंक संद्राप दिल्ल्या हे सभेक आनी मुख्य जावन हे सभेच्या अध्यक्षांक म्होजें मनःपूर्वक वंदने."*

*- लु. मा.*[64]

1923 इसवेंतच कोंकणी भाशेखातीर इतल्या गुंडायेन उलइल्लें भाशेच्या अभिवृद्धेखातीर घणघणीत उतरांनी कोंकणी लोकाक तांच्या न्हिदेथावन जागइल्लें, कोंकणी भाशेक ऊंच उबारूंक केल्लें प्रयत्न पळेताना आख्या कर्नाटकाच्या लौकीक लोकांमदें लुईस मास्करेन्याक पयलो मान दिता जाल्ल्यान हाका चळवळेचो बापूय म्हळ्यार चूक जायशी ना.

## 4.5 वाक्सरीचें वादाळ

'कोंकणी रानांतलो नाद' म्हळ्ळया लेखनावोळींत "नव्या वर्साक नवो निचेव" म्हळ्ळया माथाळयाखाल बोम्बंयत दात्तेरपण शिकचें चेडूं 'जेप्पुचें लुसी' हाणे दिल्ल्या आलोचनेन इंग्लेज कोंकणी आनी कोंकणी इंग्लेज भाशेची एक वाक्सरी (Dictionary) बरंवचें काम व्हडिलांच्या पर्वणगेन सेमिनारिस्तांनी सुरू केलां म्हण 'कोंकणी दिर्व्यार' बातमी प्रगट जाल्या. ह्या वर्देक आधार जावन 'कोंकणी दिर्वें' पत्रार वाक्सरी विशयांत आइल्लीं ·लेखना आनी बातमी हांगासर दिल्यांत.

### i) कोंकणी दिर्वें - बातमी जानेर 2, 1929

**'कोंकणी रानांतलो नाद' "नोव्या वर्साक नोवो निचेव"**

'मोगाच्या एडिटरानो, - हांव पोयलेंच सांगतां. म्हाका बोरी कोंकणी भास येना. हावें चिंतचें चडावत जावन इंग्लिशान, आनी मतींत तर्जुमो कर्न उलोंवचें. देकून हांवे तुमकां बोरोवन धाडचें कोंकणी दिर्व्यार 'प्रिंट' करतात जाल्यार मोजी भास आनी सब्द 'करेक्ट' करिनाकात - ही गजाल चिंतून माका निजाकी लज दिसता; आनी आमच्या सोमेस्त 'जंटलमेन्न" सायबांकय मोजे भाशेची लज दिसोन, हांवें हांगा सांगचें वेग्गीं पोंताक पावोंवदीतः "नोव्या वर्साचो नोवो निचेव."

"आमी सक्कड, म्होळयार आन् [ताका पप्पा म्होळयार आमची पाट फुटता.] मांय आनी स भुरगीं, आनी आमचो 'सर्वेंट' मार्सेल कर्न गुरपूर बोंगल्याक एक 'ट्रीप' मारूंक 'कारार' गेल्यांव. सकाळींचें 'ब्रेकफाक्ट' बी जावन वारें गिळूंक आमी भुरगीं आनी आमचो 'बॉय' सांगाता [आन् आनी मांय पोयस बोसोन कितें-गी विलेवारी करतात. मेरीच्या सयरिके विशयांत म्होण दिसता.] बोंगल्या भायर बोसोन आसल्ल्यांव. चारांय कुशिनी दोळे लायताना कितली सोबीत 'सीनरी' पोळेवन तानभूक निवता पोळेया. रचनां पोळेवन रचनाराक काळीज उबोन वेता. आमचे 'कंपेनीत एक सांत-बी

आसल्लो जाल्यार, देवाचीं मयमा, सोबाय आनी 'ऑलमायटी' पोदवी चिंतून मोगान ताच्या काळजाची गुड्डी उसळती. त्या दीस पोळेल्ल्या वस्तूं विशयांत हांवे एक इंग्लिशांत चाळीस 'लायनी पोयेट्री' बोरयल्या. तीच कोंकणी भाशेंत घालयां म्होण थोड्या सोब्दांक भावांगडे विचारलें, भयणींगडें विचारलें, सकटांनी 'सूंबे' घालें. पूण आमचो 'बॉय मार्सेल' ह्या संगतींत मुकार पोडलो. ताका कोंकणी भास बोरी येता. आमच्याकी आमचो 'सर्वेंट' हुशार न्हय! रावयल्लो रावयतेल्या सायबांच्याकी 'क्लेवर मू!' अशें आसतां आमी सकटांनी एक उनोनी 'कनवरसेशन' सुरू केलें! तें मोस्त लांब आसा देकून भारी मोटवें कर्न, मिरयो घाल्न तुमकां बोरोवन धाडतां. आमाची स जणांची आलोचेन 'लंकाक' उजो पेटयत म्होणीय म्हाका भोगता. हें वाचून सबार जणांच्या मेंदवाक उजो पेटोंदी म्होळ्यार उमेदीन सर्व मुकार येवन काम 'कंप्लीट' करूंक लागोंदीत."

"लुसी [म्होळ्यार हांव, बोंबयत दाक्तेरपोण शिकचें चेडूं] 'कसली फडपशी भास, आमची कोंकणी 'लेंग्वेज' जायजाल्ले सोब्दच नांत. इतली बरी सीनरी सोब्दानी पिंत्रांवक म्हाका एकीय सोब्द मेळाना! व्होडले व्होडले पंडीत आनी 'डॉक्टर्स' मेळोन आमची भास कित्याक 'इंप्रूव' करिनात?"

"ज्योनी बाब [आमचो मोगाचो म्हालगडोभाव, ताका कोकणे भाशेचें इल्लें पिशें चड. पुणि भारी गुणेस्त आनी मानेस्त भुरगो. बी.ए. शिकोन 'सोसायटीक' वेच्यार आसासो दिसता] 'पोयगो लुसी, भेस्टें चिंतिनासताना उलयनाका. कोण सांगता कोंकणी भाशेंत सोब्द नांत म्होण! तुमकां एफ.ए., बी.ए. -बी शिकल्ल्या चेडवांक, कोंकणी भासी समा उलोवंक पुटवानातल्ल्यांक, भाशेक कित्याक दुर्सांताय? इतली बोरी आनी उंची कोंकणी भास, अपूट भास, उलयताना परगांवांतल्यांक सयत आंग पिसवाता. कोंकणी भास भारीच उपकाराची आमकां. गरजे शिवाय तुवें इंग्लेज सोब्द भोरसुंचे कित्याक? 'पप्पा, सर्वेंट, प्रींट, बॉय, करेक्ट' हांका कोंकणी सोब्द नांत-गी? तुमकां चेडवांक इंग्लेज शिकपाची इल्ली चराब मांडल्यागो!"

"मेरी [मोजी पाटली भयण. ताचेच सयरिके विशयांत आतां आन आनी मांय बोसोन उलयतात. बी.ए. शिकल्ल्या नोव्या क्रिस्तांवाक दितात खंय ताका. म्हाका भारी खुशी आबा.]

"लुसी बायेक भारीच्च धेंकणेमू! पूण (ज्योनी) बाबा तुमी सक्कड कोंकणी भाशेचे 'प्रोमोटर' तकली सांगाता घाल्न एक 'डिक्शनरी' करिनात कित्या? सक्कड भासांक चडउणे एक 'डिक्शनरी' आसा. आमचेभाशेक तर एक नाका-गी? 'फादर माफेन' केल्ली एक आसा. पूण ती कर्न 35 वर्सां जालीं, आनी तोवोळ कोंकणी भास खाली उलयताले. पूण चड बोरयनातल्ले. आयलेवार मोस्त बोरयतात. दिर्वे आसा, आंज आसा, कड्तिल्यो आसात. पोदां, कंतिगो, ड्रामा, एड्रेस मात्ती गोबोर म्होणताना आमची भास भारी वोयर चडल्या. देकून आतांचे सोब्द त्या परगावीं पाद्रीन येवन [आमकां एक लजशी] केल्ल्या बुकांत नांत; त्या भायर तोच बोरयणार 35 वर्सां आदीं सांगता "तेदाळाचे सयत पूरा सोब्द तांतूं नांत" म्होण. तर वोर्ती गरज एका डिक्शनरीची म्होण म्हाका भोगता. आमच्या 'कोन्वेंट' चेडवांक भारी उपकार जायत."

"इलाराब [तो बाबा पाटलो, ताका धाकट्याब म्होणा जाय खंय. ताका वेग्गीं बोंबयच्या 'मांवण्ट पोयन्सूर' फ्रांन्सिस्कन फ्राद जांवक वेचें 'इण्टेंशन' आसा म्होणता व्होडली मांय. ताचो घूट पूरा मामयेगडे आनी व्होडली मांयगडे. बायलमनशांच्यो जिबो चिक्के 'लाँग' म्होळ्ळें तो नेणा] "वोय, तीच्च गजाल सुमार तेंप थावन म्होजे मतींतय घुंवताली. पूण 'डिक्शनरी' म्होळ्यार कोंकणी भाशेंत कितें म्होणतात? तोच 'डिक्शनरी' सोब्द कोंकणेत वाक + सरी करचो, नातल्यार 'निगंट' या 'शब्दार्थ' या 'सोब्दां जेलो' (उतरां जेलो?), या 'सोब्दां भांडार' (उतरां संग्राप?) या दुसरें कसलेंय नांव दिंवचें जायना वय? पूण म्होजी अभिप्राय कितेंगी म्होळ्यार, 'सोब्दां जेलो' एकल्यान गुंतचो न्हय. दक्षीण कन्नडांत सुमार जणांनी कोनशा कोनशानी 'सब्दां जेलो' सुरू केला खंय. येदोळय पोंताक पावयल्लो कोणयना. देखून

एक 'सभा' केल्यार तें काम चलात. नातल्यार तें काम दी जाय मोस्त शिकपी आसल्ल्या घरांनी, उदारणे; माद्रींच्या कोवेंतानी, या कॉलेजींक, या सेमिनारींक. तेदाळ मात्र तें काम चलात."

'लिज्जी [मेरी पाटलें तें 'ट्रेनींग' शिकता, मागीर कितें 'बेथनी सिस्टर' जांवक वेता म्होण कावळो 'नीव्स' हाडलाइल्लो] "वोय इलाराबान सांगचें म्हाकाय समा म्होण दिसता. पाटल्या दिसांनी तसलो एक प्रस्ताप 'क्लासींत' आइल्लो. कित्यागी म्होळ्यार 'सब्दां जेलो' [म्हाका 'शब्दां मंडळ' बोरें लागता] एकल्यान गुंतून काबार करचो न्हय. हजारांच्या हजार थरांचीं फुलां ह्या 'जेल्याक' जाय. तीं सब्दा-फुलां एकटांय कर्न गुंतूंक एकट्याक वेळीयना, तांकीयना आनी आव्कीय ना. आनी तसलो पंडीत मोरतच सांगाता ताचें कामीय मोरता. देखून ह्या कामाक म्हाका दिसता 'सेमिनरी' सांगल्ली म्होण. संवसार सरा पर्यांत, ही दियेसेज आसतेली, दियेसेज आसता पर्यांत सेमिनार आसतेली, आनी देखून सुरू केल्लें काम पोंताक पावोंवक रगळे नांत. ताचे शिवाय सेमिनरींत एक कोंकणी सभा आसा. ती सेमिनरी सांगाता शाश्वीत उरची तसली देखून त्या सभेन हें काम वयसून काण्घेल्यार खंडीत 5 वर्सां भितर आपूट कोंकणी भाशेचो सोबीत आनी शास्वीत "सब्दां जेलो" गुंतून विकूंक तयार जायत. तुमी म्होणचें कितें?"

"माग्गी [तें म्होज्या आनेका भावा रॉबटा पाटलें. गुणेस्त, रुपेस्त आनी आंजाळ चेडूं. 'सिकस्त फोर्मांत' आसा माद्रींगेर] "तितलेंच न्हय, मावशेचो पूत, सेमिनारीस्त लुवीसबाब म्हाका एकदीस सांगतालो 'पार्लरांत' उलोंवक गेल्ल्या वेळार तांकां कोंकणी भास बोरी कर्न शिकची 'रूल' आसा म्होण. देखून ते कोंकणी सेमिनारिस्ती हें काम काण्घेतीत जाल्यार भारी 'फस्ट' जालें. म्हाकाय कोंकणी भास घुस्पडता, कितलेशे सोब्द हांव नेणा. पूण हें कामताणींच केल्यार पावाना. म्होजी अभिप्राय तुमकां चिल्लर दिसात, पूण कांय व्होड न्हय, खुश्येचें मोल दिया : कोंकणी भास उलयताना कोंवेंतांतल्या चेडवांबरी हांव 'इंग्लीश' भोर्सून उलयल्ल्याक आनान म्हाका सरसरीत

मारल्लें. ताचे उप्रांत 'दिर्वे', 'आंज' आनी हेर कोंकणी बोरपां वाचूंक हांवें सुरू केल्यांत. पुणि एकेकलो तोच्च सोब्द दोन तीन तरांनी बोरयता. तर कोणाचें समा म्होणचें? तशें आसतां एक 'डिक्शनरी', 'सब्दां-जेलो' जरतर जायत, असले नमुने नपंयच जातीत. सकटांचें 'स्पेलींग' डिक्शनरी प्रमाणे जायजाय. देखून 'डिक्शनरी' खाली सेमिनारिस्तांनी केल्यार पावाना, पूण दियेसेजींत आसल्ल्यांच्योय बुदवंत तकल्यो सांगाता घाल्न एक थर 'युनिफॉर्मिटी' आसा करिजाय."

"ज्योनी बाब - ताचे शिवाय मोस्त इंग्लीश सोब्द आसात, तांकां फावो ते कोंकणी सोब्द नांत. देखून एकच्च नोवे सोब्द घडिजाय. या दुसऱ्या भाशेंतले विंचून काडिजाय. संस्कृत, मराठी, हिन्दुस्थानी, तुळू, कानडी आनी गोंयकारांच्या डिक्शनरींतले विंचून काडिजाय. आनी खंयचे आमचे भाशेंत भोरसूंवयेत म्होळ्ळें हेरांची अभिप्राय विचार्न पोळेल्यार बोरी."

"लुसी - दियेसेजींत आसल्ल्यांची पुरा माहेत विचारूंक गेल्यार वोर्सां वेतीत. देखून थोड्या 'क्लेवर' मनशांक विंचून काडल्यार बोरें. आनी ताणी मोस्त तेंप आनी वेळ काडिनाये, चड म्होळ्यार 3 वोर्सां भितर सक्कड जाय जाय."

"लिज्जी - सक्कड म्होळ्यार, खाली इंग्लीश आसल्ली कोंकणी डिक्शनरी करूंक मात्र. देखून खंयचीय एक बोरी इंग्लीश डिक्शनरी काण्घेवची आनी पूरा सोब्द तर्जुमो करचे."

"मेरी - तर्जुमो करताना शब्दार्थ काडल्यार आनी इंग्लीश अक्षरांनी बोरयल्यार आमची भास सगळ्यान वाचिसारकी जायत. नातल्यार कानडी अक्षरां गोत्तू आसल्ल्या कन्नड जिल्ल्यांतच उरतेली. पूण सांगाताच इंग्लीश अक्षरांनी बोरयल्यार, बोम्बय, गोंयां, कराची आनी हेरां गांवांनी पावात. आनी कोण जाणा, वोर्सां उप्रांत गोंयकार आनी कोंकणे आनी कोडयाळगार मेळोन एक 'युनिवर्सल' कोंकणी भास करूंक पावचेनात म्होण!"

"लुसी - मानादीक एडिटरांनो, आमचें गुरपूर बोंगल्यार जाल्लें 'टॉक'

भारीलांब 2 वोरां आसल्लें. साबार 'टॉपिक्स' आसल्ले. पूण ह्या सद्‌बां-झेल्याक लग्ती जाल्ल्यो संगतीमात्र, आनी त्योयी भारी 'शॉर्ट' कर्न तुमकां म्होण बरयल्यात. सक्कड वाचून तांची 'ओपिनियन' तुमकां दितेले. सकटांच्या बोरेपोणाक वोडची संगत तुमी तुमच्या 'दिर्व्यांत' 'प्रींट' करतेल्यात म्होण पातयेतां. आनी आमी हांगा सांगल्लो प्रस्ताप सेमिनरिस्तांच्या मोतींत रिगोन भिस्पांचें 'परमिशन' काण्घेवन ते हें काम वेग्गी सुरू करतेले म्होळ्ळेंय पातयेतां आनी तेदाळा ही म्होजी भोरशीची भास सोड्न 'प्यूवर' कोंकणी भास उलोंवक पावतेलीं. तुमची पोयसिली इश्टीण."

'जेप्पुचें लुसी.'

### ii) कोंकणी दिर्वे. बातमी फेब्रेर 2, 1929

"इंग्लेज-कोंकणी आनी कोंकणी-इंग्लेज भाशेची एक वाकसरी (Dictionary) बोरोंवचें काम व्होडिलांच्या रजेन सेमिनारिस्तांनी सुरू केलां. कोंकणी भाशेच्या सर्व उत्येजनदारांनी ह्या कामाक हाताहात कुमोक दिवजाय म्होळ्ळी विनंती आसा. मंगळुरांत उजार नातल्ल्या पूण हेरकडेन उजार करच्या आपूट कोंकणी सोब्दांची पट्‌टी कर्न कोणीय धाडतीत जाल्यार भोव संतोसान काण्घेतेले."

### iii) कोंकणी दिर्वे - बातमी फेब्रेर 16, 1929

**"कोंकणी वाकसरी"**

"प्रीय पत्रकर्तानो, - फेब्रेरीच्या पोयल्या अंक्यांत भारीच्च बोरी नवाल खबार आसा न्हयगी! सेमिनारिस्तांनी वोर्तें आनी उपकारभरीत काम सुरू केलां खंय. ही वार्ता काडदियाल लेपिसियराच्या कानांत पोडात जाल्यार, तो रोमापुरा थावन जेप्पू सेमिनारीक आदलेच्याकी व्होडली शिफारास धाडीत!! हो वृत्तांत म्हाकाच कितलो धादोशी करता म्होळ्ळें हांवच नेणा. उल्लासभरीत संतोसान काळजाची गुडदी उसळताशी भोगता म्हजेभितर. सायबा म्होज्या! "देवो ग्रासीयस" देवाक आर्गां प्रारंभ केल्ल्याक हें काम, आनी "ग्लोरिया

देवो" देवाक आनंद वेग्गी तें पोंताक पायल्यार आनी आतां सेमिनारिस्तांक "थ्री चियर्स" तीन उल्लास "हूतो! हूतो!! हूतो!!!" पुरो पुरो."

"हांव नाडकार जाल्लों जाल्यार म्हाका मायभास बोरी येती कोण्णा, आनी तेदाळा नोवो 'सोब्दां झेलो' सोबोंवक साबार विंचणार आनी नाजूक आनी आपूट्ट कोंकणी सोब्द रास कर्न धाडतों. पूण शहरकार जावन कोंकणी भास वोंडता, उलयताना घुस्पोड-गोंदोळसो दिसता. पुणि एक कोंकणी निघंट आसा जाईच्च देखून हातपाय बोडोवन चारपांच संगती तिचे विशयांत बोरोवन बोरोवन धाडतां. म्होजे आलोचेनेक खुश्येचेंमोल बांदयेत, म्हाका कांय राग ना, या काड्न कस्ताळ-कुरव्यांत उडोवयेत, कित्याक-गी म्होणश्यात : एकल्याची आलोचेन आनेकल्यान परिपूर्ण अन्सर्सि जाय म्होळ्ळें ना. खुशी आसल्यार आनी राजावीं म्होण दिसल्यार दोवरूयेत, सारकी न्हय म्होण भोगल्यार चिल्लुंयेत -तशेंच म्हाका साबारजण मिश्यो फुटच्या आदिं "बसरा वोच, बसरा वोच" म्होण लोटटाले, "पाटल्यान पोळेयां, पाटल्यान पोळेयां" म्होणोन आनिकी हांगाच आसां "तशें आतां हांसोन खेळोन दीस काडचे" म्होणता मामी-आतां म्होजी आलोचेन सोडयता.

"नांव - नोवो ग्रंथ जातच ताका वोल लायताना सोबीत एक नांव दी जाय न्हयगी? "जेप्पुच्या लुसीन" जानेराच्या पोयल्या अंक्यांत नांवांची एक शिंकळच्च दिल्ली. [चुरूक मेंदवाचें चेडूं जाय जाय तें] जरतर ह्या नोव्या लिवराचो म्हाका पोदोर्न करतीत, हांव ताचेर हात वोडताना "वाकसरी" म्होळ्ळें अमृत नांव लायन. सर्व नांवां पयकी "वाकसरी म्होणताना तोंडांत म्होंव आसल्ल्याबरी भोगता न्हयगी? आयकोंक कानाक रंगीत, उच्चार करूंक ससार, बोरोंवक सराग्ग येता. पोळेंवक पाड दिसाना. खंयच्यान दृष्टी लायल्यारय मुदयेक थीक बोसयल्ल्या बरी दिसता. तर तेंच आसोंदी."

काम आतां - वाकसरीं करचें काम केळीं खेल्ल्याबरी न्हय, माहेत आसल्ल्यांकच गोत्तू. काम मस्त आसा, काम आतां, काम मागीर छापसिताना. देखून आतां 40 या 50 जणाक कुडसून, थोड्यांक इंग्लीश अक्षरां दिंवचीं

पोयलीं इंग्लेज-कोंकणी वाकसरी करच्याक थोड्यांक विंगड विंगड वस्तू विशयांत सोब्द पुंजांवक लांवचें [गिर्दी, मांड, कुर्पोण, बाणशिरें सयत वाकसरींत घालिजाय] आनी थोड्यांक आदीं कोंकणी दिर्वी, कोंकणी बूक, कोंकणी कंतिगो आनी हेर बरवणक्यो वाचूंक दिवन. अशें तांकता तितले सोब्द, सांगण्यो, गादी, मात्ती गोबोर तलास करचें. सेमिनारीस्त रजेर घरा आइल्ल्या वेळार हांवीय कुमकेक मेळान."

"काम मागीर-छापसुंच्या आदीं सक्कड मांडून हाडिजाय.

1) वाकसरींतले कोंकणी सोब्द पूरा कानड्या अक्षरांनी मात्र बोरयजाय.

2) आनी देखून थोड्यो रुली कर्न हर एक सोब्द कसो बोरोंवचो म्होळ्ळें निश्चयसिजाय-ताचे उप्रांत सोमेस्तानी वाकसरींतलें "स्पेलींग" (अक्षरां कुडसोणे) धरिजाय. चुकल्ल्यांक या दुसरो आवतार धरतेल्यांक "वाकसरी" भोगसुची ना.

3) बुकाच्या सुरवेर एक चावी दी जाय a) नामपदांचें "डिक्लेनशन" (विभक्ती विवर) b) क्रियापदांचें "कोंज्युगेशन" (कृतांजेलो) c) सकटांक वाचूंक जायशें कानड्या अक्षरांचो जोगतो इंग्लेज तर्जुमो

4) नामपदांचो "जंडर", (लींग थर), 'जेनेटीव' [संबंध विभक्ती] आनी बहुवचन दी जाय;

साधारण अशें a. mango - आंबो-ब्या, m. आंबे; b. ant - मूय-ये, f. मुयो.

5) क्रियापद बोरयताना "इनफिनिटीव" (भावरूप) आनी नेगेटीव (निशेधार्थ) दी जाय. उदाः tell - सांग, सांगाना, beat - मार - मारचें, मारिना.

6) गरजेच्यो थोड्यो चालत्यो व्याकरण रेग्रो दीजाय.

7) बुकाचो नमुनो बदलल्यार भारी बोरो. म्होजे मातीक हर पानार दोन वोळीं बदलाक तीन वोळी केल्यार बूक दाट जायना. देखून नवो बूक ह्या परीं ☐☐☐ केल्यार बरो आनी असो ☐☐ नाकासो दिसता.

जानेराच्या पोयल्या अंक्यांत "जेप्पुच्या लुसीन" दिर्व्यांत साबार वस्तू सांगल्ल्यो. ताचे पयकीं सेमिनारींत तें काम करिजाय म्होळ्ळी बोरी आलोचेन. आनी आतां [ताची अभिप्राय आयकोनगी?] सेमिनारींत शिकपी तरनाट्यांनी तांच्या व्होडिलांखाल हें काम सुरू केल्लें वेगींच पोंताक पावतेलें. शाबास! जावंदी तर ही नोवी "वाकसरी" कोंकणी भाशेचो अलंकार, कोंकणी समाजीचो आनंद, कोंकणी दियेसेजीक मान, आनी कोंकणी वावराड्यांचो (सेमिनरीचो) कुरोव. सगळे दियेसेजीन ह्या कामाक हात दी जाय म्होण म्हाका भोगता. निजाकी आमचे मोदें साबार कोंकणी विद्यावंत पंडीत आसात. तांकां मोस्त सांगोक आसतेलें आनी देखून दिर्व्याच्या एडिटरांनी हरएका दिर्व्यांचें प्रत्येक एक पान "कोंकणी वाकसरीक म्होण वोरेविंगड दोवोरल्यार जायत न्हयगी? हांव सर्व वाकसरींचो ईश्ट. सुमार वाकसरी आसात मोजेकडे. वेग्गीं कोंकणी वाकसरी मेळात जाल्यार, ती सद्दां उशातळा दोवरीन. सेमिनारीस्त गर्मी रजे उप्रांत पाटीं कुळारा (सेमिनारीक) हासोन खेळोन वेताना, वाकसरीच्या खर्चाक म्होण चार पांच रुपय दिवंचे म्होण केल्यात हांवे म्होजेच स्वंत इच्छेन."

7-2-29 "वाकसरीक"

[कोंकणी भास बोरी करिजाय म्होण अपेक्षितेल्यां सर्वांक हें एक आपोणे हाता हात कुमोक दिवंक. तर सक्कड आतां मुकार येवंदीत - एडिटर कों. दि.]"

## (iv) कोंकणी दिर्वें - बातमी मार्च 2, 1929

### "कोंकणी रानांतलो नाद - कोंकणी वाकसरी"

"प्रीय प्रभू, - कोंकणी वाकसरीक कांय पुणि कुमोक करिजाय म्होण म्हाका जाता. कितें करूं!" धुवो म्हजेगडे दुडू आनेकल्यागडे जालामू. हाचो अर्थ तुमकां समजलोसो दिसता. जाल्यारय ही कासाइतली सहाय उपकाराक पोडचीगी म्होळ्ळें तकलेंत बोरें घुंवडावन फायस करतात जाल्यार तुमकां वंदितां.

He died "ही डाय्ड" म्होळ्ळी एक चिंतना कोंकणी भास कितल्या रुचीक थरांनी बोरपीं आनी मुखीं सांगता पोळेया :

1) तो मेलो 2) ताणे प्राण केलो. 3) तो सरलो, 4) तो अंतरलो 5) ताणे घूड घालो 6) तो मेल्ल्यांत दाखल (जालो) 7) तो संपलो 8) तो फाडच्या (जालो) 9) ताणे लाट घाली 10) तो देवादीन जालो 11) तो खर्चालो 12) ताणे कांबी मोडल्यो. 13) तो फोंडांत न्हिदलो 14) तो फेस्ताक गेलो, 15) ताणे हात पांय सोडले. 16) तो सरकारी लेकार पावलो 17) ताणे दोळे धांपलें 18) तो लांब जालो 19) तो फोंड्येर्बुगेर गेलो. 20) तो काबार (जालो) 21) ताणे जीव सोडलो 22) तो मात्ती खावंक गेलो. 23) तो मीट मेजूंक गेलो. 24) ताणे फोळां खेलीं 25) तो त्या लोकाक पावलो (गेलो) 26) तो चट्ट (जालो) 27) तो कूकु 28) ताणे केळीं खेलीं 29) तो मोर्न पावलो 30) तो गेलो 31) ताणे कोट्टु घालो 32) तो गोयां गेलो. 33) तो निट्ट (नीट जालो) 34) ताणे कुकलू केलें. 35) तो आकेर (जालो) 36) तो कैलासाक गेलो (पावलो) 37) ताका चाट्टो बांदलो 38) ताणे वाट धरली 39) तो रूक जालो. 40) ताणे वाट पुक्क केलें 41) ताचे (आकेर) जालें 42) ताणे हात पांय लांबयले (सोडले) 43) तो मन्नराडी गेलो. 44. तो यमपुराक गेलो 45. तो गोकर्णाक गेलो. 46. तो उसाळ्ळो 47. ताणे निमाणो उस्वास सोडलो. 48) ताची आवदी काबार 49) तो लया जालो 50) ताणे टिकेट काण्घेली 51) ताणे शिडां सोडलीं 52) ताणे गुप्पकेलें 53) तो सर्गार गेलो. 54) तो खलास (जालो) 55) तो शीत नातल्या गांवाक गेलो.

"पिंतीण."

**v) कोंकणी दिर्वें - बातमी मार्च 16, 1929**

**'कोंकणी रानांतलो नाद'**

**कोंकणी वाक्सरी**

"प्रीय प्रभू, - माका एक भावो, त्या भाव्याक एक बायल, त्या बायलेक

एक पूत, आनी ताका लागला कृशण-भूत! वोयगा म्होळ्यार! आदले पावटीं हावें धाड्‌न दिल्ल्या सोब्दांक आनी प्रत्येक जावन 'वाक्सरी' म्होळळ्या आपुरबायेच्या नावाक तो खोंडी काडता... जेप्पूच्या जॉनीचें "राग म्होळळो वाग" नांवाखाल फायस केल्लें उपन्यास ह्या वेळारच वाचल्लें म्हाका उपकाराक पोडलें. म्हाज्या पुत्या विशयांत चार सोब्द सांगतां - तो शिरपुटोच्च, लोंबेटो, चिक्के बग्गेला; सेजसांबारचीं ताका "धोंटी दुम्गा" म्होणतात. दोन तीन वर्सां आदीं गोणयेंत पांय घाल्न (चल्लाण शिरकावन) पायांक रेड्याचीं चांबडी बांदून (मोचे) आंगाक कांबोळ गुटलावन (गराम कोट) हातांत शिमटी धर्न (चांबड्याचें बेत मात्याक बेंडू-कंडी लावन (चेपें) तोंडांत धुमटी दोवोर्न (चिरूट) आगबोटीचेर खलाशी कामाक गेल्लो. आतां व्होडलो कांटलूस-सो-जावन दोनी हात कासलांवांच्या बोलसांनी चेपून "वाक्सरी" कामाक खोडी काडता. आतांचे पिले परदेसाक गेल्ल्याक्षण "पोर्च्याक कालचो शिकयल्ल्याबरी" करतात. आमचो "दोंटी दुमगा" चार गांव भोवला खंय. (खंय देप्पानदेस पावलो कोण्णा!) लंडन-गिंडन (बोर-मंड्यान), आफ्रिका - गिफ्रिका (सुकी बाफ्री खा), मैसूर-गियसूर (तळटीसूर) पोळयल्यात खंय ताणे! कितें भोगता कोण्णा माका ताका नियाळताना! - "वाक्सरी" नांव रुचानातल्यार दुसरें बोरें नांव दिवंदी तो. दुसऱ्यानी घाम काड्‌न, हात पांय झरोवन केल्ल्या वावराक खोडी काडूंक व्होड वेळ नाका; खोडी काडूंक सदांच ससार. साधन मात्र कश्टांची रास. "जेप्पूच्या लुसीन" (म्हाजे नण्डेची नात तें) जानेराच्या पोयल्या अंक्यांत दिल्लीं नावांच उस्तून काडूंक काडल्ली म्हिनत चिंतल्यार पुरोमू, "दोंटी दुमगाक" लजेन चाप्पे करूंक.

मानापात्र एडिटरांनो, अशें बोरयलें म्होण शिणानाकात. "वाक्सरी सोब्द कोंकणी न्हय, तो बोरो दिसाना, चाप्पो लागता." आनी कितें आनी कितें म्होणता तो. तो पाट घाल्न घरा वेतच, म्होज्या पांच धुवांक आपोवन सांगलें. "आळे, पोळ्ळी, डोल्ली, मिल्ली, लिल्ली आनी किल्ली, तुमी सट्ट कर्न 'वाक्सरी' म्होळळ्या सोब्दांबरीच कोंकणी भाशेंत आसचीं पूरा उतरां पुंजाय

जाय. तितीन अक्षरांचीं या मात्रांचीं मात्र. "नावन्स"पुरो दिसता (नामवाचक) "एडवर्ब्स" (क्रियावाचक) आनी 'एजेक्टीव्स्' (विशेशण) आनी दुसरें (मणणमसण) नाका. वेग्गी जायजाय. त्यो पांचीय चलयो मांड घाल्न बोसल्यो आनी आरायले सुमार सोब्द वाक्सरीबरी सरी आसचें. ते हांगा दितां, फायस केल्यार सलाम करतांः-

1) वाक्सरी 2) च्योंसरी 3) विसरी (विसर पोडलें) 4) कुमसरी 5) सिर्सिरी 6) म्हातारी 7) कुत्तारी 8) सुतारी 9) आल्तारी 10) कस्तुरी 11) दस्तुरी 12) आचारी 13) पुजारी 14) झुजारी 15) शेजारी 16) मोजुरी 17) भिकारी 18) शिकारी 19) केकारी 20) जळारी 21) आंकवारी 22) गांवकारी 23) मोलकारी (ग्रायक) 24) रिणकारी 25) कोंकारी 26) भिंगारी 27) भंडारी 28) पिंडारी (चोरांची जात) 29) कांदारी 30) गांदारी (देवते) 31) घंडेरी (कोबू) 32) आमोरी 33) आल्मारी 34) फेरमारी (जिवदाळ) 35) पिनारी (रूक) 36) इट्टेरी 37) कावळेरी (सुकणें) 38) ओपारी 39) कच्चेरी 40) किंदरी (विणो) 41) गिर्गिरी 42) सवारी 43) जुगारी 44) गुडगारी (पोटकिरो) 45) मालपुरी 46) उपकारी 47) पातमारी 48) मस्करी 49) तयारी 50) तलवारी 51) तुतुरी (तुंबेत) 52) फितुरी 53) पोतकेरी (दात्तेर) 54) पयणारी 55) बेगारी (कुल्कार) 56) लुटकारी 57) अंबारी (बोसका) 58) मक्केरी 59) गुरवारी 60) साळेरी 61) ओडारी 62) देबेरी (घरा भोंवतीं बीर) 63) कुमेरी 64) म्हातबारी 65) कारबारी 66) हितबारी 67) पोटारी 68) बिडारी 69) पिरपिरी 70) पिसकारी 71) दळदिरी 72) पापारी 73) इरूरी (रांद्योय) 74) म्होणयारी 75) व्यापारी 76) किनारी 77) शिंतिरी 78) इरसिरी (उदकांतली वाल) 79) वाटसुरी 80) दळबारी 81) सरकारी 82) मस्किरी 83) धोस्किरी 84) लुटकारी 85) गिर्गिरी 86) सुनेरी आनी पोर्तेक वाक्सरी.

हांतूं दोन अक्षरांचे सोब्द - सुरी, मिरी, गरी, सरी, पेरी, दोरी असले घालूंक नात; चार मात्र्यांचेय - प्रसंगारी, प्रदुवारी, वेबिचारी, रहदोरी -

सोडल्यात; त्या भायर वोयल्या पट्टेंत आसचे खालिनामपद मात्र! तर वाक्सरी म्होळ्ळ्या सोब्दाबरी कोंकणी भाशेंत कितलीं तीं नाजूक उतरां आसताना "वाक्सरी" म्होळ्ळें नांव दोवरूक कितें अडकळ! समाअर्थ जायना जाल्यार आतां अर्थ कर्न काण्धेंयां आनी म्होणयां "वाक्सरी म्होळ्यारी डिक्शिनारी" - सोब्द आपापींच उब्जनांत, तांचें घडाप येता मनशांच्या तकले थावन, चड उणे सकटांनी ओप्पिगी दितच तो सब्द कायम जालो. तशेंच आतां ह्या "वाक्सरी" सोब्दा विशयांत. आज धरयां सर्व वाद विवाद मिटवालो म्होण मनःपूर्वक पातयेता. तुमकां हात दिंवची,

'5-3-29' "पिंतीण"

## (vi) कोंकणी दिर्वें - बातमी एप्रील 2, 1929

### 'कोंकणी रानांतलो नाद'

### 'कोंकणी वाक्सरी'

"... मोगाच्या एडिटरांनो, म्हाका ती येरोपी परगांवी न्हेसोण देकताना पायांचो कोपालाक चडता. आमची स्वदेशी न्हेसोण आमकां सांगल्ली. बायलांक साडो, दादल्यांक उर्माल तोडोप, साद्या दिसांनी हेर सादी मुस्तायकी. काजार जाल्ल्या सुरवेर आमच्या डोल्लीच्या बापायनी इल्लें जिंगरिफिसांव सुरू केल्लें. त्या वोर्सा काफये तोटांत इल्लो फेर्गो जोडल्लो. वेग्गी सकटांक दाकोंवक मुस्तायकेचें अब्बार सुरू केल्लें. हांवमू सोडूंक! घरकार जाल्यार कितें! नितीक नीत. धा दीस सायबां गडें उलोंवकच्च ना - डोल्लीच्या बापायक भितरलो गूट कळ्ळो आनी सादें पुडवें आनी कुतांव सुरू केलो. तक्षण उलोंवक सुरू केलें हांवें. तशें आमच्या दोंटी दुमगाक कोंकणी दिर्वें वाचून शीर पोळेवन दाग्दिल्याबारी जालो खंय. आतां तिक्के देवला केवलो. मोजेगडे माफ मागा लागलो, वाक्सरी कामाक खोडी काडल्ल्याक, तितलेंच न्हंय, तोच थोडे सोब्द आरावन हाड्न आयलां. "मावशे, तुका हावें इल्ली कुमोक करची म्होण केल्या. मोजेगडें आसात थोडे सोब्द, ते मनशांक मात्र लग्ती जाल्ले. दोग या चड सांगाता आमच्या अर्थाचे. तांतूं दोग या चड

मनीस वोट्टू मेळच्या जाग्यांचीं नांवां नांत (कांबोळ, कोंब्याकाट, सर्कस, मार्कीट) आनी तांतूं म्होस्त जण मेळच्या बांदपाचीं नांवांय सोडल्यांत (घर, इस्काल, इगर्ज, पेंट, सांत) तुका उपकाराक पोडचे जाल्यार पोळे. आतां हांव वेतां आनी आमकां राजी जाल्ली गजाल आनाक सांगता" अशें म्होणोन दोण्टी दुमगा घरा निकाळ्ळो. सोपणांत सयत चिंतूक ना चेड्यान ताचे विशयांत दिर्व्यांत पोडात म्होण. खंयच्याकी बोरो जालो न्हयवें! पुरो - ताणे बोरयल्ले सोब्द उपकाराक पोड्तीत देकून हांगा दितां :- जमो, मेळ, हिंड, संघ, सभा, मंडळी, कूट, कमटी, आपोस्तलाद, फौज, समाज, सोशियेलाद, खेट, पंचायत, जूंत, कांवन्सील, पार्लिमेंत, कुटाम, लोट, हारिहारी, धाजण, बोर्ड, रिपुब्लीक, सेनेट, क्लब, पंगड, पौब, पटलाम, सोडालिटी, चिळ्ळेंबिळ्ळें, पर्जा, कोर, एकवोट, जोडें, बिरें, कंपेनी, वोराण, कोंफ्र, तंड, त्रूप, परिवार, पायदळ, एसोसिएशन, व्होर, संखो, दिब्बण, संसार, जनांग, सैन, ज्यूरी, पुर्शांव, समुदाय, पिलावळ, संसार, संतत, घराणे..."

'21-3-29' "पिंतीण"

## (vii) कोंकणी दिर्वे - बातमी जून 16, 1929

### "कोंकणी वाक्सरी"

हुर्रे-हुर्रे! कसलें घन, कसलें होगळाप! कसलो संतोस आमच्या समाजीक! जेप्पूच्या शास्त्रीक विद्यालयाचे विद्यार्थी एक कूट कर्न, तांच्या तांच्या शिकपाच्या कश्टां मोदें फुरसत कर्न कोंकणी वाक्सरी करतात. हुर्रे-होगळाप वाक्सरी करतांक आनी आनंद, उल्लास आमकां सोमेस्तांक, कोंकणी भास उलयतेल्यांक!

कोंकणी वाक्सरीची किती आमकां गरज-गी म्होण हर एकल्याक कळीत आसोंक पुरो. फावोतीं उतरां आमच्या कोंकणी भाशेंत नांत. आनी साबार संगती पुस्कळ विवरसूंक इंग्लेज या हेर भाशेचे सोब्द मोदें घालिजाय पोडतात. पूण अशें करूंक सकटांक कळना, म्हाका पोयलें सोमजाना. मोज्या मालघड्यांनी कितें कर्न म्हाका इल्लीशी वस्त पुंजावन दिल्ली जाल्यार,

हांव इंग्लेज शिकतों आनी हेर सबार जणां बरी हांवय इंग्लेज सोब्द सर्शी भोर्शी घाल्न, कसी पिसी कर्न उलयतों. पूण ऊंच विद्याभ्यासांत चिक्के पुणि हेळल्लों जाल्यार, म्होजी मायभास - कोंकणीभास - आज म्हाका हलशीक दिसती-गी कोण्णा! कोंकणी भाशेक तिरस्कार कर्न सायब मादाम जातों-गी कोण्णा जांवक पुरो. आतांचो नमुनो पोळेताना म्होजे थंय पर्यांत कोंकणी भाशेचो कांटाळो उब्जातो म्होण माका दृढ जाता. पोळेया विद्यार्थी चलयांक-धोंपरा वोयर कोंप्रार घल्न कसी-पिसी-कसी-पिसी कर्न गिर्बोज्यां बरी उलोवन वेतात. खंयच्या भशेन? इंग्लेज. उलयया तांचेकडें कोंकणी भाशेन आनी कितें जाप तीं दितात? "आय डोण्ट नो कोंकणी", "आय काण्ट स्पीक प्रोपरली कोंकणी" - पूण एक चिमटो काडा आमबळे मेळ्ळी जापः 'मांय-मांय' खंचेंयतीं विसरल्यारय 'मांय' म्होळ्ळो सोब्द विसरोंक तांचें सैंबच सोडणा. चलयांकच हांवें कित्याक दुर्सजाय - तांच्या सांगाता चलेय मेळतात. तांकांय मांयचो उडास विसरना हां. तर मांयचो उडास आसताना मांय भाशेचो उडास कसो - तो विसरता?

कोंकणी वाक्सरी आमच्या भाशेक एक अलंकार. कशें च्योन्सरी एका चलयेच्या केंसांच्या शेंड्याक माळ्ळयार त्या चलयेचें मातें सोबयतागी तशेंच कोंकणी वाक्सरी आमच्या समाजीक अलंकार दितली.

वाक्सरी करतात म्होण हांवें दिर्व्यांत वाचल्लें. पूण आतां सुमार दोन तीन दिर्व्यांच्या अंक्यांनी वाक्सरीचो पत्तोच ना. च्योन्सरी चोरांनी विसरायली-गाय! तशें न्हय, कामां आनी राटावळीं मोदें वाक्सरी पोंदा पोंदा निसरी जाली गाय? आनी एक आसा आमच्या माल्घड्यांक च्योन्सरी म्होळयार भारीच आशा. त्या भांगाराक सक्कडच्च आशेतालीं आनी मानतालीं. मोजी यजमान (तिचे दांत गेल्यात, केंस पिकल्यात), च्योन्सरी नातल्ल्या शिवाय मेटा सकला पांय भायर घालनातली. पूण मोजी नात कितें करता? च्योन्सरी म्होळयार कांटाळता - च्योन्सरी मोड्ण 'लोंगचैन करयां म्होणता. देकून च्योन्सरी 'विसरी' जाल्या - ताचो उडासच विसरला. तशें कांय पाटल्या

दिसांतच्च सुरू केल्ली कोंकणी वाक्सरी च्योन्सरी, इतल्या वेग्गींच 'निसरी' आनी 'विसरी' जालीगाय? तशें जालां जाल्यार हाचे वोर्वी पुणि शास्त्र विद्यार्थ्यींक उडास जातोलो म्होण मोजी आशा."

"आर्म्हातारो"

## (viii) कोंकणी दिर्वें - बातमी मे 2, 1929

### "एडिटरांक नमान"

"मोगाच्या एडिटरांनो, - सुमार 14 वर्सां थावन हांव तुमचें दिर्वें वाचून आयलां. तवोळ तवोळ तुमच्या पत्राक कांय इल्लें बोरयतालों मोज्याच खुशेन हां! आयल्यावार म्हाका कांय फुर्सत नातल्ली. बोरोवयां म्होण मोन करताना, कितें पुणि आसाच आसा. देकून पोळेया हांव वोगोच आसल्ल्याक शीण करनाकात. खळल्लीं मिसां आतां आयकातां. कशें? तुमकां एक जेवाण कर्न ह्या दिसानी पिडेची गाब आसताना सान्ना, मास करची माका खुशी ना. मासळेचें जेवाण बोरें. आल्सेरबोची यजमान बोरी हुशार आसा. तिका बांगडे बाफात करचें भारीच पिशें. सुंगटांचो पाडा आनी मोल. मासळी जायत्या नमुन्यानी रांदूक तिका कळता. तिका आपोवन हाडा. कळ्ळें मू! फाल्या कोरापुलू ही मासळी हाड्न येतेलें:-

1) शेतकां 2) नगल्यो (काणे) 3) किजाना 4) पालू 5) आब्रोणी (कारसाणी) 6) बुयांटी 7) मुडाव 8) सांकटेरां 9) सांगाळे 10) घूर 11) चणाकी 12) शेवटाळो 13) वागोळें 14) दडयारो 15) खांपी 16) बांगडे 17) तारले 18) सुंगटां 19) बेरेंग 20) देंकळो 21) थिगूर 22) मरिमुगूड 23) येर्लो 24) इसवोण 25) सोंर्गूल 26) लेपो 27) कुर्ली 28) काळेंद्र 29) कर्ली 30) कोंती 31) कांडाय 32) येराबाय 33) मोतयाळो 34) गार्लेबी 35) मुल्लतारू (मुल्लिकोर, बुरांटीच्यो खोर्वो) 36) वाळय (बाले) 37) पार्सोळें 38) इणांग 39) फळमासो 40) पेड 41) केवाजी 42) दांडे खोर्वो 43) ताटो 44) धडीं 45) कासोव 46) कासय 47) बोंबील 48) खुबे 49) घुल्यो 50) कोंगे 51) कालवां 52) कल्मरंटे 53) तेबाटे 54)

कोड्डयाणा 55) पुर्योल 56) माडोंजी (मोळवो) 57) पांबोल 58) पूर्ले 59) घोडो मासळी 60) मदमाल मीन (व्होकाल मासळी) 61) शिर्ली कांडाय 62) कुंर्दोडी पेडी 63) पाल पेडी 64) मायकण पेडी 65) बंडास 66) घोडो कुर्ली 67) उर्यो 68) पांपलेट 69) कोंकारो 70) सोंदाळे 71) कडवाय"

"दिर्व्याचो ईश्ट"

## (ix) कोंकणी दिर्वे - बातमी आगोस्त 16, 1929

### "कोंकणी वाक्सरी"

"सायबा म्होज्या! कशेंय हांतुळणावोयलो उटलों. जेप्पूच्या 'बाबाची आलोचेन पसंद करच्या इराद्यान नाड भोवोंक गेल्लों. खंय गेल्यारय 'आतां सागवळीचो वेळ-गा, आतां फुर्सत ना, आनेक पावटी ये - तेदाळा तुका आलोचेन कर्न सोब्द पुंजावन दिवयेत" म्होळ्ळीच जाप. गेल्लें काम पाड आनी ताचेवोय वाऱ्या पावसाक सांपडोन हद्यांत कठीण शेळ आनी खोंकली. हें सकड काण्घेवन घरा आयलों आनी सुसेगात न्हिदलों. पाटल्या दिसानी खंयगी - दिर्व्यार बाय बाय - भोटा गुड्यार सान तेरेजा मेडिकल होला विशयांत वाचल्लें. थंयचो एक पौंड च्यवनप्राश रांदो हाडलो. फुंक्याक न्हय हां बरे रुपया 3-6-0 दिल्यात. रांदो जाल्यार ताजा म्हाल, शास्त्रीक नमुन्यार तयारसिल्लो तसलो. ह्या रांद्यावोर्वी म्होज्या जिवाक जायतें बोरेपोण मेळ्ळें. खोंकली, हद्यांतली दूक; शेळ इत्यादी रावली आनी आतां हांतुळनावोयलो उटोन पोरतून वाक्सरी विशयांत चिंततां.

सानतेरेजा मेडिकल हॉलान म्हाका आनेक कुमोक भासायल्या. झाडांझाडकुटांचीं नांवां, संस्कृत या हिन्दी भाशेन दितां म्होळयांत. त्या नांवांक फावो ते कोंकणी सोब्द आतां पुंजाय जाय. असल्या सक्कड वस्तूंचीं नांवां कोणय पुणि दिर्व्यामार्फत म्हाका पावीत करतीत जाल्यार "बाब" (जेप्पूचो) उपकार मांदतो.

हे पावटी चडताव हांव बोरोंवक वोचाना. वाक्सरीक लागोन आसल्ल्या

कोंकणी लिखिता (Konkani literature) विशयांत मात्र इल्लेंशें बोरयजाय म्होण केलां.

व्होय, वाक्सरी करूंक सुरू केल्या सहज - आज न्हय फाल्यां जातेली. म्होळळ्याक दुबाव ना. जाल्यारी आमच्या आतांच्या इंग्लेजार जाल्ल्या नमुन्याक वाक्सरीची आमकां कांयच गरज ना. वाक्सरी कशी करूंक धरल्यागी तशेंच कोंकणी लिखीत काम सांगाताच धरिजाय. कोंकणी लिखीत आमकां नाका जाल्यार, वाक्सरीय आमकां नाका.

इंग्लेज वाचूंक जाणा जाल्ले आनी जाल्लीं दरबस्त तांच्या फुरसतीच्या वेळार इंग्लेज नवलाण्यो (Novels - नोवेल्स - नवाल काणयो) वाचतात. तरन्या पिलकोट्यां थंय सयत हीच पिसाय आसा. व्होय, नवलाण्यो बोऱ्योय आसात, तेंतेसांव हाडच्योय आसात. पूण इंग्लेज नेणा आसल्ल्या आमच्या हळ्ळेंच्या भावां - भयणींक तें कांय ना. इंग्लेज ताकां वाचूंक कळना - कोंकणी पुस्तकां नात. कोणेय प्रायवोंतांनी कसल्योय काणयो सांगल्ल्यो आयकाजाय. त्या पोरण्या काणयांत आतांच्या रेग्रांक फावो जाल्लो सार ना.

"एका गांवांत एक राय - ताका दोगी बायलो - पोयलेची काळी - दुसरी-गोरी-तांचे मोदें मोसोर. हेंच शिवाय दुसरें चालचमकण, मायामोग, निसकळपोण, देवासपोण, खालतेपोण आसल्ल्यो सक्कड संगती काणयां रुपार हाडल्लें ना. अशें आसतां इंग्लेज जाणा आसल्ल्यान कदेलार इंग्लेज लिखितांतलें म्होंव अमृत करताना, इंग्लेज नेणा आसल्ल्यांनी कोंकणी लिखितांतलें गोडाचें उदाक पुणि चाकचें नाकागी?

थोड्या म्हयन्या आदीं दिर्व्यार "स्पिरिताची वाट" आनी "कालेस्तीन बाय" म्हळ्ळयो काणयो फायस जाल्लो. ह्यो काणयो साबार जणांक रुचल्यात म्होण हांव आयकातां. दिर्व्याच्या वर्गणिदारांनी ह्यो वाचल्यात सिवाय दुसऱ्यानी वाचूंक नांत. तांकांय तसल्यो काणयो वाचूंक संद्राप वदगसून दिंवचें काम करूणायेचें न्हयगी?

इतल्यारच कोणय म्हाका विचारूंक पुरो. "काणयो तयार कर्न दिता

कोण?" बाब आनी बाये! काणयो तयारसून दितेले आसात, पूण त्यो काणयो कडतिले रुपान हाडूंक पयशे खर्चितेले नांत. आतां पुणि सोमजालेंगी?

व्होय, एका कुशीन वाक्सरीचें काम जाताना, आनी एका कुशीन कोंकणी लिखिताचें कामसुरू करूंक आदार दिंवचे उद्दार मोनाचे, धमीश्ट आनी दयाळ महंत कोण पुणि मुखार आइल्ले जाल्यार कितलें बोरें आसल्लें! "वाक्सरी" सभेक लगाव जावन "कोंकणी लिखीत सभा" कोणेय पुणि सुरू केल्ली जाल्यार कितलें बोरें आसल्लें! ह्या कामाक मुखार सरचे कोण पुणि आसात गाय?"

'आर्म्हातारो'

## (x) कोंकणी दिर्वे - बातमी सप्टेंबर 2, 1929

### "कोंकणी वाक्सरी आनी लिखितां"

"गेलेत्या अंक्यांत कोंकणी लिखिता विशयांत हावें एक पोयल्या भार सूचन घाल्लें. तें सूचन कोणाच्याच्च मोतीक समा दिसोंक ना. या समा दिसल्यारय त्या विशयांत चिंतून पळेंवक वेळ मेळोंकना या तशें वेळ मेळ्ळयारय मोन उदासीन जालें कोण्णा म्होण मोजे थंय भोगता.

आमच्या समाजींत सबार महंत आनी महंतिणी आसात. हजारांगटल्यान दुडू तांचेकडे घोळता. जायतें बोरेपोण ताणी समाजीक केलां आनी जायतें आनी मुकार तांचेवोर्वी जातेलें म्होळ्ळयाक कार्यीच दुबाव ना. कोंकणी लिखितावोर्वी आमच्या समाजीक बोरेपोण चिल्लर म्होण केदींकच सांगोंक नोजो. आमची मायभास शास्वीत जावन उरच्याखातीर काडचे इल्लेशे कश्ट, करची इल्ली कुमोक , दिंवचें इल्लेंशें धयर निर्फोळ जायतगी? ना, केदींकच जांवचें ना.

कोंकणी लिखिताविशयांत थोड्या माहेतदारांगडे हांवें अभिप्राय विचारली. हरएकलोय मूलधन Capital नासताना कांयींच्च करूंकनोजो म्होणतात. मूलधन कांय चड नाका. 500 या 1000 - रुपय आसल्यार हें कोंकणी लिखिता काम भोव आपूरबायेन सुरू करयेत. आमच्या समाजींतले पांच या

स जाण दिरेक्तोर म्होण सभेक नमयार्न रेग्रेन कामां चलोवयेत. ग्रंथ छापसून मेळचो कायीं इल्लोसो फायदो त्याच मूलधनाक कुडसून कोंकणी लिखीत सभा वाडोवयेत.

गरज आसल्लो 500-1000 रुपया जमो करूंक ह्या आमच्या कोंकणी कथोलीक समाजीक भारी कश्टागी? ना. मोन केल्यार मस्त करयेत. मोन मात्र गरजेचें. कोण पुणी बाय-बाब ह्या कामाक मुकार सरतीतगाय? समाजीचें बोरेपोण आशेतेल्यानो वाक्सरी सांगाता लिखिता गरज म्होळ्ळें उडास दोवोरा. वाक्सरी जावन येताना ताका सांगात जावन कोंकणी लिखिता वाडोंदी आनी वृद्धेक येवंदी."

"आर्म्होतारो"

## (xi) कोंकणी दिर्वें - बातमी नवेंबर 2, 1929

### "कोंकणी वाक्सरी आनी लिखीत"

"जेप्पूच्या दैवीक शिक्षा विद्याशालांत वाक्सरीचें काम चलता. तें कांय चार पांच वर्सां भितर भायर पोडात. दैवीक शिकपा विद्यार्थींक तांच्या भागेवंत भेसाक तरबेत जांवचें शिकाप शिकोंकच्च ताणी जायती वांव्ट काडूंक आसा. कोंकणी भास वृद्धी करच्यांत करिजाय तें सक्कड काम संवसारी शिकप्याचें. आमी तांतूं वांव्ट काडिजाय. आमची समाज आनी भास उत्कृश्ट स्थितीक पावोंवक आमी वोद्दाडाजाय सोड्न, दैवीक शिकपाच्यांक तें सजल्लें न्हय. संसारी लोक तांच्या तांच्या स्ववैवाटांतच्च रेवाडतात जाल्ल्यान, सबार पावटीं लौकीक संगतीनी सयत दैवीक शिकपा विद्यार्थीनी आनी तांतूं प्रवीण जाल्ल्यानी मेतेर जांवची गरज पडता. अशें आमी न्हिदोन पडल्ल्या वेळार ते जागे रावनात. तशें जाल्ल्यान वाक्सरीचें काम तांच्या हातांक पावोंक काराण जालें म्होणाजाय इतल्या तांच्या हेर राटावळीं मोदें ह्या वाक्सरी कामांत धैरान ताणी हात घाल्ल्या खातीर त्या विद्यार्थींचें नांव कोंकणी कथोलीक समाजींत सास्वीत उजळाप भोगतेलें! तांकां शाबास!"

*"आतां वाक्सरी एकच जाल्यार पुरोगी? पावाना. वाक्सरी सांगाता*

*कोंकणी लिखीत आमच्या समाजीक गरज. लिखीत ना जाल्यार वाक्सरी कित्याक? प्रयोजन ना. दोनीय सांगाताच जाय आनी तेदाळा मात्र एकामेकाचें मोल कळतेलें."*

*कोंकणी लिखीत आमच्या समाजीक कितल्या गरजेचें म्होण 'आम्हांतान्या'न ताच्या लेखनांनी हाच्या पयलेंच बोरयलां ताणे मुकार घाल्लीं कारणां दिर्व्याच्या वाचप्यांक वाजबी म्होण दिसतेलें. आमच्या समाजींत इंग्लेज जाणा आसल्लो लोक भोवच उणो आनी तो शहरांत शिवाय भायर नाडांत ना. हळ्ळयानी हजारांगटल्यानी आसच्या आमच्या कथोलिकांक चडताव वांट्याक बोराप ना; घरा एकल्याक या दोगांक आसागी कोण्णा. तेंवीय कांदडीं अक्षरां वाचचें; तसल्यांक तांच्या फुरसतेच्या वेळार हेर साबार लौकीक वा हेर संगतीचीं माहेत मेळाशी करूंक गरज पडचे लीव्र नांत..."*

कोंकणी दिर्व्यांत प्रकट जाल्ल्यो बातमी वाचताना, कोंकणी वाक्सरी खातीर त्या वेळार जायतें प्रयत्न चललां म्हण कळोन येता. हर एकलो कोंकणी वाचपी ह्या विशयाचेर आतुराय दाकयतालो म्हळ्ळयाक साबार रुजवाती, ह्या वरदे मुखांत्र स्पश्ट जातात. जेप्पू सेमिनरींत सुरू केल्लें काम कित्याखातीर बंद पडलें म्हळ्ळें खळीत जायना जाल्यारय कोंकणी वाक्सरी खातीर ताणे दाखइल्ली उमेद पळेताना धादोसी जाता.

पावशिल्या दिसांनी येंवच्या वारें वादाळाक रूक-झाडां सुंयपिताना हेणें-तेणें मालपाल्ल्याबरी जातात मात्र शिवाय, आसल्ल्यो माड-माड्यो आड पोडानांत. तुफान आयल्यार कांय हेणें-तेणें रुक-झाडां मुळासमेत आड पोडोन वाऱ्याचें बोळ प्रगट जाता. तशें चड उणे पावानशें वर्सां (पावूणशें) आदीं वाक्सरीचें वादाळ उठल्यारय आजुनय कोंकणी लोकाक, तांच्या मांय-भाशे थंय आकर्शण, मोग नातल्ल्यावरवीं काम जवाबदारेन जालें ना, म्हण सांगयेत.

## 4.6. कोंकणी लिखीत सभा

कोंकणी भास वृद्धी करूंक आनी लिखितां विस्तारूंक एक सभा आसा म्हण कोंकणी दिर्व्यांत केल्ल्या प्रस्तापावरवीं थोड्या बरवप्यांनी ती आलोचन मतींत व्हेली आनी ती वेगींच आसा करीजे म्हण उर्बा दाखइल्ल्यान जुजे जुवांव रेग तात्कालीक कार्यदर्शी म्हण नेमक जावन वावर चालू जालो.

(i) ह्या कार्यक्रमा विशयांत कोंकणी दिर्वें 1930 इसवे डिसेंबर म्हयन्याच्या दुसऱ्या अंक्यार प्रगट जाल्ली बातमी आसा तशी दिल्या.

***"कोंकणी लिखीत सभा, मंगळूर"***

*"कोंकणी भास वृद्धी करूंक आनी लिखितां विस्तारूंक एक सभा आसा करिजाय म्हण कोंकणी दिर्व्यांत केल्लो प्रस्ताप तुमी वाचून आसोंक पुरो.*

*ही संगत थोड्या कोंकणी बरपेल्यानी मोतींत व्हेली आनी आमचे पाडतीची कुमोक दितांव, तसली सभा वेग्गीच आसा करिजाय म्होळ्ळी उर्बा ताणी दाकयल्या.*

*आतां, तसली एक सभा घड्न कितें सक्कड काम त्या सभे थावन जांवचें म्होळ्ळें कार्यान दाखोंवक "पियूस धावो" पाप सायबाच्या जिणेचें एक पुस्तक तसल्या बरपेल्यां भितरल्या एकल्यान बोरोवन, मुकार घडच्या सभेच्या नांवान फायस केलां. हें पुस्तक फुडां करच्या कामाचो एक दाखलो जावन आसा. ती बरवणीक आनी तांतूं आटापून आसचीं लिसांवां वाचप्यांच्या मोतीक वेचीं तसलीं. हें खुद्द समजोंच्या खातीर त्या पुस्तकाची एक प्रती तुमी व्होरोवन पारकी येत ह्या सभेचें मुकलें काम.*

*ह्या सभेथावन फुडां फायस जांवचीं पुस्तकां सोमोड्तीक संबंध जाल्लींच न्हय बगार बोऱ्या आनी नितळ वाचपाचीं, शिकपाचीं इत्यादी.*

*ही सभा मुंदरसूंक धैर दिंवचें आनी कुमोक करचें होंदोन आसा आमच्या लोकाचेर. सभा आसा करच्या संबंधीं आनी सुर्विलो खर्च सुधारसूंक इल्लें*

*दान धाड्ण दिल्यार तसल्यांचें नांव आमच्या "मुख्य उपकाऱ्यांत" बोरयतांव."*

*"जुजे जु. रेग, तत्कालाक कार्यदार,*

*कोंकणी लिखीत सभा, कंकनाडी टप्पाल."*

**(ii) कोंकणी दिर्वे : (नवेंबर 16, 1931)**

*"कोंकणी बरवणीक आधरसूंच्या इराद्यान कोंकणी लिखीत सभा म्होण एक मंडळी आसा करूंक आनी ते सभेवोरवीं जांवचें काम दाकोवन दिंवक "पियूस धावो" आनी "सां जुवान आर्क" म्होळ्ळीं दोन पुस्तकां आयलेवार फायस जाल्लीं सकटांक कळीत आसोंक पुरो. हे सभेन तिचें फुडांचें काम ह्या पुस्तकां मार्फत बोऱ्या थरान दाकोवन दिलां म्होळ्ळयाक दुबाव ना. इंग्लेज भाशेन पुस्तकां आसात तशीं कोंकणी भाशेंत कित्याक करिनांत म्होळ्ळें उलोणे उणें जावंक ना वोय; पूण आतांच्या तेंपारच फायस जाल्ल्या इतल्या कोंकणी बरवणक्यांक मेळचो आधार कितें? त्या वोरवीं न्हयवे बोरयणारांनी पाटींसरचें. बोरयल्लीं पुस्तकां लोक वाचीत जाल्यार नोव्या वाचपाक आशा उब्जता तशी बोरयताल्यांकय धैर जाता. लिखीत सभेचीं ही दोन पुस्तकां कितल्या घरांनी पावल्यांत! तीं वाचल्ले ग्रायक त्या पुस्तकांक मांदतात पूण वाचिनातल्यांक तांची खबारच्चो ना. आमची माय भास जावन आसची कोंकणी भास वाडाजाय म्होळ्ळी आपेक्षा साबार जाणांक आसोंक पुरो. आपेक्षाच कित्याक उपकारता, कार्यान कांय करिनांत जाल्यार! 'जेनेवीव' म्होळ्ळें पुस्तक आनीकय लोक विचारता आनी ताच्यो प्रत्यो नांत. पोरत्यान तें छापूंक धैर कितें? 'ओर्लेयांची चली सां जुवान आर्क' म्होळ्ळें पुस्तक 'जेनेवीव' पुस्तका तितलेंच वा ताच्याकय बोऱ्या वाचपाचें. 'जेनेवीव' पुस्तक लिखीत सभेचें तिसरें पुस्तक करिजाय म्होळ्ळी सभेची अपेक्षा आसा म्होण आयकातांव. आलोचेन बोरीच्च. पूण छापल्लीं पुस्तकां खर्चना जातीत जाल्यार छाप्या खर्च कोणे मातें मारचो? पुस्तकां नांत जाल्यार नांत म्होळ्ळी बोब, आसल्ल्या वेळार कुमोक दिवयां म्होण मात्र कोणय चिंतिनांत."*

कोंकणी लिखीत सभा वोर्वीं कोंकणी लोका मदें हुरूप आनी हुमेद येवन

कोंकणी साहित्याच्या वाडावळीक आदार लाबलो. अशें कोंकणी साहित्य भरमान आनी धैरान वाडोन आयलें म्हणच्याक विविंगड पत्रांनी आइल्ल्यो बातमीच साक्स जावन आसात. अशें कोंकणी भाशेच्या चरित्रेंत कोडयाळ्यांत कोंकणी दिर्वें स्थापन जावन कोंकणी भाशेक कोनशाथावन भायर काड्न मनशाबरी सोबयलें मात्र न्हय, कोंकणी कांठाळच्या लोकाच्या तोंडांनी कोंकणी भोरोवन सदांनीत जिबेर सुडसुडीत घोळयसी केली. मोरोन वेच्या कोंकणी भाशेक चळवळेचो रांदो खाववन हर एका कोंकणी मांय-भाशिकाक कोंकणी उलोवंक, धैर दिलें, बोरोवंक, साहित्य रचूंक हुमेद उटयली.

ह्या विशयांत रुजवात जावन दिर्व्याच्या स्थापक संपादक म्हण नांवाडलेल्या लुवीस मास्करेन्यान दिर्व्याच्या रुप्योत्सवाच्या अंक्यार बरइल्लें विशेश लेखन कोंकणी लिखितांची वाडावळ हांगसर दिलां.

## 4.7 कोंकणी लिखितांची वाडावोळ

(The progress of Konkani literature)

('कोंकणी दिर्वें रुप्योत्सव अंको')

लेखक : लु. मास्करेन्य

(Mr. A.I. Mascarenhas)

"पंचवीस वोर्सां फुडें 'दिर्वें' सुरू करच्या वेळार कोनशाक पोडुल्ल्या कोंकणी भाशेक आमी वोयर काडूंक पेचाडचें कित्याक उपकाराकगी म्होणोन कोडियाळचो एकलो शिकपी म्हातभार म्होजेगडेन विचारतालो. मंगळूरच्या म्हातभार घरानी चडावत इंग्लेज उलयतात जाल्ल्यान, चाकरानी उपयोगसुंच्या कोंकणी भाशेक वेग्गीं फातोर घाल्न लगाड काडचें बोरें म्होण तो चिंततालो. पूण हळ्ळयानी आमचो लोक आसता म्होणासर ही भास नाश करूंक नोजो, आनी परजेच्या हातांत राजकारबार मेळ्ळेल्या वेळार, 'वोट' जोडूंक पुणि भोव उपकाराक पोडतेली म्होळ्ळें ताचे मतींत येवंक ना, तिका लगाड काडूंक पोळेंवच्या इंग्लेजगारांकच कुटी मारी सारकी तरनाटी जाल्या, समाजीच्या हरएका मिटिंगांक आनी भाशणांक तीच उपयोगसितात, आनी सरकारी

चुनावणेंत दोनी पक्षेच्यानी उपयोगसुंच्या बोळवोंत हातेरां पयकी कोंकणी भाशेचीं कागदां-पत्रां मुख्य जावन आसात म्होळ्ळें पोळेवन म्होजो ईश्ट आपलेतल्याक विज्मीत पावतो. पंचवीस वोर्सां भितर येदें व्होडलें बदलाप करूक मुख्य म्हिनत काडल्ल्या 'दिर्व्यांच्या' रुप्योत्सवाच्या समयार कोंकणी लिखितां वाडावळीचेर आमी ल्हानशी एक धांवती दिश्टघालची सहज न्हयगी?"

"पन्नास-साट वोर्सां आदीं ह्या जिल्ल्यांत कोंकणी भाशेचीं लिखितां भोव उणी आसल्लीं. आमच्या पुर्वजांक बोराप नातल्लें म्होण न्हय. सुरू लागायत आमचे पुर्वज गौड-सारस्वत ब्राह्मण शिकपी मनीस. हजार वोर्सां फुडें आमची कुळी सरस्वती न्हंयच्या करावळीर आसताना जांवदी, त्रिहोत्र गांवांत ताणी वस्ती केल्ल्या वेळार जावंदी गोयांलागीं येवन ताणी थारो केल्ल्या काळार जांवदी आपलें बोराप ते विसरोंक नात; आनी तांचे भाशेक तवोळ कोंखाण गांवचो लोक ब्राम्हणांची भास म्होण म्होणताले. प्राकृत भास नितळावन उत्पन्न जाल्ल्या संस्कृत भाशेबरीच तिच्या धुवांक, म्हणजे हिन्दी, मराठी, ब्राम्हण इत्यादी भाशांकय हक्कान लागोन आयलीं तींच नागरी अक्षरां. सातशीं आठशीं वोर्सां फुडें आमचीं थोडीं ब्राम्हण कुटमा कोंखाण गांवांत येवन रावल्ल्यान आनी वाडल्ल्यान आमकां कोंकणे म्होण आनी आमचे भाशेक कोंकणी भास म्होण नांव पोडलें. आनी आमचे हिन्दू पुर्वज थंयसर आपलीं पुराणांबी सक्कड मराठी भाशेनच वाचताले. मराठी आनी आमचे भशेचीं अक्षरां एकच्च जाल्ल्या निमतीं, तांकां खंचीय भास नागरी अक्षरांनीच बोरोवंक सलीस जातालें. पूण त्या गांवचें विद्याभ्यास आनी वयवाट सगळें मराठी भाशेन चलतालें. देकून, आमी भास खासकी उलोंवक मात्र शिवाय, सर्व राटावळींक ते मराठी भासच उपयोगसिताले.

सुमार साडेचारशीं वोर्सां आदीं गोयां सगळें पोर्तुगालच्या रायाक गेल्ल्या वेळार पोर्तुगेजानी कितें केलें? आमच्या पुर्वज ब्राम्हणांक क्रिस्तांव केले... आनी नोव्या क्रिस्तांवानी ... क्रिस्तांव सोमोडतींत थीर रावोंक मराठी भाशे सांगाता कोंकणी भास मेळोवन क्रिस्तांव पुराण बोरयलीं. नागरी अक्षरां

पोर्तुगीज लोकाक बोरोवंक भोव आवघड लागल्ल्यान, पाद्रिनी पुराणा, कंतिगो आनी दोतोर्नीचीं पुस्तकां, रोमन (म्होणजे आतां इंग्लेज भाशेन आधारल्यांत त्या) अक्षरांनी बोरोवंक सुरु केलीं. अशें कोंकणी क्रिस्तांव लोक आपली कोंकणी भास आनी गांवची मराठी भास रोमन अक्षरांनी बोरोवंक शिकलो. तरीगी नागरी अक्षरां ते विसरोंक नात. क्रमेणा तांचीं भुरगीं ह्या कन्नडा जिल्ल्यांत येतच, आपलें बोराप विसरोन, कांदड्या अक्षरांनी कंतिगो, पोदां आनी दोतोर्न बोरयत्त आयले. पूण आमचे हिन्दू कोंकण्या रगताचे भाव कन्नडा जिल्ल्यांत आयल्यारीय तांचे बोराप आनिकीय विसरोंक नांत. आतांय तांचीं बायल मनशां लेगून नागरी लिखितां आपुरबायेन वाचतात."

"गोंयातच्च उरल्ल्या कोंकणी क्रिस्तांवाच्या भाशेंत चड आनी चड पोर्तुगेज सोब्द घाल्न त्या भाशेचो उच्चार आनी नमुनोच चिक्के बदलला. पूण रोमन अक्षरां आधारलेल्यान तांचे मोदें कोंकणी लिखितां चडलीं आनी थंयसर वेग्गी छापखानो स्थापसिल्ल्यान हांगाच्या प्रास चड पुस्तकां-पत्रां गोंयच्या कोंकणी भाशेंत आसात. कशें गोंयच्यानी तांच्या सरकाराच्या भाशेचो सोब्द कोंकणेंत पुश्कळ लकयलेगी तशेंच दक्षीण कन्नडा जिल्ल्यांत येवन रावल्ल्या आमच्या पुर्वजानी आमच्या भोंवतोणी आसच्या कांदड्या आनी तुळव्या भाशेचे सोब्दीय तांतूं शेर्वल्यात. अशें आमच्या भाशेचे स्थळीक थर बदल्ल्यात जाल्यार, गोयांत जांव, हांगा जांव या मलेयाळी गावांत जांव आमच्या क्रिस्तांवानी, कोंकण्या सारस्वतांनी... उलोंवची भास कोंकणीच जावन आसा आनी रोमन अक्षरांनी जांवदी, कांदड्या अक्षरांनी जांवदी, नागरी अक्षरांनी जांवदी बोरयल्लीं सर्व कोंकणी लिखितां आमचेच भाशेचें दायज जावन आसा. असलीं स्थळीक बदलापां विलायती हर एके भाशेंत आसात. पूण थंयसर एका गांवच्या सगळे परजेक वाचूंक आनी बोरोवंक एकच भास जांवच्या खातीर खंयचोय एक नमुनो समेस्तानी आधारीसो उपाय घेतात. आमकां सरकार इंग्लेज, कोड्त-कचेरेची भास कांदडी आनी खासकी

उलोंवक कोंकणी जाल्ल्या निमतीं आनी थोडो लोक इंग्लेजाखाल आनी थोडो पोर्तुगेजाखाल आसल्ल्यावोरवीं, खंयचोय एकच नमुनो आधारूक कश्टांची गजाल. जाल्यार बोंबयत गोंयकारानी स्थापसिल्लें "कोमिसांव आदमिनिस्त्रातीव्हा दु पूंदुश एमिग्रांतिश" म्होळ्ळया मेळाखाल नेमसिल्ली "कोंखणी कमिटी" ह्या विशयांत भारीच म्हिनत घेता आनी ती फळाक पोडतेली म्होळ्ळो आमचो भंरवसो."

"... संयबानच शिकपाचो मोग आसल्लो आमचो लोक इल्लें इल्लें कांदडे बोराप आनी इंग्लेज उलोंवक शिकले आनी मतीक आनिकय उजवाड मेळतच, तांकां आनीकय विद्याची तान चडोन आयली. शिकपान नावाडदीक जेज्वेत आमकां हाडिजाय म्होण ताणी मनवी केली आनी हांच्या मागण्या प्रमाणे मंगळुराक जेज्वेत येवन कॉलेज आनी छापखानो स्थापन करतच तांची आशा भागली. हातबोरपीं आसल्ली दोतोर्न कंतिगो इत्यादी छापूंक सुरू केल्यो, आनी अशें जालें काराण ह्या जिल्ल्यांतय कोंकणी लिखितां दिसानदीस चडोंक. आमच्या पुर्वजांचेर आइल्ले साबार कश्ट आनी आडकळी नासताना, आतांचे बरी इंग्लेज सरकाराच्या सुखा-सावळेक ते आसल्ले जाल्यार, आमचे मोदें आज कितल्या कोंकणी कवेश्वरांचीं आनी लेखकांचीं पुस्तकां आसतीं कोण जाणा! हा! कितल्यो हुशार तकल्यो, आपल्या मतिची सोबाय उच्चारूंक उपाय नासताना फुगार जावन, अंतरल्यात आनी ताणी बोरयल्लें जाल्यार, गेल्या त्या दोनशीं तिनशीं वोर्सांक कोंकणी लिखितांचो दाळो केदो जातोगी!"

"जेज्वेतांनी 1882 इसवेंत कोडियाळ छापखानो स्थापन करतच, सुरवेर ल्हान-ल्हान कड्तिल्यो रोमन अक्षरांनी छापसिताले. पाद्र मुल्लराच्या वक्तांचें कागाद आनी पाद्र माफेयीचो "कोंकणी रानांतलो सोबीत सुंदर ताळो" म्होळ्ळें संक्षेप कोंकणी व्याकरण सोडल्यार, सुरवेच्या पंचवीस वोर्सांनी कोडियालबैल छापखान्यांत छापसिल्लीं सक्कड पुस्तकां आनी कड्तिल्यो शास्त्राक या भक्तीपणाक संबंध जाल्ल्यो. क्रमेणा कांदड्या अक्षरांनी पुस्तकां

छापसूंक सुरू केलीं. पाद्र माफेयीची वाक्सरी आनी व्होडले व्याकरण 1883 इसवेंत पोयलेंच बासेल मिशनाच्या छापखान्यांत छापसिल्लीं. कोडियालबैलांत छापसिल्ल्यां पयकी क्रिस्तांव दोतोर्न, कोंकणी कंतिगो, पाद्र पोलिसीचो क्रिस्ताचो पाटलाव, दिसपोडतो सांगाती आनी नोव्या तेस्तामेंताच्यो मुख्य संगती, पाद्र मिंगेल प्लासीद कुलास आनी लिगोर वासाचो "जेजूचो मोग" आनी हेरानी बोरयल्लो "मरियेचो म्हयनो" "जेजूचो कुरोव" इत्यादी पुस्तकां मुख्य जावन आसात. पाद्र ग्रेगोर कुवेलीन आनी हेरानी सुरवेर थोडीं कोंकणी गितां घडलीं आनी मागीर पाद्र मिंगेल प्लासीद कुलासान आनी पाद्र रायमुंदु मास्कारेन्यान सायबिणीच्यो साबार कंतिगो घडल्यो. कॉलेजेंतल्या पाद्र बाजील रुजारीन, मिलारच्या पाद्र साल्वादोर वासान आनी उर्वाच्या पाद्र लुवीस सोजान आनी मि. लोरेंस वासान आनी हेरानी बोरयल्लीं पद्य रुपाचीं आनी गद्य रुपाचीं लिखितां सुरवेच्या पंचवीस वोर्सां भितरलीं."

"पाद्र माफेयीची वाक्सरी आनी व्याकरण सोडल्यार देवास्पोणाच्यो संगती शिवाय चालत्या संगतींचेर पोयलें बोरोंवक सुरू केल्लें पाद्र लुवीस सोजान, ताच्यो गादी आनी उमिण्यो इत्यादी सक्कड वाचून जाणात. क्रमेण कॉलेजेंतल्या पाद्र बाजील रुजारीन भुरग्यां थंय वोंपल्लें. कोंकणी लिखितांचें बीं किर्लोंक सुरू जालें. तरनाट्यां मोदें उमेद उब्जली सुरू करूंक एक कोंकणी वर्तमान पत्र..."

1912 माय म्हयन्याच्या पोयल्या सुक्रारा कोंकणी दिर्व्याचो पोयलो अंको भायर सरलो. हें नोवासांव पोळोवन, गांवार एक गल्लाटोसो जालो, कित्याकगी म्होळ्यार हें जावन आसल्लें पोयलें पत्र आमच्या भाशेन ह्या जिल्ल्यांत फायस केल्लें. सुमार पांच वोर्सां म्होणासर हें लेखन बोरयतेल्यान आनी मि. कण्णप्पान अशें दिर्वें चलोवन व्हरतच, पोयल्याक बोलायके संबंदीं आनी दुसऱ्याक सरकारी काम जाल्ल्या निमतीं गरज पोडली दुसऱ्या सांगात्या करना हें पत्र चलोवंक. मि. पेद्रु जुवांव सोज, मि. वी.पी.कुवेल, मि. ग्रेगोर

मनेज, मि. जुजे रेग, मि. आलेक्स पायस आनी हेर थोडे मेळोन दिर्वें चलय नागले आनी साबार वोर्सां लागायत मि. आलेक्स पायस दिर्व्याचो संपादक नाल्यार मि. जुजे रेग न्हय जाल्यार हांगासर 'दिर्वें' वेळार तयारसूंक, छापूंक आनी वाटूंक साध्य जातें ना. हें पत्र उब्जलल्या लागायत कोडियाळांत हेर इंग्लेज पत्रां जल्मलीं आनी मेलीं. पूण दिर्वें सदांच चुकानासताना वेळार भायर सरलां. उपरांत 'आंज' आनी दुबळ्यांचो भाव उब्जल्यांत. हांकां वाट तयारसिल्लें दिर्वें शास्वीत उरोंदी म्होळ्ळें समेस्तांचें मागणे."

"कोंकणी काथोलीक समाजीच्या सुधारण्याखातीर वावरून, दिर्व्यान आमच्या बायल मनशांची गोंगडी- वोल काड्न. तांकां मिसाक वोचोंक सलीस केलेंच न्हय, बगार कितलेशा हेर वाटानी आमच्या लोकाक ऊंच हाडूंक ह्या पंचवीस वोर्सानी प्रयत्न केलां. हांच्या सकटां पयकी वोर्तें म्हाका दिसता खंयचेंगी म्होळ्यार, लोकाथंय कोंकणी भास बोरोंवची उमेद आनी सोवोय उब्जाशी केलें. कोंकणी भास बोरोंवक ससार न्हय म्होळ्ळी संगत कागदाक पेन लाइल्ल्यांकच कळीत. अभ्यास कर्न, आतां साबार जण कोंकणी लिखितां बोरयसारके आसात म्होळ्ळी व्होडली धादोसकाय. कोंकणी दिर्वें सुरू जाल्ल्या तवोळ मि. पेद्रु सोजान कितलीं पुस्तकां तर्जुमो केलीं, कितल्या हळ्ळेंतल्या तकलेंवतांनी रुचीक कवितां बोरयलीं, आनी कितलींशीं हेर लिखितां छापखान्यात थावन भायर सरलीं म्होळ्ळें आमी वाचून जाणांव. जशें गोंयांत रोमन अक्षरां निमतीं कोंकणी कागदां-पत्रां आनी पुस्तकां पुश्कळ चडल्यांतगी, तशेंच आमच्या जिल्ल्यांत कांदड्या अक्षरांनी बोरयल्लीं कोंकणी कथा पुस्तकां आनी वर्तमानपत्रां दिसान दीस चडात्त येतात."

"ही कोंकणी लिखितांची वाडावळ आनीकय जरूर चलाशी आनी विस्ताराशी कोंकणी भाशेचो मोग आसल्ल्यानी कितें करिजाय? कराची, बोंबय, सावंतवाडी, रत्नागिरी, गोंयां, मंगळूर मैसूर आनी तेनकांत शिंपडोन आसल्ल्या सक्कड कोंकणी लोकान एकाच्च नमुन्याची कोंकणी भास आनी बोराप आधारिशें, एक महासभा आपोवन, या कागदां-पत्रां बोरोवन, बोंबयंत

सुरू केल्ल्या, वोयर नांव दिल्ल्या, कोंकणी कमिटेक सहाय दिवन, वेग्गीं हें साधन पोंताक पायजाय. कोंकणी भाशेक तिचींच संयबाचीं देवनागरी अक्षरां पोर्तून आधारिजाय म्होळ्ळी साबार जाणांची अपेक्षा. दुबाव नासताना आमच्या ब्राम्हण कुळयेचे कोंकणी भाशेक तिचे आवय-आज्येन न्हेसचें देवनागरी कापाड भोव सोबतेलें आनी कोंकणी भाशेचें घन चडतेलें. द्रावीड कुळयेच्या तुळू मलियाळी, कांदडी, तमूळ, तेलुगू भासांक आनी आर्य कुळयेच्या संस्कृत बंगाली, हिन्दी, गुजराती, मराठी, कोंकणी भासांक संयंबान संबंध नातल्ल्यावेळार, आमी कांदडीं अक्षरां कोंकणी भाशेक उपयोगसिल्यार, आर्य रंगाच्या गोऱ्या चलयेक द्रावीड रंगाचो काळो नोवरो सयरीक केल्ल्याबरी दिसता. पूण देवनागरी बोराप ह्या जिल्ल्यांत सुरू करिजाय जाल्यार आमच्या नोव्या एम.एल.ए.गारांनी सरकारागडेन झूज मार्न-दक्षीण कन्नडाच्या कोंकणी उलोंवच्या सर्व भुरग्यांक - कांदड्या बदलाक, एकच्च हिन्दी या मराठी भास शिकोंक करिजाय. कांदड्या प्रास ह्यो भासो आमच्या भुरग्यांक शिकोंक सलीस जातेल्यो तरीकय, ही संगत सद्याक साध्य जांवची माका दिसाना. ताचे बदलाक तुर्की गांवांत केमल पाशान केल्लो उपाय भारी लायक जायत. तुर्की भास बोरोंवचीं अक्षरां विलायती लोकाक कळानातल्ल्याक ताणे कितें केलें? तुर्की भास रोमन अक्षरांनी बोरयजाय म्होण ताकीद दिली. सगळ्या येरोपांत फ्रेंच इंग्लेज इतालियान, पोर्तुगेज इत्यादी भासो रोमन म्होणजे लात्या अक्षरानी बोरोंवच्यो जाल्ल्यान आतां रोमन बोरपांची तुर्की भास सकडांकय वाचूंक जाता. तशेंच सोबाय-गिबाय लेकिनासताना आदाय मात्र पोळोंवचो जाल्यार, आमचे भाशेक गोंयकारांबरी रोमन अक्षरांच उपयोगसुंचीं बोरीं. चारी गांवचो कोंकणीलोक हाका वोपता जाल्यार, कराची धरलेलें सकयल मलबार म्होणासर सकटांक कागदांपत्रां एकाच नमुन्यार छापूंक आनी वाचूंक सलीस जातेलें आनी आमची भास विलायती लोकाकय शिकोंक बोरें जायत."

"हें लेखन आखैर करच्या आदीं कोंकणी भाशेच्या नांवान म्हाका इल्लो

शीण उलोवंक आसा. संसाराच्या मात्यार हरएके जाती-कातीचो लोक परगांवानी वोचोन परकी भासानी पंडीत जाल्यारय, आपल्या माय गांवचो आनी माय-भाशेचो मोग केंदीच सांडिसो ना. इंग्लेज जांव, जर्मन जांव, फ्रेंच जांव, इतालियान जांव, दुसऱ्यांकडेन उलयताना मात्र परक्यांची भास उलयतले शिवाय आपापल्याभितर आपलेच भाशे होर्त दुसरी भास उलयशे नांत. तशेंच तमळांचे, मळियाळी आनी हेर जातीचे एम.ए. पास जाल्यारय आपले भितर आपलीच भास उलयतात. आमचे शिकपी मात्र आपल्या माय-गांवाक आनी आमच्या माय भाशेक कित्याक कांटाळटात म्होळ्ळें म्हाका समजाना. चड वत शिकपी चेडवां, इंग्लेजांत चिक्केशे चूक जाल्यार हासतात आनी कोंकणी भास आपणाक कळाना या कांदड्यांत आपूण फेल जालीं म्होणोंक लजचें सोड्न, तांतूं भारी दौलत भोगतात. हांकां कांदड्यांत "अल्प विद्ये महा गर्व." या इंग्लेजान "Its shallow draughts intoxicate the brain." म्होळ्ळे सोब्द लगाव करयेत. कित्याकगी म्होळ्यार, नावाडदीक शिकपी विलायती आनी गांवटी विद्यार्थी सयत कोंकणी भाशेचें घन आनी सोबोय मांदतास्तना, ह्या बूद नातल्ल्या कशी-पिशी करच्या भुरग्यानी दाकोंवची दौलत पिसाय न्हयगी? इंग्लेज, लातें, संस्कृत, मराठी इत्यादी शिकोन इंग्लेजांत आनी कोंकणेत कवी म्होण नांव व्हेल्लो मि. जुजे साल्दान्य एक पावटी म्होजेगडेन म्होणा "कोण आमचे भाशेक आनी गांवटी भाशांक कांटाळटागी तो दाखयता आपलें नेणारपोण. गांवटी कवेश्वर साबार पावटी कविता घडच्या कल्पनाशक्तींत विलायत्यांक मिक्वतात." तशेंच साबार विलायती भासांचो पंडीत जावन आसल्लो आनी कोंकणी भाशेची वाक्सरी आनी व्याकरण बोरयल्लो पाद्र आंजेलो माफेय म्होणता - "हांव जाणा जाल्ल्या विलायती भासां प्रास कोंकणी भास चड संपूर्ण. ती उलोंवकीय भोव सोबीत आनी रंगीत. आमी विलायती मनशानी येवन हें मोलादीक रतन सफाय करूंक पोळोंवच्या प्रास गांवच्यानींच कित्याक आपली आपुरबूयेची भासवृद्धी करुं नजो?" इतलें आयकतच आनीकीय आमच्या भुरग्यां करनी

आमी आमचे माय-भाशेक निंदा करूंक सोडयेतगीं?'

## 4.8 प्रमाणिकरणाचें प्रयत्न

'कोंकणी दिर्वे' पत्रान अपूट कोंकणी भास बरोंवची रीत म्हळ्ळ्या ह्या विशयाचेर चळवळ चलोवन कोंकणी भाशेंत प्रमाणिकरणाचें प्रयत्न चलयलां म्हळ्ळयाक रुजवात मेळता. ह्या विशयांत कोंकणी दिर्वे पत्रार आइल्लीं थोडीं लेखनां ह्या परीं आसात.

### (i) अपूट कोंकणी भास (कों.दि. ज़ानेर 2, 1937)

(Pure Konkani - How to write)

1936 ऑक्टोबराच्या 16 तारकेर भायर सरल्ल्या 'दिर्व्यांत' "आनिसेत" म्होळ्ळ्या एकल्यान कोंकणी भास कशी बोरोवची म्होळ्ळें विचारलां आनी आपूट भास रेग्रेन बोरोंवचे उपाय कोणीय दाखोवन दितीतगी म्होण वाट पोळेतां म्होळां. तर हांवें हें बोरोंवच्या आदींच दिर्व्याच्या ऑफिसांत मोस्त कागदां येवन पावल्यांत जावंक पुरो. तरी हांव कोंकणी भास बोरी करूं आदीं मोस्त ओद्दाडल्ल्यां, आनी देखून एडिटर सायब आतां हांवें बोरयल्लें नाका म्होणचेनांत. हांव पोयलीं कोडयाल आसताना कांदड्या अक्षरांनी बोरयतालीं, पूण हेवशीन येवन बोरोंवची सोवोय तिक्के मोडल्या. देखून चुकी आसल्यार माफ करा जायतगी? आनिसेतान सांगच्या प्रमाणेः-

1. "कोंकणी भास बोरोंवक कोंकणी अक्षरां नात" म्होण बोब मारचें तें बेश्टें. सगळ्या संवसारांतल्या भासांक विंगड विंगड अक्षरां नात. तर संवसारांतल्या आमच्या धाकट्या, एका कोनशांत आसल्ल्या भाशेक सैत आपलींच अक्षरां आसा जाय म्होळ्ळें गरजेचें न्हय. आसल्लीं जाल्यार भारी बोरें जातें, नातल्ल्याक कितें करचें? नात नात म्होण व्यर्थ उलोंवच्या बदलाक नोवीं अक्षरां करूंक खंयचो तो आवयचो पूत तकली आनी पोयशे खर्चूंक तयार आसा सांगा? तर आदीं थावन आसल्लीं कांदडी अक्षरांच आमचींच म्होण कायम करचीं; आनी आमकां गरज म्होण दिसल्यार,

आमकांच म्होण गरजेचीं सात आट अक्षरां जायजाय, तीं नोवीं करचीं आमकां क्रिस्तांव छापखान्यागारांक कोणे नाका म्होळां? तर मुखार सरा पोळेयां थोडीं नोवीं अक्षरां कोरूक!

2. "भास उंची करतेले कोणी नात" म्होण अनिसेत सांगता. म्हाका दिसता आमची मंगळुरी कोंकणी भास पोयल्या थावनंच उंची आसल्ली. शेंबोर वर्सां पोयलें त्या भाशेची सोबाय विर्णिल्ले आनी हो गोळसिल्ले दाखले जायतितले आसात न्हयगी? तर आतां म्हाका दिसता आमची भास ऊंची करतेल्या मोस्त जणांची गरज ना. पूण आमची भास वायट कर्न घालतेले साबार जण आमच्या सांगाता आसात. करचें कितें? भास बोरोंवचें काम करूक आनी बोरयल्लें छापूंकक पोयशे आसल्ले थोडेच्च जावन सगळें कारबार ह्या थोड्यांच्या हातांत गेलां म्होणोन मात्र आमची भास आज ह्या गतीक पावल्या; म्होळ्यार भाशेक रेग्रोनांत हरएकलो खुशी आइल्ल्या प्रमाणे सोब्द जोडता, अक्षरां जोडता, आलोचेनो जोडता, आनी कितल्यो तकल्योगी तितल्यो रेग्रो जाल्यात. आनी आमची भास खासगी भास जाल्ल्यान; घरा वाटेर, मार्केटेंत, ठजाराक मात्र ही भास दोवोरल्ल्यान, ती इतली पाड जाली. वाटेर, घरा, मार्केटींत, आनी रजारांत कशेंय उलयल्यार चलता. पूण हीच भास कोडतींत, मेट्रिकाचे परिक्षेक, या वकिलांक, दाक्तेरांक पास जावंक आसल्ली तर, आमची भास आपूट्ट आसोन, उंची जाती आसल्ली. तर ही आदली भास पाड केली कोण? पोयली पाड केल्या "आनिसेतानच" आनी मागीर ताच्या शिकल्ल्या इश्टांनी, भायल्या गांवांक वोचोन विंगड विंगड गांव, भासो, कामा आनी लोक पोळोवन तांचो वोसो लागल्ल्या मनशांनी मात्र आमची भास पाड केल्या. तांच्या सांगाता हें वायट काम करूक आतांचे नोवें खाड फुटल्ले तरने पाद्री सयत मेळ्ळयात. म्हाताऱ्या पाद्रींची भास आनी तांचे शेरमांव आयकातानाच सोमजतालें. आतांच्या नोव्या पाद्रिनी उलोंवचें समजोंक एक न्हीद काड्न उटाजाय; तेदाळा सोपणांत तांच्या सोब्दांचो अर्थ जाता. व्हायगी न्हय?

3. आनिसेत सांगताः- "हर एक बरवणेगार आपणाक समा दिसल्ल्या पर्माणे बोरयता." अशें म्होणचें कित्तून पर्यांत सत म्होळ्ळें म्होज्यान आतां सांगोंक नोजो. जाल्यार अशें करचें चूक म्होण म्हाका दिसाना. कित्याकगी म्होळयार आनिसेतानच सांगच्या प्रमाणे कोंकणी भास बोरोंवक शिकपी नांत, गरजेच्यो रेग्रो नांत, वाक्सरी (डिक्शनरी) ना, व्याकरण (ग्रामर बूक) आनी कोंकणी भास अशीच बोरयजाय म्होणोंक एक्कय नमुनो ना. तर एकेकल्यान आपापल्या समजोणे प्रमाणे बोरोंवचें वाज्बी म्होण दिसता. तशें करूंक नातल्लें जाल्यार आज. आमचे भाशेंत इतले बूक, पोदां, रजारां, ड्रामा बोरयल्लें मळतें ना. उदारणे दिंवचें जाल्यार, ऑक्टोबराच्या 16 तारकेचें दिर्वेच काड्न पोळेया. आनिसेताचो एक नमुनो, ज्योस्सीबाबाचो एक नमुनो, संपादकाचो एक नमुनो आनी आतां म्होजो एक नमुनो. हाका कितें करचें आबा! इंग्लेजांत कीटिंग, सेक्सपियर. स्कॉट, डिकन्स, थॉम्सन, न्यूनम, हे सक्कड एकाच्च थरान बोरयतातगी? विंगड थरान बोरोंवचें म्होळयार आपली हुशाराय आलोचेन्यो भाशेची सोबाय दाकोंवची न्हयगी?

4. आनिसेत सांगता : "आतां सोब्दांचो नीट अर्थ दिंवचो डिक्सेनार नातल्ल्यान बोरयतेले थोड्या सोब्दांक आपणाक खुशी दिसचो अर्थ दितात." समा बारिकायेन पोळयल्यार हर एका सोब्दाक खुशी आइल्लोच अर्थ दिला, आनी खुशी नातल्लो न्हय, सोब्द आनी भास म्होळयार कितें? म्होज्या मोतींतली आलोचेन आनी खुशी तुका कळोंक हांवें कांयपुणि उपाय काण्घे जाय. ह्यो उपाय हातांनी, पायांनी, दोळ्यांनी, आंगान गुर्त करचो, नातल्यार जीब घुंवडावन ताळ्यांतल्यान कांयतरी आवाज काडचो. ह्या आवाजाक आमी सोब्द म्होणतांव, आनी हांवें म्होजे खुश्येप्रमाणेच्या अर्थान उच्चारल्लो सोब्द तुकाय त्याच अर्थान समजलो जाल्यार, आनेक पावटी तूं तोच सोब्द म्होजेगडें उलयतानाय, आनी गांवांतले सक्कड जाण त्या सोब्दाक तोच्च अर्थ दितीत जाल्यार तो सोब्द त्या गांवच्या भासेंत आपापींच दाखल जाता. जर हर एक सोब्द पोयलो केल्ल्या वेळार उलोयतेल्यांच्या आलोचेनेन केल्लो

म्होणच्याक दुबाव ना आनी जर एक सोब्द सकटांक समा समजाल्या उप्रांत, या समा समजानातल्ल्यांक समा समजोणी दिवंक या त्याच सोब्दाचो अर्थ बदलचो आसल्यार, तो नोवो अर्थ सकटांक विवरसून सांगचो कायदो अर्थ बदलतेल्यांचेर पोडता न्हयगी? कोंकणी दिर्व्यांत व्होडले व्होडले सोब्द घालताना त्या नोव्या सोब्दाचो अर्थ कोण सांगता?

5. आनिसेत सांगता:- "पाद्र माफेन बोरयल्लो डिक्षेनार आसा. तो आदलो जाल्ल्यान तांतूं आतांचे सोब्द नांत." मोगाच्या आनिसेता, आतांचे सोब्द म्होळयार तूं कितें सोमजताय तें म्हाका तिक्के सांग? आतांची फेशन आमच्या पुर्वजांक आसल्लीगी? तशें आताचे गरजे भायर सोब्द तोवोळ नातल्ले. बिर्मोत फादर माफेन इतले कश्ट घेवन तो भायलो परगांवीं मनीस, आमची भास शिकोन पोयलो वाक्सरी बोरोंवक आमकां देख दिल्लीच आमचे भाग. आनी फादर माफेन ताका ताच्या वेळार मेळल्ले चड उणे सर्व सोब्द घाल्यात. तर ताचीं चूक मांडची नाका. चूक मांडिजाय आनिसेताची, आनी ताचे सारके गद्दा आसल्ल्यांची. हांची सोवय कितेंगी म्होळयार, गरज नासताना दुसऱ्या भासेंतले सोब्द चोरचें, चोरपाण तांचो पोयलो दुर्गुण. गरज आसताना कठीण आलोचेनो उगत्यो करूंक दुसऱ्यां भासेंतले सोब्द हाड्न आमची भास उंची करच्याक कोणीय नाका म्होणाना. पूण गरज नासताना, आमचे बोरे आनी आपूट सोब्द आसताना, खाली आपली हुशाराय दाकोंवक मात्र भायले सोब्द हाडतेल्या चोरांचे हातपाय मोड्न दोळेसयत कोंकिजाय. हांव बायल मनीस, म्होजी प्राय सुमार साठालागीं पावली आनी म्होजी भास पोर्नी, तिका तुमी खोडी काडल्यात. पूण तांतूं एकतरी कठीण सोब्द आसागी पोळेया. सकटांक सुडाळ समजता न्हयगी? गरज आसताना मात्र हांव भायलो सोब्द हाडतां. ह्या दिसांनी कोंकणी दिर्वे वाचचें म्होळयार जिवार येता माका. हर एका पानार कितले कठीण आनी भायले चोरुल्ले सोब्द! वाचताना समा अर्थ जायनातल्ल्या वोरवीं वाचूंक मोन येना आनी कठीण सोब्दांचो अर्थ सोमजोंक डिक्षनरीय ना आनी बोरयतेले पुनेकेल्ले कठीण

सोब्दांचो अर्थ सयत स्पश्ट कर्न बोरयनांत. उजो पेटों तांकां. म्होजी शिकपी बायलेची गत अशी जाल्यार गांवांतल्या आनी हळ्ळेंतल्या नाडकारांची गत कितें जायत? कोंवेंतांतलीं चेडवां आनी कॉलेजीचे भुरगे वाचतेले तरी कित्याक? देखूनच आतां सादी भास सोड्न तुमच्या गर्वाक आनी चोरपाणाक शिक्षा म्होण तुमकां चड सांदे आनी पोयशे मेळानांत! देव शीर पोळेवन दाग दिता न्हयगी! तुमच्या दिर्व्यांची भास रुचीक कर्न पोळेया. तुमच्या कठीण सोब्दांचो अर्थ कोंकणी भासेंत दिवन पोळेया! तुमकां सलाम मेळतातगी खोटो मेळतात तें कळतेलें!!

6. आनिसेत म्होणताः "आमच्या भाशेचे आतांचे बरवणकेगार हिंड सोड्न गेल्ल्या शेळयेबरी आसात!" आनिसेत म्होजो जांवोय जाल्लो जाल्यार ताका समा हिंडांत पाटी हांव हाडतीं. आनिसेत, तोच आतां पोयलो हिंड सोड्न गेल्लो बोक्रो. आनी तो लांब पोयस वोचोन दुसऱ्यांकय आपल्या सांगाता वायट वाटेर पोडोंक आपयता. ताका चुकोन गेल्लो बोकडो म्होणानाये म्होण आतां "कोंकणी भास वृद्धी कर्न विस्तारूक एक कूट या हींड." करा म्होण समा समजाता. ताचे सारके दुसरे थोडेय आसात. म्होजो अर्थ इतलोचः आमचो पोरन्यां म्हाताऱ्यांचो हींड एकच आसल्लो. आमी सर्व कार्यांत एकाच्च थरान चिंतताल्यांव, उलयताल्यांव आनी तशेंच बोरयताल्यांव. आमच्या पोरन्या कालांतल्यो कंतिगो, वोवयो, उमिण्यो, पोदां, रजारां, जेजूचो मोग पुस्तक, आसल्लें सक्कड उस्तून पोळेया, कसली आपुट्ट भास आनिसेताक न्हय ताच्या शेंबोर नातरांकय येंवचीना. ताच्या आज्याक येताली! तर आनिसेत आमच्या खऱ्या हिंडा थावन चुकोन पोयस गेला म्होणच्याक कितें दुबाव! ताणे बोरयल्ले थोडे सोब्द पोळेया. त्या चोरुल्ल्या सोब्दां बदलाक, आमचे पोरने रुचीक सोब्द नांतगी? ताणे बोरोंवचें तेंच हांवें बोरोंवचें जाल्यार, अशें बोरयतींः शुद्द=म्होजो सोब्द, आपूट. बरवणकी=बोरपां, बोरोंवची रीत. प्रसारगार=भास विस्तारचे मनीस. सूचना=रुली, रेग्रो, हिशारे. बरवणकीगार=बोरयतोलो. प्रबल आसचे सोब्द=सदांचे, आतांचे. वेवस्ता=गत.

वृद्धी करूंक=उंची करूंक, वोयर काडूंक - आनी अशें मोस्त, नाका जाल्ले, गरज नासताना चोरल्ले सोब्द आमकां आवमर्यादेचे न्हयगी? तर आतां आपूट भास आमकां खंय मेळता? गांवा भायर वोचानातल्या, आनी गांवांतच आसतां परकी भास शिकानातल्यांगडे आमची खरी आनी बोरी आनी उंची भास मेळता. तीच भास समा आयकोन, आयकाल्ल्याबरीच बोरोंवचें जाल्यार, आमची भास वोयर काडल्ल्याबरी जायत आनी ताका चड वेळ लागचो ना.

7. आनिसेत बोरयता:- "आमची भास शिकोंवक मोन करचे थोडे उर्बेस्त सयत ती शिकोंक उबगतात." हें सगळें सतगी! "आमची भास म्होळ्या उप्रांत ती शिका जाय म्होणचें चुकीचें. आमची भास आमी आवयचें दूद पियेताना शिकोंवक सुरू करतांव आनी ती शिकल्ले सबार जण मेळताতत. पूण आनिसेताचे तकलेंत दुसरेंच कितेंगी आसा दिसता. म्होळ्यार आमची मांय भास उलोंवक आनी वाचूंक गोत्तू आसल्ले सयत बोरोंवक उबगतात हो ताचो अर्थ. हें सत जावन आसा. पूण जशें दुसऱ्या गांवांनी आपली मांय भास उलयतेले सक्कड मनीस ती बोरोंवक नेणातगी, या ती उलयतेले सर्व बोरोंवच्यांत हुशार आसानांतगी, तशेंच आमच्या किरकोळ भाशे विशयांत घडचें कांय एक नवाल न्हय. म्होजोच अनभोव तुमकां सांगतां. हांवें मोस्त तकली आनी वेल आनी पोयशे आनी तेलाचे डब्बेच कोंकणी भास शिकोंक खर्चिल्यात. एक दीस मोद्यान राती म्होणासर एक पद्य बोरोंवक बोसुल्ल्याक हांवें घरकाराचे मार सयत खेल्यात. पूण सक्कड कित्याक उपकारलें? व्होय, कोंकणी भाशेंत हांवें सुमार धा ड्रामा, सबार पोदां, सुमार कंतिगो, आनी एड्रेस आनी कोंकणी दिर्व्याक सयत मोस्त बोरयलां. तर हांवें ती भास शिकोंक खर्चिल्ल्या वेळाचो आनी पोयशांचो शाक एक वांटो सयत पाटी मेळोंक ना. कोंकणी दिर्व्याक हांवें फोलींच्यो फोली बोरयल्यात जाल्यार, संपादकान म्हाका एक कास (पयसो) दिवंक ना. कोंकणी वाक्सरी वेग्गीं बोरोंवक, तयार जातच ती छापूंक हांवें काडल्ली

म्हिनत हांव आनी म्होजो देव जाणा. तर कोंकणी भास शिकाजाय म्होणता आनिसेत, कित्याक? कोंकणी भास मात्र शिकलां म्होण तो म्होजे धुवेकडे, लिल्लीकडे काजार जाता खंयवे? नातल्यार लिल्ली कोंकणी भास जाणा म्होण ताका 100 रुपयांचें काम तयार जातेलें खंयगी? तर कोंकणी भास भार घेवन शिकल्ल्यान बोरो नोवरो मेळाना, टायप करूंक जायना. कोटांत चलाना, टेलिग्रामा धाडूंक जायनात. म्होणजे गरजेचें कांय या पोट भोरच्याक कांय जायना. रावयल्लांचें काम करूंक सयत मंगळुरा भायर आनेक या दोन भासो शिकोंक पोडतात. देखून कोडयाळच्या दियेसेजीच्या लोकांमोदें आसतां म्होणासर मात्र ही भास उपकारता, आनी ती पोदांक, घुमटां गांवटी वोयांक, ड्रामाक आनी मुख्य जावन इगर्जांनी शेरमांव सांगतात म्होण. थोड्या फिर्गजांनी शेरमांव या इगर्जेंतली कोंकणी भास काडा, ती मागीर सगळ्यान बंद पोडतेली न्हयगी? इंग्लेज भासेंत सक्कड कामा करयेतात. देखून सक्कडीय तिचे पाटल्यान नाचतात, आनी ही चाल चूकगी?

8. देखून आनिसेत सांगता त्या प्रमाणे आमची मायभास कोणे वोयर काडिजाय; कोणेती बोरी उंची करूंक पेचाडिजाय? ह्या सवालाक म्होजी जाब अशी : 1. कोणाक पोळे ती बोरी कर्न शिकोंक वेळ आसा ताणे. 2. कोणाक पोळे ह्या भाशेची चड गरज आसा ताणे. 3. कोण पोळे कोंकणी भास बोरोंवक पोळेतात ताणी. 4. कोण पोळे कोंकणी भास, छापखानो दोवोर्न ती भास छापून पोयशे करतात ताणी या ती जातिच्यांनी सांगाता मेळोन एक हींड कर्न 1. खंचे सोब्द गरजे खातीर मात्र भायले चोरिजाय. 2. प्रत्येक सोब्द खंच्या थरार बोरोंवचे. 3. हर एक सोब्दाचीं अक्षरां कशीं जोडचीं. 4. सोब्द घडूंक आनी हाणे नीट अर्था प्रमाणे उलोवंक आनी बोरोंवक कसल्यो रेग्रो गरजेच्यो आनी दुसरें सक्कड समा पोळेवन तीर्प करिजाय. त्या हिंडान भाशेच्या मोगान दिल्लें तीर्प कोण पाळिनांतगी, तांचें बोरयल्लें छापूंक सोडिनाये; तर पोयल्या चार क्लासींत कोण कोण येतात तें पोळययां - पोयल्या क्लासींत म्होजोच घरकार. ह्यो भायल्या गांवांत बोरी

चाकरी कर्न, पोयशे जोड्न आतां सुसेगात पेन्शन खाता. ताका तकली आसा, वेळ आसा, आनी हांव ताका कांय चडतीक राटावोळ दिना. तर ताणे आनी ताचेबरीच्च आसल्ल्या सर्व शिकल्ल्या पेन्शनदारांनी सांगाता मेळोन कोंकणी भास वोयर काडूंक मोस्त म्हिनत काडिजाय, पेन्शेनगारांनो उटा! दुसऱ्या क्लासींत म्होजोच देर आनी पुतन्यो येतात. एकलो पाद्री, आनेकलो सेमिनरीस्त. पाद्रींक आनी सेमिनरिस्तांक कोंकणी भाशेची गरज आसल्ली तिली सद्याक कोडयाळांत दुसऱ्यांक ना. हेरांचें काम दुसऱ्या गांवटी या परगांवी भशेंत करोवयेत. पूण आमच्या दियेसेजींतल्या पाद्रींक कोंकणी भास उटतां बोसताना जायजाय. देखून, ताणी म्हिनत काड्न ती बोरी कर्न शिका जाय. ह्या काराणा पास्वत आमच्या मानापात्र बिस्पसायबानी सेमिनारीस्त कोंकणी भास, सादी, सोंपी, नाजूक, रुचीक आनी उंची, इतले गूण आसल्ली भास जाणांतगी नांतगी म्होण पोळेंवक हरएका वर्सा एक परिक्षा दोवरिजाय. पाद्री जाल्या उप्रांत शिकोंक वेळ ना, पोयलें मीस सांगल्ल्या दुसऱ्या दिसाच लायेक शेरमांव सांगोक पोडता आनी पाद्रींक मोस्त राटावोळ आसल्ल्यान ते मागीर शिकानांत देखून सेमिनारी सोडच्या पोयलेंच हें काम तिर्सिजाय. म्होज्या पुतन्याक रजेंत हांवंच तरबेत करतां. तर हे ते कोंकणी भाशेची गरज आसल्ले ग्रायक-पाद्री आनी सेमिनारीस्त.

तिसऱ्या वर्गांत कोंकणी भास बोरयतेले येतात म्होळयार कोंकणी दिर्वें, आंज, मंगळूर, लिखीत सभा, सत सभा, कोंकणी भाशेंत बूक बोरयतेले, हांकां सकटांक कोंकणी भास बोरोंवची गरज. हे थोडे पावटी एकामेकागडे म्होजी रीत समा, तुजी चूक, अशें लडाय कर्न भाशेची फजींत करतात. आयलेवार फायस जाल्ल्यां "समोडतीचीं मुख्य सतां", "जेजू मोगाचो राय", कोंकणी दिर्व्यांतलीं आनी आंजांतलीं लेखना आनी "क्रिस्ताचो पाटलाव" हांचे मोदें कितली तफावत आसा पोळेया. ते बूक आनी लेखनां बोरयल्ले सक्कड मायामोगान एकवोट कर्न, एकाच थरान सोब्द जोडूंक कबूल जाल्ले जाल्यार आमची भास किती सोबतिगी पोळेगा! ह्या वर्गांत आनिसेताक

घालिजाय, तेदाळा ताचे दांगे मोडतेले, आनी निमाण्या क्लासींत सर्व प्रेसांचे मेनेजर - कोडियाळबैल, मयदान रोड, आनी उडपी. ह्या तीन जाग्यांनी क्रिस्तांवांचे छापखाने आसात, आनी दुसऱ्यांच्या छापखान्यात क्रिस्तांव कंपोजिटर्स आसात, तर तांकां सकटांक धर्म आनी तांचो मेळ कर्न "शुद्ध कोंकणी प्रसार संघ" या हिंडान तयार केल्ल्या रुली प्रमाणेंच कोंकणी भास छापिजाय म्होण ताकीद दी जाय. तेदाळा यां "शुद्ध कोंकणी प्रसार संघ" म्होळ्ळ्या सभेंत 1. म्होजो घरकार=सर्व पेन्शनदार 2. म्होजो देर आनी पुतन्यो=सर्व पाद्री आनी सेमिनरीस्त 3. म्होजो पोयशिलो सयरो आनिसेत=सर्व कोंकणी पत्रांचे वा पुस्तकांचे संपादक वा लेखक आनी 4. म्होज्या नंडेचो भावोजी=सर्व छापखान्याचे मेनेजर आनी कंपोजिटर्स. अशें सुमार 200 लोकाचो हींड मेळात जाल्यार आमची भास उंची आनी रुचीक जावन निमाणे झडती पर्यांत ती आसतेली आनी सर्गार सासणाच्या सासणाक आमी तीच्च भास उलयतेल्यांव न्हयगी!

तुमची मोगाची

डहाणू (पिंतीण)

25-10-1936

कोंकणी दिर्व्याच्या काळार, प्रमाणिकरणाचें प्रयत्न चलल्लें पळेताना, कोंकणी भास बरोंवची रीत वृद्धी करूक, आनी सक्कडांनी एकच्च रितीन बोरेंवक, ताणी काडल्ली वांवट सारकी कळोन येता. कोंकणी दिर्व्यान पत्रगारिकेची जवाबदारी सारकी समजोन काण्घेल्या, आनी मुकारीय पत्र चलोंवच्या संवस्थ्यांक बरी देकय दिल्या आनी कोंकणी चळवळ चलोंवक प्रेरण दिलां. अशें कोंकणी दिर्व्यान 1912 इसवे थावन 1940 पर्यांत विवीध रितीन कोंकणी चळवळ चलोवन कोंकणी भाशेक एक 'दिर्वेंच' दिलां ह्यो रुजवाती जावन आसात.



# अध्याय पांच

## - सारस्वतांची जागमाग -

1891 इस्वी जून 30 तारकेर मद्रास शिकल्ल्या पांच जण जी.एस.बी तरनाट्यांनी रचनात्मक आलोचनेच्या आनंदान, संसारी ग्रेस्तकायेची आशा सारक्या समजोणेन सांडून कोडियालबैलांत भाड्याच्या घरांत केनरा हायस्कूल स्थापन करच्या वरत्या साहसाच्या आखाडाक धयरान उडले. रिवाजी परमाणे ताणी तवळ मूडबिद्रींत धार्मीक वृत्तांत आसल्ल्या श्री काशीमठ संस्थानाच्या श्रीमद वरदेंद्र तीर्थ स्वामियांचें आशिर्वादां घेतल्लें ताणीं ह्या धयरादीक मेस्त्रींक तांचो पाटिंबो भासायल्लो, आनी तांच्या उतरा पर्माणे आजुनीय ह्या इस्कोलाक तांची कृपा आसा.[65] "ते पांच जण जावन आसात श्रीमान ए. वासुदेव राव, बी. पद्मनाभ बाळीग, ए. पद्मनाभय्या, बी. वामन बाळीग, आनी यू. श्रीनिवास राव, हे पांचीय जण ह्या इस्कोलाचे स्थापनेची मेस्त्री आनी म्हालिकय जावन आसल्ले.[66] ह्या तांच्या साहसाक श्रीमान आम्मेंबळ सुब्बराव पै हांका प्रेरणात्मक पाटिंबो आनी उत्येजनाचो खांबो जावन आसल्लो. प्रकृतिनच सृश्टी कर्न धाडल्ल्याबरी श्रीमान आम्मेंबळ सुब्बराव पैचें व्यक्तित्व तवळ फुडारपणाच्या देण्यानीं भरल्लें. समाज सुधारण (Reformation) चळवळेच्या फांतोडेर, चेरक्यांचें इस्कोल स्थीर जांवक राकनाशें मानेस्त आम्मेंबळ सुब्बराव पैन 1894 इस्वी जानेराच्या सात तारकेर केनरा चलयांचें इस्कोल स्थापन केलें. संस्कृत भाशेंत एक सांगणी आसा - "सर्वरंभा तंडुल प्रस्थमला;" - म्हळ्यार सर्व कामां तांदळा राशीच्या आदारान चलतात. तशेंच ह्या इस्कोलाच्या खर्चा खातीर (....) सुब्राय पैन 'मुश्टी फंड' (Musti Fund) योजन सुरू केलें. ह्या प्रकार घरवाली गृहिणीन दिसानदीस शिताक तांदूळ वोरेंविंगड मोडकेंत घाल्न दवरिजे. हर एका हप्त्यांत एका जवानान जातींच्या घरांक वचोन घरवालीन जमइल्लो तांदूळ एकटावन तो विकून इस्कोलाच्या मेस्त्रींक सांबाळ दिंवक सहकार दिंवक जाय अशें सुब्बराव पैन

योजन घालें आनी तशेंच कार्यगत केलें. अशें जातीच्या हरएक कुटमाक भागिदार कर्न, ल्हान ल्हान निरंतर त्याग करोवन केनरा चलयांच्या इस्कोलाचो संस्थो श्री सुब्बराव पैन बांदून हाडलो.[67]

चडउणे 1906 इस्वी एप्रील 20, 21 आनी 22 तारकेर मंगळूर केनरा हायस्कूल भुवनेंद्र सभाग्रहांत गौड सारस्वतांली प्रथम परिशद जमली[68]. ह्या प्रथम परिशदेचें कार्य, मराठी आनी कोंकणी भाशेन निर्वहिसिल्लें. ह्या परिशदेक श्री अम्मेंबळ सुब्बराव पै येवकार समितीचो अध्यक्ष जावन आसोन मंगळूर रामचंद्रय्याक अध्यक्ष केल्लें. ह्या परिशदेच्या दुसऱ्या दिसा घेतल्लो निर्णय-सात-अशें सांगताः "आमगेली भास परिश्कार करच्याक विलेवारी जावका" हो निर्णय श्री. एम.एस.प्रभून सुचोवन श्री. एन.एन.भंडारकारांनी अनुमोदन करून सर्वांनी मंजूर केल्लो. ह्या परिशदेक प्रतिनिधी उत्तर कन्नड, बेळगांव, शहापूर, मलबार, कोच्ची, तिरुविदांकूर आनी मद्रास थावन आइल्ले. मंगळूरचेच सुमार तिशांवयर जण हाजर आसल्ले.[69]

## 5.1 केरळांत मलेयाळी लिपींत पत्रिकोद्यम

प्रथम परिशदेक आपलें धन आनी प्रयत्न खर्चिल्लो तो महान व्यक्ती अ. सुब्राय पै 1909, इस्वेंत अंतरल्ल्या उप्रांत परिशदय निश्क्रीय जाली. पूण ट्रावंकोर केरळा थावन मंगळुरच्या परिशदेक आइल्ल्या तरनाट्या प्रतिनिधींची उमेद न्हिवोंक नातल्ली. तांच्या उमेदीन श्री दत्तात्रय बलवंत चिटणीस हांच्या अध्यक्षपणार 1923 इस्वी मे म्हयन्यात केरळांतल्या अलेप्पी जिल्ल्यांतल्या चेरतल गांवांत केरळांतली प्रथम जीएसबी परिशद जाताना 500 लोक हाजर आसल्लो.[70] ह्या परिशदेंत जाल्लो निर्णय संखो 8-अशें सांगताः-

"ह्या परिशदे निमतीं आनी इतर रितीन समाजेच्या अभिवृद्धेखातीर करच्या परिश्रमापासून एकामेका माहिती दिवंक आनी समुदायाची अभिवृद्धी हाडचें ज्ञान दिवंक 'सारस्वत बोधिनी' हें म्हयनाळें वी.वेणू प्रभू हांच्या आडळत्याखाल चलोंवचें आनी सगळ्या गांवकारांनी ताच्या पोसवणे खातीर

जाय तितली मजत करची."[71]

### 5.1.1 - सारस्वत बोधिनी

1923 वर्साच्या सप्टेंबर म्हयन्यात 'सारस्वत बोधिनी' म्हळ्ळें जीएसबी वृंदाचें मलेयाळी भाशेंत म्हयनाळें पत्र श्री. यू. वेणुगोपाल प्रभू हाणीं प्रकट करूंक प्रारंभ केलें.

'सारस्वत बोधिनी' मलेयाळी भाशेंत 'जी एस बी चें मुखपत्र जावन आसल्लें. ह्या पत्राच्या पयल्या अंक्याचें प्रस्तावन ह्या परीं आसा.

"खंच्याय लोकामदें आशयां आनी आदर्शां प्रचार करूंक आनी वाडोंवक आयचे परिस्थितेंत एका वर्तमान पत्राचे मजते विनह साध्य ना..."

"...आमी एका समाजेचीं आंगां. त्या समाजेचे श्रेश्ठतेक लागोनच आमी श्रेश्ठ जातांव. व्यक्तींची आनी कुटमांची ग्रेस्तकाय श्रेश्ठ आशें समजोन वावुरच्या लोकांचो आंकडो भोव उणो. ही परिस्थिती बदलून आमचीय एक समाज आसा अशी एक परिस्थिती निर्माण केल्यार मात्र सरकार आनी इतर लोक आमकां एक समाज म्हणोन मान दितेले. ही बदलावण हाडपांत परिशदेचो वांटो खूब प्रयोजनाचो आसतलो. पूण परिशद फकत वर्सांत एक पावटी मेळता देखून तिच्या उद्धिश्टांक अनुसरोन वावरूंक आनी तिचीं आशयां प्रचार करूंक एका वर्तमानपत्राची गरज आसा. सप्ताहांत एक वा दोन दिसांनी उजवाडाक येंवचें एक वर्तमानपत्र कूडले (रोखडेंच) सुरू कराप एक साहस जायत. अशें चिंतून चेस्तील गांवांत घडयिल्ल्या परिशद सम्मेलनांत एक म्हयन्याळें पत्र चलोवपाचो निर्णय घेतलो."

"वर्तमानपत्रां लोकांच्या मतांक रूप दिता आनी युक्तीपूर्वक आनी बळादीक जावन तें सादर करताना सरकाराक लेगून तें मानून घेंवचें पडता. पूण ह्या विशीं आमच्या लोकांचो पात्र सारको ना. ही परिस्थिती बदलूंक हें म्हयन्याळें उपकारतेलें. समाजांत जाग हाडूंक ह्या म्हयन्याळ्याक साध्य जालें जाल्यार आमचो वावर सुफळ जालो अशें चिंतयेत."[72]

'सारस्वत बोधिनी' पत्राच्या पुस्तक I-अंको 5 र 'नम्मुडे भाशा' (आमची

भास) म्हळ्ळें एक लेखून आर.सी.शर्मान मलेयाळी भाशेन बरइल्ल्याचें अनुवाद ह्या परीं आसाः-

"आमची भास भुरग्याव्यस्थेंत आसा. आमच्या भाशेक 'पोशनवुं इल्य' 'प्रोत्सहनवुं इल्य' कोंकणी भाशेक साहित्य ना म्हणोन सांगचें सामकें खरें न्हय. त्या भाशेंतलीं गितां हांवें आयकाल्यांत. गीत म्हळयार साहित्याची अंकरी. सभेर उलंवचीं भाशणा साहित्याची कांदो अशी म्हणोन घेवयेत तर, तेंयी आमचे भाशेंत पळेंवक मेळता. हरिकथाय आसा, तरी साहित्य म्हणोन अभिमानान सांगचें तशें आमचे भाशेंत कांयच ना? ही वस्तुस्थिती लिपंवची न्हय. कोंकणीत खंयचेय विशयार एक पुस्तक पळेंवक संतुश्ट जावपाचें भाग्य म्हाका आजून मेळ्ळें ना... शुद्ध कोंकणी उलंवक साध्य आसल्ले चडलोक आसात अशें दिसाना. अशें आमचे भाशेची परिस्थिती उलवपांत आनी बरवपांत इतली दळीद्र जावन आसा. ह्या परिस्थितिचें खूब कारण आसयेता. पूण हाचे मुख्य कारण म्हळयार आमची उदासीनता. केरळांत, तमीळ, गुजराती भाशिकय आसात. पूण कोंकणी भाशेंत शिकोण सुरू केल्लो एक भुरगोलेकीत सबंद केरळांतल्यान पळेंवक मेळतलो कांय म्हण दुबाव आसा."

"संपवणी-कोंकणी पासत मात्र भाशा म्हणोन आमकां सगळ्यांक अभिमान आसोंक जाय. सोबीतकाय आनी ग्रेस्तकाय ना म्हणोन आपले आवयचो कोणेय अनादर करीत? सगळ्या भुरग्यांनी एकटांय येवन वावर केल्यार आवयची दुर्बळकाय ना करूंक चड काळ नाका. आवयचो मोग भगची भुरगीं आमच्या समाजेंत खूब आसात. हें पळयताना संतोस भगता. ते फुडें सरोन प्रयत्न करतेले अशें समाज आपेक्षा करता."[73]

ह्या लेखनाक प्रगटणाराची जाप अशी आयली "मंगळूर अथवा इतर कडेन श्रीयूत कृश्ण प्रभू अशें एक व्यक्तीन कांय एक बरो नाटक बरोवन कन्नड लिपींत उजवाडाक हाडलां. श्री. एम. शेशगिरी प्रभू हाणी एक कोंकणी भाशा निघंट आनी व्याकरण बरोवन दवरलां अशें आयकतां.

के.एस. कामत हाणी ह्या वाटेन कांय परिश्रम केलां हें आमी जाणांव. शर्माचें लेखन आमच्या युवकांचें भाशाभिमान भागंवक उपकारतलें अशें पात्येतां."[74]

हें लेखन प्रकट जावन चडउणे सात म्हयन्यांनी म्हणजे 1924 इस्वेंत अलेप्पी म्हळ्ळया गांवांत केरळाची दुसरी ट्रावेंकूर जी एस बी परिशद जाली. ह्या परिशदेंत येवकार समिती अध्यक्षान दिल्ल्या भाशणाचे संक्षीप्त थोडे विशय ह्यापरीं आसात.

"... संस्कृत, मराठी आदी भाशेबरीच कोंकणी भाशेची स्वाभावीक लिपी नागरीच, पूण कांय कारणाक लागोन वेवेगळ्या प्रदेशांत रावल्ल्यान त्या त्या प्रदेशाच्या भाशेच्या व्यवहारान आनी शिक्षणान आमच्या भाशेक लिपी ना अशें कांय जण सांगतात देकून आमची भास सुदारून पुस्तक भंडार निर्मून तांचो दुबाव पयस करिजे पडला. आमी आमची मांयभास एकामेका कडेन व्यवहारांत, पत्र-व्यवहारांत वापरल्यार आपापीं आमचे मदें, समाजीक अभिमान आनी एकवट वाडतलो. खंयच्याय समाजांत ज्ञानाची खरेपणान अभिवृद्धी फकत मांय भाशेंतल्यान साध्य आसा - हें इतिहासीक तत्व आमी समजोंक जाय."

ह्या येवकार समिती - अध्यक्षाच्या भाशणाक लागोन त्या परिशदेंत कोंकणी भास अभिवृद्धी करचे विशयांत भासाभास जाली आनी कोंकणी भाशेचेर एक निर्णय जालो. हो निर्णय श्री. वी.श्रीनिवास नायक हाणीं मांडलो आनी श्री. एन.कृश्ण कामत हाणी ह्या निर्णयाक तेंको दिलो. निमाणो हो निर्णय (सं:6) सर्वानुमतेन अंगिकार जालो. तो निर्णय मलेयाळी भाशेंत 'सारस्वत बोधिनी' पत्रार प्रगट जाल्लेबरीच हांगासर दिला.

"स्वजणंगळुडे इडइल विद्याप्रचारत्तिन स्वभाशायुडे अभिवृद्धी उत्तम माया ओरु उपया मागयाल 'सारस्वत बोधिनी' मासिगइल कुरेस्थळ नागर लिपिइल कोंकणी भाशेइल्लुळ लेखनंगळ कायि विवियोगिच्चुं मट्टु विदतिलं भाशेये अभिवृद्धी पेडुत्तुन्न विशयुत्तिल परिश्रमं चेय्यंडदान्नेनु ई परिशत निश्चेयिकुन्नु"[75]

ह्या मलेयाळी वाक्यवृंदाचो कोंकणी अर्थ ह्या परीं आसा:-

"आपल्या लोकामदें शिक्षणाच्या प्रचाराक स्वभाशेची अभिवृद्धी एक उत्तम उपाय देकून सारस्वत बोधिनी मासिकेंत थोडो जागो नागरी लिपींतल्या कोंकणी लेखनाखातीर विनियोग करून आनी इतर रितीन भाशेक पोसचे विशीं परिश्रम करचें - अशें ही परिशद निर्णय घेता."

ह्या दुसऱ्या परिशदेंत 'सारस्वत बोधिनी'त आठ पानां देवनागरी लिपींतल्या कोंकणी खातीर अमानत दवरूंक निश्चय जाल्ल्या प्रकार 1924 इस्वी ऑगस्ट/सप्टेंबर म्हयन्यात (Book II, Issue II) 'गोमंतकीचो विभाग' (म्हळयार कोंकणी विभाग) सुरु जालो. ह्या सुर्विल्या विभागांत 'चत्राय' म्हळळ्या म्हाताळ्या खाल ह्या परीं छापून आयलां.

"चत्राय" - "परिशदेच्या निर्णयाक अनुसरण हो विभाग नागरी लिपींतच छापचो म्हणोन बैसिल्यान 'चिंगं' अंक्यांत हो सुरू जालो ना. आजून तो निर्बंद घेवन बसल्यार तडव जातलो देकून आतां मलयाळी लिपिंतच सुरू करतां. कोंकणी भास मलेयाळी लिपींत छापच्या विशीं कांय जाणांचो आक्षेप आसा हें जाणात तरी ह्या आक्षेपाचें कारण आमकां पटना. मलेयाळी आनी कोंकणी भासो वाचताना येंवचो स्वराचो फरक कारण जाल्यार पर्वाना. भाशेचें गिन्यान आसल्लो लोक सारकें प्रमाणांत वाचतेले, ना तर मागीर मातशें समयान सारकें जातेलें. नागरिकांतल्यो सगळयो लिपी (अक्षरां) मलेयाळातूय आसात मूं? मलेयाळंबरीच कर्नाटकय एक द्रावीड भास. ते भाशेचेंय कोंकणीचे मदें स्वराचो व्यत्यास आसा. तरी कर्नाटक लिपींत कोंकणी भाशा पुस्तकां छापल्ल्या विशीं कोणेय आक्षेप केल्लो आयकोंक ना. कांयजाणानी तर तिका कोंकणी बरप म्हणोन लेगीत सांगलां. कोंकणी भाशा लेखनाखातीर मलेयाळी लिपी वापारच्या विशीं जांवच्या आक्षेपाचो निरदार दाकंवक इतलें सांगलें, पूण आमची भास एक आर्य भास देकून केरळा भायल्या लोकांकय फायदो जातलो आनी संस्कृत शिकोंवकय उपकारतोलो देकून नागरी लिपिचोच वारप करचो उत्तम अशें आमी मानून घेतात. जाता तितल्या वेगीं ताचो प्रयोग करूंक आमी परिश्रम करतेले."[76]

(ह्या चत्राय लेखना उप्रांत मलेयाळी लिपीत कोंकणी उतरांच्या उच्चारा विशीं विवर दिला.)

ह्या सारस्वत बोधिनींत (Book II Issue-3 (मलेयाळंइर 1100 तुलां) एक 'हळ्ळेंतिलो संवाद' - ह्या परीं प्रकट जाला. (लेखक - सिताराम प्रभू)

**हळ्ळेंतलो संवाद**

**पात्र**

**राम नायकु :** (पुताक कागाद बरोंवच्याक विलेवारी करता.)

**पुत्ती :** (दूर मोटर बस्साचो शब्द आयकोन वस्सरेंतु (kitchen) धाकून भायर येवन चल्लो येत्ताकी म्हण चोंवच्याक राबता)

**राम नायकु :** तूं थंय इत्त्याक राबिल्या

**पुत्ती :** चल्लो येत्ता की म्हण चोयतां

**रा. ना. :** तें कशीं? हांवें ताका कागाद बरयनि (बस्स राम नायकाल्या घराचे मुकारि राबता. अनंतु आनी कृशणचारी बस्सरि थाकून देंवताती)

**पुत्ती :** चल्लो आयलो.

**रा. ना. :** अनंत, सप्टेंबर महिन्याची परिक्षा जाल्लिवे?

**अनंत :** परिक्षा जाल्ली.

**रा. ना. :** तूं पासवे?

**अ. :** (मौन जावन राबता)

**रा. ना. :** तुग्गेलो प्रोगेस रिपोर्टु दाकय.

**पुत्ती :** चल्लो दूर गांवांतु थाकून आयलो तो काफी उदाक पिंवो परिक्षा वर्तमान मुकारीं चोवुं.

**रा. ना. :** आज काफी पिल्यारि नुप्रो, (पावाना) पायि काफी पिवुक ताणे

**अ. :** ट्रंकाचे बग्गिला काड्न पोग्रेस रिपोर्टु भायर काडता.

**राम नायकु :** अरे तूं कर्नाटकांतु (कन्नड) मात्र हरवाला (failed) कर्नाटक देशा भाशा म्हण लेकून तुमी हे पाठक मन्ना दिनाती. आम्मि शिकताना मिशेनेचे (क्रिस्तांव) कर्नाटकांतु पैल जाताले आत्तां हिंदुली चेर्डुवांकय गति पास्ट जाली. कश्टा!

**अ. :** अन्ना हांवे कर्नाटक घेने. अरवींद शाले परमार्शेन म्हाका तांतु घल्ल्याची.

**रा .ना. :** चि! चुग्गेलो पप्पाक मास्तराली चूकि सांगोनाका.

**अ. :** नीज जावन हांवे कर्नाटक घेने. आत्तां स्कूल पैनल येत्ताति विद्यार्थींक खुशी आस्सिलेपाठ घेवुयेता.

**रा. ना. :** अरे चोरा पट्टी सांगोन म्हाका फटंवच्याक पळोवनाका.

**अ. :** हांवे पट्टी सांगने. कृशणचार्य लग्गिनि मागल्यारी संगति कळतेली.

**रा. ना. :** कृशणचार्यंतु, हांगेलो चल्लो कर्नाटकांतु फैल जाल्ला म्हण सांगता. परमार्ता तुमकां गोत्तु आसावे?

**कृशणचारि :** अनंतान सांगिल्लें नीज. ताणे चरित्रा मात्र घेतल्ल्यां. चरित्रा घेतेल्यांक कर्नाटक ना.77

(ह्या 'संवाद' म्हळ्ळया लेखनांत, मलबार, दक्षीण कन्नड, उत्तर कन्नड ह्या तीन प्रदेशांतलेय उलंवचे भशेचे भेद देखूंयेत)

'सारस्वत बोधिनी' ताच्या दुसऱ्या वर्सा क्विलोन थावन अलेप्पीक स्थळांतर जालें. ताच्या प्रकटणेच्या तिसऱ्या वर्सा (Vol. III Issue: 3) म्हणजे 1925 इस्वी नवेंबर म्हयन्यात थोडी बदलावण घडोन इंग्लीश भाशेंत लेखना प्रकट जांवक सुरू जालीं. हाका कारण त्या अंक्याच्या प्रस्तावनेत अशें विवरिलां.

"समाजेचे खूबलोक केरळ सोडून ब्रिटीश इंडियाचे वेगवेगळ्याकडेन रावल्ले आसात. हांतूं खूब लोक फामद जाल्यात. पूण आमचेच समाजेचे आमकां एकामेका कडेन स्वभाशेंत उलंवक आनी बरवन समजोन घेंवच्याक

प्रादेशीक आनी वेळाच्या कारणाक लागोन असाध्य जालें. हें विशीं आमकां मुखेलपणान इंग्लीश भाशेचो आदार घेंवचें पडता. देकून 'बोधिनीचो कांय वांटो इंग्लीश लेखना विनियोग करचो आनी तशें केल्यार केरळा भायल्या आमच्या लोकांकडेन बोधिनी पावन प्रयोजनाक पडतेलें अशें आमचें मत आसा."

ह्या प्रस्तावने उप्रांत सारस्वत बोधिनीत इंग्लीश लेखनां अमानत दवरलीं. कोंकणी भाशेचीं लेखना ताणीं चिंतल्ल्याबरी देवनागरी लिपींत प्रकट जालिंनात. मलेयाळी लिपिंतच कोंकणी भाशेचीं लेखनां प्रकट जांवचीं थोड्या काळा उप्रांत विरळ जांवक पावलीं. सारस्वत बोधिनिच्या चोवत्या वर्साच्या प्रकरणे उप्रांत (Volume IV Issue 5) म्हणजे 1927 इस्वी जानेरा उप्रांत बोधिनीन इंग्लिशांत आनी कोंकणेत विविंगड पत्रां प्रकटूंक सुरू केलीं. हाका कारण मलेयाळी वाचपी बोधिनींत इंग्लीश जोडणी (supplement) नाका म्हण पिर्याद मांडताले. पूण इंग्लीस नासताना केरळ बायलांक बोधिनी नाका आसलें. त्या देकून बोधिनीच्या आडळत्यादारांनी मलेयाळी अंक्याक रु. 2/- वर्गणी आनी इंग्लीश अंक्याक रु. 2/- वर्गणी दवरून चुंगडी प्रत्येक चार आणे मोल दवरलें. मलेयाळी वाचतेल्यांक इंग्लिशाची प्रती जाय जाल्यार चडतीक रु. 2/- वर्गणी भरीजे पडताली. ह्या गोंदोळांत हेणे मलेयाळी वाचपीय उणे जाले आनी अशें सारस्वत बोधिनी सवकास बंद पडलें.[78]

### 5.1.2 'सारस्वत मित्रम्'

सारस्वत बोधिनी उप्रांत चड उणे 1931 इस्वी ऑगस्ट/सप्टेंबर म्हयन्यांत (मलेयाळं इर 1107 चिंगम / कन्नी) 'सारस्वत मित्रम्' (मित्रं) म्हळ्ळें मलेयाळी भाशेंत म्हयन्याळें पत्र सुरू जालें. ह्या पत्रांत इंग्लीश आनी मलेयाळी वेवेगळे विभाग आसल्ले. 50 पाना मलेयाळी विभागांत आनी 18 पानां इंग्लीश विभागांत आसल्लीं. हें पत्र कोची थावन प्रकट जातालें. श्री. एस.वी. शेणै पॅलेस रोड,, कोच्चीन ह्या पत्राचो आडळीत संपादक जावन

आसल्लो. ह्या पत्रांत कांयच्च नातल्लें. ह्या पत्राच्या पयल्या अंक्याच्या प्रस्तावनेंत अशें सांगलां. "सारस्वत बोधिनी; सुबोधिनी (मासीक) सारस्वतन (म्हयन्याळें) आदी, हालीं आमचे मदें प्रचारांत आसल्लों प्रकाशनमू. तीं सगळीं अवचीत आनी अनापेक्षीत (unexected and untimely death) मरण पावल्ल्यां निमतीं कांय समाज मोग्यांक दुख्ख भोगलां..."

"हें सारस्वत मित्रम्" समुदायाच्या कार्यांक मुखेलपण दिलें पूण शिक्षण, धर्म, साहित्य, सहकार, राजकारण आनी वर्दी ह्या विशयांक ह्या पत्रांत जागो आसतलो अशें सांगलां पूण कोंकणी भाशे विशयांत कांयच प्रस्ताप ना.[79] ह्या 'सारस्वत मित्रम्' पत्रार (Vol. 2 - Issue No:10 and 11 मलेयाळ इरा 1108) म्हणजे 1932 इस्वी जून/जुलाय म्हयन्यांत श्री आ. माधन पै तुरवूर हाणी एक 'निर्भाग्ययाय नम्मुडेअम्मा' (आमची निर्भागी आवय) म्हळ्ळें एक लेखन बरयलें. तें कोंकणेक भाशांतर करून हांगासर दिलां-

"... कांय जण आमच्या भाशेक मराठी म्हणतात. मराठी? अशें परत विचारल्यार मराठीच, पूण मातशी दुसरी अशें म्हणतात. हें पळेवन म्हाका लज भोगता. आवयचें नांव सांगोकच इतलें कश्ट भोगच्या हांका तिका बहुमान दिवंक कितले शकतले? आमचे आवयक बहुमान दिवंक आनी राकोंक आमी पाटीं सरले तर तिची कसली गतयि? हें कोण चिंता?"

"अन्येक पंगड आसा. तो आवयचो बहुमान करूंक आशेता पूण तिका खंचे नांव दिवन बहुमान करचें ह्या विशयांत तांकां दुबाव भोगता. मांय भाशेचें नांव परिश्काराक अनुसरोन बदलल्याक कशें अशें ते विचारतात. कांय जणानी तिका 'गोमंतकी' केली, आनी कांय जणानी 'सारस्वता भाशा' केली. पूण आमी बाबडे मांयभक्त तीं नांवां बदलल्यान बुलूंक गेलेनांत. आमची आवय पयलेचेबरी तीच ती 'कोंकणी भास.'[80]"

हें 'सारस्वत मित्रम्' (Vol. III Issue 12) ताच्या प्रकटणेच्या बाराव्या अंक्या उप्रांत बंद पडलें. कारण कशें म्हण कळीत जायना.

### 5.1.3 'सारस्वत भूशणम्'

हें म्हयन्याळें पत्र मलेयाळी भाशेंत श्री एन. देवरेस कामत्त हांच्या संपादकपणाखाल 1942 इस्वी ऑगस्ट/सप्टेंबर म्हयन्या थावन प्रकट जावंक सुरू जालें. ह्या पत्रांत मलेयाळी आनी इंग्लीश ह्या दोनय भासांनी पत्रांत लेखनां आसात.[81]

### 5.1.4 'दि कोंकणी' (The Konkani)

कोंकणी हातबरपाचें पत्र. हें पत्र एका नोट बुकार (20.1 से.मि. x 16.2 से.मि.) हातान बरवन, संस्थ्यांक आनी वाचप्यांक स्वता पावीत करताले. ह्या पत्राचो माथाळो इंग्लीश सब्दांनी बरयला जाल्यार ह्या पत्राची भास कोंकणी, लिपी मलयाळम् जावन आसा. ह्या पत्राचो पयलो अंको चडउणे 1944 इस्वी जुलय/ऑगस्त म्हयन्यात बरयल्ल्याक रुजवात मेळता. (मलयाळम् इरा 1120 श्रवण मासम्, शक इरा-तारणा संवत्सर) हातबरपाच्या पत्राची प्रती श्री आर.सी.शर्मा हाणी सांबाळ्न हाडल्ली आतां श्री. गोकुळदास प्रभू हांच्या पुस्तकांलयांत पळेंवक मेळता.

ह्या पत्राच्यो धा प्रत्यो हातान बरवन नोव संस्थ्यांक आनी एक प्रती प्रसाराक दवरताले (One copy for circulation) ह्या नोव संस्थ्यांचीं नांवां त्या पत्रार कळइल्ल्या प्रकार ह्या परीं आसात.

जाग्याचीं नांवां संस्थ्यांचीं नांवां

1. तिरुवनंतपुरम् - सेक्रेटरी जी.एस.बी. सभा, तिरुवनंतपुरम्
2. कोल्लांव (क्योलोना) - श्री आर.जे.भट्टार एसोसिएटेड न्यूजे एजेन्सी.
3. कैंगोळ (कायंगुळं) श्री गोपाल कामत्ति, श्री विठोबा स्कूल कायंगुळम्
4. पर्कांड (पुरक्काडा) प्रेसिडेंट - ग्रामोद्धाराण सारस्वत समिती.
5. अलपोळे (आलपूळ) श्री जी. जनार्धन पै बूक सेलर मूलैक्कल आलपुळा
6. मुट्टत - (चेरतल) श्री एन्. पद्मनाभ नायक मुट्टतन्नाडी, चेरतल
7. तुरवूर - सेक्रेटरी श्री नरसींह विलासम् व्यायाम शाला, तुरवूरु
8. कोच्ची - सेक्रेटरी वेंकटेश सेवा समिती कोच्ची

9. हंचिकम्मूळ (एर्नाकुळम्) - सेक्रेटरी, सेवासमिती, एर्नाकुळम्
10. प्रसार प्रती (circulation copy)

ह्या हातबरपाच्या कोंकणी पत्राच्या पयल्या अंक्यार श्री के.पी.पैन बरइल्लें स्वागत गीत ह्या परीं आसाः-

**'स्वागताशंसा'**

1 वाणिदेवी प्रियविप्रवर्या श्रमा-
वल्लीं फला शुभ कोंकणी
चित्र पत्रयुत शद्र साथ्मिक सु
स्वागताम्मी तुका सांगताय्

2 जात्ता वत्ता म्हण दुख्ख नाका तुका
मासिके! तुगेलीं सोदरां
पूर्व पुण्यविन कांय दरित्रीं तू हें
सर्व शक्त म्हण जाणा जा.

3 जन्मु निर्धानु तूं पावलीय् बंधु तुका
ना म्हण तुवेंय दुक्किता
नाका चिंता तुका सर्वता सुख थे
पंकजादि कथा जाणा जा

4 हांगा युद्ध बहु घोर जात्ता ते रावां!
यंगा द्रव्यं बहु दुर्लभ
बंग शंक तुवेंय सोडि 'कोंकणी' तूं
लोक सेवा वृत शाश्वत

5 कोंकणा द्विज ग्रहांगणाम् तूं सुख!
नृत्य नित्यकरि बालिके!
तुश्टी प्रौड हृदयांक नाजाल्यार

बाळां 'बाविजन' नंदता

6 स्वर्ण भूशण दिन स्ववर्णमणी
भूशिते, प्रिय शुभाशिते
गौड विप्रवरवाणि भूशिणीतूं
योंगा, योग, तुका स्वागत

7 रंगनाथ पुरुशोत्तामादिकर
सज्जिते, मदविर्वजिते!
नित्य मंगल त्रिलोक विश्रंती तूं
पाव्न योंगा, तुका स्वागत

(के.पी.पै)

हें हात-बरपान बरइल्लें कोंकणी पत्र प्रकाड ग्रामोद्धारण सारस्वती समितीच्या पोशणा विभाग थावन प्रेरण जावन प्रकट जांवचेबरी दिसोन येता कित्याक म्हळयार कोंकणी भाशेच्या वाडावळीचो आनी कोंकणी चळवळेचो वावरय, ती समिती करून आसल्ली म्हळ्ळयाक थोड्यो रुजवाती त्या पत्रांत ह्यापरीं आसात:-

"प्रकाड ग्रामोद्धारमा सारस्वत समितीचें भाशा पोशणा विभागा तव-कून तयार करचें ग्रंथ (अच्चू मारलें न्हंय)

1 तेंकण कोंकणा भाशा स्वयं शिक्षक
2 तेंकण कोंकणी-मलयाळ निघंडो
3 चार काणयो
4 कुशाली काणयो
5 रस्वती काणयो (Humorous)
6 कोंकण भाशेचें प्रायमर
7 कोंकण भाशेचो प्रथमालो बूक
8 कोंकण भाशेचो दुस्सेरो बूक

9 कोंकण भाशेचीं म्हण्णी

10 'कोंकणी' हात-बरपाची मासीक

ह्या पयल्या 'कोंकणी' म्हळ्ळया हातबरपाच्या कोंकणी पत्राच्या पयल्या अंक्यार सुर्विलें 'प्रस्तावन' ह्या परीं आसा-

"प्रकाड ग्रामोद्धारणा सारस्वत समितीचे अभिमुख्यारी (Initiative) भायर सरोंवचें हे हात-बरपा मासिकेचें प्रथम दळ (अंको वा पाकळी) कोंकणी भास उलोंवचे सहृदय जणांचे मुकार दवरूक आमकां अती व्हड संतोस आसा. आमगेले भाशेची आतांची स्थिती अती दारुण जावन आशिल्ली तं म्हण समस्तांक कळता. आमगेली भास उलोंवचें म्हळ्ळेलें आमकांच हळशीक जावन आसा. इतल्याक ताजें नांव 'कोंकणी' म्हण घेंवचेंच आमकां लज्जा'वह जावन आसा. गोयांत आनीक अन्य प्रदेशांत कोंकणी भास आत्तांय अती प्रचारार आसा. तांगाचे जण भाशा पोशणा विशयांत अतीव प्रयत्न पावन आसाय, जाल्यार ती भास आमकां लागू ना-तांतूं अनेक पोर्तुगीज पदां एक्कडे जावन आसाय. व्याकरण रीतिच वेग्गेळी.

आमगेली भाशेय कोंकणीतं जाल्यारि ती गोयांतुलेय बाडकाचेय कोंकण भाशेथाकून अती बिन्नतं. आमची उलोंवचें भासेंतु मलबारी भाशेंतुंलीं अनेक पद मेळताय तेच काराण पासुनीय एक बिन्न भास म्हण लेकिल्ल्यारीय जात्ता.

आम्मी उलोंवचे भाशेक तेंक्काची कोंकणी म्हण म्हणच्यांत कांय आक्षेप ना. ही आमगेली भास उंचारि हाडका म्हण ती भास उलोंवचे सर्व जणांच्यायि मन्नांत अतीव तालपर्या (Interest) आसा, जाल्यार हेखातीर कित्तें कोरका, कशी कोरका कोणे कोरका म्हण कोणाक एक रुपिय (रुप) ना. कोण जाल्यारि ते विशयांतु मुकारिं सरल्यारिं वे जायत?

अती पुरातनय, अती सुंदरय जावन आसल्ली एक भास तं आमगेली कोंकणी, आमकां ताचें मोल कळना - अन्या भास उलोंवचे जणांनी आमगेले भाशेक लिपी ना, साहित्य ना, व्याकरण ना म्हण आक्षेप केल्ले घडये

आमगेल्या अज्ञानांत करताना तें सक्क व्हय म्हण आयकोन आमगेले भाशेचे खातीर आमी लज्जेताय. परजातींत जनन घेत्तल्ले जाल्यार उतुले चांग आसताले, आश्शिल्लें म्हण लेकून आमी पश्चात्ताप पांवताय, जाल्यार भाशेचे खातीर स्वल्प पुणि प्रयत्न पांवच्याक आमी तयार नांय.

व्हय आमगेले भाशेक प्रत्येक लिपी आसावे? ना. अश्शीं म्हण ती भास वायट जायना. ती सुंदर भास. एकेक दिक्कारी ते ते दिक्कार प्रचारार आसूंचें अन्य भाशेंचें लिपिनीय बरोवन येताय. देवनागरी लिपींत ती बरयताय, कर्नाटक लिपीन ती बरयताय. आमगेले मलबारांतुं ती देवनागरिनंय, मलबारी लिपिनंय बरोवन येताय. अश्शी अनेक भाशेचे लिपीन ती भास बरोवन येताय देकुनंच ते भाशेचे महत्मे प्रत्यक्षतं. केवल प्रत्येक लिपी ना म्हळ्ळेले आक्षेपांत ताचें मूल्य कांय पुणिय उणें जायना, मलबारांतुले जणांक मलबारी लिपी चांग प्रकारीं कळता. देकुनय सौकर्या थंय तेच लिपीन - तांतू अल्प स्वल्प व्यत्यास हाड्न आमगेली भास बरोंवची उचीत म्हण दिसोन आमी ते लिपीन ताक्का प्रचार दित्ताय तं.

दुस्सेरें व्याकरण तं, एक व्याकरण नात्तिल्लें एक भास उलोंवच्याक जायना. एक भास उलोंवचीय, बरोंवचीय, रितीतं व्याकरण जाल्यार सर्व भाशेकंय एक व्याकरण रितीय तांतुं अंतरभावी जावनु आसता लेयि. ती रीत कस्सली इत्तें म्हण चोवन मना करों भास कळना नातल्ल्यांक ती सुगम जावन शिकूचे अवश्यर्थय उलोवन उलोवन भाशेक सबार विलोप (omission) येवनात्तिल्लें राब्बूचें अवश्यर्थय तांतुलें नियम बरोवन घालचें तं व्याकरण. आमगेले भाशेचें नेम बरोवन घालूंक कोण मुखार सरलेनांय म्हण दवरू. ते पुरातन भाशेक व्याकरण ना म्हण सांगूचें केवळ मूडत्व न्हय करुंइत्तें.

माग्गील साहित्य. आमगेले हांगाचे भाशेक विशाल जावन आसिल्ले एक साहित्य ना म्हळ्ळें सत्यतं. येदेच सुंदर गींत म्हण्णी, आळीं (lullabies), काणयो हच्या भायर सांगूचें लेकान एक साहित्य भाशेक ना. अप्राटें आमगेले

मडियेनंय (आळसाय) इत्तेंकि दीस वेत्ता वेत्ता कोंकण भाशेक चोड्न येंवचें विरक्ती न्हय, तें आश्शिलें साहित्यय, नागगर्तातु वच्चूनूच आसा तं. श्रीयून पी.एन.नरसींह पै, श्रीमती जीकमलम्माळ आदी भाशाप्रेमी तांग तांगेले शक्ती तकीत साहित्य देविले पाय्यांकडे विशेश फुलां अर्पण करूं येताय. पंडीत आर.सी शर्माली भाशा गाना मंजरी एक अती विशीश्ट साहित्य भंडार तं. जाल्यारय हाज्ज्यान कांय जायना. भाशेंत साहित्य आनिकय जावका, जांवक आसा. साहित्य ना, ना म्हण रडले निमित्तींय कांय प्रयोजन ना. आत्तां अती विशाल साहित्य आस्सिले भाशेंचें साहित्याचीय स्थिती एक कालाक हेंच प्रचारींय तं आश्शिल्ली. म्हण आमकां उडगास जावका. खंच्या भाशेक जाल्यारय साहित्य जड जावन मळबार थाकून येवन पळ्ळेना. बाकी सर्व कार्येंतुंय जावका जाल्लेल्या वरीच हे कार्येंतूंय मनशालो प्रयत्न जावका. विशाल साहित्य आश्शिल्ले अन्य भाशेचें साहित्य व्हड कर्न हाडूंक आनिकय तांतूले जण अतीव प्रयत्न पावन येताय. आमी साहित्य ना, ना, म्हण सांगोन आळशायेन बेसलांय. साहित्य निर्माणाक बुद्दीय, शक्तीय वयबावय आश्शिल्लें, युवजण आमगेल्यांतूं अपूर्व न्हय. तांचेलागीं आमी विनीत प्रार्थना करताय. धरयान मुखार येवन साहित्या देवीली पुजा कऱ्याय म्हण, सत साहित्पोधन करूंक श्रम पावांय म्हण. मलबारी, आंग्रेजी, हिन्दी आदी भासो शिकोवक आम्मी काडचें प्रयत्नाचो शतवांट्यांतूं एक वांटो श्रम उणेय आमगेले मातृभाशा पोशनार्थ आम्मी पावताय जाल्यार ताज्जें उत्तुलें लज्जावह वेग्गेणें कांय आसावे? अन्य भाशेंतूं अती विशिश्ठ साहित्योप हारू करूं आम्मी ते भाशेचे पय्याकडे व्होड भक्तीन अर्पण केल्यारि दुस्सेऱ्यानी तें व्हय म्हण दिवना. उप्राटें, कसलोच जाल्यार सणच एक उपाहार आमगेले कोंकण भाशा देवीचे चरणांकडे विनीत अर्पण केल्यार तिक्का अती व्हड संतोसय, आमका व्हड अनुग्रहोय, आत्मसमतृप्तीय जात्तेली.

हे प्रकार आमगेले भाशेक न्याय जावन आसिल्लें पोशण दिवन तिक्का उंचार हाडल्यार ते भाशेची जण जनपदांकय जौन्नत्य मेळतालें म्हळ्ळेल्ल्यांतू

दोनी पक्ष जांवच्याक न्याय ना.

भाशेचे खातीर आशिल्लो आमगेलो यो श्रम केवल तुस्सू (husk) कांडोवन हाता पोड (फोड) काडचे समान व्यर्थ म्हण म्हणचे जण अनेक आसतालें. आमगेले येश्रमान स्वल्पपुणिय तुस्सू कांडात जाल्यार हात्ताचे फोड आमकां दुखची न्हय, आनंद दित्तालें. आत्ताचे काला स्थितेक अच्चू मारून सर्वाले घरकाडे तिका पेटोंवच्याक आमी शक्त न्हय ते देखून आत्तां तिणे आशिल्लो स्थायू सोदून धरूंक ती काण्घेवन वच्चोन तिका अनुग्रह दिवका म्हण आबाळ वृद्ध जनपदांचे लाग्गीं आमगेली विनीत प्रार्थना.

शुभम्

ह्याच पत्रार कोंकणी भाशे विशयांत एक कवन/गीत आसा तें हांगासर दिलां (अंको II - वर्स 1944 म्हयनो सप्टेंबर)

(मलेयाळम् इरा 1120 द्वितीयदळ - आश्विनी मास)

**मातृवंदन**

पल्लवी : वंदना कोरयां हामकां
आमगेले आवसूक

अनुपल्लवी : पुत्रवात्सलेक ह्या सुंदर कोंकणी भाशेक - (वंदना)

चरण : लोकांतूं सबार आसा
विविध तरांची भास
तांतूं चंद जावन आसा
आमगेली कोंकणी भास - (वंदना)

तिग्गेली गुण सर्वाय
पूत कोंकणी नेणांय
तिक्काते वर्ज करताय
तिक्का तज्यान दुख्ख जाताय (वंदना)

अवसूक संरक्षण
करचें पुत्तालें धर्म

आम्मी तें निर्वहण
कोरका व्होड संतोसान - (वंदना)
अवसूलीं अपदान
समस्तेय प्रकिर्तन
कोरूं 'कोंकणी'
मान हाडूं आमकां निरंतर - (वंदना)

**- आर. माधव पै**
तुरवोरु

ह्या कोंकणी हातबरपाच्या पत्राचे प्रथम, द्वितीय आनी तृतीय दळ मात्र आसात. तृतीय दळ 1944 इस्वी, कार्तीक मास (ऑक्टोबर - नोव्हेंबर) ह्या अवदेंत बरइल्लें म्हण कळोन येता. अशें ह्या पत्यान उण्या आवदेंत तरी कोंकणी चळवळ, मलेयाळी लिपींत बळादीक थरान चलोवन व्हेल्या आनी कोंकणेक पुनर्जीव दिंवक प्रयत्न केलां. म्हण ह्या पत्रा मुखांत्र कळोन येता.

केरळांत कोंकणी लोका मदें सरिसुमार 1923 इस्वे थावन कोंकणी चळवेळेची उमेद प्रारंभ जाल्यार एका नमुन्याची निर्लक्ष आसल्ल्यान कोंकणी भाशेंत पत्रिकोद्यमाचो वावर सारकें फुलोन येंवक ना. ह्या निर्लक्षाक विंगड काराणांय आसल्लीं. केरळांत देवनागरी लिपींत छापचें आनी वाचचें समस्ये आसल्ले, जावयेत; त्या भायर, मेलयाळी लिपींत कोंवणी उच्चारण समस्या आसल्ल्यान पत्रिकोद्यम फुलोन येंवक अडकळ आसल्ली म्हणय समजयेता. विशेश कितेंगी म्हळ्यार देवनागरी लिपींत बरोंवचे उणे आसल्लेंय एक काराण जावयेता. अशें साबार काराणांक लागोन सुर्विल्या वर्सांनी केरळांत पत्रिकोद्यम सारकें फुलोन आइल्लें कळोन येता.

## 5.2 कर्नाटकांत कन्नड लिपींत पत्रां

कर्नाटकांत कन्नड लिपींत कोंकणी पत्रां उदेंवच्या पयलेंच्या चरित्रा अशी आसाः

कर्नाटकाचें सुर्विलें कन्नड पत्र ता 1-7-1843त 'मंगळूर समाचार' रे/

हर्मन मोगलींग हाणीं मंगळुरांत फातरा अच्चेंत सुरू केल्लें. (म्हणजे एका फातराच्या फोळ्यार अक्षरां उलटीं खंयचोवन कागदाचेर अच्ची काडची जावन आसल्लें.) सुमार ता 15-2-1844 र परयांत सोळा अंके प्रकट केल्या उप्रांत बळ्ळारीक वर्ग जावन वर्साच्या आखेरीक तें बंद पडलें.

'मंगळूर समाचार' प्रकाशक-संपादक जावन आसल्ल्या रे / मोगलींग हाणीं कन्नडाचें दुसरें पत्र काडल्ल्याची कीर्त फावो जाता. मंगळुरांत बेलीस मिशनांत छाप्याक्षर गडसून छापचें काम प्रारंभ जाताना ताणीं 'कन्नड वार्तीक' म्हळें पत्र 1857 इस्वे थावन प्रकट करून सुमार पंचवीस वर्सां पर्यांत 'कन्नड सुवार्तीक', 'कर्नाटक पत्रिके', 'बालपत्र', 'क्रायस्त सभापत्र', 'सत्य दिपिके', 'सुवार्ता प्रसारक' 'वैदीक मित्र' 'क्रायस्त हितवादी' इत्यादी विविंगड नांवांनी प्रकट केलें. धार्मीक विशय प्रकट करचीं हीं पत्रां जणांक खंचेय विशय जाल्यार अत्यंत सुलभ रितीर समजोंयेत म्हण दाकोवन दिलें.

ह्या नंतर मंगळुरांत बेनगल रामराय हाणे 1900 इस्वेंत 'सुवासिनी' म्हळ्ळें म्हयन्याळें कन्नड पत्र सुरू केले. अखील भारत मट्टार कन्नडिगांक आपणाच्या पत्रा मुखांत्र सांगाता हाडचो हांच्या पत्राचो उद्देश जावन आसल्लो. देशाच्या चारांय कुशिंनी स्वातंत्र चळुवळेची उज्या-कीट पेटताना मंगळुरांत राश्ट्रीय कॉंग्रेस प्रचारा खातीर 'स्वदेशाभिमानी' म्हळ्ळें कन्नड पत्र 1907 इस्वेंत वी.एस.कामत हाणीं सुरू केलें. ह्या उप्रांत दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत इग्लीश सरकाराच्या विरोध झुजोंक 'राश्ट्र बंधू', 'स्वराज्य' 'तिलक संदेश', 'सत्याग्रही', एम.एन.कामत हांचें 'आनंद', कुडपी वासुदेव शेणै हांचें 'प्रभात' इत्यादी पत्रां प्रकट जांवक सुरू जालीं. तशेंच कन्नड भाशेंत पुस्तक आनी पत्रिकेनी लेखना बरोवन कन्नड भाशेची सेवा केल्ल्या पैकी बेनगल रामराम, पंजे मंगेशराव आनी मंजेश्वर गोवींद पै इत्यादी मानेस्त प्रमूख जावन आसात.

अशें कन्नड पत्रां मुखांत्र कन्नड भाशेची सेवा जाताना सारस्वतांनी 'सारस्वत' म्हळ्ळें कोंकणी भाशेचें पत्र काडूंक धैर घेतलें. हें पत्र आनी इतर संबंदीत पत्रां खंच्याय पुराभिलेखांत जांव, पुस्तकालयांत जांव ह्या ग्रंथकर्ताक पळेंवक

मेळानातल्ल्यान चळवळेचो विवर दिंवक असाध्य जाल्ल्या वरवीं मेळल्ली माहेत आरावन हांगासर दिंवक प्रयतन केलां.

### 5.2.1 सारस्वत - 1924

मंगळुरांत चडउणे 1924 इस्वेंत 'सारस्वत' कोंकणी भाशेचें पत्र प्रारंभ जाल्ल्याक रुजवात मेळता.

1925 इस्वी नवेंबर दोन तारकेर एक वर्स संपइल्ल्या उगडासाक प्रगट जाल्लें 'हेमंत संख्या' (special Issue) 'सारस्वत पत्र', उडुपींत आसच्या महात्मा गांधी स्मारक कॉलेजिच्या राश्ट्रकवी गोवींद पै संशोधनात्मक ग्रंथालयांत आसा. तें श्री गोवींद पैच्या संग्रहालयांतलें जाल्ल्यान उरलां. पैच्या मानाक विशेश अंको समर्पिल्ल्याक ह्या परीं तांतूं उल्लेख आसा.:-

"सारस्वताल्या वैरि अभिमानु दवोर्नु सारस्वताली अभिवृद्धीचे निरिक्षण कर्नु, सारस्वत समाजाच्या उद्दरणेची आकांक्षी जावन सारस्वताक सहायक जावन आसिल्या श्रीयूत गोवींद पैक सारस्वतालो सप्रेम उपाहरु."

हें हेमंत संख्या पत्र श्रीयूत वी.एस.कामत आनी मुल्की वामन कुडुव हांच्या संपादकपणार प्रगट केलां. हें पत्र कोडयाळ शारदा प्रेस्सांत छापून येतालें.

ह्या पत्रांत श्री मंगेशराव तेलंग बी.ए.एल.एल.बी कारवार, हाणीं 'आनंद' म्हळ्ळया लेखनांत बरइल्लो कोंकणी भाशेचो उल्लेख ह्या परीं येताः-

"कोणी एकादो असें म्हणत किं आमगेल्या कोंकणी भाशेंत काव्य ना. आमी कितें करिजे? ताका हांव असें म्हणता कि भाशा खंची जाली तरी अर्थ एकाच आसा. तुमी खंच्याय भाशेंतल्या म्हळयार संस्कृत, मराठी कानडी हिंदी वगैरे भाशांतल्या काव्याचो अभ्यास करा. तुमी स्वता कविता करा नाकरा. परंतू काव्यमय कल्पना तुमगेल्या मनांत उरच्याक जाय. म्हळयार काव्य कल्पनेचे रस जाणतले लोक समाजांत पुश्कळ उत्पन्न जांवच्याक जाय... समाजांत रसीक उत्पन्न जाले कि, मागीर कवीय उत्पन्न जातात..."[82]

श्री मंगेश्वर गोवींद पै कोंकणीतय लेखनां, कविता रचतालो. हांगासर

पैचें 'आमचें गोमंत' म्हळ्ळें कवन आसा तशें दिलांः-

**"आमचें गोमंत"**

आवय आमचें गोमंत-जय जय
धन्य धन्य तूं निरंत-जय जय
कीर्ति सदा तुजी दिगंत जय जय
गांवूं नांव तुजें, महंत जयजय।।1।।

फूल पान न्हेसणांचे पांच-तुजे
लाटांच्या पायंजणाचे नांच
दूद सागराचे मोतियां गांच
सह्यागिरीचें चोय कीरिट ऊंच।।2।।

भार्गवास जंय विंदली कुडारि
थंयसून तूं खंय घाल्ली तडारि
भारतान तुका हांडीर घेतली
रवि शशि किरणांची शेंस जतली।।3।।

माधवान मागधाक धवेलो
मांगिरीश हांगा खंय लिपलो
भार्गवान खत हांगा धुल्लें खंय
(भार्गवु हांगाच मोकळो जाल्लो खंय)
सात रुशिनी तप हांगा केल्लें खंय।।4।।

यादु आसामू तुका न्हये अघाशी
व्हड व्हडील आमचे तुज पाशी
उतरिल्लो तो पाचिलो शुभ दीसु
जंयसून आमचो गोयांतुं आवासु?।।5।।

आसुनि खंय खंय तवि आमि मायि
आमचीं हृदयां सदां तुज पायीं
तुजें न्हयंगे हें आमचे हाड-मास?

तुजिविण खंयची आमची दूद-भास?।।6।।

धर्म अगर्दी सांगरांत थोर
आमच्यामच्यांत जळौंच्याक वैर
तूं आमचें एकमात्र कुळार
खंय खंयचेय आमी घे गोंयकार।।7।।

क्रिस्तांव मुस्लिमानी हिंदू
तुज्या मोगांतामी सारकेय बंधू
एकूच देवामचो जल्मदाता
तूंचि एकि अपुरबायेची माता।।8।।

भौ मोगाची चिंत्तूप तूं बावली
तूं भूंय वयली सर्गाची सावली
म्हाळशे तुजें अमृत घेवन येय गे
तनु मन भर नव जीण पेयेय गे।।9।।

आवय मोगाळे विसरू नाका माकां
आमकां गोंयपण विसरू सोणाका
तुज्यां तुंज्यामचो जल्मु जल्मु जांव
लिखय उरों मांय तुजें पवित्र नांव।।10।।[83]

हेमंतसंख्या सारस्वत पत्राच्या आखयरीक पत्राचे प्रकटणार ह्या परीं निवेदन करतात.

"देवाल्या कृपेन आनी तुमगेल्या सर्वाल्या आशिर्वादान सारस्वतान एक वर्स आखैरि केलें.

आपणालें प्रथम वर्साचे पूर्णतेच्या स्मारक जावनु सारस्वतान हो संख्यो बाहिर काळ्ळा. ज्ञाती वृंदान हक्का स्वागत दिवका म्हण आमगेली विज्ञापन... सारस्वतालो मुख्य उद्देशु निरुपेक्ष बुद्धीची समाज सेवा जाल्लेल्यान, सारस्वताक अती कश्ट प्राप्त जाल्यारय अनेक लोकांक तुज्जे वयरि अभिमानु जाल्लो ना जाल्यारि, तो एक प्रकार जावनु भायर आयलो. ज्ञाती वृंदाच्या जागृती

खातीर निरंतर अत्यंत उत्कंठीत जालो. सारस्वताक आनी थोडे पोशक आनी सहायक मेळ्ळ्यारि, सारस्वतांचें सामान्य मौल्य चड कर्ना नात्तिलें पुठं चड करका म्हण आशा आसा. ती आशा पूर्ण करोचें तुमगेले हात्तांतुं.

सारस्वत कितले उपकारी जावका म्हण आमगेली आशा आशिशली कि, तितले उपकारी जायनि म्हण अती संतापन सांगूका जाता. आशा आस्सिली, ह्या पत्रिकेंतुं जाताचें सर्व कडेची वार्ता, सर्व रितीच्यो भावाना सर्व नमुन्याच्यो घटना प्रकट पावनु ज्ञाती वृंदाचे भिन्नाभिप्राय व्यक्त पावक म्हण; त्या मूलक परस्पर अभिप्राय जोक्कनु अभिप्रायांतुं ऐक्या आस्स करका म्हण; सारस्वत संस्थेची सुधारण व्यक्त करका म्हण; सारस्वत उपभागां मध्ये ऐक्य आनी बंधुत्व आस करका म्हण; कर्नाटकी सारस्वतांतु आत्मियता आसा करका म्हण, परंतु ज्ञातीवृदांतून आमकां जावक इतलो सहकारु मेळनी; ज्ञातीवृंदाक ह्या पत्रिकेंतुं जावक इतलो उत्साहु आसा जायनी. हें सारस्वतु विशाद पूर्वक व्हयि म्हणता.

मुख्य जावनु आमगेली निवेदन इतलीचिः-

"तरि तुमका पैसो दिवनु हाडोच्याक जायन नातल्यारि, पत्रिका आशिशले कडेन वच्चुनु वाचच्या; आनी पत्रिकेक तुमगेल्यो आंतर्याच्यो भावनो लुखुनु पत्रिके मूलका प्रचार कर्नु वायट जावनु येंवच्या समाजांतुं नवीन कलाभर्नु सोडा; पाड जावच्या संस्थेंतुं नवीन सुधारणेचो मार्ग दाकया."

"इतलीचि सारस्वताची प्रार्थना"[84]

ह्या सारस्वत पत्राच्यो प्रत्यो आतां खंयसरी मेळानांत जाल्ल्यान ह्या पत्राविशयांत चडीत माहेत दिवंक असाध्य जालां. हें पत्र कशें आनी केदाळा बंद पडलें म्हळ्ळेंय सारकें कळीत जायना.

### 5.2.2 सारस्वत सप्ताहीक - 1941-1946

मंगळूर कोडियाळबैलांत श्री वी.एस.कुडवान 1941 इस्वेंत नवभारत प्रेसांत, 'नवभारत' कन्नड दिसाळें आनी 'सारस्वत' कोंकणी हप्त्याळें पत्र प्रारंभ केलें.[85]

ह्या कोंकणी 'सारस्वत' साप्ताहीक पत्राचो मुख्य उद्देशु - "भाशेची सेवा बरे रितीर करका, कोंकणी ही बरे उलपी भास नासताना आमगेल्या देशाचे इतर बरपी भाशेवरी एक उच्च भास हें सिद्दांत करका; ह्या भाशेचो सर्वत्र प्रचारू चलका अशें आशिल्लो. केवल भाशा प्रचारुमात्र न्हय शिथील जावनु गेल्लेलें सारस्वत समाज सुसंघटीत करका; समाज म्हळ्ळें पवीत्र मंदर विद्येन बुद्दीन सत्कर्मान शोभीत करका ह्या पत्रद्वारा दूरदूर वोच्चोनु राब्बिले सारस्वत बंदुबांधवांलो, समागम्मु एकत्र घडका हे उद्देशयि पत्रान दवोर्नु घेत्तिले."[86] म्हण 'पनवार' पंच्कादायि रजतोत्सव स्मरण संचिकेर वाचूंक मेळता.

मंगळुरांत प्रकट जाल्लीं 'सारस्वत' पत्रां आनी सारस्वतांनी पत्रिकोद्यम क्षेत्रांत केल्ली सेवा ह्या विशयांत संशोधनात्मक विवर दिंवक भारी प्रयत्न ह्या बरयणारान केलां. पूण तवळ प्रकट जाल्लीं पत्रां कोणी सांबाळून दवरलेलीं आयकोंक या पळेंवक ह्या बरयणाराक मेळोक नांत. थोड्या संस्थ्यानी हीं दस्तावेजां आदीं आसल्लीं खंय आनी ताका वाळती लागल्ली म्हण आनी तीं हुलपावन उडयल्यांत म्हण आयकोंक मेळता. तशेंच कारवारांत 1940 इस्वेंत श्री. एस. डी. नाडकर्णी हांच्या संपादकपणाखाल 'नवयूग' देवनागरी लिपींत, 1947 इस्वेंत 'उजवाड' आनी 'सर्वोदय' पत्रां आसल्लीं म्हण आनी 1950 इस्वेंत कुमटांत 'कोंकणी किनारा' म्हळ्ळें पत्र आसल्लें म्हण श्री. मुरळीधर उपाध्य हिरीयडका हाणी संपादिसिल्ल्या 'कोंकणी भाशे - साहित्य' पुस्तकांत वाचूंक मेळता. ह्या विशयांतय सगळें उत्तर कन्नड भंवोन आसल्ल्या सर्व पुस्तकालयांत हात चरयल्यारी ह्या पत्रांची कार्यींच कुरू सयतमेळानातल्ल्यान ह्या पत्रां विशयांत चडतीक चळवळेचो विवर दिंवक असाध्य जालां.

## 5.3 मुंबइंतल्या कोंकणी चळवळेची झळक

गोंयची सुटका जांवचे आदीं गोंयच्या सुटकेच्या चळवळेचें केंद्र मुंबइंत आसल्लें. गोंयकार क्रिस्तावांनी मुंबइंत रोमी लिपींत पत्रांच्या राशीर बसोन "कोंकणी चळवळ" चलयताना हेणे गोंयकार हिंदू कोंकणी लोकांची कथा

वेगळी आसल्ली. गोंयकार हिन्दू कोंकणेन उलयताले जाल्यारय ते तांच्या रिवाजी प्रमाणे मूळ शिकाप मराठींत शिकताले जाल्ल्यान, ते बरवपाक आनी शिकपाक मराठी वापारताले. त्या वेळार म्हणजे चडउणे 1910 इस्वे उप्रांत शणै गोंय बाब म्हळ्ळो श्रेश्ठ कोंकणी चळवळेकार मुंबयच्या गांवांत प्रवेश जावन कोंकणी हिंदवांक कोंकणी भाशेची वोडणी हाडूंक आनी कोंकणेक तिच्या मानाच्या स्थानार बसंवक प्रयत्न केल्ल्यान, हिन्दू कोंकण्यामदेंय चळवळेचें कीट पेटलें. शणै गोंयबाबान कोंकणीक तिच्या मानार बसयलें, मात्र न्हय, तें प्रमाणिकरण करूंक, सूक्त साहित्यीक माध्यम आनी शिकपा माध्यम करूंक दीस रात वावुरलो. ताचें काम फकत साहित्याचें मात्र न्हय बगार कोंकणी भाशेचेर कंटाळो आसल्ल्यांक ताचें मन बदलूंक तसलें जावन आसल्लें.

शणै गोंयबाब कोंकणी भास फुलंवचो इरादो घेवन वगो बसलो ना. कोंकण वाद आनी कोंकण्याची आस्मिताय थरांवच्याक तांची कळवळ इतली आसल्ली किं कोंकणेची तांक दाकंवच्याक कोंकणीच्या विविंगड मोर्डीचें म्हणजे चरित्रा व्याकरण, भाशेचो वाद-विवाद इत्यादी विशयांचेर साहित्य रचूंक सुरवात केली.

शणै गोंयबाबाचीं लिखितां आनी उपन्यास परगटूंक तवळ कोणयीं मुखार येनातल्ले. तार्ची लिखितां कोंकणी भाशेची चरित्रा म्हळ्ळया नावाखाल गोवा हिंदू एसोसियेशन आनी सारस्वत समाज मुंबय हांच्या वेदीचेर उपन्यास रुपार परजळ्ळी. तवळ काम सोदून मुंबय आइल्लो 'काशिनाथ श्रीधर नायक' हाणे 'गोमंतक प्रिंटिंग प्रेस' म्हळ्ळो छापखानो प्रारंभ करून, गोंयबाबाचीं उपन्यासां आनी लिखितां परगटूंक मुखार आयलो, आनी अशें 'गोंयकारांची गोयां भायली वसणूक' 1928 इस्वेंत पर्गट जालो.

वामन बाबाच्या आनी काशिनाथाचे इश्टागते वरवीं कोंकणी भाशेची अभिवृद्धी आनी कोंकणी चळवळीचेर लांब परिणाम जालो. 'गोमंतक प्रिंटिंग प्रेस' च्या मालकत्वा वरवीं शणै गोंयबाबाचीं लिखितां उजवाडाक आयलीं.

सगळ्या कोंकणांत दुस्पटल्ल्या आत्मविश्वास नातल्ल्या आनी तांच्याच अस्मिताये वयर दुबाव आसल्ल्या कोंकणी लोकाक एकवटांवक पावली.

ह्या विशयांत कोंकणी भाशा मंडळ गोंय हाणी हरएका वर्सा काडच्या दिवाळी विशेश 'कोंकणी' वर्सुकी अंक (1985-86) ह्या नेमाळ्यार आइल्लीं लेखनां हांगसर दिल्यांतः-

### 5.3.1 मुंबयची कांकणी चळवळ

"शणै गोंयबाबान सुरू केल्ल्या कोंकणी चळवळीक सगळोच साठेक वर्सांचो इतिहास आसा. ताणे जेन्ना ही चळवळ सुरू केल्ली, तेन्ना तांच्यो 'देड शाण्यांनी' कशो बकच्छायो केल्यो हें आमी जाणांत. तांच्या बरपावळीच्या स्पूर्तीन मागीर कितलेशेच तरणाटे मुखार आयले तातून बाकिबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, विश्णुबाब नायक, रवींद्र केळेकार, उदय भेंब्रो, शंकर भांडारी, एफ.जे.मार्तीरिश अशे स्वयंभू विचारसरणेचे तरणाटे आशिल्ले. ताणी आनी हेरांनी हे चळवळीचे किटीक फूंक मारीत रावून ती रसरशीत दवल्ली. ह्या फकत साठ वर्सांच्या काळांत कोंकणीन येदी व्हडली उडी माल्ली हाचें कारण कितें आसुंये? हाची जाप सोंपी आसा. हे चळवळींत भारावन काम करपी अशे कोंकणीक तोलादीक मनीस मेळ्ळे. कोंकणीचो प्रस्न मनोहररायासारको टॉप स्कॉलर सांगता, रवींदबाबा सारको, गांधीवादी सांगता आनी बाकिबाबासारको व्हड प्रतिभावंत कवी सांगता म्हळ्यार हातूंत कितेंतरी अर्थ आसा अशें विरोधकांकय दिसून ते ओगी पडटाले. देखूनच हांच्या एकल्या एकल्याच्या हातान धा धा मनशांचें काम जालां. हो एकलो एकलो म्हळ्यार पडींग भुंयेर सृश्ट निर्मुपी आसलो. एक एक 'सम्राट ! आज कोंकणीची चळवळ मुखार पाविल्ली दिसता ती ह्या सम्राटांचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून वावुरतल्या तरणाट्यां खातीर... आज पोट तिडकीन चळवळ करतल्या बाब पुंडलीक नायक, दत्ता नायक, एन.शिवदास बाबली नायक, तोमाझीन कारदोज, दामोदर मावजो, दिलीप बोरकार, सारकिल्या गांवा गांवानी वावुरतल्या तरणाट्यांमदें हेच सम्राट गुणिल्यांनी गुणूंक लागिल्ले

दिसतात. ह्या कोंकणी चळवळीचो इतिहास आमच्या वाचप्यांक कळचो म्हण, आमी ह्या सदरांत दोन लेख दिल्यात."

**- वावुरपी संपादक**

## 5.3.2 - मुंबयची कोंकणी चळवळ : कांय उगडास (1)

(कोंकणी वर्सुकी अंक 1985-86)

- अना म्हांबरो

...मुंबयचे कोंकणी चळवळीचो इतिहास साठ-सत्तर वर्सांचो. हांगासर वावुरलेल्यापैकीं सगल्यांत व्हड साहित्यीक म्हळ्यार शणै गोंयबाब. त्या उपरांत जांणी कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घाली तातूंत बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, र.वि.पण्डीत, दत्ताराम सुखठणकार, नागेश सोंदे हाचो आस्पाव जाता...

ह्या देशांतली कोंकणीची चळवळ सुरू जाली मुंबयंत. कोंकणीचे सुरवातीचे खुबशे साहित्यिक, कार्यकर्ते हांगा वावुल्ले. व्हडल्यो संस्था हांगा निर्माण जाल्यो. कोंकणी नाटकां, तियात्रां, सिनेमा हांका हांगा पोसवण मेळ्ळी. चडशीं नेमाळीं, पुस्तकां हांगा उजवाडा आयलीं आनी स्वतंत्र भारतांतली आकाशवाणीवेली पयली कोंकणी कार्यावळ हांगा सुरू जाली. (पुर्तुगेजांच्या काळार पणजी आकाशवाणी केंद्राचेर कोंकणी कार्यावळी जाताल्यो.)

आर्विल्ल्या कोंकणींतले पयले पिळगेतले कांय नामनेचे साहित्यिक म्हळ्यार शणै गोंयबाब, बयाभाव, रा.ना.नायक, दिनकर देसाय आनी ज्योकीं आंतोन फेर्नांदीश. ह्या सगल्यांची मुंबय ही कर्मभूंय.

आमी शणै गोंयबाबांक पळेलेना. पुण तांचेविशींच्यो खुबशो खबरो बयाभाव आनी डॉ.व्यं.पां.कामत (गोवा हिंदु ॲसोसिएशनाचे संस्थापक) हांचे कडल्यान आयकल्यो. दोगांयच्या गजालींवेल्यान आमगेलें मत जालें. शणै गोंयबाब हे एक बुद्धिमान, प्रामाणीक आनी हटवादी अशे मनीस आसले. ते कोंकणीच्या मळार जो कितें वावर करूक पावले तो तांगेल्या हटवादाक लागून.

रा.ना.नायक हे एक अजात शत्रू. गांधी-टॉलस्टॉय हांचीं मुल्यां मानपी. खादी वापरपी. केन्ना कोणाक न दुखोवपी. वैचारीक बरप ते बरें करताले. पुण तांची शैली मात्शी जड आसली.

दिनकर देसायांकडेन आमगेलो संबंद आयलोना. एके काळचे कोंकणीचे हे एक निष्ठावंत कार्यकर्ते. कांय काळ कोंकणी कविता केल्याउपरांत ते कन्नड काव्याकडेन वळ्ळे. निमाणेमेरेन थंयच ते घुस्पून उल्ले. देखून कोंकणीपरस तांकां कन्नड साहित्यांत चड स्थान पूण दिनकरबांबानी 'न्हीद रे बाळा ऽऽ चांप्या कळया ऽऽ' सारकिले एक अमर गीत कोंकणीक दिलां तें सासणाक उरतलें.

ज्योकीं आंतो फेर्नांदीश कोंकणीचें व्याकरण तयार करताले, पोन्न्या गोंयाचेर बरे उलयताले. हांव मुंबय आकाशवाणीचेर आसताना एकाद्रें गीत कानाक गोड लागलें जाल्यार ते म्हाका सांगूंक येताले. उतरांच्या अर्थाची विसकटणी ते बरे करताले.

एक कोंकणीभक्त तांकां मेळूंक, चर्चा करूंक तांच्या घरा वेतालो. एक पावट ताका (त्या कोंकणीभक्ताक) तांच्या घरच्यांनी सांगलें, 'कोंकणीक लागून तो आदींच पिसो जाला. तूं हांगा येवन ताचें पिशें अदीक वाडोवं नाका.' तेदीसच्यान तो तागेर वचपाचो बंद जालो. उपरांत एक दीस ज्योकींबाब गेले. तांच्या पुस्तक संग्रहाचें, तांणी तयार केल्ल्या व्याकरणाचें, आकाशवाणीचेर दिल्ल्या उलोवपांचें कितें जालें, जाणा कोण!

ज्योकीं आंतोन मुंबयच्या तियात्रांच्यो बऱ्यो खबरो सांगताले. ते म्हणटाले, मुंबयत आदल्या काळार भायल्या देशांतले खेळ येताले. असोच एक खेळ पळोवन एकट्यान 'इटालियन भुरगो' म्हणून एक तियात्र बरयलें आनी तें भांगवाडीच्या थेटरांत स्टेजीर हाडलें. त्यावेळार दादले बायलांचे पार्ट करताले. पयली बायल हे स्टेजीर केन्ना चडली आनी ती कोण हें ज्योकींबाब जाणा आसले.

आतां ह्यामुखार हांव जें कितें बरयतां तातूंत गजाली फुडें फाटीं जावं

येता, चुकोय जावं येता. जसो उगडास जाता तशें बरयतां...

हांव मुंबयंत 1956 आंत पावलों. त्यावेळार कोंकणी भाशामंडळ, गोमंत भारती ह्यो संस्था चलताल्यो. आकाशवाणीचेर कोंकणी कार्यावळ सुरू जावन चार-एक वर्सां जाल्लीं.

त्याआदीं बेळगांवां शिकतालों तेन्ना राणी पार्वतीदेवी कॉलेंज्याच्या हॉस्टेलांत दाजी कुंडयकाराच्या रूमांत 'साळीक' पळेल्लें असो उगडास जाता. मुंबय पावतकूच ताचे फुडले अंक बऱ्याच तेंपाउपरांत पळेलें. अशेच तरेन केन्नातरी 'साद', 'प्रजेचो आवाज' हांचेय अंक पळेलें. अशींच केन्नातरी शणै गोंयबाबालीं पुस्तकां हातांत पडलीं - 'जैत', 'वसणूक', 'व्याकरणी बांदावळ', 'मोगाचें लग्न' बी. तेचपरीन रा. शं. नायकांचींय - 'चवथीचो चंद्र' 'एकापरस एक हटी' बी.

मुंबय त्यावेळार खुबशा कॉलेज्यांनी कोंकणी वाङ्मय मंडळां चलतालीं. एक वर्स बांद्र्याच्या नॅशनल कॉलेज्यांत साकून हांव दुसऱ्या वर्सा कीर्ति कॉलेज्यांत गेलों. थंय म्हाका म्हाबळू कामत मेळ्ळो. म्हाबळू हो एक गजालींचो धोडो. गजालींनी घोव कसो खावपाचो (वा सांडपाचो) तें कोणेंय हाचेकडल्यान शिकपाचें. गजालींनी तो खुबशे इश्ट जोडटालो आनी तांकां खुबसो वाजूय हाडटालो. म्हाबूळ चकाटां मारूंक प्रवीण तसोच हेर कांय बाबतींत आरंभशूर असो मनीस. हांव कीर्ति कॉलेज्यांत पावलां त्यावेळार थंयच्या कोंकणी वाङ्मय मंडळाक एक वर्स जाल्लें जावंये. म्हाबळून प्रो. मेघश्याम पुंडलीक रेगे हांका त्या मंडळाचे अध्यक्ष केल्ले.

त्या वर्सा म्हाबळून मंडळाच्या उक्तावणाच्या दबाज्याक रा.ना.नायकांक मुखेल पावणे म्हणून हाडले. नायकांनी खूब त्रास घेवन एक बरें भाशण बरोवन हाडलें. वाचलें तें कोणाक समजलें ना. (हांवें तें सांबाळून दवरून कांय वर्सां उपरांत आंतर महाविद्यालयीन वर्सुक्यांत उजवाडायलें.)

ह्या दबाज्यांत प्रो. रेगे इंग्लिशींत उलयले. तांणी म्हळें, पोरू असल्याच दबाज्याक हांव म्हजे कोंकणींत उलयल्लों. उपरांत कार्यावळ सोंपतकूच

लोकांनी म्हाका सांगलें, तूं उलयलो ती कोंकणी न्हय. देखून आतां हांव इंग्लिशींत उलयतां.

उपरांत थंय जमिल्ल्या लोकांनी खबर सागंली ती अशी : प्रो. रेग्यांनी भाशण सुरू केलें, 'म्हाका कोंकणी येता नाय-ती बोलूंचो प्रयत्न करतंय.' आनी भुरगे तागेल्या भाशणाक खॉ खॉ करून हांसले.

उक्तावणाच्या दबाज्याक एक दोन गितां आसतालीं. उपरांत च्या-पाणी घेवन ही कार्यावळ सोंपताली. त्यावेळार मंडळांची वांगडी पटी? रुपया बी आसताली.

वर्सभराचे कार्यवळींत मंडळ एक पिकनीक काडटालें, एक डिबेट बी करतालें आनी निमाणेकडेन एक सोंपतो दबाजो करताले. मंडळ कॉलेज्याच्या गॅदरिंगाक एकाद्री एकांकिका, गीतां बी कार्यावळ सादर करतालें आनी वर्सभर एक वण्टीपत्र चलयतालें. मुंबयच्या वेगवेगळ्या कॉलेज्यांनी जी कोंकणी वाङ्मय मंडळां चलतालीं तांच्यो कार्यावळी सादारण अशो आसताल्यो.

त्यावेळार मंडळांचीं उक्तावणां करपी अशे कांय मुखेल पावणे मुंबयत आसले - फादर माश्कारेन्यश, प्रो. नीळकंठ घुमे (निकुबाब) प्रो. लुसियो रॉड्रिक्स बी. ह्या लोकांक सगल्या मंडळांच्यो व्हॉवळिको वेताल्यो. खुबशी मंडळां एकमेकांच्या दबाज्यांक एकमेकाक आपयतालीं. ताका लागून हांतल्या काय दबाज्याक तेच तेच लोक प्रेक्षक म्हणून आसताले.

निकुबाबांनी उक्तावणाच्या दबाज्याखातीर म्हणून एक बरे अशें विनोदी उलोवप तयार केल्लें. तें उलोवप ते सगल्याक करताले. एक खेप निकुबाबांनी उक्तावणाक गेल्लेकडेन आमकां चार-स लोकांक पयलेच लायनींत बशिल्ले पळेले. आपल्या भाशणाची सुरवात करताना तांणी म्हळे, 'ह्या लोकांक पळेतकूच म्हाका कितें उलोवपाचें तें कळना. फाटल्या एका दबाज्याक जें उलोवप केल्लें तेंच हांव परथून करतलों.' अशें म्हणून तांणी तेंच उलोवप परथून केलें. बाकी निकुबाबांची कोंकणी आयकसारकी आसताली. तांकां उलयताना आयकताना कांयजाणांक भाई देसायांचो उगडास जातालो. आमी

भाईक काय आयकलेना. निकुबाबांची कोंकणी मात् अजून आमच्या कानांन घुमता.

निकुबाब आपल्या उलोवपांत कोंकणीच्यो बारीकसाणी सांगताले जाल्यार फादर माश्कारेन्यश रोमाक कोंकणी संस्कृताय आसा असो सिद्धांत मांडटाले आनी भगवद् गीता, उपनिषदांतली वचनां खणखणीत आवाजान म्हणटाले. एक फावट आमगेल्या मंडळाच्या उगडपाच्या दबाज्याखातीर तांकां हांव हाडूंक गेल्लों वाटेर टॅक्सींत तांणी म्हाका म्हळें, 'म्हांबरो हें नांव रोमाक आसा हें तूं जाणा?'

'तळेगांव', 'ताळगांव'; 'कोल्हापूर', 'कालापूर', अशीं एक सारकीं दिसपी उतरां एकठावपाचो फादरांक छंद आसलो. तशेंच तरेचें एकाद्रें लॅटीन भाशेंतलें उतर सोदून तांचो संबंद ते ह्या उतरांकडेन लायताले. फादर संस्कृत वचनां पुण्याच्या पंडितांवरी म्हणटात तें पळोवन आमकां अजाप आनी खोस जाताली.

प्रो. लुसियो रॉड्रिक्स चड करून कोंकणी लोकांगितांचेर उलयताले.

मंडळां अदीक, मुखेल पावणे उणे अशी अवस्था जाल्ल्यानन कांय वर्सां उपरांत मंडळांनी एक नवीच 'टूम' बी म्हणटात तशी काडली. चड जाण्टे - न्हय अशा बरप्यांक आपोवपाची. हाकालागून रघुवीर नेवरेकार, सुमंत केळेकार,शंकर भांडारी, अरविंद भाटीकार हेय मुखेल पावणे जावंक पावले.

दरएका मंडळाचें एक वण्टीपत्र आसतालें. सादारण ह्या वण्टीपत्रांचीं नांवां 'कवाथो', 'पुनव', 'दर्या', 'चंद्रीम', 'कुळागर' बी अशीं आसतालीं. ह्या वण्टीपत्राक एक संपादक आसतालो. उपरांत तोच गॅदरिंगाखातीर, वेळ पडल्यार, नाटकुलें बी बरयतालो आनी कॉलेज्याच्या वर्सुक्यांतल्या कोंकणी विभागाचें संपादन करतालो.

1957 आंत मुंबयंतल्या कॉलेज्यांतली सगली वाङ्मय मंडळां एकठांय आयलीं. तांणी नाटकुल्यांची सर्त घेवपाचें आनी तिका जोडून एक वर्सुके उजवाडावपाचें थारायलें. ही सर्त त्या वर्सा तीन दीस चल्ली. तातूंत 20-22

मंडळांनी वांटो घेतिल्लो.

दर वर्साच्या ह्या नाटकुल्यांनी 3-4 रुपांतरां आसतालीं. हेर सगळीं नाटकुलीं स्वतंत्र आसतालीं. चडशा स्वतंत्र नाटकुल्यांनी पड्डो वयर गेल्याबराबर एक बोडको-तवलें आशिल्लो-म्हातारो स्टेजीर येतालो आनी तो 'आयकला ऽऽ' असो आपले घरकान्नीक उलो मारतालो. हीं सगलीं नाटकुलीं कौटुंबीक आसतालीं. तातूंत एकतर झगडी नाजाल्यार फकाणां आसतालीं. अदिकशीं नाटकुलीं गोंयकारांचीं आसतालीं. तांचे प्रेक्षकूय गोंयकारूच आसताले. 'अमक्याल्या भावान (नाजाल्यार मेवण्यान, भाच्यान बी) काम मात् फॉर्त केलें आं!' अशीं सर्टिफिकेटां दियत नाटकुलीं सोंपतकूच लोक घरा वेताले.

ही नाटकुल्यांची सर्त पांच वर्सां चल्ली. तातूंत लक्षांन उरसारकीं अशीं कांय नाटकुलीं आसलीं. तांतल्या दोनांचो ह्या खिणाक म्हाका उगडास जाता. एक किसन कामतीलें 'बाप्पा मुंबय वेता' आनी दुसरें व्ह के. संझगिरीलें 'कर्तव्य'. एक विनोदी दुसरें गंभीर. सर्तेक जोडून जें वर्सुकें येतालें ताका नांव दिल्लें 'विद्या' हें नांव त्याकाळार खूब जाणांक मानवल्लें. (उपरांत कोणेंतरी म्हाका सांगलें की नाटकुल्यांचे सर्तेखातीर जी कमिटी नेमिल्ली तिचो एक सेक्रेटरी 'विद्या' नांवाच्या एका चलयेच्या मोगांत पडिल्लो. ही गजाल खरी आसुंयें, नासुंये. पुण ती आयकतना म्हाका सुरबूस लागिल्ली.) ह्या वर्सुक्याचे पांच वर्सांचे पांच संपादक अशे आसलेः सुमंत केळेकार, जगदीश मंगेश सरदेसाय, हरदत्त खांडेपारकार, उदय भेंब्रो आनी अना म्हांबरो.

सर्तेतल्या बऱ्या नाटकुल्यांक आनी 'विद्यां'तल्या बऱ्या बरपांक बक्षिसां मेळटाली. नाटकाचें मुखेल बक्षीस म्हळयार मुसोलिनी मिनेझीस ढाल. अभिनयाच्या मुखेल बक्षीसाक आनी बरपाच्या मुखेल बक्षिसाक नांव आसलें - दत्ताराम सावकार पदक. एका वर्सा ही नाटकुल्याची ढाल कीर्ति कॉलेज्याक मेळ्ळी. नाटक आसलें रा.श.नायकांचे 'एकापरस एक हटी.' अभिनयाचीं बक्षिसा रमेश रामाणी आनी शीला वर्दे हांका मेळिल्लीं. पैकी रमेशाक

दत्ताराम सावकार पदक. बरपाचें त्या वर्साचें पदक म्हज्या 'सुंदर म्हजें रायबंदर' ह्या ललित लेखाक मेळिल्लें. (हेर वर्सांक कोणाक खंयची बक्षिसां मेळिल्लीं ताचो म्हाका उगडास जायना.)

मुंबयच्या कोंकणी चळवळीचें हें तरनाट्यांचें पर्व. हातूंतल्यान कांय नटनटी, नाटकां बसोवपी, बरपी आनी हेर कार्यकर्ते तयार जाल्ले. वयर जीं नांवां आयल्यांत तीं सोडल्यार... श्रीकान्त रामनाथकार, जिवोत्तम (दादा) कामत, श्रीकान्त नायक, नरेन्द्र नायक, रमेश राताबोली, लक्ष्मीकांत तळालेकार, पद्मनाभ प्रभू, प्रकाश मळकर्णेकार कितलेशेच लोक हे चळवळींतल्यान वयर सरिल्लें.

त्याकाळार कॉलेज्यांचीं कोंकणी वाङ्मय मंडळां आकाशवाणीचेरूय कार्यावळी करताली. विष्णू नायक हे त्याकाळार आकाशवाणीचेर अधिकारी आसले. ते भुरग्यांल्या असल्या कार्यावळींक भरपूर प्रोत्साहन दिताले.

म्हाका दिसता आमगेली कॉलेज्याची जीण सोंपतां सोंपतां दामोदर मावजो, प्रकाश थळी, सुरेश काकोडकार हे कोंकणीच्या मळार वयर सरूंक लागिल्ले.

त्याकाळार गोमंतभारती ही संस्था गांधी साहित्य उजवाडायताली. म्हजी कोंकणी साहित्याकडेन व्हडलीशी वळख जावंक नासली. अशा वेळार गोविंद मुद्रस एक दीस गोमंतभारतीच्या पुस्तकांचो सेट म्हाका खपोवपाखातीर आमगेर आयलो. हांवें भायरसून हांसत, भितरसून गाळी घालीत ताचो एक सेट विकतो घेतलो. ह्या पुस्तकांतलें 'ख' गुजराती आसतालें आनी देखुन तें वाचताना आडखळूंक जाताले. गोमंतभारतीकडेन म्हजो संबंद आयलो ना. ताचें नेमाळें म्हाबळू कडल्यान म्हाका मेळटालें. तें वाचताना बरें लागतालें.

मुंबयचे सगले कोंकणीभक्त त्याकाळार खंयच्यान ना खंयच्यान मुंबय आकाशवाणीचेर पावताले. ह्या केंद्राचेर विष्णू नांयक आनी आल्फ्रेड ब्रागांस हे खबरो दिताले. उपरांत विश्वंभर उसगांवकारूय दिवंक लागले. दिल्ली आकाशवाणीवेलें - कोंकणी (भायलें) खातें बंद जालें आनी एव्हाग्रियू ज्यॉर्ज, इलियार द एली आनी नापोलियांव माश्कारेन्यश हे लोक मुंबय

आकाशवाणीचेर आयले. कांय काळा उपरांत उसगांवकारांबराबर म्हाबळू कामत खबरो दिवंक लागलो. तो गेलो ताच्या जाग्यार उदय भेंब्रो आयलो. तो गेलो ताच्या जाग्यार हांव आयलोः- म्हजेबराबर ललिता खांडेपारकार, एली आनी नापोलियांव खबरो दिताले. आमी सगल्यांनी खबरो दिल्यो तरी आकाशवाणीचेर 'खबरो दिवपी' म्हणून लोकांमुखार खुबसो काळ उल्लें म्हळ्यार विश्वंभर उसगांवकार.

आकाशवाणीवेल्या ह्या कोंकणी विभागांत खुबशावर कोंकणीभक्तांनीय काम केलां. हांचेभितर म्हाका खबर आशिल्ली कांय नांवां हीः जितेंद्र अभिषेकी, चंद्रकांत केणी, विठ्ठलदास प्रभू, आनंद शास्त्री, मनोहर माशेलकार आनी दुर्गा नेवरेकार (ललिता आनी दुर्गा ही त्यावेळची दोन बायलां अजून आकाशवाणीच्या कोंकणी विभागांत आसात.) आकाशवाणीचेर खबरो कितल्या लोकांनी दिल्यात ताका तर गणतीच ना!

कोंकणी साहित्य समिती ही त्याकाळार नाट्यमहोत्सव करताली. दर महोत्सवांत चार-पांच नाटकां आसतालीः- चडशीं रूपांतरां. प्रयोग बरे जाताले. बैदूर, मुदूर, कामथ, हट्टंगडी, करवार, माविन कुर्वे, प्रभू अशे कितलेशे लोक त्या स्टेजीर वावुरताले. 'गृहिणी', 'गुपचुआकाली काणी', 'पाना आडचें फूल', 'विलायती व्हरेतू', 'चंदाराणी', 'सोबीत संवसार' अशीं कितलीशीं सोबीत नाटकां हे माचयेर आयल्यांत. कारवारी, मंगळूरी कोंकणीची पयली वळख आमकां ह्या नाटकांतल्यान जाली.

कोंकणी भाशा मंडळ ही एक मुंबयतली नामनेची संस्था. गोंय स्वतंत्र जायमेरेन हे संस्थेन खूब वावर केलो. फाटलीं कितलीशीं वर्सां एफ्.जे.मार्तिरीश हे संस्थेचे सेक्रेटरी आसले. वावुरपी समितीच्यो मिटिंगो मजेशीर जाताल्यो. काशिनाथ लाड, वसंत बोरकार, एव्हाग्रियू ज्यॉर्ज, रोगासियान मोरायश, फिलीप व्हाझ, मुसोलिनी मिनेझीस कांय मोजकेच जाण्टेले लोक ह्या मिटिगांक येतालें. तांचे भितर आमी एक पांच-धा तरनाटे आसताले. हातूंत भितर शंकर भांडारी, सुमंत केळेकार, उदय भेंब्रो, लक्ष्मीकान्त तळावलेकार,

श्रीकान्त बोरकार, बी.ई.मेंदीश हांचो बी आस्पाव जातालो.

ह्या मिटिंगाक जावं भाशा मंडळाच्या भौशीक सभाक दरएकलो आपणाक जाय तें उलयताले. मार्तिरशिबाबांच्या मिनिटस् वाचनाक खूब म्हत्व आसतालें. एकाद्रे मिटिंगेंक फावो तितलें लोक जाले ना जाल्यार आमी जमिल्ले लोक मिटिंग ज्या गोवन इस्टिट्युटांत एसेंट सेबेस्तियन स्कूलांत जावपाची आसताली थंयसरूच लागसर आशिल्या इराण्याच्या हॉटेलांत बसताले - कोरम जाता कांय म्हणून वाट पळेत.

मंडळान घेतिल्ली भौशीक मिटींग कसलीय आसूं. फिलीप वाझ सदांच एकेच तरेचें भाशण करताले. 'आमी गोंयकार ते गोंयकार. आमची मायभास कोंकणी. ही एक गिरेस्त भास...' आदी.

गोंय स्वतंत्र जातकूच विलीनीकरणाआड एक आघाडी गोंयकारांनी उगडली डॉ. मिनीन डिसौझा हांच्या येजमानपणाखाल तातूंत अदिकशे भाशा मंडळाचेच वांगडी आसले ह्या आघाडीन खुबसो वावर केलो.

त्या काळार गोवा हिंदु ॲसोसिएशनान जिना हॉलांत एक सभा घेतिल्ली. गोंयचो फुडार थारावपाखातीर हे सभेक कोंकणी-मराठी वादाचें रूप आयलें. हें सभेंत उदय भेंब्रो हाणे एक म्हत्वाचे भाशण केलें. ताच्या भाशणाची पयली वळ आयकनाफुडें कांय गोंयकार तापले, ताच्या आंगार धांवले. उपरांत ॲडव्होकेट सुशील कवळेकारांचे मध्यस्तेक लागून ताका आपलें उलोवप पूर्ण करूंक मेळ्ळें. म्हाका दिसता मुंबयतल्या भौशीक सभेंतलें उदयाले हें पयलें म्हत्वाचें भाशण.

1962-63 आंत आमी पयलीं एक 'कोंकणी' पत्रक आनी उपरांत त्याच नांवाची पंद्रशी चलयली. हांकां मनोहरबाब सरदेसाय, सुमंत केळेकार, शंकर भांडारीं, उदय भेंब्रो, लक्ष्मीकांत तळावलेकार, श्रीकान्त बोरकार, अरविन्द बाटीकार, व्ही.के.संझगिरी अशा कितल्याशाच लोकांचो हातभार लागला. पत्रकाचे संपादक मनोहरबाब आसले. पंद्रशीचो संपादक हांव आसलों. ह्या उपद्व्यापाक लागून आमचे-पैकीं कांय जाणांचें शिक्षणाचें वर्स

फुकट गेलें.

'कोंकणी'त वर्तमानपत्री बरपाचे कांय बरे नमुने आयिल्ले - गंभीर, विनोदी दोनूय तरेचे. आनी हे पंद्रशीचो दिवाळी अंक जाल्यार कोंकणींतलो पयलो सोबीत दिवाळी एंक म्हणूं येता इतलो बरो जाल्लो. ह्या अंकांत निबंद, ललीत लेख, काणयो, मुलाखत, नाटकुलीं, कविता, भुरग्यांलो विभाग आनी वर्सभविश्य अश्यो गजाली थारिल्ल्यो आनी कव्हराचेर मनोहर हिरु खंवट्याकडल्यान खास काडून घेतिल्लें चित्र आसलें.

कोंकणी पंद्रशीचें प्रकाश स्थळ आसलें: कोंकणी केंद्र, 36-डी स्लेटर रोड, मुंबयत, हें केन्द्र म्हळ्यार कोंकणीभक्तांचो एक मठ. खंयच्याय कोंकणीभक्तान मुंबय येतकूच हांगा रावून वच्चें. मुंबयत गोंयकारांचे कूड आसात तसो हो कोंकणी भक्तांचो कूड. त्या काळार शंकर भांडाऱ्याच्या ह्या कुडांत आठ-धा भुरगे रावताले. मुंबयतले हे कोंकणी चळवळीचें अखेरेक फळ कितें? म्हाका दिसता गोंयच्या भाशीक प्रस्नाक दिशा दाखोवपाक आनी राजकी प्रस्न मार्गाक लागपाक हे चळवळीचो खूब उपेग जालो. कोंकणीचे उदरगतीखातीर गोंयांत जी पयली म्हत्वाची संस्था उप्रासली ती मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचो वांटो म्हणून निर्माण जाली. उपरांत तिणे आपलो स्वतंत्र संवसार उबो केलो. गोंयांत आयज जे कोंकणी भक्त आसात तांतल्ले कांय सिनीयर लोक आदीं मुंबयंत वावुल्ल्यात. रवीन्द्रबाब केळेकार, मनोहरबाब सरदेसाय, शंकर भांडारी, सुमंत केळेकार, उदय भेंब्रो... हे सगले मुंबयचे कोंकणी चळवळीतले वावुरपी लोक. रवीन्द्रबाबांचे गोमन्त भारतीन कोंकणीचो खूब वावर केला. गोंय स्वतंत्र जायनाबराबर जी थंय कोंकणी परिशद जाली तिचे अध्यक्ष मनोहरबाब आसले. ते त्याच वेळार मुंबय सोडून गोंयां गेल्यात. उदय भेंब्रान सभा गाजोवपाक हांगांच सुरवात केली. फाटलीं कांय वर्सां सातत्यान बरोवन जांणी कोंकणींत मोलाची भर घाल्या तातूंत दत्तारामबाब सुखठणकार आनी नागेशबाब सोंदे हांचो आस्पाव जाता. दत्तारामबाबांचो संबंद आकाशवाणी, गोमन्तभारती हांचेकडेन चड

आयलो. जाल्यार नागेशबाबांनी कोंकणी कथासागर ही आपली संस्था निर्माण केली.

गोंय स्वतंत्र जातकीच मुंबयतल्या कॉलेजांतलीं कोंकणी वाङमय मंडळां बंद जालीं-ती बंद पडूंक नासली, हांगाची चळवळ चालूच उरिल्ली जाल्यार घडये आमचे उपरांतले भुरगे जे त्या वेळार हांगा आसले, उपरांत गोंयां पावले ते आयचे परस व्हड अशें कितेय करून दाकयतले आसले.

मुंबय आकाशवाणी केन्द्रान जाल्यार कोंकणी साहित्याक खूब मोलाच्यो देणी दिल्यात. कवी यशवंत केळेकार, अभिजीत, गजानन रायकार, सी.एफ् डीकोस्ता हांचें चडशें काव्य फुललें तें ह्या केन्द्राचेर.

कांय गजालींचे वायट दिसता. अरविंद भाटीकार आय्.ए.एस्. जालो आनी ताचें कोंकणीकडलें नातें तुटलें. किसन कामत सध्या जे.जे.स्कुलाचो (कमर्शियल आर्ट) डीन जाला. हरदत्त खांडेपारकार गोंयांत सेंट्रल बँकेचो रिजनल मॅनेजर म्हणून गेला. व्ही.के. संझगिरी हांगांचे एके कापड गिरणींत टेक्नीकल मनीस म्हुण वावुरता. ह्या चौगांय कडल्यान कोंकणी भक्तांनी ज्यो अपेक्षा केल्यो त्यो पुऱ्यो जाल्यो नात.

हेच परीन, त्यावेळचे कांय कार्यकर्ते आतां आपापल्या वेवसायांत घुस्पल्यात. ते कोंकणीक नाजाल्यात. मुंबयच्यान गोंयां गेल्या उपरांत ज्या लोकांची प्रतिभा फुल्ली तातूंत दामोदर मावजो, प्रकाश थळी, सुरेश काकोडकार हांचो आस्पाव जाता.

बायाभाव,रा.ना.नायक, विष्णू नायक, एव्हाग्रियू जॉर्ज बी आतां ह्या संवसारांत नात. एफ्.जे.मार्तिरीश हे तर हालींच आमकां अंतरल्यात. तांचे पाटल्याय मुंबयचें भाशा मंडळ आपल्या कारभाराचेर पड्डो उडयतलें अशीं चिन्नां दिसतात.

सध्या मुंबयंत जी संस्था नाटकांच्या मळार म्हत्वाचें काम करता ती म्हळ्यार कोंकणी साहित्य समिती. हिच्या नाट्योत्सवाचे अंदू रुप्या दबाज्याचें वर्स. साहित्याच्या मळार जी संस्था नेटान वावुरता ती म्हळ्यार कोंकणी

कला सागर. हे संस्थेन आतांमेरेन खूबशीं वैचारीक विशयावेलीं पुस्तकां उजवाडायल्यांत. एका अर्थान गोमंत भारतीचें वैचारिक दायज ही संस्था चलयता. हे संस्थेन 'कौंडिण्य' नांवाचे ती-म्हैनाळें कांय काळ चलयलें. बयाभावांच्या 'नवे गोंय' ह्या नेमाळ्यावरी हें एक वैचारीक साहित्याचे उदरगतीखातीर वावुरपी अशें नेमाळें.

सध्या मुंबय-आकाशवाणीवेलो कोंकणी विभाग कवी माधव बोरकार पळेता. दूरदर्शनाचेर 'कोंकणी कौस्तुभ' म्हणून जी म्हयन्यांतल्यान एक फावट कार्यावळ जाता ती मुकुंद नायक पळेता.

मुंबयचे कोंकणी चळवळीचो इतिहास साठ-सत्तर वर्सांचो. हांगासर वावुल्लेल्यांपैकीं संगल्यांत व्हड साहित्यिक म्हळ्यार शणै गोंयबाब. त्या उपरांत मुंबयत आपलीं पुस्तकां उजवाडावन जांणीं कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घाली तातूंत बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराव सरदेसाय, र.वि. पंडित, दत्ताराम सुखठणकार, नागेश सोंदे हांचो आस्पाव जाता. हांगां कितलेशेच तियात्रिश्त वयर सल्ले. तातूंत मिंगेल रॉड हो सगल्यांत व्हड मनीस. आयज हांगाचे आमच्या भिंतल्ले सगल्यांत जाणटे कोंकणी साहित्यिक म्हळ्यार देवराय बेंदूर. हांणी कोंकणी भाशा मंडळ, कोंकणी साहित्य समिती, कोंकणी त्रिवेणी कलासंगम अशा वेगवेगळ्या संस्थांनी वावर केला. तांचीं खूबशीं नाटकां आकाशवाणीचेर आनी मुंबयचे माचयेर आयल्यांत. 'पोयणारी', 'वावराड्यांचो इश्ट' ह्या म्हत्वाच्या नेमाळ्यांचो जल्म हांगाच जालो.

एका काळार जिणे मुंबय गाजयली ते कोंकणी चळवळीक सध्या मात् दिशा ना जाल्या...

### 5.3.3 कोंकणीची चळवळ : जैताची पयलीं पावलां (2)

(कोंकणी वर्सुकी अंक 1985-86)

**- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**

मुंबय 1946-52

गोंयची सुटका जावचे आदीं गोंयचे सुटकेचे चळवळीचें केंद्र मुंबयत

आसलें तशेंच कोंकणी चळवळीचें केंद्रय मुंबयंत आसलें. वामनराव वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब हांचें चडशें जिवीत मुंबयतूंच गेलें आनी तांगेली सगलीं पुस्तकां मुंबयतूच उजवाडली. तांची पुस्तकां उजवाडावपी श्री. काशिनाथ श्रीधर नायक, गोमंतक छापखान्योचो धनी, होय मुंबयतूच स्थायिक जाल्लो.

आयच्या कोंकणी तियात्राचो जनक ज्योकी आगोश्तिन्यु फेर्नांदिश होय मुंबयतूच स्थायिक जाल्लो आनी तियात्राची सुरवात मुंबयतूंच जाली. शणै गोंयबाबान आपलें ति-म्हैनाळे 'नवें गोंय' हें मुंबयतूच उजवाडा हाडिल्लें. 'बयाभाव' हांची 'सड्यावेलीं फुलां' हो कवितां-झेलो मुंबयतूंच उजवाडा आयिल्लो. मुंबयंत तेवेळार एक गोंयूच आशिल्लें म्हळयार जाता.

मुंबयच्या त्या गोंयांत कांय तरणाटेय पावलें : चित्रीक शांताराम आमोणकार, विष्णु नायक, आदव्होगाद जयराम धोंड आनी हांव. त्याभायर आमचे वांगडा कोंकणीखातीर खांपो वावुरपी सावंतवाडीचो एफ्.जे.मार्तिरीश आसलो. फादर एच.ओ.माश्कारेनस हो पंडित आसलो. रामचंद्र नारायण नायक हांचोय आदार आसलो. गोंयां आसतानांच, शणै गोंयबाबांचें कोंकणी भाशेचें जैत, मोगाचें लग्न, गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक हीं पुस्तकां वाचून कोंकणी-भक्तीचें बीं आमच्या काळजांत रुजिल्लें - हांव त्या वेळार विल्सन कॉलेजांत शिकतालों (1943-49) त्या कॉलेजांत गोंयकार जायते आसले आनी कॉलेजाच्या वावराच्या सगल्या मळांनी गोंयकार नांव गाजयताले. त्याचवेळार कांय जाणांच्या मनांत विचार आयलो. जशें मराठी वाङ्मय मंडळ वा गुजराती वाङमय मंडळ आसा तशेंच एक कोंकणी वाङमय मंडळ कित्याक आसूं नये? कारवार, मंगळूरच्याय कोंकणी भाव- भयणांनी हो विचार उखलून धल्लो. आनी विल्सन कॉलेजांत कोंकणी वाङमय मंडळाची स्थापना जाली. त्याच वेळार विष्णु नायक हो आद्व्होगासी शिकपाक मुंबय आयिल्लो. ताजे आदीं ताणें धारवाडच्या सरकारी कॉलेजींत B.Sc केल्ली. धारवाडा आसताना ताणें कोंकणी वाङमय मंडळाचे स्थापनेक हातभार

लायिल्लो आनी कोंकणी खातीर जायतो वावर केल्लो. आमकां चित्रीक शांतो आमोणकार, आनी जयराम धोंड मेळ्ळे. बयाभावाच्या 'गोमन्तक' छापखान्यांत आमी पावले. थंय आनीक कोंकणी भक्तांची वळख जाली. मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचे आमी वांगडी जालें. जायत्या आनीक गोंयकारांक आमी वांगडी केलें. मुंबयचे खूबशे हिंदू गोंयकार लॅमिंग्टन रोडा लागसार, त्रिभुवन रोडार रावताले. त्याच वाठारांत गोवा हिंदु असोसिएशन ही संस्था नांवारूपाक आयिल्ली. पुण तांतूंत चडशे मराठीवादी आसले आनी ती पुराय मराठीवादीच चलयताले. जेन्ना, जेन्ना एकाद्रो कोंकणी भक्त तांकां समजावंक वेतालो वा समारंभांत कोंकणी उलोवंक सोदतालो तेन्ना ताका खर विरोध जातालो. त्याभायर कोंकणी उदरगत ही हिंदूनी तशीच किरिस्तांवांनीय करूंक जाय हो विचार मनांत बाळगून आमी गोवा हिंदु ॲसोसिशिएनचो नाद सोडून दिलो आनी किरिस्तांवांत आनी हिंदूंत कोंकणीचो संदेश पावोपाखातीर आमी कोंकणी भाशा मंडळूच घट करपाक वावुरूंक लागले.

कोंकणी भाशा मंडळाक कचेरी म्हणून नासली. आमच्यो बसका जाताल्यो त्यो सेंट सेबेश्चन हायस्कुलांत धोबीतलावालागीं. त्या शाळेचो प्रिंसिपाल आसलो फादर एच्.ओ.माश्कारेनश हो. मडगांवच्या युनियन हायस्कुलांत, शिकतांना थंयचे एक शिक्षक बोरकार हांचेकडल्यान, फादर माश्कारेन्यासांची खूब कीर्त आयकल्ली. तांचे पांडित्य, तांचो देशाभिमान, कोंकणीचो मोग, हिंदु- किरिस्तांवांक एकठांय हाडपाची तांची उमेद, बी. आतां फादर माश्कारेन्याची वळख जाली. वाटकुळेंच गोरें हांसतें मुख, बुद्दीच्या तेजान लिकलिकपी काळे, काळे दोळे, ल्हानूच खाड आनी त्या खाडार हात ओडपाची संवय अशें हे तांचें चित्र रोंखडेंच मनांत भल्लें. फादर म्हळ्यार गिन्यानाचो सदाच व्हांवपी जितो-जिवो वझरो. कोंकणी, मराठीं, हिंदी, संस्कृत, लॅटिन, ग्रीक ह्यो सगल्यो भासो तांचे सेवेक सदांच हजर आसताल्यो. कोंकणीचे तिजेच कांय पूत अपमान करतात, तिका आपली भास म्हणून मानीनात आनी

तिका मराठींत विरगळावंक सोदतात हें पळोवन केन्ना ताजीं कानशीलां तापतालीं आनी तो किंवाट्यान म्हण्टालो. 'आमकां गिळ्ळे तरी आमी पोट फोडून भायर सरतले.'

आमच्या बसकांक चड करून जाण्टेच आसताले. तरणे म्हण्टात ते विष्णु नायक, शांताराम आमोणकार, जयराम धोंड आनी हांव. विष्णु नायक म्हण्टालो, 'हे जाण्टे वेतकच कोंकणीचें किदें जातलें रे?' हांव हांसत म्हण्टालो, 'आमी आसात मरे!' 'आनी आमचे मागीर कोण रे?' हांव म्हण्टालों, 'आमचे मागीर आनीक तरणे येतले.'

अशें हांव म्हण्टालो खरें पुण तरणे कांय मुखार येनासले आनी चडशा जाण्ट्यांक आमचो वावर म्हळयार पोरखेळूच दिसतालो. कोंकणी भाशा मंडळाखातीर आमी वर्गणी मागूक भोंवताले, वा पुस्तकां विकपाक भोंवडी काडटाले तेन्ना हात हालोवनूच आमी घरा येताले. काशिनाथबाब नायकांच्या छापखान्यांत, शणै गोंयबाबांच्या पुस्तकांचे गठ्ठे धुल्ल खाताले. काशिनाथबाब मोटवोच मनीस, आंगान कुटकुटीत, ओबडधोबड तोंडाचो, व्हडले बटबटीत दोळे, माथ्याक कांटे कशे केंस, वयल्या ओंठार कांटयारी मिश्यो, कानार केंसाचे झुपके, पुडवें न्हेसपी, खोमीस घालपी, पुण दोळे लिकलिकीत आनी सदांच तरतरीत, सदांच किद्यायनाकिद्या वावरांत गुल्ल आशिल्लो. कोंकणीच्या मोगान भारावल्लो असो मनीस. आत्यंतीक मोग, व्हेस, राग हे सगळे उमाळे ताज्या उतरांतल्यान धगधगीत इंगळयावरी भायर सरताले. आयकप्याक अस्वस्थ करताले. कोंकणीचेर चलत आयिल्ल्या अन्यायांची जुल्मांची वळेरी करतां, करतां, ताजी कानसुलां तापतांली, नाकपुड्यो फुरफुरताल्यो, तिडकेच्या नेटान फुटून ताजेंतल्यान अक्राळविक्राळ नरशिंवावतार भायर सरता कांय किदें असो भास जातालो असो हो कोंकणीचो 'फॅनेटिक' पोटतिडकेन वावुरपी. तो 'फॅनेटिसिझम' ती पोटतिडक ताज्यांत नाशिल्ली जाल्यार ताणें केल्लो कोंकणीचो येदो व्हडलो वावर जावंक पावचोच नासलो. शणै गोंयबाबाचीं सगलीं पुस्तकां ताणें उजवाडाक हाडलीं, दोळयांत तेल घालून तपासलीं

ताका लागुनूच शणै गोंयबाबाचो कोंकणीचो संदेश कोंकणातल्या घरांघरांत पावलो आनी कोंकणीची चळवळ इतलीं जैतीवंत पावलां मारूक पावली. काशिनाथबाबाचो छापखानो आसलो - (आनी आजून आसा) मुंबयच्या गिरगांव वाड्यार, रामचंद्र बिल्डिंगाच्या तळमाळयार. तो छापखानो म्हळयार कोंकणी भाशा मंडळाची कचेरीच जाल्ली. जेन्ना आमचो कोंकणीचो मोग मात्सो थंडावतालो तेन्ना काशीनाथबाबाच्या उज्या उतरांनी आमी परतून पेटून उठ्ठाले.

काशीनाथबाब लाड होय एक कोंकणीचो भक्त. पुण काशीनाथबाब नायकापरस सामको उरफाटो. थंडसाडीन विचार करपी, ल्हव उलोवपी, सदांच हांसतमुख. भाशा मंडळाचो कारभार तो बोवाळ करीनासताना पळेतालो. तेज भाशेन आसलो होडारकार. धिप्पाड मनीस. कोंकणीखातीर कितलेय त्रास काडूंक तयार.

1952 वर्सा रुपारेल कॉलेजांत लेक्चरर म्हणून लागलों. कॉलेजीचें तें पयलेंच वर्स. सी.बी.जोशी हो प्रिन्सिपल. गोंयकारांचो आनी कोंकणीचो ताका मोग. स्टाफ रुमाचो सेक्रेटरी म्हणून म्हाका वेंचून काडलो. पयलेंच उलोवप हांवें केलें. 'कोंकणी आनी मराठी साम्य आनी फरक' उलोवप इंग्लेजींत आसलें. खुबशे विचार हांवें शणै गोंयबाबांच्या 'कोंकणीची व्याकरणीं बांदावळ' ह्या पुस्तकांतल्यान घेतिल्लें. उलोवप सगल्यांक आवडलें. हेर प्राध्यापकांनी जायते प्रस्न विचाल्ले. तांकां हांवें फाव ती जाप दिली.

रोखडेंच कॉलेजींत कोंकणी वाङ्मय मंडळाचीं स्थापना केली. सुमंत केळेकार हाणें खूब आदार दिलो. उक्तावणाक अ.कां.प्रियोळकार हाका हाडिल्लो. कोंकणीक आनी कोंकणी भक्तांचेर गाळयांचो वर्षाव करून ताणें आपलें भाशण सोंपयले. आमी मात्शे पेंचांत पडले. हाका किद्याक हाडलो काय जालें. म्हाका आनी जायत्या इश्टांक तिडक मारिल्ली. प्रियोळकारान कोंकणीचो आनी आमचो सगळयांचो अपमान केल्लो. पूण आमी आपयल्ल्या मुखेल सोयऱ्याचो आमी अपमान करचो न्हय अशें थारलें. उपकार मानपाच्या

म्हज्या उलोवपांत हांवें इतलेंच म्हळें. 'तांणीं आमचेविशीं जे उद्‌गार काडल्या तेच उद्‌गार तांकांय लागूं येतात हें तांणीं लक्षांत दवरचें.' समाधान इतलेंच कीं प्रयोळकार उलयलो तो निजाचे, घराबे कोंकणींत. 'शणै गोंयबाबांचें' 'नवें गोंय' नेमाळें बंद पडून जायतीं वर्सां जाल्लीं. नव्यान एक कोंकणी नेमाळें काडपाची गरज भासूंक लागली. कोंकणी भाशा मंडळांत चर्चा जाली. आनी 'साद' ह्या नांवाचें नेमाळें काडपाचें थारलें. संपादपी म्हाका नेमलो. म्हाका संपादना भायर रिपोर्टराचेंय काम करचें पडलें. फादर माश्कारेनाचीं उलयल्लीं उतरां बरोवन काडून तांचो एक लेख तयार केलो. गोंयां वचून मलबाराव सरदेसायाकडल्यान शिकारेची खबर आयकून आनी एक लेख केलो. हांवें शणै गोंयबाबाचेर एक धाकटुलोच लेख बरयलो. संपादप्याचीं उतरां बरयलीं आनी एक ल्हानशी कविताय रचली. बाकीबाबान गीतायेचें कांय अध्याय दिले. कोंकणींतले उक्ते उच्चार सारके दाखोवपाखातीर अर्द-चंद्राचो उपेग करून सगलें बरोवन काडलें आनी इतल्यांत फ्रांसाक वचपाक म्हाका फ्रेंच सरकारान स्कॉलरशिप दिली. सादाचें हाताळें हेर इश्टांकडेन सोंपोवन म्हाका वचचें पडले. वच्चे आदी कोंकणी भाशा मंडळांत म्हाका निरोपाची पार्टी दिली. काशिनाथाबाब नायकान म्हळें, 'आतां मनोहर सरदेसायान फ्रांसाक वचून कोंकणीची सेवा करची.' ह्या आदेशाक जाप म्हणून हांवें म्हळें, 'हांव फ्रांसाक वेतां तो मुखार फ्रांसेज भास आनी साइत्य हांचो अभ्यास करपाक, फ्रांसाक वचून हांव कोंकणी भाशेची सेवा करतलों अशें कशें उतर दिवं. पुण हांव परतो येतकच मात म्हजो अर्द्यार उरिल्लो कोंकणीचो वावर मुखार व्हरतलों.'

कांय जाणांक आनी चड करून काशीनाथबाबाक म्हजी जाप आवडली ना. पूण हांवें खरें तें सांगलें.

हांवें खरें तें सांगलें हें खरें. पूण खरें तें केलें ना. फ्रांसाक आसतानाच म्हज्या हातसून कोंकणीची खरी सेवा घडली. अशें किदें कोण जाणा म्हजे लिखणेतल्यान कितलेश्योच कविता आपशींच रुपाक आयल्यो त्योच कविता

मुखार 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या कविता झेल्याच्या नांवान लोकांमुखार आयल्यो.

### 5.3.4 - भांगराचे दीस-कांय यादी

(कोंकणी वर्सुकी अंक 1985-86)

**- डॉ. दत्ताराम सुखठणकार**

"...रवींद्र केळेकार म्हाका मेळ्ळो तेन्ना तो निकतोच लिसेवाचें तेर्सेर आन विक्रमीमार्क मेळोवन पास जाल्लो. ताजो बापूय दिवाक आशिल्ल्यान ताजें प्राथमिक शिक्षण गुजरातींतल्यान जाल्लें. तो पोर्तुगेज पाखल्यांभशेन उलयतालो कारण ताजो दिवाक पाखल्याकडेन प्रत्यक्ष संबंध येतालो. पोर्तुगालाक प्रजासत्ताक येतकीर गोंयच्या हिंदूक शिक्षणाचो मार्ग मेकळो जाल्लो. हें शिक्षण घेवन पयलींच जे दोतोर जाल्ले तांतूंतलो एक रवींद्राचो बापूय दोतोर राजारामबाब केळेकार. तो एक व्हडलो विचारवंत, तत्त्वनिष्ट आनी व्यक्तिस्वातंत्र्याचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. रवींद्राक मुजींत ताणें कितें भेट दिवंची? आपल्या प्रचंड पुस्तकांचो संग्रह! दोतोर केळेकाराक गोंयचो समाज चड मान दितालो आनी भियेतालोय. भुरग्यांच्या शिक्षणाबद्दल ताजी स्वतंत्र मतां आशिल्लीं. आनी तांकांच लागून तो रवींद्राक घेवन शांतिनिकेतनांत ताका थंय दवरपाक गेल्लो. गोंयचो लढो सुरू जांवचे पयलीं रवींद्र मुंबय आसतालो. थंयच्या जे.जे.स्कूल ऑफ आर्ट या संस्थेंत प्रवेश घेवपाची तांची खटपट चलिल्ली. ह्याच काळांत भारतांतले व्हडले व्हडले फुडारी बंदखणीतल्यान सुटून येताले. रवींद्र तांतूंतले खूब जाणांक मेळून आइल्लो. तांतून डॉ. लोहियाय आशिल्लो. डॉ. लोहिया गोंयांत आयलो तेन्ना रवींद्र कसलीतरी शस्त्रक्रिया करून घेवपाक मिरजे गेल्लो, डॉ. लोहिया गोंयां आयला हे समजाना बराबर शस्त्रक्रिये मागीर घेवपाची विश्रांती तशीच दवरून तो तडक गोंयां आयलो. ते दिसच्यान ताज्या पायार जें चक्र पडलें तें गोंय स्वतंत्र जाय म्हणसर तशेंच उरलें. 1946 ते 1961 पर्यंत तो खंयखंय पावलो आनी ताणें कितें कितें केलें हाजो हिशेब चित्रगुप्ताकडेन तरी आसत

काय कितें हाचो दुबाव आसा. सुरवातीक ताणे गोंयां प्रसाराचें काम सुरू केलें. मुंबय ल्हानव्हड पुस्तिका छापप आनी त्यो गोंयां हाडून आमचेकडेन पाववप हें ताचें मुखेल काम. टि.बी.कुन्याचे Civil Liberties in Goa आनी Denationalization of Goans ह्या पुस्तकांची म्हाका याद आसा. तांतूतल्या एका पुस्तिकेचें मुखपृष्ट आमगेलो एक मित्र शांतो आमोणकार हाणें इतलें सोबीत काडिल्लें किं आजय तें दोळयासामकार येता. पुस्तकां छापपाच्या कामांत दोतोर आत्माबाब बोरकर हाणें मोठोच पालव दिल्लो. म्हाका दिसता हो प्रचार चालू आसतानाच रवींद्राक कोंकणीचो खरो साक्षात्कार जालो. दत्तात्रयान खूब गुरू केले म्हण्टात. ह्या काळांत रवींद्रान जे गुरू केले तितले दत्तगुरूकय जमले ना जातले. एका काळांत तो सशस्त्र क्रांतीच्या फाटल्यान लागिल्लो. दोडेमार्गार कांता नायक, विश्वनाथ लवंदे बी भुरग्यांनी जें बिराड केल्लें थंय रवींद्रय कांय म्हयने सगळयांबरोबर पेज जेवन उपास काडटालो. अंदू काँग्रेस शताद्वीनिमित्त म. गांधींचें अधिकृत हिंदी चरित्र बरवपाचो मान खुद्द इंदिराजीन रवींद्राकच दिलो. देशांत इतले गांधीवादी आसतना हो मान एका गोंयकारांक मेळप ही खरीच अभिमानाची गजाल. म्हाका मात ती बातमी वाचून हांसूंक आयलें. परवरीच्या दरोड्यांत वापरूंक दिवपाक म्हाड्डोळच्यान बेगोबेग रिव्हॉल्व्हर घेवन येवपी रवींद्र तेन्ना म्हज्या दोळयांसामकार आयलो. दोडेमार्गा मागीर तो दुसऱ्या तोंकाक गेलो तो बद्द वर्ध्याक काकावडीक. थंयच ताणें 'मिर्ग' हें कोंकणी मतपत्र सुरू केलें. मतपत्राचे विशय दोन-गोंयचें स्वातंत्र्य आनी कोंकणी गोयांपासून शेंकड्यांनी मैल पैस आशिल्ल्या विदर्भांत एक कोंकणी नियतकालीक काडप आनी तें तीन वर्सां चलवप कितलें कठीण हें हांवें म्हज्या दोळयांनी पळेलां. 1955 त दिल्लीक गांधी संग्रहालय स्थापन जालें आनी तें उबे करपाचें काम ताजेर आयलें. तें कांय वर्सां करून, ती व्हडल्या पगाराची नोकरी सोडून उतळताप काडपाक परत रवींद्र मुंबै आयलो. दिल्लीक व्हडल्या राजवाड्यासारख्या बंगल्यांत रावपी रवींद्र अंधेरीक एका कुडींत

रावंक लागलो. आतां ताणें गांधी स्मारक निधीच्या पालवान 'गोमंतभारती' ही संस्था स्थापन केली. गोमंतभारतीचे कार्यालय लेबर्नम रोड वयल्या म. गांधीच्या मणीभवन ह्या पवित्र वास्तूंत आशिल्लें. ह्याच काळांत ताणें गोमंतभारती हें रोमी लिपींत कोंकणी पाक्षिक काडलें आनी देवनागरी लिपींत कितलींशींच पुस्तकां उजवाडा हाडलीं. एकदां तो दिल्लीक गेल्लो आसतना पंडितजीन सगळे गोंयकार कार्यकर्ते मुंबय पळून रावल्यात, फुडाऱ्यांचो आव हाडून पत्रकां काडटात आनी आपापसात झगडटात म्हणून शीण काडलो. रवींद्र बेगोबेग मुंबय आयलो आनी साटली पो़टली कवळून गोंयां रावपाक गेलो. गोंयां पावलो त्या दिसांसून पुलिशेन ताजेर नदर दवरलेली. फुडें कांयच खास कारण नासतना ताका धरून आग्वाद दवरलो. गोंयचे सुटकेपयलीं कांय दीस ताका सोडून दिलो. रवींद्रान केन्ना ताम्रपत्राखातीर अर्ज केलो ना आनी तें ताका दिवपाचे कोणाक सुचलेंय ना..."

### 5.3.5 येवकार अध्यक्षांल्या उलोवपांत पत्रांचो प्रस्तापः-

1942 वर्सा, मुंबय कोंकणी परिशदेची तिसरी बसका जाली. ताचो येवकार अध्यक्ष शणै गोंयबाब आसल्लो. ह्या परिशदेंत ताणी केल्लें भाशण येवकार अध्यक्षालें उलोवप ह्या नांवान 'गोमन्तक' छापखान्यांत उप्रांत छापून आयलें. त्या उलोवपांत कोंकणी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं ह्या विशयाचेर उलयताना तो अशें म्हणता.

"उदेंतिचें साळक हें कोंकणींतलें पयलें वयलें म्हयनाळें. एदवार्द जुजे ब्रून द सोवजा हाणीं 1889च्या फेब्रेरांत पुण्या उजवाडाइल्लें. 'मारियान' नावांचे मुद्दाम तयार केल्ले रोमी लिपींत हें छापताले. हें धरून आजवेर 52 वर्तमान पत्रां आनी नेमाळीं कोंकणींत जल्मल्यांत. तातूंत 3 दिसाळीं, 29 साताळीं, 5 पंद्राळीं, 23 म्हयन्याळीं आनी 3 तीन म्हयन्याळीं. हातूंतलीं चडशीं मुंबय आनी बाकिचीं कराची, पुणे, कारवार, मंगळूर आनी गोंय ह्या थळांनी भायर सरतालीं आनी आजून सरतात. कांय वर्तमानपत्रांतलो मजकूर निवळ कोंकणींत आनी कांयतलो कोंकणी, पुर्तुगेज आनी इंग्रेजी भाशेंत येतालो

आनी येता..."

"52 तलीं 13 वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं आजून बरे तरेन चलतात. हांतूतलें 'कोंकणी बुलेटीन' हें दिसाळें 1932 पासून भौ. आंतोनीयु विसेंत दक्रूज हे मिंबय रोमी लिपींत उजवाडायतात... थांबिल्ल्या वर्तमानपत्रां भितल्लें मुंबयचें 'अ लूज' सातालें 1895 पासून 1916 मेरेन 22 वर्सां चलतालें. मंगळूरचें 'कोंकणी दिवें' हें पंदराळें 1912 पासून 1940 मेरेन 29 वर्सां चलतालें. आलेक्सबाब पायस बी.ए.एल.एल.बी हे वकील ताचे संपादक आसल्लें. काशिनाथबाब नायक हांगेलें 'नवें गोंय' ति-म्हयनाळें 1934 पासून 1937 मेरेन मुंबय बरे तरेन चलून थांबलें. हें देवनागरी लिपींत छापताले. कारवारचे सुब्रायबाब नायक हांगेलें 'नवयूग' साताळें 1940त देवनागरी लिपींत भायर सरतालें. तें रोखडेंच थांबलें..."

### 5.3.6 पत्रकार रवींद्र केळेकार

'पत्रकार जावचें अशें हांवें केन्ना चिंतलेंच ना...'

**- रवींद्र केळेकार**

"पत्रकार जावप अशें हांवें केन्ना चिंतलेंय ना! पूण पत्रकारितेन म्हजें लिखाण सुरू जालां. कवितेन वा कथेन तें सुरू जांवक ना.

'मीर्ग' दोन-अडेज वर्सां चलयलें आनी 'गोमंत भारती' तिनेक वर्सां चलयलें. 'मीर्ग' सुरू जातकीर बाकिबाबाचें 'प्रजेचो आवाज' भायर सरिल्लें, देवनागरींतल्यान. तेंय पाक्षीक, म्हगेलेंय पाक्षीक आसलें. विशेश म्हळ्यार म्हगेलें 'मीर्ग' वर्ध्यासावन भायर सरतालें. आनी कंपोझीटर धरून हेर कोणाक कोंकणी येनासली.

गुरूनाथ केळेकार, सुमंत केळेकार बी ताचे अंक लोकामेरेन पावयताले. ताणीं पटयेकार केल्ले. 'मिर्गाचो' पयलो अंक भायर सरलो तो 15 ऑगस्ट 1953त म्हळ्यार, हांवें लेखणी हातांत घेतल्या ती त्या वर्सा 9 ऑगस्टाक.

ताचें अर्थकारण कशें चलतालें, तुमी विचारलां. म्हाका एक इश्टान 300 रुपया दिल्ले. आनी म्हगेलो जो पगार येतालो तो शंबर काय सवायशीं

रुपया जातालो. तातूंतले म्हगेले 25 रुपया हांव 'मिर्गांत' घालतालों. त्या भायर वर्गणेचे हेर पयशे येताले. तातूंतल्यान भागतालें. तेन्ना एकूण खर्च कितलो येतालो तें म्हाका खबर ना. पूण एक आंक 50 ते 60 रुपयां भितर भायर सरतालो. सगळो खर्च शंबरेक रुपया जातालो. हांव 500 आंक छापतालों आनी तातूंतले 300 आंक खपताले. चडशे आंक गोयांत येताले. तेवेळार मुंबयसावन येवपी वर्तमान पत्रां बंद जाल्लीं. तेन्ना 'मीर्ग' गोयांत येतालें हें म्हत्वाचें. आंक चोरयांय येनासले. सारके पोस्टांतल्यान येताले.

हांवें बरोवपाक सुरवात केली तें म्हाका म्हज्या स्वातंत्र्य सैनीक इश्टांक कितेंतरी सांगूंक जाय आसलें म्हणून. वर्ध्यासावन जी म्हाका नदर मेळिल्ली ती तांचे समकार दवरूची अशें म्हाका दिसलें. 'मीर्ग' काडटा आसतना म्हजे सामकार जो वाचक वर्ग आशिल्लो तो स्वातंत्र्य सैनीक आशिल्लो. ते म्हजे भाशेनच फाटलीं चार वर्सां हेवटेन तेवटेन आपटत धोपटत राविल्ले. तांचे खातीर बरयतालों. आनी म्हणून 'मीर्ग'चे लिखणी जर वाचून पळयत जाल्यार सगळें गंभीर आशिल्लें. अर्थशास्त्र आशिल्लें, राजकर्ण आशिल्लें. म्हगेलो एक अग्रलेख आसतालो आनी बाकी सगळें भाशांतरीत आसतालें. विनोबा, काकासाहेब, कृपलानी, दादा धर्माधिकारी, गांधीजी हांचें लिखाण भाशांतरीत करतालों.

म्हजी भुमिका आशिल्ली - जेमेरेन हिंदुस्तान स्वतंत्र जांवक नाशिल्लें तेमेरेन गोंयांतली चळवळ जयहींद वा तिरंग्या बावट्याखाला चलूं येताली. पूण हिन्दुस्तान स्वतंत्र जालें आनी केन्ना हिन्दुस्तान सरकारान पोर्तुगीज सरकाराकडेन राजनितीक संबंध प्रस्थापीत केले तेन्ना गोंयकार फॉरेनर्स जाले. आतां भारतीय लोक गोंयकारांक भायले जाले. आनी तेन्ना गोयांत तो बावटो घेवन सत्यग्रह करप म्हळ्यार आमचें चुकता आनी आमी भारत सरकाराचे एजंट जातात. आनी भारत सरकारान हो सत्याग्रह चलोंव नजो. चलयलो जाल्यार तो आमीच चलोंवक जाय. हिन्दुस्तानाच्या लोकांक अधिकार आसा सत्याग्रहाचो. पूण गोंयकारांनी तातूंत फुडाकार घेवंक जाय आनी

भायले आयले जाल्यारय गोंयकारच कशे येतले अशी म्हजी भुमिका आशिल्ली.

ही भुमिका सगळ्या स्वातंत्र्य सैनिकांक पटनाशिल्ली. देखून म्हजें बरप मातशें 'आवट ऑफ ट्यून' जातालें. मागीर 'मीर्ग'चे चार पांच आंक भायर सरतकीर लोक म्हणपाक लागले 'खूब गंभीर जाता, माथ्यावयल्यान वता. लोकांनी वाचचें अशें लायट कितें तरी दी' म्हणून. म्हणटकीर गोदूकडल्यान हांवें 'फुलत्यो कळयो' बरोवन घेतल्यो. तेदेवेळार तें गिजूबायचीं पुस्तकां वाचतालें. आनी दुसरें म्हळयार म्हजी भयण (लक्ष्मीबाय सरदेसाय) शांतिनिकेतनातल्यान आइल्लें. ताका रवींद्रनाथाचीं गितां येतालीं. आनी कर्मधर्म संयोगान वामन सरदेसाय थंय पाविल्लो. 'मिर्गांत' तो 'अभिजीत' जाला. ताचेकडल्यान भयणीन रवींद्रनाथाचीं गितां भाशांतरीत करून घेतलीं. जानेवारी 1956 मेरेन तें चललां!

मागीर हांव दिल्लीक गेलों. दिल्लींत रावन 'मीर्ग' चलोवप शक्य नाशिल्लें. म्हणटकीर तें म्हाका बंद करचें पडलें. पूण हांव एका वर्सान परतो मुंबय पावलों आनी हांवें 'गोमंतभारती' सुरू केलें. तेन्ना म्हजो वाचक वर्ग बदललो. म्हाका काम करपाचें आशिल्लें तें माझगांव, धोबीतलाव, चिराबाजार सारकेल्या वाठारांनी. थंय कुडांनी रावताले तांचे मदीं. तांचेर चड पगडो आशिल्लो चर्चीचो. "कार्त ओर्गानी म्हण पोर्तुगेजांची एक घटना आशिल्ली. लोकांक पोर्तुगेज येवरोपेव अर्थान 'सुसंस्कृत' करपाचें आमच्या सांस्कृतीक खात्यावरीच तें एक खातें आसलें. तिचेवरवीं चर्चीचें नियंत्रण जातालें. ते कोणाक आयकनासलें, खूब दुराग्रही आसले. देखून हांवें सालाझाराचेर पोर्तुगालाच्या विरुद्ध 'गोमंत भारतींत' कांय दिंवकना. ह्या लोकांखातीर हांवें 'गोमंत भारती' तीन वर्सां साप्ताहीक रुपान चलयलां. तातूंतल्यान तांचो गोंयचो मोग, कोंकणीचो मोग जातातितलो, वाडोवपाचो आनी अशेतरेन तांकां ओडून घेवपाचो यत्न हांवे केला. मदीं मदी टागोर, जवाहरलाल नेहरू, हांचे विशीं हांवें बरयलां. तेन्ना 'गोमंत भारती'चे देडेक हजार अंक वताले. तातूंतले 500-600 आंक भारत सरकार विकते घेवन आफ्रिकेक धाडटालो.

तो आंक स्टॉलाचेरय मेळटालो. आनी साबार लोक मुजरत घेवन वाचताले.

उप्रांत 1960 वर्सा हांव गोंयांत आयलां, तेदेवेळार 'गोमंत भारती' बंद पडलें..."

### 5.3.7 'कोंकणीच्या पंगडांत'

'कोंकणीच्या पंगडात' बरपावोळ भोवमानेस्त रवींद्र केळेकार हाणीं बरइल्ल्या 'पांथस्थ' (उगडास गोंयच्या सुटके झुजाचे) ह्या ग्रंथाथावन (पान-52) विंचल्या. पांथस्थ म्हळयार वाटे-वाटसुर (a passerby) शीदा सांगचें जाल्यार चळवळेकार रवींद्र केळेकाराची आत्मचरित्रा. तो कसो कोंकणीच्या पंगडांत आयलो आनी कोंकणी चळवळेक कारण जालो म्हळ्ळें ह्या बरपावोळींत वाचूंक मेळता.

**कोंकणीच्या पंगडांत**

हांव कोणागेर वचनाशिल्लों खरों. पुणून एक आडवाद आशिल्लोः हरिबाब प्रियोळकाराचो. बरींच वर्सां मुम्बयंत रावनूय हरिबाब गोंयकारूच उरिल्लो. हांवें मदीं मदीं तागेर वचचें आनी वर दोन वरां बसून खबरी करच्यो.

एक दीस तागेल्या स्टुलार हांवें 'नवयुगा'चो आंक पळेलो. ताचेर काकासाहेब कालेलकरांनी गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनात केल्लें उलोवप छापून आयिल्लें.

मराठीच्या संमेलनांत काकासाहेब कोंकणीचो पाखो घेवन उलयल्ले! हांवें तांगेलें हें उलोवप थंयच वाचून काडलें. काकासाहेब निखटे साहित्यकार न्हय, साहित्या कडेन पळोवपाची तांगेली नदर साहित्याकारा परस चड देशभक्ताची, समाजशास्त्र्याची आनी राष्ट्रनिर्मात्याची म्हणपाची सगळयांत पयली जाणवीक जाली. तांणीं म्हळ्ळें -

'गोंयांत मराठीची परंपरा चलता हें खरें. पुणून तेच बरोबर गोंयांत सगळेच - हिन्दू, किरिस्तांव, मुसलमान, शिकिल्ले, शिकूंक नाशिल्ले, समाजांतल्या सगळया थरांतले लोक घरा-दारांत, भायर चार-चौगांत कोंकणी,

फकत कोंकणीच उलयतात हेंवूय तितलेंच खरें. हीं दोन सत्यां मतींत 'धरून भाशेच्या प्रस्नाचो विचार जावंक जाय. हो विचार करता आसतना कोंकणी ही बोली काय भास, मराठीची ती भयण काय धूव ह्या वादांत पडूंक फावना. ती कोणूय आसूं, समाजांतल्या सगळ्या धर्मांच्या आनी जातिंच्या लोकांक ती एकठांय जोडटा इतलें एक तथ्य आमकां पुरो जावंक जाय.' इतलें हें सांगून काकासाहेबांनी म्हळ्ळें, 'मराठीवाद्यांनी कोंकणीक 'हेंगाडी' म्हणून हिणोवची न्हय. ती खंयचेय देशी भाशे इतलीच संस्कारी आनी म्होंवाळ भास म्हणपाचें मान्य करचें आनी कोंकणीची आतां मेरेन जी उवेखणी जाल्या ती आनीक आनीक जावंक दिवची न्हय. तशें, कोंकणीवाद्यांनी मराठीची जी परंपरा गोंयांत चलत आयल्या तिचे आड वचचें न्हय. मराठीचो सांगात कोंकणी सोडीत जाल्यार एक तर ती सुकून वतली, ना जाल्यार बावून तरी वतली...'

म्हत्त्वाचो वांटो फुडें येता-

'फाल्यां पुर्तुगेज वतकूच गोंयांत पुर्तुगेजीची सुवात फकत कोंकणीच घेतली. शिक्षण कोंकणींतल्यान चलतलें आनी राजकारभारूय कोंकणींतल्यानूच चलतलो. मराठीन तिका आधार दिवचो... मराठीन तिचो विरोध केलो जाल्यार मराठी गोंयांत चलपाची ना...'

'केदो द्रश्टो मनीस हो!' म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं. हांवें हरिबाबाक विचारलें, 'हरिबाब, संमेलनाक आयिल्ल्या मराठीवाद्यांनी हें सगळें मोन्यांनी आयकून घेतलें?'

'च्ये, खंयचे आमी काकासाहेबांक अध्यक्ष म्हूण संमेलनांत घेवन आयले अशें तांकां जालें... पयलीं ते घुटमळ्यांत पडले. मागीर खुबले. संमेलनांत दोन पंगड पडले. एक अध्यक्षांचो, म्हळ्यार काकासाहेबांचो. दुसरो, येवकार अध्यक्षांचो. दत्ता पैंचो. काकासाहेबांच्या पंगडांत खूब थोडे लोक आशिल्ले, दत्ता पैंच्या पंगडात सगळे व्हड गोंयकार आशिल्ले. सगळे एकामेकांचेर तापिल्ले. तातूंत एका भुरग्यान पेत्रोल ओतलें. तो उलोवपाक उठलो. कोंकणींत

उलोवपाक लागलो. सगळे उसळ्ळे, 'मराठींतून बोला नाही तर खाली बसा.' म्हूण बोवाळ करपाक लागले. काकासाहेब अध्यक्ष. तांणी म्हळें, 'संमेलन मराठीचें आसूं, पुणून तें कोंकणी विरोधी न्हय... हांव अध्यक्षाच्या अधिकारान ह्या भुरग्याक उलोवपाक दितलों,' सगळे खुबले, तांणी ह्या भुरग्याक उलोवंक दिलो ना तो दिलोच ना. काकासाहेबांनी उठून म्हळें, 'तुमी म्हाका आपोवपाक आयिल्ले तेन्ना म्हजीं कोंकणी - मराठी वादा विशिंचीं मत्तां हांवें स्पश्ट केल्लीं. आनी म्हळ्ळें, तुमकां म्हजीं हीं मत्तां मान्य आसतीत जाल्यारूच हांवयेतां. इतलेंच न्हय, तर दोन वर्सां गोंया खातीर दिवंकूय हांव तयार आसां... पुणून आतां पळेतां, तुमी एक तर चुकून म्हाका हांगां घेवन आयल्यात वा हांव चुकून हांगा पावलां... अध्यक्षाच्या निर्णया आड संमेलन निर्णय घेता... संमेलनाक अध्यक्षाची गरज आसा अशें दिसना... मागीर, हांव म्हाका तुमचेर कित्याक लादूं? हांव तुमचो निरोप घेतां.' अशें म्हणून काकासाहेब संमेलन सोडून गेले...'

हांवें विचारलें, 'कोंकणींत उलोवपाक उबो राविल्लो भुरगो कोण आशिल्लो?'

'शांताराम आमोणकार नांवाचो एकलो.'

शान्तो आपणालें काम गोंयांत करतालो तसो हांगांय आतां करपाक लागिल्लो.

कोंकणीची 'चळवळ' सुरू जाल्या ती ह्या दिसा सावन. हाचे पयलीं कोंकणी-मराठी वाद चल्ला. ह्या वादांत मराठीवाद्यांचे सगळे मुद्दे शणै गोंयबाबांनी कातरुनूय उडयल्यात. कोंकणी समाजाचो तांणी स्वाभिमान जागयला. धा कडेन शिंपडिल्ल्या कोंकणी समाजाक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान बांदून काडपाचोय यत्न तांणी केला. बऱ्यांतलें बरें साहित्यूय बरोवन दिलां. पुणून 'चळवळ' तांणी चलोवंक नाशिल्ली. चळवळ सुरू जाल्या महाराष्ट्रान कोंकणीचो विरोध सुरू करीत सावन. कोंकणीक मराठीची बोली मानून कोंकणी लोकांनी साहित्य-निर्मिती केल्ली, कोंकणीचो वावर साहित्य-निर्मितिच्याच पांवड्यार दवरिल्लो जाल्यार महाराष्ट्र कोंकणीचो

विरोध करचोच नाशिल्लो. काकासाहेबांनी कोंकणीचो पाखो घेनाफुडें महाराष्ट्र शिटकावलो. हिन्दुस्तान आतां स्वतंत्र जावपाचें आसा (त्याच वर्सा स्वातंत्र्य हिन्दुस्तानाचें दार खटखटावपाक लागिल्लें), स्वतंत्र हिन्दुस्तानाची प्रांतांची रचणूक भाशेच्या तत्वाक धरून जावपाची आसा तातूंत 'गोंदिया पासून गोव्या पर्यंतच्या महाराष्ट्रा'क काकासाहेबांचो कोंकणीचो हो पाखो आडखळ हाडटलो म्हणपाचें महाराष्ट्र वळखल्लो. महाराष्ट्रान कोंकणी वांगडा काकासाहेबांचोय विरोध सुरू केलो.

कोंकणीक एका व्हड देशभक्ताचो आधार मेळिल्लो पळोवन हांव भल्लुसून आयलों. तातूंत, बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव हांचे सारकेले मराठी सरस्पतिची अखंड सेवा करीत आयिल्ले गोंयचे साहित्यकार काकासाहेबांच्या पंगडांत गेल्यात म्हूण आयकलें. शणै गोंयबाब कितें म्हणटात तें जाणा जावन घेवपाची इत्सा म्हाका जाली. हांव अजून मेरेन तांकां मेळूंक पावूंक नाशिल्लों. मुम्बयंत आयलां ताच्या दुसऱ्याच सप्तकांत गोमंतक छापखान्यांत वचून काशिनाथबाब नायकांक मेळिल्लों. काशिनाथबाब तांगेले सांगाती. तांणीच तांगेली सगळी बरपावळ उजवाडायल्या. 'म्हाका शणै गोंयबाबांची भेट घेवपाची आशिल्ली' अशें सांगतकूच 'ते खूब कामांत आसतात, तांकां त्रास दिवंक फावना.' अशें म्हणून तांणी म्हाका फांफुडिल्लो. आतां परतो गेलों. तेन्ना 'हालीं ते बरेऽ नासतात. कोणूय मेळूंक येतकूच तांकां त्रास जाता.' अशें म्हणून पर्थून एक फावट तांणी म्हाका फांफुडलो. ल्हवू ल्हवू म्हाका एक दुबाव येवपाक लागलो, काकासाहेबांनी कोंकणीचो पाखो घेतिल्लो काशिनाथबाबांक आवडूंक नाशिल्लो. निखालूस मानूंक नाशिल्लो. 'तुमी काकासाहेबांचें उलोवप सारकें वाचलां व्हय हो? मराठीचो सांगात कोंकणी सोडीत जाल्यार ती सुकून वतली ना जाल्यार बावून वतली अशें म्हणटात मूं हो ते! मराठीन कोंकणीचें रगत लुंचलां आनी ती मातल्या... ती केन्ना काय गोंयची निखळून वचूं अशें आमकां जालां आनी काकासाहेब मराठी गोंयांत दवरूंक सोदतात!...' अशें वैतागून तांणी म्हाका म्हळें तेन्ना काकासाहेब

कोंकणीच्या पंगडांत आयले हें तांकां मानूंक ना म्हणपाची खातरी पटली.

'पुणून एका व्हड मनशाचो तेंको आमकां मेळ्ळा हें तुमी कशे विसरतात?' हांवें म्हळें.

'व्हड मनीस? मराठी गोंयांत आसूंक जाय म्हणपी व्हड मनीस आमकां जाय कित्याक?'

हांव मोन्यांनी उठून आयलों.

मेल्ल्या गेल्ल्याचें वायट उलोवचें न्हय, खरें. पुणून, कितें करूं? काशिनाथबाब अंदुखे आशिल्ले अशी म्हज्या मनाचेर आरंभाक सावन जी छाप पडिल्ली ती दिशीं-दिशीं वाडत गेल्या. शणै गोंयबाब तांगेलें धन आशिल्लें. ह्या धना भोंवतणी ते नागा भाशेन बशिल्ले. कोणूय ह्या धना सरीं वचूं, काशिनाथबाब ताचेर 'फाँस्स' करताले. शणै गोंयबाब भायर पडल्यात तेन्नाय ते अशेच चलल्यात. शणै गोंयबाबांले पूत अबरगत कशे. हाचो लाव घेवन कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना ते तांगेलें प्रेत मसंडेत घेवन गेल्यात आनी तांचेर निमाणे संस्कार करून घेवन मेकळे जाल्यात. निमाण्या खिणाक बाकीबाब थंय पाविल्ले पळोवन तांकां चिटमिटे पडल्यात. 'तांगेले विरोधक लेगीत तांकां एक व्हड विद्वान मानताले. तांच्या मरणाची खबर कळनाफुडें 'लीव्' घेवन वा 'दांडी मारून' लेगीत शेंकड्यांनी गोंयकार तांचे स्मशानयात्रेक येतले आशिल्ले. पुणून हाकाच अशें जाल्लें नाका आशिल्लें. परिणामीं, गोंयकारां मदल्या ह्या महर्षीक पावोवपाक स्मशानांत आठ-धा जाण. घरचे सोडून कोण पावलो ना.' अशें बाकीबाब दांत-वोंठ चाबून आयुष्यभर सांगीत आयिल्ले.

### 5.3.8 फादर

'फादर' हें लेखन भौ. रवींद्र केळेकार हाणीं बरयल्ल्या 'आमोरेर' ह्या ग्रंथा थावन (पान-73) घेतलां. 'आमोरेर' (Collections of Essays) 'आप उक्तावणेचीं कांय बरपां' म्हळ्ळो ग्रंथ चाफ्राच्या उगडासाक अर्पिला.

सारस्वतांची जागमाग म्हळ्ळया अध्ययनांत 'फादर' एका कथोलीक

पाद्रीची जीण कथा कशी बसता म्हळ्ळें वाचप्याक गोंदोळांत शिरकांवक पुरो. पूण हांगा ह्या फादराचो उल्लेख जाला कसो म्हळ्ळे हें लेखन वाचताना सगळे गोंदोळ सुटता.

**फादर**

कोंकणी चळवळींत कितल्याशा फादरांचो सांगात मेळ्ळो. कांय फादर जिवाभावाचे इस्टूय जाले. पुणून कमर बागोवन पांयांक हात लावचोसो दिसलो तो एकाच फादराच्या - फादर एच्.ओ.माश्कारेन्यशांच्या. एच्.ओ.म्हळयार ह्यूबर्ट ओलीम्पस.

मुम्बयंत हांव म्हजें जग उबें करपाच्या वावराक लागिल्लों. नवोच आयिल्लों. सद्दां खंय-ना-खंय कोणा कोणाचीं भाशणां जातालीं. मोटे उमेदीन तीं आयकुपाक वतालों. गिरगांवांतले 'ब्राह्मण सभें'त जन्माष्टमिचो - कृष्ण जयंतिचो - उत्सव आशिल्लो. प्रो. न. र. फाटक थंय उलोवपाचे आसात म्हूण आयकलें. फाटकांचो धेंक मराठी बुदवंतांत आकांताचो. ते कितें म्हणटात तें आयकुपाक गेलों. दोग तीग जाण उलयल्ले. कृष्ण आनी राधा हांच्या संबंदानूच चडशे. अवचीत सभेंतल्यान एक पाद्री उठून उबो रावलो. 'मला थोडंसं बोलायचं आहे' अशें म्हणून मुखार गेलो आनी उलय म्हणिनाफुडें शुद्ध पुणेरी मराठींत सडसडीत उलयलो. पंदरा वीस मिणटां भितर ताणें साक्षात्कारशास्त्रांत - Mysticismत आत्म्या परमात्म्याचो संबंद कसो आसता, परमात्म्याक जोडपाक आत्मो कसो आकूळ-पिकूळ जाता आनी आत्म्याची तळमळ पळोवन परमात्मो कसो आनी कितलो मुखार येता, हें समजावन सांगलें. ह्या संदर्भांत राधा आनी कृष्ण हांचे संबंद नियाळून पळोवंक जाय म्हळें.

म्हजे म्हऱ्यांत एकलो जाणटो मनीस बशिल्लो. ताका हांवें ल्हवूच विचारलें, 'हो उलयता तो कोण?'

'फादर एच्. ओ. माश्कारेन्यश्', ताणें जाप दिली.

'गोंयकार?'

'आसूंक जाय.'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. गोंयकार पाद्री म्हळयार 'एकूच धर्म खरो, रोमन कॅथलिक चर्चान सांगला तो' अशें म्हणपी आसता, अशी मनाचेर छाप बशिल्ली. तांच्यांतलो एक कृष्ण आनी राधा हांचे संबंदान इतलो बरो उलयता? वचून वळख करून घेवची अशें दिसलें. पुणून, ते मुस्तींत हांव खूब भिडेस्त आशिल्लों. मुखार सरून वळख करून घेवपाचो म्हाका धीर जालो ना. फादरांचें रूप पळोवनूच संतोस मानलो.

सप्तकभर जालां जातलें, गोमंतक छापखान्यांत तांची भेट जाली. शणै गोंयबाबांली सगळी बरपावळ छापपी हो छापखानो गिरगांवांतूच आशिल्लो आनी मुम्बयंतल्या सगळ्या कोंकणी-भक्तांचें तें करमळेचें तळें आशिल्लें. कोंकणी भक्त सगळे एकामेकांक चडशे थंयच मेळटाले आनी हांव तर थंय आत्र्या- पयऱ्यान वचून बशिल्लों आसतालों. त्या दिसा फादरां कडेन जी वळख जाली ती तांगेल्या निमाण्या खिणा मेरेन वाडत गेली.

इल्ल्यो इल्ल्यो करून तांगेल्या जिवितांतल्यो कितल्यो-श्यो गजाली कळ्ळयो-

फादर मडगांवच्या एका इश्कोलांत शिकयताले. लॉयेलांत काय? आसूं येता. महात्मा गांधींच्या प्रभावांत आयिल्ले. लोब खादीचो घालताले. चरखो चलयताले आनी तकलेर गांधी तोपी घालून भोंवताले. गांधी तोपी ते मुस्तींत परकी सत्ये आड बंडाची निशाणी जाल्ली. पात्रिआर्का कडेन फादरां आड कितल्योश्यो कागाळी पावल्यो. एक दीस पणजे बिशपाचे पालासींत पाद्रिंचे एके सभेक फादर गेल्ले. थंय पात्रिआर्कान तांचे कडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'एश्ति पाद्रि नाव तँ फोर्मासांव पुर्तुगेझा' - ह्या पाद्रिचेर पुर्तुगेज संस्कार कसलेच पडूंक नात. फादरान उठून रोखडीच जाप दिली, 'येव तॅन्यु फोर्मासांव रोमाना.' - 'म्हजेर रोमाचे संस्कार आसात. हांव रोमांत शिकून आयलां.' आनी खरेंच, फादरांच्यो पीएच्.डी., डी.डी. (डॉक्टर इन डिविनिटी), लायसंसियेट इन कॅनन लॉ, सगळ्यो डिग्र्यो रोमी आशिल्ल्यो. रोमांत तांणी जोडिल्ल्यो. पुर्तुगालची एकूय डिग्री तांणी घेवंक नाशिल्ली.

तरी बरें, ते मुसतींत इंक्विझिसांव नाशिल्लें. आशिल्लें जाल्यार, फादरांचो तो खादी लोब, ती गांधी तोपी, तो चरखो आनी पात्रिआर्कांक दिल्ली तांगेली ·ही जाप इतलेंच पुरो जातलें आशिल्लें तांकां हुलपावन मारपाक.

पुणून इंक्विझिसांव नाशिल्लें म्हूण पात्रिआर्क ओगी थोडेच रावतले आशिल्ले. तांणी फादराची बदली केली. तांकां गोंयांत रावंक दिले नात. मडगांवच्यान मुम्बय धाडून दिले. ठाकुरद्वाराक दाबूल चर्चांत ते 'प्रीच' करपाक लागले आनी त्याच चर्चान चलयल्ल्या सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांत शिकोवपाक लागले.

मुम्बयंतलें वातावरण मेकळें. ते भायर, राष्ट्रवादाच्या संस्कारांनी भरिल्लें. फादरांचे इगर्जेंत येताले ते चडशे चिरा बाझार, धोबी तलाव ह्या वाटारांत रावपी गोंयकार. तांकां पुर्तुगेजांनी देशभश्टे - डिनॅशनलायझ्ड् - करून उडयिल्ले. फादर तांकां राष्ट्रवाद शिकोवपाक लागले. 'आमी सगळे किरिस्तांव, जेझूक मानपी. ताचे शिकवणेक धरून - नव्या तेश्तामेन्ताक धरून - चलपी... जेझू जल्मान ज्यू आशिल्लो. ताचीं पाळां-मुळां ज्यू भुंयेंत रिगिल्लीं. ताची फाटभूंय समजून घेवपा खातीर 'पोरणो तेश्तामेन्त' आदरान वाचपाचो. पुणून आमचो 'पोरणो तेश्तामेन्त' तो न्हय, हें मात मतींत धरपाचें. आमचीं पाळां-मुळां हे भुंयेंत रिगल्यांत. आमची परंपरा भारतीय. आमी किरिस्तांव जाले म्हूण आमी आमची परंपरा सोडून दिवंक जाय अशें ना. आमची परंपरा आमी सारकी समजून घेवंक जाय. आमची परंपरा हिन्दू. आमी आदले हिन्दू. आमचो पोरणो तेश्तामेन्त हिन्दू धर्म. परंपरेन आमी हिन्दू. फक्त धर्मान किरिस्तांव. हिन्दूंत जशे शैव हिन्दू, वैष्णव हिन्दू, साक्त हिन्दू आसात, तशे आमी 'कॅथलिक हिन्दू'. बरे किरिस्तांव जातले जाल्यार पयलीं बरे कोंकणे (हिन्दू) जावंक जाय. ना जाल्यार किरिस्तांवपणाच्या नांवा खाला आमी फकत गांवठी सायब जावन पडटले.'

फादरांच्या ह्या मत्ताचीं दोन आंगां आशिल्लीं. ते एके वटेन हिन्दूंक सांगताले. 'हिन्दू धर्म खंयच्याच एका प्रेषितान वा रुशीन सुरू करूंक ना.

ताचे वाडीक खूब जाणांचो हातभार लागला. तशें, हिन्दू धर्म एका खंयच्या धर्म-पंथाचें नांव न्हय. कितलेशे धर्म पंथ ताणें आपणांत आसपावन घेतल्यात. किरिस्तांवांक आपणांत आसपावन घेवपाक हिन्दूंक अडचण दिसूंक जायना...' आनी दुसरे वटेन ते कॅथलिक इगर्जेक सांगताले, 'क्रिस्तांवपणाच्या नांवान आमी आयजवेर फिरंगीपणूच चलयत आयल्यात. हाका लागून हांगासल्लो किरिस्तांव आपणाल्याच देशांत परकी जावन पडला. ताका देशी करूंक जाय. हिन्दुस्तान आतां स्वतंत्र जावपाचे वाटेर आसा. स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत लोकांक फिरंगी करपी धर्म चलपाचो ना. किरिस्तांव धर्मान देशी रूप घेवंक जाय. किरिस्तांवपणाक फिरंगीपणाच्या संस्कारांतल्यान मेकळें करूंक जाय. ना जाल्यार जेझूक किरिस्तांवपणांतल्यान मेकळो करपाचो प्रसंग आमचेर येतलो. इगर्जेचें भारतीयकरण - Indianisation of Church - जावंक जाय.'

पुणून बऽरें मुम्बयंत जालें म्हूण कितें जालें, फादरांचें हें मत्त इगर्जेच्या जाळवणदारांक उस्तऱ्यां गेलें. कार्डिनल ग्रेशियसांनी तांच्या 'प्रिचिंगा'चेर पयलीं बंदी घाली. इगर्जेंतले फादरांचे सेर्मांव बंद केले. 'फकत सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांत शिकोवपाचें, आनीक कांयच करप ना.' अशें फादरांक फर्मायलें. फादर फकत शिकोवपाक लागले. शिकतल्या भुरग्यांक राष्ट्रवादाची दीक्षा दिवपाक लागले. कितलेशे किरिस्तांव तरणाटे फादरां कडल्यान दीक्षा घेवन राष्ट्रवादी जाल्यात. एकूच नांव घेवचें जाल्यार स. टोनी डिसौझांचें घेवं येता. टोनी आमचे एक तेजिश्ट सुटके झुजारी आशिल्ले. ते भायर, मेकळ्या गोंयांत एक मंत्रीय जाल्ले. फादरांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार टोनी 'कॅथलिक हिन्दू' आशिल्ले.

मुम्बयंत फादरांनी आनीक एक काम हातांत घेतलें - फादर हॅरासांनी सुरू केल्लें काम मुखार व्हरपाचें. फादरांक संस्कृत, पाली, लॅटिन हांचे भायर हिब्रू आनी ग्रीक सारकेल्यो पोरण्यो भासो येताल्यो. ह्या भासांतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां तांचे कडेन आशिल्लीं. फादरांची लायब्ररी पंदरा

वीस हजार पुस्तकांची. सगळीं तांणी विकतीं घेतिल्लीं. आयज ही लायब्ररी कोणा हातांत पडल्या जातली - उरल्या जातली काय ना जाल्या जातली - देव जाणा. निमाणें निमाणें पुर्विल्ल्या इतिहासा वयलींच चडशीं पुस्तकां तांणी जमयल्लीं. फादरांचो एक सोद जाणकारांनी अजून मानून घेवंक ना. पुणून मानून घेवपा सारको सोद हो, इतलें मात सगळ्यांनी मान्य केलां. सरदार के.एम्.पणिक्करांच्या तोंडांतल्यान हांवें हें आयकलां. सरदार पणिक्कर इतिहासाचे एक व्हड जाणकार. चीन, फ्रान्स, इजिप्त सारकेल्या देशांनी आमचे राजदूत म्हूण गेल्यात. मुम्बयंत येताले तेन्ना मुजरत फादरांक मेळूंक येताले आनी वर दोन वरां बसून खूब चर्चा करून वताले. एक खेपे तांची चर्चा आयकुपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. फादर म्हणटाले -

ख्रिस्ताची सुमूर्त ताच्या बलिदाना उपरांत कांय शतमानांनी रोमाक पावली. पुर्तुगालानूच ती भारतांत हाडली असो सगळ्यांचो समज. तो खरो न्हय. ख्रिस्ताच्या मुदल बारा शिप्यां मजगतचे दोग जाण - सेंट थॉमस आनी सेंट बार्थलम्यू - ख्रिस्ताच्या बलिदाना उपरांत रोखडेच हिन्दुस्तानांत ती घेवन आयिल्ले. थॉमस दक्षीण भारतांत वावर करतालो आनी बार्थलम्यू अस्तम भारतांत करतालो हाचे पुरावे हिब्रू भाशेंतल्या पुस्तकांनी मेळटात. थॉमसाचो ख्रिस्ती धर्म आयज सीरियन चर्चाच्या रुपांत दक्षीण भारतांत चलिल्लो पळोवंक मेळटा. ताणें पुराय देशी रूप घेतलां. ताचो हिन्दू धर्माचेर पडिल्लो प्रभावूय दाखोवन दिवं येता. देखीक, मध्वाचार्याचें जिवीत आनी ताचो तत्त्वविचार घेयात. ल्हान आसतना देवळांतल्या पुजाऱ्यां कडेन वाद घालप, मूठभर अन्नान हजारांनी लोकांक जेवण घालप, उदका वयल्यान चलप, दर्यांत उठिल्लें मोड थांबोवप ह्यो मध्वाचार्याच्या जिवितांतल्यो घडणुको ख्रिस्ताच्या जिवितांतल्या घडणुकां सारक्योच. थॉमसाच्या वावराचो प्रभाव हो. मध्वाचार्याच्या तत्त्वविचारांतलो 'वायू' 'होली गोस्ट' आसूंक जाय. 'होली गोस्टा' खातीर हिब्रू भाशेंत जें उतर आसा ताचो अर्थ 'वायू' असोच जाता. दक्षिणे कडली कन्याकुमारी ही 'वर्जिन मेरी' आसूंक जाय. ए.एल्.भाशमा

सारकेल्यांचेंय हेंच मत्त. थॉमसाच्या प्रभावा विशीं वाद ना. प्रस्न येता तो बार्थलम्यूचो. ताचो कांयच वावर जालो ना अशें कशें म्हणूं येतलें? फादरांचें म्हणणें, तो अस्तम भारतांतलो धर्मसमज तर्जून सोदून काडूंक येतलो. अस्तम भारतांत - चड करून कोंकणांत - बेताळाचीं देवळां गांवां गांवांनी पळोवंक मेळटात. भारतांत हेर खंयचेच कडेन बेताळाचीं देवळां नात. बेताळाक कोणें देव मानूंक ना. कोंकणांत मानला. दुसरें, बेताळाच्यो मुर्ती हिन्दू देवां सारक्यो दिसनात. वेगळ्यो दिसतात. तिसरें, बेताळाची पुजा 'गुरव' करतात. गुरव हें पाद्रिचें देशी रूप आसूंक जाय. बेताळा वांगडा सदांच रवळनाथ, भूतनाथ आनी बावकादेवता आसतात. ही ख्रिस्ती धर्मांतली 'ट्रिनिटी' आसूंक जाय. घारापुरींतली त्रिमूर्ती ब्रह्मा विष्णू महेशाची मूर्त असो सगळ्यांचो समज. ही मूर्त बारकायेन पळेयात. हिचें दावें तोंड एके बायल-मनशेचें. ब्रह्मा, विष्णू, महेश हांचे मजगतच्या एकल्याचेंय रूप बायल-मनशे सारकें नाशिल्लें... ही ट्रिनिटीचीच मूर्त आसूंक जाय. बार्थलम्यूची ख्रिस्ती सुमूर्त बेताळाचे पुजेंत पळोवंक मेळटा.

थॉमस आनी बार्थलम्यू दोगांयचे ख्रिश्चियानिटीक फादर 'एपोस्टॉलिक ख्रिश्चियानिटी' म्हणटाले. पुर्तुगाल आपणें आमकां ख्रिश्चियानिटी दिल्या म्हूण मिरयता. खंयचें पुर्तुगाल हें? आमचे कडेन ख्रिश्चियानिटी पयलीं सावन आशिल्ली. देशी जावन राविल्ली. पुर्तुगालच्यान आयिल्ले ख्रिश्चियानिटीक आमी आतां देशी रूप दिवंक जाय. फिरंगी संस्कारांतल्यान तिका मेकळी करूंक जाय.

फादरांचीं असलीं मत्तां पचोवन घेवपाची तांक इगर्जेंत नाशिल्ली. इगर्जेन फादरांक पिशें लागलां अशें थारायलें आनी तांगेले सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांतल्या शिकोवपाचेर लेगीत तिणें बंदी घाली.

तातूंत भर पडली ती फादराच्या सुटके झुजांतल्या वावराची. त्रिश्तांव ब्रागांज कुन्यांक अवचीत ॲटॅक येवन ते भायर पडले. त्रिश्तांव 'प्रॅक्टिसिंग कॅथलिक' नाशिल्ले. ते इगर्जेंत वचनाशिल्ले. इगर्जेची टिका करपी आशिल्ले.

म्हूण कॅथलिक इगर्जेन तांकां आपणाले सिमितेरींत सुवात दिली ना. त्रिश्तांवांची कूड तीन दीस तशीच उरली. कितें करचें, कोणाक समजना जालें. फादरांचें म्हणणें हिन्दू मसणभुंयेंत व्हरून तिचेर अग्निसंस्कार करचे अशें आशिल्लें. पुणून त्रिश्तांवांचीं घरचीं मनशां हाका तयार नाशिल्लीं. अखेरेक 'सीरियन चर्चा'न आपणाले सिमितेरींत सुवात दिवन प्रस्न सोडयलो. त्रिश्तांवांचे स्मशानयात्रेंत फादरांनी वचचें न्हय असो कार्डिनल ग्रेशियसांनी फतवो काडिल्लो. फादरांनी पर्वा केली ना. ते स्मशानयात्रेक गेले, इतलेंच न्हय तर 'हो आर्विल्ले मुस्तींतलो एक संत आशिल्लो... हाची कूड तीन दीस इबाडनासतना उरिल्ली... बुद्धाची उरिल्ली तशी. हो खरो किरिस्तांव आशिल्लो' हे तरेचें जळजळीत एक भाशणूय तांणी सिमितेरींत केलें.

इगर्जेन फादरांचो छळ सुरू केलो. 'हाची तकली जाग्यार ना' अशें म्हणून तांकां मुम्बयंतले पुण्यांत व्हरून दवरले. 'इगर्ज सोडून भायर येयात' म्हूण खूब जाणांनी तांकां सांगलें. काकासायबांनी जवाहरलालांक सांगून तांची राज्यसभेर नेमणूक करपाचें थारायल्लें. पुणून फादरांचें पुराय जिवीत इगर्जेंत सरिल्लें. इगर्जे भायर तांकां फकत काळोख दिश्टी पडटालो. ते सगळे छळ सोंशीत इगर्जेंतूच रावले. भायल्यान भितरल्यान निर्मळ शुचिर्भूत ह्या मनशाचेर इगर्जेन तरांतरांचे आळ घाले. तांचे कुडींत एक चोळी मेळ्ळी म्हुण्णूय एक आळ घाल्लो. फादरांक कितें भोगलां जातलें, फकत फादरूच जाणात. जो आपणाल्या काळा पेल्यान वता ताच्या वांट्याक देव असलींच दुख्खां धाडटा काय कितें, देवूच जाणा.

अंत आनी पार नाशिल्ले छळ फादरांनी सोंसले. जिविताक उबगल्ले आसतना एक दीस अवचीत खासा इगर्जूच बदल्लेली फादरांक पळोवंक मेळ्ळी. इगर्जेन सगळ्या धर्मां कडेन संवाद (डायलॉग) सुरू केल्लो पळेलो. इगर्जेचें भारतीयकरण जावंक जाय म्हणपी विचार तिच्या जाळवणदारांचे तकलेंत घोळपाक लागिल्ले पळेले. ह्या विचाराचेर खोलायेन भासाभास करपा खातीर तिणें मद्रासाक एक 'कन्वेन्शन' आपयलें. तेन्ना तिका फादर

मास्कारेन्यशांचो उगडास जालो. ह्या कन्वेन्शनाच्या अध्यक्षपदाची माळ तिणें तांच्या गळयांत घालची थारायली. फादरांक आमंत्रण गेलें तेन्ना तांचें काळीज भरून आयलें. सगळ्यांत पयलीं ते ठाकुरद्वाराक आयले. जे इगर्जेंत 'प्रीच' करपाक तांचेर बंदी हाडिल्ली तिच्या हुमऱ्यार बसून पोटभर रडले. मागीर मद्रासाक वचून आपणाले विचार अत्यंत नमळायेन परते एक फावट मांडले... आनी कांय दिसां उपरांत 1973त 9 फेब्रुवारी दिसा कृतार्थतायेन भरिल्ल्या काळजान संवसार सोडून गेले.

चोवीस वर्सां जालीं हे खबरेक. ह्या चोवीस वर्सांत जेन्ना जेन्ना तांचो उगडास जाला तेन्ना तेन्ना म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवल्यांत. दोळ्यां मुखार तांची प्रतिमा उबी रावल्या. कमर बागोवन तांच्या पांयांक हांवें हात लायला. आनी तांच्या पांयां पोंदचो धुळी कण काडून कपलाक लायला.

## 5.4 मुंबयंत देवनागरी लिपींत पत्रां

मुंबयंतली देवनागरी लिपींत प्रकटिल्ल्या पत्रांची चरित्रा बरयताना साद नेमाळें थावन सुरू करतात. सुर्विलें 'नवें गोंय' पत्रा विशयांत नेणारपण दाखयतात. 1942 वर्सा मुंबयंत जाल्ल्या तिसऱ्या कोंकणी परिशदेच्या येवकार अध्यक्षाचें उलवप ह्या भाशणांत शणै गोंय बाबान 'काशिनाथबाब नायक हांगेलें 'नवें गोंय' ति-म्हयन्याळें 1934 पासून 1937 मेरेन मुंबय बरेतरेन चलून थांबलें. हें देवनागरी लिपींत छापतालें! अशें सारकें सांगलां. येवकार अध्यक्षालें उलवप दस्तावेज गोंया थावन हाडवन वाचलें आनी ह्या पत्रां विशयांत सोदना केलीं. शणै गोंयबाबाचो कुटमा सयरो शांताराम वर्दे वालावलीकार हांचेकडेन शणै गोंयबाबालीं दस्तावेजां आसतेलीं म्हण नागेश करमली मुखांत्र कळल्लेंच. तांचो विळास घेवन तांकां संपर्क केलो. तांचेकडेन ह्या नवें गोंय पत्राच्यो थोड्यो प्रत्यो मेळ्ळयो. ह्या पत्रा विशयांत माहेत ह्या परीं आसा.

### 5.4.1 'नवें गोंय' त्रैमासीक (1934-1937)

(देवनागरी लिपींतलीं पत्रां)

नवें गोंय ह्या पत्रार ह्या प्रकार प्रकटणी आसा. 'Navem Goi' A Konkani Quarterly Magazine, Edited, Printed and Published bu Kashinath Shridhar Nayak at the Gomantak Press, Ramchandra Building B2 and 3 Bombay No4. yearly subscription Re 1-4 (वर्सुकें मोल सवाय रुपया)

ह्या पत्राच्या म्हणजे दुसरें वर्स, तिसरो अंक. जानेर -1936 अंक्यांत 'उठात जागे जायात' म्हळ्ळें (शणै गोंयबाबाचें 'कोंकणी भाशेचें जैत' पा. 50-51) लेख प्रकट जालां तें ह्या प्रकार आसाः-

(i) **"उठात! जागे जायात!"**

"गोंयकारांली मराठी बरपावळ निजाच्या मराठ्यांक मानना हें जरी खरें आसलें, तरी हालींच्या वर्तमानाक कांय पुणेकार तांगेल्या मराठीच्या अभिमानाची आनी मराठी बरपाची सुमारा भायर तूस्त करूंक लागल्यात. कांयजाण म्हणटात. किं खास मराठांतल्या लोकां परस गोंयच्या हिन्दूंक मराठीचो चड अभिमान आस... दुसरे कांय म्हणटात किं गोंयकारांल्या तोंडांत दीस रात कोंकणी भास घोळटा आसतनाय तांगेली लिखणी निर्भेळ आनी तेजीश्ट




उठात ! जागे आयात !

बरी मराठी भास वियेता आनी आपणाल्या मराठ्यांची सदींची उलोंवची आनी बरोंवची भास मराठी आसुनूय ती आपणाक शुद्ध बरी मांडूंक येना. हे भाशेन खासा मराठणांतल्या निजाच्या मराठ्यांकूय गोंयचे अडेचे आनी बाटके मराठे सवाय मराठे जाले अशें म्हणचें पडटलें. परंत हे म्हणणेंत

कुस्कूट जीव ना. बाबडे सादे-भोळे आनी मन मेकळे गोंयकार असले हे फुलार चोबाळणेन फुलतात आनी जायते पावटीं पेंगटाचें सोडून माथ्याक रेवडावन बेश्टे हांशाक म्हारग जातात... पुणेकार गोंयकारांची चोबाळणी करतात ती वोगीच न्हय. तांतूंत तांचें सुवार्थी राजकर्ण भल्लां. गोंयां आपणाल्या मराठी पत्रां-पुस्तकांच्या खपाक पेठ जोडून मराठी ब्रम्हचाऱ्यांक, मास्तरांक, खेळगड्यांक, हरदासांक, पुराणिकांक, मेडे-जोयशांक आनी पिंगळ्यांक असुदाय चरूंक सांसणाचें मळ मेळचें हीच तांगेली वानसा. गोंयकारांल्या हिताची तांकां भोव चिंता. देखून अपुरबायेच्या गोंयकारांनू, उठात! येन्ना धर जागे जायात! भोळो भावार्थ सोडून दियात, संवसारांतली तड्डकां पारखात. लोकांनी भुर्कुटायल्यार भुर्कुटूं नाकात. तुमगेलें हीत कित्यांक आस तें पळेयात. मराठी खातीर वोगी तुमगेली शक्त व्हगडांव नाकात. तुमी तिचेखातीर कितलेंय नाख आदळ्ळें तरी ती तुमगेली जांवचीना. ते भाशेच्या मंदिरांत उकोड्यां बसपाचोय मान तुमकां केन्ना मेळचो ना. तिचो छंद घेंवचे भाशेक तुमी तुमगेले खाशेले आवयचोच थातो मातो कित्यात करिनात?..."

### ii) "आवय भाशेची व्हडवीक"

'नवें गोंय' 3रें वर्स 2रों अंक (1936) ह्या अंक्यांत 'आवयबाशेची व्हडवीक' हें लेखन दत्तात्रय व्यंकटेश पै 'शिक्षण संमेलनाचे दुसरे बसकेचे जयमान हाणीं बरइल्लें लेखन ह्या परीं आसाः-

"भुरग्याक बोरोंवक, वाचूंक आनी हिशोब करूंक शिकोंवचें तें खंयचे भाशेंत? भास आनी तातुंतूय परकी भास शिकोंवची हें मूळ शिकपाचें एक आंग आसा, अशें शिकपाचें शास्त्र सांगना. म्हणटकूच, बरोंवक-वाचूंक शिकोवचें काम भुरग्यांले आवयभाशेंतूच जावंक जाय हें सुर्याच्या उजवाडा इतलें घणघणीत आसा. इंग्लेज भुरग्यांलें मूळ-शिकप फ्रांसेज वा पुर्तुगेज (आनी कोंकणी) भुरग्यांचें मूळ शिकप मराठी, असलीं हीं ताळ-मेळ नाशिल्ली विपरीत उतरां आयकून शाण्या मनशांचे कान शिरशिरतले!...

'विचार हो सुंवार आसून भास ही तागेली घोडी. तागेले हे अधिकार जेन्ना

उपाटे-पराठे जातात, म्हळ्यार विचाराक घोडो करून भास ताचे फाटीर बसता आनी ताका वादी लायता, तेन्ना चड करून दोगांयचो गुळंकार जाता आनी वेळा-काळार मनशाची बुद्दय तीं मारून उडयतात. बुद्धीक एक फावट भ्रम जातकूच मनशाचें मनीसपण उबून गेलेंच म्हणपाचें! हे नदरेन आमची आजची दशा पळेतकूच मन आकूळ-पिकूळ जाता.

आमच्या भौच बुदवंत लोकांलें चडशें बळगें परकी भाशेचे उच्चार जथापथ कशे करचे हें शिकपांतच (आनी अर्थ कळनासतना उतरां घोंकपातूंच) खर्च जाल्ल्यान सगळ्या संवसाराचें ध्यान ओडून, घेतीत असले तेजीश्ट विचार वियेवंक तांगेल्या मेंदूक तांकना... परके भाशेंत थोड्या लोकांक मोटी व्हडली निपुणाय दाखोंवक तांकत; परंत सगळ्या लोकांलो समाज वयर उबारचो आसल्यार तें काम आवय- भाशेच्या आधारा बगर निखालूस जाय सारकें ना. राज्य आनी आवय-भास ह्या दों भितल्लें कितेंय एक सोडून दिंवचो वेळ आयल्यार, राज्यार खोंट मारून भाशेक वेंग मारात, असोच हांव हट घेन! ह्या पेल्यान, आवय भाशेची व्हडवीक हांव आनी कशे तरेन गावन दाखयन? परंत आज आमी दोनूय व्हगडावन बसल्यात!'

फोंडे-गोंय — 'दत्तात्रय व्यंकटेश पै'
29-8-1936 — 'शिक्षण संमेलनाचे दुसरे बसकेचे यजमान'

## (iii) "संपादप्यांले नदरेंतल्यान"

(नवें गोंय तिसरें वर्स संपादकीय)

'आवय भास होगडायली!:- राज्य आनी आवय भास ह्या दों भितल्लें कितेय एक सोडून दिवचो वेळ आयल्यार राज्यार खोंट मारून भाशेक वेंग मारात, असोच हांव हट घेन! अशें म्हणून फोंडेच्या शिक्षण संमेलनात भौ. दत्तात्रयबाब पै हाणीं आवय भाशेची व्हडवीक गोड ताळ्या-सुरान गावन दाखयली. परंत त्याच सुरान ताणीं सणसणीत कबूल केलें किं राज्या भाशेन आज आमी आवय भासूय होगडावन बसल्यांत!' कित्याक होगडायली तें ताणी सांगल्यार चड बरें जातलें आसलें. आवय-भाशेक राखून धरूं नाकात,

पोसूं नाकात, उपाशीं मारात, उबंत उडयात, विसरून वचात, म्हणपाची आगळीक तांचेर केन्ना कोणे केल्ली व्हय? खंयच्या काळा दुस्मानान तांचेर घुरी घाली आनी तांची आवय-भास तांचे कडसून झोंबून व्हेली? बारकायेन येवजिल्यार, तांचे आनी तांचे असलें गीत गातल्यांचे काळ दुस्मान खासा तेच आसत. तेच दाटून आपली आवय होगडावन दुसऱ्यांची नाका जाल्ली बिर्मत घेतात. 'कितें' बदला 'काय' आनी 'हांव' बदला 'मी-मियां' करून तेच आपले आवयक घरांतसून आमडून घालतात आनी आवयभास होगडावली म्हणटात! फोंडेंच्या संमेलनात ताणी चार-चौगांत आवय भाशेक खोंट मारून परके भाशेक वेंग माल्ली ना? आनी तिचो जागर केलो ना? तिचो थातो-मातो जावन कोंकणात ती सासणांची सयमायेंवक ताणी आपले यजमानके तळा जायत्यो थारावण्यो करून घेतल्यो. तांतूंत कोंकण्या क्रिस्तांवांक परकीभास शिकूंक तांकत तितलें नेटान वावुरचें ही एक आस. हे भाशेन ते आपूणच आवय-भाशे-भायरे जावन वोगे रावनात तर आवय भाशेचो पोट तिडकेचो मोग करतल्या क्रिस्तांवांकय ते आपले सारकेच करूंक सोदतात!

तांगेली पोसकी 'आवयभास' गोंयां कशीय थीर जावची हे येवजणे फुडें ती थंय कसले तरेची बरपावळ वियेंवक लागल्या, हाची चिंता आनी हुसको तांकां ना सो दिसता. गोंयकारांक मराठी बरोंवक येता, इतलें मराठणाचे नदरेक येतकूच सर्ग जिखिल्ल्यावरी जालो; तांगेली भास मागीर कितलीय बुरशी आनी पोजडी आसून, तिणे तांचे भूंयचो लोकीक होगडायलो तरी पर्वा ना. गोंया हालीं मेळत तो लिखणेकार मोटव्यो काणयो बरोवन, कोंकण आनी मराठणभर मोगाच्यो कुसट्टाणी घालूंक लागला; चवांट्यार जमून दिसा उजवाडे धा-जणां हुजरां मोग करतल्या सुण्यांच्यो सोंडयोलेगीत खळपट्टीत, इतल्यो त्यो कुसट्टाणी घेवं नजोत! परंत दत्तात्रयबाबाच्या नाखाक तांचो घमघम येता! ते मोटे तोखणायेन आनी कौतुकान तसल्या काणयाकारांची फाट थापटटात! बामणांचे चलयेक कलंवताच्या चेडवागेर धाडून ताचे शेंसेचे आनी हात-लावणेचे तिका आंवडे गिळूंक लावचे, आंकवारींचीं पोटां

वाडोवचीं, तांकां ओखतां दिवन पोटचीं घळघळांवक लावचीं, सजनी बायलांक घोवाच्या घरांतसून सुतलावन तांची पवित्रताय नागोवची, तांकां मींड आनी धगड करून दिवचे, शुद्ध चलणुकेच्या सात्वीक पाद्रींक शिंदळ करचे, ह्यो आनी असल्योच दुसऱ्यो चिरकुट्यो आनी चिटवाळ्यो काणयो दत्तात्रयबाबांक चड सुरबूस लागतात व्हय? गोंयां तसल्यो 'कथा' घडटात गोंयकारांचें सूप जित्रूप बरें चित्रायलां अशें खरेपणानशींच तांकां दिसता व्हय? ह्यो हळशिकावण्यो लटक्यो काणयो वाचून, खांडेकारांली नाड आनी फटकिरी 'उल्का' लेगीत फटाशी मारपांत आपूण साप फाटीं पडलीं, आपणाक सुक्यो वारा-हारी जाल्यो म्हणून काळोखांत कोनशाक बसून शिंवरी करतली! असले बरपावळीन गोंयची दशा गेल्यार वचूं परंत आपली पोसकी आवय-भास नंदूं अशें दत्तात्रयबाबांक दिसता मूं? 'घर जळ्ळयार जळूं, बाबा म्हजो खेळूं' असलीच तांची म्हणणी ना मूं? पळोवंक गेल्यार, तामईं आपल्या यजमानकेच्या उलोवपांत त्या काणयांकारांचे कान चरचरीत पिळून, तांच्या दोळ्यांत चणचणीत बरी सूंट घालूंक जाय आसली. अजून ताणीं तांची लिखणी आळाबंदा हाडल्यार वायट जावचें ना. पोसकी जांव नाजाल्यार खाशेली जांव. खंयचीच भाशेच्या निमतान आमचे भुंयेक नश्टी देख लागिल्ली आनी तिची दशा काडिल्ली आमकां नाका.

**(iv) गोंयच्या समारंभांनी भायले उलोवपीः-**

(नवें गोंय तिसरें वर्स)

"गोंयच्यो साळो जशो भायल्या शिकवप्यांबगर चलूंक कठीण जाल्यात तशेच गोंयचे समारंभूय हालीं भायल्या उलोवप्यांबगर उलगनात-शे जाल्यात. ह्या उलोवप्यांक येतो-वेतो खर्च आनी बिदागी मेळून वर्साक जायत्या दुडवांची करड जाता. परंत त्याय परस चड लुकसान म्हळयार, तरणे पिळगेच्या मनार मोटो वायट परिणाम जाता. तांचो आत्म-विस्वास उबून वेता. भुरगेपणा पासून तांका बरप शिकयतात ते भायले आनी कसल्याय समारंभाच्या वेळार तांचे सामकार उलोवपां करतात तेय भायलेच. हे भाशेन विद्या म्हणटातती

भायल्या लोकांच्या हातांत, असो तांचो समज जाता. तांकां दिसता किं आपले जाणटेले आनी म्हाल-म्हाजन साप अबर्गत, तांकां तोंडां आसून सभेंत उलोंवक येना, ताणी भायल्या लोकांक आमंत्रणा करून मुज्ग लावन हाडचे, तांची जाणवाय आयकुची, ताळयो वाजोवच्यो आनी तांचे फाटल्यान नाचचें! अशा समजान वाडिल्लीं भुरगीं फुडाराक खऱ्यानीच अबरगत जातात. तांकां भायले किरकोळ लोकूय मोटे विद्वान आनी बरपाक्षरी दिसून आपूण साप बाबत कुळां कशीं दिसतात. विद्ये संबंधाची कसलीय कर्तुत्वदशा भायल्या लोकांनी करून दाखोंवची आनी आपणे तिका फकत मान धोलावन कवतूक करचें. त्या पेल्यान कितेंच करची तांक आनी आस्पत आपणाक ना असो तांचो साप उणाक समज जाता. हें बऱ्याचें लक्षण न्हय. आमी आयकलां कि समारंभांत उलोवंक गोंयचे विद्वान मेळनात, देखून भायले लोक हाडचे पडटात. खरें जावये, परंत गोंयचे विद्वान मेळना जांवचें कारण कितें? तांकां आवय-भास म्हळ्ळें पोसके आनी परकी भाशेंत मेकळेपणान उलोंवक येना, हेंच तें आसूंक जाय. ते भाशेंत उलयता आसतना दोंगराचे कडेवयल्यान धुकलून घाल्लेवरी ते आडखळटात, पडटात आनी धाडवतात! देखून त्या कामाक ते फुडें सरनात. तांगेले खाशेले आवय भाशेंत तांकां सणसणीत, खणखणीत बरें उलोंवक येता खरें, परंत भुरगेपणासून तांच्या मनार जाल्ल्या नश्ट्या संस्काराक लागून, तांकां ती आपले सारक्या विद्वानांनी समारंभांत उलंवची भास कशी दिसना. देखून ते त्या कामांत पडनांत.

ही दशा निवळावचो खरेलो उपाय पळोंवक गेल्यार, आमच्या साळांतसून आतां पोसके आवय-भाशेक बेगीन निखळावन खाशेले आवय-भाशेक बसोंवक जाय आनी तिचो मान-भौमान तिका दिवंक जाय.हें आमी येन्नाधर केलें नाजाल्यार, विद्येच्या राज्यांत आमी परतंत्र जावन दिसान दीस साप हीण आनी उणाक जातल्यों. आमच्या कांय शिरभर किरांनी 'आधुनीक सकृद्दर्शनी' असलीं उतरां घोंकून जायतें किरकिरायलें, वा गोंयची दशा होगडावण्यो अळशिकावण्यो फटाफटींच्यो मोटव्यो काणयो भिरकायल्यो

म्हणून पोसकी भास आमची आवयभास केन्नाच जावंक पावची ना. आमी तिका कितलीय पोटलून घेतली तरी ती आमकां खोटांनी धुकलतली. तिचे आमी फक्कत बंदे जातल्यों. देखून विद्येच्या राज्यांत आमी स्वतंत्र जावंचे आसल्यार आमी आमगेले खाशेले आवय भाशेकूच वयर उबारूक जाय. आमच्या म्हाल मुखेल म्हाजनांनी हें बारकायेन येवजून बेगीन कामाक लागचें."

### 5.4.2 'साद' नेमाळें




कोंकणी भाशेचे कुळार गोंय जाल्यारय गोंयच्या सुटकेच्या पयलें, मुंबयंत आनी केनरांत कोंकणी चळवळेचें झूज सुरु जालें. 1939 व्या वर्सा श्री माधव मंजुनाथ शानभागाच्या साधनावर्वी अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें पयलें अधिवेशन कारवार आनी 1940 वर्सा दुसरें अधिवेशन उडपींत जमलें. तिसरें अधिवेशन 1942 वर्सा शणै गोंयाब आनी हेरांच्या प्रयत्नान मुंबयंत उबें जाल्लें. तवळ कोंकणी चळवळ मुखार व्हरोंक एका स्थायी संघटनेची गरज आसल्ली देखून 1942, एप्रील 5 वेर मुंबय कोंकणी भाशा मंडलाचो जल्म जालो. ह्या वेळार दुसरें म्हाझूज भारान चलतालें जाल्यार कोंकणी चळवळ थांबोक नातल्ली. 1949 वर्सा कोंकणी परिशदेचें चवथें आनी 1952 वर्सा पांचवें अधिवेशन मुंबयंत कोंकणी भाशा मंडळाच्या मुखेलपणाखाल जालें.

तवळ 'नवें गोंय' नेमाळें बंद पडोन थोडीं वर्सां जाल्लीं. नव्यान एक कोंकणी नेमाळें काडपाचें चिंताप आसल्ल्यान कोंकणी भाशा मंडळान कोंकणी चळवळेच्या दृश्टेन एक महत्वाचें मेट काडलें. अशें 1952 डिसेंबर म्हयन्यात देवनागरी लिपीन 'साद' पत्राचो पयलो अंको प्रकट जालो.

"साद-चो पयलो अंक उजवाडा आयल्या उप्रांत थोड्याच दिसांनी 'सादचो'

उमेदीचो संपादपी श्री. मनोहरराय सरदेसाय हांका एका फुडल्या शिक्षणा खातीर फ्रांसाक वेचें पडलें. तेदना ताणीं सादाक घालून दिल्लो पांवडो सांबाळून तो चलयत असो संपादपी सोदचो पडलो. 'साद' जितल्या दुडवांत चलत अशा समजणेन सुरू केल्लो त्यापरस कितलेतरी चड दुडू छापणावळीक लागले अशें दिसून आयलें. आनी अशे रितीन तो मुंबयंत छापलो जाल्यार खर्च चलचोना म्हणपाचें उगतें जालें. पुण्यात त्या मानान खर्च उणो पूण कंपोझिटरांक भास कळना. मुद्रितां पळयतल्यांची अडचण. आनीकय जायत्यो आडखळी. ह्या खेरीज मोट्यांतली मोटी अडचण म्हळयार दुडवाची. दैवसंयोगान धा जण फुडें सरून ह्या कामाचो भार घेवंक तयार जालें." - हो उल्लेख 'साद' पत्राच्या दुसऱ्या अंक्याच्या 'सांगणी आनी मागणी' म्हळ्ळया संपादकियांत वाचूंक मेळता. अशें दुसरो अंको 1953 इस्वेच्या आगोस्त म्हयन्यात रे/फा/डॉ/एच.ओ.मास्करेन्यस एम.ए. पी.एच.डी, डी.डी. हांच्या संपादकपणा खाल प्रकट जालो. अशें तिसरो अंक 1954 इस्वेच्या फेब्रुवारींत आनी त्याच वर्साच्या मेयांत चवथो अंको प्रकट जावन 'साद' बंद पडलो.

अशें बंद पडल्लो 'साद' 46 वर्सां उप्रांत म्हणजे हांतूंत आमका दुबाव दिसाना. देखून कोंकणी भाशा मंडळ हें धाडस करूंक फुडें सरलां. ह्या धाडसाक आवय मोगी कोंकणी लोकांकडल्यान फावो तितलो आधार मेळ्ळयार हो साद दर तीन म्हयन्यांनी घालचो असो मंडळाचो विचार आसा. जाल्यारय वाचप्यांक दुबावांत दवरचे अशें ताका दिसना. देखून ह्या अंक्याचें मोल एक रुपया दिवन ताणीं तो घेवचो आनी फुडल्या तीन अंक्यांचे मोल म्हणून दोन रुपया धाडून आपणालें नांव-नामो आमकां कळोंवचो, हे भाशेन ह्या कामाक जाय तितलें, म्हळयार उण्यांत उणें एक हजार पालवी मेळ्ळे जाल्यारूच फुडले तीन अंक काडपाची जापसालदारकी मंडळ आपणाल्या आंगार घेतलें. ना जाल्यार हो 'साद' आपणे वेळार घालो ना वा फावोत्या मनशांच्या कानार तो पडलोना अशें समजून आपणालें सगळें ध्यान मंडळ मुखार आशिल्ल्या दुसऱ्या कामाकडेन लायतलें.

पुणून वेले मागणे भाशेन, जाय तितले पालवी आनी पयसो जमलोना जाल्यार हें काम नेटान चलचें म्हणून जे कोण पयशे धाडटीत तांचो 'कितें जातलें' हो प्रस्न फुडें येता. हाची जाप, मेळिल्ल्या थोड्या पालवार हें काम चलूंक कठीण अशें दिसल्यार जमिल्ले पयशे मंडळ जांचे तांकां परत पावतें करतलें. हाचेर जांचो विश्वास नासून पणून कोंकणी भास वाडची अशी जांकां पोट तिडक आसत, ताणी आपणाले दोन रुपया बुडले अशें समजून ते आमचेकडेन धाडचे. पणून दुबावा विरयत रावन मंडळाच्या सादाक जाप दिवची. निव्वळ मनान आनी बरे भावनेन वानरांनी उदकांत घाल्ल्या गुंड्यानी रामाचो सेतू - सांकव उबाल्लो आनी लंका जिखून थंयच्या अशोकवनांत रावणाले बंदखणेत पडिल्ले सितेक सोडयल्ली. कोंकणी लोकरुपी रामाली कोंकणी भास रुपी निश्टावंत सिताय आज अभिमानाच्या, धा तोंडांनी धा भासो उलयताना भौरुपी रावणाचे बंदखणीत पडल्या. थंयसून सोडोवन तिका तिगेल्या हक्काच्या घरांत, तिगेल्या कोंकणात मेकळेपणान नंदूंक दिवंक आनी नेटान वावरूंक जाय. देखून जें कितें दिसात तें आमगेल्या भौच पुर्विल्ल्या जाणट्यांले सांगणे भाशेन श्रद्धयायदेयं! 2000 इस्वी जानेर म्हयन्यांत त्याच मुंबय कोंकणी भाशा मंडळाचें मुखपत्र जावन 'कोंकणी साद' म्हळ्ळ्या नांवाखाल, शिंपडलेल्या कोंकणी सांद्यालागीं नियमीत थरान संपर्क दवरच्याखातीर आनी भाशा मंडळाच्या चटुवटिक्यां विशयांत सांद्यांक माहेत दिंवच्या खातीर म्हळ्ळो उद्देश दवरून, मानेस्त जे. बी. मोरायसाच्या संपादकपणाखाल पुनरप्रकट जाला. 'A Quarterly News Bulletin of the Konkani Bhasha Mandal Mumbai (R) for private circulation only' अशें इंग्लेजान आतांच्या 'कोंकणी साद' पत्रार लिखून आसा.

ह्या साद पत्राचो सुर्विलो उद्देश आनी ध्येय त्या पत्रार प्रकटिल्ल्या 'सांगणी आनी मागणी' उल्लेखांत आसा.

### (i) "सांगणी आनी मागणी"

(साद पयलें वर्स, पयलो अंक)

"कोंकणी भाशा मंडळ, आपणाल्या नेमाळ्याचो पयलो अंक म्हणून, वेगळ्या बरप्यांलें ऊंच पावंड्याचें बरपावळीन सजयल्लें हें पुस्तक, हो 'साद' आज वाचप्यांच्या हातांत दिता.

हें पुस्तक नेमाळें जांवचें आसल्यार, ते म्हयन्याळें, ती-म्हयन्याळें, स म्हयन्याळें किं वर्साळें जातलें, हें सांगपाचें काम कोंकणी भाशेच्या अभिमानींचें आसा. रगतान आनी हाडा मासान कोंकणी आसून, जांकां आपणाली भास, आपणाली गोड कोंकणी आवय भास वाडची पळेंवची, कळेंवची, फुलची, फळची अशें मनापासून दिसता, तशें आसा म्हळ्यार, तें ताणीं दिल्ल्या पालवाचेर आधारून आसा. आमच्या कोंकणी लोकांत आपलेपणाचो अभिमान उपाट भल्लां. तो अभिमान कोंकणीचो हो 'साद' आयकून, आमगेल्या सभावांत मुरुन रगतांत वाळिल्ल्या आत्मघातकी अपेशापणाकूय, जंयचे थंय चिड्डून, उसळून वयर येतलें म्हळ्यार निव्वळ मनान आनी बऱ्या भावार्थान दियात. जीव फाटीं फुडें येताना दुबावांत रावन दिंव नाकात, हें काम मंडळान आपल्या पोटाचो प्रस्न सोडोंवक हातांत घेवंक ना; आनी ते खातीर तें काम चलोवंक तें सोदिना. आवय भाशेच्या निव्वळ मोगान आनी पोट तिडकेच्या अंमलान ताणे ह्या कामाक हात घाला आनी तें नेटान चलोंवचो ताणे बेत केला. खरे पणाच्या येवजण्या फाटल्यान देव आसता आनी तोच त्यो तडीक व्हरता हाचेर मंडळाचो उपाट विश्वास आसा. आवय भाशेच्या आमच्या मोगांत आनी तिचे सेवेखातीर हातांत घेतिल्ल्या ह्या कामांत आपसुवार्थाचें कीट उणाक हीण - मात पणून ना. देखून कितलींय विघ्ना आयलीं, आमचीं काळजां चिल्लीं आनी आमचीं मनां निर्णेलीं जाल्यारूय आंगांत थोडो भोवूय नेट आसा सर आमी आमच्या हातांतलें काम अर्दकुट्यार सोडचे नांत. चलायकेन शिंवशिंवल्ल्या, व्हडविकेच्या हावेसान फुरफुरल्ल्या तरण्या जुवान गड्या भाशेन आमी तें तडीक पावयतले. मेकळ्या मनाच्या आनी बरे

भावनेच्या बळग्यार. रावणाची लंका जिखून कोंकणी भास रुपी सिता, कोंकणी लोक रुपी रामाचे सुवादीन करून ताका आमी राज्यार बसयतले. हे वास्तेंत आनी आसतेंत एकरूप जावंक सोदतल्या, आवय भाशेच्या फुडारा संबंदान उर्बा बाळगिल्ल्या, दर एका कोंकणी मनशान, मागूंक येतल्याची वाट पळयनासतना फुडल्या तीन अंकांची पटी, फकत दोन रुपया, तुळशीचीं दोन पानां मेकळ्या मनान, मंडळाचे सुर्या थालींत घालून 'साद' रुपी कोंकणी आत्मारामाची भूक थिरावची. म्हणटकूच साठ हजार शिश्यांसयत कोंकणीच्या दुविसाक पोटभर जेवण घालून तें ताका वयल्यान जाय तितलें दुमकेय दितलो.

वयर सांगिल्ले भाशेन 'साद' चो फुडलो अंक केन्नाय भायर सरूत, ताचे बरप्यानी आपणाल्या मनांत निर्शेणेचो वास लेगीत येवंक दिनासतना, आपणालें बरोवप अंकडतायेन चलोंवचें आनी तें 'साद' उजवाडावचे खातीर धाडटना कागदाचे एकेच बगलेर, चार बोटां जागो मेकळो सोडून, उगतें- धांकतें उच्चार बारकायेन ध्यानांत घेवन निवोळ बरपांत बरोवन धाडचें."

मुंबय — कोंकणी भाशा मंडळ
उत्तर कोंकण — रामचंद्र बिल्डींग, व्ही. 2/3
ता 27 डिसेंबर 1952 — चर्नी रोड, गिरगांव, मुंबय - 4

'साद' पत्राच्या पयल्या वर्साच्या पयल्या अंक्यार प्रकट जाल्लें सुर्विलें संपादकीय ह्या परीं आसा :-

### (ii) "आमगेलो साद"

"निकतीच फांतोट जाल्या. पंट्यो लिकलिकतात. आकाश दिवे झगझगतात आनी पयशिल्या आंबे- पणसांत-तळ्यांत, माड-माड्यांतल्यान नाजूक ताळ्यान दल्लां साद आयकूंक येता.

तो आवय भाशेचो साद. सादो पणून काळजाक तेंकपी, अंतस्कर्ण हालोवपी. तो मोगाळ साद आयकून 'ओ' दिलो ना तांकां कितें म्हणचें?

संवसार हो एकेच चालीन चलना, इसापाल्या सोंशापरीं तो केन्ना न्हिदता

आनी केन्ना केन्ना उडयो मारता. कोंकणी भाशेचें अशेंच जालां. केन्ना केन्ना आवय भाशेच्या मोगाचो आमकां उमाळो येता आनी आमच्या हस्तागूण थोडो भोव वावर जाता. केन्ना केन्ना आमकां विसराय पडटा - आमगेल्या लागणुकेची आनी आत्मापण दडचेल्या वावराची.

कोंकणी सरस्पतीक साडेतिनशां वयर वर्सां जालीं तरी ती जायतशी फोफसावना. शणै गोंयबाबा वेळार कोंकणी सरस्पतीचें पोरसूं वाडलां. सोबीत फळाफुलांनी भल्लां, भौमानेस्त काशिनाथबाब नायक हांगेले "नवें गोंय" नेमाळें तीन वर्सां चललें आनी थांबलें. ताचे उप्रांत खूब काळ गेलो. देवनागरी लिपींत कोंकणी नेमाळें आसचें ही इत्सा आवय भाशेच्या भक्तांच्या काळजांत खोल रुजिल्ली खरी पणून ती नावा-रूपाक आयली ना. कोंकणी भाशा मंडळाच्या पालवान आज 'साद' हें नेमाळें भायर सरता. बरोंवप्यांचे कुरपेन वाचप्यांचे पुण्यतायेन हो 'साद' सगळ्यांच्या कानार पडूं.

कोंकणी भास आजून एकरूपी जावंक ना. तिच्यो तरेकतरां धाटणी, मोडी 'सादां'त दिश्टी पडटल्यो. भाशेक एक रूप एका दिसान येना. कोंकणी एक रुपी जावंक एकूच एक उपाय म्हळ्यार - कोंकणी उलोवप्यांनी एकठांय येवन, कोंकणी बरोवप, कोंकणी वाचप आनी एकामेकाल्यो उलोवपाच्यो मोडी ध्यानांत घेवप.

पुस्तकी भाशा एकरूप आयलेबगर आनी एकरूपायल्याबगार तिची वाड आनी विस्तार जायना. चार दोन शिकिल्ले सवरिल्ले एकठांय जावन ताणीं थारावणकी केल्यो म्हळ्यारय ही गजाल सादना. हें एकरूपांवचें काम काळ आनी मंनशांली वेवहारी बूद एकटांय जावन आपूणच करतालीं. परंत हो काळ कोंकणी साहित्यान भरून काडूंक जाय आनी ही बूद त्या साहित्याच्या रुपा भोंवतणी जागी करूंक जाय. निखटो पोलो काळ आनी न्हिदिल्ली बूद हीं कित्याक उपकाराना. देखून हो साद आयकाल्ल्या जणा एकल्या कोंकणी उलोवप्यान, बरोवप्यान आनी वाचप्यान काळाचें रितें पोट कोंकणी वांगमयान म्हळ्यार उलोवप-बरोवपान भरून काडचेली आमी आपले भाशेक विशेशतायेन,

अदीक तरेन रुपाळी करचेली येवजण आनी मांडणी करूंक जाय. तिगेली निजाची शक्त ओळखूंक, केळोवंक आनी खेळोवंक जाय. आमी अशें केल्यार तिका आंकूर फुट्टले, ती पालेतली, कळेतली आनी फुलतली. मागीर पाळांक कितें उणें? चला तर लागुया कामाक. हें पळेया भिणभिणलें, फांतोड जाली, कोंब्यान तिसऱ्यान साद घालो. कोको... च्को... उठात वेगीन!"

गेल्ल्या फेब्रेरांत मुंबय भौ. सालदानाच्या येजमानपणा सकला पांचवी कोंकणी परिशद भल्ली. ती बरीच गाजली. कवी बोरकारालें ताला सुरान जाल्लें गोड उलोवप आनी भौ. लक्ष्मणराव सरदेसायांलीं उमाळ्याचीं उतरां हाणीं दाखोवन दिलें किं दोगां नामनेच्या मराठी बरोंवप्यांचो पालोव कोंकणीक आसा.

परिशदेचें काम 'साद' फुडें करतलें. कोंकणी भास निजाची गिरेस्त, सोबीत आनी सुर्बूस हें दाखोवन दितलें. घराटरांत रिगोन कोंकणी बायलां-भुरग्यांच्या कानांत आवय भाशेचें गोड गुपीत पुतफुततलें. तांच्या मनांत एक नवें सप्न केळयतलें. कोंकणीच्या निंदल्ल्या आत्म्याक जाग हाडटलें. तुमचे कुरपेन आवय भाशेचो हो साद कोंकणाच्या कोन्या-कोन्यांत रिगूं हीच आमची इत्सा, हीच आमगेली मागणी.

- संपादपी.

आदल्या 'साद' पत्रार प्रकट जाल्लीं थोडीं कोंकणी चळवळेचीं लेखना हांगासर दिल्यांत :-

(iii) शणै गोंय बाबां विशयांत मनोहरराय हाणीं बरइल्ल्या एका लेखनाचो निमाणो उल्लेख असो आसा :- "कोंकणीची गत आसली मोडक्या देवळा सारकी. वणटीचे चिरे निखळून हांगा थंय पडिल्ले. नळे फुटून गेल्ले. देवाऱ्यातली म्हूर्त लेगीत निखळून पडिल्ली. ज्या जाग्यार चंदनाच्या तेलाच्यो दिवल्यो पेटच्यो त्या जाग्यार कुकडां कयर उस्तितालीं आनी एकदीस थंय एक भगत आयलो. देवळाची ती दशा पळेतकच ताका खूब वायट दिसलें.

पूण तो दुकां गळयत रावलो ना. ताणे कुकडांक आमुडलीं. कयर काडून भायर उडयलो. चिरे सारके दाळून वणटी बांदल्यो. पांखें घालें. गर्भकुडींत देवतेची थापणूक केली. तिच्या मुखार चंदनी तेलाचीं निरांजना पेटयलीं आनी व्हडली पुजा बांदली.

हो भगत म्हणजे शणै गोंयबाब आनी ही देवता म्हणजेच कोंकणी सरस्पत."

### (iv) म्हाका आदीं म्हजीच भास सारकी शिकची आसा

फा. एच. ओ. मास्कारैन्जस

देवनागरी लिपी कोंकणी भाशेक कित्याक घेवची हें म्हाका एक फावट सगळ्या वाटांनी सारकें कळून आयलें. 1929 वर्साची गजाल. हांव तेन्ना पाद्रीपण शिकपाक रोमाक आसलों. ज्या धर्माकुलांत हांव रावतालों थंय वेगवेगळ्या पंचेचाळीस राष्ट्रांचे विद्यार्थी आसताले. तांचे चाली भाशेन वर्साक एक फावट ते पापसायबाचें दर्शन घेताले आनी ह्याखातीर युरोप खंडांतलीं राष्ट्रां कुशीक दवरून उरिल्ल्या संवसाराच्या राष्ट्रांचे धा बारा प्रतिनिधी ते वेंचून काडटाले. आपल्या देशातल्यान हे नवेच आयिल्ल्या कारणान, आपापणाल्या भासांनी तीन चार मिनटां सुपुल्लेंशें मानपत्र तांकां वाचचें पडटालें. हिंदुस्थानाचो प्रतिनिधी म्हणून म्हाका वेंचून काडलो. म्हाका खूब खोस जाली आनी छाती फुलोवन हांव दोन तीन दीस भोंवंक लागलों, पुणून तें मानपत्र आपापणाल्या भासांनी वाचचें आसता अशें आयकनाफुडें माथ्यार तोणको मारिल्लेवरी जालें. म्हाका लातीं भास येताली आनि इतालियन भाशेंतूय हांव बरोच फुडें गेल्लो. पुणून हिंदुस्थानाच्या प्रतिनिधीचो अधिकार म्हाका हिंदुस्थानीं भाशेंत सांबाळचो पडटलों अशें हांवें सप्नांत लेगीत चिंतूकनासलें. देखून आतां कितें करचें, तेंच म्हाका कळना जालें. म्हाका हिंदी येताली. तिका तकलीय नासली आनी धडूय नासलें, असली. मुंबयंतली, पचकी, मागीर मराठीचें चितलें. हे भाशेचीं दोन पुस्तकां (सरकारी) वाचून जाल्लीं. असले अवस्थेत ते भाशेंत कितें बरयतलो मानपत्र?

गुजराती समजताली खरी आनी उलयतालोंय बी पुणून पारशांवरी. ती महात्मागांधीची भास. तिजो मान राखूक आमकां कळूंक नाका? म्हणटकच अखेरेक घरचे कोंकणी भाशेतूच बरोवचें अशे थारायले. थंय एक मंगळूरकार आसलो. ताजेकडेन हांव गेलों आनी म्हळें 'बाबा रे, हें संकश्ट तुवें निवारूंक जाय.' ताणे म्हळें, 'म्हज्यान बाबा तें जावचें ना. म्हाका हिंदुस्थानांतली खंयचीच भास येना. तें तूंच कर. भियेता कित्याक? हांव बसून ताळयो पेट्टां!'

ताणें म्हज्या गळयांतलो हार म्हज्याच गळयांत दवल्लों!

उलोवप कोंकणीतूच करपाचें हांवें थारायलें आनी मनांत कितें विचार आयले ते सगळे बरोवन काडले. दुसऱ्या दिसा ते बरोवन बारीक नदरेन पर्थून वाचले आनी तातूतलीं सगळी पोर्तुगेज आनी इंग्लेज उतरा काडून उडोवन निजाची कोंकणी उतरां घालचो यत्न केलो. दोन पावटी तें मोट्यान वाचून पळयलें. वाक्यांची रचणूक उतरांची मोडणी, उलोवपाची धाटणी बी जाता तितली कोंकणी भाशेक जमता तशी केली.

मानपत्र वाचून दाखोवचो वेळ आयलो, हांव रांगेत उबो रावलों. म्हजी पाळी येतकीच सवकास आनी मोकळ्या उतरांनी हांवे सुपुल्लेशें उलोवप केलें. तें आयकून बशिल्ल्या लोकांनी तकली हालयली आनी म्हाका शाबासकी दिली. पूणून म्हजे पत्र हातांत घेवन मुखेल सेक्रेटरी म्हूण लागलो. 'तू हिंदुस्थानाचो प्रतिनिधी न्हय? तर असल्या अक्षरांनी हे कितें बरयलां?'

हे आयकून थंयच्याथंयच हांवें सांगलें, 'हांव हुंदुस्थानातलो खरो. पणून म्हजें बरोवप तुमकां समजूचें म्हणून हांवें तें रोमी लिपींत बरयलां.'

ताणे म्हजे पत्र म्हाका पर्थून दिलें आनी सगळ्यामुखार सांगले, 'हें बरयलां ते बरें आसा. पूण तुगेल्या संस्कृत (देवनागरी) अक्षरांनी बरय.'

पत्र बरोवन आयज सांजे दिता म्हणून सांगून हांव ल्हवूच पर्थून आयलो आनी म्हज्या मंगळूरकार इश्टाक मेळ्ळो तो तरी बरोवन काडीत अशी म्हाका आस्त आसली. पुणून ताका बाबड्याक संस्कृत अक्षरांचो गंध लेगीत

नासलो. कानडी अक्षरांनी बरयल्यार जायत अशेय ताका सांगलें. पुणून त्या अक्षरांचो लेगीत ताका चडसो उगडास उरूक नासलो आनी ताणें तें कानडींत बरयल्लें जाल्यार म्हाका खंय वाचूंक येतालें? आसू. म्हणटकूच हांवें देवाक उलो माल्लो आनी म्हजे कुडींत पडून गेलों. सगळी देवनागरी अक्षरां घोळोवन काडून हांव पळोवंक लागलों. कोंकणी भाशेक संस्कृताची वर्णमाळ पावना जाली. ती कोंकणी भाशेक करची आसल्यार वाडोवंक जाय आसली. 'ए' आसा पणून 'ऍ' ना, 'ओ' आसा पुणून 'ऑ' ना. म्हणटच तोपी आडवी काडून 'ऍ' आनी 'आ' बरोवपाचो यत्न केलो आनीहे भाशेन ल्हवू ल्हवू सगळे मानपत्र नागरी अक्षरांनी बरोवन काडलें! तें राती हांव दोन वरांचेर न्हिदूंक गेलो.

दुसऱ्या दिसा साडेचारांक उठलों आनी स वरां म्हणसर तें पत्र निवळ अक्षरांनी पर्थून बरोवन काडलें. सेक्रेटरी म्हजी वाट पळयतालोच संस्कृत अक्षरांनी बरयल्ले मानपत्र ताज्या हातांत पडकटच तो खुशी जालो, आनी तुमगेली अक्षरां इतली सुंदर आसून तुमी आमगेल्या रोमी अक्षरांनी कित्याक बरयतात म्हणून म्हाका शिणूक लागलो! फुडें तो म्हाका विचारूं लागलो, 'तुमी म्हाका संस्कृत भास शिकयशात?' हांवे म्हळें. 'हय गा सायबा. सवसारांतल्यो सगळ्यो भांसो हांव तुमकां शिकयन, पुणून म्हाका आदीं म्हजीच भास सारकी शिकची आसा!'

### (v) "आवयभास आनी कोंकणी चोरडालें क्षिक्षण"

- बरपी : डॉ / वेंकटराव विठ्ठल कामत, पी.एच.डी. (एडन)

(साद अंको 1-डिसेंबर 1952-पान-14)

ल्हान चोरडांलें शिक्षण तांगेल्या आवय भाशेंतल्यानच जांवच्याक जाय ह्या संबंदान कोणालोच वाद ना. ल्हानपणांत तांचेर नवी भास शिकपाचो ताण पडच्याक नजो, हें हाजें कारण आसा. ही जास्तीची नवी भास शिकचो तांगेलो वेळ वांचयल्यार तो वेळ तांकां दुसरें जायतें नवे ज्ञान मेळच्याक मोकळीक जाता. हें खरें जाल्यार, कोंकणी चोरडाचें शिक्षण कोंकणी

भाशेंतल्यानच जावच्याक जाय, हें निर्विवाद थारता.

हो कोंकणी लोकांलो भाशेचो प्रस्न बरोच महत्वाचो आसा. हिंदुस्थानांत भासो इतल्यो जाल्यात किं त्यो जाता तितल्यो उण्यो केल्यार बरें अशें म्हाका पयलें पयलें दिसतालें. म्हळ्ळया खातीर कोंकणी लोकांनी आपणाली भास सोण्ण दिवन कोंकणी भाशेक लागीं आशिल्ली मराठी भास घेतल्यार बरें अशें म्हाका दिसतालें. परंत ह्या विशयाचेर हांव जितलो जितलो खोल विचार करच्याक लागलों तितलें तितलें तें सादसारकें ना अशें म्हाका दिसच्याक लागलें. आमगेल्या चोरडांनी प्राथमीक आनी दुय्यम शिक्षण जाता तितलें कोंकणीतल्यान घेवचें आनी कॉलेज शिक्षण हिंदींतल्यान करचें अशें आतां म्हगेलें मत जालां.

ह्या प्रमाणे सामान्य चोरडांक खंयच्याय प्रांतांत दोना पेक्षां जास्त भासो शिकची गरज ना. मराठी प्रांतांत मराठी आनी हिन्दी शिकचें, कानडी प्रांतांत कानडी आनी हिन्दी, बंगाल प्रांतांत बंगाली आनी हिन्दी, कोंकणांत कोंकणी आनी हिन्दी, अशें दर एक प्रांतांत दोनापेक्षां जास्त भासो सामान्य चोरडांनी शिकची गरज ना. पूण फुडें उद्योग धंदो, करची इत्सा आशिल्ल्या थोड्या चोरडांक, गुजराथी वा इंग्रजी सारकी तिसरीभास शिकची आसल्यार ती शिकच्याक हरकत ना.

संवसारांत खंयच्याय देशांतल्या सामान्य चोरडांक एक दोनावयर जास्त भासो शिकची गरज पडना. इंग्लंडांतल्या बहुतेक सगळ्या चोरडांक इंग्रजी शिवाय दुसरी भास येना. फ्रांसांतल्या चोरडांक फ्रेंच भाशेशिवाय दुसरी भास कळना. पूण आमगेल्या हिन्दुस्थानांतल्या सगळ्याच प्रांतांतल्या लोकांच्या माथ्यार एका पेक्षां जास्त भासांचो भार पट्टा. तांतूंतय कोंकणी चोरडांक पांच-स भासो शिकच्यो पडटात. कारवारच्या चोरडांक आवय भास म्हण कोंकणी, शाळेंतली भास म्हण मराठी, जिल्ल्याची भास म्हण कानडी, राज दरबारी म्हण इंग्रजी, धर्मभास म्हण संस्कृत आनी राष्ट्रबास म्हण थोडी भोव हिन्दुस्तानी मेळून स भासो शिकच्यो पट्टात. आनी इतल्यो भासो शिकुनय

तांकां एकय भास धड येना ! ! मराठी आनी कानडी भासांचेर प्रभूत्व मेळोवन त्या भाशेंत भाशणां करच्याक आनी बरोवच्याक थोडे लोक खूब कश्ट करतात. पूण त्या परक्याभासांनी उलोंवचें पडल्यार ते हेंगाडी उच्चार करतात. देखून कोंकणांतल्या सामान्य कोंकणी लोकांक कोंकणी आनी हिन्दी ह्या दोन भासां भायर आनीक वेगळ्यो भासो शिकूची गरज पडच्याक नजो, ह्या दिवंगत माधव शणै शानभागांनी थाराइल्ल्या मत्ताक आतां म्हगेलें मत संपूर्ण जमलां. ह्या विशयांत आमगेल्या प्रांताचो प्रस्न, ही एक व्होड अडचण आसा. हो प्रांत मराठणांत घाल्यार आमकां तांगेली मराठी भास शिकचें पडटलें आनी कर्नाटकांत घाल्यार कानडी शिकचें पडटसें. कानडी पेक्षां मराठी शिकप आमकां ससार पडता. जाल्यार हो प्रस्न कोंकणी लोकांली इत्सा आनी बरेपण हांचो विचार करून सोडोवचो आसल्यार, उत्तरेक मुंबय धरून दक्षिणेक मंगळूर पर्यंत पसरिल्ल्या कोंकणाचो, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक पेक्षां वेगळो एक प्रांत घडवच्याक जाय. अशें जाल्यारच कोंकणी भाशेक फावो जाल्लें थळ मेळत आनी कोंकणी चोरडांलो शिक्षणाचो प्रस्न सुरळीत सुटत.

आमगेले सगळे लोक घरांत कोंकणी उलयतात, तांतूंत हिन्दू आसात तशेंच क्रिस्तांव आनी मुसलमानय आसात. हे सगळे लोक आपणालो सगळो वेव्हार कोंकणीत करतात. आमगेले क्रिस्तांव भाव संवसारांत खंय पावले तरी ते कोंकणीक केन्नाच विसरनात. ते आफ्रिकेंत वचूत, ना जाल्यार इंग्लंडांत पावूंत, बोटिचेर ना जाल्यार आग-गाडयेंत आसूंत, ते आपणाल्या आवय भाशेक केन्नाच सोडनात. ते कोंकणी उलयच्याक लागिल्ल्या बरोबर आमकां ताचे बद्दल आपलेपण दिसता. अशी रगतामासांत घोळिल्ली ही भास सोण्ण परकी भास उलोंवचें ससार न्हय म्हळ्ळया खातीर हो भाशेचो प्रस्न आमगेल्या लोकांपुरतो सोडोंवचो एकूच सोंपो उपाय म्हळ्यार आमगेल्या चोरडांलें प्राथमीक आनी दुय्यम शिक्षण कोंकणीतल्यानच करचें आनी उच्च शिक्षण हिन्दी भाशेंतल्यान दिवचें. बिनाकारण जास्त भासो शिकचे कश्ट

उणे करचे खातीर होच एक उत्तम मार्ग आसा.

### 5.4.3 'साळीक' म्हयन्याळें



देवनागरींतलें तिसरें नेमाळें मुंबयंत उजवाडाक आइल्लें जावन आसा 'साळीक' म्हयन्याळें, हाच्या चुंगडी प्रतेक आट आणे आनी वार्षीक वर्गणी पांच पुरय आसल्ले. 1955 वर्सा तें स्थापन जावन एका वर्साक म्हणजे 1956 वर्सा बंद पडलें. ह्या 'साळिका'चें सुर्विलें संपादकीय ह्या परी आसा.

'फुलतां फुलतां'

'मातशें थांबात...' (सप्टेंबर 1955)

"खंय चलले हो तुमी? इतले वेगवेगीन. मातशे थांबात गा. कितें म्हळें? थांबूक साप वेळ ना? अशें कितें करनात हो? मातसो तरी थांबात. तुमकां हेर कामाफुडें फुर्सत ना हें कितें आमी नकळत? थोडो वेळ खांबान. आमी तुमगेलो चड वेळ घेवचे नात. तुमकां कांय विचारपाचें आसा. तुमी पुर्वील्या वेळांत गिन्यान वाडोंवच्याक कितें वाचतात? कितें म्हळें? इंग्लेज, फ्रांसेज आनी हेर भासांतलें साहित्य वाचतात? पूण एक सांगात तुमी कोंकणी साहित्य वाचतात काय ना? कोंकणी ही आमगेली आवयभास, कितें म्हळें? तुमकां कोंकणीत बरयल्लें वाचपाची चड खोस आसा; पूण तुमकां जायतशें चुरचुरीत खुसखुशीत आनी जिबेर उरा सारकें साहित्य वाचपाक मेळना? कितें सांगतात हो तुमी? तुमगेली ही कितल्या दिसांपासून पुरो जायनासतना राविल्ली इत्सा फळाक पावपा सारकी खबर सांगपाक म्हण आमी तुमकां मुद्दाम आपोवन हाडून थांबोवन घेतल्यात. हें पळेलां तुमी? थांबात, थांबात. मातशें थांबात. अशें झोंपय मारनाकात. तें कितें हें समजून घेवपाची तुमकां तान लागल्या हें आमी बरे भाशेन जाणात.

हो वयर सुंदर चित्र आशिल्ले 'साळीक' नावाच्या नेमाळयाचो अंक.

आमच्या कोंकणीच्या तळ्यांत हें साळीक फुललां. हें साळीक भायल्यान जशें सुंदर दिसता तशेंच तें भितरल्यान बी सुंदर आसा. ह्या ल्हानशा नेमाळ्यांत सुटसुटीत आनी खुशखुशीत, तरेतरेचें साहित्य मोतयांचे माळेंत गुथून आमी तुमच्या फुडयांत दवरलां.

आज कोंकणी भास उलवपी लोकांक हेर तरेतरेचें साहित्य वाचूंक मेळटा; पूण फाविल्ल्या वेळांत ल्हान ल्हान काणयो, खेळ, हांसोवण्यो खबरी बी आशिल्लें अशें नेमाळें मेळानाशिल्लें. आतां मेरेन हे लोक दुदाची तान ताकाचेर भागयताले. पूण साळीक भायर सारिल्ल्यान ही उणय हाजे फुडें भरून येतली अशी आमकां उमेद आसा तशेंच कोंकणी भाशेंत साहित्य बरोवपाची जायत्या भावांक खोस आसता. पूण बरयल्लें छापून येना जाल्ल्यान मनशाली ही खोस जंयचे थंय जिरून वेता. ह्या असल्या नव्या उमेदी बरोवप्यांक ललीत साहित्य बरोवंक उत्साह येवंचो होय आमचो हेत आसा. नवीन बरवप्यानी साळकाक साहित्य धाडचें अशी आमी तांकां विनंती करतात.

कोंकणी भाशेक बळीष्ट करपाची तळमळ लागिल्ल्या आवय भाशेच्या पुतानी 'साळीक' काडिल्लें आसा. साळीक बेगीन फुलपाक जायत्या मोगाळ भावा-भयणिनी पालव दिल्लो आसा. जणएक म्हज्या घरचेंच काम हे भावनेन साळका खातीर वावुरला. तेन्ना आमी चित्रकाराचें, बरप्यांचें, जाहिराती दिणाऱ्यांचें, नेमाळें खपयणारांचें, वर्गणीदार जातल्यांचें हांच्या भितरल्या कोणाचे उपकार मानचे? नॉर्थ केनरा गौड सारस्वत ब्राह्मण साधन तर 'साळीक' भायर सरचे पयलेंच ऑफिसाक जागो दिवन कोंकणी भाशेवयलो मोग प्रगटायलो. हाचेफुडेंय संघाचो सभासद 'साळकां'चे वर्गणीदार जावन ताका आश्रय दिल्याबगर रावचे नात हाची आमकां खात्री आसा.

कितें? आयकलें मूं? साळकाची गजाल तुमच्या कानार घालची आनी तुमगेलो ताका मनापासून दिल्लो आशिर्वाद मेळोवंचो ह्या उद्देशान आमी सकाळफुडें तुमकां आडावन वेळ घेतलो. वेतना हो साळकाचो एक अंक

व्होरात. वेळ काडून वाचात आनी वाचून जातकच तुमकां कशें दिसलें हें कळयात. आमी आमचें तांकी प्रमाणे कोंकणी भाशेंतल्या सुंदर आनी भर्जरी वस्त्रांनी 'साळक'चो अंक नेटयला. असोच हाज्या फुडेंय यत्न करून आमी तुमगेले सेवेक येतले. साळकाचें हें फूल आमी मोठ्या अभिमानान आनी तितलेच नम्रतायेन कोंकणी सरस्वतीच्या पायांचेर अर्पितात. आमगेली ही सेवा तिणे गोड मानून घेवची आनी आमकां तिची सदांच सेवा करपाची ताकत दिवंची हेंच हात जोडू मागणें."

'संपादपी'

### 5.4.4 : वर्धांतलें 'मीर्ग'







मुंबय भायर वर्धांत (नागपूर लागसर) कोंकणीचो चळवळेकार रवींद्र केळेकार हाणीं मीर्ग नेमाळें देवनागरी लिपींत 1953 इस्वेंत काडलें. ह्या पत्राचो विशय जावन आसल्ले गोंयचें स्वातंत्र्य आनी गोया पासून शेंकड्यानी मैल पयस आसल्ल्या विदर्भांत कोंकणी लोकांचो एकवट. हें नियतकालीक रवींद्रबाबान तीन वर्सां चलइल्लें आनी अशें हें 1956त बंद पडलें.

ह्या मीर्ग पत्राचें सुर्विलें संपादकीय ह्या परीं आसा.:

**'लोकभासांचें मीर्ग लागलें'**

**- संपादकीय**

"पोर्णे देणें घडये टळत. पूण पोर्णे संकल्प टळना म्हणटात. दोन वर्सां वयर जालीं जातलीं, कोंकणी भाशेंत एक नेमाळें चलोवंचें अशें आमी येवजिल्लें. पणून जायत्या आडमेळ्यांक लागून तें ते वेळार भायर सरूक पावलें ना. आज दोन वर्सां उप्रांत आनी इतले पयशिल्यान कित्याक जायना, एक पोर्णो संकल्प फळाक येता हें पळोवन जिवाक ल्हाना समान्यातली खोस

जायना !

संवसाराचो एक नेम असो आसा कीं जेन्ना जेवपा खावपाक अन्न मेळ्ना तेन्ना लोकसंख्या वाडटा. कोंकणीत बरोवपी लोक चडशे नांत. वाचपी आनी भोव करून विकतें घेवन वाचपी कितले मेळतीत म्हणपाची खात्री कोण दीत? आनी तरी आसतना एका फाटल्यान एक नेमाळीं उजवाडाक येवंक लागल्यांत ! हें 'कित्याय कितें' चललां जायत; पणून ताका उपाय ना. जिवन जशें आसा तेच रुपान ताजेकडेन पळोवंक जाय आनी तातूंतल्यानूच वाट काडूंक जाय. एक मात्र दुबावां विरयत सांगूं येता कीं जे नेमाळ्याक बरोवप्यांचो, वाचप्यांचो आनी ग्राहकांचो पालव ना ताचे पिरायेची खात्री दिवंक येना.

संवसारांत जायतीं नेमाळीं भायर सरतात तातूंत आनीक एकाची भर घालची हे हेतून आमी हें उजवाडावंक ना. कोंकणी आमची आवय भास आमचो आत्मो. तो पालेतलो, फुलतलो, परमळटलो कोंकणी मार्फतूच म्हणपाचें आमचें विज्ञान सांगता. मागीर ती कोंकणी कितलीय ल्हान आनी हेंगाडी आसना ! मनशांचे अंतस्करणाचें तळामेरेन पावपाचें एकूच साधन म्हळ्यार ताजी भास, तो दुसऱ्या भासांनी उलोवंक बरोवंक शकना असो हाचो अर्थ न्हय. नाटकांत दादले बायलांचें सवंग बेस बरें करून दाखयनात? सभावीकपण आनी अभिजातपण आवयभाशेंतूच आसता.

हे तत्वाचें महत्व वळखून हिंदुस्थानांतल्या फाटीं पिडिल्ल्या जमातींच्या कितलेशेच ल्हान ल्हान भासांक लेगीत वयर काडचेले यत्न सुरू जाल्यात. आनी सामान्यतायेन जांकां हिन्दी भासांच्यों बोलीं मानतात त्या मारवाडी, हरियानी, बुंदेली, भोजपुरी मगही, मरही कुमाउनी, गढवाली, मैथीली सगळ्या पोट भासातूय पुस्तकी बरपावळ सुरू करची - आनी जायते भासांनी ती जाल्याय आनी सगळे वेव्हार तांचे वर्वी जावचे अशें हिन्दी भाशेचो एक ऊंच पावंड्याचे बरोवपी महा पंडीत राहूल सांस्कृत्यायना सारके म्हणटात. म्हणटकर जांकां पयलें मत मान्य आसा ते कोंकणीचे पूत वोगी कशे रावतीत?

हे तत्वाक लागून आनी कोंकणी विशीं आमकां जी भक्ती दिसता तिका लागून तिची तांकत तशी सेवा करची म्हणून आमी हें नेमाळें उजवाडाक हाडलां. कोंकणीचेर तिचे पुतां कडसून आनी हेर लोकांकडसून आजवेर जो अन्याय घडला. तोय धुवन काडपाक जाय.

लोक भासांची वाड करचेले पयलें म्हणणे आड कांय जाण जो एक मुद्दो फुडें करतात ताका आदीं जाप दिवपाक जाय. ते म्हणटात कीं हिंदुस्थानात आर्दीच पयल्यो जायत्यो भासो आसात. तांचीं एकामेका कडेन चललेलीं केस्तावां पळेत जाल्यार दुसऱ्या ल्हान ल्हान भासांक आनी पोट भासांक, आमी म्हणटात ते भाशेन वयर काडचेले यत्न चलले जाल्यार सातशीं पन्नास वेगळीं 'पाकिस्तानां' निर्माण जावन हिन्दी राष्ट्राच्यो तिस्त्यो-वाद-यो जातल्यो. हांचे मतान भास म्हळ्यार प्रांत!

आमका हे भंयाचो निखालस भंय दिसना. 'पाकिस्तानां' निर्मितात त्यो भासो न्हय. तांचीं कारणां वेगळीं आसात. एक तर प्रांतांच्या आनी भासांच्या झगड्यांनी काय जणांचे सुवार्थ घुस्पल्ले आसात. (vested Interests) आनी दुसरें, वेगळेचाराचें वीख आमचे मेंदुतूच आसा. तें जेमेरेन थंय आसा ते मेरेन तें भाशेचें प्रस्नांतूंच न्हय तर खंयचेय निरुपद्रवी प्रस्नांत देवंक शकता. देखून 'पाकिस्तना'चे भंयान भासांचे वाडीक आडमेळीं हाडचे परस हे विखाकूच आनी घुस्पल्ले सुवार्थांक ना करपाक आमी वावरूंया. प्रस्न टाळ्ळे म्हणून ते टळनांत आनी टाळून ते सुटय नांत.

आमचे मतान संवसारांतल्या ल्हान व्हड सगळ्या भासांनी आपणालो संवसार आतां नीट मांडपाक लागूंक जाय. सभ्यतायेचें आनी संस्कृतायेचें हें मागणें आनी लक्षण आमी विसरूंक फावना. मनीस जेन्ना भक्तीन आपणाले आवयभाशेची सेवा करतलो तेन्नाच ताचो आत्मो परमळटलो, आनी तेन्नाच तो दुरे भासांची, आपले देशाची आनी संवसाराची खरेली सेवा करूंक पावतलो.

हें सत्य कोंकणी उलोवपी लोकां मुखार दवरचेले हेतून आमी हें नेमाळें

उजवाडांवक फुडें सरल्यात. हो युगधर्म पाळपाचे बाबतींत आमी फाटीं सरचेनांत म्हणपाची आमकां खात्री आसा.

आतां लोक-भासाचें मीर्ग लागलें; रोव घालूया!"

'मीर्ग' पत्रांतलीं थोडी लेखना (कोंकणी भाशे विशयांत) हांगासर दिल्यांत-

**(i) 'प्रमाण' कोंकणी खंयची?**

(मीर्ग. वर्स-1स अंक-2, वर्धा-1 सप्टेंबर 1953)

"कोंकणीचे आड कांय जण एक मुद्दो फुडें करतात ते म्हणटात :

"मालवण - वेंगुर्ले धरून कारवार-मंगळूर मेरेन आनी खासा गोंयांतूच कोंकणीच्यो इतल्यो तरा आसात कीं तांतले खंयचे कोंकणीक तुमी प्रमाण मानतले? दर एकलो जर आपणालीच कोंकणी फुडें करूंक लगालो जाल्यार सगळो घुस्पागोंदळ जावचो ना?"

ऑल इंडिया रेडियोच्या कोंकणी कार्यावळींक लागून मुंबयच्या कांय मराठी वर्तमान प्रत्रांनीय 'कारवारी' 'गोमांतकीय' आनी 'मालवणी' कोंकणी विशींच चर्चा चलताली. हे भाशेन कोंकणीची सेवा करपाक वावुरपी लोकांक हो एक म्हत्वाचो प्रस्न पडला.

संवसारांत कांय 'सनातन' प्रस्न आसतात. जेन्ना एकादी वस्त करचीच न्हय अशें मनीस थारायता तेन्ना तिचे आड तो तरे तकेचे मुद्दे हाडटा. असले लोकांक कितलेयदां समजायलें तरी समजून घेवपाचे ते मुडांतूच नासलेल्यान तांचें समाधान केन्नाच जायना.

पणून वयलो प्रस्न तर कोंकणीची सेवा करपी लोकांकय पडला. देखून ह्या प्रस्नाविशीं स्पश्टता जावपाक जाय.

सगळ्यां पयलीं आमी एक थारावपाक जाय कीं गोंयची कोंकणी, कारवारी कोंकणी आनी मालवणी कोंकणी ह्यो वेगळ्यो वेगळ्यो भासो, काय एकाच भाशेच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो शैल्यो? जर त्यो वेगळ्यो वेगळ्यो भासो आसात जाल्यार लोक भासां खातीर आमी जो नेम केला तो ह्या भासां खातिरय लागू

जाता. म्हळ्यार दर भाशेन आपलो संवसार नीट मांडपाक लागप आनी तो मांडणेर घालतना तांकां कोणेच आडमेळें हाडप ना. मागीर 'खंयची कोंकणी प्रमाण' हो प्रस्नूच उबो रावना!

पूण जर त्यो वेगळ्यो वेगळ्यो भासो नासून एकाच भाशेच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो शैल्यो आसत जाल्यार आमीं दुसरे तरेन येवजुपाक जाय. पयलीं पळोवपाक जाय कीं ही कोंकणीचीच विशेशताय काय सगळ्याच भासांची? कोंकणीची विशेशताय जाल्यार तिचीं कारणां कितें? आनी जर सगळ्याच भासांची ही तरा जाल्यार दुसऱ्या भासांनीं हो प्रस्न कसो सोडयला?

संवसारांतलीं खंयचीय भास घेतली जाल्यार ती केन्नाच एकरूपी नासली आनी आतांय ना म्हणपाचें घसघशीत बरें, दिसता. दर बारा कोसांचेर भास बदलता, हो नेम संवसारांतल्या खंयच्याय भाशेक लागू जाता. इंग्लीश भास संवसारांतली एक गिरेस्त भास न्हय? पूणून जी इंग्लीश वेल्साक उलयतात ती लंडनाचे लोकांक समजना म्हणटात. आनी जी इंग्लीश अठराव्या शेंकड्यांत बरयताले ती आज बरयनात. जे बायबलचे इंग्लिशीक स्टेंडर्ड म्हणून मानताले ती डार्यींग इंग्लीश म्हळ्यार मरपाक तेंकिल्ली इंग्लीस अशें बर्नार्ड शॉ म्हणटा!

फ्रांन्सेजीची आनी पुर्तुगेजीचीय हीच गत. आनी संवसारांतले खंयचेय भाशेची हीच गत. कोंकणीच संवसारा भायली न्हय.

उलोवपांत जशी खंयचीच भास एकरुपी ना तशीच बरोवपातूय ती चडशी खंयच मेळना.

हिन्दुस्तानांतल्योच कांय भासो घेवया. इतिहासांतल्या वेगळ्या वेगळ्या काळांत एकाच भाशेचीं वेगळीं वेगळीं रुपां आसतात हें तर जालेंच, पणून एकाच काळांतलेगीत त्यो एकरुपी आसूंक जाय असो नेम ना. रवींद्रनाथ आनी शरदबाबू एकाच काळांतले. आनी एकाच बंगाली भाशेचे दोन व्हडले बरोवपी काय न्हय? हांचे भितर कोणाची बंगाली प्रमाण? दोगांच्यो भासो (रुपां) सामक्यो वेगळ्यो म्हणपाचें बंगाली भास जाणा जाल्लो खंयचोय

मनीस सांगतलो. बंगाली भाशेचीं कोंकणी वरी कितलींशींच रुपां आसात आनी दर एकलो बंगाली बरोवपी आपापलेच रुपांत बरयता आनी कोणाकूच कांय दिसना !

गुजराती भाशेचीय हीच गत. सौराष्ट्रांतली गुजराती आनी अहमदाबादाकडची गुजराती हातूंत कारवारी आनी गोमंतकी परसूय चड अंतर आसा. अशे आसुनूय जवेरचंद मेघाणी सौराष्ट्री गुजरातींत बरयतात आनी दोगांचींय पुस्तकां लोक रुचीन वाचतात.

हालीं आमचे कांय लोक हिन्दी शिकल्यात. तांकांय हो प्रस्न विचारून पळोंवयेत. रामवृक्ष बेनिपुरीची हिन्दी आनी प्रेमचंदाची हिन्दी हातूंत अंतर कितळें आसा? हजारिप्रसाद द्विवेदीची हिन्दी आनी पंडीत सुंदरलालाची हिन्दी हातूंतली खंची 'स्टेंडर्ड' हिन्दी?

प्रमाण कोंकणी खंयची? हो प्रस्न दुश्टपणान केल्लो नासत तर तांकां वयर जाप मेळपाक जाय. जाका जी शैली स्वभावीक त्याच शैलींत ताणे बरोंवचें तातूंतच सुंदरकाय आसा. प्रो. रामचंद्र शंकर नायकाचें 'सोर्तिकार' वो 'चवथीचो चंद्र' हे फार्स 'स्टेंडर्ड' कोंकणीत बरयल्ले जाल्यार तांची सगळी गोडीच ना जातली आसली. साहित्य जेन्ना जिवनाकडेन संबंध दवरता तेन्नाच तें 'जिवंत' आसता. अडेच्या बंदांनी ताका बांदूक जायना.

देखून बेश्टो वाद माजोवचे परस आपापले शैलींत बरोवपाक लागुया आनी वाचुया. 'मालवणी', 'गोमांतकी' वो 'कारवारी' मोडी कोंकणीच्या आंगावेल्यो मोलादीक वस्ती. तांची केळवण सारकी बरी जावपाक जाय. आज आमकां त्यो शैल्यो वाचपाची सवंय नासलेल्यान सुरवातीक मातशें चुकिल्ले भाशेन दिसतलें. पणून मागीर संवकळ जातली. आनी तांतली खुबी आनी गोडीय आपोआप लक्षांत येतली.

शुद्ध बरपाचे - Orthography चे मात सामान्य नेम करपाक जाय."

- संपादकीय

## ii) 'माय-भासांचें महत्व'

(मीर्ग वर्स-1, अंक-2, वर्धा 1 सप्टेंबर 1953.)

समाजाची नवी जडण घडण वसोवपांत आनी समाजाचे उदरगतीचो प्रस्न सोडोवपांत माय भासांक केदें महत्व आसा हाजी आमचे भाग्य रचयत्यांक मातूय खबर ना. मारवाडी, हरियानी, भोजपूरी, मगही कुमाउनी गढवाली वो ल्हान ल्हान भासांक तांचें आपणालें अशें एक वेगळें अस्तित्व आसा हें कितलेतरी दळिद्री मेंदू मानुकूंच तयार नांत. लक्षांनी आनी कोट्यांनी मनीस ज्यो भासो उलयतात तांकां हे 'विद्वान' बोली म्हूण कुस्कुटायतात आनी हे प्रस्नाकूच कूसमारूक सोदतात. ह्यो जिवंत भासो ते ते थळावयले लोकांचें अंतस्करण हालोवन जागें करपाची शक्त ते ते आवय भाशेकूच आसता म्हणपाचें तांकां साहित्य नाशिल्ल्यान असले लोका कडसून भास म्हणून घेवपाचो भोवमान मेळना. लिखीत साहित्य जावंक पावलें ना हें ताचें दुर्दैव खरें. तांच्यांत जर लिखीत साहित्य आसता तर लोकांक तांचेविशीं जे कितलेशेच अर्थ नाशिल्ले दुबाव छळटात ते उचकुकूच पावचे नाशिल्ले.

आमकां जाय जावं नाका जावं आयज ना जाल्यार फाल्यां हे मायभासांचो पालव आमकां घेवचोच पडटलो. जनतेक जागृताय हाडूंक आनी दुसरी वाट ना. कितलींशींच शतकां धरून हे देशाची जनता निरक्षर उरल्या. लोकाक तांचे माय-भासांतल्यानच जर आमी शिक्षण दिवं तर थोडेच कळावा भितर आख्ये देशाक बरपी-अक्षरी आमच्यान करूंक जाता. मुळावें तशेंच प्रौढ शिक्षण माय-भासांनी चलयल्यार निरक्षरतेचें भूत 'फू' केल्ले भशेन नाश जावन वतलें. अन्नाडी जाणट्या-नेनट्यांक निखटी नागरी वर्णमाला शिकयल्यार पुरो दुसऱ्याचे जिवार ताणीं पालेवप. आनी दुर्देवान ह्या असल्याच लोकांच्या हातांत आज राजनितीक आनी सामाजीक जापसालकी आयल्या. गेल्ले मुस्तींत हे लोक घरादारांत लेगीत इंग्लेज उलोवपांत आनी पापा मम्मी करून घेवपांत धन्यताय मानताले. आतां हिन्दीक मानाचो पाट मेळटासो पळोवन हे लोक हिन्दीक वेंग मारूंक पळेतात. पूण असले सुवार्थी आनी

बेणेल्ले वृत्तीन म्हुट्टेल्लेंशें मात जातलें.

तरी हे काळार इल्लें इल्लें ह्या प्रस्नाचेर जनतेचें चित्त वता हें शुभचिन्न म्हणूं येत. वेगवेगळ्या ल्हानव्हड मायभासांत नेमाळीं आनी पुस्तकां उजवाडूंक लागल्यात. लोक काणयो आनी लोक गितां हांची अपुरबायेन पुंजावणी चलल्या. जे नवे मत्ताचे तरूण लोक हें काम करतात ते एक महान राष्ट्रीय कार्य निभायतात अशें म्हणूंक जाय. तांच्या कार्याचें मोल फुडल्या पिळग्यांक जास्त बरें समजतलें.

सगळ्यांत चड गरजेची वस्त म्हळ्यार दर मायभाशेंत नेमाळीं भायर सरूंक जाय. मायभाशेचें महत्व बहुजनांक आजून सारकें समजू नाशिल्ल्यान ह्या नेमाळ्यांक लोकांचो जाय तितलो पालव एका फारान मेळतूच म्हण सांगूं नजो. पयलीं पयलीं तीं अल्पायुशीय जाल्लीं पूण अपेसान धीर व्हगडावंक जायना. नव्यान काम चलयत रावंक जाय. कांय काळान एक दोन हजारूच वर्गणिदार मेळत जाल्यार एक वो दोन नेमाळीं सोपेपणी चलोंवयेत, आनी तांचे वतीन देशाचे संस्कृतायेक जास्त उजळ करूंयेत.

आतां अदीक काळ मेरेन आमी हे देशांतले ल्हान व्हड मायभासांक कुस्कुटांक जायना आनी देशाचो विकास घडोवन हाडूंक तांकां माना भोवमानान येवकार दिवंक जाय अशी देशाचे आयचे मुखेल प्रस्नांची आनी इतिहासाची मागणी आसा."

**- राहूल सांस्कृतायन'**

वयर विवरायिल्ली 'नवें गोंय', 'साद' नेमाळीं 'साळीक' म्हयन्याळें आनी वर्धातलें मीर्ग हीं देवनागरी पत्रां हाताक मेळल्ल्यान हांतले थोडे चळवळेचे विशय ह्या ग्रंथांत दिवंक अवकास लाबलो.

ही वर्णमाला शिकूंक भौच सोपी. कांय लोक तर ती सात आठ दिसांतूच शिकून उडयतात. लिपी शिकतकूच तांचे हातांत माय-भाशेंत छापिल्लीं पुस्तकां दिवंचीं. ते भाशेतल्यो अलिखीत काणयो होंवयो कवनां बी हे छापील पुस्तकांत आसत तर चड बरें. अशे तरेन ते मायभाशेंतलें अलिखीत

साहित्यूच जर नागरी लिपींत बळसायत तर कितलेशेंच काम जावन वतलें.

माय भाशेचे हे शक्तीची तोखणाय म्हळ्यार एक निखटी कल्पना न्हय. रशियेन थोड्याच काळा भितर निरक्षरता सोंपयली, निव्वळ लिखितूच न्हय तर अलिखीत मायभासांचो लेगीत पालव घेवन ताणीं ल्हाना व्हडांक शिक्षण दिवपाक सुरवात केली. शिकिल्ल्यांक वेगवेगळे महत्वाच्या विशयांचें शिक्षण दिवचे खातीर ते ते माणकुले भाशेंत साहित्य रचलें. कम्युनीस्ट रशियेन ही रीत उपकारायली म्हण सोवळेपणान आमी नाक खळवटांवचेली गरज ना, आनी माय-भासांचे पालवान शिक्षण चलयलें म्हण कसलेंच पातक लागना. बहुजनांभितर विद्येचो प्रसार करपाचो हो एकूच खाशेलो उपाय आसा. माय भाशेच्या शिक्षणा वांगडाच आमी अख्ये देशांत व्हड पांवड्यार चलते राष्ट्रभाशेचेंय शिक्षण लोकांक दिवंक जाय. अशे तरेन एका वटेन दर माय भाशेची आनी ती उलवपी लोकांची बौद्धीक आनी सांस्कृतीक उदरगत घडटली आनी दुसरे वाटेन शिक्षणांत राष्ट्रभाशेची जोड दवरिल्ली आशिल्ल्यान देशाच्या व्यवहाराचोय एकवट सादतलो.

माय-भाशेचें महत्व निकटें शिक्षणा पुरतेंच आवाटिल्लें ना. सरकारी कारभारांत लेगीत तेंच तत्व पाळूंक जाय. सादे लोकांमेरेन जर सरकारी कर्तव्यांची जायणी पावंक जाय तर मायभासांचो पालव घेतले बगर सुटका वाट ना. पूण कांय लोकांक हें मान्य ना. जाणीं शिक्षण आनी बरप अक्षर म्हळ्यार आपणालेच अधिकाराची जाळवण अशें धरून बहुजनाचें अज्ञानाचेर आपणालो निर्वाह चलयला आनी प्रतिष्ठा स्थापल्या तेच लोक हे जनतंत्री तत्वाचो विरोध करतात. हे लोक म्हळ्यार समाजाचे, वाडट्या रुखार चडिल्ली बेनल. तांचीं पाळां जमनीर पावनांत.

ह्या भायर दोन हाताळीं मुंबय देवनागरी लिपींत भायर सरतालीं. 'आवय' आनी 'सांगाती'.

ह्या विशयांत शणै गोंयबाबान लिखल्ल्या 'येवकार अध्यक्षालें उलवप' विवर ह्या परीं आसाः-

"'आवय' ति-म्हयन्यांळ्यांत दिनकरबाब देसाय एम.ए. एल.एल.बी,

नंदाबाब वेलंग, बी.ए. जयवंतबाब कुलकर्णी, अंबू बाय कुळकर्णी, मनोरमाबाय वागळे आनी हेर दादल्या बायलांले सुंदर लेख येताले. दिनकरबाब हे मोटे कोंकणी बरपी. तांगेलो 'शिवण्णा' केन्नाच विसरूक जांवचो ना. "किंरवटीक ती पुडीची बाटली, पोट म्हळ्यार च्याची किटली, एक दीस किरवट सुटली सांते बाजारांत, भरिल्ल्या सांते बाजारांत. असो तो शिवण्णालो अवतार."

"'सांगाती' ति-म्हयन्याळें मुंबय रावतले बिरवंडेंचे (रत्नागिरी जिल्हो) कांय क्रिस्तांव भाव चलयताले. संपादक जे. डी. पींतु आनी एफ. जे मार्तीरिश. उजवाडावपी डॉ. एफ. पी. मार्तीरिस."

हीं दोनी हाताळीं थांबलीं. उप्रांत 'नवो उजवाड' नावांचें तिसरें हाताळें 1942 च्या सेतेंब्रा पासून 'दि घाट कॅथलीक एसोसिएशन' नावाचो पंगड दर म्हयन्या देवनागरी लिपींत उजवाडायता. हातूंत बिरवंडे, सावंतवाडी, वेंगुर्लें, बेळगांव, खानापूर, आजरें बी गांवचे बरोवपी बरयतात.[86a]

देवनागरी लिपींत पत्रां पुराय सारस्वतांनीच सुरू केलीं. म्हणूंक जायना. क्रिस्तांव भावांनीय तीं प्रकटल्यांत म्हणच्याक ही रुजवात जावन सारस्वतांची जाग-माग म्हळ्ळया अध्यायांत एक आडवाद जावन येता.

निमाणें उतर : सारस्वतांची जाग-माग म्हळ्ळो अध्याय केरळांत मलयाळी लिपींत पत्रिकोद्यम म्हळ्ळया विशया थावन सुरू जावन कर्नाटकांत आनी मुंबयतली देवनागरी लिपीच्या पत्रापर्यंत विस्तारलो. मुंबयतल्या देवनागरी लिपीच्या पत्रां विशयांत 'नवें गोंय' पत्रा थावन वर्धांतल्या मीर्ग पत्रांत आनी थोड्या हाताळ्यांचो विवर मात्र हांगासर दिला. कारण हो दुसरो ग्रंथ गोंयच्या सुटकेच्या पयलींची चळवळ मात्र आटापता. त्या वरवीं मीर्ग पत्र जाल्लें तेन्नाच संपवणी केल्या. संपवणेचो पुर्तो विवर संपवणी अध्यायांत आटापता जाल्ल्यान हांगासर हो अध्याय संपयला.



# अध्याय स
# आटवणी

हो ग्रंथ कोंकणी चळवळेच्या संशोधना वयर आटापला जाल्ल्यान, वाचप्यांक साबार सवालां उब्जोंचें सहज. कोंकणी चळवळेच्या पयल्या ग्रंथांतय वाचप्यांक साबार सवालां उब्जाल्लीं. पयल्या ग्रंथांत कोंकणी आठव्या वळेरेंत आइल्ल्याचो प्रस्ताप कित्याक ना? अशें साबार वाचप्यांनी सवालां उडइल्लीं. 'बरयणाराच्या भोगणांत' पयलो ग्रंथ कोंकणी मराठी वाद-विवादाचेर मात्र आटापला म्हण स्पश्ट सांगल्यारय, हर एकल्याक जवाब दिवन पुरो जालें, तरीकय थोडे त्या ग्रंथांत तें ना हें ना म्हण गाब कर्नच आसल्ले. कोंकणी आठवे वळेरेंत रिगताना, कोंकणी-मराठी वाद-विवाद कारणा वरवीं न्हय जाल्ल्यान, आनी ताच्याकय पयलें साबार चळवळेचीं कुपां-रुपां आरांवक नेरांववक आसल्ल्यान आठव्या वेळेरीचो प्रस्ताप मुखल्या ग्रंथांनी विवरिता म्हण सांगल्लें. त्या भायर कोंकणी चळवळ म्हळ्यार एक दर्यो. ती चळवळ एकाच ग्रंथांत आटांपूंक असाध्य. हंता-हांतानी ग्रंथा-ग्रंथानी ही अगाध चळवळ विवरूंक प्रयत्न चलता म्हळ्ळें सत वाचप्यांमुखार दवरूंक अपेक्षितां. ह्या घडिता थावन एक लिसांव आटापिल्ल्यान एक सृजनात्मक 'आटवणी' म्हळ्ळो अध्याय ह्या ग्रंथांत लिखून वाचप्यांच्या सवालाचीं आनी संशोधनात्माच्या दुबावाची तानभूक निवारूंक प्रयत्न केलां.

## 6.1 रोमी लिपींत पत्रिकोद्यम

गोंयांत पुर्तुगेज वसणूकदारांनी गोंयच्या लोकाची कोंकणी भास शिकोंक आनी धार्मीक साहित्य रचूंक रोमी लिपी वापरल्ल्यान क्रिस्तांव लोक रोमी लिपिंतच वाचूंक बरोवंक शिकले. आनी त्या वर्वींच म्हणयेत कोंकणेचें सुर्विलें पत्र 'उदेंतिचें साळक' रोमी लिपीन उब्जालें. रोमी लिपीन कोंकणी पत्रिकोद्यमांची चळवळ प्रारंभ जाल्ल्यान, सुर्विल्या अध्यायांतच हाका प्रामुख्यता दिल्या.

रोमी लिपींत पत्रां चडावत क्रिस्तांवांनी प्रारंभ केलीं. जाल्यारय, पुराय क्रिस्तावांनीच म्हळ्यारय चूक जाता. अक्रिस्तांव लोकांनीय रोमी लिपीन पत्रिकोद्यम प्रारंभ करून साहस प्रदर्शिलां. त्या पयकी थोडी नावां हांगासर दिस्यात. 'Dexassudharanexto' (देश सुधारनेश्टो) म्हयन्याळें पत्र आत्माराम पुरुशोत्तम रायबंदर; 'O Goatma' (ऊ गोवात्मा) पंद्राळें पत्र-वेंकटेश नायक, मडगांव; Jornal Das Novas Conquistas' (जॉरनाल दश नोव्हश कोंकीश्ताश) पंद्राळें पत्र गोवींद भास्कर पार्सेकर, पार्से, 'A opiniao Hindu' (अ ओपिनियांव हिंदू) पत्र मंगेश मुकूंद राव; O Sudarxana (ऊ सुदर्शन) म्हयन्याळें पत्र-बी.एम राव, नोव्हा गोवा; Gomanta Bharti (गोमंत भारती) साप्ताहीक पत्र, रवींद्र केळेकार - इत्यादी. अशें हिंद्वांनी रोमी लिपींत पत्रां चलयल्ली रुजवात आसा.

त्या वेळार रोमी लिपींत जीं पत्रां प्रगट जातालीं तीं पुराय कोंकणी भाशेनच आसल्लीं अशेंय म्हणोंक जायना. त्या पत्रांनी प्रमूख जावन पोर्चुगीज भास आसताली आनी कोंकणीखातीर थोडीं लेखनां आनी कोंकणी भाशेन थोड्यो वोळेरी आसताल्यो. (हीं पत्रां गोंयच्या केंद्रीय ग्रंथालयांत पळेंवक मेळतात.) हाचो अर्थ असो जाता किं, पोर्चुगीज भास त्या वेळार भाटकारांची आनी शिकप्यांची प्रतिश्ठीत भास जावन आसल्ली आनी ह्या पत्रांचे संपादक/दिरेक्तोर कोंकणी भाशेची सेवा करच्या उद्देशान आमी साद्या लोकाखातीर कोंकणी भाशेचीं थोडीं लेखनां हळतान ह्या पत्रांनी लकयताले.

गोंयच्या केंद्रीय ग्रंथालयांत रोमी लिपीचीं 162 पत्रां पुस्तकां रुपार शिंवोंवन, सांबाळून दवरल्यांत. थोडीं पत्रां सारकीं आसात आनी थोडीं पत्रां भोव आदलीं जाल्ल्यान कुंबू जावन आपूडताना पिटो पिटो जातात. ह्या पत्रांनी आसल्ली कोंकणी चळवळ सोदून काडूंक पोर्चुगीज भास शिकाजे पडता. संशोधन करतेल्यांक, ग्रंथालयांत दुभाशी अणकारांची सवलताय ना, आनी एखादवेळा अणकार सवलताय आसल्यारय एकल्याचें जीवमान पांवचें

ना. हीं पत्रां आतांची तांत्रीकता प्रयोग करून 'सीडी' रुपार सांबाळून दवरल्यार मुखल्या संशोदिकांक उपकाराक पडतेलीं, ना तर जालें तीं अशींच दवरल्यार थोड्या तेंपान नास जांवचें संभव आसा.

रोमी लिपींतल्या पत्रांतली कोंकणी चळवळ आरांवंक ह्या ग्रंथकर्तान जायती म्हिनत घेतल्या. साबार जणांक मेळोन पोर्चुगीज भास जाणासल्ल्यांक सोदून काडून हीं पत्रां वाचल्यांत. पूण ह्या जणांकय फुर्सतेचो अभाव आसल्ल्यान, ह्या ग्रंथांत रोमी लिपीच्या पत्रांनी आसल्ली कोंकणी चळवळ वयल्याबार दिवंक हेंच काराण जावन आसा.

रोमी लिपीच्या पत्रांनी चलइल्ली कोंकणी चळवळ हांगा संपवंक ना. ती आनीकय आसा. ह्या लिपीन कोंकणी पत्रिकोद्यमाची सुरवात केल्ली जाल्ल्यान पयल्या अध्यायांतच हाची झळक दिली. पूण दुसऱ्याय लिपिच्या पत्रांनी चलइल्ल्या चळवळेची वळोक दिवंक आसल्ल्यान, गोंयच्या सुटकेच्या आदीं आनी उप्रांत अशें दोन विभाग करून, सुटकेच्या आदल्या काळाच्या पत्रांचो विवर मात्र दिला. गोंयच्या सुटकेच्या उप्रांतल्या काळाच्या पत्रांचो विवर मुखल्या ग्रंथांनी दिवंक प्रयत्न आसतोलो.

## 6.2 कन्नड लिपींत पत्रिकोद्यम

गोंयां थावन विविंगड काळा थावन विवीध कारणानीं कोंकण करावळीर वस्ती केल्ल्या कोंकणी लोकांच्या चरित्र्यां पयकी मंगळूरगार कोंकणी लोकाची चरित्रा रंगाळ जावन आसा. ह्या मंगळूरगार कोंकणी लोकामदें दोन प्रमूख विभाग जावन आसात क्रिस्तांव कोंकणी आनी सारस्वत कोंकणी लोक. इतरय आसात. पूण ह्या दोन कुळाचे साहस श्लाघणीय जावन आसा. ह्या ग्रंथाच्या दुसऱ्या, तिसऱ्या आनी चोवथ्या अध्यायांत केनरा कोंकणी क्रिस्तांवानी चलइल्ल्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाच्या चळवळी विशयांत विवर दिला, आनी सारस्वत लोकांनी चलइल्ल्या कोंकणी चळवळेचो विवर पांचव्या अध्यायांत विवरिला. क्रिस्तांव लोकांनी साहसीक थरान स्थापन केल्ल्या 'कोंकणी दिर्व्यां'ची कथा चरित्रेच्या पानांनी अखंड जावन उरोंक ह्या पत्राच्यो प्रत्यो

आजुनय पळेंवक मेळतात म्हळ्ळेंच प्रमूख काराण जावन आसा.

### 6.2.1 'कोंकणी दिर्वें'

केनरा कोंकणी क्रिस्तांवानी चरित्रा निर्माण कर्न स्थापन केल्लें 'कोंकणी दिर्वें' पत्र आजूनय पळेंवक मेळता, आयकोंक मेळता पूण पुर्तें वाचूंक मेळना. कारणां हाका साबार आसात. ह्या पत्राच्यो प्रत्यो थोड्यो सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यांत आसात. ह्या संस्थ्या थावन संशोधनात्मकाच्या वावराक ह्यो प्रत्यो मेळतात आनी संस्थ्यानीय ह्या पत्राच्यो प्रत्यो लभ्य आसात. त्यो ताणीं भद्र बिऱ्या भितर लकोवन दवरल्यात. त्या संस्थ्यांक ह्या पत्रा वयर संशोधनाच्या गरजेन गेल्यार पुरतो सहकार मेळाना. ग्रंथालय खबाडदाराचो भाव विविंगड वैयुक्तीक काराणांक लागोन पुर्सतेर आसाना. असल्या संस्थ्यांनी धा-जणांक उपकारचीं दस्तावेजां-पत्रां-दिर्वीं कित्याक पुंजावन भद्र बिऱ्या भितर दवरल्यांत म्हळ्ळें समजाना. संशोधिकांक तीं पळेंवक, वाचूंक मेळाना जाल्यार तीं पुंजावन कितें फायदो? एक दिस तीं नपंयच/नास जातेलीं. तवळ ह्या दस्तावेजांचो हुसको काडतोलो जांव, रडतोलो पोसको जांव आसचोना.

मंगळुरांत आधुनीक पुराभिलेख (Archies) खंयच्याय कोंकणी उलंवप्यांच्या संस्थ्यानी बांदून हाडूंकना. सा. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्याच्या ग्रंथालयांत आसल्या पुराभिलेखाची तयाराय चलता. ह्या पुराभिलेखात इतर कोंकणी संस्थ्यानी तांचेकडे आसल्ली आदलीं आनी आतांचीं कोंकणी चळवळेच्या साहित्याचीं दस्तावेजां हातान्तर केल्यार बरें, धा जाणांक उपकारा पडात.

सुर्वेर ह्या ग्रंथकरताक थोड्या संस्थ्यांचो संशोधनाखातीर सहकार जाल्लो. पूण दीस वेतां वेतां तांकांय कुरवाय दर्ली गरजेचीं दस्तावेजां मेळ्ळींनात. कोंकणी दिर्व्यांत आर्दी कशें बरयताले तशेंच ह्या ग्रंथांत दाखोवंक जाय आसल्लें. थोडीं दस्तावेजां मेळ्ळीं, थोडीं मेळोंकनात. तशें जाल्ल्यान ह्या ग्रंथांत कोंकणी दिर्व्यार कशें बरयताले. तशेंच हरएकय दस्तावेज आसचें ना

म्हण वाचप्यांक कळोवंक आपेक्षितां.

ह्या दिर्व्यांचे अंके 'पलाण्या' धार्मीक संस्थांत आसात म्हण पयलें कळीत जाल्लें श्रीमती ग्लाडीस रेगो थावन. त्या संस्थ्यांत आसल्ले अंके हांव पेळेताना, तांतूं सुर्विले अंके नात म्हण ग्रंथालयाचो भाव सांगतालो. पूण गजाल कितेंगी म्हळयार सुर्विल्या दिर्व्यांचे अंके 'आंज' पत्राच्या आकाराचे जाल्ल्यान, अंके 'आंजा' संगीं सेर्वील्ले. ते सोदून काड्न 1912 इस्वी माय म्हयन्याच्या अंक्या थावन निमाणो अंको पर्यांत आसा म्हण तांकां कळइल्लें पूण ह्या उप्रांत आइल्लो अकोंकणी भावाक फुरसत नासताना, त्या पयल्या अंक्याची तस्वीर म्हाका मेळ्ळी ना. ह्या ग्रंथांत दिल्ली तस्वीर श्रीमती ग्लेडीस रेगोच्या संग्रहांतली मेळल्ल्यान ह्या ग्रंथांत (पान-47) दिल्या.

### 6.2.1.1 सरदार लुवीस कण्णप्पा (1887-1967)



सरदार लुवीस कणणप्पा. उच्चील बोवी समाजेच्या कुळयेचो. ताची मांय भास मलेयाळीची एक भासपूट. सां. लुवीस कॉलेजींत बी.ए. पदवी जोडून, सां. लुवीस कॉलेजीच्या हायस्कुलांत अध्यापक जावन आसताना क्रिस्तांव धर्माक सेर्वाल्लो. बेंदूर इगर्जेक लागोन एक एकरो सुवातेर आसलल्या 'सिगे बल्ले हावस' हांचें निवास जावन आसल्लें. हो लुवीस मास्करेन्यस हाचो सांगाती आनी ईश्ट. लुवीस मास्करेन्यसान साद्या नाडकार लोका खातीर कोंकणी भाशेन एक पत्र काडीजे म्हण आलोचेन उच्चारताना धयर आनी पयशांची मजत दिवंक मुखार आइल्लो श्रेश्ठ मानाय हो जावन आसा. पुर्वजांची एक गाद आसा. 'आलोचन आमचेकडेन दुडू दाक्टेर्बूंच्या पुताकडे.' खंयचेय एक काम सुरू करताना दुडवाची गरज आसा. दुडू जरितरी हातांत ना, आलोचन्यो कितल्योय आसल्यार त्यो सफल जायनात. 'कोंकणी दिर्वें' पत्र सुरू करच्या पयलें एक कोंकणी पत्र काडची आलोचन साबार तेंपा

थावन गांवार घोळताली म्हण दिर्व्यार सांगल्लें आयकोंक मेळता. व्होडांगेल्या इंग्लीश मर्जेंत, साद्या लोकांखातीर कोंकणी पत्र काडल्यार कितें म्हणतीत? पत्र लोक वाचिना जाल्यार नश्ट संभवतागी? असलें अपधयराचें चिंतप आसल्ल्यान कोणायकय नश्ट भोगूंक नाका आसल्लें. ह्या ऐन संदर्भार जरितरी लुवीस कम्णप्पा दुडवाची मजत भासाय नातल्लो जाल्यार 'कोंकणी दिवें' सुरू जातेंगीना कोण्णा! ह्या महान मनशाक आज कोंकणी लोक विसारलासो दिसता. कोंकणी कार्यक्रमाच्या वेदीक लुवीस कण्णप्पाचें नांव दिल्लें येदोळ पर्यांत आयकोंक जांव, पत्रिका वर्देंत जांव वाचूंक ह्या ग्रंथकर्ताक मेळोवन ना.

लुवीस कण्णप्पान दुडवांची मजत दिली म्हण दिर्वे सांगता. आतां मजत म्हळ्यार दान वा रीण दिल्लेंगी? या हिस्सेदार (Shareholder) जावन मालीक मंडळींत आसल्लो म्हण कळाना. लुवीस कण्णप्पा पत्राच्या मालीक मंडळांत आसोन पांच वर्सां म्हणजे 1917 इस्वी पर्यांत पत्राचें आडळतें चलोवन, पत्र सुदृढ आनी सुस्थितीचेर पावइल्ली कीर्त हाची. पूण उप्रांत एल.टी. तरबेतीक मद्रासाक वचोंक पडल्ल्या निमतीं पत्राची जवाबदारी सोडली म्हण पत्र कळयता. आनी ह्याच वेळार लुवीस मास्करेन्यसानय पत्राची जवाबदारी सोडल्ल्यान, मालीक मंडळींत कांयतरी राजकरण चललां म्हण चिंतूंक अवकास कर्न दिता. कित्या म्हळ्यार मुंबयथावन आलेक्स पायस हांकां पत्राच्या संपादकाची आनी प्रगटणाराची जवाबदारी चलोवंक जाता जाल्यार, लुवीस कण्णप्पाक मद्रास थावन जातेंनांगी म्हण सवाल. त्या भायर त्याच वेळार लुवीस मास्करेन्हसानय (ताच्या इश्टान) कित्याक सोडलें? कितेंय जांव ह्या श्रेश्ठ आनी म्हान व्यक्तीन कोंकणी पत्रिकोद्यमाक दिल्लो आदार आनी मजत कोंकणी पत्रिकोद्यमाच्या चळवळेक काराण जाल्ल्यान ताचो उगडास कोंकणी लोकान सदांच दवरूंक फावो.

### 6.2.1.2 श्रेश्ठ कवी लुवीस मास्करेन्यस

एका तेंपार कोंकणी भास मरोंक तेंकताना, मोर्नाच्या हांतुळणार, जीवन-



मरणा मदें वद्दाडताना, आडेबागेच्या शिकप्यांनी ह्या भाशेक फातोर घाल्न लगाड काडिजे म्हण चिंतून आसताना चिंत्ताना कोंकणी दिगंतार उदेलो एकलो श्रेश्ठ कोंकणी पत्रकार, कवी आनी चळवळेकार कोंकणी भक्त लुवीस मास्करेन्य हो फांकिवंत कोंकणी चळवळेगार, कोंकणी जागरणेच्या फांतोडेर आपल्या मांयभाशेच्या भक्तीन कोंकणेक दुंपयताना, थोडे चाळवाले, उचांबळ जाल्ल्यांक ताणें आपल्या कविताच्या शैलेन थंड केलें. चाळवल्ल्यांक कोंकणी दिव्यांतल्यान उतरांच्या दांडाऱ्यानी कान धर्न ओळायले. शेळेल्ल्यांक झेमेतेल्यांक दुंकुळ्न जागयलें. कशें मुंबयंत शणै गोंयबाब कोंकणेची चळवळ चलयतालोगी चड उणे त्याच वेळार मंगळुरांत लुवीस मास्करेन्य कोंकणीची चळवळ चलयतालो. हे दोगय चळवळेकार समकालीन म्हणयेत. शणै गोंयबाब जल्मलो 13 जून 1877 आनी लुवीस मास्करेन्य जल्मालो 13 फेब्रुवारी 1887. आब्रांवचें 'यज्ञदान' एक श्रेश्ठ कविता नाटक कृती, लुवीस मास्करेन्यान 1923 इस्वेंत लिखल्ली आनी 1936 इस्वेंत कड्तिले रुपार प्रकट जाल्ली. तशेंच शणै गोंयबाबान 1930 इस्वेंत 'कोंकणी भाशेचें जैत' विविध हप्ताळ्यांचेर लेखना मुखांत्र प्रकट केल्लें. लुवीस मास्करेन्यसान 1923 इस्वेंत कोंकणी भाशेचें व्हडवीक उच्चारचें 'आमच्या मांय भाशेची अभिवृद्धी' म्हळ्ळया विषयाचेर भाशण दिवन, इंग्लीश उलयतेल्या कोंकणी लोकाक जागयताना शणै गोंयबाबान 1930 इस्वेंत 'उठात जागे जायात' म्हण मराठी उलयतेल्या कोंकणी लोकाक जागयल्लें. अशें पळयताना दोग श्रेश्ठ चळवळेगार समकालीन जावन आसल्ल्यारय गोंयबाबाक मेळल्लो तितलो परगट मान आनी मान्यताय मास्करेन्याक मेळोंक ना म्हण म्हणयेत. श्रेश्ठ कवी जावन आसोन, पांचच वर्सांनी कोंकणी दिर्वे कित्याक सोड्न दिलें म्हळ्ळो एक मिस्तेरच जावन आसा. तेवीं मुंबय वकालत कर्न आसल्ल्या

तवळ कोंकणी, बरोवंक शिकोन आसच्या आलेक्स पायसाक कोंकणी दिर्व्याचें संपादकपण सोड्न दिवचें म्हळ्यार तें सहज म्हण दिसाना. फा. ।सिल्वेस्टर मिनेजान दिर्व्याची चरित्रा बरयताना अशें म्हळां "दिर्वें तयार करच्यांत मि. मास्करेन्याची शाती विशेश. ताची जाणवाय आनी विद्या, ताची गुंडाय आनी बारीकसाण, ताचे भाशेचो अलंकार आनी शैलेची सुडाळाय - हें सर्व इतलें नाजूक आनी विंचनार. ताचीं लेखना वाचल्लीं तितलीं वाचयां म्हण जातात. कोणाक जरतर कोंकणी भास बोरोवंक शिका जाय म्हण आसा, तो तीं पयल्या पांच वर्सांचीं दिर्वीं वाचून पळेंवदी."

लुवीस मास्करेन्यान 'कोंकणी दिर्वें' पत्राच्या सुर्विल्या संपादकियांत ताका कोंकणी भाशेवयर आसल्लो मोग, तळमळे आनी कळवळे ताणे ह्या परीं विवरिल्यात - "सायबा म्हज्या! कशी सुटका जाली अब्बा" अशें म्हणताना ताच्या काळजांत आसल्ले उमाळे एक पावटिच्याक वोतोन आयले म्हण समजों येता. त्या वर्वीं ताच्या काळाचें दिर्वें भाशेच्या अलंकारान भरोन लोकांक वाचयां म्हण आतुराय भगताली जांवयेत. हें वाचताना मास्करेन्यसा उप्रांत कोंकणी दिर्व्याच्या बरपांच्या चिंतनांची उंचाय, आनी साहित्याचें मट्ट देंवलें म्हण समजोंक काराण जाता.

लुवीस मास्करेन्यस एक उंचल्या वर्गाचो कोंकणी विद्वान आनी कविता लिखचें संयबीक देणें आसल्लो कवी म्हण ताचीं लिखितां आनी कवितां वाचल्ले सर्व म्हणतात. लुवीस मास्करेन्यसान घडल्लें आनी पुस्तका रुपार छापून पर्गट जाल्लें 'आब्रांवचें यज्ञदान' म्हळ्ळें कविता नाटक ताची अती उंचली कृती म्हणयेता. हें काव्य नाटक इतलें सोबीत आनी अर्थभरीत, तें वाचतेल्यांक परत वाचयां म्हण मन येता आनी तें बरयल्लो व्यक्ती एक उंचल्या वर्गाचो कवी म्हळ्ळो अनुभव जाता.

फा.। सिल्वेस्टर मिनेज बापान दिर्व्याची चरित्रा बरयताना कवी लुवीस मास्करेन्य विशयांत ह्या परीं उल्लेख केला :- "... मि. लुवीस मास्करेन्यस कविताचे सयमीक देणे आसचो खरो कवी. ताच्या तेंपाचीं दिर्वीं वाचून

पळेया आनी तांतूत मेळतेलीं थोडीं काव्यां..." मनीस म्हणजे कितें? म्हळ्ळें ताचें एक ल्हानशें काव्यें, मि. जुजे साल्दान्यान इंग्लेज कवेश्वर मिल्टनाच्या कवनांक सरी केल्लें... मि. मास्करेन्याचीं लिखितां फायस करूंक मुकार सरतेले आमचे मदें नातच म्हळ्ळें आनीकय चड पश्चातापाची गजाल... "इजाकाचें होम' म्हळ्यार अब्रांवान इजाकाचो भेटयल्ल्या साक्रिफिसा विशयांत मि. मास्करेन्यान काव्या रुपार एक भोव लायक नाटक बोरइल्लें आसा. ताचे इतलें सोबीत लिखीत आमच्या कोंकणी भाशेंत दुसरें ना म्हण हांव कंय जाल्यार सांगान. पूण तें नाटक बोरोवन आनी बिस्प सायबान मंजूर कर्व आतां चोवदा वर्सां जालीं जाल्यार तें येदोळ फायस करूंक वाट जावंक ना म्हळ्ळेंच पुरो, कोंकणी लिखितां आमचो लोक कितलीं आदारसितागी म्हण समजोंक, बोरोंवच्याच कामाक पोडल्यार जेवंक खंय वेचें? मोलाक घेतले नातल्यार छापूसून फायस करचें कशें?"

ही श्रेष्ठ कृती लुवीस मास्करेन्यान 1923 इस्वेंत डोल्फी काशियान पुनव प्रकाशना द्वारीं परत्या प्रगटली. उप्रांत 1987 इस्वेंत विल्यम द सील्व हांच्या संपादकपणाखाल लुवीस मास्करेन्य जल्म शताब्दी समिती तर्फेन मिल्टन रोड्रिगसान प्रगती प्रकाशन द्वारीं प्रगटली.

'अब्रांवचें यज्ञदान' हाची खोड - 'कुंडो खायऱ्यांक उंडो' म्हळ्ळया शिरोनामे खाल चा. फ्रा.द कॉस्त अशें लिखता : "बरप म्हण सुरू करतानाच हांवें एक कविता बरयल्ली. 1952 इस्वेंत बोंबयच्या रेडियोर पयलेच पावटी कविता वाचन मेळताना म्हजी आशा व्हड लांबाय रुंदायेची नातल्ली... तेदाळा हांव 'पयणारी' जम्यांत आसल्लों. ...पयणारींत ती कविता छापली ना. संपादकान म्हळें, "आमचो लोक कविता पसंद करिना. ती वाचिनासताना सोडतोलो... पूण एक्काय कोंकणी बरवप्याच्या तोंडा थावन हांवें ह्या म्हान कवीचें नांव आयकालें ना."

"पूण एक विचीत्र गजाल घडली. हावें तेदाळा म्हजी तर्नी जाडाय गोंयकारामदें फांकून जाल्ली. तेदाळा गोंयच्या चळुवळेचो बाप श्री. रवींद्र

केळेकार बोंबयच्या वर्ध्यांत 'मीर्ग' म्हळ्ळें कोंकणी पत्र तो चलयतालो... त्या दिसा सांजेर केळेकाराक मेळोंक आनी एक वस्ताद आइल्लो... श्री. एवाग्र जॉर्ज पुर्तुगालाच्या जेलांनी कुसोन जाणा."

"रवींद्र बाबान लुवीस मास्करेन्याची 'अब्रांवचें यज्ञदान' काव्य नाटकाची भोव पर्नी एक प्रती म्हज्या हातांत घालून, तुवें आमकां दोगांयक वाचून सांगाचें म्हणालो तो... हांव ती एदोळ वाचून नेणा... हांवें वाचूंक सुरू केलें."

"सादारण मदें पावताना आनी अब्रांव आपल्या पुताक कातरूंक कांपताना लु.मा.चीं अचरयांनी भरिल्लीं उतरां तोंडांतून गाजतालीं..."

"तुवें ल्हान व्हड केल्लें बोकडेचें पील सयतय कातरताना मुटी भितर कांपात कोयती."

"... रवींद्र बाबाचे दोळे वोले जाले. हांवें वाचप आखेर करताना, पुर्तुगलाच्या दांड्यांक बागानातल्लें शूर शिपाय एवाग्र जॉर्ज कडोन मेण जाल्लो..."

"मागीर नोव वर्सांचे तर्ने धुवेक हो साक्रिफीस हांवें वाचून सांगला आनी मागीर आमी दोगांय रडल्यांव...[87]"

लुवीस मास्करेन्याच्या काळार थावन लोक कविताक खाय्स करिनातल्लो म्हळ्ळयाक एक रुजवात जावन ताणेंच एक कविता रचल्या. कविता रुचानातल्ल्यांक तो कवितेंतच म्हणता -

तिळूं नाका भितर :-

"चालत्या मनशा, सर तूं पाटी
नाका तिळूंक भितर;
सगळ्यान चोंवची चंचाळ आशा
आनी पोकळ हासो, पिशा,
व्हरशी जरतर,

.......

वनांतरी भोंवतात रचना
कवित्वाचीं सुंदर,
तुजी एकच चंचाळ दीश्ट
पुरो तांकां करूक भश्ट
तिळूं नाका भितर

- कवित्वाचें गुपीन नंदनावन

- लु. मा.[88]

कोंकणी लोकांनी जरितरी ह्या श्रेश्ठ कवीक पाटिंबो प्रास्ताव आनी दुडवाचो आदार दिल्लो, कन्नडचो राष्ट्रकवी कुवेंपू आसल्याबरी तोय एक श्रेश्ठ कवी, जावन राष्ट्रीय मट्टार वा अंतर्राश्ट्रीय मट्टार कोंकणी साहित्य ग्रेस्त करतो आसल्लो.

दुडवांचो आदार दिवंक लोकांकडेन तवळ दुडू नातल्लो म्हळ्ळें पातयेंवक जायना. धर्माक दोन धर्म करूक तवळ थावन लोकांक पेटो-पोटाऱ्यांतले सयत नोटांची अट्टी उखलून दिवंक दुडू आसल्लो; सूट-बूट घाल्न जमातेंक वचोन दवलत दाकंवक पयशे आसल्ले, फेस्तां-परबे वेळार नाकभर सोरो लकवन दरबार दाकवंक दुडू आसल्लो, तर कोंकणी भाशेच्या साहित्याच्या आनी संस्कृतिच्या बऱ्यापणाक, ताच्या वाडावळीक दुडू दिवंक लोकांकडेन नातल्लो म्हळयार पातयेवंक जातागी? विशय इतलोच खंयच्या वेळ-घडये थावन पुर्तुगेजांनी भारतीय संस्कृतीचेर आनी कोंकणी भाशेचेर इंक्विझिसांवाची भिरांकूळ ख्यास्त उबारलीगी, तवळ थावन लोकांक फिंर्गी भाशेचें आनी संस्कृतीचें पिशें लागल्ल्यान कोंकणी भाशेचेर बोरोड पडला. न्हय तर इतर भाशेंक म्हणजे. कन्नड मलयाळम, तमीळ, तेलगू, मराठी बेंगाली इत्यादी साहित्यांत फुलोन परमळ दिंवच्या भासांक सर करताना, तितल्याच प्रायेची कोंकणी भास आनी साहित्य कुंटता म्हणच्यांत कांयच दुबावना.

लुवीस मास्करेन्य 1961 इस्वी, जुलय 23वेर आयतारा सांजेर अंतरलो. ताच्या मरणा वेळार मा.। सिल्वेस्टर मिनेजान दिल्ल्या प्रसंगात. "तो देवाक

मोगाचो, तो मनशांक मोगाचो, ताचो उगडास आशिर्वादांनी भरल्लो" म्हळें. आपले जिणेचीं साबार वर्सां पर्यांत निस्वार्थी मनान कोंकणीची सेवा केल्ले खातीर कोंकणी समाज सदांच ताका रुणी म्हण 'अमर कोंकणी' पत्रांत (1986) लिखून आसा. तशें तर खंय आसा ताच्या मानाचो स्मारक? कोंकणी लोकाच्या बेपर्वाच्या धोरणाक लागोन असलेच जायते प्रख्यात साहिती नांव नासताना गांव नासताना नपंयच जाते आसात म्हणच्याक ही एक ऐन रुजवात.

लुवीस मास्करेन्य कोंकणी चळवळेचो एक श्रेश्ठ फुडारी. हाणे सुरू केल्ल्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाच्या वावरा वरवीं आज कोंकणी पत्रांचो दाळोच उबो जाला. हाणे पेटइल्ली कोंकणी चळवळेची चूड आज आगटें जावन कोंकणी भास भारताच्या संविधानाच्या आठवे वोळेरींत सोबता. कोंकणी भक्त. लुवीस मास्करेन्य - हो मान खंडीत फावो तुका.

### 6.2.1.3 वकील आलेक्स पायस (1886-1960)

1912 इस्वेंत 'कोंकणी दिर्वें' प्रकटताना पत्रकर्ता जावन लुवीस मास्करेन्य आनी पत्राधिकारी जावन लु. कण्णप्पा हे दोगच जाण आसल्ले. 1914 इस्वेच्या जानेर 2 (म्हणजे पुस्तक तिसरें) तारकेच्या अंक्यार पत्र चलंवच्या पास्वत एक मालीक मंडळी घडली. ह्या मालीक मंडळींतलीं नांवां ह्या परीं आसात.



सिं.यू. कण्णप्पा एम.ए.एल.टी.

सिं. आलेक्स पायस - बी.ए.एल.बी.

सिं. वेनेश्यस पी. कुयेल्सू बी.ए. (आडळेदार)

सिं. आलोयश्यस आय. मास्करेन्यस (संपादक)

संपादकांक सहायक जावन सिं.पीं.जे. डि'सोवजा आनी सिं. जे.जे.रेगो हांकां दोगांक नमियारलेले.

त्याच वर्साच्या जानेर 16 तारकेच्या अंक्यार यू.कण्णप्पाचें नांव दुसऱ्या

स्थानार वचोन, आलेक्स पायसाचें नांव पयल्या स्थानार आयलें.

1917 माय म्हयन्याचो दुसरो अंको (पुस्तक 6वें, भाग 10वो) ह्या पत्रार नव्या वर्साचें बदलाप म्हळ्ळया माथाळयांत, सिं.आलेक्स ए. पायस बी.ए.एल.एल.बी. एडिटर आनी पब्लिशर जालो. (होय बेंदुरगार, मास्करेन्याचो शेजारी, ल्हानपणाचे सांगाती आनी चडउणे एकाच प्रायेचे जाल्ल्यान, सांगाता मेळ्ळे जावंक पुरो.) त्या वेळार पयलें महा झूज जातालें जाल्ल्यान छाप्याचें कागाद सुलभायेन मेळनातल्लें आनी त्या वेळार आलेक्स पायस बोंबय थावन ताच्या जोडींतले थोडे पयशे मोड्न कागद बोटीर धाड्न दितालो म्हण समजयेत आनी ह्या वर्वी ताका ह्या पत्रावयर नियंत्रण मेळ्ळें. न्हयतर इतलो हुशार मनीस लुवीस मास्करेन्य कोडयाळांतच आसताना, ताका निवृत्ती दिवन कोंकणी बरोवंक शिकच्या तेंवी बोंबय वकिलातांत दीसरात मग्न आसच्या मनशान, कोडयाळांत छापून प्रकट जांवच्या पत्राचें स्वाधीनपण घेवन संपादक आनी प्रकटणार जांवचें म्हळयार एक विशेश घडीत. संपादकाक येंवचीं पत्रां कोडयाळच्या छापखान्यात मेनेजर जावन आसच्या जे.जे.रेगोक. तीं ताणें टप्पाला मुखांत्र बोंबय धाडीजे आनी पायसाचें ओप्पिगे घेवन पत्रां पाटीं कोडयाळ आयल्या उप्रांत छापूंक धाडीजे. तीं पत्रां थोडे दीस वचोंक आनी थोडे दीस येवंक म्हणताना सुमार दीस अशेच पाशार जाताले जाल्ल्यान गरजे भायर घळाय आनी त्रास कर्न घेतल्ल्यात तशें दिसता. पत्राच्या वाडावळीक ही एक व्हडली आडकळ म्हण सांगयेत.

बोंबय रावोन तेंवी दीस रात वकालतपणाच्या कामात मग्न जावन आसोनय दिर्व्याचें संपादकपण चलयलां म्हळयार चिंतूंक कश्ट मारतात. चिंतताना अशें समजातागी, तो एक मुख्य जावन दुडवाचो खांबो जावन उरलेल्या आडळत्या मंडळीच्या म्हालिकांक एक आधार आनी धयर जावन आसल्लो म्हणच्याक दुबाव ना.

आलेक्स पायसाची आपली वांवट मात्र न्हय, आपली जोडय, कोंकणी भाशेच्या आल्तारीर साक्रिफीस भेटयल्या म्हण दिर्व्यार ताणे कळयलां.

चडउणे 75 वर्सां आदीं, लागीं लागीं चार हजार रुपय आपल्या बोलसांतले खर्चुचे म्हळयार आतांच्या रुपयाचें मोल कितलें जावयेत? जरितरी पायसाचो दुडवाचो आदार नातल्लो जाल्यार दिर्वें रुप्योत्सव पळेनासतानाच बुडतें कोण्णा. दिर्व्याचो ताका इतलो मोग आसल्लो किं कोणेंय विचारल्यार "हांव 'दिर्व्या'लागीं काजार जालां" म्हणतालो. (खासगी जिणेंत तो मोरापर्यांत आंकवार आसल्लो.)

बावीस वर्सांच्या ताच्या संपादकणात एका खऱ्या झुजाऱ्याबरी तो झुजलो. "दिर्व्या पासून वावुरतेल्यांक 'दिर्वें' मेळाना ह्या संवसारांत पुणि मेळचेबरी ना." तो म्हणा. 'मेल्यारि पिलिकुमेरी सोडचीना' म्हळ्ळेबरी पायसान दिर्व्याक घट खांद मारलो. दिर्वें रुप्योत्सव अंक्यात 'दिर्वें' पत्राचो उद्देश विवरून तो सांगता. "सुरू थावन हें पत्र लाभाखातीर वावरूंक ना. आमच्या लोकामदें जर ह्या पत्रान कोंकणी वाचपाचो मोग उब्जासो केला आनी आमच्या बरपेल्यांक लेखनां बरंवची रूच लागयल्या आनी कोंकणी लोकाक बरें, नितळ, मर्यादीचें आनी जाणवायेचें वाचाप मेळाशें केलां, तर तेंच भाग जावन आसा आमचें वर्तें इनाम."

आजकाल लोक इतलो चडला आनी छाप्याच्या तांत्रिकतेंत इतली प्रगती जोडल्या जाल्यार बोटांनी मेजयेत तितलीं कोंकणी पत्रां आज कश्टांनी जियेतात. तर साठ सत्तर वर्सां आदली गत कसली जावयेत? आतांच्या प्रास तवळ 'इंग्लीश मर्जी' बळ आसल्ली. कोंकणी पत्रांत बरोंवचें आनी पत्र वाचचें म्हळयार एका थराची लज तवळ उफेताली. देखूनच दिर्व्यार नीज नांवांनी लेखनां बरयनातल्ले. कळानातल्ल्याबरी लिखणे-नांवानगी, वा इन्नीतर बेनामी नांवानगी बरयताले म्हणच्याक दिर्वेंच एक साक्स. त्या भायर आतांच्या बरी इस्तिहारां भोव उणी आसल्लीं. पत्रान वर्गणीदारांचेरच होंदोन रावाजे पडतालें. त्या शिवाय लेखकय चड नातल्ले. थोडेच जण विविंगड लिकणे नांवांनी लेखना बरोवन पत्राचीं पाना भरती करताले. असल्या परिस्थितेंतय कोंकणी पत्रान रुप्योत्सव आचरसिलो म्हळयार एक व्हडलें अजाप म्हणयेत.

रुप्योत्सव आचरसिल्लें इतलें लोका मोगाळ पत्र बंद कशें पडलें? हाका कारणां साबार आसयेत. एक-दुसरें जागतीक महा झूज त्या वेळार भारान चलतालें. छाप्या कागदाचें मोल चडलें मात्र न्हय बाजारांत तें सुलभायेन मेळनातल्लें. ह्यावरवीं वर्गणीची दर चडईजे पडताना, वर्गणीदार उणे जाले म्हळ्ळें सत. दुसरें-दिर्वे कोडियालबैल छापखान्यांत छापताना, त्या छापखान्याचो मेनेजर जुजे रेग आसल्ल्यान 'पत्रकर्ता झेमेंवदी बरपेली न्हिदों दीत या वर्गणीदार आपालिपा खेळोंदीत, दिर्वे चुकानासताना भायर सरतालें, म्हण दिर्व्याच्या रुप्योत्सव अंक्यार विवरिलां. दिर्वे कोडियालबैल छापखान्या थावन भायर पडताना, ताका जुजे रेगाची सहाय चुकली. नव्या छापखान्यात नव्याच मनशांक कोंकणी भाशेचीं अक्षरां घडावळीची संवय नासताना घायाळ आनी तोंदरे जाले. आतां सवाल-दिर्व्यान स्वंत छापखानो इतलीं वर्सां थावन कित्याक आसा करूंक ना? दिर्वे सुरू जाल्ल्या दुसऱ्या वर्साच म्हणजे 1913 इस्वेंत - गांवातल्या हेर वर्तमानपत्रा बरी प्रत्येक खासगी छापखानो ना म्हळ्ळो हुसको आसल्लो. तिसऱ्या वर्सा संपादकाचे शरे लिखणेंत - स्वंत छापखानो नासताना आतां आसल्ल्या छापखान्याचेरच उशें केल्यार पत्र वेळार येत म्हळ्ळी आशा सोडिजाय म्हळ्ळी खंत उच्चारली. तशें आसताना दिर्व्याच्या म्हालीक मंडळींत खासकी छापखानो उबो करूंक इतलीं वर्सां जाल्यारय गमन केंद्रिकृत कित्याक करूंक ना? पत्र लोका मोगाळ जाल्लें, गांवभर वर्गणीदार जाल्ले, जाल्यारय पत्राचें आडळतें, पयश्यांचो वहिवाट सारको नातल्लो आनी पत्रांक परिपूर्ण वेळ खर्चून वावुरचो संपादक जांव, ताचेंच म्हळ्ळें कायम नौकर जांव नातल्लें म्हण समजोंक कारण जाता. मात्र न्हय, व्यापाराच्या दृश्टेन कश्टां-अनवारां वेळार उपकारचो भंडवाळ रचूंक ना म्हण जाता. तिसरें कारण जावन आसा दियेसेजीचें नवें पत्र. कोंकणी लोकाक त्या वेळार म्हणजे महा- झुजा थावन जाल्ल्या पयशांच्या अडचणेवर्वी दोदोन कोंकणी पत्रां हाडवन वाचची तांक ना जाली. वर्गणीदार उणे जाले म्हणतच रिणाची करंदाय, पावतीची समस्ये इत्यादी.

चोवतें कारण जावन आसा दिर्व्याक कोडियालबैल छापखान्या थावन भायर घाल्ल्यान, लोकांक दिर्व्याच्या अवका विशयांत दुबाव उब्जाले. कोंकणी भाशेचें पत्र वांचोवच्या खातीर मुंगड पयशे दिवन वर्गणी भरचे धैरादीक कोंकणी समर्थक त्या वेळार विरळ आसल्ले जावंक पुरो. अशें अर्दे, त्या वेळार आसल्ले जागतीक समस्ये वर्वी लोका मोगाळ पत्र बंद पडलें. म्हण समजोंक कारण जाता.

कितेंय जांव आनी कशेंय जांव, कोंकणी मायभाशेचे सबार दुडवादीक मानेस्त आसल्यारय आनी ते आपल्या मुटींतले पयशे सुटोवंक मुखार येवंक नात तरी, आलेक्स पायसान धयर, सोडूंक ना. आखेर पर्यांत ताणे ताची जोड मोड्न तरी दिर्वे वांचोंक पळेयलें म्हळ्ळेंच ताणे कोंकणी खातीर केल्लो चारित्रीक साक्रिफीस. ताचें नांव कोंकणी आसता पर्यांत ताचो उगडास काडून ताका मान करूंदी म्हण आशेवयां.

### 6.2.1.4 पेद्रु जुवांव सोव्ज आनी जुवांव जुजे रेग

#### पेद्रु जुवांव सोव्ज



पेद्रु जुवांव सोव्ज सां. लुवीस कॉलेजींत मेस्त्री जावन आतां दिर्व्याक लेखना आनी काणयो बरवंक सुरू केल्लें. लुवीस मास्करेन्य उप्रांत दिर्व्याचें संपादकपण थोडीं वर्सां पेद्रु जुवांव सोव्जान चलइल्लें म्हण दिर्व्याची चरित्रा बरयताना फा. सिल्वेस्टर मिनेज म्हणता. पूण कोंकणी दिर्वे परिशीलन करताना तशें वाचूंक मेळाना. पेद्रु जुवांव सोव्ज आनी जुवांव जुजे रेग कोंकणी दिर्व्याच्या संपादकाक सहायक जावन नमियारल्यात म्हण 1914 इस्वेच्या कोंकणी दिर्व्याच्या वर्दैत कळोन येता. पूण पांच वर्सां पत्राक 'नव्या वर्साचें बदलाप' म्हळ्ळया बातमी परमाणे 1917 इस्वेंत लुवीस मास्करेन्यान भलायके संबंदीं थोड्या तेंपाची सुटका अपेक्षिल्ल्याक आलेक्स पायसान संपादक

आनी प्रकाशक दोनी जवाबदारी घेतल्यात म्हण कळयलां. तशें तर सोव्जान पुरतें संपादकपण चलइल्लें केदाळ? उप्रांतल्या चारित्रेकारानीय म्हणजे 'राकणो रुप्योत्सव अंक्यार लेखक फेलीक्स पावल नोरोन्य हाणीय फा. मिनेजान बरयल्लेबरी बरइल्ल्यान तेंच वाचून अजुनय लेखक तीच चूक आधारतात.

पेद्रु जुवांव सोव्ज एक श्रेश्ठ कथा बरयणार म्हळ्ळयाक रुजवाती मेळतात. कोंकणी दिर्व्याच्या दुसऱ्या अंक्या थावनच ताणे तर्जुमो केल्ली काणी 'तुतूस आनी तांचें कुटांब' प्रकट जाल्या. 1913 इस्वेंत आनी एक तर्जुमो केल्ली काणी 'केनेरी सुकणे' प्रकट जाल्या म्हण पत्राची बातमी सांगता. 1915 इस्वेंत ह्या काणयेगारा विशयांत 'कोंकणी दिर्वें' पत्रार ह्या परी बातमी आसा: "आमच्या कथा बरयणार, सिं.पेद्रु जुंवांव सोव्जान 'कोंकणी कथा' म्हळ्या नावाखाला तयारसूंच्या नोव्या पुस्तकाच्या पयल्या भागाची एक प्रती आमकां येवन पावल्या. हांतूं 'चूड कोत्रू', 'अंत नातल्ली काणी', 'सिसिली गांवचो रॉबर्ट राय', 'विल्यम टेल्ल', 'फिलूची भोंवडी' आनी 'म्हाका विसरनाका' म्हळ्ळयो भाग भागानी फायस जाल्ल्यो स काणयो सांगाता मेळोवन एक कडतील कर्न छापसिल्यात..."

पेद्रु जुंवाव सोव्जान बरइल्ल्यो काणयो पुराय तर्जुमोगी? वा काल्पनीकय आसात म्हळ्ळें स्पश्ट कळाना. तरी ताणें काणयो बरोवन कोंकणी दिर्वें पत्राक जीव भरासो करून आकर्शण हाडयलां म्हणच्याक दुबावना. ह्या कोंकणी दिर्वे पत्राच्याकय फुडें कोंकणी काणयो लिखीत रूपार बरोवन प्रगट केल्ली रुजवाती वाचूंक मेळानातल्ल्यान पेद्रु जुवांव सोव्जाक कोंकणी काणयांचो बापूय म्हण मान दिवयेत.

### जुवांव जुजे रेग

जुवांव जुजे रेग कोडियालबैल प्रेसांत ब्रदर डोनेडाच्या हाताखाल मुखेल गुमास्ता जावन काम करतालो. 'कोंकणी दिर्वें' कोडियालबैल प्रेसांत छापताले जाल्ल्यान, हाकाय संपादकाक सहायक जावन पत्राच्या म्हालीक मंडळींत नमियारललो जांवयेत. लुवीस मास्करेन्या उप्रांत आलेक्स पायसान पत्राच्या



संपादकपणाच्या वोज्याक बोंबय आसोन मातें मारल्यारय, नीज जावन पोडद्या पाटल्यान काम केल्लें जुजे रेगान म्हण कळोन येता. ह्या विशयांत कोंकणी दिर्व्याच्या रुप्योत्सव अंक्यार वर्दी अशी आसाः-

"...भलायके या कामा संबंधीं सुर्वेचे मनीस एकेकलोच निवृत्ती जाताना, पत्राचें सगळें वोजें देंवलें. दोगां कुव्या-सारक्या मानांयांचेर, आनी हाणी मारल्लो खांद येदोळय सोडूंक ना. ह्या उत्सवाच्या समयार 'दिर्वें' प्रत्येक थरान उपकार मांदता मि. जुजे रेगाचो. पत्रकर्ता झेमेंवदी, बरपेली न्हिदोंदीत या वर्गणीदार आपालिपा खेळोंदीत. दिर्वें येदोळच्याक चुकानासतना भायर सरलां जाल्यार दुबावाविणे मि.रेगान दीस रात आकडल्ल्या वांवटीन."

'पयणारी' 25 जानेर 1966 इस्वेच्या पत्रार जे.बी. मोरायसान 'कोंकणी साहित्याचो मुळावो खांबो जुवांव जुजे रेग' म्हळ्ळया लेखनांत ह्या परीं लिखता - "...जुजे रेगाची वांवट न्हय जाल्ली जाल्यार दिर्वें कांय आळवोन वेतें. तो न्हय जाल्यार तांतलीं ऊंच लेखनां, कवितां, काणयो आनी तांची रुचीभरीत शैली तांतल्या पानांनी झळकाती ना. साहित्या थंय ताका आसल्लो अपार मोग दिर्व्याच्या पानां मुखांत्र प्रगट जालो. कितलेशे पावटीं पत्राचीं पानां भरा नातल्ल्या वेळार रातीचीं साबार वोरां एकसुरो बसोन तकली आटोवन ताणे साहित्या रचल्या आनी दिर्व्याचीं पानां ग्रेस्त केल्यांत. ताची जिणी कोंकणी साहित्या खातीर अर्पण केल्ली म्हळ्यार चूक जायशीना... वीस वर्सां म्हणासर जेन्ना श्री. आलेक्स पायस दिर्व्याचो संपादक जावन आसताना आनी बोंबय आसल्ल्या वर्वीं तें पत्र चलोवन व्होरचें भारादीक वोजें जुजे रेगाच्या विशाल खांद्यार पडलें. कोंकणी साहित्यांत आपणाक आसची अभिरूच ताणे त्या काळाच्या हेरा तरन्या लेखकांकय दिली. उप्रांतल्या वर्सांनी 'नावाडदीक लेखक म्हण गाजइल्ले साबार तर्ने बरपी

ताच्या हातांत थावन साहित्य सेवा करूंक शिकल्ले... ताणें बरइल्लीं पुस्तकां 'दिसपोडतो नियाळ', 'प्रास्चीत काळ', 'दुखी सायबिणीचें देवासांव', 'क्रिस्तांव पुराणांतली विंचोवण', हीं मुख्य जावन आसात. 'क्रिस्तांव पुराण' बरोवंक ताका लागल्ली वांवट तो देव मात्र जाणा. आदल्या काळाच्या भाशेर देवनागरी लिपीन बरइल्ले वेर्स काव्य रुपारच (पूण सोंप्या शैलेर) आमच्या भाशेंत बरोवंक ताणे प्रत्येक वांवट काडली..."

"जशें आमचें साहित्य ग्रेस्त करूंक ताणे साधन केलें गी त्याच प्रमाणे आमच्या पुर्वजांच्या संस्कृतीची ग्रेस्तकाय पर्त्यान जिवी करूंक तो भोव चड पेचाडलो. दीस वेतां वेतां, ही संस्कृती आतांच्या पिळगे थावन आळवोन वेची पळेवन ताका खंत भोगली. ही कशी पुणी जमो करून शास्वीत उरंवच्या इराद्यान आमच्यो नावाडदीक वोवयो आनी वेर्स आनी हेर जायतीं प्रसिद्ध पदां आरावन 'चालतीं पदां' म्हळ्ळ्या पुस्तकांत ताण एकवोटायलीं. हो ताचो वावर मुखली संतती आभारी मनान देखतेली म्हणच्याक दुबावना. ह्या पुस्तकाचो पयलो छापो 1935 इस्वेंत जालो. उप्रांत येदोळ म्हणासर चडतीक पांच पावटीं थापला म्हणतच ह्या पुस्तकाची कीर्त वेगळी सांगची गरज ना... जुजे रेग एक श्रेश्ठ संगीतगार, उलवपी, बरयणार, पत्रकर्ता आनी आमच्या संस्कृतीचो राकवली म्हळ्ळ्या बिरुदांनी अमर जाला..."

जुवांव जुजे रेगाक, कोंकणी दिर्वे पत्राचेर, पुरतें नियंत्रण आसल्यारय, हें पत्र उद्दार करूंक ताणें व्यापाराच्या दृश्टेन पळेवंक ना म्हण लेखन वाचताना कळोन येता. जरितर ताणें 'कोंकणी दिर्वे' पत्राखातीर कायम व्यवस्थापक जावन सगळो वेळ समर्पिल्लो जाल्यार पत्र चलयतेल्यांक नश्ट संभवतोगी? म्हळ्ळें सवाल. पूण असलें मेट काडूंक, तवळ कोंकणी भाशेच्या वावराक मर्याद नातल्ली जावयेत, वा लायिकांनी चलंवच्या पत्राक धार्मिकांच्या नियंत्रणार आसच्या भावार्थी लोकां थावन पाटिंबो मेळचो संभव नातल्लो जावयेत.

एक पत्र उरोंक वा मरोंक साबार कारणां आसतात. पत्रकर्तांची आनी आडळत्या दारांच्या बेपर्वा सांगाता तवळच्या महाझुजाची परिस्थिती म्हारग

पडली जाल्यान, रुप्योत्सव आचरण केल्लें पत्र बंद पडोंक कारण म्हणयेत. कितेंय जांव ह्या पत्रान, कोंकणी साहित्याची सेवा केली, आनी कोंकणी चळवळेची जागरण उठयली म्हण खरोखर सांगयेत.

### 6.2.2 पत्रिकोद्यमाच्या वाडावळींत बांदपास

कन्नड लिपींत पात्रिकोद्यमाची सुरवात 1912 इस्वेंत कोंकणी दिर्व्यान प्रारंभ केल्ली जाल्यारय, ताची वाडावळ सारकी फुलोवन येवंक ना म्हळ्ळें चरित्रेच्या पानांनी सारकें वाचूंक मेळता. एक संशोधक हें सगळें संशोधनाच्या दृश्टेंत पळेयता मात्र न्हय, त्या सल्वणेचें विश्लेशण करूंक अपेक्षिता. त्याच परीं ह्या ग्रंथांतय प्रख्यात कोंकणी दिर्व्याच्या अवनतेची फोडणिशी करूंक प्रयत्न केलां.

#### 6.2.2.1 'कोंकणी दिर्व्यां'त इग्लीश जोडणी

कोंकणी दिर्वें पत्र काडल्लें इंग्लीश नेणासल्ल्या साद्या नाडकार लोकाखातीर म्हण सुर्वेरच दिर्व्यांत संपादकान सांगल्लें. तें सुर्वेरथावनच इतलें लोका मोगाळ जाल्लें किं हर एकल्याक तें हाड्न वाचयां म्हण भोगल्ल्यान नवाल ना. आतां समस्सो कितेंगी म्हळ्यार कोंकणी वाचप्यां पयकी इंग्लीश नेणासल्ले आसयेत पूण इंग्लीश शिकप्यांक कोंकणी वाचूंक येना म्हळ्यार पातयेवंक जायना, कित्याक तांचीय मांय-भास कोंकणीच म्हळ्ळी गजाल खरी. (हाका अपवाद - इंग्लीश माध्यमातच शिकल्लीं भुरगीं.) पूण समाजेंत इंग्लीश उलवन प्रतिशठीत व्यक्ती म्हण दाकवन घरा कोंकणी पत्र हाडयल्यार लोकामुखार उणेपण जाता कोण्णा. (Inferiority complex) म्हळ्ळो दुबाव ह्या इंग्लीश उलवप्यांक धोसतालो जावंक पुरो. त्या देखून "आबानय मोरनाये दांडोय झरनाये" म्हळ्ळ्या गादी बरी, त्या पत्रांत ह्या लोकांखातीर एक इंग्लीश जोडणी लकयली. हें पत्र हांच्या घरांनी कोणीयी पळेल्यार, तांतलें इंग्लीशान आसचें लेखन वाचूंक म्हण सांगोन मर्याद उरवयेत म्हण तांचें भोगाप आसल्लें जावयेत. कोंकणी भाशेवयर एक नमुन्याचो वोंकारो इंग्लीश

मर्जी दाकयतेल्याक त्या वेळारय आसल्लो म्हण ह्या इंग्लीश जोडणी मुखांत्र सारकें रुजू जाता.

कोंकणी दिर्व्याच्या म्हालीक मंडळीन, इंग्लीश जोडणी लकंवक सळगी दिल्लेंच तांकां मिशी फुटली. त्या इंग्लीश वर्गाच्यांनी कोंकणी वर्गाचेर घोड्या सवारी केली आनी 'कोंकणी दिर्वें' म्हळ्ळो माथाळो कित्याखातीर म्हण सवाल करूक धयर घेतलें. इंग्लीश जोडणी आसा म्हण सांगोंक लज कित्या म्हण कोंकणी लोकांकच उलटें सवाल करून कोंकणी दिर्वें म्हळ्ळया माथाळ्या थावन उपायान कोंकणी शब्द झडयलो आनी त्या पत्राक 'दिर्वें' म्हळ्ळें मात्र माथाळो दवरूक पेचाडून जिकले. हें घडीत कोंकणी समर्थकांक आसल्ली पोकोळाय दाखयता.

### 6.2.2.2 'Mangalore' पत्राचो कोंकणी उपभाग

मंगळुरांत कोंकणी मांयभाशेच्या लोकांनी इंग्लीश शिकाप जोडल्लेंच फिरंगी संस्कृती आपणावन ताचेंच एक कूट रचल्लें, आनी तांचेच खातीर म्हण समुदाय (Association) रचून 'Mangalore' म्हळ्ळें मुखपत्र उगडलें. ह्या पत्रांत कोंकणीचेर बिर्मत आसल्ले थोडे मानाय आनी मानेस्तिण्यो कोंकणी भाशे विशयांत इंग्लिशातंच लेखनां बरोवन आपल्या अंतस्कर्णाची वोडनी सुटयतालीं. शिवाय कोंकणी भाशेच्या लेखनांक सुरवेर अवकास नातल्लो. पूण नोव वर्सां उप्रांत म्हणजे 1936 इस्वे थावन इंग्लीश नेणारी लोकांक म्हणोन एकाएकीं कोंकणी उपभाग सुरू जालो आनी थोड्याच तेंपान बंद पडलो. ह्या वर्वी ह्या उपभागाच्या उद्देशा वयर दुबाव उब्जोंचें सहज जावन आसा. ह्या कोंकणी उपभागाचो उद्देश त्या वेळार लोका मोगाळ जावन आसल्ल्या कोंकणी दिर्व्याचेर अगळीक जावनगी वा मुखारीं येंवच्या दियेसेजीच्या पत्राच्या बाबतीन समिक्षागी म्हण चिंतूंक कारण जाता.

### 6.2.2.3 जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज

'जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज' पत्र आनी आतां चालू आसचे 'आंज'

पत्र ह्या दोन पत्रां मदीं थोड्या चरित्रेकारांनी गोंदोळ उब्जयला. त्यावर्वी आजूनय हर एकलो वाचपी हीं दोनय पत्रां एक म्हण चिंतून आनिकय चूक आदारीत आयला. आदार जावन सांगचें जाल्यार

1) राकणो - 50 (1938-1988) भांगारोत्सव स्मारक अंक्यार - 'पत्रिकोद्यमाक कोंकणी लोकाची काणीक' म्हळ्ळ्या लेखनांत (पान-84) - 'जेजूच्या पवित्र काळजाचो आंज' 1917त म्हयन्याळें पत्र पुस्तका रूपार करूक सुरू केलें. मधेगात थोडीं वर्सां बंद पडल्लो 'आंज' आतां चालू आसा."

2) दुसरें - 'अमर कोंकणी' शण्मासीक पत्र - vol-15 No.1 Dec. 95 - Jan 1996 -'मंगळूर दियेसेजींत कोंकणी पत्रिकोद्यमाच्या अभिवृद्धेंत प्रमूख संपादक याजकांचो पात्र' (पान-18) - ह्या लेखनात ह्या पत्राचो उल्लेख ह्या परीं आसा - "मंगळूर दियेसेजींत 1983 इस्वेंत 'आंज' म्हळ्ळें आनी एक म्हयन्याळें पत्र प्रारंभ केलें. हाच्या आदीं 1917 इस्वेंत आसल्लें आंज पत्र क्रमेण 1917 इस्वेंत बंद पडल्लें आनी ताका पुनर्जिवंत करूक म्हळ्ळेबरी मो.। आलेक्झांडर डि'सोव्जा संपादकपणाखाल हें पत्र नव्या जिवान पाकाटे फाफडून उबोंक सुरू जालें."

3) तिसरें - कोंकणी नेमाळें - कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमी, मंगळूर ह्या दशमान उत्सवाचें पुस्तक-9 (2004)-(पान 11) "जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज...' आपले 53 आवदेर प्रायेर 1917 इस्वेंत हें पत्र बंद पडलें. तें फा.। अलेक्झांडर सोव्जाच्या संपादपणा खाल फापूड्न 'आंज' म्हळ्ळ्या नांवार 1983व्या वर्सा वेगळेंच पत्र प्रचारार आयलें."

राकणो-50 भांगारोत्सव पत्र वाचून, ह्या ग्रंथकर्ताचो बरयणार, आंज दफ्तराक वचोन सुर्वेर थावन म्हणजे 1918 इस्वेथावन 'आंज' वाचूंक मेळतातगी म्हण विचारताना, त्या कुशीच्या गुमास्तिणे थावन जाप आयली "आमचेकडे 1986 इस्वे थावन मात्र आसात. पयलेंचे नात."

तरी पयलेंचे खंय मेळतेले? पाटीं सवाल केलें. ताकाय जाप त्या

गुमास्तिणीकडेन नातल्ली. अशें आसताना ह्या ग्रंथाखातीर सोदना सुरू केली. खंय मेळटीत पयलेंचे आंज म्हळ्ळया मुख्य इराद्यान, आसल्ल्या सर्व धार्मिकांच्या संस्थ्यांक धाड घाली. तितल्यार सेवक पत्राचो तवळचो संपादक मा.। प्रकाश कापुचीन एका कार्यक्रमात मेळ्ळो आनी म्हणालो "थोडे पर्न 'आंज' आमच्या बिऱ्यांत पळेइल्ल्या बरी जाल्यात, तूं थोडे दीस सोड्न ये ताची धूळ फापूड्न दवरतां."

तशेंच थोड्या दिसां उप्रांत ताच्या दफ्तरांत पळेताना आदले 'जेजूच्या पवित्र काळजाचे आंज' पळेंवक मेळ्ळे. वर्सावार सोडताना सुर्वेरथावनच आसात म्हळ्ळें नक्की जालें. थोडे दीस बसोन सारकें वाचून, जाय तितली माहेत आरायताना 'आंज उलयता' म्हळ्ळें संपादकीय सांपडलें आनी ह्या पत्राच्या जिणेची कथा सारी समजाली. उप्रांत बंद पडच्या संदर्भार आसल्ल्या संपादक हांचेकडे 'ह्या पत्राची निमाणी मोर्नाची वेळ घडी' पुर्ती विचार्न समजोवन घेताना सत गजाल सगळी कळोन आयली. ह्या पत्राक तवोळ वांचोंवक कोण्णीय मुखार येनातल्ल्यान गायतोलो नासताना, रडतोलो नासताना पत्रिकोद्यमाच्या पडद्या थावन हें पत्र मायाग जालें.

उपरांत आतांच्या 'आंज' पत्राच्या दफ्तराक वचोन पळेताना आतांच्या 'आंज' पत्राचीय काणी शिरकाली. ती काणी ह्या परीं आसाः-

1984 इस्वी सप्टेंबर 8 तारकेर मंगळूर दियेसेजी विशयांत माहेत दिवंची 'कीर्ण' म्हळ्ळें पत्रीक (खासगी चलावणेक मात्र) प्रगट जालें. ह्या पत्रिकाच्या 'कीर्ण फांकच्या आदीं' संपादकियांत अशें सागंलां "हें कीर्ण आरंभ जावंक कारण कितें? ह्या सवालाक जाप गरज."

"ह्याच एप्रिलांत म्हणजे पासकां फेस्ता हफ्त्यांत चेरक्या भुरग्यांक स दिसांनी एकेका दिसाचें शिबीर दवरलेलें. सगळ्या दियेसेजींतल्या विवीध वाराडांतल्या साबार फिंर्गजां थावन आइल्ल्या भुरग्यांनी ह्या शिबिरांत वांटो घेतल्लो..."

"आमच्या बीस्प सायबाच्या बेसांवान आनी उत्त्येजनान विगार जेराल

मा.। आल्सेंद्र सोव्ज बापान हें शिबीर मांडल्लें..."

"शिबिराक हाजर जाल्ल्या समेस्त भुरग्यांक आमी एक कागाद बरइल्लें. अशें भुरग्यांचो उगडास आमचे मतींत जिवो उरलो. साबार भुरग्यांनी पाटीं जाप घाल्याः तांची पत्रां येवनच आसात. अशें म्हणाना ह्या भुरग्यां लागीं संपर्क दवरची गरज हर एकल्याक पत्र बरोवंक पुरो पडाना. देखून त्या समेस्त भुरग्यांलागीं संपर्क दवरूक आनी तांकां गरजेची समजणी दिवंक एक पत्रीक सुरू करची आलोचेन आयली. विचार विनियम करून आतां 'कीर्ण' भायर आयलें."

**'कीर्ण' पत्रीक 'आंज' जाता-**

कीर्ण पत्रीक आंज कशें जालें म्हळ्ळयाक 'आंज' अंको-1 डिसेंबर 1985 ह्या पत्रिकाचेर विवरण अशें आसाः-

गेलो त्या वर्स मोंति सायबिणीच्या फेस्ता दिसाक 'कीर्ण' पत्रिकेचें जनन जाल्लें. आंवदू क्रिसमस फेस्ता संदर्भार 'आंज' पत्रिकेचें जनन जाता. सरकाराच्या आदेशा परमाणे अशें करिजाय पडलें. एकाच नांवाचीं दोन पत्रां आसानाये म्हण सरकाराचें नियम. 'कीर्ण' नांवाचें दुसरें पत्र आसा देखून आमचें पत्रिकेक 'आंज' नांव दिवंक ताणी सूचन दिलां. तेंयीं बरेच 'कीर्ण' पत्रिकेचें नवें नांव 'आंज'.

ह्या नोव्या आंज पत्राच्या संपादक मंडळींत मो.। आल्सेंद्र सोव्ज, मा.लुवीस सोव्ज, मा. स्टेनी गोवेस, ब्र. जॉन बेप्टीस्ट आनी ब्र. वालेरियान मिनेज आसोन, हें पत्र कोडियालबैल छापखान्यात छापतात. हाचें दप्तर आदीं कोडियालबैल बिस्पाच्या घरा आसल्लें आतां बज्जोडी शांती किरणाक वर्ग जालां.

ह्या दोन विविंगड पत्रांचो उद्देश स्पश्ट आसाः- जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज पत्राचो उद्देश जेजूच्या पवीत्र काळाचें देवासांव आदारच्याक आनी आतांच्या 'आंज' पत्राचो उद्देश जावन आसा 'तर्नाट्यांक फुडारा संबंधीं मार्गदर्शन आनी क्रिस्ती मौल्यां विशीं माहेत दिंवची पत्रीक' (पुस्तक 19,

अंको 9, नवेंबर 2003)

ह्या वर्वी 'जेजूच्या पवीत्र काळजाचो आंज' पत्र 1917 इस्वेंत बंद पडला आनी परतून उटोन येवंक ना म्हळ्ळें वयल्या आधारा वर्वी स्पश्ट जाता.

### 6.2.2.4 समाजीचो दिवो पत्र.

चरित्रा बरयताना, आदीं कितें घडलां, कितें रुजवात आसा, कितलीं दस्तावेज पळेवंक मेळतात, उस्तूंक मेळतात तीं सगळीं आरावन नेरावन चरित्रा बरयल्यार मात्र ती सारकी जाता म्हळ्ळें आयकोन जाणा. घडल्लें घडीत पुसून काडूंक, वा काड्न उडोवंक जायना म्हळें जाणारी सांगतात. बंद पडल्ल्या पत्रां पयकी 'समाजीचो दिवो' पत्र दरदर म्हणोन सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यांत कुबा रुपार पळेवंक आनी वाचूंक मेळ्ळयार ह्या पत्रा विशयांत पत्रिकोद्यमाच्या लेखनांनी विवरणात्मक जावन वाचूंक मेळाना. तें धार्मीक व्हडिलांच्या विरोधी जावन आसल्लें म्हण कारण दिवन सोडलां जाल्यार तें चूक जाता. पोर्चुगिजांनी इंक्विझिसांवाच्या काळार दस्तावेजां हुळपावन उडयल्यांत जाल्यार, लिवराचें परिज्ञान आसल्ल्यान त्या उप्रांतलीं पत्रां आनी दस्तावेजां बुका रूपार शिंवोवन पणजेच्या केंद्र ग्रंथालयांत दवरलेलीं पळेवंक मेळतात, त्या पत्रांनी पुर्तुगेजांच्या विरोधांत बराप आसल्यारय तें एक दस्तावेज म्हळ्ळें परिज्ञान आसल्ल्या वर्वी आजूनय उरल्यांत. त्याच प्रकार भारतीय लोकांक आदलीं बरपां, पत्रां सांबाळ्न दवरचें, ग्रंथालय करचें, पुराभिलेख आसा करचें (Archies) पाश्चात्य देशाच्या लोकांक आसच्या परिज्ञाना तितलें ना, म्हण आतांच्या ग्रंथालयाची परिस्थिती पळेताना कळता. 'तें आमकां गरजेचें न्हय' 'हें आमकां गरजेचें न्हय', 'हांतून आमच्या विरोध बरयलां.' म्हण चिंताप मतींत राज केल्ल्यान आज बंद पडल्लीं पत्रां साबार आसल्यारय तीं खंयसरय पळेवंक मेळानांत म्हळ्ळी संगत बेजारायेची जावन आसा. 'समाजीचो दिवो' पत्राचो उद्देश त्या वेळार गरजेचो आसल्लो जावंक पुरो. वारें-झाड आयल्या शिवाय आव्र येना आनी आव्र येवन गेल्या शिवाय शेतांत ईट भराना म्हणता शेतकार. तशें हें पत्र जल्मल्ल्यान

पत्रिकोद्यमाची जवाबदारी समजाल्ल्या धार्मीक व्हडिलांनी नवें पत्र काडल्ल्यान आज कोंकणी चळवळेक व्हडलो आधार जाला. म्हळ्ळें सत. 'समाजीचो दिवो' तितल्या सुलभायेर विसरोन सोडूंक जायना कित्या म्हळ्यार ह्या पत्राच्या सलहा मंडळींत व्हडले व्हडले शिकपी आसल्ले. दाखल्याक श्री. जे.ए.सालदान्या बी.ए.एल.एल.बी.एम.एलसी वकील. त्या वेळार इतलें शिकचें म्हळ्यार भारी व्हडली गजाल.

आदल्या काळार थावनय अशिकप्यांक कशेंय मांकोड करूक जातालें; जाल्यार शिकप्यांनी मेळोन, फ्रेंच क्रांती (French Revolution). रशियन क्रांती आनी इन्नीतर क्रांती उठइल्ल्यान आज अमीरशाही आडळतें वचोन प्रजाप्रभुत्वाचें आडळतें आयलां. त्या देखून 'समाजीचो दिवो' पत्र आइल्ल्यान, पत्रिकोद्यमांत क्रांती जाली, दियेसेजीचें नवें प्रख्यांत पत्र जल्मालें आनी कोंकणी चळवळेच्या आदाराक कारण जालें म्हण सकारात्मक चिंताप आटोवयेता. ह्या चळवळेक हर्दें दिवन झुजल्लो श्रेश्ठ झूजारी जावन आसा श्री जेरोम अंतोनी साल्दान्य वकील आनी एम.एल.सी.

## 6.2.2.5 जेरोम आंतोनि साल्दान्य (1868-1947)



मानेस्त जेरोम अंतोनि साल्दान्य विशयांत, दिर्व्याची चरित्रा बरयताना फा.। सिल्वेस्टर मिनेज अशें म्हणता "मि. जेरोम सालदान्य कोंकणी भाशे पास्वत वावुरला म्हण सांगल्यार कोणाकय नोवेंचशें दिसात गाय? ...आमची मांय-भास वृद्धी करची उर्बा आमच्या समाजी मदें आसा करूक ताणे जायतें प्रयत्न केलां 'मेंगलूर' मेगजिनांत ताणे सुरवेर थावन कोंकणी पुस्तकां बोरयतेल्यांक ताणे दिल्लें उत्येजन, कोंकणी दिर्व्याच्या कामांत ताणें दाखयल्ली उमेद ह्यो सर्व जावन आसात रुजवाती आमच्या भाशे थंय ताका आसच्या खऱ्या ओडनेचो."

"क्रिस्तांव पुराणाची ओळक विस्तारच्यांत मि. जेरोम सालदान्य आदीं वावुरला आनी आतांय वावुरता. पुराणा विशयांत लेखनां बरोवन आनी भाशणां दिवन तें व्हड पुस्तक आमच्या समाजीक छापून फायस करूंक तो एक मुख्य कारण."

1947 इस्वी मार्च 14 तारकेच्या राकणो पत्रार एक वर्दी अशी सांगता - "Late Mr. Jerome A. Saldanha, along with Mr. Sreshta was mainly respnsible for initiating the Konkani Literary Society of South Kanara" अशें ह्या दोन प्रस्तावने वर्वीं जेरोम सालदान्याची जिणे चरित्रा कोंकणी चळवळेगारांचे यादींत आटपता, म्हण सांगयेत.

जेरोम अंतोन साल्दान्य 1868 इस्वेच्या एप्रील 25 तारकेर नावाडदीक साल्दान्य कुटमांत कोडियाळांत जल्मालो. ताचो बापूय जुजे साल्दान्य जेज्वेतांक मंगळूर हाडवच्या खातीर जायतो झुजला. जुजे साल्दान्याची वांवट कोंकणी दिर्व्यार (जेरोम साल्दान्याचेंच लेखन) ह्या परीं उल्लेख जाताः- "...of the oldest memorial (Perhaps the oldest) that of 1860 presented to Rt. Rev. Dr. Clement Bonnad Papal visitor. General to India was signed by Boniface Fernandes heads and rising youngmen of almost all the families of Mangalore including my own dear father (Joseph S. Saldanha) who was only 20 years old then, and was an active spirit of the movement to the last..." अशें बापूय आनी पूत दोगीय कोंकणी चळवळेगार जावन आसल्ले म्हणच्यांत चूक जायशी ना.

जेरोम ए. साल्दान्यान मद्रास विश्वविद्यालयाची बी.ए.सनद जोडल्या उप्रांत 1898 वर्सा बोंबय विश्वविद्यालयाची एल.एल.बी. सनद जोडली. ही सनद जोडच्या पयलेंच म्हणजे 1892 इस्वे थावन तो तवळच्या बोंबय

सरकाराच्या राजकीय आनी न्याय खात्यांनी ऊंचल्या हुद्यानी वावुरतालो. 1907 थावन 1910 म्हणासर सावंतवाडी प्रांत्यांत प्रमूख न्यायाधीश जावन वर्ग जालो. 1918 इस्वेंत ताका आसिस्टंट सेशन्स जज्ज जावन नेमक केलो. ह्या ऊंचल्या हुद्यानी आसतनाय हेर सबार चटुवटिक्यांनी भाग घेवन सरकाराची तशें लोकाची होगळीक ताणे जोडल्या.

जेरोमाच्या बरपांचो दाळो भारादीक आसा. ताणे आमच्या लोकाच्या पुर्विल्या रिती रिवाजी विशयांत, तांचे भाशे विशयांत तांच्या विविध कुळयां विशयांत बरयल्लीं लेखनां नावाडदीक जावन आसात. 'मेंगलोर मेगझीन' पत्रार प्रगट जाल्लीं 'केनराची चरित्रां', 'कोंकणी भाशेचो आरंभ आनी वाडावळ' 'कोंकण्यांची चरित्रा' इत्यादी प्रमूख लेखनां हाका साक्स जावन आसात.

1923 इस्वेंत 'एंथ्रोपोलोजिकल सोसायटी ऑफ इंडिया' हाचो अध्यक्ष जावंक ताका विंचून काडलो. आमच्या पुर्वजांच्या विशयांत ताणे केल्ल्या संशोधनाखातीर आनी श्रेश्ठ लेखनां खातीर हो मान ताका लाबल्लो.

जेरोम शेशन्स कोर्टा थावन 1923 इस्वेंत निवृत्त जाल्या उप्रांत कोडियाळ क्षेत्रा थावन मद्रास लेजिस्लेटीव कावन्सिलाचो सांदो जावन तो चुनावणेक रावल्या वेळार ताचे विरोध जायतो अपप्रचार चल्लो. पूण ह्या वर्वीं ताका चुनावणेंत कांयच बाधक जालें ना. मात्र न्हय ताच्या विरोधी उमेदवाराच्याकय दोडते वोट ताका लाभले. 1926 इस्वेंत कॉँग्रेसाच्या पक्षेन रावोन परत्यान तो जिकलो. 1937व्या वर्सा 'पीपल्स् पार्टी' हाचो सांदो जावन जिकलो.

तो एम.एल.सी जावन आसताना कोणायचेंय कितलेंय ल्हान दूख आसल्यारय तो समाधानेन आयकतालो आनी योग्य म्हण दिसल्यार ताचें खातीर कावन्सीलांत झुजतालो. ताची तीक्ष्ण उलवण्याची शैली, ताचो झुजारी स्वभाव सरकाराक एक कांटो जाल्लो.

1927 थावन 1930 पर्यांत मद्रास विश्वविद्यालया सेनेटाचो ताका सांदो नेमलो. 1927-1931 म्हणासर मुनिसिपल कावन्सीलर; सावथ कॅनरा

डिस्ट्रीक्ट हेल्त ॲण्ड वेल्फेयर एसोसिएशनाचो अध्यक्ष आनी उप्रांत उपाध्यक्ष (1924-1932); इंडियन क्रिश्चन सिवीक लीग हाचो स्थापक आनी सांदो. सांत विशेंत द पावलाच्या सोसायटींतय जायतें बरें काम ताणे केलां. 1918 इस्वेंत बोंबयांतल्या मंगळूरगारांच्या तर्फेन ताणे केल्ल्या व्हरत्या सेवेखातीर केनरा कथोलीक एसोसिएशनान ताका भांगाराचें पदक दिवन सन्मान केल्लो.

### (i) जेरोम साल्दान्य आनी 'कोंकणी दिर्वें'

कोंकणी दिर्वें 1912 इस्वेंत सुरू जाताना आपूट कोंकणी आसल्लें 1919 इस्वी उप्रांत ताच्या सांगाता इंग्लीश जोडणी घेवन भायर आयलें. हाचो अर्थ कोंकणी दिर्वें इतलें लोका मोगाळ जालें किं, तवोळ इंग्लीश कातरचे शिकपी समेत ह्या पत्रा थंय आकर्शीत जाले, ही इंग्लीश जोडणी सेर्वुंच्यांत जेरोम साल्दान्याचो पात्र प्रमूख आसल्लो म्हणयेत. तो तवळ तवळ इंग्लीश लेखना बरोवन कोंकणी दिर्व्यांक धाडतालो. हें कोंकणी पत्र इंग्लीश उलंवच्या शिकप्या थंय प्रख्यात जायजे आनी हर एकल्यान हें पत्र वाचून सहकार दिवंक जाय अशें ताचे मतींत आसल्ले जांवयेत.

### (ii) 'समाजीचो दिवो' आनी जेरोम सालदान्य

'समाजीचो दिवो' पत्राच्या आडळत्या समितींत जेरोम साल्दान्यय आसल्लो. पत्राचो ध्येय 'अन्याय आनी जुलुमेच्यो खबरो आरावन पत्रांत तपशील पातळायताले जाल्ल्यान ह्या पत्राक सुरवेर थावनच लोकाथावन विरोध आसल्लो. हें पत्र बंद करिजाय म्हण धार्मिकांचो ताळो उठताना कोंकणी पत्र बंद करूंक नजो म्हण हर्दें दिवनमुखार रावल्लो जेरोम साल्दान्य. बिस्पाच्या आडवारोणपत्राक कानन लॉ प्रकार धयरान जाप दिल्लो आनी हें कोंकणी पत्र उराजे, वांचचें म्हण झुजल्लोय होच. तशें म्हणताना कोंकणी भास लोकाथंय फुलाजे, म्हळ्ळो ध्येय हाका आसल्लो म्हळअळें ह्या वावरांत रुजू जाता.

### (iii) जेरोम सालदान्य आनी कोंकणी-मराठी वाद-विवादा

जेरोम ए. साल्दान्य सावंतवाडींत आधारी बसकेचो न्यायाधीश (Assistant Sessions Judge) जावन वावरून आसताना. कोंकणी-मराठी वादाच्या आगटयांत तोयी उडलो. कोंकणी भाशेचेर मराठी वादाळ सुंयपिताना तो कोंकणीक सांबाळूक प्रेतन करचे तितलो कोंकणीचो निश्ठावंत जावन आसल्लो. ताणे माफेच्या विचारांनी मग्न जावन, 'The origin and growth of Konkani (1903)' म्हळ्ळें लेखन बरयलें. उप्रांत 1904 इस्वेंत 'Konkani of Goan Castes'. म्हळ्ळो बूक बरोवन ह्या परीं संपवणी करि लागलो. - कोंकणी भाशेचीं झळकोंचीं लक्षणा संस्कृत वा प्राकृता थावन उब्जाल्लीं शीं दिसतात. पूण मराठी थावन न्हंय त्या देखून एकमात्र अनुमानान (Inference) सांगयेतगी - कोंकणी मराठीची उपभास न्हय. कोंकणेतले चडावत सब्द पयले पावटीं दिश्टीक पडताना मराठीच्या विबाडल्ल्या सब्दां थावन स्वतंत्र आसात. दोनय भासांक मुळावें उगमस्थान एकच." त्याच बुकांत ताणे आपली अभिप्राय अशी दिल्या. कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोनय जुवळयो भयणी आनी कोंकणी संस्कृत प्राकृतांतल्यान उब्जाल्या. तांतली मराठी चड वाडल्या आनी कोंकणी वाडानासताना ल्हानच उरल्या पूण भोव स्वादीक आसा.'सल्दान्यान अशें चिंतूंक कारण आसल्लें. तो वावुरच्या सावंतवाडी गांवांत 'कुडाळी' म्हळ्ळी कोंकणीची उपभास लोकाच्या तोंडार घोळताली. ही 'कुडाळी' कोंकणीची उपभास मराठीक मध्यांतर जाल्ल्यान तो असल्या विचारांनी बुडल्लो जावयेत.

### (iv) जेरोम साल्दान्य आनी रोमी लिपींत कोंकणी

कारवारच्या माधव मंजुनाथ शानभागान 1939 इस्वी जुलयाच्या 8 तारकेर कोंकणी लोकाच्या एकवटाखातीर आनी भाशेच्या अभिवृद्धी खातीर, कारवारांत पयली अखी भारतीय कोंकणी परिशद घडोवन हाडली. त्या नंर दुसरी परिशद 1940 इस्वेच्या डिसेंबर 31 तारकेर उडुपींत श्रीमान टी.एम.ए.पय हांच्या येवकार अध्यक्षा खाल जमली, ही परिशद घडोवन

हाडुंकय कारवारचो माधव मंजुनाथ शानभाग हाणीं मुखेलपण वहिसल्लें.

ह्या परिशदेक जेरोम साल्दान्य अध्यक्ष जावन विंचून काडल्लो. ह्या वर्वी जेरोम साल्दान्य त्या वेळार कोंकणी कथोलिकां मदें आनी कोंकणी हिंदवां मदें कितलो प्रख्यात आसल्लो म्हण कळता.

ही परिशद द.क.जिल्ल्यांत पयले पावटीं जांवची जाल्ल्यान, सगळ्या जिल्ल्यांतले आनी जिल्ल्या भायलेय म्हणजे कोच्ची तावन मुंबय पर्यांत चडउणे एक हजार प्रतिनिधी हाजर जाल्ले म्हण 19- 1-1941 इस्वेच्या 'राकणो' हप्त्याळ्याच्या बातमेंत वाचूंक मेळता.

ह्या परिशदाचो शेवोट एका उतरान आटापचें जाल्यार "कोंकणी भास कोनशांत आसल्ली ती मनशांत हाडची" म्हण जावन आसल्लो. ह्या खातीर कोंकणी बरपां आनी लिखितां चडोवचीं, कोंकणी भास सभेर उलय सारकी करची, कोंकणी भुरगीं चड आसच्या इस्कोलांनी कोंकणी भाशेन शिकोंवचें आनी शिकय सारकी हुकूम मेळाशी सरकाराकडे मनवी करची, हें आनी असले हेर ठराव ह्या संमेळनांत मंजूर जाल्ले. पूण ही भास तवोळ रोमी, देवनागरी आनी कन्नड अशें तीन लिपींनी बरयताले. जरतर ह्या सब्दांचो एकवट जावंक जाय, सकडांनी एकच लिपींन बरोवंक जाय, अशें ह्या परिशदेंत तर्क चलतालें. अध्यक्ष जेरोम साल्दान्यान सक्कड कोंकणी लोकांनी रोमी लिपीच आधरसी जाय म्हण सांगलें. हेरांची अभिप्राय 'नागरी' लिपी आधरसी जाय म्हण आसल्ली. शेवोटीं सकडांनी नागरी लिपी आधरसी जाय म्हण आसल्ली. शेवोटीं सकडांनी नागरी लिपी करिजाय म्हण ठराव मंजूर केलो. हांगा उल्लेख करचो विशय खंयचोगी म्हळ्यार जेरोम साल्दान्याची दूरदृश्टेची (foresight) आलोचेन, तवळच रोमी लिपी आदरलेली जाल्यार, मुंबय, गोवा, कर्नाटक आनी कोच्ची अशें चार वाठारांनी वांटून आनी शिंपडोन आसल्ल्या कोंकणी लोकांक तांच्या इस्कोलच्या इंग्लीश शिकपा मदें कोंकणीय सुलभायेन शिकोवंक जाती. त्याभायर ह्या कंप्यूटर युगांत अंतर जाळांतय (Internet) सुलभायेन रिगती आसल्ली आनी अशें

अख्ख्या संवसारांत कोंकणी लोकांक लागीं हाडूंक उपकाराक पडती. ह्या वर्वीं आमकां कळोन येता किं जेरोम साल्दान्य, शिकपी, बरोवपी, विद्वांव्स आनी झुजारी मात्र न्हय कोंकणी चळवळेगारय जावन आसल्लो जाल्ल्यान, हो मंगळूरचो सिंह म्हण नावाडदीक जाला.

हो नावाडदीक कोंकणी फुडारी 1947 इस्वी मार्चाच्या 8 तारकेर देवादीन जालो. मंगळूर मिलार इगर्जेंत ताका मातयेंत पायलो. 'ह्या महान व्यक्तीच्या उगडासाक शास्वीत उरोंक बऱ्या मनशाच्यांनी कांय पुणि एक स्मारक उघडोक पावों. म्हण 'राकणो' 1968 इस्वेच्या एप्रील 24 तारकेर स्पश्ट उल्लेख प्रगट जाला.

### 6.2.2.6 'राकणो' पत्राचो जल्म.

ह्या ग्रंथांत 'राकणो' पत्राची चरित्रा आनी चळवळ कित्याक ना? म्हण हो ग्रंथ वाचतेल्या हर एकल्याक एक सवाल उब्जोंचे सहज. ह्या पत्रिकोद्यमाच्या ग्रंथांत खंय थावन खंयसरपर्यांत म्हळ्ळें आनी एक सवालय वाचप्यांक आसयेत. ह्या सवालांक विवरण ह्या परीं आसा.

पत्रिकोद्‌मय प्रारंभ जाल्लें रोमी लिपींत जाल्ल्यान, सुर्विल्या अध्यायांत रोमी लिपीच्या पत्रिकोद्यमा विशयांत बरयल्लें. इन्नीतर लिपींतल्या पत्रांतलीय चळवळ आरांवक आसा देखून ह्या पयल्या अध्यायांतल्या चळवळेक एक गड नमियारचे पडली. त्या देकून गोंयच्याय सुटकेच्या पयलेंचो आनी उप्रांतलो काळ म्हण चिंतून पयलेंच्या काळाची चळवळ मात्र बरयली.

कन्नड लिपिच्या पत्रिकोद्यमा विशयांत उल्लेख करताना कन्नड लिपींत पत्रिकोद्यम सुरवात केल्ल्या कोंकणी दिर्व्यांची चळवळ भरोन वोमताता तितली आरांवक मेळल्ल्यान, दुसरो, तिसरो आनी चोवतो अध्याय भरोन आयलो. कोंकणी दिर्व्यांचो काळ 1912 इस्वे थावन 1940 इस्वी पर्यांत पेंदरल्ल्यान त्या काळा भितरलीं पत्रां मात्र उल्लेख करिजे पडलीं. राकणो पत्र 1938 इस्वेंत प्रारंभ जावन अजून पर्यांत जिवाळ आसल्ल्यान बरे दोन वर्सांची वा धा पंदरा वर्सांची चरित्रा मात्र बरयल्यार येद्या व्हडल्या चळवळेच्या

दर्यांत गरी घाल्न कोरू धरल्ल्याबरी जायत. त्या देकून मुखल्या ग्रंथांत संपादक मा.। सिल्वेस्टर मिनेजीच्या काळाथावन संपादक मा.। मार्क वाल्डराच्या काळा पर्यांत एक घटक म्हण कर्न, विस्तार माहेत, चरित्रा आनी चळवळ बरंवची म्हण चिंतून ह्या ग्रंथांत चडतीक उल्लेख करिनाशें बरे जल्माची काणी मात्र दिल्ल्यान वाचप्यांनी सुधारसून व्हरचें. पाचंव्या अध्यायांत सारस्वतांची जागमाग बरोवंक कारण 'सारस्वत बोधिनी' म्हळ्ळें मलयाळी लिपींतलें पत्र 1923 इस्वेथावन प्रारंभ जाता जाल्ल्यान त्या लिपीच्या पत्रिकोद्यमाक प्रामुख्यता दीजे पडली. पूण त्या अध्यायांतय, मलयाळी लिपी, कन्नड लिपी आनी देवनागरी लिपींतल्या पत्रिकोद्यमा विशयांत बरयतानाय एक गड नमियारिजे पडली. त्या देखून ह्या अध्यायांतय सुर्विल्या अध्यायाचें मापच म्हणजे गोंयच्या सुटकेच्या पयलेंच्या काळाची मात्र चळवळ आरायली आनी 'मीर्ग' पत्रा उप्रांतल्या पत्रांची काणी आनी जिणी मुखल्या ग्रंथांत नेरांवक चिंतल्ल्यान हो ग्रंथ इतल्यारच संपंवक कारण म्हण वाचप्यांक कळंवक आपेक्षितां.

### 6.2.3 कोंकणी विपीचो वाद

कोंकणेक खंयची लिपी म्हळ्ळो वाद आर्दी थावनय आसा. आतां'तां ह्या वादांत एक वादाळ उटलां. त्या देखून सुर्वेर थावन आज पर्यांत जाल्ल्या चळवळेचो तपशील विवर समजाल्या शिवाय वादविवादाच्या आखाडाक देंवोंक जायना.

'आमच्या मांय-भाशेची अभिवृद्धी' म्हळ्ळया माथाळ्या खाल पत्रकार आनी कवी लुवीस मास्करेन्यसान दिल्ल्या भाशणांत कोंकणी लिपीचो वाद 'कोंकणी दिर्वें' पत्रांत उल्लेख केला म्हणतच हो वाद आर्दी थावनय बरयणारांच्या तोंडात घोळतालो म्हळ्ळयाक रुजवात मेळता.

कोंकणी भाशेच्या चळवळेची खबार काडताना हर एकल्यांक आज शणै गोंयबाबाचो उगडास येता, कारण ताणें 'कोंकणी भाशेचें जैत' लेखनावोळ बरयल्ली 1930 इस्वेंत, पूण ताच्याकय पयलेंच म्हणजे 1923 इस्वेंत लुवीस मास्करेन्यासान कोंकणी भाशे विशयांत, 'आमच्या मांय-भाशेची

अभिवृद्धी' म्हळ्ळें भाशण दिवन कोंकणी चळवळेक फुडाकार दिल्लो आज कोणाकच कळीत नातल्लेबरी जालां. बोंबयांत शणै गोंयबाब कोंकणी चळवळेची चूड घेवन आगटें करूंक पेचाडतालो जाल्यार मंगळुरांत त्याच वेळार लुवीस मास्करेन्य तीच कोंकणी चळवळेची चूड घेवन आगटें करूंक पेचाडला म्हळ्ळें ह्या भाशणा द्वारीं कळता. ह्या भाशणातलो तार्कीक विशय घेंवचो जाल्यार कोंकणी भाशेक लिपी खंचीगी म्हळ्ळो वाद प्रमूख जावन आसा. हो विशय आजूनय जळते आसा, न्हिवोंकय ना, निर्णय जावंकय ना. ह्या विशयाचेर आतां'तां वादाळ उटलां. 2004 नवेंबर 28 तारकेर कर्नाटक कोंकणी लेखकांच्या एकवटाचो दशमानोत्सव समारंभ जालो. त्या संदर्भार मुखेल सयरो जावन आइल्लो मा.दो.पीयुश फिदेलीस पिंटोन अशें वाकमूल दिलें - "कोंकणी भास आज पांच लिपींनीं बरयतात. कानडी लिपींत बरयतेल्यांचो संको व्हड. पूण हे लिपींत बरयतेल्यांक संदीग्ध परिगत उदेल्या. कृत्यांच्यो एक हजार प्रत्यो विकून वेचेंय कश्टांचें. हाका परिहार जावन रोमी लिपींत बरवंक शिकाजे. आयच्या इंटरनेट काळार रोमी लिपींत बरयल्यार इंग्लीश वाचूंक बरवंक शिकचे पिळगेक वाचूंक उपकारता.' (राकणो डिसेंबर 9, 2004)

ह्या उप्रांत 2004 डिसेंबर 26 तारकेथावन 29 तारकेपर्यांत संभ्रमल्ल्या केनरा कोंकणी काथोलीक समाजीच्या जागतीक संमेळनांत 'एकवट थिरावंक, अस्मिताय संभ्रमूंक, फुडार येवजूंक' ह्या प्रमूख शेवोटाखाल जाल्ल्या विचारसात्यांनी लिपी विशयांत मांडल्लो ठराव ह्या परीं आसल्लो. "केनरा कोंकणी मुळाचो लोक देश-विदेशांत विस्तारला. हांची त्या त्या प्रदेशाच्या उपेगी खातीर कोंकणी बरोवंक थरावळ लिपी वापरल्यारय, अंतर्राश्ट्रीय मट्टार कोंकणी लोकाच्या एकवटाक आनी माहेती तंत्र गिन्यानाक आदार जायशें रोमन लिपी वापरचीं." (राकणो 13, 2005)

हें संमेलन जाल्लें कोंकणी कथोलिकांचें. कोंकणी उलंवचे इतर पंगड/ जातीय आसात. प्रमूख जावन गौड सारस्वत ब्राम्हण. हाणीं देवनागरी

लिपीच कोंकणीक वापरिजे म्हण वाद मांडताना हांगा दोन पंगडांमदें उदेल्लो वाद थांबोंवचो कसो? म्हळ्ळो समस्सो उदेला. परिहाराच्यो वाटो सोदच्यो जाल्यार आदले ठराव गमनाक घेजे पडता.

### 6.2.3.1 कोंकणी परिशदेंनी निर्णय आनी ठराव

ह्या लिपीच्या वादा विशयांत आदींथावन जाल्ले निर्णय / ठराव ह्या परीं आसात.

i) पयली कोंकणी परिशद : कारवारांत 1939 इस्वेच्या जुलय 8 तारकेर जाल्ल्या कोंकणीच्या पयल्या परिशदा वेळार ठराव अशें सांगता. "देवनागरी लिपी (alphabet) जी आर्यवर्गी समेस्त भाशेंक सामान्य लिपी अशें मानतात, तीच लिपी कोंकणी भाशेक पाटीं लागायत आशिल्लि देखून ही भास सर्वमान्य असल्या आपणाल्या खासा देवनागरी लिपिंतच प्रचार जांवची अशें ही परिशद ठरयता." (कोंकणी दिर्वे)[89]

ii) केनरा हायस्कूलांत भाशण : ह्या पयल्या ठरावा परमाणे, त्याच वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत श्री माधव मंजुनाथ शानभाग एम.ए.एल.एल.बी. कारवाराचो वकील कोंकणेच्या पयल्या परिशदेचो घडणार आनी कार्यदर्शी मंगळूरच्या केनरा हायस्कूलांत दिल्ल्या भाशणांत अशें सांगता... "कोंकणी भाशेक लिपी ना म्हण म्हणजें आसा हें समा न्हय, लिपी आसा. देवनागरी लिपी, कोंकणीची लिपी. आदीं कोंकणी त्या लिपीन बरयताले." म्हण भाशणगारान रुजवात हाडली आनी आतांय समेस्तांनी तीच लिपी धरिजाय म्हण विनंती केली. (राकणो 5-1-1940)

iii) दुसरी कोंकणी परिशद : कोंकणी भास कोनशांत आसल्ली ती मनशांत हाडची" म्हळ्ळ्या शेवोटाखाल उडुपींत श्री जेरोम साल्दान्याच्या अध्यक्षपणार सुमार एक हजार प्रतिनिधी सवें, 1940 दशेंब्राच्या एकतीस तारकेर दुसरी कोंकणी परिशद जमली. ह्या परिशदेंत लिपी विशयांत भारी चर्चे चलले. "गोंयकार कोंकणी भास लात्यां अक्षरान, म्हणजे रोमन लिपीन बरयतात, आमी मंगळूरगार कांदड्या अक्षरांनी बरयतांव. बाकिचे सक्कड

'देवनागरी' या 'नागरी' लिपीन बरयतात. ह्या फुडां समेस्तांकय एकच लिपी जायजाय म्हळ्ळो प्रस्ताव थोडोकाळ थावन चलता. ह्याच विशयांत ह्या परिशदेंत सबार चर्चे चलले. श्री जेरोम साल्दान्यान रोमन लिपी आधारसिं जाय म्हण सांगलें. हेरांची अभिप्राय 'नागरी' लिपी आधारसि जाय म्हण शेवोटीं सकडांकय नागरी लिपी करिजाय म्हण ठराव मंजूर जालो. (राकणो 19-1-1941)

iv) कवी लुवीस मास्करेन्याचें भाशण : लिपी विशयांत तर्क हेंच पयलें न्हय. ह्या तार्काच्याकय आदीं म्हणजे 1923 इस्वेंत जानेराच्या 28 तारकेर मंगळूरच्या सां. लुवीस कॉलेजींत स्थापन जाल्ल्या कथोलीक सोशल स्टडी क्लबांत श्री. लुवीस मास्करेन्यस 'कोंकणी दिर्व्या'चो संपादक आनी कोंकणी कवी हाणी 'आमच्या मायभाशेची अभिवृद्धी' म्हळ्ळया विशयाचेर दिल्लें भाशण अशें आसा.

"ऊंच वर्गाच्या मनशांक सांगल्ली भास इंग्लेज जावन आसा म्हण लेखच्या ह्या दिसांनी, सकडांनी कंटाळोन चाकरांक उलोवंक फावो जाल्ली म्हणच्या कोंकणी भाशेक कशी वयर काडचीगी म्हळ्ळया विशयांत उलवंक आज आमी हांगासर मेळल्ली एक म्हा-व्हड पिसाय म्हण कितले जण चिंततात कोण्णा. मरोंक लागीं पावल्ल्या कोंकणी भाशेक वेग्गी लगाड काड्न, इंग्लेज आमची भास कर्न घेवंक पेचाडच्या बदलाक, आनीकय कोंकणेचें आव्क वाडोंवच्यांत वेळ पाड करतेल्यांक आमकां दुसरो कांय वात्र ना म्हण लेकचे उणे नांत..."

कोंकण म्हळ्ळो आमचो मांयदेश सांडून, तेनकाच्या ह्या कर्नाटक जिल्ल्यांतल्या द्रावीड लोका मदें येवन वस्ती करची गरज आमकां येवन संभवल्ल्या निमतीं, कर्नाटकी अक्षरां आमचे भाशेक आदारची सवय जावन गेल्या. गोमंतक (गोयां) राश्ट्रांत पोर्तुगीज भास सरकारी भास म्हणोन थंयचो कोंकणी क्रिस्तांव लोक आमचे भाशेक रोमन अक्षर - माळा उपयोगसिता. पोर्तुगीज, फ्रेंच, रोमन इत्यादी विलायती लोक आमचेबरीच आर्य कुलयेच्यो

जाल्ल्या वर्वीं आनी आमच्यो भासो एकाच कुटमाच्यो जाल्ल्यान, गोंयकारांनी रोमन अक्षरां उपयोगसुंचीं पुणि व्हडली चूक जायशी ना. पूण अन्य कुळयेच्या द्रावीड भाशेचीं अक्षरां आमचे भाशेक घाल्ल्या वेळार, गोऱ्याक आनी खापऱ्याक व्हार्डीक केल्ल्याबरी म्हजे मतींत भोगता. कोंकणेच्यो मांय-भासो आनी भयण-भासो जावन आसच्यो प्राकृत, संस्कृत आनी मराठी आनी हिन्दी ह्या सक्कड भासांनी उपयोगसुंचीच जावन आसा कोंकणी भाशेच्या हक्काची अक्षर-माळा म्हणजे - देवनागरी... कोंकणी भाशेक तिचीच खासगी न्हेसोण शिवाय परकी योग्य न्हय देकून, हांवें म्हणचें देवनागरीच अक्षरां तिका उपयोगसुंच्यात आसा म्हण सोबाय. ह्या शिवाय सगळ्या हिन्दुस्तानाक एकच हिन्दी भास करची आलोचन आसताना, ते भाशेकय नागरीच अक्षरां जाल्ल्या वर्वीं फुडां आमकां भोव चड आदाय मेळतोलो. संस्कृत भाशेचीं ग्रंथां वाचुकय वाट सराग जातेली... ओट्टारे म्हजी अभिप्राय जावन आसा कोंकणी भास बरोवंची रीत सगळ्यान एकच जाता म्हणसर तिचे अभिवृद्धेक भारी अडकळ आसा. ह्या पास्वत गोंयच्या आनी कर्नाटकांतल्या क्रिस्तांव आनी हिन्दू बरपेल्यांनी एक जावन खंयच्याय एका ओप्पंदाक येंवचें बरें..." (कोंकणी दिर्वे - 2-3-1923)

कोंकणी दिर्वे सुरू जातानाच इंग्लिशाचो अंगलाप कठीण आसल्ल्यान 1919 इस्वे थावन इंग्लीश जोडणी (Supplement) सुरू जाली आनी निमाणे ह्या इंग्लीशकारांनी 1938 इस्वेंत 'कोंकणी दिर्व्या'चो 'कोंकणी' सब्द झडयलो आनी हें इंग्लीश-कोंकणी पत्र खाली दिर्वे सब्दाचेर उमकाळोन 1940 इस्वेंत दुसऱ्या महा-झुजांत प्राण सोडलो. त्या देखून ह्या कोंकणी पत्राक लिपीची चळवळ मुंदरसून व्हरूंक जालेंना जावयेत. उप्रांतलीं पत्रां कोडयाळांत कानडी लिपीनींच भायर पडलीं. व्हडले व्हडले लेखक उदेले आनी मरण पावले जाल्यारय ताणीं 'एक लिपी' म्हळ्ळया विशयाचेर प्रभाव घालो या घालूंक ना तें रुजवाती सवें पळेयां.

अशी स्थिती मंगळूरगारांची जाल्लेबरी बोंबयांतय तशीच आनी ताच्याकीय

गंभीरायेन जावंक पावली. गोंयकार क्रिस्तांव एदुआर्दु ब्रूनु द'सोव्जा हाणीं "उदेंतीचें साळक" सातोळें रोमी लिपींत काडून रोमी लिपींतल्या वर्तमान पत्रांक सुरवात दिली. मंगळूरगारांनी बोंबयांत 'सुख-दुःख' 'पयणारी' आनी 'मित्र' इत्यादी नांवांचीं नेमाळीं कांदड्या लिपींत सुरू केलीं. गोंयकार हिंदवांनी बोंबयांत 'नवें गोंय', 'साद', 'साळीक', 'मीर्ग' इत्यादी देवनागरी लिपींत नेमाळीं सुरू केली आनी अशें कोंकणी लोक बोंबयांत तीन लिपयांची पिळगी जावन भेतून गेली.

गोंयांत रोमी लिपी सोळाव्या शेंकड्यांत वापुरपांत आयली. फिंर्गी झुजारी 1510 वर्सांत गोंय प्रदेश आपल्या ताबेंत घेतल्या उप्रांत ह्या लिपीचो प्रयोग जावन क्रिस्तांव रोमी लिपींत कोंकणेचें साहित्य वाडोवंक लागले. पूण हिन्दू गोंयकार प्रमूख जावन शणै गोंयबाबान नागरी लिपींत घाल्ल्या आधुनीक साहित्याची बुनयादच घट करून 'नागरी' लिपींत कोंकणीचे कृशी करूंक पावले.

मुंबयांत नौकरी खातीर विविंगड कोंकणी प्रदेशांचो लोक येवन रावल्ल्यान, थंय कोंकणी परिशद जातेली अशें फुडारींक दिसल्ल्यान, 1942 वर्साच्या एप्रील 4 आनी 5 तारकेर तिसरी परिशद घडोन हाडली. ह्या परिशदेक कारवार आनी मंगळूरचो मात्र न्हय केरळ आनी गोंयचो लोकय आइल्लो.

गोंयकार हिंदवां थंय कोंकणेक मानाचो जागो मेळाशें केल्लो आधुनीक कोंकणी साहित्याचो युगपुरूश शणै गोंयबाब, ह्या परिशदेचो येवकार अध्यक्ष आसल्लो. ह्या परिशदेंत ताणी दिल्लें 'येवकार अध्यक्षालें उलोवप' अभ्यासपूर्ण आनी विद्वत्तापूर्ण जावन आसोन तें पुस्तकारूपार प्रगट जालां. कोंकणी साहित्यांतलो हो एक मोलादीक ग्रंथ म्हण आतां प्रख्यात जाला.

ह्या येवकार अध्यक्षालें उलोवपांत कोंकणी लिपीचो वाद ह्या परीं आसा. - "कोंकणीची लिपी. तीन- चार लिपी बऱ्यो न्हयत. एकूच लिपी थारावंक जाय. जायत्यो लिपी चलूंक दिल्यार कोंकणीक प्रमाण रुप येवचें ना आनी राश्ट्राच्या एकचाराक नखलामी जातली. लिपी संबंदान आमगेलीं विद्वान

मनशां कितें म्हणटात? रोमी लिपीन आमी कोंकणी भास विद्रूप करतात. देवनगरी वर्णावळ बरी. कोंकणी भास देवनगरी लिपीन शिकोवंक जाय. ती भास रोमी लिपींत बरोवंक आनी वाचूंक चड कश्ट. देवनगरींत चड सोपी. कोंकणीचे जिवणेक रोमी परस देवनगरी चड मानता. देखून हीच लिपी कोंकणी भाशेखातीर थारायल्यार बरी. पांच-धा वर्सांचे अखेरेक आमगेली कोंकणी सरस्पत देवनगरी रंगाचें घसघशीत बरें कापड न्हेशिल्ली दिसूंक उपाय. देवनागरी लिपीपासून सगळ्यांत व्हडली नफा. क्रिस्तांव भाव देवनगरी शिकतकूच कोंकणी सोडून मराठीच्या मार्गान आपशींच पावतले म्हणपाचो आमगेल्या कांय विरोध्यांलो गोड भ्रम!

कोंकणी वाक्यांची बांदावळ : गोंयचें क्रिस्तांव एवरोपी तरेची बांदावळ चलयतात ती कोंकणीक बरी दिसना.

प्रमाण कोंकणी : संवसारांतल्यो सगळ्यो भासो उलोवपांत भोवरुपी पूण बरोवपांत एकरुपी जातात. कोंकणीची अशीच गजाल. उलोंवपांतल्या तरांखातीर कोंकणीच्यो आनीक पोट-भासो करची गरज ना. कोंकणी एकरुपी करूंक आमी वावरुया."

ह्या तिसऱ्या परिशदेंतय पयलें घेतल्लेच ठराव परत्यान मानून घेतले म्हणजे - कोंकणेक देवनगरी लिपीच सहज लिपी आनी ती सर्व लोकांनी मांदून घेतिजे म्हळ्ळो निर्णय पर्त्यान जालो.

कारवारांत पयली परिशद जाल्या उपरांत देड-दोन वर्सांच्या अंतरान दुसरी आनी तिसरी परिशदो जाल्यो. पूण त्या उप्रांत जाल्ली चवथी परिशद स-सात वर्सांनी जाली. भारतांत स्वतंत्रतायेची चळवळ बळ जाल्ल्यान कोंकणी चळवळे कडेन लक्ष दिवंक वेळ पावलो ना जावंक पुरो. पूण देशाक स्वतंत्र मेळतच अख्या देशांत भाशीक वादाक बळ आयलें. ताका लागोन कोंकणी वाठारा भोंवतणी आसल्ल्या कन्नड आनी मराठी वाठारांत भाशावार प्रांत रचूंक घडून हाडच्या चळवळेन बळ आराइल्लें. मराठीची बोली कोंकणी हो वाद उबो करून अखखो कोंकणी वाठार मराठी भाशीक महाराश्ट्रांत मेळवन

संयुक्त महाराश्ट्र घडच्या मागण्याक बळ आइल्लें. कन्नड कडेन कोंकणेचो जायतो संबंध आसा आमी पुर्विल्या काळार कोंकणी वाठारांत कन्नड रायांचें राज चलतालें. देखून कोंकणी वाठार सगळो संयुक्त कर्नाटकांत मेळवंक जाय म्हळ्ळीं मागणींय मुखार आयलीं. पुर्तुगेजांच्या पाख्यातळा आइल्ल्या गोंयचेरय ते अधिकार चलवंक लागले. आपलें अस्तित्वच ना जावंची गजाल समजोन घेतल्ले कोंकणी समाजेचे लोक सुडसुडीत जाले. सगळ्या कोंकणी वाठाराचे लोक मुंबयत आसल्ले देखून थंयच चवथी कोंकणी परिशद घडोंवचो निर्णय जालो.

तशें, 1949 इस्वी जानेरच्या 15 आनी 16 तारकेर मुंबयत जाल्ल्या चवथ्या परिशदेचो अध्यक्ष मेयर डॉ.एम.यू.मास्करेन्यस हो आसल्लो. मा.। बा.। एच.ओ.मास्करेन्यस हो परिशदेचो येवकार अध्यक्ष आसल्लो. ह्या चवथ्या परिशदेचो उद्देश संखो तीन असो सांगता :-

"वेगळ्या वेगळ्या प्रांत्यानीं आसची कोंकणी भास एकाच मांडावळीर आनी रेग्रेर हाडच्या खातीर ताका देवनागरी लिपी म्हणजे आर्य भासांक चड समजल्लें वाहन आनी सैमीक जावन आसचीं इंदियाचीं देशी अक्षरां उपयोगसूंक सहाय करची-" चवथ्या कोंकणी परिशदेची प्रचारक मंडळ (सुख-दुःख पत्र, नताल, 1948)

ह्या उप्रांतली पांचवी परिशद 1952 इस्वेंत,आनी सवी परिशद 1957 इस्वेंत मुंबयत जाल्यो, सातवी परिशद 1960 इस्वेंत कारवारांत जाली आनी आठवी परिशद गोंयच्या सुटके उप्रांत पयल्या पावटी गोंयांत जाली. णववी परिशद 1967 इस्वेंत मुंबय कोंकणी भाशा मंडळेच्या रुप्योत्सवाच्या उगडासाक मुंबंयत जाली. ह्या परिशदेनी तोच निर्णय मुंदरसून व्हेल्ल्यान कोंकणीक विंगड लिपींचो प्रस्ताव येवंक ना. धावी परिशद 1947 वर्सा गोंयच्या पणजेंत जाली. तवळ सिंडिकेट बेंकाचो मॅनेजींग डायरेक्टर श्री.के.के.पैच्या अध्यक्षपणार जाल्ल्या ह्या परिशदेंत उलवन ताणीं अशें म्हळें -"आमची आवयभास कोंकणेच्या विकासा खातीर आमच्या लोकाचो एकवट

बळीश्ट करची गरज आसा. कोंकणेंत बरें आनी सदां बाळचें साहित्य उत्पन्न जाय जाय तर लोकाच्या एकवटा आनी सहकारा वरवीं मात्र साध्य." ह्या दृश्टीन सकटांनी एकच लिपी वापूरची गरज ताणीं दाखोवन दिली. नागरी लिपी कोंकणेची सामान्य लिपी जावन वापरूंक निर्धार घेवयेत म्हणोनय ताणें सूचन केलें.

इकरावी परिशद 1976 इस्वेंत मंगळूरांत जाली. ह्या परिशदेंत पुस्तक प्रदर्शन उगतावणी केल्ल्या मंगळूरचो बिस्प अ/मा/दो/बाझील सोव्जान तांच्या भाशणांत म्हळ्ळी उतरां ह्या परीं आसात. -"कोंकणी भास अभिवृद्धी करूंक धर्मीक मुखेल्यांनी काडल्ली वांवट ताणे वाखणली. विविंगड रुपां आसपी कोंकणी भास एक रुपी करूंक ताणे उलो दिलो. देवनागरी लिपीच कोंकणी भाशेक योग्य म्हण दिसता. पूण ह्या विशयांत संशोधन गरज आसा म्हण ताणे सांगलें (राकणो फेब्रेर 22, 1976)

बारावी परिशद 1978 इस्वेंत केरळाच्या कोचिनांत जाली. तेरावी परिशद 1980 वर्साच्या एप्रील 12 आनी 13 वेर मुंबय जाली. केरळाचो कोंकणी चळवळेगार श्री. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांच्या अध्यक्षतेखाल चललें. हें अधिवेशन गोंय, दमण आनी दीव प्रदेशाचो मुखेल मंत्री श्री. प्रतापसींग राणे हाणे उगतावण करून "...साहित्य अकादमीन कोंकणी भास एक स्वतंत्र भास म्हण मान्यताय दिल्या उप्रांत भाशे संबंधी वाद संपल्यात. आनी आतां कोंकणी साहित्य समृद्ध करचें काम कोंकणी लोका मुखार आसा. विविंगड प्रांतांनी शिंपडलेल्या कोंकणी लोकान एकच लिपी आपणायली जाल्यार हें काम सलीस जातेलें. देवनागरी लिपी कोंकणेची स्वाभावीक लिपी म्हण मानून घेतल्ली गजाल समाधानेची" अशें म्हणालो.

1982 वर्साच्या फेब्रेर 27वेर गोंयच्या पणजी शहरांत जाल्ल्या अखील भारतीय परिशदेच्या चोवदाव्या परिशदेक मंगळूरचो नावाडदीक साहिती श्री.वी.जे.पी सालदान्य (खडाप) अध्यक्ष बसल्लो. आपल्या अध्यक्षीय भाशणांत वी.जे.पी. सालदान्यान "...साबार कारणाक लागोन सुर्विलो आमचो गांव

मदें वांटून गेलो. गोंय फिरंग्याच्या दमकणेत साबार वर्सा उरलें जाल्यारय हांगाचो लोक आनीकीय कोंकणी उलयता. त्या शिवाय गोंयांभायर, कोंकणी लोक भोव संख्यान आसा. त्या देखून देवनागरी लिपी कोंकणेची अधिकृत लिपी जावन वापरल्यार भाशेंत एकवट उब्जतलो आनी साहित्यीक अभिवृद्धी वेंगान जातेली." म्हण अभिप्राय उच्चारली.

पंद्रावी परिशद 1984 इस्वेंत मेयाच्या 11 थावन 13 मर्यांत बेंगळुरांतल्या टावन हॉलांत भरली. ह्या परिशदेंत हुद्दो श्री. नागेश सोंदेक हातांतर करच्या संदर्भार चोवदाव्या बसकेच्या अध्यक्ष श्री. वी.जे.पी.सालदान्यान आपल्या भाशणांत "...कोंकणी भाशेक लिपी ना म्हणच्या नेणाऱ्यांक सत गजाल सांगची गरज दाखोवन दिली. कोंकणेचो समस्सो तिका लिपी ना म्हळ्ळो न्हय. तिका एका प्रास चड लिपी आसात. हांतली नागरी तिची हक्काची. एका अर्थान इंग्लेज, फ्रेंच, जर्मन, स्पेनीश आनी पोर्चुगीज भासांकय स्वंत लिपी ना. पूण त्यो आपल्या हक्काची रोमन लिपी वापरतात. कोंकणी संस्कृताची धूव देखून नागरी तिच्या हक्काची." म्हळें. (राकणो मे 24, 1984)

ह्या उप्रांत गोंयांत एक विशेश घडीत घडलें. 1985 इस्वेंत गोंयच्या विधानसभेंत काँग्रेस आमदार श्री.लुइझीन्यु फालेयरू हाणे एक खासगी विधेयक मांडलें. गोंयची राजभास कोंकणी जायजे अशें तरचें. पूण गोंयच्या मुखेलमंत्री प्रतापसींग राणे हें विधेयक काडून उडयलें मात्र न्हय कोंकणीक अपमान जाय सारकें उलयलो. तेन्ना गोंयचे सबंध कोंकणी समर्थक उचांबळीत जाले. ताका आनी एक कारण आसल्लें. गोंयांतय काँग्रेस सरकार आनी केंद्रांतय काँग्रेस सरकार. हाच्या आदीं काँग्रेस सरकारान कोंकणी भाशेच्या विकासा खातीर पाटिंबो दिल्लो, आनी आतां जरतर काँग्रेस सरकारच कोंकणेक मान्यता दिना म्हळ्ळ्या उप्रांत, हें धोरण विरोध करिजे म्हण लोक चिंतास्तना श्री. बाबली नायकाच्या फुडारपणाखाल सगळे कोंकणी लेखक, कोंकणी समर्थक सांगाता मेळ्ळे आनी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' म्हळ्ळे

संघटनेन 1985 आगोस्ताच्या एकतीस तारकेर पुंडलीक नारायण नायकाच्या संचालकपणार जल्म घेतलो. तवळ ताणे पयलें निर्णयसिल्लें खंचेंगी म्हळयार लिपीचो प्रस्न. सरकाराकडेन कोंकणी राज्यभाशेची मागणी करताना लिपीचो प्रश्न जर उदेलो आमचे मदें दोन वांटे जावन संघटन भेतून वेतेलें. त्या देखून लिपीचो प्रश्न येताना देवनागरी लिपीच कोंकणेक अधिकृत लिपी म्हणोन हर एका कोंकणी लेखकान, कवीन, साहितीन मानून घेवचें अशें हे संघटनेन थारायल्लें. गोंयांत कोंकणी राज्यभास करचेपासत क्रिस्तांव, हिन्दू सगळे एकवटले.

केरळांत मलयाळी लिपींत 'सारस्वत बोधिनी' आनी इन्नीतर पत्रां मुखांत्र वावर प्रारंभ जाल्लो. हाका कारण तांकां देवनागरी लिपींत लेखनां छापूंक समस्ये आसल्ले वर्वी ताणीं मलयाळी लिपींतच सुर्विलो वावर सुरू केल्लो. पूण मलयाळम आनी देवनागरी लिपींत (दोनी लिपींनी) साहित्य रचताले आनी वाचताले. 1966 इस्वेंत मेयाच्या चार तारकेर कोंकणी भाशेच्या उदरगतेखातीर, कोंकणी शाळेंनी शिकोंवच्याक आनी देवनागरी लिपी प्रोत्साव करच्या खातीर "कोंकणी भाशा प्रचार सभा कोच्ची" ह्या संघटनान जल्म घेतलो. ह्या प्रचार सभेन कोंकणी शिक्षक शाळा आनी परिक्षा विभाग उगडून कोंकणी शिक्षकींक तरबेती दिली आनी तांच्या निवेदनाक पाळो दिवन केरळा सरकारान (सरकारी आदेश संखो 12-8-1968) शाळेंनी चडतीक (additional) कोंकणी भाशेचें शिकाप देवनागरी लिपीन सुरू करूंक आज्ञा दिली आनी अशें थंय मलयाळी लिपी मायाग जावन देवनागरी लिपी एकच उरली.

भारताच्या केंद्र साहित्य अकादमीन 1975 इस्वेंत कोंकणी एक स्वतंत्र आनी साहितीक भास म्हण मान्यता दिवन ते भाशेची अधिकृत लिपी देवनागरी म्हण थारायल्ल्या दिसा थावन देवनागरी लिपींत छापल्ल्या कोंकणी पुस्तकांक मात्र केंद्र साहित्य अकादेमी प्रशस्ती दिवनच आयल्या.

आतां इतल्यो पुरा रुजवाती दिल्या उप्रांत ह्या लिपीच्या वादा विशयांत

फोडणिशी करयां.

### 6.2.3.2 कोंकणी पांच लिपींनी बरयतात.

(म्हणजे : उर्दू, मलयाळम, रोमी, कन्नड आनी देवनागरी)

**i) उर्दू लिपी :** भटकलांत मुस्लीम् नवायत मात्र उपयोगसितात. ताणी 'नक्ष-ए-नवायत' म्हळळें कोंकणी भाशेचें पंद्राळें, ह्या लिपीन प्रकटतात. पूण कोंकणीचे विविंगड पंगड ही लिपी वापरी नातल्यान, ह्या लिपीचो समस्यो ना. त्या देखून कोंकणेक ह्या लिपीचो वाद ना.

**ii) मलयालम लिपी :** केरळांत आदल्या काळार मलयाळम लिपींत पत्रिकोद्यम आसल्लें जाल्यारय ताणीं सुरवेर थावनय देवनागरी लिपीक व्हडनी दाखइल्ल्यान आज केरळांत देवनागरींत तांचीं पत्रां आनी साहित्य रचतात जाल्ल्यान मलयाळम लिपीचो समस्यो सुटला. कोंकणीक ह्या लिपीचोय वाद ना.

**iii) रोमी लिपी :** पुर्तुगेजांनी कोंकणी भाशेक रोमी लिपी दिल्ली. ती त्या दिसा तावन आजून पर्यांत उपयोगार आसा. ह्या लिपीनच सुरवीलें पत्रिकोद्यम प्रारंभ जाल्लें. साहीत प्रकारय ह्या लिपींत धाराळ आसा. पूण गोंयांत 1985 इस्वे थावन कोंकणी राज्यभास आनी गोंय घटक राज्याची मागणी सरकारा मुखार दवरूंक कोंकणी लोकाचें संघटन उबें जाताना ताणी एक महत्वाचो निर्धार घेतलो. त्या वेळार गोयांत कोंकणेक खंयची लिपी, देवनागरी वा रोमी लिपी म्हळ्ळो वाद चलतालो. कोंकणेक देवनागरी लिपी सांगाता रोमी लिपी आसची अशें लोक त्या वेळार मांदून घेतालो. "आमी जरतर सरकारालागीं राज्य भाशेची मागणी करतांव जाल्यार आमची लिपी खंची आसची? असलीं सवालां उबीं जाताना सर्व बरवप्यांनी एक निर्धार घेतलो. 'सरकारा लागीं राज्य भाशेची मागणी करताना लिपीचें सवाल दवरचें न्हय. जर आयलेंच, देवनागरी शिवाय दुसरी लिपी आसची ना.' अशें ठराव ताणी मांदून घेतलो.

तशें आसताना, रोमी लिपिगारांनी तांचें धाराळ साहित्य आसल्यारय,

रोमी लिपीचें हक्क केदाळा सोडून दिलेंगी तवळच तो वाद संपला.

1939 इस्वे थावन हर एका अखील भारतीय कोंकणी परिशदेंनी कोंकणेक देवनागरी अधिकृत लिपी म्हण मानून घेवची म्हळ्ळो ठराव मंजूर केल्या शिवाय, एक्काय कोंकणी परिशदेंनी रोमी लिपिकय अधिकृत स्थानमान मेळोंक जाय म्हण रोमी लिपीच्या समर्थकांनी ठराव मंजूर केल्लो वाचूंक मेळाना. उडुपींत 1940 इस्वेंत जाल्ल्या दुसऱ्या कोंकणी परिशदेंत, अध्यक्ष श्री. जेरोम सालदान्यान रोमी लिपीचो वाद मांडल्लो पूण त्या वादाक पाटिंबो नासताना मोडोन पडलो आनी देवनागरीच अधिकृत लिपी म्हण ठराव मंजूर जाल्लो.

त्या देखून रोमी लिपीक अधिकृत स्थान-मान दिंवच्या वादाक रोमी लिपीच्या समर्थकांनीच पाटीं सरल्ल्यान ह्या वादाक बळ ना म्हण म्हणयते. ह्या विशयांत 1989 इस्वी जानेर 12 तारकेर 'उदेव' पत्रार आइल्लें लेखन हांगासर दिलां.

'गोंयची भेट-थंयची चीट'

"देवनागरी लिपीच आमचें खरेलें दायज"

"सुनापरांताची या भांगराळ गोंयची राजभास कोंकणीच्या आसपावाक, सुरवातीक सगळे गोंयकार 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' म्हणच्या बावट्याखाल एकाच मनान आनी मतान वावुरले. हाका लागून ताणी जायतेच त्रास-मोस सोसले. मार-फार खेले. हिन्दू, क्रिस्तांव, मुसलमान म्हणचो धर्मीक मनोभाव आनी चिंतप घडयेक विसरोन एकाच हठान आनी नेटान वावपरले. एक पावट कोंकणी मायेक राजभाशेचो स्थान-मान फावो जाल्यार पुरो - होच दर एकल्याचो मोठेलो आस-हावेस आसलो.

पूण सुरवातीर आसलली ती उमेद उर्बा आज दिश्टीक पडना. आतां दर एकलो एकेकी कुशीक वोळटा. कोंकणे आनी मुसलमान कोंकणीक देवनागरी लिपी जाय म्हण अपेक्षा दाखयतात जाल्यार, चडावत कथोलीक क्रिस्तांव रोमी लिपी जाय म्हण हठ धरतात. सरकारान देवनागरी लिपीच्या कोंकणीक

मान्यताय दिलेली आसताना, फुडाराक रोमी लिपीच उरोंक जाय म्हणतात आमचे क्रिस्तांव भाव. आतां सद्याक रोमी लिपी वापरूक हरकत आडखळ आसची ना. शाळेंनी कोंकणीतल्यान शिकप सक्तीचें जालां. हेर लोकानय आतां देवनागरीय वाचूंक आनी लिखूंक शिकचें अदीक बरें. चड करून तरण्या धाकट्यानीं देवनागरी कोंकणी शिकपाक त्रास मारतले व्हय? माय भाशेखातीर आज मेरेन खूब त्रास घेतल्यात आसतां आतां आमी सगळ्यांनी थोडे त्रास घेवपाक कडसरचें न्हय.

हालींच्या म्हयन्यांनी, रोमी लिपीचो सांबाळप करचेखातीर कांय क्रिस्तांव गोंयकार भावांनी एक येवजण या प्लॅन (plan) मांडून हाडलें आनी 'दालगाद कोंकणी अकादमी' स्थापली. जे कोण हे कोंकणी अकादमीचे वांगडी जावंक सोदतात ताणीं पयले सुवातेर वळकोंक जाय कीं रोमी लिपीच आपले दायज म्हण आनी हेर लिपी आपणाक अभिमानाच्यो. असलो निर्णय घेवन वांगडी जातात ते खरेले कोंकणी भाशेचे अभिमानी या मोगी म्हण सांगोंक जायत? देल्लीच्या केंद्र साहित्य अकादेमीन कोंकणीक देवनागरी लिपीच खरेली आनी हक्काची म्हण मांदून घेतलां. गोंयच्या सरकारानय बी देवनागरी कोंकणीक राज भाशेची मान्यताय दिल्या. अशें आसतां, ही लिपी शिकोंक मातशे त्रास जातात वा ती लिपी आपणाक आवडना म्हणोन, रोमी लिपीक आपलें दायज जावन मांदून घेवपाचें कर्तुब, कोंकणीक निबर विश्वास घाताचें जावन आसा. म्हळ्यार चूक जायत? गोंयांत लांब काळ पुर्तुगेजांचे राजवट चलतालें तेन्ना ताणीं तांकां सरळ आसल्ली तांची रोमी लिपी गोंयकारांचेर थापून सोडली. विलायतांत वेगळ्यो उण्यो सगळ्यो भासो रोमीतल्यान लिखतात देखून ही लिपी गोंयांत 451 वर्सां पर्यांत वापरीत आयले. आनी आतां हालींच गोयांक सत्ता (स्वातंत्र्य) लाभल्ल्या नंतरची आनी कोंकणीक राज भाशेच्या पांवड्याक उबारल्या आसतानाय, रोमी लिपीच आपलें दायज म्हणचें सांगप कोंकणीक बेइमानाचें जावन आसा. कर्नाटकांत आनी केरळांत वस्ती करचे कोंकणे आपूण

देवनागरी लिपी नकळत म्हण ताणी कन्नड या मलयाळी लिपी आपलें दायज म्हण पाचारून तीच लिपी थीर करतीत जाल्यार कोंकणी लोकाचो एकतार जांवचो तरय कसो? साहित्याचें, संस्कृतायेचें सुद्राप भाशेचे एक रूप जातेलें तरय कशें?

केरळ कोचीनचो नामणेचो कोंकणी फुडारी आनी मोगी बाब पुरुषोत्तम मल्ल्या एका दिसाळ्या पत्रार 'संपादप्याक पत्र' विभागांत लिखता कीं "आख्ख्या कोंकणी लोकांक एकवटावूंक नागरी लिपी विणे दुसरी वाट ना. केंद्र साहित्य अकादेमीन 1982 ऑक्टोबर 22वेर प्रगटलेल्या निर्णया प्रमाणें ह्या फुडें फकत देवनागरी लिपींत प्रगट करच्या कोंकणी साहित्यात पुरस्कार दिवपाक येवजिलां. साहित्य अकादेमी रोमी या कन्नड लिपींचे विरोधी म्हण आमी चिंतूक फावोना. भारताच्या हेर भासांक खेरीत (Certain) लिपी थारायल्या देखून कोंकणीकय ती आर्य वर्गाची भास देखून, एक खेरीत लिपी थारावंची गरज. ती लिपी देवनागरी शिवाय दुसरी कसलीय जावंक सकाना. घटनाचे आठवे वोळेरींत कोंकणीच्या आसपावाक वाट उगतावणेक मात न्हय, तर सगळ्या कोंकणी लोकाचो एकवट बी घडच्या हेतून देवनागरी लिपींत लिखतात जाल्यार चडसो लोक रोमी, कन्नड, मलयाळम आनी फारसी लिपीनी लिखतात. सगळ्यानी एक लिपी वापरल्यार वेगवेगळ्या जाती धर्माच्यानी बरयलेलें वाचूंक सोपें जातलें न्हय?"

ह्याच हेतून मंगळूरगार जे.बी.मोरायस बाबान कन्नड लिपी बराबर देवनागरी लिपीन लिखलेल्या 'भितरलें तुफान' कविता साहित्याक केंद्र साहित्य अकादेमी कडच्यान पुरस्कार लाभलो तें आमी विसरचें न्हय. ह्या जे.बी.ची देख घेवून आनेक एकलो जे.बी.(सिक्वेरा) आपलो कविता संग्रह ग्रंथ 'काळजाचे उमाळे' कन्नड देवनागरी लिपीनी उजवाडावंक काळजिदारपणान फुडें सरलो. हाचो वावर कोंकण्याचे शाबासकेक पात्र जालो. ह्या मंगळूरगार दोग जे.बीं.ची देख आपणावन गोंयांतले क्रिस्तांव बरवपी चड करून आमचे मानादीक पाद्रीकार कित्याक फुडें सरनांत? अशें हांव विचारतां.

तर आतां, केंद्र साहित्य अकादेमी कडच्यान रोमी आनी कन्नड लिपीच्या साहित्याकय पुरस्कार मेळूंक जाय म्हूण हठ धरचें सोडूंक जाय, तर साहित्या उद्देशीं कोंकणीचो उद्धार आनी कोंकण्यांचो एकचार करपाचो मुखेल हेतू आमकां आसोंक जाय. आमचे एकामेकाचे अभिप्राय, येवजण्यो, आस-हावेस अदल बदल करूंक, एकामेका थंय एकवट थीर करूंक हें देवनागरी लिपींतलें साहित्य एक मुखेल हातेर (हत्यार) जावंक पावतलें - अशें म्हाका दिसता.

गोंयांत आज देवनागरी लिपींत कोंकणी बरवंक शिकवचें आनी शितकेल्यांक उमेदीर दवरपाक वापुरचें क्रिस्तांव केंद्र उजवाडाक आयल्यांत. पणजेंच पाद्री तोमास इस्तेंव कोंकणी केंद्रांन देवनागरी लिपींत कोंकणी लिखचे नेम शिकंवच्याक पावल फुडें दवरलां. त्या शिवाय प्रो. लुद्रींजु रोद्रीगिशबाब, फेलिसीयु काडदोजबाब आनी हेर कोंकणीचे मोगी ह्याच देखून वावुरतात. लोकांक बऱ्यांतली बरी कोंकणी शिकंवच्याक ते आयते जाल्यात. देवनागरी कोंकणी साहित्याचें महत्व ते जाणा जाल्यात. आमचे साहित्य सेवे वर्वी अखबे कोंकणी परजेक फायदो लाभोंक जाय. आपलो स्वताचो फायदो, लेखूंक फावोना. लोकांचो फायदोच आमचो फायदो. हें तत्व, हो हेतू मनांत खंचवन वावुरल्यार, रोखडोच कोंकणीक परजळीत फुडार लाभतलो. हाका दुबाव ना.

आतां सद्याक आमी रोमी या कन्नड आनी मलयाळी लिपी कोंकणी साहित्याक वापरल्यार मारेकार गुन्याव जावचोना तेंय खरें. पूण परकी लिपी आपलें दायज म्हण चिंतून, खरेली लिपी जावन आसची देवनागरीचो केन्नाच बेपर्वा करूंक फावोना. आतांय दर एका कोंकणी मोगींनी आनी अभिमानीनी ती रोखडीच शिकूंक उमेद दाखवंक जाय आनी आनी ती शिकोक अत्रेगच्या उमेदवारांक जाणटेल्या शिकप्यांनी तांकां उमेदीक दवरूंक जाय. आमचें दायज देवनागरीक जय!"

- ब्र.। इजाकपी.पींत.

**iv) कन्नड लिपी :** कन्नड लिपीच्या समर्थकांनी कन्नड लिपींत आसल्ल्या साहित्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबोवंक कितें प्रयत्न केलो तें आतां समजोयां. कन्नड लिपींत साहित्य रचलेल्यां पयकी लिपी तिर्मान करच्या वेळार आसल्ले फुडारी हे जावन आसात.

**1) वी.जे.पी.सालदान्य :** वी.जे.पी.सालदान्य चरित्रीक कादंबरीचो श्रेश्ठ साहिती. साबार ऊंच मट्टाच्यो साहितीक कृत्यो ताणे रचल्यात. ताणे टिपूच्या काळाच्या बंधडेची फाट-भूंय घेवन बरइल्ल्या चारित्रीक कादंबरी पयकी 'देवाचे कुरपेन', 'सरदारांची सिनोल'... इत्यादी आनी गोंयच्या इंक्विझिसांवाची फाट-भूंय घेवन रचलेल्या कादंबरी पयकी 'सायबा भोगोस' 'पुर्वज परदेशांत'... इत्यादी प्रमूख जावन आसात. कोंकणेक साहित्य अकादेमीन मान्यता दिताना तो मंगळुरांत नावाडदीक कोंकणी फुडारी जावन आसल्लो. ताणे कोंकणेक अधिकृत लिपी देवनागरी म्हळ्ळें शिवाय कन्नड लिपीच्या साहित्याकय अकादमी मान्यताय दिवंक जाय म्हण सार्वजनीक चळवळ चलयली ना. 1984 इस्वेंत गोंयांत जाल्ल्या पंदराव्या कोंकणी परिशदेंत "कोंकणेक हक्काची लिपी नागरी" म्हळें आनी कन्नड खातीर वावुरचें हक्क मेकळोन घेतलें. ताच्या ऊंच मट्टाच्या साहितीक कृत्यांक अजून साहित्य अकादेमीचें पुरस्कार लाबोंक ना. ताणे ताचे कन्नड लिपींत आसल्ले नागरींत लिप्यंतर करूंक गोवा धाडल्ले आनी ते कितें जाले म्हण खबार ना म्हण ताचे कडे भासाभास करताना म्हणतालो.

**2) चा.फ्रा.। दे'कॉस्ता :** चा.फ्रा.। दे'कॉस्ता एक श्रेश्ठ कवी, नाटककार आनी पत्रकार जावन आसोन लिपी निर्णय जांवच्या वेळार मंगळुरांत नावाडदीक फुडारी जावन आसल्लो. 1987 इस्वी माय म्हयन्याच्या 16 आनी 17 तारकेर गोंयच्या सांखळी गांवांत नोववें (9) लेखक संमेळनांत अध्यक्ष जावन आसल्लो. ताणे कन्नड लिपीक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिवंक जाय म्हण त्या संमेळनांत झूज मांडल्लें वाचूंक मेळाना. "ताचो 'सोंस्याचेकान' कविता संग्रह 1988 इस्वेंत जाग प्रकाशन प्रियोळ गोवा हाणीं नागरी

लिपींत छापलो आनी ताच्या दुसऱ्या वर्सा ताका साहित्य अकादेमी प्रशस्ती लाबली. तशें ताणे कन्नड लिपीच्या साहित्याच्या पुरस्कारा खातीर झूज प्रारंभ केलें ना."

**3) बी.वी.बाळिगा :** बी.वी.बाळीग कोडियाळच्या कोंकणी चळवळेंत प्रमूख पात्र घेवन आसल्लो. 'पंचकदाय' पत्राचो स्थापक संपादक जावन आसोन मंगळुरांत आनी इतर कडेन जांवच्या हरएका कोंकणी कार्यक्रमाक हाजर आसतालो. गोंयच्या मापसांत 1994 इस्वी मार्च 5 आनी 6 तारकेर जाल्ल्या बाराव्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाच्या पिठा थावन उलोवन "नागरी लिपीच अधिकृत लिपी जावन साहित्य रचल्यार चारयी राज्यांच्या कोंकणी लोकांक पावोंवक साध्य जाता मात्र न्हय भाशेचें प्रमाणिकरणाकय सहकार लाभल्ले बरी जातोलो." म्हण अभिप्राय उच्चारी लागलो. (उदयवाणी 1994 मार्च 14)

**4) मा.।बा.। मार्क वाल्डर आनी 'राकणो' :** मा.।बा.। मार्क वाल्डर 1973 इस्वे थावन 1985 इस्वे पर्यांत 'राकणो' पत्राचो संपादक जावन आसलो. ताच्या आवदेंत कोंकणेक साहित्य अकादेमीची मान्यताय लाभल्ली. सुरवेर मान्यताय लाभच्या खातीर लिपीचो वाद घेतल्यार मान्यतेक म्हारग पडतेलें म्हण सकडांक एकवटांवची एक लिपी म्हणजे देवनागरी लिपीकच ताणे पाटिंबो दिल्लो खंय. 1983 इस्वेंत तो साहित्य अकादेमीच्या कोंकणी सलहा मंडळाचो सांदो जावन आसलो. आतां कन्नड लिपीच्या साहितींक अन्याय जांवचो पळेवन ताणे ताचें मन बदलिलां म्हण कळयलां. आतां कन्नड लिपीच्या साहित्याकय पुरस्कार मेळोक जाय अशें ताचें म्हणप जावन आसा खंय.

**5) दो.।मा.। फिलीप नाजरेत :** मा. फिलीप नाजरेत हाणीं मंगळूरच्या कोंकणी लोकाक कानडी लिपीचें व्याकरण दिल्लो धार्मीक फुडारी. हाणीं ऑक्टोबर 30, 1986 इस्वेच्या राकणो पत्रांत 'देवनागरींत कोंकणी शिकयां म्हण बरइल्ल्या लेखनांत. "बाप वाल्डरान" सुरवेर भास मात्र शिकोंवची'

अशें बरयलां. तें वाचून कांय लोक 'आमची भास आमी जाणांव, ती आमकां वा आमच्या भुरग्यांक शिकोंवची नाका, शाळेंत ताची गरज ना.' म्हणतात. तांकां जाप दिवंक फावो सुरवेर भास न्हय. ती वाचूंक बरोवंक शिकोवचें, पूण लिपी कानडी न्हय, कोंकणीची म्हण मानून घेतल्ली देवनागरी लिपी वापरची. भुरगीं देवनागरी लिपींत कोंकणी वाचूंक शिकतच, तांकां भास शिकोंवची गरज ना. तींच वाचून वाचून आपली भास सुदरायतात आनी मोलादीक जाणवाय जोडतात. अशें ल्हान आसतनाच आमचे भाशेच्या सगळ्या साहित्याच्या दिर्व्याची चावी तांच्या हाताक मेळता. वाचपाची रूच तांकां दिवन तांची उर्बा पेटोवन त्या दिर्व्याचो ताणीं फायदो जोडिशें करूंक फावो तो उपाय आमी सोदून काडूंक जाय.

ह्या खातीर कोंकणीक आतां शिक्षण माध्यम करूंक आडखळी आसतीत जाल्यार कोंकणी उलोवपी भुरग्यांचो जाय पुरतो संखो आसलेल्या शाळांनी कोंकणी भास त्या भुरग्यांक शिकपाचो एक विशय (Konkani language as a subject) म्हण घेवंक सरकाराची मान्यताय मागची आनी देवनागरी लिपी द्वारीं कोंकणी वाचूंक बरोवंक शिकोंवचें. हे वाचतच वाल्डराच्या उतरांचो सारको अर्थ समजतलो." अशें बरयलां.

**6) एडवीन जे. एफ. डि'सोव्जा :** एडवीन जे. एफ. डि'सोव्जा कोंकणीतलो प्रख्यात कादंबरीकार. साबार कादंबरी बरयल्यात आनी तशेंच चडावत कन्नड लिपींत प्रगट जाल्यांत. ह्या मानेस्तान 1992 इस्वी फेबेर 8 आनी 9 तारकेर कारवारांत जाल्ल्या इकरावो अखील भारत कोंकणी साहित्य संमेळनांत दिल्लें अध्यक्षीय भाशण त्या वर्साच्या राकणो पत्राच्या फेब्रेर 13 तारकेर 'एक नवी जागृती' म्हण प्रगट जालां. त्या भाशणांतलो लिपी विशयांत परिच्छेद ह्या परीं आसा :- "...पांच लिपींनी लिखच्या कोंकणी साहित्यांनी आनी साहितींनी एका मेकाची ओळोक करची. गोयांतल्या केरळांतल्या, महाराष्ट्रांतल्या आनी कर्नाटकांतल्या कोंकण्यांनी पांच लिपींनी आसच्या लेखकांचीं आनी तांच्या कृतयेंचीं नांवां आयकाल्यांत जांवयेत. पूण कितल्यानी

ह्यो कृत्यो वाचल्यात, तीं कवनां चाखल्यांत? केदोळ पर्यांत आमी राका जाय? एक सामान्य लिपी जरूर येतली;... एक सामान्य लिपी येवंचे पर्यांत आनी ती लिपी प्रचलीत जांवचे पर्यांत जियेवंचें रावया वा लिखचें रावयात म्हण आमी म्हणयेत? बदलाक आसा करूंक नजोगी आमी एक संस्थो लिपींतल्या साहित्यान एकामेका ओळखाशें करचो? वर्साक एक ग्रंथ पुणीय कानडींतलो नागरीक वा नागरींतलो कानडीक; रोमींतलो उर्दूक वा उर्दूंतलो रोमीक उतरावन कोंकणीसाहित्याचें लिप्यांतर करूंक आमच्यान साध्य ना?...

ह्या भाशणद्वारी 'एक सामान्य लिपी येवंक जाय' म्हळ्ळी अभिप्राय संमेळनाच्या अध्यक्षान उच्चारल्या शिवाय कन्नड लिपीच्या साहित्याक साहित्य अकादेमी थावन पुरस्कार लाभोवंक जाय म्हण खरोखर सांगल्लें वाचूंक मेळाना.

**7) 'कोंकणी संस्थो' सां लुवीस कॉलेज, मंगळूर :** मंगळूरांतल्या सां लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्याच्या आश्रयार - 1980 इस्वी ऑक्टोबर 19 वेर "कोंकणी लिपी आदीं आनी आतां" म्हळ्ळया विशया वयर एक शिकपा संमेळन जाल्लो. (राकणो पत्राची बातमी - ऑक्टोबर 23, 1980)

ह्या संमेळनांत उर्वाचो ललीत प्राच्य संशोधनालयाचो निर्देशक पंडीत श्री बस्ती पुंडलीक शणै हाणें उलवन... कोंकणेक कन्नड लिपी परकी न्हय. उरये कोंकणेच्या बऱ्या वाडावळी आनी उंचल्या फुडारा खातीर सकडांनी देवनागरी लिपी वापरची बरी" म्हण अभिप्राय उच्चारली.

ह्या शिकपा संमेळनाच्या तर्कांत कॉलेजीचो रेक्टर मा.। रोनी प्रभू, कोंकणी संस्थ्यांचो निर्देशक प्रो. आलबान कास्तेलीन, श्री ऑस्टीन डि'सोव्जा प्रभू, तवळचो कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष दामोदर प्रभू, वी.जे.पी.साल्दान्य, बी.ए.बाळीग, लियो सोव्ज, लोरेन्स लोब, उल्लास कुप्पेपदव, जी.जी.वासुदेव प्रभू, मा। जी.पी.नाजरेत, मा. मार्क वाल्डर हाणीं वांटो घेतल्लो.

ह्या शिकपा संमेळनांत उच्चारल्ली अभिप्राय ह्या परीं आसा : "देल्लींतल्या

साहित्य अकादेमीन कोंकणी पुस्तकांक पुरस्कार दिताना नागरी लिपींतल्या पुस्तकांक मात्र न्हय कन्नड आनी रोमी लिपींतल्या पुस्तकांकय इनामां दिवंच्या विशयांत चिंतून पळेवचें सवकास तरी कर्नाटकांतल्या कोंकण्यांनी साहित्य रचताना नागरी लिपी वापरची."

ह्या उप्रांत सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यान म्हणजे 1981 इस्वे जानेर थावन षणमासीक संशोधनात्मक 'अमर कोंकणी' म्हळ्ळें कोंकणी पत्र कानडी आनी देवनागरी लिपींत प्रकटूंक प्रारंभ केलें. आजूनय हें पत्र चालू आसा.

अशें कर्नाटकाच्या चडउणे हरयेकय नावाडदीक साहिती आनी फुडारींनी कोंकणेक अधिकृत लिपी देवनागरी म्हण प्रत्यक्ष आनी परोक्ष रितींनी ओपल्ले वर्वीं तशेंच केरळांत आनी गोंयातय देवनागरी कोंकणेची अधिकृत लिपी म्हण ओपून घेतल्ल्यावर्वीं केंद्र साहित्य अकादेमी अजून पर्यांत देवनागरी लिपीच्या साहित्याक मात्र पुरस्कार दिता.

### 6.2.3.3 कोंकणेक लिपी ना म्हणचो वाद

थोड्यांनी तवळ तवळ जाग जाताना 'कोंकणेक लिपी खंयची?' 'कोंकणेक लिपी आसागी?' म्हळ्ळीं बड्ड सवालां विचारचें आयकोंक मेळता.

भाशेक लिपी जायगी? तोंडी भाशेक लिपी नाका. बरपी भाशेक लिपी जाय. एका भाशेखातीर एक भास लिपी घडयल्या जाल्यार ती त्या भाशेची 'सैमीक लिपी' म्हूण येता. दाखल्याक तमीळ लिपी तमीळ भाशेखातीर, मलयाळम लिपी मलयाळम भाशेखातीर तयार केल्या इत्यादी. भास खंयच्याय लिपीन बरोवंक जाता. लिपी भास बरोवंक एक साधन, एक संकेत, एक माध्यम. हर एका भाशेक तांचीच म्हळ्ळी लिपी आसाजे म्हण कड्डाय नियम ना. त्याच परीं इंग्लीश भाशेक ताचीच म्हळ्ळी सैमीक लिपी ना. इंग्लीश रोमी लिपींत बरयतात. रोमी लिपी इटालीक भाशे पंगडाची. ह्या पंगडांत इटालियन, रोमेनियन पोर्चुगीज, फ्रेंच इत्यादी भासो येतात. पूण इंग्लीश भास 'CERMANIC' फांट्याची. ह्या फांट्यांत जर्मन, डच

इत्यादी भासो येतात.

कशें रोमी लिपीच्यो दोडी मोडी करून थोड्यो युरोपियन भासो बरयतातगी, त्याच परीं हिन्दी, मराठी इत्यादी देवनागरी लिपीन आनी ताच्यो दोडी मोडी करून उत्तर (North) भारताच्यो थोड्यो आर्यन भासो, बरोवंक उपयोगसितात.

आतां सवाल - कोंकणेक सैमाची लिपी आसागी? आसा जाल्यार खंयची?

i) ह्या सवाळाक जप जावन "सारस्वत ब्राम्हणर प्राचीन इतिहास (ब्राम्हणर-ब्राम्हणांचो) म्हळ्ळया ग्रंथात श्री बस्ती पुंडलीक शणै अशें सांगता:-

"भारत वर्साच्या ब्राम्हण पंगडापयकी सारस्वत पंगडच पयलो पंगड आनी अत्यंत प्राचीन म्हळ्ळयाक ऐतिहासीक रुजवात आसा. त्या देखून 'शक' आरंभ जांवचे कितलेशा शतमान पयलें उत्तर भारता थावन दक्षीण भारताक येताना वैदीक धर्म प्रचार करपाक तांच्या सांगोडें धर्मग्रंथ आनी विद्या प्रसाराक अवश्य जाल्ली मूळ लिपी जावन आसची ब्राम्ही लिपी हाडून आइल्ले." म्हण तो वाद मांडता. "ही ब्राम्ही लिपी आर्य ब्राम्हणांनी स्वंत निर्माण केल्लेली म्हणोनय आचार्य पाणिनीन ताणे बरइल्ल्या व्याकरणांत उपयोगसिल्ली "युवनानी" म्हण ग्रिकांनी वोलाइल्ली लिपी, ब्राम्ही लिपी मुखांत्र रुपांतर जाल्ली म्हणच्याक आडखळ आसची ना." म्हणता. "संस्कृत भास बरोवंक निर्मीत जाल्ली नागरी लिपी ब्राम्ही लिपीची उत्तर भारतीय रुपांतर जाल्ल्यान ती लिपीचे निर्मापक कोंकणेच जाल्लेवरवीं कोंकणेक लिपी ना म्हणच्यांत अर्थ ना म्हणयेत." म्हण तो वाद मांडता.

"ही संस्कृत भास बरोंवची नागरी लिपींत थोडें रुपांतर कर्न गुजराथी, बंगाली आनी ओरिया भासो बरोवंक उपयोगसितात. आतां संस्कृत, हिन्दी, मराठी आनी गोंयचे आनी केरळाचे कोंकणी लोक ह्या नागरी लिपींत कोंकणी बरयतात."

फुडें वचोन त्याच ग्रंथांत बस्ती पुंडलीक शणै म्हणता "कशें नागरी

वर्णमाळ संस्कृत बरोवंक निर्मीत जाल्ली ब्राम्ही लिपी उत्तर भारतीय रुपांतरगी, तशेंच कन्नडाची म्हण सांगची वर्णमाळ सयत संस्कृत आनी प्राकृत बरोवंक ब्राम्ही वर्णमाळा थावन रुपांतर कर्न निर्मिल्ली दक्षीण भारतीय वर्णमाळ जावन आसा. ह्या वर्णमाळा थावन बरइल्लें पयल्यांच्या पयलेंचें शासन संस्कृत भाशेनच आसल्ल्यान हें सत कोणाय वर्वी न्हय म्हणोंक जायना. त्या देखून कोणेय ह्या वर्णमाळाचेर स्वाधिकार स्थापूंक साध्य ना. ही वर्णमाळ कन्नडिगांची म्हणच्या परस कोंकणीगारांची म्हणचें चड सारकें आसा. कित्या म्हळ्यार ह्या वर्णमाळाचें पयलेंचें रूप गोवांत मात्र उपयोगांत आसल्लें."

"गोवांत गोमंतकी लिपी (=आतांच्या कन्नड लिपीचें पयलेंचें रूप) उपयोगार आसल्ली. साधारण शकच्या पंदराव्या शतमानात थंय नागरी लिपीय उपयोगार आयली. क्रमेणा गोमंतकी रुपांतर जावन आतांची कन्नड लिपी उपयोगार आयली. म्हळ्यार गोवांत दोन नमुन्याच्यो लिपी उपयोगार आसल्ल्याक लिखीत रुजवात आसात. तशें म्हळ्यार आतां कन्नडाची म्हण सांगची लिपी पयलें थावन कोंकणी बरोवंक उपयोगसिल्या, आतांय उपयोगसितात. मुकारय उपयोगसितेले. तशें जाल्ल्यान कोंकणी लोकांनी काणायकी रुणी जायजे म्हण ना, कित्या म्हळ्यार ती तांच्या स्वंत निर्माणाची आनी तांकां त्या वर्ण माळांत हेरांच्याकाय चडतीक अधिकार आसा. पुर्वी ती वर्णमाळा थावन कोंकणी मात्र न्हय मराठीय बरोवंक उपयोगसिताले म्हळ्यार गोमंतकी लिपीन मराठी भाशेन बरइल्ली 'विदूर निती' 'कथा कल्पतरू' म्हळ्ळीं दोन प्राचीन ग्रंथ मंगळूरच्या केनरा हाय स्कुलांतल्या पुस्तकालयांत आसात."

तशें तर, देवनागरी आनी कन्नड ह्यो दोनयी कोंकणीगारांची 'संयबीक लिपी' म्हण शणैन संशोधीत कर्न दाखइल्ल्यान, कोंकणी भाशेक लिपी ना म्हणच्यांत अर्थ ना. कोंकणेक सैमीक लिपी आसा.

ii) प्रो. आल्बन कास्तेलिनोन 'अमर कोंकणी' षणमासिकाचेर बरइल्लें संपादकीय (Vol 10. No.1. Jan 1991)

"कोंकणीक देवनागरी लिपी"

"...कोंकणी भास आर्य मुळाथावन उब्जल्ली. आर्य मुळाथावन देंवोन आइल्ल्या संस्कृत, हिन्दी, मराठी इत्यादी भासांक देवनागरी लिपी वापरतात. कोंकणी भासयी ह्याच मुळाची जाल्ले वर्वी तिका देवनागरी लिपी चड सजता. पुरातन काळाचे ब्राम्ही लिपीसून रूप बदलून उब्जल्ली देवनागरी लिपी आदीं थावन कोंकणी बरवंक वापरलेले दाखले मेळतात. गोंयांतल्या कदंब रायांनी नागरी लिपीन बरवन दिल्लीं दानशासनां मेळ्ळयांत. विजय नगराचो पयलो देवराय हाणे 1335 इस्वेंत नागरी लिपींत बरइल्लो कोंकणी लेख गोंयच्या बांदोडा म्हणचे कडेन मेळ्ळा. पुर्विल्ल्या काळार कोच्चींत तेग सारस्वत पंडितांनी (वैद्यांनी) Henrias Van Rheede नांवांच्या डच नौकाधिकारीक वनौषदांचो विवर आटापचें पुस्तक बरोवन, त्या पुस्तकाक नागरी लिपीन कोंकणीत बरइल्लें प्रमाणपत्र आजुनय पळेवंक मेळता. आदल्या काळारय कोंकणीक देवनागरी लिपी वापरताले म्हण ह्या दाखल्यांवर्वी कळोवन येता.

देहलींत आसा ते केंद्र साहित्य अकादेमीन कोंकणी भाशेक मान्यता दिताना, तिची लिपी देवनागरी म्हण मानून घेतल्या. देखून देवनागरी लिपीन उजवाडायलल्यो साहित्यीक कृत्यो मात्र केंद्र साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराक योग्य जातात. आजकाल कोंकणी बरवंक वापरतात त्यो विविध प्रादेशीक मट्टार जियेतल्या लोकाक मात्र कळीत आसोन, ते लिपींत बरइल्लें कोंकणी साहित्य ती लिपी कळीत आसल्ल्या लोकाक मात्र समजाता शिवाय हेर प्रदेशांनी जियेतल्या कोंकणी लोकाक कळीत जायना. कोंकणीचे अभिवृद्धेक ही एक मुख्य आडखळ. देखून खंयचेय एके लिपींत बरइल्लें कोंकणी साहित्य लिप्यांतर करून हेर लिपी जाणा आसल्ल्या लोकान वाचून समजा सारकें बदलूंक जाय. कोंकणी भास पांच लिपींनी बरयतात जाल्ले वर्वी अशें करूंक कश्ट आनी वेवेगळ्या लिपींनी उजवाडावंकय कश्ट.

आख्या भारतांत चडावत सगळीं भुरगीं देवनागरी लिपी शिकतात जाल्ले

वर्वी, विविध प्रदेशांनी जियेंवच्या कोंकणी लोकाक देवनागरी लिपी कळीत आसा. कोंकणी साहित्य देवनागरींत रचल्यार वा खंयच्याय प्रादेशीक लिपींत रचल्लें साहित्य देवनागरीक लिप्यांतर कर्न उजवाडाक हाडल्यार, सगळ्या प्रदेशांनी जियेतल्या कोंकणी लोकाक तें वाचूंक आनी समजोंक साध्य जातलें. अशें केल्ल्यान कोंकणीच्या विकासाक पाटिंबो मेळतलो. हरएक पावटीं चललेल्या अखील भारत कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशना वेळार होच विशय दांबून सांगतात. आयलेवार मंगळुरांत प्रकट जाल्लीं थोडीं पुस्तकांय देवनागरींत छापल्यांत. होच मनोभाव मुकारून व्हेलो जाल्यार, कोंकणीक बरो फुडार आसा म्हण दृढ सांगयेत.

- आल्बन कास्तेलीन.

**6.2.3.4 कोंकणेची अधिकृत लिपी खंयची?**

कोंकणी भाशेक केंद्र साहित्य अकादेमीन 1975 इस्वी फेब्रेर 26वेर मान्यताय दिल्ली. पूण कोंकणेक दिल्ली मान्यताय फाटीं काडीजे म्हण विरोधींचो वाद आसल्ल्यान 1976 इस्वी फेब्रेर 21वेर रातीं सुटली कोंकणेची साडेसाती. ह्या उप्रांत साहित्य अकादेमीच्या नेमा प्रमाणे हर एका भाशेची सलहा समिती नेमक जाता. सुर्विल्ल्या सलहा समितींत केरळा थावन श्री. एन.पुरुषोत्तम मल्या आसल्लो म्हण ताणें बरयल्ल्या ग्रंथावर्वी कळता.

*(Selected Seminar Papers / writings on Konkani Language, Literature and Culture 1954 - 1997 - Page 119) : "After according recognition to Konkani as an independent Literary Language of India for awards there came a movement for according recognition to use Roman script for Konkani by Sahitya Academy in addition to Devnagari Script. Mr. Mallaya Hon. Secretary of the Konkani Bhasha Prachar Sabha, Kochi opposed such a move in the*

*meeting of the Advisory Board for Konkani constituted by Sahitya Academy, and with authentic records proved that the original script of Konkani is Devanagari. He submitted a memorandum before the executive Board of the Sahitya Academy requesting the Academy not to give concession as regards script to Konkani other than Devanagari. Responding to his memorandum, Sahitya Academy in their letter date 22-10-1982 informed Mr. Mallaya that "Sahitya Academy has recognised Konkani as written in Devanagari script alone. No other script has been recognised for Konkani."*

श्री. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्यान साहित्य अकादमीच्या कार्यदर्शीक लिपी विशयांत बरयल्ल्या पत्राची प्रती आसा तशी हांगा दिल्या (पान 185-187)

*'Letter addressed to the Secretary, Sahitya Akademi, New Delhi dated 28-8-1982 establishing Devanagari as the true lipi of Konkani when a movement was started by scholars in Goa for adoption of Roman in addition to Devenagari script for Konkani and the reply received from Sahitya Akademi. New Delhi in their letters S.A. 71/1/ 10700 dated 22-10-82 that Shaitya Akademi has recognised Konkani language as written in Devanagari script alone and that no other script has been recognised for Konkani.'*

N. Purushothama Mallaya, Dt. 28.08.1982
Hon. Secretary, Konkani Bhasha Prachar Sabha
Palace Road, Cochin - 2

To,
Dr. R.S. Kelkar, Secretary,
Sahitya Akademi, New Delhi.

"Sir

................

*The States and areas of major concentration of Konkani speakers are Karnataka, Kerela, Maharashtra and the Union Territory of Goa. Of course, for local use and for convenience Malayalam, Kannada, Roman, Arabic and Persian script are employed for Konkani.*

*Now there is a view current in the minds of some scholars that Sahitya Akademi should give awards to Konkani books written in script other than Devanagari for awards.*

................

*Konkani being a Prakrit need not have a script of its own. Devanagari is the natural script for Konkani. As Mr. Mario A. Pei Ph.D. Associate Professor of Romance Languages at Columbia University in his book entitled the World Chief languages (p. 462) writes, "The languages of India make use for the most part of alphabets derived from the ancient Devanagari*

*(or Nagari) in which Sanskrit was written. Many of these languages in fact, still use unmodified Devanagari characters today. (Hindi to cite an example, is the Hindu version of Hindustani, while Urdu is the Muslim version. Hindi uses devnagari in writing, rejects Arabic and Persian loan words and retains the more ancient Sanskrit ters, but the language fundamentally one and the same). Bengali is not only the closest numerical rival of Hindustani but also the language whose script, while differing diverges least from the Devanagari. In the alphabets of Southern Indian (Tamil, Telugu, Canarese etc.) and even of tongues outside India, like Siamese and Burmese, descent from the Nagari characters is largely disguised. Devanagari is read from left to right." Hence the question whether Konkani has a script of its own never arises. As the 'lipi' (script) of Sanskrit is Nagari it goes without saying that a language derived from Sanskrit should inherit not only word materials and grammatical rules from its source but also the script. When other daughters of Sanskrit have adopted Nagari or a script slightly deviating from Nagari (i.e., Marathi, Hindi, Gujarathi) Konkani should also use 'Nagari' as its true 'lipi'.*

*The Shilhara inscriptions of 12th century is in Nagari. An inscription at Nageshi dated Saka 1335*

*(1413 A.D.) contain many Konkani pharses and Konkani words. The script is Nagari. The dutch assumed Nagari to be the true lipi for Konkani. The introduction containing a testimonium in Konkani to Van Rheed's Hortus Indicus Maabaricus of 1678 A.D. was written in Nagari. It was given by Appu Bhat, Vinayak Pandit and Ranga Bhat the three Konkani Ayurvedic Physicians of Cochin. This testimonium later on become the earliest Devanagari block printing. Another notable work is the translation of Bible by William Carey in 1808. "Carey translated the new testament into Konkani early in the last century and printed it in Devanagari characters. (vide 1961 Census of India, Language Tables Page. 412)*

*The Jha Commission in its report submitted to the Centre in May 1962 had stated that "teaching of Konkani, if chosen is schools, should be through the Devanagari script". The Goverments of Kerela in its G.O. No MS 372/68/Education/J Dept. dated 12-8-1968 held that the Konkani language has got script which is Devanagari. In a resolution adopted by the Syndicate of University of Calicut it was stated that, 'Konkani in Devanagari script can be considered as a distinct languae and whenever necessary facilities may be provided for its teaching and propagation...'*

*It is therefore, requested that Sahitya Akademi should take a decision that for consideration of awards for the books published in Konkani it should be Devanagari and only Devanagari for Konkani.*

*Yours faithfully,*
*Sd/-*
*N. Purushothama Mallaya*
*Hon. Secretary.*

"Sahitya Akademi (National Akademi of Letters)"

*Gram : Sahityakar*
*Phone : 388667* *Rabindra Bhavan*
*Feroz Shah Road*
*New Delhi - 110 001*
*S.A. 71/1/10700* *22nd October 1982*

*"Dear Sir, Mallaya,*

*Please refer to your letter dated 28th August 1982. We are sorry that we are responding to it so late. I am, however, to inform you that the Sahitya Akademi has recognised Konkani language as written in Devanagari Script alone. No other script has been recognised for Konkani.*

*With kind regards, I remain."*

*Yours Sincerely*
*Sd/-*
*(Vishnu Khare)*
*Dy Secretary (Programme)*

*Shri N. Purushotham Mallaya*
*Hon. Secretary,*
*Konkani Bhasha Prachar Sabha*
*Palace Road, Cochin - 682 002*

रोमी लिपीच्या समर्थकांनी तांचें प्रयत्न केल्लें, पूण ती 'सैमीक लिपी' न्हय जाल्ल्यान, त्या लिपींत आसल्ल्या साहित्याच्या पुरस्कारा खातीर झगडोंक तांकां बळ आनी आदार मेळ्ळो ना.

**6.2.3.5 कर्नाटकांत देवनागरी**

कर्नाटकांत प्राथमीक साळा थावन कन्नड भास कड्डाय जावन आसा. इंग्लेज माध्यमांत प्राथमीक साळाक वेचें भुरगेंय हेर कन्नड माध्यम शाळांपरींच कन्नड शिकता. देवनागरी लिपी आनी हिन्दी सव्या क्लासींत ऐच्छीक भास जावन शिकयतात. हिन्दी शिका जायच म्हण ना. हेर पाठांनी 35 अंके जोड्न हिन्दींत 30 प्रास उणे अंक मेळ्ळयारय चडताव विद्यार्थींक देवनागरींत वाचूंक, बरवंक सलीस जायना.

ही शिक्षणाची रीत कर्नाटकांत बदलूंक आतांच्या स्थितेंत साध्य ना. कोंकणी एक ऐच्छीत (optional) जावन केनरा हायस्कुलांत शिकयतात तशें सर्व शाळांनी शिकवंक टिचरांचो टिचरांच्या सांबाळाचो, भुरग्यांक आनी एक चडीत विशय - भास शिकचो, तीन (कन्नड, इंग्लीश आनी देवनागरी) लिपी सांगाता शिकोन जिकून धरचो - इत्यादी धाराळ समस्यो आसात. ह्या समस्यांचो परिहार सांगोंक सलीस, प्रायोगीक मट्टार कश्ट. आवय बापूय भुरग्यांचेर तीन लिपींचो भोर घालचीं नात.

शेवटीं, देवनागरी लिपी आतां कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांक समस्याच, प्रत्येक जावन आज कोंकणी पत्रां पुस्तकां घेतेल्या कथोलिकांक देवनागरीची ओळकच उणी. मुकल्या वर्सांनीय स्थिती अशीच उरतेली.

**कन्नड कोंकणेक देवनागरी**

कोंकणेंत कितेंय फुडार आसल्यार तो कर्नाटकांत मात्र, वा कन्नड लिपींत प्रगटच्या कोंकणेत मात्र. आज राकणो हप्त्याळ्याचो साडेबारा हजार, दिवो पत्राचो साडे स हजार, हेर पत्रांच्यो तीन तावन चार हजार वा चडीत प्रत्यो विकून वेतात. सरकाराची कुमक नासतां कोंकणेत प्रगटच्या बुकांचे एक-दोन हजार प्रत्यो खर्चतात (म्हज्या 'युवजणांक लैंगीक शिक्षण' बुकाच्यो 4 हजार, 'आडवारल्लें फळ' कुबाच्यो देड हजार, 'भुमी वैंकुंठांत' बुकाच्यो एक हजार प्रत्यो विक्रो जाल्यात) पत्रां, पुस्तकां लोकाक वाचूंक जांवच्या लिपींत आसल्ल्यांन तीं खर्चतात. आतां कन्नड तशें इंग्लीश माध्यमानी सिकचीं भुरगीं 10 वी क्लास पर्यांत कन्नड शिकतात. कोंकणी भास आमच्या इगर्जांनी अधिकृत भास. घरांनी (सेहरांतल्या थोड्या वर्गांक सोडल्यार) कोंकणी उलयतात. मुकली पिळगीय कन्नड लिपींत प्रगटल्लीं पत्रां, पुस्तकां वाचूंक सकतलीं.

**नागरी-एकवटाची वाट?**

सर्व कोंकण्यांक समजोंचें खातीर देवनागरींत साहित्य पत्रां आसल्यार बरीं. हें कोणेय न्हय म्हणोंक जायना.

पूण लिपी एक जाल्ल्या तक्षण लोक वाचीत? कन्नड लिपी कळीत आसल्यारय कन्नड लिपींतलीं म्हजीं पुस्तकां गौड सारस्वत घेवन वाचिनात. गौड सारस्वतांच्या कितल्या घरांनी दिवो, राकणो वा हेर पत्रां वेतात? एडपदवू कुंडबी, भटकळचे नवायत, शिरसीचे सारस्वत कन्नड लिपींतलीं राकणो, दिवो वा पंचकदाय कित्याक वाचिनात? देवनागरींत केरळांतल्या कोच्चिनांतलीं पत्रां पुस्तकां देवनागरीचे आराधक गोंयकार कित्याक वाचिनांत?

ह्या सवालाची जाप सोदून प्रो. मनोहर सरदेसाय म्हजेकडे म्हणालो "लिपी बदलिल्यार पावाना. बोलीय बदली जे..." ही जांवची वेची गजाल? गोंयकारांक समजोंचें खातीर गोयांतल्या बोलींत सारस्वतांक कळच्या खातीर तांच्या बोलींत बरवन प्रगटूंक साध्य?

लिपी बदलिल्या तक्षणा पत्रांचे कांय 25 हजार प्रत्यो खरचीतीत म्हण आशेतेल्यांनी हें चिंतचें गरज.

**तर कितें करयां?**

कर्नाटकांत कोंकणी उरा जाय आनी मुकल्या पिळगेन वाची जाय म्हण मन आसल्यार आमी कन्नड लिपींतल्या कोंकणी पत्रां पुस्तकांक पाटिंबो दी जाय. तांच्या वाडावळीक देवनागरीची वोप आडकळ जायत म्हळ्ळें उगडासांत दवरी जाय. हेर थोड्या भासें परीं कन्नड देवनागरी दोनय कोंकणेच्यो लिप्यो म्हण ओपून घे जाय. मणिपाल डॉ.टी.एम.ए. फावंडेशानापरीं लिप्यांचो अंतर पळेयनासतां साहित्याक मोल दी जाय.

- डॉ. एडवर्ड नाजरेत.

ii) ह्या लेखनाक जुलाय 6, 1996 दिवो पत्रार शिरसीच्या फ्रांसीस कोरेया थावन 'कोंकणी भासेक लिपी' म्हळ्ळया माथाळ्या खाल जाप आयली. ती अशी आसाः-

"कोंकणी भाशेक लिपी"

"सबार काळ थावन कोंकणी भाशेक एकच लिपी आसोंक जाय म्हळ्ळो विशय भारी विवादात्मक जावन आयला.

हांवें म्हणचें जाल्यार देवनागरी लिपीच कोंकणी भाशेचे उदरगतेक कारण जातेली आनी न्हयच आमच्या देशाचे बगार हेर गावांत आसच्या सर्व कोंकणी भाशिकांक एकवटोंक फायद्याची जातेली. हाका दोन अभिप्रायो नात.

फेब्रेर 3 तारकेच्या दिवो पत्रांत डॉ. एडवर्ड नाजरेतान मांडल्लो वाद बिलकूल सारको न्हय. कर्नाटकांत कानडी लिपींत बरयतेल्यांक देवनागरींत बरवंक येना आनी ताणी ती शिकोंक साबार काळ लागतलो म्हळ्ळी भिरांत दाखयल्या. तांची दृश्टी फकत व्यापारीक.

एकाच भाशेक दोन लिपी आसयेत तें फकत सामान्य लिपी समजून

घेवंक मात्र. जशें मंगळूर एलोशियस कॉलेजींत 'अमर कोंकणी' शणमासीक नेमाळ्यांत चालू आसा.

देवनागरीचो भरपूर अनुभव : हिन्दी आनी मराठी भाशेंची लिपी जावन आसा देवनागरी आनी ह्या लिपीचो अनुभव आयच्या पिळगेक भरपूर आसा. भारतांतच न्हय पूण गोंयांत पोर्चुगिसांच्या काळार सयत हिन्दी शिकयताले. कड्डाय जावन न्हय बगार ऐच्छीक भास जावन. आतां कड्डाय जावन तीन भाशा सुत्रांत (Three language formula) हिन्दी शिकोंकच पडता. हिन्दी भारताची राष्ट्रीय भास आनी राष्ट्रीय भास नेणा आसले फकत विदेशी आसतेले.

तीन भाशा सुत्रा परमाणे कर्नाटकांत कन्नड, हिन्दी, इंग्लीश, गोंयांत कोंकणी, हिन्दी इंग्लीश, महाराष्ट्रांत मराठी, हिन्दी, इंग्लीश अशें हरएक भाशावार प्रांत्यांत पयलें स्थान प्रादेशीक भाशेक दुसरें राष्ट्रीय भाशेक आनी तिसरें स्थान जोडणारी भाशेक (Link language) भारतांत हर एक भुरगें हिन्दी शिकता. शिकोंक जाय आनी शिकतेलें आनी लिपी खंयची? देवनागरी.

कन्याकुमापी थावन काश्मीर पर्यांत पासारलोलो क्रिस्तांव, सारस्वत आनी नाडकार, कुटुंबी आनी हेर कोंकणी उलयतात पूण सर्वसाधारण पांच लिपींत बरयलेली भास सर्वांक वाचूंक कठीण, बरवंक कठीण जर आमची भास विस्तारूंक जाय, आमची संस्कृती प्रसारूंक जाय, आमच्या साबार सब्दांचो अर्थ जाणा जावंक जाय, तर एकच लिपी आसचें चड गरज म्हण सांगचें व्यर्थ जायना...

**थोडो अंतर आसा.**

मंगळूरच्या कोंकणीत आनी उत्तर कन्नडाचे कोंकणीत थोडो अंतर आसा. उच्चारीक अंतर तशेंच सब्द अंतर. मंगळुरांत चड जावन 'गी' वापरतात. कारवारांत ह्या सब्दाचो वापर विरळ या नाच म्हणयेत.

तर आमी वांटे करचे प्रास एकवट करूंक प्रयत्न करचें चड गरजेचें

जावन आसा न्हयवे? ती प्रतिक्रिया आतांच सुरू जावंक जाय कित्याक आमी साबार वर्सां विबाडल्यांत... सर्व आमचे ठराव व्यर्थ जातेले. गेल्या डिसेंबरांत मंगळुरांत घडल्ल्या विश्व कोंकणी संमेळनात केल्ल्या ठरावाचो अवमान जातलो. लाखां गटल्या देशी आनी विदेशी कोंकणी मोग्यांक अकमान केल्लेबरी जातेलें. ह्या विशयांत निश्पक्षपाती विचार करचें गरजेचें. अवश्यतर, अ-व्यापारी बरयणारांचें एक कूट आसा करूयां आनी व्यापारी बरयणारांचे दोळे उगडयां...

विश्व कोंकणी संमेळना उप्रांत सुरू जाला हो विवाद. कित्याक, संमेळनाच्या दुसरे दिसाच्या परिसंवादांत बाप प्रताप नायक, जे.स. हाणे एका भाशेक दोन लिपी आसयेत म्हळ्ळो विवाद मांडून जाय ती गडबड जाल्ली आनी गरम जाल्लें वातावरण थंड जावंक जायतो वेळ विबाडलोलो.

### कानडी लिपींत जायतें आसा

कानडी लिपींत कोंकणी साहित्य आमचे लागीं जायतें आसा जायत. तें आमी विस्तारूक वावरूक जाय. ताचो फायदो साबारांक मेळवचें प्रयत्न आमचें जावंक जाय.

कोंकणी अकादेमी कर्नाटक हें सर्व साहित्य लिप्यांतर करूक आधार दितेली आनी दिवंक जाय. अकादेमीचो एक मुख्य उद्देश हो. अकादेमीच्या वावराचो फायदो घेवंक साहितींनी तशेंच असाहितींनी समालोचन करचें अगत्य. कोंकणी भास अभिवृद्धेचे वाटेर हाडूंक कोंकणी मनशान मुखार येवंक जाय. आशाभंगी जांवची गरज ना. हाचो परिणाम मेळोंक थोडो वेळ वचात. रोमा शहर एकच दिसान बांदूंक ना, वेळ लागलो पूण सोबीत बांदलें.

जनवपी 6, 96 दिवो पत्रिकेंत संपादकीय 'कोंकणीचे दुस्मान कोण?' म्हळ्ळें मात्याळेंच सुंदर जावन आसा. तांतूं सांगलेलेपरीं कोंकणीचे दुस्मान जावन आसात आपल्या स्वार्थाक लागोन बरोवचे व्यापारी साहिती. एप्रिल 27, दिवो प्रिकेंत 'कोंकणी लिपीचो निमाणो वाद' शिर्षिके खाल बरयल्ल्या

लिखणेंत 'कर्नाटक मंगळूर कोंकणी लेखकांचो एकवट'चो जेराल कार्यदर्शी हद्दे खाल बरइल्लें हें लिखणें एक आशाभंगी (Frustrated) स्थितीचें जावन आसा. ह्या कोंकणी लेखकांचो एकवट खंय घडलो? हांतून मंगळूरचेच बरयणार आसात वा कर्नाटकाचे हेर भागांचे बरयणार आसात? ते कितले म्हळ्ळें कळयल्यार बरें जातें आसलें.

साहिती बरयणार थोडे पावटीं आपलें स्वार्थ मुखार दवर्न उलयतात. अव्यापारी बरयणारांक आतां एक सुसंधी फावो जाल्या. तांचो एकवट बांदून हाडूंक, कोंकणी मोगींक उठवंक, कोंकणी अभिमानीनी. जागरूत जावंक आनी कोंकणी मांयक आराधन करूंक वापरून कोंकणी भाशेक देवनागरी लिपी म्हण घोषणा करूंक. दिवो पत्रिकेंत देवनागरी लिपींत प्रगट जांवच्या लिखणें खातीर काळजा थावन अभिनंदन. सुरवात केलीं, पूर्ण जातेलें."

- 'फ्रांसीस कोरेया, शिर्सी.'

1976 इस्वे थावन केंद्र साहित्य अकादेमीच्या जेराल सभेक आनी सलहा समितीक त्या त्या भाशेचे सांदे नेमक जाल्ल्या सांद्यांनी साहित्य अकादेमीच्या जेराल सभेंत जांव, सलहा समितींत जांव कन्नड लिपीच्या साहित्याक पुरस्कार लाबोंवक जाय म्हण वाद केल्लें आनी तें पत्रार प्रगट जाल्लें वाचूंक मेळोंक ना. अशें आसताना सवाल उदेता कन्नड लिपीचे साहिती / समर्थकच तांचे खातीर झगडें करिना जाल्यार मागीर कोणे झगडें करचें? ह्या विषयांत आमी आमकांच दुर्सोंक जाय दुसऱ्यांक दुर्सोन फायदोना.

3) बा. एरीक क्रास्ता राकणो संपादक हांचें धोरण

"कर्नाटकांत इस्कोलांनी कोंकणी शिकवची तर ती कन्नड लिपींतच जायजे म्हणालो राकणो संपादक बा. एरीक क्रास्ता.

कोंकणी लेखकांचो एकवट आनी समन्वय हाणी एप्रील 17 वेर संदेशांत मांडून हाडल्ल्या रोमी लिपयेंत कोंकणी बरवंक शिकयां म्हळ्ळ्या कामासाळाचें उगतावण कर्न तो उलयतालो.

कोंकणी भास विविध लिपींनी बरवंक शिकल्ल्यांत कितेंच बादक ना,

बगार साहित्याचे वाडावळीक आनी भाशेचे अभिवृद्धेक तें कुमोक जांवचें तसलें. पूण कन्नड लिपी बदलूंक वचानात. त्या देकून इस्कोलांत कोंकणी शिकवंची तर ती कन्नड लिपींतच आसोंदी. हेर लिपी आपापले गरजे परमाणे शिकयेत म्हण ताणे अभिप्राय उच्चारली..."

(राकणो एप्रील 28, 2005)

4) कोंकणी लेखकांचो एकवट - पुरस्काराक मनवी

कोंकणी लेखकांचो एकवट कर्नाटक (री) मंगळूर आनी समन्वय मंगळूर हांच्या जोड आश्रयाखाल, 2005 इस्वी एप्रील 17 वेर मंगळूर बज्जोडींतल्या 'संदेश' सालांत 'रोमींत कोंकणी बरवंक शिकयां' म्हण आयोजीत केल्ल्या कार्यें शाळांत केंद्र साहित्य अकादेमीक, कन्नड आनी रोमी लिपींत रचलेल्या कोंकणी साहित्य कृतींत अकादेमीन पुरस्कार दिवंक पर्गट मनवी एकवटाच्या बाबतीन डॉ. जेरी पिंटो निड्डोडीन वाचून सांगली आनी सरकाराक दबाव घालूंक सभेर मुखेल सयरो जावन हाजर आसल्ल्या जिल्ला काँग्रेस उपाध्यक्ष जावन आसच्या आयवन डी'सोव्जाक हातांतर केली.

(बातमी उदयवाणी 19-4-2005)

ह्या मनवीचे मुख्य सारांश ह्या परीं आसा...

**'कोंकणी लेखकांचो एकवट, कर्नाटक (री)**

*Konkani Writers' Forum, Karnataka (Regd.)*

*Ref: No. SA - 1/2005*

*Mangalore.*

*17th April 2005.*

*"The Secretary*

*Sahitya Akademi, Rabindra Bhavan*

*35 Ferozshah Road, New Delhi - 110 001*

***Subject: Sahitya Akademi Annual award to***

*Konkani literature.*

*Sir,*

*We, the members of Konkani Writers' Forum Karnataka (Regd.) Mangalore, hereby request you to also consider the literature of Konkani in Kannada and in Roman scripts for Sahitya Akademi Annual award. So far the Akademi is considering only the Konkani literature in Devanagari script for the prestigious award, which has to be reviewed at the earliest. We urge that the award should be for the literature and not to the script..."*

**6.2.3.6 रोमी लिपी थावन कोंकणेक भविश्य**

**i) रोमी लिपीचो प्रस्तावः**

2004 डिसेंबर 26 थावन 29 तारके पर्यांत मंगळुरांत जाल्ल्या केनरा कातोलीक समाजेच्या जागतीक संमेळनांत बा.। प्रताप नायक जे.स. हाणीं कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृती (वैज्ञानीक आनी व्यवहारी नदर) म्हळ्ळ्या विशयाचेर एक प्रबंध मांडलो आनी ह्या प्रबंधा वयर जाल्ल्या भासा-भासांत एक चरित्रीक निर्णय उटोन आयलो. तो असो आसाः-

'कोंकणी लोकाच्या एकवटाक आनी माहिती तंत्रगिन्यानाक आदार जायशें रोमऩ लिपी वापरची.'

आतां हो जागतीक संमेळ केनरा काथोलीक कोंकणी समाजेचो म्हणटच कोंकणी लोकांमदें एका पंगडाचो. असले अख्ख्या कोंकणी लोकांक संबंध जाल्ले नाजूक (delicate) निर्णय घेताना चत्राय सांबाळूंक जाय. उरलेले कोंकणी पंगडय ह्या निर्णयाक पाळो दितातगी म्हण समजोंक जाय. ह्या निर्णया उप्रांत 2005 इस्वेच्या फेब्रुवारी 19 आनी 20 तारकेर कुमटांत जाल्ल्या 17व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनांत ह्या प्रस्तावाक

कुटी पडल्यो. ह्या संमेळनांत प्रसिद्ध कोंकणी साहिती श्री. उदय भेंब्रे हाणी उच्चारलेली अभिप्राय 22-2-2005 अंक्याच्या 'उदय वाणी' पत्रार प्रकट जाल्ली ह्या परीं आसाः (कोंकणी अर्थ)

"कोंकणी ही परदेशी भास न्हय, त्या खातीर रोमन लिपी कित्याक जायगी म्हणतां... कोंकणी भाशेक विंगड विंगड लिपी आसल्यार आमची प्रगती मंद जाता. एक समाज, एक भाशा आनी कोंकणीक एक लिपी आनी ती देवनागरी लिपी अशें ताणीं म्हळें."

तशें तर असलें एक पक्षीय निर्णय घेवन कितें फायदो?

ही घुस्पडाय निवारच्या खातीर 2005 इस्वी जानेर 27 तारकेच्या राकणो पत्रार "कोंकणेक लिपी खंची?" म्हळ्ळया विशयाचेर वाचप्यां थावन अभिप्राय विचारली. त्या उप्रांत थोडीं लेखनां ह्या परीं आयलीं.

केनरा कोंकणी काथोलीक समाजेच्या जागतीक, संमेळनात 'केनरांत कोंकणेक रोमी' म्हळ्ळया विशयाचेर जाल्ल्या प्रस्ताप विशयांत डॉ. एडवर्ड नाझरेतान राकण्यार बरइल्ल्या लेखनाचो सारांश.

### ii) केनरांत कोंकणेक रोमी?

(राकणो, एप्रील 7, 2005)

"बा. प्रताप नायकान जागतीक संमेळनांत रोमी लिपी कित्याक हेर लिपयांप्रास बरी म्हण विवर दिल्लो? ताणी तांच्या उलवपांत सादर केल्ल्यो थोड्यो गजाली वास्तवीकः

* आमचो जायतो लोक आतां परगावांत आसा. पयशिल्या गांवांक पावल्यारय ह्या लोकाक आपली मायभास आनी संस्कृतिचेर विशेश अभिमान आसा. थंय आसपी जायतीं भुरगीं केनरांत आसल्ल्या भुरग्यांपरींच सुडाळ कोंकणी उलयतात. परदेशांक पावल्लेकडे मायभाशेची ओड केदनांय चड. सुमार पन्नास-साठ वर्सां आदीं मुंबयत जाल्ले परी गल्फा तसल्या गांवांनी आतां कोंकणी कार्यावळी जातात. थंय भुरगीं क्रियात्मक जावन कोंकणी कार्यावळी सादर करतात.

* मुंबय तशें गल्फांतल्या गांवांनी आसल्ल्या कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी भाशेंत बरवंक आनी ती वाचूंक शिकयनांव तर त्या लोकांमदें कोंकणी फकत तोंड पाशीं उरतेली. त्या कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी बरपी भाशेची, कोंकणी साहित्याची ओळोक दिवंक प्रस्तूत फकत रोमी लिपींत साध्य आसा.

* रोमी लिपयेची ओळोक आसल्ल्यान लिपी परत शिकवंची गरज ना. भास मात्र शिकयल्यार जालें.

* अंतर जाळ्याच्या ह्या काळार भुरग्यांक कोंकणी शिकवंक फकत थोड्यो वेबसायटी पावतात. हें काम सलीस आनी उण्या खर्चाचें. असल्या वेबसायटयांनी कोंकणी शिकप, साहित्य मात्र न्हय रोमी लिपी वापर्न कोंकणेच चॅट करचें तसले अवकासय (संद, येवजण) कर्न दिवयेता. इतल्यारच लोकामेगाळ जाल्ल्या आमच्या गांव-भावांच्या वेबसायटयांनी संवसाराच्या खंयच्याय कोनशांत आसल्ल्या कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी शिकंव येता. कशें वेबसायटयांनी तशें छाप्यांतय हें साध्य आसा. हो अवकास आमच्या केनरांतल्या भुरग्यांकय आसा.

* अशें खंयय आसूं आमची केनरा मुळाची कोंकणी जीव उरोंक न्हय संवसार म्हळ्ळें हळ्ळेंत आमचो केनरा कोंकणी काथोलिकांचो ल्हान समुदाय एक करूंक साध्य जातेलें. बा. प्रताप हाणे सांगल्लेपरीं सर्व कोंकणी लोकाक एकटांय करची ताकत फकत रोमी लिपयेक मात्र आसा.

* आतां ई-मेय्लांचो काळ. आमी एकामेकाक कोंकणी उलवंचेय ई-मेय्ल धाडूंक इंग्लीश वापरतांव. चालतेर आसच्या आमच्या याहू, रेडीफमेय्ल, हॉटमेय्ल, वा हेर कसल्याय वेबसायटयांचो उपेग कर्न ई-मेय्ल रोमी लिपी वापर्न कोंकणेंत धाडयेता. रोमी लिपी सोड्न हेर लिपयांनी कोंकणेत ई-मेय्ल धाडूंक साध्य ना... केनरा भायर आसल्ल्या आमच्या लोकामदें कोंकणेचे वाडावळीक रोमी एकमात्र वाट म्हण मानून घेवचें..."

ह्या केनरा कथोलीक जागतीक संमेळना उप्रांत प्रतिक्रिया जावन 2005

इस्वी एप्रील 21 तारकेच्या राकणो पत्रार मिकमॅक्स हाणे 'स्वदेशी कोंकणेक विदेशी रोमी लिपी नाका' म्हळ्ळें एक लेखन बरयलें.

ह्या लेखनाचो संक्षिप्त सारांश असो आसाः-

... एकेवाटेन कन्नड आनी देवनागरी लिपयेचो वाद कर्नाटकांत चाली आसताना "रोमी लिपी कोंकणेक बरी" म्हणोन बा. प्रताप नायक गोंयाथावन देंवलो आनी फकत काथोलीक कोंकण्यांक मात्र उद्देसून ही इज्बी कित्याक हाडून आयलो. ताचो अर्थ तत्क्षण सर्वांक समजालो ना. थोडे ताचे वाक्-झरीक मानवाले लेगून. जागतीक काथोलीक कोंकणी संमेळनांत रोमी लिपीच जाय म्हणोन ठरावय जालो. परिणाम आतां पुरती घुस्पडाय!"

"एके वाटेन देवनागरी लिपी सर्व कोंकणी लोकांमदें ओळकिची करपाक पाटल्या तीस वर्सांची म्हिनत चालू आसा जाल्यार, रोमी लिपी प्रचार करूंक गोंयच्या काथोलिकांनी कसलो वावर केला?..."

"...कोंकणी मायभास जावन आसचीं भुरगीं संवसाराच्या खंच्या मुल्यांत (कोनशांत) तीं आसल्यारय रोमी लिपये तितलीच ओळोक तांकां देवनागरी लिपयेची आसा..."

"कोंकणी अपूट भारतीय भास. तिका लिपीय स्वदेशी जावंक जाय. देवनागरी जांव, कन्नड जांव परवा ना. पूण विदेशी लिपी नाका. मागीरय कोणी रोमी लिपीच जाय, सगळो संवसार ती लिपी जाणा, सर्वांक सुलभ जाता म्हणटात तर, दया करून भारताची राष्ट्रीय भासच इंग्लीश करून सोडा..."

- मिक मॅक्स

### 6.2.3.7 इस्कॉलांत खंयच्या लिपींतल्यान कोंकणी शिकवंची

इस्कॉलांत खंयच्या लिपींतल्यान कोंकणी शिकवंची म्हळ्ळया विशयाचेर कर्नाटकांत भारी चर्चे, वाद विवाद चल्ल्यात अशें आसतां विविंगड राज्यांनी ही चळवळ खंयच्या रितीर चलल्या ती पळेंवया.

**1) केरळांत :** ता.12-8-1968 च्या सरकारी आदेशा प्रकार अल्पसंख्यांत

जावन आसच्या कोंकणी लोकांनी चलवंच्या प्राथमीक इस्कोलांनी कोंकणी एक चडतीक भास जावन (additional language) देवनागरी लिपींत शिकंवक पर्वणगी मेळ्ळ्या. (आधार - एन. पुरुषोत्तम मल्ल्याचो प्रबंध. Historical Background of the Konkani language Movement in Kerela.' म्हळ्ळ्या प्रबंधांत एका परिच्छेदांत ह्या परीं उल्लेख आसा. *"Another memorandum requesting the Kerela Government to include Konkani as a language subject for study in schools was presented by the Sabha to Kerela Government. A Konkani Sikshak School to impart training to teachers to teach Konkani in schools was started by the Sabha. Also an Evening and Sumer School were opened by the Sabha. A Sikshak and Pariksha Vibhag were also started by the Sabha. Certifcate examinations namely Praramb, Parichai, Pravesh and Bhooshan were conducted by the Sabha. Later Kerela Government by issue of G.O. dated 12-8-1968 introduced Konkani as an additional language with Devnagari as its script in the Primary School run by Konkani Linguistic minority in Cochin. Teachers trained by the Sabha in the Konkani Sikshak School were appointed in T.D.L.P. Schools and that the Govt. recognised them as teachers on par with Tamil and Kannadiga Teachers paying them Salary.'*

**2) गोंयांत** : गोंयांत 30-9-2003 दिसामेरेन 79 सरकारी प्राथमीक (I-IV std) इस्कोलांनी कोंकणी माध्यमांनी शिकाप चलता आनी 137

खासगी प्राथमीक इस्कोलांनी कोंकणी माध्यम आसा. 1995-96 वर्सा 244 प्राथमीक इस्कोलांनी कोंकणी माध्यम चलतालें.

गोंयांत पांचवे क्लासी थावन धावी मेरेन कोंकणी तिसरी भास म्हणून घेवंक मेळता. 2002-2003 वर्सा आठवी थावन धावी मेरेन शिकप दिंवचीं 71 सरकारी 288 खासगी माध्यमीक इस्कोलां (High Schools) आसात, हांतल्या 9 सरकारी इस्कोलांनी आनी 175 खासगी इस्कोलांनी कोंकणी तिसरी भास म्हण शिकयतात. इकरावे आनी बारावे क्लासींक कोंकणी एक खुशेची भास (optional language) म्हण घेवंक मेळता. भुरगीं इस्कोलांत कोंकणी एक भास म्हण देवनागरी लिपयेंत शिकतात. कोंकणीत एम.ए. करताना 25 जणांक प्रवेश मेळता. बी.एड. करताना कोंकणी एक खाशेलो विशय घेवंक मेळता. कोंकणीत पी.एच.डी. करची सुविधा गोंयच्या विश्व-विद्यालयांत आसा.

**3) मुंबयांत :** कोंकणी भाशेन शिक्षण : 1995 इस्वेंत आंतोन आ. साल्दान हणे बरइल्लें लेखन डिसेंबर 7 तारकेच्या राकणो पत्रार प्रगट जालां. त्या लेखनाचो सारांश ह्या परीं आसा...

"1952त बोंबयंत जाल्ल्या पांचव्या कोंकणी परिशदेंत कोंकणी भाशा मंडळान कोंकणी पठ्य पुस्तक समिती रचूंक बोंबय सरकाराक उलो दिलो.

खंच्याय बरयणारान प्राथमीक कोंकणी पाठ्य पुस्तकां बरवन दिल्यार रु. 5001 - इनाम मंडलान भासायलें. हाका फावोतो पाळो मेळ्ळो ना. देखून मंडळान तेन्नाचे अध्यक्ष फा.एच.ओ. मास्करेन्याखाल प्राथमीक कोंकणी पाठ्य पुस्तकां रचची एक समिती घडली.

ह्या समितीच्या गुमास्ताच्या वावराड्यां पयकीं हो लेखक एकलो. तेन्ना देवनागरी लिपीन कोंकणी प्राथमीक पाठ्यपुस्तकां (हेर भासांच्या पुस्तकांपरीं) रचून मा. मास्करेन्यान मंडळाचे तर्फेन बोंबय सरकाराच्या विद्या खात्याक ओपसिलीं. थोडो काळ उतरतच आदल्या प्रांत्यां बदलाक भासांवार जाज्यां येवन बोंबय महाराष्ट्राक मेळ्ळें. ताणीं ह्या पुस्तकांचो बेपरवो केलो.

मंडळान तीं पुस्तकां पाटीं घेवन 1961त गोंय स्वतंत्र जातच थंय धाडलीं. थंयच्या कोंकणी भाशा मंडलान हीं पुस्तकां स्थळीक गरजेप्रकार बदलून, कुडसून आनी कळवून ओरियंटल लोंगमन कंपनी मुखांत्र प्रगटतच कोंकणी शाळांनी वापरूक सुरू केलीं. अशे साबार वर्सांचो वावर निर्फळ जालो ना. म्हळ्ळी समाधानाची गजाल.

बोंबयची भाशा मंडळ उप्रांत थोडीं वर्सां कोंकणी शिक्षकांचे तरबेती वर्ग चलयताली. खासगी संस्थ्यांनी ह्या विशयांत इजिदोर कुवेलीचें 'कोंकणी भाशेक नागरी लिपी' पुस्तक प्रगटलें. उप्रांत बोंबयंत थोडेकडेन कोंकणी शिकवंचे वर्ग सुरू जाले..."

**4) कर्नाटकांत :** 'इस्कोलांत कोंकणी' - चळवळ : कर्नाटकांत

कोंकणी शिकंवच्या चळवळे विशयांत दस्तावेजां मेळल्ल्या प्रकार तपशील विवर ह्या परीं आसा.

**(i) कोंकणी बाशे पासत मंगळुरांत साधन -**

**मो. आलेक्झांडर सोव्जाचें प्रयत्न**

'गिमाळें रजेंत कोंकणी इस्कोल; सारकी कोंकणी बरवंक तरुणांक 'तरबेती' म्हळ्ळया माथाळया खाल 1970 इस्वेंत मे 6 तारकेर 'राकणो' पत्रार एक बातमी प्रकट जाल्या. ती बातमी अशी आसाः

"कोनशांत आसचे मायभाशेक तिका हक्काच्या स्थानाक आनी गौरवाक पावंवच्या साधनांत एक महत्वाचें मेट जावन गिमाळया रजे दिसांनी सांजेचें कोंकणी इस्कोल ह्याच एप्रील 29वेर मंगळुरांत उद्घाटन केलें.

कोडियाळबैल आसच्या युवक केंद्राच्या आनी राकणो पत्राच्या आसऱ्याखाल चलचें हें कोंकणी इस्कोल मंगळुरांत हेंच प्रथम. कोंकणी बरोवंक आशेंवच्या युवजणांक आनी इस्कोलांनी कोंकणी शिकवंक धरताना ती शिकवंक जाणा आसच्या शिक्षकांक तरबेती दिवंचो उद्देश ह्या कोंकणी इस्कोलांचो मा। बा। अलेक्झांडर सोव्ज, सर्वश्री वी.जे.पी. साल्दान्य, सिपील वेगस, बी.वी.बाळिगा, दामोदर बाळिगा, लियो सोव्ज, सी.एफ.डि'कॉस्ता आनी

मा। बा। विलियम डि'सिल्वा ह्या इस्कोलांत शिक्षण दितात."

ह्या गिमाळे रजेच्या कोंकणी इस्कोलाक जैत मागोन संदेश आइल्ल्या पयकी कलकत्ता थावन केंद्र सरकाराच्या भासां साहित्याच्या खात्यांत प्राध्यापक जावन आसच्या श्री. सुनिती कुमार चटर्जीचो प्रमूख जावन आसा. हाणे म्हळां : "बरयणारां आनी शिक्षकां पासून गिमाळ्या रजे दिसांचें कोंकणी शाळां तुमी चलयतात म्हण संतोस पावतां. कोंकणी भास इस्कोलांनी आनी विश्व-विद्यालयांनी शिकंवक धरचो संदर्भ पयस आसचोना म्हण हांव भरवसतां. ह्या संदर्भांक तुमी आतांच तयार रावोंक मेट काडलां तें निजाकी सारकें आनी गरजेचें."

**ii) राकणो संपादक - मा. बा. मार्क वाल्डराचें प्रयत्न (अ) कोंकणी मायेक योग्य स्थान मान जोडून दिवंक झुजारी जाय पडल्यात.**

(राकणो बातमी, ऑगस्ट 21, 1980)

"मंगळूर विश्वविद्यालय आनी थोड्याच हप्त्यांभितर स्थापन जातलें. मंगळूर विश्वविद्यालयांत कोंकणी भास आनी साहित्य हांच्या शिकपाक आनी संशोधनाक कांय पुणय अवकास आसतलो वा ना तें दुडवां मंत्री श्री. वीरप्पा मोयलीन जांव, शिक्षणमंत्री श्री. जी.बी. शंकर राव - हणे जांव कितेंय उल्लेख केल्लो ना..."

"कर्नाटकांत कोंकणीक योग्य स्थान-मान जोडून दिवंक चळवळाकच देंवचें पडचलें! ओत्तायेक.मागण्याक आनी वादाक आतां सरकार आनी हेर अधिकारी मान दिनांत, कान हालयनात. देखून कोंकणी मायेच्या हक्कां खातीर झुजोंक शिपाय जाय पडतात..."

"दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतल्या शाळेंनी कोंकणी शिकोंक जाय, कॉलेजिनी आनी विश्वविद्यालयांत कोंकणी भाशे आनी साहित्य विशयांत संशोधन चलवंक आनी ती शिकवंक अवकास जाय..."

**(आ) कोंकण्यांच्या शाळांनी,**

**कोंकणी भास शिकवंची व्यवस्था जाय**

"... माय भाशेचें हक्क : भारताच्या प्राथमीक शिक्षण जोडूंक अवकास आसा. प्राथमीक हंतार आतां भुरगीं राज्यभास एकमात्र शिकतात. कोंकणी मायभाशेच्या विद्यार्थींक कोंकणी भाशेनच प्राथमीक शिक्षण पुणय दिवयेत. आतां हाका आमच्या इस्कोलांनी कसलीच व्यवस्था ना.

... कथोलीक विद्या बोर्डाच्या शाळांनी कोंकणी भाशेचें शिक्षण आरंभ करच्या विशयांत आतां प्रयत्न आरंभ जालां. बोर्डाचो उपाध्यक्ष आनी विगार जेराल मो. अलेक्झांडर सोव्जाच्या मुखेलपणार रचल्ली पाठपुस्तकां आनी पाठपट्टी तयार करच्या आनी विद्या खात्या थावन कोंकणी शिक्षणाक मंजुराती हाडवंच्या वावराक लागला. कोंकणी कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकाची उण्या संख्यातांची भास म्हळ्ळें सरकारान पयलें मानून घे जाय. तेन्ना कोंकणी शाळांनी शिकयतल्या शिक्षकांक सांबाळ दितलो.

**कोंकणी कित्याक शिकची ?**

आतां कोंकणी माध्यमान प्राथमीक शिक्षण दिवंक आरंभ करचें वा कोंकणी भास मात्र आमच्या शाळांनी शिकवंची ? सुरवेर भास मात्र शिकवंची. थोड्या काळा उप्रांत कोंकणी माध्यमान शिक्षण दिंवची व्यवस्था करची म्हण आतां समितीन निर्धार घेतला. ह्या खातीर कोंकणी शिक्षक-शिक्षकींक तर्बेत करचो आनी पाठ पुस्तकां, पाठ पट्टी तयार करचो वावर तक्षणा जायजाय. मुखल्या शिक्षण वर्सांनी पुणी कोंकणी भास शाळांनी शिकवंची व्यवस्था जावंक जाय. कोंकणी भास प्राथमीक हंतार पुणी साळांनी शिकयना जाल्यार आमच्या कोंकणीची अभिवृद्धी जांवची दिसाना... कोंकणी लोक कर्नाटकाचोच, आमी सरकाराक करोडांनी तिर्वो, टॅक्स दितांव... हाचो एक ल्हान वांटो पुणी कोंकणी खातीर खर्चूंक सरकाराक आमी आवकास करून दिवंचो नाका ?"

- 'मार्क वाल्डर, आम्मेंबळ'

### iii) कोंकणी भाशामंडळ कर्नाटक (री) मंगळूर - ह्या संस्था मुखांत्र वावर

#### (अ) कोंकणी भाशामंडळ अध्यक्ष : पाव्लू मोरासाचें प्रयत्न (1989-1992)

पाव्लू मोरास (ग्रंथकर्ता) 1989 इस्वेंत कों.भा. मंडळाचो अध्यक्ष जाल्लेंच कोंकणी भाशेचो वावर भारान करूंक सुरू केलो. 1990 इस्वेच्या फेब्रुवारी 17 आनी 18 तारकेर गोंयच्या पेडणेंत धावें अ.भा.कोंकणी साहित्य संमेळन आसा म्हण कळल्लेंच, थंय कर्नाटकाच्या लेखका संगीं पावोन कर्नाटकांत कोंकणी अकादेमी स्थापन जांवच्या ठराव मंजूर करून आनी कोंकणी भाशेक भारत संविधानाच्या आठव्या वोळेरेंत स्थान हीं दोन मागणीं सुफळ जावंक लेखकांक झुजोंक उलो दिलो.

दुसरें इस्कोलांत कोंकणी शिकोवंचें प्रयत्न जावन सां. लुवीस कॉलेजीच्या प्रिन्सिपाल मा. बा. जुजे नेलपत हांकां तवोळ मेळोन कोंकणी विभाग करूंक ओत्ताय केल्ल्यान ताणीं 1991 नवेंबराच्या 4 तारकेर आपोवणे पत्र बरयलें. त्या पत्राचो सारांश असो आसा.

To
Paul Moras

St. Aloysius College
Mangalore - 575 003
04.11.1991

"...It has now bee suggested that we should start a Konkani Department in the College to serve the Konkani speaking people by offering courses in Konkani language, literature and culture. I am inviting you to a meeting on Thursday 7th November at 4.00 p.m. in the College Conference Room to discuss the matter and to give your

valuable suggestions. I thank you in advance.

Yours sincerely
sd/-
Principal

ह्या पत्राक पाळो दिवन आनी ताणें सांगल्ल्या प्रकार जमातेच्या एका दिसा पयलें म्हणजे (ता. 6-11-91) कोंकणी विभाग प्रारंभ करूंक योजनां वर्दी तयार करून प्रिन्सिपालाक हस्तांतर केली. अशें साबार बसका आनी आलोचन्यो आटोवन, चारित्रीक जावन मंगळुरांत सां. लुवीस कॉलेजींत 1992 जानेर 4 तारकेर 'कोंकणी अध्यायन विभाग' प्रारंभ जालो. हो प्रारंभ जावंक तवोळचो कोंकणी भाशा मंडळ कर्नाटक (री) हाचो अध्यक्ष पाव्लू मोरास (ग्रंथकर्ता) प्रमूख कारण जावन आसल्लो.

कोंकणी अध्ययन विभागांत चार हंताचो, एका वर्साचो डिप्लोमा कोर्स आसल्लो. बाप प्रशांत माड्ता आनी प्रो. बेनेट पिंटोच्या मुखेलपणान 1992 थावन 1997 पर्यांत - 5 वर्सां कोंकणी डिप्लोमा एका वर्साचो कोर्स कॉलेजीच्या बांदपांत सांजेच्या वेळार चलल्लो तो 1997 आगोस्त म्हयन्या थावन दोन वर्सां आवदेचो पद्व्युत्तर पदविका तप्पाल शिक्षण कोर्स जावन परिवर्तन जालो आनी संवसारभर विद्यार्थींक तांतूं भाग घेवंक अवकास जालो. हो कोंकणी शिकपाचो डिप्लोमा कोर्स कन्नड लिपींत मात्र आसल्लो. पद्व्युत्तर पदविकार (Post graduate Diploma) जावन परिवर्तन जाताना कन्नड लिपी आनी देवनागरी लिपींत अशें दोनी लिपींनी कोंकणी कोर्स प्रारंभ जालो.

1995 जून 24 तारके थावन मंगळूर विश्वविद्यालय अकादेमीक काव्न्सील सभेन डिग्री शिक्षण जोडच्या विद्यार्थींनी आपली दुसरी भास (Second Language) जावन कोंकणी विंचून काडयेत म्हण शिफारस दिली. 1996 जून 15 मंगळूर सां. लुवीस कॉलेजींत बी.ए. दुसऱ्या वर्साक कोंकणी भाशेचें पदार्पण जालें. आतां हर एका वर्सा बी.ए. डिग्री कोर्सांत

कोंकणी दुसरी भास जावन शिकचीं भुरगीं आसात आनी तीं कन्नड लिपींत कोंकणी शिकतात.

(आधार : अमर कोंकणी पत्र)

**(आ) कोंकणी भाशा मंडळ अध्यक्ष -**
**श्री बस्ती वामन शणै हांचे प्रयत्न :**

1993 इस्वे थावन श्री. बस्ती वामन शणै भाशा मंडळाचो अध्यक्ष जाल्या नंतर, त्याच वर्साच्या एप्रील 25 तारकेर एक कोंकणी शिक्षण समितीची सभा आपयली. त्या सभेचो विवर पात्रिका प्रकटण प्रकार ह्या परीं आसा : (कानडावृत्त - गुरूवार 22 एप्रील 1993 - पुरवणी 1)

"(मंगळूर, ता. 15-4-1993) कोंकणी भाशा मंडळ कर्नाटक (री) मंगळूर, हांच्या आदारान कोंकणी भाशिकांच्या आडळताखाल (संचालकपणाखाल) चलच्या शाळांनी कोंकणी भाशा हो ऐच्छिक विशय म्हण शिकवंची वेवस्था 1993-94 शिक्षणीक वर्सा थावन सुरू करीजे म्हण तशेंच कोंकणी भाशेचें प्रमाणिकरण करचे खातीर जाणकार समिती घडचे संबंदींच्या विशयार चर्चा करचे खातीर एका सभेचें आयोजन केल्लें. प्रारंभाक भाशा मंडळाचे अध्यक्ष श्री बस्ती वामन शणै हाणी स्वागताचें उलवप केलें. उप्रांत उपसमितीचो मुखेली (संचालक) श्री पावलु मोरास हाणी सभेच्या मुख्य विशया संबंदांतले रूपरेखे विशीं विवरसून सांगलें. मेंगळूरचे बेसंट विद्या संस्थेचे अध्यक्ष जावन आसल्ले श्री बी. दामोदर प्रभू, म्हैसूरचीं साहिती वल्ली वग्गा, केरळ अकादमीचे कार्यदर्शी श्री. पय्यनूर रमेश पै, उपसमितीचे उपाध्यक्ष श्री. बी.वी. बाळिगा (पंचकादाय), लोरेन्स लोब, बंटवाळ एस.बी.एस कॉलेजीचे संचालक पडुबिद्री गणेश प्रभू, श्री. व्यंकटेश प्रभू इत्यादींनी योग्य ते अभिप्राय मांडले. विशय संदर्भान ऊंच मट्टार चर्चा जाली आनी सकला दिल्ले ठराव मंजूर जाले.

1) श्री. बी. दमोदर प्रभू हांच्या मुखेलपणाखाल श्री विद्या संस्थेच्या चालक मंडळाची शीघ्रतायेन भेट घेवन शाळांनी कोंकणी वर्ग (classes)

प्रारंभ करच्या संबंदान भाशा मंडळान घेतल्ल्या निर्णयांची म्हायती दिवन येवच्या वर्सा थावन कोंकणी क्लासी प्रारंभाबाबतीन म्हायती दिवचें.

2) श्री. बस्ती वामन शणै हांच्या नेतृत्वाखाल कोंकणी शिक्षकां प्रशिक्षण शिबीरांचें आयोजन करूक गरजेच्या कामांक हात घालप.

3) कोंकणी भाशेचे विवीध प्रभेदांचें प्रमाणिकरण (standardisation) करचे संबंदी गरजेचे अभिप्राय घेवन ते एकवटावचे खातीर तज्ञाची 'जाणकार समिती' रचची.

4) श्री. लोरेन्स लोबोच्या नेतृत्वाखाल कोंकणी शिक्षकांच्या प्रशिक्षण शिबिरांखातीर पाठ्यक्रम (Syllabus) तयार करचें. (मूळ कानडींतल्या मजकुराचो कोंकणी अणकार)

ह्या समिती सभे उप्रांत घडल्ली घडितां ह्या परीं आसात.

- 22-4-93 इस्वेंत कोंकणी भाशामंडळ (री) कर्नाटक हाच्या अध्यक्षान द.क. जिल्ल्हा परिशद सार्वजनीक शिक्षण इलाख्याच्या उपनिर्देशकाक कोंकणी भास शाळेंत त्रितीय भाशा विशय जावन शिकोंवक अनुमती मेळोंक मनवी.

- कोंकणी भाशा अध्ययन केंद्राचें उद्‌घाटन.

(उदयवाणी पत्रिका बातमी 1993 इस्वी आगोस्ताच्या 11 तारकेर आइल्ली हांगासर दिल्या.)

"मंगळूर ऑ. 10 केनरा प्रौढशाले उर्वदल्ली स्वर्ण महोत्सवद अंगवागी ऑ 7 रंदू नगर 4 कोंकणी पत्रिके पंचकादयिय संपादक श्री. बी.वी.बाळिगा अवरू प्रौढशाला मट्टदल्ली राज्य दल्ली प्रथम कोंकणी भाशा अध्ययन केंद्रवन्नू दीप बेळगिसी उद्‌घाटिसिदरू.

"शाळेंत कोंकणी शिकोंवची मांडावळ"

(करावळी अले पत्रार 'कोंकणी अले' म्हळ्ळया विभागांत श्री. बी.वी. बाळिगान ता. 28-1-94त बरइल्ली वर्वी) :

कर्नाटकाच्या शाळेंत कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी शिकोवची व्यवस्था

करची मांडावळ जावन कोंकणी भाशा मंडळ, कर्नाटक हाणी शिक्षणतज्ञांक मेळोन विचार विनियम करचे खातीर एक 'कोंकणी ज्ञानकेंद्र' आतांची मंडळाचे कार्यालय आसुंच्या हॉटेल हनुमानांत आसा केल्लेले.

कर्नाटकांत कोंकणीचो बारा प्रभेद आसात. पांच वेवेगळ्यो लिपयोय आसोन लिपी बद्दल वादूय आसा. वयले वर्ग थावनूच आमगेले भुरग्यांक कोंकणी शिकप मेळका. प्रौढ शाळेंत कोंकणी उपभास जावन शिकोवका. पठ्यपुस्तक शिक्षण प्रणाली थोडी सोडिधर करून तयार करका. 1994 जून थावनूच कोंकणी शिक्षणाची व्यवस्था चालू करका. देवनागरी विपीनच कोंकणी शिकोची व्यवस्था केल्यार बरें. ह्या बद्दल कोंकणी विद्या संस्थ्याखातीर एक विचारगोष्ठी येवच्या फेब्रुवारी म्हयन्यात आपोवका इत्यादी विचार ह्या केंद्रांत चर्चे जाले...

श्रीमती वत्सला बाळिगान ह्या वरस केनरा हाय स्कूल उर्वा हांगा 75 भुरग्यांक कोंकणी शिक्षण आरंभ केल्ललो आपलो स्वानुभव विवरण केल्लो. हिन्दी प्रचार सभेन हिन्दी शिक्षण वा प्रचारा खातीर घाल्नु घेत्तिली शिक्षण प्रणाली कोंकणीकय अनुकूल जायत म्हळ्ळी सूचना तिणे दिल्ली.

बी.वी. बाळिगा, एच रघवेंद्र राव, ज्योस्ती वाज, लोरेन्स लोबो, सिस्टर मारिया ज्योती, बस्ती वामन शणै हान्नीय तांग तांगेल्यो सुचनो मुखार दवरल्यो. शिकपाक लिपी जावन देवनागरीच वापरची म्हळ्ळे निर्धारक आयले. सिस्टर मारीय ज्योनी आनी श्रीमती वत्सला बाळिगा हाणीं सान चेर्डुवांक बालवाडी, अंगनवाडी, किंडर गार्टन दर्जेतूंच कोंकणी शिकप आरंभ करयेत. ताक्का सरकाराची परवानगी अवश्य ना म्हण सांगलें.

1994 जून थावनूच शाळेंत कोंकणी शिक्षण आरंभ करची आनी ह्या बद्दल कोंकणी जनांनी चलवच्या विद्या संस्थांक भेटी दिवन तांगेलो अभिप्राय घेवचो म्हण सर्वानुमतान निर्णय घेतले. ह्या खातीर हांगा सकल सांगिले विचार पटापट हातांत घेवचे म्हणूय जालें.

1. वर्गांची मांडावळ

2. पाठ्य पुस्तक तयार करची

3. शिक्षण प्रणाली तयार करची

4. शिक्षकांक तरबेती (प्रशिक्षण)

कोंकणी शिक्षणा विशयांत गाढ अध्ययन आनी वैज्ञानीक रितीची प्रयोग जाल्लेले गोंयांक भाशामंडळा थावन प्रतिनिधींनी जनवारी 27 थावन 30 पर्यांत भेटी दिवन अनुभव जोडचो निर्णयाय घेतलो. प्रतिनिधी जावन एच. राघवेंद्रराव, ज्योस्सी वाज, लोरेन्स लोबो, एरीक ओझेरियो आनी वत्सला बाळिगा हाणी ओज्जी समिती दिल्ली. तांगेलो प्रयाणाचो खर्चु दिवपाक भाशा मंडळ तयार आस्स अशें बस्ती वामन शणैन कळयले."

'वरदी : लोरेन्स लोबो, संचालक'

**"कोंकणी प्राथमीक पुस्तक बिडुगडे"**

(उदयवाणी पत्रार ता. 2-5-1994त प्रकट जाल्ली वर्दी.)

"मंगळूर, मे 30: (कानडी भाशेंतले बातमेचो कोंकणी अणकार) कर्नाटक राज्यांतल्या कोंकणी लोकाच्या शिक्षणीक संस्थांच्यो संघ मंगळूर हाणी तयार करून छापिल्ल्या 'कोंकणी भाशा प्राथमीक पुस्तक' प्रसिद्ध कवी श्री. बी. वी. बाळिगा हाणीं उजवाडायलें. थळाव्या श्रीनिवास पाठशाळेच्या सभाघरांत जाल्ल्या ह्या कार्यक्रमाक कर्नाटक राज्याचे कामगार सचीव श्री. ब्लेसियस एम. डि'सोव्जा हे मुखेल अतिथी म्हण हाजीर आशिल्ले.

संस्थेचे अध्यक्ष श्री के. विश्वनाथ कामत हाणीं येवकार दिलो. पुस्तकाची उजवाडाळणी करून श्री. बी.वी. बाळिगा हाणी देवनागरी लिपीचो उपेग करून रचिल्लें जिल्ल्ह्याचें तशेंच कोंकणी संस्कृतीचो परिचय करून दिवपाचो हो प्रथम प्रयोग जाल्लो आसा अशी वाखाणणी केली. देशांतल्या पुराय कोंकणी लोकांनी देवनागरी लिपींत कोंकणी बरोवंक सुरवात करूंक जाय असो उलो ताणी माल्लो.

पुस्तकाचे मुख्य संपादक तशेंच संस्थेचे कार्यदर्शी डॉ. के मोहन पै हाणी पुस्तक छापपाचो सगळो खर्च डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन, मणिपाल दान

केला अशें कळीत करून त्याखातीर उपकार मानले."

**"मातृभाशेयल्ली शिक्षणक्कागि आग्रहा"**

(मातृभाशेंत शिक्षण घेवपाखातीर आग्रो.)

- मंगळूर मित्र पत्रार ता. 10-6-1994त आइल्ली वर्वी.)

कोंकणी अणकार - मंगळूर : कोंकणी भाशा मंडळ कर्नाटक (री) हांची कार्यकारी मितीची बसका हालींच श्री. बस्ती वामन शणै हांचे अध्यक्षतेखाल जावन शाळांनी प्राथमीक सिक्षण मातृभाशेंतल्यान अनिवार्य (Compulsory) केल्ले खातीर त्या निर्णयाक येवकार दिलो.

कर्नाटक राज्य पत्रांत प्रकट जाल्लो 29-4-94 आदेश नं. ED28 PGC 94 चो अनुबंध 1 हातूंत कन्नड, तमीळ, केलगू, मलयाळम, मराठी, हिन्दी, उर्दू तशेंच इंग्लीश इत्यादी भासो मातृभाशेंतल्यान शिक्षणाखातीर नामांकन केलां कर्नाटकांत 26 लाख कोंकणी भाशीक लोक रावतात, भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपाव करून राष्ट्रीय भासांमदली एक आशिल्ली कोंकणी, हालींच राज्य सरकाराची अकादेमीक मंजुरी मेळिल्ली आसून, आतां अनुबंध 1 आंत कोंकणी बाशेचो आसपाव करूंक जाय अशो एरीक ओझेरियो हाणीं मांडिल्ल्या ठरावाक कोंकणी मंडळ उपसमितीचे संचालक लोरेन्स लोबो हाणी अनुमोदन दिलें.

पयल्या वर्गांत प्राथमीक शिक्षणाखातीर कोंकणी पाठ पुस्तकां हालींच तयार जावन आयल्यांत म्हण बी.बी.बाळिगा हाणी बसकेंत सांगलें. अनुबंधात कोंकणी आसपावपाचो उद्देश साध्य करून घेवपाखातीर खर यत्न करपाच्या कामाक हात घालूंक जाय असो निर्णय जालो. एडवीन जे. एफ. डि'सोव्जान उपकार मानले.

**"मातृभास जावन कोंकणी शिकोवची व्यवस्थाकरा"**

- (कन्नड जन अंतरंग पत्रार ता 25-6-94 त प्रकट जाल्ली वर्दी)

"कर्नाटक कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्षान कर्नाटक राज्य मुख्यमंत्री

मान्य श्री विराप्पा मोयलीक जून 1 तारकेर पत्र बरयलां त्या पत्राचे विवर हांगा सकयल दिल्यात.

सन्मान्य मुख्यमत्रींनो,

विशय : प्राथमीक शाळेंत मात्रभास जावन कोंकणी शिकोंच्याक मातृभाशेंच्या अनुसुचींत अनुबंधांत मेळोंचे बद्दल..."

**"प्राथमीक शाळेच्या शिक्षक, शिक्षकींक कोंकणी शिक्षा शिबीर** (कन्नड जन अंतरंग पत्रार ता. 27- 8-1994 त प्रकट जाल्ली वर्दी)

"कोंकणी भाशेक भारत संविधानाच्या आठवे परिशिष्टांत स्थान मेळत धर्नु (20-8-1992) कोंकणी भाशामंडळ कर्नाटक (री) मंगळूर ही संस्था मंगळुरांत कोंकणी भाशिकांनी चलासूंच्या साळेंत प्राथमीक हंतार कोंकणी शिकोवची व्यवस्था करचे खातीर दिवस रात्री भगिरथ प्रयत्न करत आसा. कोंकणी शाळेंनी प्राथमीक हंतार कोंकणी शिकपाची व्यवस्था करचे खातीर गोंयचे पणजी थॉमस स्टीफन्स केंद्रांत तीन दिसांचें मार्गदर्शी शिबीर घडवन तांतूं मंगळीरचे आसक्त शिक्षक-शिक्षकींक तांगेलो सर्व खर्च वहिसून घेवन कोंकणी शिकवचे बद्दल विवरपूर्ण माहिती कोंकणी केंद्रांचे दिग्दर्शकांले कडच्यान घेवन जाल्ली.

प्राथमीक हंतार कोंकणी शिकोवच्याक पाठ्यपुस्तक जावन कोंकणी भाशा अल्पसंख्यांत शिक्षण संस्थेच्या संघान कोंकणी प्राथमीक पुस्तक (देवनागरी लिपीन) प्रकट करून ताची मोकळीक जाल्ली.

ह्या दिशान मंगळुराच्या केनरा नामांकीत शाळेंनी प्रती मेटय काण्णु जाल्ले. पयले केनरा हायस्कूल उर्वा, हान्नी हिंदी प्रचार समिति शिक्षण प्रणालिकेवरी कोंकणी प्राथमीक कोर्स (तीन म्हयन्याचो) श्रीमती वत्सला बाळिगा हिग्गेले कडच्यान पूर्ण केल्लो. (हांतूं 77 चेरडुवां भागी जाल्लीं)

कोंकणी भाशिकांनी चलासुच्या सर्व शाळेंत प्राथमीक हंतार कोंकणी शिकोंची व्यवस्था जावन म्हण कर्नाटक कोंकणी भाशा मंडळान ह्या वर्सांतूच श्री लोरेन्स लोबो हांगेल्या संचालकत्वार एक प्रत्येक सेल रचन करनु ताच्या

आश्रयार कोंकणी शाळेंनी प्राथमीक हंतार कोंकणी शिकपाची व्यवस्था करच्या उद्देशान प्राथमीक शाळेच्या शिक्षक शिक्षकींक स दिवसांचें एक कोंकणी शिक्षा शिबीर मंगळूर केनरा हायस्कूल (मेन) श्री भुवनेंद्र सभासदनांत अगोस्त 1 धर्नु आठ पर्यांत यशस्वी रितीर चलयले.

शिक्षक शिक्षकींक मार्गदर्शन दिवची जवाबदारी श्रीमती वत्सला बाळिगा आनी श्री एच. राघवेंद्रराव हान्नी घेतिली. सर्व शिबिरार्थीक दोन उपहार आनी दनपरां एक जेवण हाचो पूर्ण खर्चु भाशा मंडळान वहिसून घेतिलो.

**(iv) कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमी तर्फेन**

**अ) अध्यक्ष : श्री. बी. वी. बाळिगाचें प्रयत्न (1994-1996)**

'विद्याक्षेत्र दल्ली कोंकणी भाशा बळके बग्गे विचार गोष्ठी' म्हळ्ळें शिबीर कारवाराच्या कोंकणी भाशा आनी संस्कृत केंद्र हांच्या सहयोगान 1996 इस्वी डिसेंबर 7 आनी 8 तारकेर मांडून हाडल्लें. ह्या कार्यागारांत केल्ली शिफारस ह्या परीं आसा.

"1. एका क्लासी थावन चवथे क्लासी पर्यांत कोंकणी माध्यमांत शिक्षण. 2. प्राथमीक आनी हायस्कुलांत भाशासूत्र आपणावचें. 3. पदवी पयलेंच्या शिकपांत एक भास जावन 4. कॉलेजींत एक शिक्षण जावन 5. विश्व विद्यालयांत संशोधनेत कोंकणी भाशेक अवकास डिप्लोमा / सर्टिफिकेट कोर्स आसा करचें आनी कोंकणी आध्यायीन पीठ स्थापनेक उलो."

**आ) अध्यक्ष श्री. बस्ती वामन शणै हांचें प्रयत्न (1997-2001)**

- 1999 डिसेंबर म्हयन्यांत कारवार गांवांत गोंय विद्याइलाखा अधिकारी, कर्नाटक थाकून शाळा कॉलेजाचे शिक्षक आनी केरळ विद्या संस्थेचे मुखेलांक, सांगाता हाण कर्नाटकांत मुळावें शिक्षण कोंकणेंत दिवच्या वावराक वाट सोदूंचे कार्यगार चल्लें.

- 2000 इस्वी, आगोस्त म्हयन्यांत मंगळूरचे कर्नाटक राज्य कोंकणी भाशा अल्प संख्यात विद्या संस्थांचे संघ आनी कोंकणी साहित्य अकादमीच्या सहयोगांत मंगळुरांत राज्याचे वेगळे वेगळे प्रदेशांचे कोंकणी उपाध्यायांक

दोन दिवसाचे कार्यगार चल्लें.

- 2000 इस्वी ऑक्टोबर म्हयन्यात परतून एक पावटीं कोंकणी अकादमीच्या दफ्तरांत भारतीय भाशा संस्थानाचे भाशातज्ञ आनी कर्नाटकाचे कोंकणी उपाध्यायांचे मदें "कोंकणी शाळेंत पुस्तक तयार करचे" विशयांत भासाभास चलले.

- 2001 मार्च - एप्रील म्हयन्यात भारतीय भाशा संस्थानाचे आश्रयार म्हैसुरांत 10 दिसांचे "कोंकणीत प्राथमीक पूर्व शिक्षण दिवंच्याक पुस्तक तयारी कार्यागार चलले.

- 2001 मे म्हयन्यात परत एक पावटीं भाशा संस्थानाच्या अधिकारींनी आनी आमच्या कोंकणी उपाध्यायांनी म्हैसुरांत मेळून ताणी तयार केलें पुस्तक 'कोंकणी कळो'

- (आधार - 'कोंकणी कळो' पुस्तक)

- 2001 इस्वी मार्च 3 तारकेर मान्य. मंत्री श्री. आर. वी. देशपांडे मुखांत्र मान्य मुख्यमंत्री श्री. एस. एम. कृष्णा हांकां इस्कोलांत कोंकणी शिकवण प्रारंभ करच्याक मनवी.

25-9-2001 "कोंकणी कळो" पुस्तक मोकळीक करच्या संदर्भार अध्यक्ष बस्ती वामन शणैन पत्रिका गोष्ठींत उलइल्लीं उतरां (उदयवाणी 30-9-2001) "कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीयु बालवाडी, एल. के. जी. यु. के. जी. मत्तु 1 रिंदा 4 ने तरगती वरेगिन शाळा मक्कळिगे कोंकणी भाशेयन्नु उचितवागी कलिसुव बग्गे पठ्य पुस्तक गळन्नु हम्मिकोंडिद्दु मुंदिन तिंगळीनिंदले सुमारू 5 साविर मक्कळिगे कोंकणी कलिके आरंभवागलिदे एंदु अकाडेमीय अध्यक्षा श्री बस्ती वामन शेणै तिळिसिद्दारे."

अशें अध्यक्ष बस्ती वामन शणैन 'इस्कोलांत कोंकणी' म्हळ्ळया विशयाचेर वावर चालू दवरलो.

(वयले कानडी भाशेंतले बातमेचो कोंकणी अणकार)

'कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमीन बालवाडी, लोवर केजी, अपर

केजी आनी पयले यत्तेच्यान चवथे यत्ते मेरेनच्या शाळेंतल्या भुरग्यांक कोंकणी भाशा योग्य तरेन शिकवपाचे नदरेन पाठ्यपुस्तकां तयार करून घेतल्यांत. फुडल्या म्हयन्या साकून सुमार पांच हजार भुरग्यांक कोंकणी शिक्षण सुरू जावपाचें आसा अशें अकादेमीचे अध्यक्ष श्री बस्ती वामन शणै हाणीं कळीत केलां.'

**इ) अध्यक्ष वं. डॉ. अलेक्झांडर डि'सोव्जा हांचें प्रयत्न (2001-2004)**

"शाळांनी कोंकणी शिकवंचें एक विंचणार काम जावन आसलें ल्हाना भुरग्यांक कोंकणी उलवंक शिकवचें पाठपुस्तक "कोंकणी कळो" शाळांनी वापरूंक धरच्याक, त्या पुस्तकाची माहेत प्रसार करची. पुत्तूर थावन कारवार पर्यांत आसल्ल्या. कोंकणी समुदायांनी चलवंच्या थोड्या शाळांक भेट दिवन 'कोंकणी कळो'ची वळोक दिवंच्याक, नव्या अध्यक्षाक श्रीमान बस्ती वामन शणैन, पाटल्या अध्यक्षान पूर्ण सहकार दिलो. तशेंच मंगळूर, उडपी, पुत्तूर आनी कारवारांत एकेका दिसाचें शिबीर चलवन त्यात्या वलयांतल्या शाळा शिक्षकींक 'कोंकणी कळो' वापरच्याक तरबेती दिवंच्याकय ताणे व्हरती म्हिनत घेतली. अकादमीन भारतीय भाशा संस्थान, म्हैसूर, हांच्या सहयोगान आतां, "कोंकणी रिडर - लेवल - 1" तयार करूंक धरलां.

(आदार : कोंकणी उत्सव - दशमानोत्सवाचें पुस्तक)

**'कोंकणी कळो' पुस्तक कन्नड लिपींत आसल्यार लिपीचो वाद हें काम जाता पर्यांत मुखार हाडूंक नातल्लो.**

2004 इस्वी ऑक्टोबर 11 तारकेर वं. डॉ। अलेक्झाडर एफ. डि'सोव्जा; हांच्या नेतृत्वाखाल कोंकणी पठ्य पुस्तकाची लिपी आनी प्रमाणिकरण ह्या विशीं एक सा आपइल्ली. ह्या सभेक वं. विलियम बार्बोज, श्रीमान रॉकी मिरांदा, आर. एम. शेट, येरीक ओझेरियो, संध्या आर. सेवगूर, बस्ती वामन शणै हाजर आसल्ले. ह्या सभेंत सादर जाल्लीं सूचनां ह्या परीं आसात.

- **रॉकी मिरांदा :** (पुस्तकांतल्या कानडी मजकुराचो कोंकणीत अणकार)

'गोंयांत दोन समाज घटकांचे भाशेंत प्रमाणिकरण आसा (जी.एस.बी आनी क्रिश्चन) कर्नाटकांत प्रमाणिकरण एके पावटीन हाडप असाध्य आसल्ल्यान सद्याक गोंयचींच पठ्यपुस्तकां घेवन गरज भागोवची अशें सुचयलें.'

**- एरीक ओझेरियो :** (कोंकणी अणकार) क्रिश्चन आनी जी. एस. बी. बाबतींत चिंतपा बदलाक गोंयचीं पुस्तकांच घेवन तातूंत थोडे बदल करून तांचो उपेग करचो."

- अध्यक्ष : तिसरी भास कोंकणी खंचे लिपींत घेवची देवनागरी ओ कन्नडा? (मूळ कन्नडांतलें)

- श्रीमती संध्या आर. शेवगूर : "तिसरी भास घेतासतना गोंयांत नागरी लिपी आसा जाल्ल्यान थंय साहित्य मेळपाक कसले त्रासूच ना."

- येरीक ओझेरियो : "हें बाबतींत दोन समाज घटकांचें साहित वेगळें वेगळें आशिल्ल्यान प्रामाणिकरण असाध्य. आमच्या परिसराचें साहित्य कन्नड लिपींत आसा. तें वाचून समजप भुरग्यांक गरजेचें. कोंकणीचेर मोग आसा जाल्यार आमकां सगळें साध्य आसा."

- विलियम बोर्बोजा : 'नागरी लिपी घेंवची जाल्यार सवे यत्तेचें हिन्दी पुस्तक घेवन पठ्य पुस्तक तयार करचें."

- अध्यक्ष : 'दोनूय लिपींचो उपेग करचो (नागरी आनी कन्नड) परिक्षार्थीन पठ्यपुस्तकांतली खंची लिपी उपेग करची तो निर्णय शाळा आनी भुरग्यांच्या पालकांचेर सोडचो.

(आधार : ता. 11-10-2004 थावन कोंकणी पाठ्य पुस्तका निमती चलल्या बसकेंतलो विवर)

**(ई) अध्यक्ष : श्री एरीक आझेरियो हांचें प्रयत्न**

श्री एरीक ओझेरियोन 2005 इस्वी मार्चाचे 28 तारकेर कोंकणी साहित्य अकादेमीचें अध्यक्षपण स्वीकार करताना उलोवन "आमच्या इस्कोलांनी कोंकणी शिकप कोंकणेक सर्वांनी मानची एका अधिकृत लिपी आनी कोंकणी संस्कृती विशीं संसोद आनी दस्तावेज करचो आपलो मुखेल इरादो

जावन आसोन सरकारान आपणाक दिल्ली ती जवाबदारी प्रामाणीकपणी पळयतलों." म्हणालो. (राकणो, एप्रील 7, 2005)

ह्या उप्रांत श्री. एरिकान, मेयाच्या 15वेर मंगळूरच्या केनरा कॉलेजीच्या सभा सालांत, कोंकणेक लिपी आनी बोली ठरावंक 'कोंकणी लोकां प्रतिनिधींची जमात आपयली, ह्या जमातेक कोंकणी संघ संस्थ्यांच्या मुखेल्यांक, पत्रांच्या प्रतिनिधींक, येदोळ पर्यांत अकादेमीत सांदे जावन आसल्ल्यांक तशें अकादेमी थावन येदोळ प्रशस्ती, पुरस्कार लाभल्ल्यांक आपयलां म्हण पत्रिका प्रकटणे मुखांत्र कळयलें. (राकणो, मे 12, 2005) आनी स्वता बरइल्ल्या पत्रांनी अशें लिखून आसल्लें. "कर्नाटकाच्या शाळेंनी सवे क्लासी थावन (optional Subject) विंचवणेचो विशय जावनी कोंकणी शिकची वेवस्था जाली तर खंयची 'लिपी आनी खंयची बोली वापरूंक जाय? आनी कित्याक? ह्या विशीं तुमची / तुमच्या संघटनाची पत्राची अभिप्राय तुमी बरवन हाड्न, तीच वाचून ताची एक प्रती आमकां दिवन जमातेंत सकडांची अभिप्राय व्यक्त करूंक अवकास कर्न दीजे आनी एका निर्धाराक येवंक आधार जाय जे म्हणोन तुमचे लागीं उपकार मागतां."

ह्या जमातेंत जाल्ल्या निर्णय विशयांत पत्रिका प्रकटण आनी पत्रा मुखांत्र आइल्ल्याची वर्दी अशी आसा :

"हे प्रक्रियेंत भाग घेतल्ल्या 65.67% व्यक्ती / संघटन / पत्रा हाणी कन्नड लिपी, 28.36% देवनागरी लिपी, 2.98% रोमी आनी 2.98% अस्पश्ट अभिप्राय दिल्लेल्यान; आनी ऑक्टोबर 2004 इस्वेंत केल्ल्या शाळेंच्या समिक्षेंत 84% भुरग्यांनी कन्नड लिपी आनी 11% भुरग्यांनी देवनागरी - हाची विंचवण केल्लेल्यान - माय 30, 2005 वेर जमलेले अकादेमीचे म्हासभेन हो अंतीम निर्धार घेतला - 'कर्नाटकाचे शाळेंनी भुरग्यांक कोंकणी शिकयताना कन्नड लिपी वापरची.'

बोली विशीं लोकां प्रतिनिधींची अभिप्राय - 'तज्ञानी ठरायजे' म्हण आसल्ल्यान, अकादमीन येदोळच 20 जणां जाणकारांची एक समिती रचल्या.

ही जाणकारांची समिती जून 11 वेर बसून बोली विशीं एक निर्धार घेवंक निर्धार करतली. हेच जमातेंत पाठ पुस्तक तयार करूंक 7 तज्ञांची विंचवण जातेली. हे 7 तज्ञ जून 16 वेर बेंगळुरांत डी.एस.ई.आर.टी निर्देशकाच्या मुखेलपणा खाल बसून पाठ पुस्तक तयार करची प्रक्रिया सुरवात्तले."

ह्या निर्णयाक जून 9 तारकेच्या राकणो संपादकियांत आइल्ली अभिप्रायः

"कर्नाटकाच्या मट्टाक कानडी लिपीच अधिकृत जावन मानून घेतिल्ली पत्रांक, साहितींक, कलाकारांक आनी कोंकणी लोकाक व्हड संतोसाची गजाल. कर्नाटकांत कोंकणेक कानडी लिपीच जायजे हो आमचो वाद जावन आसल्लो आनी आमच्या वादांत सोडदोड करूंक ना. आमच्या चिंतपांत आमी बदलावण करूंक ना. सुरू थावनच आमी ह्या आमच्या वादाक लागोन रावल्यांव... कर्नाटकांत कोंकणी शिकंवचो वावर इस्कोलांत करतात तर ताका कानडी लिपीच चड सोंपी म्हळ्ळें आमचें धोरण आज नीज जावंक पावलां."

अशें अध्यक्ष श्री. एरीक ओझेरियोन इस्कोलांत "कोंकणी शिकयताना खंयची लिपी" म्हळ्ळया शतमाना थावन रेवडोन आसल्ल्या नाजूक विशयाचेर अध्यक्ष जावन आइल्लेंच जमात्यो करोवन, कन्नड लिपी म्हण तिर्मान कर्न पत्रां मुखांत्र सार्वजनिकांक कळोवनच सोडलें. खंयचोय समस्यो कठीण रेवडायलो तक्षण सोडोंवक जायना. सवकासायेन सवकासायेन, नाजुकायेन आनी चतुरायेन मुखार सराजाय म्हण म्हालगडे सांगताले, तशेंच जालें. समस्यो परिहार जांवच्या बदलाक आनीकय रेवडालो.

**V. इस्कोलांत कोंकणी शिकयताना कन्नड लिपी जावची - म्हळ्ळया तिर्मानाक विरोध प्रतिकार :**

कोंकणी लोकांच्या पंगडामदें मंगळुरांक क्रिस्तांव कोंकणी आनी गौड सारस्वत कोंकणी प्रमूख जाल्यार गोंयांतय अशेंच. पूण गोंयचो क्रिस्तांवलोक पोर्चुगीज आडळत्या वरवीं रोमन लिपी वापारता. पूण जे.एस.बी. पंगड. चडावत गोंयांत, कर्नाटकांत आनी केरळांत देवनागरी लिपी पसंद करतात.

त्या भायर शतमाना थावन कोंकणेत अधिकृत लिपी देवनागरी जावंक जाय म्हण चडउणे हरएका सार्वजनीक वेदीचेर, परिशद आनी संमेळनानी निर्णय जावन बहुसंख्यांत वांगडिनी अंगिकार केल्ल्यान प्रजातांत्रीक रितीन कन्नड लिपी वापरची म्हण तिर्मान जाल्यार "कर्नाटक राज्य कोंकणी भाशा अल्पसंख्यात विद्या संस्थेगळ संघ" ह्या संस्थ्यान पत्रिका गोष्ठी चलोवन तांची विरोध अभिप्राय उगत्यान प्रकटली. ती प्रतिक्रिया विविध खबरे पत्रांनी 2005 इस्वी जून 18 तारकेर आइल्ली वर्दी ह्या परीं आसा :-

| | |
|---|---|
| - उदयवाणी - | "कोंकणी : नागरी, कन्नडा पठ्य पुस्तकक्के ओत्ताया" |
| - कन्नड प्रभा - | कन्नड लिपीय कोंकणी पठ्य ओप्पलारेवु |
| - प्रजावाणी - | 'नागरी लिपियल्ले कोंकणी पठ्य पुस्तक तयारिसलु आग्रहा' |
| - विजय कर्नाटका - | नागरी लिपियल्ली कोंकणी पठ्यक्के ओत्ताय |
| - होसा दिगंता - | 'कोंकणी पठ्यक्के कन्नडा लिपी : विरोध' |
| - Indian Express - | *'Move to teach Konkani in Kannada - Minorities plan legal action.'* |
| - Deccan Herald - | *'Konkani Academi told to adhere to dual script policy.'* |
| - The Hindu - | *Script row hots up; Konkani Association plumps for Nagari.* |
| - Vijay Times - | *'Academy's decision on Konkani script un constitutional.* |

**'दि हिन्दू'** इंग्लीश खबरे पत्रार आइल्ली संक्षिप्त वर्दी हांगासर दिल्या :

*"The Karnataka State Konkani linguistic Minority Educational Institutions' Association has rejected an*

*initiative by the Karnataka Konkani Sahitya Academi to bring out text books for students desiring to study Konkani as an optional subject in schools in Karnataka from sixth standard in Kannada. It has demanded that Nagari script be used in official text books.*

*Addressing press persons here on Friday, secretary of the association, K. Mohan Pai said the association in using text books with Kannada and Nagari scripts in 60 - odd schools administered by it in Karnataka for students studying in first to fifth standards. While this is an initiative of the association, official text books should confirm to constitutional norms, he said.*

*Nothing that Artiete 29(1) of the Constitutional any sections of citizens residing in India or any part there of, having a distinct language, script or culture of its own to conserve it, he said in case of Konkani, Nagari has assumed status of distinct script for various reasons. The Kendra Sahitya Akademi has recognised Konkani in Nagari script as an independent language, he said.*

*Konkani written in Nagari script is official language of Goa, he said an added Konkani finds a place in the Eigth Schedule of the Constitution. Noting that Nagari is the constitutionally recognised script of Konkani, he said this perhaps explains why*

*Konkani in Nagari script is used on Indian currency notes to indicate their denominations... and added the association has informed the Department of State Education Research and Training (DSERT) which has to bring out the official text book of its opposition to Kannada script..."*

ह्या प्रतिकाराक कोंकणी लेखकांचो एकवट हाणीं प्रतिरोध जावन आनी अकादेमीक पाटिंबो जावन एक पत्रिकागोष्ठी आपयली आनी ताणी कन्नड लिपीक पूरक जावन दिल्लीं राजावां ह्या परीं आसात.

(Vijay Times Tuesday June 21, 2005)

*"- demand to teach Konkani in Kannada and Nagari in impractical as no language can be Taught by using two scripts.*

*- One cannot accept Goa as a model as the state has ulterly failed in teaching Konkani in the Devnagari Script. Out of 966 Govt. primary schools in Goa, only 79 (9 percent) schools impart in Konkani Medium. Only 21 percent of the Govt. High Schools in Goa teach Konkani as a third language, which again proves the failure of the script, though it is a fact that Konkani is the State language of Goa.*

*- For the past 125 years Konkani is being written extensively using the Kannada Script in Karnataka. The use of Devnagari is minimum. Kannada being the official language of the state is learnt in school from the very beginning.*

*- If Karnataka, where the use of Devnagari is minimal, adopts the script to teach Konkani in schools, it will face a dearth of literature in Devnagari. At this juncture, it will have to import literature from Goa. Instead, the treasure of literature in Kannada script published by the state academy will be resourceful if the Kannada script is used..."*

- (उदयवाणी - कन्नड दिनपत्रिके दि. 22.6.2005)

(मुळच्या कन्नड लिपींतल्या पुस्तकांत कानडी भाशेंत आसल्ले मूळ खबरेचो कोंकणी अणकार हांगा दिला.)

'- देशांत कोंकणी लोकांची वट्ट संख्या 50 लाख आसा. हांतूतले 27 लाख लोक कानडी प्रदेशांत रावतात. राज्यांत गेल्लीं 125 वर्सां साकून कन्नड लिपींत कोंकणी साहित्यवृद्धी जाल्या. जाती-धर्माचो भेद नासताना कर्नाटकांतलो भोवतेक कोंकणी लोक दिसपडट्या वेव्हारांत कोंकणी बरोवपाक कन्नड लिपीचो उपेग करतात. हांगा कोंकणी भाशेंत 4 साताळ्यां सयत सुमार 30 नियतकालिकां कन्नड लिपींतच प्रकट जातात. मोठ्या प्रमणार साहित्य रचना कन्नड भाशे वांगडाच कोंकणी भाशेचीय वाड जावपाक जाय अशी भोवतेक जणांची अभिलाशा व्यक्त करचो तांचो एकूच उद्देश दुसरों कितें आसतलो असो एकवटाची अध्यक्ष डोल्फी एफ.लोबो हाणी पत्रकारां मुखार मत मांडाना टिका केली. मुखेल कार्यदर्शी डॉ. एडवर्ड नाजरेत कार्यकारी समितीचे सदस्य जे.एफ. डि'सोव्जा, विक्टर रोड्रीगीस पत्रकारां मुखार हाजीर आसले."

कोंकणीक खंयची लिपी सूक्त म्हळ्ळया वाद-विवादांत श्री गोकूळदास प्रभाव उदयवाणी पत्रार (जून 24, 2005) बरइल्ल्या अंकण - लेखनांचो संक्षिप्त विवर :-

**"कोंकणी भाशेगे कन्नड लिपी - बगेहरियद समस्ये"**

(कोंकणी भाशेक कन्नड लिपी - सुटावोनाशिल्ली समस्या)

(मूळ कानडी लिपींतल्या पुस्तकांत हो मजकूर कानडींत आसा)

"... वयलेचाराक पळयले जाल्यार हे ज्वलंत समस्ये बाबतींत कोंकणी भाशिकांच्या विविध वर्गानी जनमत पुंजावपाक ह्या उपक्रमाच्या माध्यमान एक उच्च प्रजातांत्रीक पद्धतीचो मार्ग आपणायला अशें दिसता. पूण बारीकसाणेन समस्येचेर चिंतन केलें जाल्यार दूरगामी असो परिणाम सादतले भाशेकडेन संबंदीत अशी समस्या सोडोवपाचे दृष्टीन जी पद्धत आपणायली ती अनेक प्रस्न उबेकरता.

... कोंकणी लिपीची समस्या, देशांतल्या हेर प्रदेशानी रावपी कोंकणी भाशिकांचे ते भाशेकडेन आशिल्ले संबंध ध्यानात घेनासतना फकत एका राज्यांत रावपी समुदायाकच अणसरून सुटावी करपासारकी परिस्थिती आसा?

... ह्या सगळयां बाबतीन खोलायेन चिंतिनासताना दूरगामी परिणामाक कारण थारपी अशे तरेचो एक प्रमूख निर्धार निश्चीत करपाखातीर अकादमीन आडायल्ल्या प्रक्रियेंत सारको समज नाशिल्ल्या शाळेच्या विद्यार्थ्यांक भरीक घाले. हें पळोवन अशें दिसता की ह्या विशयाकडेन संबंदीत आशिल्ल्या सगळ्या समस्यांचो अर्थ लावपांत तिका अपेस आयलां; अशें हें पावल तेंच सुचीत करता.

... ह्या दोन वादांचेर नदर भोंवडायली जाल्यार देवनागरीचे समर्थक मतींत धरतात ते मुद्दे म्हळ्यार 1) एके भाशे फाटलें लिपीचें तत्व आनी 2) देशांत तशेंच विदेशांत आसपी सगळ्या कोंकणी भाशिकांची हित राखण... कन्नड लिपीचे समर्थक ह्या मुद्यांचेर मौन रावन हाचे वयल्यान एका वर्गाच्या प्रादेशीक हिताची राखण करपाची तांका चड चिंता लागल्या अशें दिसता.

... हातूंत घुस्पल्ले प्रत्येक प्रमूख समस्ये बाबतीन विस्तृतपमान विचार विनियम आनी भासा-भास हांच्या आदारान ह्या दोनय वर्गांमदीं परस्पर

भुमिके बाबतींत आशिल्ले दुबाव पयस करपी एक प्रक्रिया आरंभ जावपाक जाय आसली. कालांतरान असली प्रक्रिया आमचें एकमत घडोवन हाडपाक सहायक जावंयेताली.

कर्नाटकांत बरयल्ली कोंकणी आनी हेर कडेन बरयल्ली कोंकणी आस्ते आस्ते एकामेकापसून पयस वतात. सामान्य लिपीचो उपेग करून दिल्ल्या कोंकणी शिक्षणाच्या माध्यमातल्यान ही प्रक्रिया आडावन तिका मर्यादा घालप शक्य जांवयेतें.

प्रादेशीक लिपी आनी प्रादेशीक काळजी हुसक्यांक बळगें दीत रावल्यार हेरकडच्या कोंकणी भाशिकांच्या मनांत परकेपणाची भावना इल्ली चडच प्रमाणांत वाडूंक शकता. कोंकणीतल्यान मुक्तपणान सहसंचाराक आडखळ हाडपी हे हानिकारक व्यवस्थेक त्या आदारान आनीक बळ मेळुये. लिपिचे समस्येंतल्यान हिन्दुस्थानांतल्यो हिन्दी आनी उर्दू अशो दोन भासो जावन फुटून वेगळयो जाल्यो तेच तरेन कालांतरान कोंकणी भास तीच वाट धरुंये."

### 6.2.3.8 लिपीची विंचवण

कर्नाटकांत इस्कोलांत खंयच्या लिपींत आनी खंयच्या बोलींतल्यान शिकोंवचें म्हळळया वाद- विवादाचेर तीक्ष्ण दीश्ट दवरून येदोळ थंय जाल्ली चळवळ, लिपीचो घोटाळो, विचार-विनिमय, शिबिरां, जमात्यो, पत्रिका-गोष्ठी प्रतिकार आनी प्रतिरोध इत्यादी कोंकणी चळवळेचो एक प्रमूख भाग जाल्ल्यान हांगासर सक्षिप्त थरान आटपूंक प्रयत्न केलां.

कर्नाटकांत कन्नड लिपींतल्यान इस्कोल शिकोंवची प्रक्रिया सुरू जाता म्हण कळयल्ल्यान समस्यो परिहार जांवच्या बदलाक गोंयांत देवनागरी लिपींत कोंकणी आडळत्याची भास जावन आसल्ल्यान, गोयां, कर्नाटक आनी केरळ एकवटच्या बदलाक भेसां जाता म्हण भंय उच्चारून, गोंयची देवनागरींतली कोंकणी आनी कर्नाटकांतली कन्नड लिपींतली कोंकणी क्रमेणा पयस पयस सरोन, एकामेका संबंध नासताना, वेगळयो वेगळयो

भासो जांवचो संभव आसा म्हण सांगचें आयकोंक मेळता.

अन्यायाची गजाल उस्तिताना रोमी लिपीच्या साहितीक आनी कान्नडलिपीच्या साहितींक अन्याय जाल्लो पळेताना लिपीची विंचवण कश्टांचीच म्हणयेत. हांकां केंद्र साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराथावन अन्याय जाला म्हळ्ळें खरें. पूण आदलें आतां समा करूक जातागी? एकवटाखातीर आनी कोंकणेच्या मुख्य फुडाराखातीर आमी एक निर्धाराक ये जाय पडता आनी एक लिपी विंचीजाय पडता. त्या शिवाय कोंकणी लोक अख्या संवसारार कामाखातीर गेल्लो थंयच निवासांतर जाल्लो, हांच्या खातीर आनी कंप्यूटर युगांत रोमी लिपींत व्यवहार करूक सुलभ म्हळ्ळें नीज. पूण हो समस्यो भारतांतल्या हरएक भासांत आसा. तशें म्हणोन, मराठी, गुजराती, बेंगाली, तमीळ, तेलुगू इत्यादी भाशिकय तांची लिपी बदलितात गी?

i) **कंप्यूटर युगांत :** 'चॅट आनी ई-मेल', कंप्युटरांत 'चॅट आनी ई-मेल' करतेलीं रोमी लिपींतच करुंदीत. हांचो संखो भोव उणो. ई-मेल धाडच्याखातीर अख्या जनांगाची लिपी बदलीचे म्हण ना.

ii) भायल्या गावांत म्हणजे अमेरिका, केनडा, इंग्लंड आनी इन्नीतर युरोपाच्या गांवांनी निवासांतर जाल्ल्या कोंकणी लोकांखातीर, तांच्या भुरग्यांखातीर तांकां कोंकणी भाशेचें साहित्य वाचूंक अवकास जांवचे खातीर रोमी लिपीचो वापर जाल्यार बरो म्हळ्ळो वाद :-

पयल्या सुवातेर कोंकणी लोक खंय आसल्यारय ताणी घरांनी कोंकणी उलवंक जाय. इंग्लीश उलयतेल्यांच्या घरांनी आनी कोंकणी भास येनातल्ल्या भुरग्यांनी, कोंकणी भास रोमी लिपींत बरयल्यारय तांकां समजाना. खंयचीय भास पयलें समजाल्या शिवाय खंच्या लिपींत वाचल्यारय ती समजाना. भारतांत शिकोन परगांवांत गेल्ल्यांक भारतांत घोळच्या लिपी (शिकल्ली) मुखांत्र भास समजाना आनी परगांवांतच जल्मल्लीं, घरा कोंकणी उलयनातल्लीं तांचेखातीर खंयच्या लिपीन बरयल्ल्यारय फायदो ना कित्याक तीं भास नेणांत, तशें जल्मान तांकां रोमी लिपीन बरयल्यारय समजोंचें ना.

**iii) कोंकणी परिशदेंनी आनी संमेळनांनी घेतल्ले निर्णय** : अखील भारत कोंकणी परिशदेनीं आनी संमेळनानी मांडल्ले निर्णय आनी ठरावांनी कोंकणी फुडारींनी येदोळ थंय मानून घेतल्ल्या बरी कर्नाटकांत देवनागरी लिपीच कोंकणेक आपणावन जाता तितले समस्ये निवरावन कोंकणी लोकाच्या एकवटा थंय मेट दवरल्यार बरें.

### 6.2.4 वाक्सरीचें वादाळ

लुवीस मास्करेन्यान कोंकणी दिर्वे प्रारंभ करताना बरयल्ली भाशेच्या रुदानाची कविता, कोंकणी मोगींक, कडोंवक पावली. चीत दिवन वाचल्ले, मत दिवन कोंकणीच्या मोगार पडोन, भाशेच्या अभिवृद्धेच्या कामार पडले. त्या पयकीं मा. सिल्वेस्टर मिनेज बाप सेमिनरींत शिकतां शिकतानाच कोंकणी भाशेच्या मोगार पडल्लो, उप्रांत 'राकणो' पत्राचो स्थापक संपादक जावन नावाडदीक साहिती जावंक पावलो. ताणे साहित्याचें भांडारच रचलें मात्र न्हय, दुसऱ्यांकय साहित्य रचूंक प्रेरक जावंक पावलो. तशेंच जेप्पू सेमिनरींतय एक वादाळ उटलें. सेमिनरीस्त कोंकणी वाक्सरी करूंक मुखार आयले.

(बातमी - कोंकणी दिर्वे)

त्या वाक्सरीच्या वावराचो विवर ह्या परीं आसा :-

#### 6.2.4.1 कोंकणी रानांतलो वाद

चडउणे 1929 इस्वेंत कोंकणी दिर्व्यांत 'कोंकणी रानांतलो नाद' म्हळ्ळया लेखनावोळींत 'इंग्लेज- कोंकणी आनी कोंकणी इंग्लेज भाशेची एक वाक्सरी' रचूंक दिल्लो नव्या वर्साचो नवो निचेव' प्रकट जालो. कोंकणी दिर्व्याच्या काळार लेखनां बरयताना नीज नांवां दिवन बरोंवचें भारी अपरूप आसल्लें. चडावत नकली / लिखणे नांवां दिवन बरोंवचेच चड जाल्ल्यान, ह्या वाक्सरीच्या वादाळांत कोण पूरा साहिती मेतेर जाल्यात म्हण कळाना. 'जेप्पूचें लुसी', पिंतीण, आरम्हातारो, असल्या लिखणे नांवांनी लेखनां प्रगट

जाल्यांत. दिव्यांच्या काळार लेखनांक नीज नांवां दिवंक कोंकणी लेखकांक लज कित्याक म्हण समजाना. इंग्लीश लेखनांक नीज नांवां दिताले. अशें पारकूंक गेल्यार कोंकणी भाशेचो समर्थक म्हण बहिरंग प्रचार करूंक तांकां नाका आसलें जावयेत. तवळच्या इंग्लीश व्हडपणाच्या वातावरणांत, कोंकणी भाशेचो मोग काळजांत आसल्ले, घुटान कोंकणीची सेवा करताले जावंक पुरो.

कितेंय जांव, तवळ कोंकणी वाक्सरी तयार करूंक एक सळसळें वातावरण निर्माण जाल्लें. हर एकलो, हर एकल्याच्या घरांत तेंच नियाळतालो म्हळ्ळें बरी लेखनां वाचताना मतीक वेता. तशेंच जेप्पू सेमिनरींतय, असलेंच वातावरण निर्माण जावन वाक्सरीच्या कामाक लागल्ले जावयेंत. पूण उप्रांत कितें जालें, वाक्सरी कित्याक तयार जावंक ना, कसले समस्ये उदेले म्हळ्ळें पत्राद्वारीं कळोन येना. तवळ कोंकणी भाशेक सार्वजनीक सुवातेंनी मान्यताय नातल्ली वा कोंकणी भाशेचो मोग नासताना, हें पेल्याक उपकारचें काम मुल्याक (कोनशाक) पडलां आसतेलें म्हण समजोंक कारण जाता.

### 6.2.4.2 वाक्सरीच्या योजनेक बुन्याद

ह्या वाक्सरीचें सळसळें वातावरण निवोन चडउणे पन्नास वर्सां उप्रांत परत्यान जिवाळ्ळें. ह्या योजनेची तयारायेची काणी 'राकणो' पत्रार 1979 इस्वे नवेंबर 15 वेर (पुस्तक - 41, अंक 44) प्रकट जाल्याती अशी आसा : - 'कोंकणी शब्दा-कोश करतले ?' तुळू शब्द-कोश रचूंक उडुपी एम.जी.एम. कॉलेजीचो संस्थो राष्ट्रकवी गोवींद पै स्मारक संशोधन केंद्र मुखार आयलें. तांकां ह्या योजनाखातीर कर्नाटक सरकारान आठ लाख रुपय मंजूर केलो. तुळू शब्द कोश करचें काम आतां भरान चलता."

"कर्नाटकांतल्या कोंकणी, कोडव तसल्या उण्या संख्याच्या लोकांच्या भासांचे शब्दकोश रचूंक कोणय मुखार येतीत जाल्यार तांकांय आमी कुमोक करूंक तयार म्हण कर्नाटक सरकाराच्या मंत्री श्री. सुब्बय्या शेट्टीन गेलो त्या ऑक्टोबराच्या 2 तारकेर तुळू शब्द-कोशाचें काम आरंभ करच्या

संभ्रमावेळीं सांगल्लें. येदोळ कोणय उमेदवार मुखार येवंक नासल्लें पळेवन पयलो संस्थोच हाचें योजनय हातीं धरूक मुकार आयला."

"नवेंबर 6 तारकेर ह्या संबंधीं पयल्या संस्थ्यांत आपइल्ल्या एका प्राथमीक समालोचन जमातीर कोंकणी शब्द-कोश रचचें योजन हातीं घेवंचो निर्धार घेतलो. राकण्याचो संपादक मार्क वाल्डराक योजन वर्दी तयार करूक सांगलें. नवेंब्राच्या 19 तारकेर ह्या विशयांत पंडितां लागीं समालोचन चलवन योजन वर्दी सरकाराक धाडून दिवची आनी दुडवा कुमोक मागची म्हण निर्धार घेतलो."

**6.2.4.3 सां. लुवीस कॉलेजीचो शतमानोत्सव.**

1980 इस्वेंत सां. लुवीस कॉलेजीचो शतमानोत्सव आचरण करच्या संदर्भार, मा. अंजेलो फ्रान्सीस सावेर माफेय बापान कोंकणी भाशेखातीर केल्ल्या वावराचो उगडास काडून, तिच्या हितचिंतकांनी दिल्ल्या सूचनां प्रकार कोंकणी संस्थो स्थापन केलो. "कोंकणीचें साहित्य आनी ताची उदरगत, कोंकणी लोकाच्या समाजीक आनी सांस्कृतीक हिता संबंधाची वाडावळ." ह्या संस्थ्याचे उद्देश जावन आसात. हे उद्देश कार्यरुपाक हाडचे खातीर इकरा ध्येय समिकरण केल्यात. ह्या समिकरणा प्रकार-

पयलो ध्येय - कोंकणी भास आनी कोंकणी उलवंच्या लोकाचो आरंभ, अभिवृद्धी इत्यादी विशयांत चरित्रार्थ संशोधन चलवचें.'

दुसरो ध्येय - "वाक्सरी, शब्दकोश, उतरांवळी, पुरातन साहित्य इत्यादी संपादून उजवाडाक हाडचें" इत्यादी.

ह्या ध्येयाचें प्रथममेट जावन "अमर कोंकणी" म्हळ्ळी संशोधक - प्रायोगीक षणमासीक पत्रिका (स म्हयन्याक एक पावटीं) उजवाडाक आइल्लें. कोंकणी पुस्तकालय आनी वाचपाघर स्थापन जालें.

समिकरण केल्ल्या ध्येया परमाणे 1986 इस्वी ऑगस्ट 3 वेर सां. लुवीस कॉलेजीचो प्रिन्सिपॉल जेज्वेत बाप लियो डी'सोव्जा, मो. अलेक्झांडर सोव्ज आनी श्री. विश्वनाथ कामत मुखेल सयरे जावन आइल्ले. ह्या उगतावणेच्या

संभ्रमाक कोंकणी संस्थ्याचो निर्देशक बाप हर्बट नोरोन्या, तुळू वाक्सरीचो प्रमूख संपादक डॉ. यू. पी. उपाध्याय, डॉ. विलियम माड्ता, मा. मार्क वाल्डर, सर्वश्री वी.जे.पी.साल्दान्या, आल्बन कास्तेलीन, बी.वी.बाळीग, कोच्ची थावन के.एस.शणै, पुरुषोत्तम मल्ल्या, गोयांथावन नागेश करमली इत्यादी, अशें साबार मुखेली / कोंकणी फुडारी ह्या कार्याक हाजर आसल्ले.

'नवेंबर 6 तारकेच्या जमातेक मंगळूर थावन 'आमची माय' संपादक आल्फोंन्स डि'लीमा, 'सेवक' पत्राचो सहायक मा. रोशन मिनेज कापुचीन, 'काणीक' पत्राचो संपादक श्री अवील रास्कीन्य आनी सहायक, श्री विक्टर आल्वारीस, साहिती आनी बरोवपी सर्वश्री वी.जे.पी.साल्दान्य, लियो सोव्जा ऑस्टीन सोव्जा प्रभू आनी लोरेन्स लोबो हाजर आसले. जमात श्री. के. के. पै आनी श्री. कु. शी. हरिदास भट्टाच्या मुखेलपणार चलली."

"कुंदापूर भंडारकर्स कॉलेजीचो प्रिन्सिपॉल श्री. शांताराम पै आनी मणिपालच्या एकाडेमीचो रजिस्ट्रार श्री. रमेश पै हेय हाजर आसले.

**i) मंगळुरांत कोंकणी संशोधन संस्थो -**

"... मंगळूर सां. लुवीस कॉलेज आपल्या प्रथम शेंबोर वर्सां काबार करच्या... ह्या महाघडयेच्या आचरणेच्या संदर्भी स्मारक जावन मंगळुरांत एक कोंकणी संशोधन संस्थो स्थापन करूंक सां. लुवीस कॉलेजीन निर्धार केला. हें स्मारक मा. बा. माफेक मंगळुरगारांनी दिंवचो गौरव म्हळ्यारय चूक जांवची ना. प्रथम जावन कोंकणी भाशेंत एक वाकसरी या शब्दकोश (Lexicon) आसा करूंक आलोचन केल्ल्या ह्या कार्याक सुमार $7^1/_2$ लाख रुपय खर्च बसतलो म्हण अंदाज केला. ह्या योचनाक कर्नाटक सरकाराची सहाय मागल्या आनी सरकाराचे मान्यताये खातीर हें योजन धाडून दिलां. कोंकणी साहित्यांत हेळल्लो प्रो. आल्बन कास्तेलीन ह्या संशोधन केंद्राचो निर्देशक जावन नेमक जाला. कोंकणी शब्दकोश तयार करच्या ह्या कामाक पांच वर्सां लागतेलीं. विविध प्रदेशानी आसचे कोंकणी भाशेचे प्रकार समजोन, समिक्षा चलवन हो शब्दकोश तयार करूंक आसा.

ह्या कामाक सर्व कोंकणी प्रेमींनी आधार दिवंक फावो." (बातमी - राकणो - डिसेंबर 26, 1979)

**ii) कर्नाटकाच्या मुखेल मंत्रीची भासावणी**

(बातमी - राकणो सप्टेंबर 26, 1985)

1985 इस्वी सप्टेंबर 20 वेर मंगळूरच्या दाँ बॉस्कु सालांत डॉ. जी. पी. नाजरेत आनी श्री. दिनेश पै हाणीं बरइल्लें कोंकणी व्याकरण उगतावन श्री. रामकृष्ण हेगडे, कर्नाटकाचो मुखेल मंत्री हाणी भाशणार दिल्ली भासावणी.

"कर्नाटकांत चडीत कोंकणी लोक जियेता. हो म्हाका वत्याँ अभिमानाचो विशय, त्या देखून कोंकणी शब्दकोश (वाक्सरी) तयार करून परगट करचो संपूर्ण खर्च कर्नाटक सरकार दितलो. हो खर्च दिवंचो कर्नाटक सरकाराचो कायदो म्हण हांव लेखतां."

**iii) कोंकणी निघंट कार्यागार** - (बातमी - राकणो मे 14, 1987)

"मंगळूर सां लुवीस कॉलेजींत स्थापन जाल्ल्या कोंकणी संस्थ्यांत एप्रिलाच्या 21 थावन 25 तारीक पर्यांत कोंकणी निघंट कार्यगार संस्थाचो निर्देशक जेज्वीत बाप हर्बर्ट नोरोन्होच्या मुखेलपणाखाल चललें. कर्नाटक विश्वविद्यालयाचो भाशा विज्ञान विभागाचो मुख्यस्थ आनी प्रवचन दो. विल्यम माड्ता आनी तुळू निघंटाचो संपादक दो. यू. पू. उपाध्याय मुखेल सयरे जावन आइल्ले. हाणीं मार्गदर्शक प्रवचनां दिलीं.

दो. माड्तान, भाशा विज्ञान, ध्वनी विज्ञान, आकृतीम विज्ञान आनी वाक्य विज्ञान हांची संक्षिप्त वळोख करून दिली. दुसऱ्या प्रवचनांत कोंकणी ध्वनिमां कानडी आनी नागरी लिपी समन्वय ह्या विशयांत माहेत दिली.

कोंकणी भास एक जाल्यारय तांतूं विविध रुपां - उपभासो आसात, म्हळ्ळें दाखवन दिवन हाचे व्यत्यास (फरक) रुजू करून दो. विल्यमान दाखयलें. आनी ते उच्फाराक समा जावन बरोंवची रीत कळयली.

दो. यू. पी. उपाध्यायान क्षेत्रकार्य (field work) करची रीत, कार्डां तयार करची पद्धत आनी समस्ये हे विशीं प्रवचनां आनी सूचनां दिलीं. ह्या

शिबिराक कोंकणी विद्वांव्स फिलीप नाजरेत बाप, जेज्वेत सिल्वेस्टर मोंतेयरो बाप, श्री रघू कुलकर्णी, श्री. एल. पी. भंडारकार आनी हेर हाजर आसल्लीं. श्री. बी. वी. बाळिगा, पंचकादाय संपादकान आपलीं सुचनां दिलीं.

कार्यदर्शी कु. शालेट मेंडोन्सान कार्यागाराच्या यशस्वेची जवाब्दारी घेवन उपकार भावुडलो - निर्देशक."

**6.2.4.4 वाक्सरीच्या वावराची सुरवात**

वाक्सरीच्या वावराच्या सुरवाते विशयांत 'SACAA' वर्दे पत्रांत आसल्ली एक वर्दी हांगासर दिल्या.

(The Aloysian Newsletter of St. Aloysius College Alumni Association - No. 11; July 1990 - Interim Issue)

*"KONKANI LEXICON PROJECT"*

*"Project Report for 1989 - 90"*

*"Work on the project has been continuous since 1988 - 89. The report and the annual budget however were not presented in March or April 1989. The annual session itself, anticipated to the month of January, was held on January 6, 1989 at Fatima Retreat House, Mangalore, D.K. The most important feature of this session was the presence among others of Goan delegates who participated in the proceedings. They were Madhavi Sardessai who functions as one of the asst. editors and Bernadette Gomes who functions as a field worker in Goa..."*

*"..."*

*"On December 3, 1989 the Rector, the Principal and the Director, Konkani Institute, St. Aloysius College and the entire Editorial Staff decided to take up the work in two phases. The first was to complete the work of kannada script konkani region and take initatives to publish it and then extend the work to other areas mainly Goa. The kannada script area material too was to be edited in Nagari, Kannada and phonetic script."*

*"..."*

*"We do have a band of dedicated staff on the editorial board. They are actively involved in konkani literary work. Konkani is a vast region duplicated and triplicated by historical migration presenting and creating problems peculiar to it. To do suitable work in such a region we need non-lexicographic props. We only hope the present tempo becomes a little more scientific and takes an intensive lexicographic turn."*

*'Rev. W. R. de Silva'*

*'Editor'*

ह्या पत्रा मुखांत्र कळीत जावचे विशय - वाक्सरीचें योजन जेप्पू फातिमा रेतीर मंदिराक वर्गावण आनी विल्ली आर. द'सील्व ताचो संपादक.

**6.2.4.5 कोंकणी वाक्सरीची काणी आनी जिणी**

('अमर कोंकणी' षणमासीक पत्र vol. 15, No.1 Dec 95 - Jan 1996)

"1985 इस्वेंत सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यान एक बृहत

योजन हातीं घेतलें. - एक विस्तरीत सर्वेक्षण करून कोंकणीच्या सर्व भासपुटांची एक वाक्सरी तयार करून ती प्रगटची. ह्या योजना मुखांत्र पश्चीम करावळेर आनी हेर जाग्यांनी आसल्ल्या कोंकण्यांचो समाजीक आनी प्रांतीय परिसरांक लागोन उब्जल्ल्या कोंकणी भाशेच्या भासपुटांचो अधिकृत संग्रह करून एक शब्दकोश तयार करचो उद्देशय ह्या व्हड योजनाचो. हो शब्दकोश कानडी, नागरी आनी ध्वनिमाशास्त्राच्या लिपयेंनी आसोन कोंकणी भाशेच्या, साहित्याच्या आनी संस्कृतीच्या तूर्त वाडावळीक बळ दिंवचो भरवसो आसा. कोंकणीक आसच्या साबार भासपुटांचें अध्ययन ह्या योजनांत जाताना उलवपाचें प्रमाणिकरण जांवची उमेद दोड्त्यान आसा.

कोंकणी लोकाचें सांस्कृतीक, कलात्मक आनी रचनात्मक अस्तीत्व परत्यान फुलोन परमळाचें तर कोंकणीच्या सर्व भासपुटांचें सुक्षीम आनी वेवस्तीत अध्ययन गरज आनी ह्या मुखांत्र मात प्रमाणिकरण साध्य.

असलो एक कोंकणी शब्दकोश-वाक्सरी या लेक्सिकोन तयार करचे तर एक खचीत या वैज्ञानीक वाट रचून घेंवचें काम प्रथम. उण्यार उणे 25 या 30 प्रदेशांनी तर्बेत जाल्ले आनी हेळल्ले क्षेत्र वावराड्यांनी खूद वचून थंय सरच्या लोकालागीं तोंडपाशीं, संवाद आनी कता-कतें मुखांत्र भास पुटांचीं सर्व लक्षणां जमो करचोच जावन आसा भंडवाळ ह्या योजनाचो.

सुरवेर, ह्या योजनाक बारा वर्सां लागतीत म्हळ्ळो अंदाज आसल्लो आनी सुरवातेचो वावर उत्तर आनी दक्षीण केनराक मात्र सिमीत कर्न उप्रांत हेर प्रदेशांक व्हरचो म्हळ्ळी आलोचन आसल्ली. पूण हें काम एका निर्दीश्ट वेगान करूंक आनी संपवंक उणेपणां आसल्लीं - कोंकणीत भाशेपंडीत, शब्दकोश / वाक्सरी परिणत आनी हांकां लगती जाल्ल्या क्षेत्रांनी हेळल्ले भोवल्लेच उणे आसल्ले. ह्या योजनाचो (तवळचो) प्रमूख संपादक दोतोर विल्ली आर. द'सील्वाक पयलें दिसल्लें सवालय हेंच - क्षेत्र वावराक जण सोदचे आनी तांकां तरबेत करचे, कोंकणी भाशेक प्रचलीत आनी अंतरीक बळ आसा म्हण दाकवंचें आनी उप्रांत चारित्रीक आनी प्रादेशीक गडी मारून कोंकणीच्या विविध भास पुटांक आरांवचें आनी तांकां वाक्सरींत प्रमाणीक

पूण संपूर्णपणी जागो दिंवचो.

1988 इस्वेंत संपादकान आनी ताच्या मंडळेन कोंकणी ध्वनिमा नकशा तयार केली आनी हाचेर होंदोन भासपुटांच्या प्रदेशांची नकशा तयार केली. इतलें तयार करतच कोंकणीच्या तीन प्रमूख लिपीन नागरी, कानडी आनी रोमी - आसच्या भासपुटांच्यो वोळी दाखंवची नकशाय तयार केली.

क्षेत्र वावर फकत सब्द आरावन घेंवचो न्हय, भास, कशी जिवंत आसा तशीच तिचो जीव आनी तीर्ल समाजीक, चारित्रीक आनी प्रादेशीक हंताचेर समजोन घेंवचो आनी संग्रह करचो. समाजीक जीवनांत सदांनीत वापरची भास - बोली केसेटिनी रेकोर्ड करून घेतली आनी आतां कोंकणी संस्थ्यालागीं 100 वयर केसेटी आसात; 50 हजारां वयर कार्डांचेर गादी, म्हणण्यो, हुमिण्यो अक्षर माळेच्या क्रमान दास्तान केल्यात. हो व्हड वावर दोतोर विल्ली आर. द'सील्व आनी ताच्या पंगडान केला.

आतां हे बृहत योजन तीज करून संपवच्याक एका प्रमूख संपादकाची आनी हेळल्ल्या शिबंदेची गरज आसा. संस्थ्यालागीं कंप्यूटर सवलताय येदोळच आयल्या आनी वाक्सरी कामाखातीरच प्रोग्रामा तयार आसात. संस्थ्याच्या ग्रंथालयांत धाराळ ग्रंथां आसात, पूण भाशे शास्त्र, ध्वनिमा शास्त्र आनी वाक्सरी वावराची माहेत दिवंचे ग्रंथ - इंग्लीश आनी हेर भासांनी - जाय पडल्यात.

थोड्या वर्सां आदीं कोंकणी संस्थ्यान कोंकणी डिप्लोमा कोर्स सुरू केल्लो आनी हर एक वर्सा तांते विद्यार्थी संशोधनात्मक लिखितां तयार करतात आनी हीं संस्थ्यान प्रगटच्या 'अमर कोंकणी' षणमासिकाचेर छापून येतात. वाक्सरी वावराक एक जाण्टो संपादक आनी ताका फावो ती शिबंदी मेळ्ळी तर हो वावर तुर्तान मुखार वेतोलो आनी कोंकणी लोकांचें सपन जारी जातेलें.

"बाप प्रशांत माड्ता जे.स.प्रिन्सिपाल आनी निर्देशक कोंकणी संस्थो,
सां. लुवीस कॉलेज, मंगळूर - 575003."

ह्या लेखना मुखांत्र कळीत जांवचे विशय - जेप्पू फातिमा रेतीर मंदिरांत आसल्लें वाक्सरीच्या योजनेचें दफ्तर धांपलां आनी दो. विल्ली आर. द'सील्व संपादक हाणीं ह्या योजनाचें काम रावयलां.

सां. लुवीस कॉलेजीचो प्रिन्सिपाल जावन फा. लियो डी'सोव्जा एस.जे. 1980-1990 इस्वे पर्यांत आसताना हें वाक्सरीचें काम सुरू जाल्लें. त्या उप्रांत 1994 इस्वे पर्यांत फा. जोजैफ नेलपती एस.जे.प्रिन्सिपाल जावन आसल्लो. हाच्या काळार म्हण जे चड उणे 1993 इस्वेंत हें वाक्सरीचें काम बंद पडलें. त्या वेळार जेप्पू फातिमा रेतीर मंदिराचो फा. संतोश कामत एस.जे.दिरेक्तोर जावन आसल्लो. हें वाक्सरीचें काम जाताना रेतीर मंदिराच्या 'धर्मा संबंदी' (Apostolate) कार्यक्रमाक आडखळ जाताली खंय आनी त्या देखून फा. संतोशान हें योजन ह्या मंदिरा थावन वर्गावण करूंक तवळच्या प्रिन्सिपाल फा. नेलपतीक समजयलें. ताणी लेख तपासणार जाल्या नंतर दफ्तराचें पीठोपकरण सागसिलेंच ताणीं त्या तीन कुडांच्या दफ्तराक (चडउणे 1990 इस्वी) थालें मारलें.[92]

1994 इस्वे थावन 2004 इस्वे पर्यांत फा. प्रशांत माड्ता एस.जे.कॉलेजीचो प्रिन्सिपाल जावन आसल्लो. हाणीं कॉलेजीचो प्रिन्सिपाल जाल्लेंच तें योजन जिवाळ करूंक कॉलेजीच्या आवरण (Campus) भितर दफ्तराक जागो दितां म्हण सांगल्लें खंय, पूण एक पावटीं जाल्लें घडीत पुनरावर्तन जावंचें नाका म्हण वाक्सरीचे मानेस्त आयकाना जाल्ल्यान हें वाक्सरीचें योजन पुनर चालू जालें ना.[93]

उप्रांत जाल्ल्या घडिताक आदार उमाळो पत्रार आइल्लें लेखन ह्या परीं आसा :-

**6.2.4.6 कोंकणी बुन्याद संस्थो**

संपादकीय : 'दो. विल्यम द'सील्वा' (उमाळो - एप्रील-मे 1998)

**"संपादकाचीं उतरां"**

एप्रील म्हयन्याचे पयले तारके थावन नवो म्हाल संपादक उमाळो पत्राची

साहितीक आनी कले जवाबदारी वहिसून घेता. संपादका मंडळीय थोड्यो तब्दिल्यो करून नव्यान बादल्या. तिचो हिसोब ह्याच पानार दिला.

दुसरी तरय गरजेची आनी एक गजाल म्हळ्यार आमी एक नवो संस्थो बांदला. ताचें नांव 'कोंकणी बुन्याद' या Konkani Foundation. हो संस्थो चलोवन व्हरूंक एक ट्रस्ट उबो केला. जाचें नांव 'केनरा एड्युकेशन एण्ड रिसर्च फावंडेशन ट्रस्ट.' तो ट्रस्ट कोंकणी बुन्याद संस्थो चलवन व्हरतलो आनी ताका जाय पडचो दुडू-अडको आनी वावराची दिशा दितलो. श्री वालेरियन आल्मेद ह्या ट्रस्टाचो जेराल दिरेक्तोर आनी तीत या टायटस नोरोन्य ताचो जेराल वावरादर्शीया कार्यदर्शी. हेर ट्रस्टीय आसात आनी सांदेय आसात. सांद्यांचो संखो एका हजाराक व्हरून पाववंची येवजण आसा आमकां. ह्या ट्रस्टाचे मजतीन आनी कोंकणी बुन्यादीचे वतीन आमी उमाळो संपादन करतांव. जर्नल ऑफ कोंकणी स्टडीज संपादन करतांव. कोंकणी विशय घेवन संशोधन करतेल्यांक वयल्या वर्गाची दोतोर सनद दिवंची मांडावळ करतांव, आनी संशोधन चलयतेल्यांक आमचो आनी हेर युनिव्हर्सिटींचो पाटिंबो मेळासो करतांव. देखून दोतोर सनदेखातीर कोंकणी विशय घेवन संसोद चलयतल्यांनी दो. विल्यम द'सील्वा कडे संपर्कांत येवन आपलो संसोदावावर आतांय सुरू करयेत. ताचेकडे संपर्काक येतल्यानी ह्या पत्रार बरवयेत. Dr. William R. Da Silva, 202 Vrindavan, Arya Samaj Road, 575, 003 Faculty of social Sciences, Osnabrueck University, Seminastr. 33, 496069, Osnabrueck, Germany.

ह्याच वर्सा थावन सुरू करून सगळ्या कोंकणी बरपांची ओळख दिवंचें एक पुस्तक संपादन करतांव आनी येदोळ केल्लो कोंकणी उतरां दायज या Konkani Dictionary वावर संपादन करून आठ भागांनी परगट करचें काम हातीं घेतांव. अशें धा वर्सां आदीं मंगळूर सां. लुवीस कॉलेजी आनी कर्नाटका सरकारा खातीर दोतोर विल्यम द'सील्वान फुडें व्हरून

संपादन करूंक धरल्ली पूण जेज्वेत पाद्रीं धर्मानच आनी चा. फ्र।. च्या उतरांनीं सांगचें जाल्यार पुस्कू जाल्ली, कोंकणी लेक्सिकोन येवजण आनी दोतोर विल्यम द'सील्वान आपूण जावन फुडें सरोन सुरू करून आपले पिडे धर्मान अर्द्यार रावइल्ली कोंकणी डिक्शनरी येवजण फुडें व्हरतांव. ताचें नांव. कोंकणी लोकांचीं खाणां, जेवणां, पिवणां आनी ओकतां. भोव नेटान तयार जाते आसल्लें हें पुस्तक संवसारांत पयलें, भारतांत पयलें आनी केनरा लोकांत चिंतूंक जायनातल्लें. तें वाचतल्यांच्या दोळयांक ते एक रांदपा चित्रांची पर्वण जातलें म्हळ्ळयाक कसलोच दुबाव ना. तें तयार जाते आसा."

ह्या संपादकाच्या उतरां थावन समजोंवचे विचार - दो. विल्ली द'सील्वान पुंजाइल्ली माहेत आरावन ताणेंच स्थापीत केल्ल्या 'कोंकणी बुन्याद' ह्या संस्थ्या मुखांत्र वाक्सरीचो वावर मुंदरसूंचें प्रयत्न केलां म्हळ्ळें कळोन येता. पूण उप्रांत कितें जालें, काम कशें बंद पडलें म्हळ्ळें कळोन येना.

### 6.2.4.7. वाक्सरीचो उगडास

कोंकणी संस्थ्याच्या वर्देंत. हें वाक्सरीचें योजन सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यान बंद करून दवरल्ल्या विशयांत फा. प्रशांत माड्तान जे.स. हाणी बरइल्ल्या 'On Eagles Wings' ह्या ग्रंथांत अशें लिखून आसा. (पान 369)

"... Since the government did not sanction further grants, and due to many other constraints, like lack of decisiveness on the part of the management this great project was shelved."

आतां ह्या वाक्सरीच्या योजना विशयांत कोणी उलयनात. कोंकणी दिर्व्यांच्या कळार म्हणजे 1929 इस्वेत ही आलोचनेची सुरवात जाली जाल्यारय त्या वाक्सरीच्या वावराक लागल्लें ग्रहण आनिकी सुटोंवक ना. आजूनय एकच एक ग्रंथ प्रकट जावंक ना. पूण चडउणे त्याच वेळार

मणिपालच्या पै पंगडाच्या आशिर्वादान, उडुपीच्या राष्ट्रकवी गोवींद पै संशोधन केंद्रान प्रारंभ केल्लें तुळू निघंटू काम संपवन 3032 पानांचो 1988 इस्वे थावन 1997 इस्वे पर्यांत स ग्रंथ प्रकट केल्यात. ह्या प्रकरणा वरवीं कोंकणी लोकाक तांच्या मांय-भाशे थंय आसल्ली बेपर्वा आनी अलक्षा आनिकय सुटोंक ना म्हण हें दृष्टांत दाखयता.

### 6.2.5 कोंकणी लिखीत सभा

कोंकणी लिखीत सभा, कोंकणी बरयणारांचो संघ आनी कोंकणी बरयणारांचो एकतार अशें सबार पावटीं असले संघ जाल्यात आनी बंद पडल्यात. कोंकणी बरयणारांचो संमेळ कोडयाळांत आनी गोवांत सबार पावटीं जाल्यांत ह्या विशयांत सविस्तर माहेत मुखल्या ग्रंथांनी दिवंक प्रयत्न आसतेलें.

### 6.2.6 प्रमाणिकरणाचें प्रयत्न

कोंकणी बरपा रीत, म्हणजे प्रमाणिकरणाचें प्रयत्न कोंकणी दिर्व्याच्या काळार थावन आज पर्यांत चलते आसा. एकेक कोंकणी पत्र एकेक नमुन्यार कोंकणी बरोवन प्रकटता. छाप्याचो म्हणता "आमकां कशें बरोवंक सांगलां तशेंच आमी बरोवंचें. आमी व्यापाराच्या दृश्टेन पळेतांव." अशें आसतां प्रमाणिकरण कोणाक? एकल्यान एकल्याक दुर्सोचें शिवाय सोड दोड केल्ली दिसाना. ह्या विशयांत साबार लेखनां पत्रांनी वाळ्ळयांत. ह्या प्रमाणिकरण आनी व्याकरणाचो विशय सविस्तार जावन मुखल्या ग्रंथांनी विवरावंक प्रयत्न आसतोलो.

## 6.3 सारस्वतांची जागमाग

चडावत रोमी लिपींत आनी कन्नड लिपींत प्रमूख जावन क्रिस्तांव कोंकणी लोकांचें प्रयत्न आनी पत्रां दाळोच दिसल्ल्यान आनी हिन्दू सारस्वतांनी काडल्लीं नेमाळीं मलयाळी लिपी, देवनागरी लिपी आनी कन्नड लिपिंतय आसल्ल्यान, ह्या ग्रंथांत सारस्वतांची जागमाग म्हळ्ळो वेगळो अध्याय रचलो. ह्या अध्यायांत सारस्वतांनी मलयाळी, कन्नड, देवनागरी आनी रोमी लिपींनी

काडल्ल्या पत्रांची म्हणजे गोंयच्या सुटकेच्या पयलेंच्या आवदेचो विवर मात्र दिवंक प्रयत्न केलां. गोंयच्या सुटकेच्या उप्रांतल्या आवदेचो विवर मुखल्या ग्रंथांनी दिवंक प्रयत्न आसतोलो.

### 6.3.1 मलयाळी लिपींत पत्रिकोद्यम

मलयाळी लिपींत पत्रिकोद्यमाचो विवर आरांवक भारी कश्ट जाले. कोंकणी भास जाणा आसल्लो आनी मलयाळी लिपी वाचूंक जाणासल्ल्या व्यक्तीक सोदून आसताना श्री गोकुळदास प्रभू भेटलो. हो मानेस्त केरळांत ताचें शिकप आखेर करून मंगळुरांत नौकरी करून आसल्ल्यान ह्या व्यक्ती थंय आधाराचें दार उगतें जालें. हाची सहाय घेतली आनी केरळाच्या कोचींत आसल्ल्या सुकृतींद्र ओरियंटल रिसर्च इन्स्टिटयूट' म्हळ्ळ्या संस्थ्यांत सासपोवन, केरळांतल्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाचो विवर आनी कोंकणी चळवळ आरावंक आनी नेरावंक प्रारंभ केलें. मेळल्लो आवकास आनी नियमीत वेळाचो सदुपयोग करून चळवळेचो विवर समजोंक प्रयत्न केलां.

एकल्या संशोधका वरवीं कोंकणेक उपयोगसिल्ल्यो हरएकय लिपी शिकोन ग्रंथ रचूंक असाध्य. ताचें जीवमानाची सावधी पांवचीना. हांगा नीज प्रयत्न आसा आनी प्रयत्ना फाटल्यान नीज वांवटय आसा.

### 6.3.2 कन्नड लिपींत सारस्वतांचो वावर.

कर्नाटकाच्या सारस्वतांनी, कन्नड लिपींत कोंकणी पत्रां काडून कोंकणेक पत्रिकोद्यमा वर्वीं सेवा दिल्या आनी सेवा लाबल्या. पूण पुराभिलेख (Archives) हाची प्रज्ञा नासताना, पुर्विलीं दस्तावेजां सांबाळून दवरूंक नांत या समा जागरुकताय घेनाशें, वाळय खावन गेल्यां अशें पुराय आयकोंक मेळता. त्या वर्वीं पुर्विलीं पत्रां मेळनाशें ह्या कन्नड लिपींत जाल्ली कोंकणीची सेवा आनी चळवळ ह्या ग्रंथांत दिवंक असाध्य जालां.

### 6.3.3 मुंबयंतल्या कोंकणी चळवळेची झळक

कोंकणी चळवळेचो ग्रंथ बरोवन हर एकल्याच्या तोंडांत ती खबार

आसलल्यान, चळवळेक संबंध जाल्ली दस्तवेजां खंय पावल्यारय कोणतरी धाडून दितात वा थंय / हांगा आसात म्हण दाखोवन दितात. तशेंच सां. लुवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्यांत वावर करून आसलल्या श्री गोपाल गौडान, एकदीस 'मुंबयंतली कोंकणी चळवळ' म्हळ्ळी थोडीं झेरोक्स केल्लीं पाना हातांतर केलीं, तांतून 'चळवळ' म्हळ्ळो शब्द आसल्लेंच ह्या ग्रंथाक कायंतरी उपकार पडात म्हळ्ळो ताचो उद्देश जावन आसल्लो. हीं पानां तजवीज करून पळयताना, कोंकणी भाशा मंडळ गोंय ह्या संस्थ्या थावन हर एका वर्सा काडच्या दिवाळी विशेश 'कोंकणी' वर्सुकी अंक्याचीं पानां जावन आसल्लीं. तो वर्सुकी अंको मेळ्ळो ना, पूण हीं पानां मात्र कोंकणी संस्थ्यांत मेळल्ल्यान, मुंबयंतल्या कोंकणी चळवळेची झळक थोडी लाबली आनी ती ह्या ग्रंथांत विवरांवक उपकाराक पडली. त्याचपरीं गोंयचो श्री राजू नायक आनी ताची पतीण श्रीमती माधवी सरदेसाय हाणेंय गोंयच्या भाशा मंडळेचो दिवाळी विशेश पत्रिकोद्यमाचो कोंकणी वर्सुकी अंक लाबोवंक सहाय केल्या.

### 6.3.4. देवनागरी लिपींत पत्रां

सारस्वतांनी म्हणजे शणै गोंयबाबाच्या काळार थावन देवनागरी लिपींत प्रगट जावंचीं पत्रां आतां लभ्य नांत जाल्यारय, गोंयचो प्रख्यात चळवळगार, सर्वश्री रवींद्र केळेकार, उदय भेंब्रो आनी नागेश करमली हांच्या घरांनी एकेक खासगी ग्रंथालयच आसां. त्याच परी श्री नागेश करमली हांच्या खासगी ग्रंथालयांत 'साद' नेमाळें आनी वर्धांतलें 'मीर्ग' सापडलें आनी ताणीं दिल्ल्या इशाऱ्या प्रमाणे शणै गोंयबाबाचो लागशिलो कुटमा-सयरो श्री. शांताराम वर्दे वालावलीकर हांचे कडेनय 'नवें गोंय', 'साद' नेमाळें आनी 'साळीक' म्हयन्याळें पत्रां सांपडलीं. तशें जाल्ल्यान ह्या पत्रांविशीं कांय इल्लीशी माहेत आरांवक आनी ह्या ग्रंथांत पातळावंक उपकाराक पडलीं. अशें हीं दस्तावेजां, पुराभिलेखा तितल्याच अपरूप मोलाचीं खासगी चळवळेकारांच्या घरांनी ताणीं सांबाळून दवरल्ल्यान ह्या ग्रंथांत आटापूंक जालीं आनी आदीं मागा कोंकणी फुडारींनी केल्ली कोंकणेची सेवा वाखणूंक

उपकारलीं न्हय तर जालें ह्या महान फुडारींनी केल्ली सेवा नांव नासताना, गांव नासताना मायाग जावन कोंकणी चळवळेचें मुख्य स्वरूपच बदलून वेतें कोण्णा. कशेंय जांव ह्या महान कोंकणी फुडारींनी नीज जावन केल्ली कोंकणीची सेवा ताणींच ह्या ग्रंथ कर्ताक दाखोवन दिल्लेबरी जाल्या म्हणच्याक दुबावना.

## 6.3.5. सोदनेच्या लिव्राची पुंजवणी.

कर्नाटकांत सां. लुवीस कॉलेजीचो कोंकणी संस्थो आसल्ल्यान ह्या संशोधनाच्या वावराक भारी उपकार जाला. तशेंच 'राकणो' दफ्तरांत मा.बा.एरीक क्रास्ता संपादकान भरपूर सहकार दिला. कोंकणी दिर्वे पत्र सोदून काडूंक पयलें म्हाका कळयल्लें श्रीमती ग्लेडीस रेगोन. हिच्या घरा व्हड एक ग्रंथालयच आसा. कोणायकडेन नातल्लीं दस्तावेजां हिचेलागीं दस्तान आसात आनी माहेतय लाबता. संशोधनाच्या वावरांत हिचो सहकार व्हड आसल्लो.

बिकर्नकट्टे कार्मेलीत मोनेस्टरींत 'कोंकणी दिर्वे' सांबाळून दवरल्ल्यान ह्या संशोधनाच्या वावराक धाराळ आधार लाभला. हाणीं दिल्ल्या सहकारान ह्या ग्रंथांत कोंकणी दिर्वे पत्रा विशयांत तपशील विवर दिवंक साध्य जालां. इस्कोलांत कोंकणी शिकोवंची या विशयाचेर धोशीं दस्तावेजां बस्ती वामन शणै हांचे थावन मेळ्ळीं. हाणे चडावत पत्रिका प्रकटणीं सांबाळून दवरलेलीं हीं ग्रंथाक उपकाराक पडलीं अशेंच साबार जणांनी प्रोत्साह, सहकार, प्रेरण आनी पाटिंबो दिल्ल्यान ह्या संशोधनेचो वावर आटापूंक आधार जाला. हांकां सर्वांक एका उतरान 'देव बरें करूं' म्हणतां.



# - संपवणी -

ह्या ग्रंथाक 'आटवणी' म्हळ्ळो एक अध्याय चडतीक लकयला. पूण आटवणी आनी संपवणी हांचे मदलें व्यत्यास वेगळोच आसा. आटवणी ग्रंथांतल्या अध्यायाचेर होंदोन आसा. पत्रांनी प्रारंभ केल्ल्या चळवळेचेर एक दीश्ट चरोंवची मात्र न्हय त्या चळवळेचें हंत आनिकय कित्तून पावलां म्हळ्ळें उस्तून काडचें आटवणेचो उद्देश जावन आसा. पूण संपवणी कित्याक आनी कशी म्हळ्ळया विशयांत मात्र आटापता.

## 7.1 जागरण

ह्या चळवळेच्या दुसऱ्या ग्रंथांत पत्रिकोद्यमाचो विशय घेतला मात्र न्हय पत्रिकोद्यमाच्या चळवळेची चरित्र सोडयताना, एक चिंताप तातूंत आटापलां म्हळ्ळें वाचप्यांच्या गमनाक हाडूंक एक प्रयत्न केलां. तें चिंताप जावन आसा कोंकणी चळवळेचें जागरण. हें चिंताप मतींत दवरून, पत्रांच्यो फोल्यो परतिताना, कोंकणी भाशे खातीर ताणी कितें बरयलां, संपादकियांत कितें म्हळां, कविताच्या चिंतनांनी कितें सांगोंक कवी पेचाडल्यात इत्यादी विचारांक प्रामुख्यता दिवंक प्रयत्न केलां. तिकलें मेळ्ळां तितलें बरयलां. हाच्याकी व्हर्ते बरोवंक मुखारीं कोणीय संशोधक येतलो म्हळ्ळो भरवसो दवरयां.

## 7.2. एक वांटो

ह्या पत्रिकोद्यमाच्या ग्रंथांत, हर एका कोंकणी पत्रांची चरित्रा आनी चळवळ ना म्हळ्ळें खरें. पूण हर एकाकय एक मीत आनी मेर आसा. एक ग्रंथ म्हणतच तो हातावंचो तितलो हळू आनी वाचूंक वोडनी येवंचो तितलो लागशिलो जावंक जाय म्हळ्ळें चिंताप मतींत दवरून हो ग्रंथ संपयला. कोंकणी पात्रिकोद्यम इतलें विस्तार आसागी तें एका ग्रंथांत आटापूंक असाध्य, जावन आसा. हया पात्रिकोद्यमाचे वांटे आनी फांटे करिजाय पडतात.

कारण, रोमी, कन्नडी, देवनागरी, मलयाळी इत्यादी लिपींनी आदीं मागा थावन कोंकणी फुडारींनी उठइल्ली चळवळ विविंगड प्रदेशानीं, विविंगड रितींनी आसा. ती नमियारलेल्या आवधे भितर आरांवक एकल्याचें जीवमान पांवचें ना. त्या देखून ह्या पत्रिकोद्यमाच्या चळवळेचो सुर्विलो एक वांटो मात्र विंचला. वांटो आनी भाग ह्या उतरांनी व्यत्यास आसा. भाग म्हळ्यार अपूर्ण आनी वांटो म्हळ्यार ताच्या परिदे भितर संपूर्ण म्हण घेवं येता. देखीक एक मासळेचो वांटो.

## 7.3 विंचोवण

पत्रिकोद्यमाचो एक वांटो मात्र म्हळें. तर त्या वांट्याची विंचोवण कशी म्हळ्ळें सवाल उबजाता. पत्रिकोद्यम प्रारंभ जाल्लें रोमी लिपींत म्हणतच रोमी लिपीथावन प्रारंभ केलें. पूण कित्तून पर्यांत? ताका एक गड बांदींक जाय. न्हय तर जालें ताका अंत्य ना. त्या देखून गोंयच्या सुटकेच्या पयलेंच्या आवदेचें मात्र उस्तियां म्हण विंचोवण केली. तशेंच मलयाळी आनी देवनागरी लिपिचें पत्रिकोद्यमाकय तीच गड बांदली. पूण कन्नड लिपीचें पत्रिकोद्यमाचो विवर आनी चळवळ आरायताना ह्या गडीचो कांट तुटलो. कारण मंगळुरांत कन्नड लिपींतल्यान पत्रांची रासच आसा मात्र न्हय चळवळेचें शिखरय आसा. तर ह्या कन्नड लिपीच्या पत्रांच्या चळवळेच्या वांट्यांक कशें विंचोव्ण करचें म्हण चिंतताना एक उपाय झळकलो. सारकें तजवीज करून पळेल्यार कन्नड लिपींतल्यान जागरण उटोवंक सुरवात केल्लें 'कोंकणी दिर्वें' पत्रान. ह्या पत्राच्या चळवळेवर्वीं उप्रांतल्या पत्रांचो वाळो सुरू जाल्लो म्हळ्ळयाक रुजवाती कोंकणी दिर्व्यांतच आसात. त्यो रुजवाती सारक्यो सोडयल्यार समस्यो संपता, म्हळ्ळें खात्री जाल्ल्यान ह्या पत्राच्या चळवळेक चडतीक प्रामुख्यता दिली. राकणो पत्राचो दुसरो हंत म्हण निर्णयसिल्ल्यान ह्या ग्रंथांत 'राकणो' पत्राची चळवळ आरांवक ना. त्या भायर राकणो पत्रांतली चळवळय एका ग्रंथा तितली आटापता जाल्ल्यान 'राकणो' आनी ताच्या उप्रांतल्या पत्रांची चळवळ मुखल्या ग्रंथांत दिवंक विंचोवण केली.

